# पोको

(कादंबरी)

नं. ध. बोरकार







प्रकाशन

पोको
(कादंबरी)

POKO
(Novel)
by **N. D. Borkar**


मास्कारेन्हास वाडो
गोवा-वेल्हा, गोंय

**पयली उजवाडावणी :** जुलाय २००४

**प्रकाशन क्र. २१**

**प्रकाशक**
बिम्ब प्रकाशन
जी. एस. बी. ३
पर्वरी - गोंय

**अक्षर जुळवणी**
बिम्ब प्रकाशन
पर्वरी

**छापणावळ**
इम्प्रेशनस्
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - ५९० ००२

**दर्शनी चित्र**
गिरिश नंदा बोरकार

**मोल :** रू. २५०/-

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या प्रकाशनपूर्व अनुदान येवजणेचो लाव हे कादंबरीचे छापणावळीक जाला.

जण एकल्या प्राण्यांच्या काळजांत देव बशिल्लो आसता. ह्या देवाचो आवाज आयकून आनी समजून, लोकाक बरी देख दिवपाची स्फूर्त घेवन मुखार सरप्यांक.

– नं. ध. बोरकार

# मनुक्तावणी

म्हजें पयलें पुस्तक उजवाडाक येता तें पळोवन म्हाका आयज व्हड खोस भोगता.

खूब वर्सां फाटीसावन म्हाका लेखक जावचेंशें दिसतालें. कितेंय तरी बरोवंचें, लोकांनी तें वाचचें आनी म्हजें मन लोकांक समजचें, अशें म्हज्या मनांत येतालें. पूण लेखक जावप म्हाका जमलेंना.

हांव लेखक न जावपाचें कारण म्हळ्यार हांव शिक्षक आशिल्लों. तीन भासांचो शिक्षक. हिन्दी, मराठी आनी कोंकणी. ह्यो तीन भासो म्हाका वयल्या वर्गांनी शिकोवंच्यो पडटाल्यो. ते भायर कॉन्वेंट स्कूल आशिल्ल्यान इंग्लीशीचें वातावरण सदांकाळ आसतालें. ताका लागून खंयचेय एके भाशेचेर मन थीर करून कितेंय बरयतलों म्हळ्यार आयज-फाल्यां करचें पडटालें. दुसरी गजाल अशी की दिसपट्टी पंदरा-सोळा वरां कसल्या ना कसल्या शिक्षणीक कार्याक खर्च जातालींच. ताका लागून इत्सा आसूनय बरोवपाक वेळ साप्प मेळनाशिल्लो. अशें आसुनय दिसाळ्यांनी पत्रां आनी गेदरिंगा खातीर नाटकुलीं बरोवन लिखाणाची आस भागोवची पडटाली म्हाका!

कोणय लेखक जातलो जाल्यार पिरायेच्या चडांत चड चाळीशींत तरी बरोवपाक कोमेस करूंक जाय. पूण हांवें साठी हूपून निवृत्त जाल्या उपरांत लिखणी हातांत धल्ली, आनी 'नवप्रभा'त लेख बरोवंक कोमेस केले. लेख छापून येतात तें पळोवन बरें दिसलें आनी फुडें बरोवंक हावेस आयलो.

घरांत कोंकणी 'बिम्ब' येतालें. एक दीस, लेख बरोवन धाडल्यार छापशात काय म्हूण हांवें संपादकांक सहज विचारलें. तेन्ना संपादकांच्या कपलार पुसटशो मिरयो झळकल्यो. तांकां घडये दिसलें जावंये, हो म्हातारो आनी हे वेळार लेख कसले कपलाचे बरयतलो! तरीय तांणी न्हयकार दिलोना. "बरोवन धाड. बरें आसल्यार एक म्हयनो मदें सोडून छापपाचो यत्न करतां." अशें आश्वासन दिलें.

आपलें उतर पाळून तांणी मागीर चार म्हयन्यांत म्हजे दोन लेख उजवाडायले. उपरांत तांणी म्हयन्या म्हयन्यान म्हजे दोन लेख, संपादक मंडळांन छापपाचें




थारायलां म्हूण म्हाका कळयलें. तेन्नासावन फाटी वळून पळेनासतना हांव बिम्बाचेर बरयत रावलों.

म्हजे लेख वाचप्यांक आवडूंक लागले. वाचप्यांचीं पत्रां आनी फोन येवंक लागले. सात-आठ लेख उजवाडाक येतकीर हांवें पोक्याक हात घालो. पोको बरोवन जातकीर तो खंयच्या साहित्य प्रकारांत बसतलो, तो कादंबरी जातलो, ललीत लेखांवळ जातलो कांय ताका आपजिणेचो वास मारतलो हाचो हांवें मात्तूय विचार केलोना. ताची म्हाका गरजय पडलीना. म्हाका खात्री आशिल्ली की पोको वाचप्यांच्या हिताक पडटलो, वाचपी ताका सामकोच वाऱ्यार सोडचेनांत!

एक दीस पोको पुस्तकरूपान उजवाडाक येता म्हणपाचें कळ्ळें आनी खोस भोगली. फुडें लिखणी चलोवपाक तो एक परवानोच आशिल्लो. भविश्यांत म्हजे कडल्यान कितेंय कोंकणी लिखाण घडलें जाल्यार ताचें श्रेय बिम्बाकच फाव जातलें.

हांव पिरायेन व्हड आसां, पूण लिखाणाच्या बाबतींत खूब ल्हान आसां, हाची जाणविकाय आसा म्हाका. तरीय स्वताक सामकोच बाबतय मानूंक म्हजें मन तयार जायना. कारण म्हजेंच लिखाण म्हाका परत परत वाचीनशें दिसता.

म्हज्या हे पोक्याक डॉ. मनोहरराय सरदेसायांसारख्या नमळ, शांत, सभ्य, निगर्वी आनी साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्ल्या साहित्यिकाची प्रस्तावना फाव जाल्या, हें म्हजें व्हड भाग्य समजतां. डॉ. सरदेसायांचो हांव रिणकारी आसां.

बिम्बाच्या संपादक मंडळान पोक्याक उजवाडाक हाडलो ते पासत तांचोय हांव सदांकाळ रिणकारी आसतलों. तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीन ह्या पुस्तकाक प्रकाशन पूर्व अनुदान दिवन, पुस्तक छापपाक आर्थीक पालव दिलो म्हण अकादेमीचेय उपकार आठोवप म्हजें कर्तव्य थारतां.

**श्री. नं. ध. बोरकार**

मास्कारेन्हास वाडो,
गोवा-वेल्हा, गोंय

# उतरांचो उजवाड

'पोको' - कोंकणी कादंबरी साहित्याक एक मोलाची देणगी. ही एका भुरग्याच्या जिविताची काणी.

भुरग्यांचें मन उक्तावपी आनी जिवीत पितारपी अश्यो कांय काणयों कोंकणी साहित्यांत होलमतात. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांची धाकटुली कादंबरी, 'पापडां कंवळ्यो', गजानन जोग हाची 'गोपी', एन् शिवदास हाचो 'बाबुलो', माधवी सरदेसाय हिची अणवादीत कथा 'माणकुलो राजकुंवर', सुरेश काकोडकार हाची 'अेलीस आनी ताचो अप्रूप संवसार', दामोदर मावजो हाची 'फुलांचो हात', तुकाराम शेट हाची 'पाकलो' आनी मनोहरराय सरदेसाय हाणीं लेगीत आपल्या 'भांगराची कुराड' हे काव्य कथेंत एका कश्टी भुरग्याचें चित्रण केलां.

'पोको' ही कादंबरी एका भुरग्याचें, तो जाण्टो जाय मेरेन, दिसान दिसा केल्लें चित्रण.पोको हो भोवजन समाजांतलो भुरगो. गरीब घराब्यांतलो. गोंयच्या एका ल्हानश्या खेडेगांवांतलो. सैमांत जल्मल्लो, सैमांत वाडलेलो. तो आपल्या सभावाच्या बरेपणान आनी चिकाटीन आनी वावरान एम्. ए. मेरेन अभ्यासक्रम सोंपयता. आपल्या पांयार उबो रावता. ताचो बापूय एक कुळवाडी, खरें म्हळ्यार ताच्यांत आपल्या भुरग्यांक सगलें शिक्षण दिवपाचीं तांक ना. पोको वावर करता, कश्ट करता, शेतांतलीं सगळीं कामां करता. नांगरप, रोवप, लुंवप, गोरवां आंबडप, माडार चडप, झाडांर चडप. मागीर तो एका पसऱ्यार रावता. त्या पसऱ्यार साऱ्या पासून धुमटी मेरेन जोखून दिवपाचें काम करता. मागीर मडगांवच्या एका हॉटेलांत रावता. लोकांक च्या फराळ दिता, आयदनां घासता. मागीर तो मराठी शिकता, पुर्तुगेज शिकता, मागीर इंग्लीश. ही वाटचाल करतना ताका कितलेशेच अणभव येतात. बरे आनी वायट. हें बरें आनी वायट भोगून आनी सोसून पोको मुखार वता आनी जिवीत सारतना पोक्याक कितलींशींच, कितल्या तरी सभावाचीं मनशां मेळटात. कांय सादीं भोळीं, कांय दुश्ट, कांय मतलबी, कांय लोकांक त्रास दिवपी, कांय पाडे, कांय कुसके.

नंदा बोरकार हो उतरांचो चित्रकार. मनशांचीं चित्रां, गांवांचीं चित्रां, शाराचीं चित्रां, खर्णीचीं चित्रां, सैमाचीं चित्रां. बरोवप्याचो सैमाचो मोग दोळ्यांत भरता, मनाक भाळयता. हें फकत सैमाचें चित्रूच न्हय तर सैमांतलीं चित्रां. अशें दिसता बरोवपी सैमाच्या सांगाताक वाडला, सैमाच्या सांगाताक जियेला. हीं चित्रां रंग आनी आकाराचीं हाल-धोल नाशिल्लीं चित्रां न्हय तर तीं चलत-चित्रां. देखीक - 'घरा कुशीक दवरिल्ल्या तणांवंटीचेर बसून माजर आंग चाट्ट्लें. वट्ट्ांतल्या आंतेरीच्या ताळकुटार बसून एक

मरकुटो कावळो मोठ्या मोठ्यान आड्ड्तालो. तो पोक्याल्या भावंडांक उलो मारून आपल्याक भाकरेचो कुडको उडयात अशें म्हणटा जावंये !'

घरा कुशीच्या माडाचेर दोन चानयें पोरां आपालिपाचो खेळ खेळटालीं.

सैम हो मनशांचो सगळ्यांत व्हडलो गुरू. भुरगेपणांत सावन मनशांक शिकोवपाक, सैमान खुबश्या सजीव आनी निर्जिवांची निर्मिती करून दवरल्या. हांचें शिकप घेवपाक कसलेच भाशेची गरज नासता. भुरग्यांक सैमांतल्या प्राणी आनी वस्तुमात्रांची भास आपसूक समजता. सैमांतल्या किडी-मुयांची, सुकण्यांची, भिरभिऱ्यांची, मुसांची, शिंगां आनी शेंपड्योधाऱ्या जिवांची, वळवळत्या, सरपटत्या आनी सरकत्या जिवांची भास समजता ती फकत ल्हान भुरग्यांक. हाकाच लागून हांव म्हण्टा, पोक्याक के. जी. चो वास लागुना तें भेस बरें जालें....

सैमाचीं चित्रां पळोवनूच, पोक्याक खोस जायना तर सैमाचे जे प्राणी आसात तांचे वांगडा हुसक्या मेकळो जियेता... पोक्यालें घर मोडकें - तोडकें आशिल्लें. तातूंत मनशां वांगडा किडी-मुंयो, जल्ले-पाकोडये, शिल्ल्यो-पाली बी मायेमोगान रावताल्यो. थंय आवय-बापायक भुरगीं आशिल्लीं. भाव भयणीक, पोक्याचें मन समजवपी, मनाची कदर करपी सुकणीं, पिसोळीं, पाकें, चानयो बी आसात. आनी ती मन सुखी रूखावळ. ते माड, माडयो, ते पणस, त्यो आंबल्यो, त्यो वोंवळी, दसणी, शब्दुलीं, ते व्हाळ, कोणी, व्हाळादेगेर गर्दी करून उब्यो आशिल्ल्यो केगदी आनी तातूंत कुंकारी घालपी कोंकाऱ्यो! हें सगळें पोक्याक खरेलें सूख दितालें.

ही कादंबरी म्हळ्यार एका घराचें चित्रण. घरांतल्या मनशांचें चित्रण. ताच्या आवयचें, ताच्या बापायचें, भावा-भयणीचें. पोको म्हळ्यार एका गांवांचें चित्रण. गांवांतलें कुळागर, भाट, दोंगर, रान, गोरवां, सुणीं, माजरां. सगळ्यां गोंयचें चित्रण आसा. गांवांचें जालेंच, खणीवेलें आनी शारांचें लेगीत. पणजी, मडगांवचें...

नंदा बोरकारान चितारलेलीं उतरांची चित्रां, वाचतनां असो भास जाता की बरोवप्यान हीं चित्रां फकत पळोवंना तर अणभवल्यांत. असोय भास जाता, की बरोवप्यान पोक्याचें चित्र काडलां, पोक्याच्या जिविताचें चित्र काडलां, तें आपल्या जिवितावेल्यान. पोक्याच्या ह्या चरित्रांत बरोवप्याच्या आत्मचरित्राचो रंग भरसला. हें खरें काय फटी तें वाचकांक लागना. पूण साहित्यांत खरें आसा तें खरें दिसूंक जायनां, फटी आसा तेंच खरें दिसूंक जाय. इतलो हो पोको जितो - जिवो आनी आमकां सामको लागचो असो दिसता. हे नदरेन पळयल्यार पोको ही फकत व्यक्ती उरना, तर तो कश्टी, आनी निवळ, नितळ सभावाच्या भुरग्यांचें एक प्रतिक जाता. फक्त गोंयच्याच भुरग्याचें न्हय तर संवसारांतल्या खंयच्याय देसांतल्या, खंयच्याय गांवांतल्या भुरग्याचें. हेर भासांतल्या,

साने गुरूजी हांच्या 'श्यामची आई' तलो श्याम, रवीन्द्रनाथ टागोरांचो बंगालींतलो 'गोरा', इंग्लीश भाशेंतलो चार्ल्स डिकन्सचो 'डेव्हीड कॉपरफील्ड' (हे कथेचें रूपांतर बा. द. सातोस्कार हाणें 'दिग्या' म्हूण केलां), आल्फोंस दोदे ह्या फ्रेंच बरोवप्याची 'जॅक' ही कथा ही अश्याच प्रकारची म्हणूं येता.

भुरगेपण हो मनशाच्या जिवितांतलो अती म्हत्वाचो काळ. ह्या काळाची सावळी मनशाच्या सगल्या जिविताचेर पडटा. हें भुरगेंपण कोडू आसल्यार सगलें जिवीत कोडसाणेन भरिल्लें उरता. कोणें अशें म्हळां हें लटीक न्हय. Child is the father of man. जाण्टो भुरगेपणांतूच घडटा. हें भुरगेपण विसरपाचो यत्न केल्यारूय विसरप जायना. नंदा बोरकार हाणें भुरग्याच्या मनांत खोल रिगून, भुरगेपणांतले काळखा कुडीचेर उतरांचो उजवाड घाला.

नंदाची कोंकणी भास सादी, सोंपी, व्हांवती. ताच्या उतरांत गांवगिऱ्या जिवितांतलो रंग आसा, गोंयच्या गांवच्या मातयेचो वास आसा. मनीस जेन्ना ओंठावेलें उतर कागदार उतरायता तेन्ना तो जिबेवयल्या उतरांक मातशें वेगळें रूप, वेगळो आकार दिता. उलोवपाची भास आनी बरोवपाची भास, बोली आनी भाशा हांचो मेळ सादप केन्ना केन्ना कठीण जाता. नंदा हाणें हो मेळ सादला अशें दिसता.

साहित्यिक भाशेंत, बोली भाशेंतले वाक्य प्रचार, मोडी सहजतायेन भरशिल्या. वर्णनांतले भाशेक साहित्याचो गंध जरी आसलो तरी संवादांत बोली भाशेंतली जीवसाण, राकटसाण आसा आनी कोंकणी बोली भाशेंत रिगिल्लीं पुर्तुगेज उतरां वापरपाक तो मात्तूय फाटीं फुडें सरना. कोमेस, कोंत, फाल्स, पिकासांव, फावोर, दिस्तांस, मालकिर्याद, देशेंत, फोलीण, आल्म पेड्रेर अशीं उतरां सहजतायेन येतात.

बरोवपी गरिबीचें वर्णन करता. पोक्याचे गरिबीचें. असलीं वर्णनां मराठींतल्या दलीत साहित्यांत खूप मेळटात. देखीक लक्ष्मण माने हांच्या 'उपरा' हे कथेंत तें पळोवंक मेळटा. पोक्याक गरिबकाय नडटाली. शाळेक वतल्या वाडट्या भुरग्याक फाव तें खावंक-जेवंक मेळ्ळ्यारूच तो बरे भशेन शिकूंक पावता. ताचें मन शिकपांत लागता. सुमार स वरांचेर पोको धांपेत धांपेत घरा पावतालो. तेन्ना ताका दिसतालें आईन ताका कितेंय खावंक आनी च्याये घोंट दिवंचो. केन्ना केन्नाय शांतू ताच्या हातार कितेंय उडयतालें. पूण चडश्या वेळार ताच्या पदरांत निराश्या पडटाली. पाटी-पुस्तक कोनश्याक उडोवन फाट जमनींक तेंकोवन न्हिदपाची पाळी येताली. खूप वेळां तो भूक सोंसू नज जावन बुळू बुळू रडला. दोळ्यांतल्यान दुकां झरी व्हांवल्यात. त्या दुकांची खारसाण ताका केन्ना केन्नाय आपसूक चोखची पडल्या. अशेंच एक वर्णन म्हळ्यार...

'खुपदां पोको आपली भूक स्वतंत्रपणान भागयतालो. केन्ना तो पडत्या पावसांत

माथ्यार पोवल्यां हातरी घेवन कुळागारांनी भोवन पाक्यांनी खावन वडयल्लीं पेरां, माकडांनी खाल्लेलीं तोंरंगां बी घरा हाडून, तांचे बरे बरे कुडके कापून खातालो. केन्नाय चानयांनी खावन वडयल्लीं मुसराद आंब्याचीं कल्लां ताका मेळटालीं. तींय पुंजावन तो घरा हाडटालो आनी तांचे कुडके कापून खातालो. घरा फाटल्या दोंगुल्लेर भोवन वोंवळी धोडे, आंसाळे, पिटकोळां, भेडसां, कणेरां बी खावन पोटाक थोडी थाकाय हाडटालो. चिंचे मुदांत, बोरी मुदांत हेडून एक चींच ना जाल्यार बोर ताच्या हाताक लागल्यार ताका व्हडलें घबाड मेळिल्ल्यावरी खोस भोगताली.'

साहित्यिक बरयता हें आपल्या दुकांनी वा रक्तान बरयनां. तो आपल्या उतरांनी बरयता. ताचीं चिंतना कितलीं खोल, सपनां कितलीं उंच, दुकां कितलींय हून आसलीं तरो जो मेरेन ताच्या उतरांनी जीव ना, तांक ना, ते मेरेन तो एक समर्थ साहित्यकार जावंकूच पावना. नंदा बोरकारांत ती तांक आसा.

पर्यावरणां आड चलिल्ल्या बलात्काराच्या ह्या युगांत पोको ही कथा आमकां एक मोलाचो धडो शिकयता. कथेच्या दर ओळींत बरोवपी आसलो तरी ताचें नांव मात वाचप्याक दिसूंक फावना. खंयचोय फोटोग्राफर आपणें काडिल्ल्या फोटूंत आसता तरी ताची सावळी फोटूंत दिसूंक फावना. वाचप्यांक केन्ना केन्नाय नंदा बोरकाराचो चेरो दिसता. देखीक - हें वाक्य घालिना जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें अशें म्हाका दिसता - "आज भारत पाकिस्तानाचें तशेंच घडटा. भारताक पाकिस्तानाचो व्हडलो भाव मानून ताचेर अन्याय करतात."

साहित्यिकाक दोन गजालींची गरज आसता. एक नदर आनी दुसरें उतर. बरें बरयलें म्हूण जायना. ताणें वाचप्यांक जिविताकडे, संवसाराकडे पळोवपाची नवी नदर दिवंक जाय. जिविताकडे, संवसाराकडे, घरच्यांकडे दर मनशांकडे पळोवपाची नवी नदर आमकां 'पोको' हे कथेचो कथाकार दिताच दिता.

कादंबरी बरोवपी कितें सांगता? खरें म्हळ्यार, साहित्यिक कांयच सांगनां. ताच्या साहित्यांतली सांगणीं वाचप्यांक काडून घेवंची पडटा. आपापले बुध्दीप्रमाण, आपापले प्रकृती प्रमाण. तरी नंदा बोरकाराचें हें निमाणें उतर मनांत घट बांदून दवरपाचें. 'जण एकल्या प्राण्यांच्या काळजांत देव बशिल्लो आसता. ह्या देवाचो आवाज कोण आयकता आनी समजता तोच ह्या संवसारांत येवन लोकांक बरी देख दिता."

नंदा बोरकाराच्या काळजांतलो हो आवाज आयकुचो आनी तुमचें जिवीत घडोवंचें आनी भोंवतणीचो संवसार सोबीत करचो.

**- मनोहरराय सरदेसाय**

**पो**को आज सक्काळीं उठलो. धावन भायर आयलो. ओसरे धडेर उबो रावलो. हातांत पोपोट धरुन ताणें सळसळीत वझरो सोडलो. सदांभशेन ताणें आपलें मुताळें कितले पयस पावलें हे पळयलेंना. ताणें सोडिल्लो वझरो थंय पडिल्ल्या सुक्या खोलयांचेर पडून 'फर फर' असो आवाज जालो. तो 'फर फर' आवाज आयकून पल्ल्याकडे घोरेत पडिल्लो आजो फटफटीत जागो जालो. तो सडसडीत उठलो, आनी 'आऽऽयस' म्हणून उशाकडचो कोंड्या दांडो ताणें जमनीर आपटिलो. दांड्या आवाजान पोक्यालें मूत झप्प करुन अर्ध्यारच बंद पडलें. ताणें आपलो पोपोट अचळय काश्टेंत मुंगरलो. आनी धांवून हुंबऱ्यार वचून बसलो. आपले चुकीन आजो जागो जालो, हाचें ताका व्हड पिकासांव जालें. तो तुकूतुकू करुन आज्याक पळयत रावलो.

आज्याकूय पोक्याची काकुळट दिसली. आपल्या ताणशान पोक्याक वायट दिसलें, तो दुखावलो, हे जाणविकायेन आजो सामको निर्शेलो. पूण तो तरी कितें करतलो? सगळी रात पोटा भुकेन ताका न्हीद पडूं नाशिल्ली. फांतोडेर मात्सो दोळो लागिल्लो, पूण उजवाडटांच पोक्याल्या मुता सळसळान ताका जाग आयली. आजो एकदां जागो जातकीर न्हीद ताजेर रागार जाताली.

आज्यान आतां पोल्ल्याचीं लाकडां जाग्यार घालीं. थंय एक सुके पोवले कुडको आशिल्लो. ताणें तो रस्तीन हालयलो. पोल्ल्यांतलो गोबोर उडलो आनी कोळशांतल्यो उज्या किटाळ्यो फरफरून वयर आयल्यो. पोल्ल्यांतलो उजो जागलो आनी भडकलोय बी. आज्यान आपले कडकडे हात उज्यार शेकले. मागीर एक हात अचळय उशा पोंदा गेलो. पूण थंय विडीय नाशिल्ली आनी विडये पोंतेरय बी. आजो सामको निर्शेलो. मागीर ताणें आपली तकली पिंजक्या फोटकुरांत लिपयली, तेन्ना दोळ्यांतलीं दोन दुखां ताच्या हांतरुणार पडून तीं खंयच्या खंय

विरुन गेलीं.

विडयेची सवंय आशिल्ल्याक एक वेळ जेवण नासल्यार उपकारता. पूण वेळार विडी मेळना जाल्यार तो सामको पिसो जाता. आज्याचेंय तशेंच जाल्लें. शियां कडकड्यार विडी नाशिल्ल्यान ताचे कुडींत आशिल्लें नाशिल्लें बळ खंयचे खंय नाच जाल्लें. ताका आपलो जीव हुबता असो भास जातालो.

आज आमच्या गोंयांत तांदूळ - गोट्याचो तोटो ना. पूण एक वेळ असो आशिल्लो, तांदळांचें शीत म्हळ्यार चडशा गरीब गोंयकारांक व्हडलें पकवान्न कशें दिसतालें. दोंगराळ आनी कुळागारी लोकांक जोंदळे, बाजरी, पाकोळ, नाचणे बी ओरोव खावन कशेबशेन दीस काडचे पडटाले. तेंय बी अर्दे पोटार रावून.

रातीं न्हिदनासतना, आज्याक सुनेन पितळेंत घालून तांबड्या जोंदळ्याची सरसरीत पेज दिल्ली. जीव तगोवन धरपाखातीर आज्यान ती नाइलाजान ताळ्यांत ओतयल्ली. चरचरीत पेजे कुयां आज्याच्या आतकोड्यांक तोपूंक लागलीं आनी आजो सगळी रात तळमळूंक लागलो. रातभर ताका मातय दोळो लागलोना. आज्यान रातभर जागरण सोंसलें, भूक सोंसली. पूण आतां विडये तानेन तो सामको सैर-भैर जाल्लो. विडयेचो एकच झुरको मेळिल्लो जाल्यार शियांची आनी भुकेची तो कशींच परवा करचोनाशिल्लो.

पोक्याच्यान आज्याचे तळमळे पळोवंक जायना जाले. पोक्याक आजो साप्प मानवनाशिल्लो कारण आजो शीघ्र-कोपी. पावला कणकणी तापता. चोवकेर खेळूंक दिनां. हाका लागून पोको आज्याचें तोंड लेगीत पळोवंक तयार नाशिल्लो. पूण आतां आजो तळमळटा, कुडकुडटा तो आपल्याकच लागून, हाची पुराय जाणविकाय पोक्याक जाल्ली. आपल्या मुता आवाजान आजो जागो जालो आनी ताची अशी गत जाली. पोक्याच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच्यो पावळ्यो व्हावूं लागल्यो. तो हुंडक्यानी रडूंक लागलो. 'फाल्यांच्यान हांव आज्या म्हऱ्यांत उबो रावन मुतचो ना. आजो म्हातारो जाला. ताका हांव त्रास दिवंचोना. अशें म्हणून ताणें आपले दोळे पुसले.

पोक्याक कसली तरी अकस्मात याद जाली. तो फट्ट करुन उठलो. सालांत गेलो. थंय एक कोळयें आशिल्लें. विडयो फुकून पोतेरां जातकीर पापा तीं कोळयांत उडयतालो. भुरग्यांच्या हाताक लागचीं न्हय म्हूण आईनच सांगिल्लें

ताका तशें करुंक. पोक्यान थंयची तामरेत घेतली. तिचेर उबो रावलो. कोळयांत हात पावना तें पळोवन तामरेतीचेर एक बाकेन दवरली. बाकेनीर चढून कशेबशेन कोळयांत हात पावयलो. पूण थंय एकय पोंतेर नाशिल्लें. आईन तीं एकठांय करुन व्हाळशेंत व्हरुन उडयल्लीं. आतां कितें करतलो? कशेबशेन पापाल्या फोलीणांतली एक विडी चोरून ती आज्याक दिल्यार बरी. चोरी करप पाप अशें आई सदांच म्हण्टा. पूण आज तो आपल्या आज्याखातीर केदेंय व्हडलें पाप करुंक तयार आशिल्लो. ताणें सगळें घर पालथें केलें, पूण पापालें विडये फोलीण ताच्या हाताक कशेंच लागलें ना. तो बेजार जालो. आपूण आज्याचें दुख्ख पयस करुंक शकना, हाचें ताका खूब वायट दिसलें. तो बुळुबुळू करुन रडलो आनी धांवून हातरुणार वचून पडलो. म्हेळ्या बुर्नुसाचो कुडको माथ्यार घेवन ताणें थंयच गुटली केली. ताका रोकडोच दोळो लागलो. न्हिद्रा देवता ताका आपल्या राज्यांत घेवन गेली.

पोको तेन्ना आसत चार-पांच वर्सांचो. पूण ताका मत वयापरस इल्ली चडच आशिल्ली. ताचें उलोवप हेर भुरग्यांवरी चोंचरें नाशिल्लें. हो लांबसो, हाडकुळो, गोरोसो पोको चलतालो सुटसुटीत. उलयतालो फटफटीत. जाण्टीं मनशां उलयतात तेन्ना तांच्या म्हऱ्यांत वचून उबो रावतालो. तांचें उलोवप बारकायेन आयकतालो. वयान ल्हान आसुनय बरें-वायट, खरें-खोटें कितें तें ताका रोखडेंच कळटालें. तो बरें तें पदरांत घेवन वायट तें भायर मारतालो.

आतां दीस बरोच वयर आयिल्लो. जनेलांतल्यान आनी घरपाख्याच्या चुडटां खांचींतल्यान भांगराळीं वर्तुळां सुर्यदेवान घरभर पातळायल्लीं. लांबोळीं, वांटकुळीं, चोवकोनी, जाळयारीं आनी तरेक तरेच्या आकाराच्या भांगराळ्या खतांनी जमीन आनी वण्टींचेर सुसोबीत कपयाळीं निर्माण जाल्लीं. पूण ही सर्गीय कळाकुसर पळोवंक कोणाकच फुरसत नाशिल्ली. घरांतलीं सगळीं जाण्टी मनशां आपापल्या कामांत रमून गेल्लीं. दत्तू उकड्यो सुपाऱ्यो खळार पातळायतालो. शांतू दोड घेवन उदक हाडूंक झरीर गेल्लें. घराफुडले वाटेवेल्यान गांवमावशो, गांवबाप्पा, गांवआर्ती बी यो वच करतालीं. पोक्यालीं भावंडां कट्ट्यो-फातर घेवन चोवकेर खेळटालीं.

घराकुशीक दवरिल्ल्या एका तणा वण्णीर बसून मांजर आंग चाट्टालें. पोरसांतल्या आंतेरीच्या ताळकुटार बसून एक मरकुटो कावळो मोठ मोठ्यान

आङ्वेतालो. तो पोक्याल्या भावंडांक उलो मारून आपल्याक भाकरेचो कुडको उडयात अशें म्हण्टा जावंये. पोक्यालीं सानुलीं भावंडां केन्ना केन्नाय चोवकेर बसून नाचण्यांचे ना जाल्यार जोंदळ्यांचे भाकरे कुडके खातालीं. तेन्ना तीं काऊमुखार इल्ले इल्ले भाकरे कुडके उडयतालीं. आजय आपल्याक एकाद्रो भोब्या कुडको मेळचो म्हूण, काको बाबुल्याचें शितीद आपल्याकडे ओडून घेवंक कावकावता जावंये.

घरा कुशीच्च्या माडाचेर दोन चानयें पोरां आपालिपाचो खेळ खेळटालीं. घरापाख्यार, चुडटां कोलवाचेर. इतलें म्हणसर दत्तू खळावेल्यान सकल आयलो. ताणें आंगावेलो बुर्नूस आनी माथ्याचो तुवालो काडून दांडयेर उडयलो. फोलीनांतलीं केळीशेनतां विडी तोंडांत घालून लागलो 'पक पक' धुंवोर सोडूंक!

दत्तू विडी वोडूंक बसतकीर संवसाराक विसरतालो. ताचो विडी वोडपाचो आक्त भुरगेबाळांक मौज-मजेचो आनी सुखदेणो आसतालो. विडी ओडटा आसतना भुरग्यांकडल्यान आपलें कोड-कोवतूक आनी तोखणाय जाता ती पळोवन दत्तूक खोस भोगताली. दत्तू हेर वेळार गंभीर, तापट आनी भयांकृत दिसतालो. पूण भुरग्यांमुखार विडये प्रदर्शन करच्च्या वोगतार तो शांत आनी बिलू जावंन आसतालो.

चोवकेर एक उबो, वाटकुळो, लांबट आनी गुळगुळीत लाकडा ओंडको आशिल्लो. एकाद्रो गवय माथ्याक फेटो बांदून गायनाक बसचो, तेच परी दत्तू माथ्याक तुवालो बांदून ते लाकडा ओंडक्याचेर विडी ओडूंक बसतालो. तेन्ना भुरगीं धांवून येवंन ताका गराडो घालतालीं. मागीर दत्तूक खंयचो नेट येतालो, देवाक खबर ! खास भुरग्यांमुखार ओडपाचो लांबलचक कोर्नो कशी केळीशेनतां विडी तो तोंडांत धरतालो. विडयेचें पोंतेर जाय म्हणसर 'पक् पक् पक् ' करुन नाका तोंडांतल्यान धुंवर सोडटालो. मदेंच तो दांत विचकतालो आनी ओंठांचो चेमू करुन, मान वरशी करुन धुंवोर सोडटालो. तें पळोवन भुरग्यांक मज्जा दिसताली आनी दत्तूक आपूण कितें तरी व्हड कार्य करतां हाचें समादान जातालें.

भुरग्यांमुखार दत्तून विडी ओडची न्हय. आपूण विडी ओडटां पूण तुमी ओडूं नाकात, अशें ताणें भुरग्यांक सांगचें अशें शांतूक मनांन सावन दिसतालें. पूण दत्तूक तें पटनाशिल्लें. विडी ओडिना तो दादलो कसलो? तें तर बायेक!अशें दत्तूचें मत.

आपलो घोव सोरो पियेना हाचो शांतूक व्हड अभिमान. ताणें विडी ओडपाचें इल्लें उणें केल्यार शांतूक खूब बरें दिसताशिल्लें. पूण कशेंय जावं, आपल्या भुरग्यांक फुडें कसलेंच व्यसन लागचें न्हय, अशें शांतूक दिसतालें. कारण कसलेंय व्यसन घराची बुन्याद हालयता, असो शांतूचो अणभव. शांतू अक्षरशत्रू आशिल्लें खरें, पूण खरें - खोट्याची ताका पारख आशिल्ली. आपलें तेंच खरें म्हणनासतना स्वताक सुदारपाची तांक ताच्यांत आशिल्ली. बऱ्यांचे देखीन स्वताक सुदारपाची तें सदांच यत्न करतालें. हेर भुरगीं सदांच एकमेकांक बुरशो गाळी सांगतात तें पळोवन आपल्या भुरग्यांक तांची झळ लागची न्हय, हाची सदांच तें काळजी घेतालें. दत्तूकडे थोडीं अडाणीपणां आसलीं, तरी शांतू, दत्तूच्या सोभावांत आचरट आनी बुरसटपणा मात लेगीत नाशिल्लीं.

दत्तू सादो आनी भावार्ती. दीस आनी रात आपल्या कुळागारांत राबराब राबचें, तेंय बी शेणय-कामतील्या कुळागारांत. दिसवड्याचें काम ना तेन्ना.

गांवचे शेणय-कामत दत्तूकच दिसवड्यान कामाक आपयताले. कारण दत्तू हेर मानायांभसेन कामचोर नाशिल्लो. दत्तूक कुळागारांत सोडटकीर ताचेर सगळें पातयेवन धनयांन सें सूस्त घरा बसपाचें. धनी म्हऱ्यांत नासतना दत्तू एका फळाक हात लावंचोना आनी दुसऱ्याकय लावंक दिवंचोना. कितलेंय कश्ट पडले जाल्यार दत्तू आपल्या मालकाचें उतर ताळटार झेलतालो आनी हे गुणांक लागून दत्तू, मालक लोकांक जाय जायसो दिसतालो.

दत्तू 'ऑलरावंड' मानाय. ताका कसलेंच काम येनां अशें नाशिल्लें. झाडार चडूंक तर खापो. कसल्याय आनी केदेय व्हडल्या झाडार चडपांत दत्तूचो हात कोणाच्यान धरुंक जायनाशिल्लो. हेर मानायांक झाडांचेर हुण्णा आनी हुमले चाबतात आनी दत्तूक भियोवन तें पळटात. दत्तू एके माडयेर चडटालो आनी सगळ्यो माडयो पाडूनच देंवतालो. केदीय व्हडली माडी दत्तूक आपल्या आंगार झेलोवन दुसरेकडे सोंपयताली. पाडप, चिरप, तासप, तोडप, खणप, फोडप बी कामांत तो विशेश प्रवीण आशिल्लो. म्हाभारतांतल्या अर्जुनाक धनुर्धर म्हण्टात. कारण धनुर्विद्येंत ताचो हात धरपी संवसारांत दुसरो कोणच नाशिल्लो. आज दोतोर वेगळ्या वेगळ्या दुयेंसाचे स्पेशलिस्ट म्हण मिरयतात. पूण दत्तून एकदां कसलेंय काम आपल्या हातांत घेतलें म्हण्टकीर तो ते कामांत जीव ओततालो. कसलेंय हातेर ताच्या हातांत पडल्यार तो ताचें भांगर करुन सोडी. दसऱ्या परबे

दिसा दत्तू सगळीं हातेरां एकठांय करुन तांची गंद-फूल घालून पूजा करतालो. हे हातेरांत कोयतो, व्हिळो, कुराड, खरवत, खोरें-कुदळ, कल्लें हांचो चड करुन आसपाव आसतालो. क़िल्लकातनें आनी खाडूं लेगीत आसतालें. कामा वेळार दत्तू हीं हातेरां हाताळूंक लागलो म्हणटकीर खुबशे लोक ताच्या म्हऱ्यांत उबे रावंन कर्मानंद भोगताले. दत्तू सदांच निर्भय आसतालो. रोयणीतले सोरोप आनी रानवटी जनावरां दत्तूक भिंयेतालीं. दत्तूय देव-देवतांक मानून परंपरेन देंवचाराक सोरो-रोट घालपी आनी भोगावळ दिवपी. पूण भुतां खेतांची तो सदांच टिंगल करपी. मनां साफ आसल्यार देंवचार आनी भुतां कोणाचें कांयच वायट करिनांत असो दत्तूचो पक्को भावार्त!

ना म्हळ्यार दत्तू भियेतालो तो आपले बायलेक. हाचें कारण दत्तूच्या पदरांत आशिल्लीं अडाणीपणां आनी उणें गिन्यान. कोणाकडल्यानय दत्तूचेर अन्याय घडल्यार तो कोणाचेर कसो फुरफुरत हाचो नेम नाशिल्लो. हाकाच लागून गांवांत ताची कोणाकडे चडशी इश्टागत नाशिल्ली. आपलीं बायल-भुरगीं बरीं आनी आपूण बरो. शांतूक ताचो एकमुळो आनी फुरफुरो सोभाव मातय मानवनाशिल्लो. आपले घोवान लोकांमदें मेळून मिसळून वागचें, इश्टागत वाडवंची अशें खंयचेय बायलेक दिसताच. लोकाले घोव भजन म्हण्टात, नाटकांत वांटो घेतात आनी आपलो घोव मात घरकोंबो. हाका लागून शांतूक सदांच पिकासांव जातालें. दत्तूक नाटक जमनाशिल्लें. भजनांक बसून टाळ कुटूंक लेगीत तो नकळो आशिल्लो. पूण घरा मात तो मनांतल्या मनांत कसलीं ना कसलीं गाणीं गुणगुणटालो. आतां एक, गांवांतल्या एकान एक नाटकांत पड्डे ओडपाचें काम तो बेस बरें करतालो.

दत्तूलीं कातारां चंवरतालीं तीं शिगम्याक. मांडार नमन घालतासतना कोणा-कोणाक आनी खंयच्या खंयच्या देवाक साद घालपाचो ती सगळी नामावळ ताका पाठ आशिल्ली. मेळ भायर सरतना धोलार पयलीं तोणी पडटाली ती दत्तूलीच. मांडार जावं ना जाल्यार देवळाकडे जावं. गीत गायत शिगम्या खेळांत ताल धरचो तो दत्तूनच. तो असो फेर धरतालो की तो स्वता देहभान विसरुन वतालो. असले वेळार दादले-बायलांच्यो आनी भुरगें-बाळांच्यो नदरो खिळटाल्यो त्यो दत्तूचेरच!

गड्यां मांडार धोला तालार रामायण गावपाचें काम दत्तूच करतालो. बरोवंक-

वाचूंक कळनाशिल्ल्या दत्तूक रामायण आनी म्हाभारतांतले चडशे प्रसंग ताणें नाटक-किर्तनांतल्यान समजून घेवंन, मनांत साठयल्ले.

शांतू दत्तू परस खूब मनशाळें आशिल्लें. पूण तें भोळें मात नाशिल्लें. ताणें अणभवान संवसार पळयल्लो. सगळ्या थरांतल्या बायलांकडे ताची इश्टागत आशिल्ली. गोंदू नायकाली भयण गोमती, कामतीलें भागरत, वाड्यावेलें सगुणें, आबोलें, पंडरें, अहिल्लें, काशी बी सगळे बायलांवळींक शांतून आपलींशी करुन दवरिल्लीं. दत्तूल्या हुंबऱ्याक कोणाचोय पांय लागतालो तो शांतूक लागूनच. दत्तू म्हऱ्यांत लेगीत फिरकनाशिल्लीं मनशां, शांतूलें उतर झेलूंक एका पांयांर तयार आसतालीं.

ह्या दत्तू-शांतूच्या जोडप्याक कितलीशींच भुरगीं जालीं. तातुंतलीं कांय मेलीं, चडशीं जगलीं आनी तिगलीं. तांतलो पोको सगळ्यांत व्हड! आतां तो आज्याची दैना पळोवन खंती जाला आनी घरांत वचून, माथ्यावेल्यान पांगरुण घेंवन न्हिदला. पूण ताचें तें न्हिदप सांसणाचें न्हय तर तें अडेचे! पोक्यान जल्म घेतला तो न्हिदून सूख भोगूंक न्हय. न्हिदेंतल्यान रोकडोच उठून तो कामाक लागपाचो आसा. आपल्या कर्तव्याची जाणविकाय ताका पुराय आसा.

**ल्हान** पिरायेचेर चडशे भुरगे पोकेच आसतात. धडसाण तांकां उपरांत मेळटा. पोको जल्माक आयलो तेन्ना हेर भुरग्यांभसेन 'पोको' च आशिल्लो. कित्याक उपकरना तसलो!

पोक्याक पोको नाव कित्याक दवल्लां हें शांतू-दत्तूकच खबर नाशिल्ली. दत्तू भटागेर नावरस पळोवंक गेलो आसतलो. पंचांगांत भटाक प अक्षर दिसलां जावंये. हे प वेल्यान प्रकाश, प्रदोश, प्रवीण बी नांव दवरूंक जातालें. पूण आदले तेंपार वयले जातीकच असलीं नांवां सोबतालीं. सकल्या जातीनी आपल्या भुरग्यांक चड करुन बुधो, सोमो, काटू, देमू, झेमो, दुगू, नोनो, पोको बी नांवां दवरपाचीं आसतालीं. हे न्यायान भटान पंचांगांतलें प अक्षर मेळटा तें पळोवन पोक्याचेर पोको ह्या नांवाचो छाप माल्लो आनी दत्तून तो व्हडा खोशेन मानून

घेतलो जावंये!

पोक्याचो खरेलो अर्थ रिकामो. ज्याच्च्यांत कांय नासता तो पोको. घरच्च्यांनी आनी गांवच्च्यांनी पोक्याचो अर्थ असोच घेतिल्लो. पूण तांकां बाबड्यांक खंय खबर, पोक्यांत धडसाण कितली भल्ल्या ती !

आज्याच्च्या पिकासांवान पोको हातरुणार मात्सो आड पडिल्लो. ताका थंयच न्हीद लागली. न्हीद अशी लागली की भायर वत पडलें तरी जाग म्हण्टात ती ताका आयलीच ना.

अचकीत पोक्यान सालांतल्यान 'आई गे ऽऽऽ' म्हूण किंवाट्यान किळांच माल्ली. ती आयकून शांतून हाण्णीवेलो कळसो थंयच आपटिलो, आनी धावूंन पोक्या म्हऱ्यांत गेलें. शांतू येता तें पळोवन दत्तून थंयच्यान एकच धांव माल्ली.

'कितें जाले रे पुता म्हज्या, कोणे घांस बी मारूना मरे?' पोक्याक वेंगेंत घेवंन शांतू ताका पोशेवंक लागलें.

'पापान म्हजो गाल पिंजलो' पोक्यान रडत रडत जाप दिली.

'आतां सांग आवयक नसत्यो कागाळ्यो. बारा वरां लेगीत न्हिदोन रावता. फोपळां कोण पुंजयतलो आवयचो घोव?' दत्तू भायल्यान मोट्ट्यान आड्डेलो.

'हय व्हय, तेज्या आवयघोवानच पुंजयचेलीं तीं. शियां कुडकुड्याचेर फोपळां पुंजोवपी मानाय जावंक ना तो आजून.' सदांभशेन शांतूलीं हीं उतरां दत्तूक मानवलींना. ताणें रागाभरान तोंडांतली विडी पक् पक् करुन अर्दी केली. हुंबऱ्याकडे येवंन दोळे मोटे करुन शांतूचेर फणफणलो.

'तुयेंच माथ्यार बसयला तेका. ल्हान ना तो आतां. तेज्या फाटल्यान आनी दोन पोरां आसात. हेज्या लगाडीन तींय पेड्डयार जातलीं.'

घोव-बायलेचीं झगडीं ताणलीं, आनी पोक्याली न्हीद खंयच्च्या खंय उडून गेली. पोक्याक लागून शांतू-दत्तूलीं झगडीं पेड्डालींच मर्दी मर्दी. दत्तूचें मत एकच. पोको आतां ल्हान ना. ताणें आतां नेमान आपल्याक कुळागारांच्या कामांत हातभार लावंक जाय. ताणें फोपळां पुंजायचीं, भिण्णां पुंजायचीं, चुडटां एकटांयचीं. आतां पसूनच पोक्यान कामाची सवंय लावंन घेवंची. व्हडलो जातकीर ताका शिंगा फुट्टलीं. मागीर कोणाक आयकुंचोना. वाड्यावेल्या भुरग्यांवांगडा हेड्डूंक वतलो आनी तवनास जातलो. पोक्यान आपल्याभशेन एक नावास्तो मानाय जावंचो, अशें दत्तूक मनांतसावन दिसतालें.

पोक्याकय बी आपूण आपल्या बापायभसेनच जावंचो अशें दिसतालें. गांवचे व्हडले-व्हडले लोक पोक्याच्या पापाक कसल्या ना कसल्या कामाक व्हरुंक येताले. आपलो पापा लोकांक जाय, हाचो अभिमान पोक्याक दिसतालो. आपूणय व्हड जातकीर पापाभसेनच लोकांचीं कामां करतलों म्हणपाचे विचार पोक्याच्या बालमनाचेर बिंबताले. हाका लागून आई सांगता तें कसलेंय काम तो व्हडा खोशेन करतालो. पूण आई-पापाच्या वर्तनांत ताका फरक दिसून येतालो. आई पोक्याकडल्यान बाबा पुता करुन, फुलोवन कामां करुन घेताली. पोको फुलयत तितलो फुलतालो. हो गूण ताका बापायकडल्यान आयला. पूण दत्तू पोक्याकडे उलयतनाच धर्र-फर्र करतालो. पोक्याकडेच ताचें उलोवप धेंगशांचें आशिल्लें. हाका लागून सगळींच मनशां दत्तूपसून पयस पयस रावतालीं. दत्तूक पोको दिसलो रे दिसलो, पोक्या हें कर, पोक्या तें कर हें एकसारखें चालूच आसतालें. दत्तू आपल्या कुळागारांत काम करुंक लागलो जाल्यार दिसांतल्यान धा-धा मिनटांनी चुलींतलो उजो व्हरुन दिवपाचें काम पोक्याचेर पडटालें. हे कामाक लागून पोको दत्तूचेर सामकोच उबगतालो. ते भायर दत्तूलें उतरा पावलाक पोक्याक केंच केंच करप ताका साप्प मानवनाशिल्लें. हाका लागून पोको दत्तूचेर सदांच बेजार आसतालो. दत्तू कामा निमतान घर सोडून पयस गेलो जाल्यार, पोको खुशालकायेन भरतालो.

आवय-बापायक भुरग्यांची माया आसलीच म्हळ्यार जायना. ती पावला कणकणी उकती जावंक जाय. आनी माया केलीच म्हूण जायना, वांगडा शिस्त आनी बरे देखीची सांगड आसल्यार भुरगीं बरीं जावंक पावतात. शांतूक हाजी थोडीशी जाणविकाय आशिल्ली. पोको आपलो व्हडलो पूत. ताची बरी जतनाय घेत जाल्यार फुडल्यांक ताचेकडल्यान बरी देख मेळटली. फुडलें जोत चलता तशें फाटलें, हें शांतू बरेभशेन जाणां आशिल्लें.

मनीस सदांच वायट-बऱ्या गुणांचो खजिनो आसता. शांतूची एक भयंकर वायट खोड आशिल्ली. दत्तूल्या अडाणीपणाचो पाडो तें कसलोच आडपड्डो धरिनासतना, भुरग्यांमुखार वाचतालें. हाका लागून आपली आई शाणी आनी बापूय अडाणी अशें चड करुन पोक्याक दिसतालें. ही भावना ल्हानपणातसावन पोक्याच्या मनांत पक्की जाल्ली. ती तशीच उल्ली.

दत्तू अडाणी आशिल्लो, पूण पिसो न्हय. बायलेकडल्यान भुरग्यांमुखार

घडत्या खरडपट्टेक लागून  आपली पत दिसान दीस घसरता हाचें ताका खूब वायट दिसतालें. हाचो राग तो चड करुन पोक्याचेर काडी. हाका लागून पोक्या-दत्तूचें दुस्मानपण दिसान दीस वाडत वतालें. आवयच्या तेक्यान पोको बापायक दुरुत्तरां करी, आनी शांतू तें पळोवन पळोवंकच ना अशें केल्ल्यान पोक्याक आनीक चड जेल चडटालें.

खरें म्हळ्यार भुरग्यांचे बाबतींत आवय-बापायचें एकमत आसूंक जाय. जंय अशें घडना थंय भुरग्यांची वाट लागता आनी आवय-बापायमदें तंटे उप्रासतात. हेच तंटे फुडें घराब्याक म्हारग पडटात.

आज चार पांच वर्सांच्या भुरग्यांक के.जी.क धाडटात. तशें करुन भुरग्यांचे आवय-बापूय बरें करतात कि वायट हें थारावपाचे भानगडींत पडून फायदो कांयच जावंचेलो ना. पोको मात के.जी. च्या कचाट्यांत सांपडलो ना, हांची म्हाका चड खोस भोगता. आवय-बापायन स वर्सांचे पिराये मेरेन भुरग्यांक खंयचेच चार वण्टीचे शाळेंत घालचें न्हय, अशें म्हाका पोक्याच्या अणभवान सांगचें पडटा. भुरगें दोन-तीन वर्सांचें जालें रे जालें, आवय-बापायन ताका सैमाच्या सांगाताक सोडचें. सैमाच्या खेळांत सानुल्यांक मिसळूंक दिल्यार भुरग्यांची शिकपा बुन्याद बरी घट्ट जाता.

सैम हो मनशांचो सगळ्यांत व्हडलो गुरु. भुरगेपणांत सावन मनशांक शिकोवपाक, सैमान खुबशा सजीव आनी निर्जीवांची निर्मिती करुन दवल्ल्या. हांचें शिकप घेवपाक कसलेच भासेची गरज नासता. भुरग्यांक सैमांतल्या प्राणी आनी वस्तुमात्रांची भास आपसूक समजता. सैमांतल्या किडी-मुयांची, सुकण्यांची, भिरभिऱ्यांची, मुसांची, शिंगां आनी शेंपड्यो धाऱ्या जिवांची, वळवळत्या, सरपटत्या आनी सरकत्या जिवांची भास समजता ती फकत ल्हान भुरग्यांक. हाकाच लागून हांव म्हण्टां, पोक्याक के.जी. चो वास लागुना जावंन भेस बरें जालें.

दोन-तीन वर्सांचो आसतनाच पोक्याक सैमान ओड लायिल्ली. हाका लागून पोको काळ-वेळ पळेनासतना, कोणाकच जुमानी नासतना सैमाचे कुशींत रिगतालो आनी वरांचीं वरां तो सैमावांगडा एकटोच बडबडटालो, गुणगुणटालो आनी मनांतल्या मनांत खोशी जातालो.

ते दिसा पोक्याचे आवय-बापूय आपल्याक लागून झगडटात तें पळोवन

तांकां थंयच सोडून तो सैमाकुशींत शिरलो. सैमाचीं जितीं जागतीं चित्रां पोक्याची वाट पळेतालीं. घरांतल्यान पावल भायर घालतांच पोक्याक भेटलो तो वयेंवेलो शेड्डोमाम.

'आज उशीर कित्याक केलो रे पोक्या?' अशें म्हणून तो आपली मान झटको दिवंन वयर सकल हालयता. थंयच एका आड्यार एक शिल्ली आपलें आंग पातळांवन वतांत न्हाता. पोक्याक पळेतांच ती मात्सी फुडें सरकतां. ती आपली मान वळोवन पोक्याचेर नदर मारता. शिल्ली आपल्याक अपुरबायेन पळेता असो पोक्याक भास जाता. ती शिल्ली आनी तो शेड्डो आपलींच कोण तरी लागतात अशें पोक्याक दिसता.

पोको तसोच फुडें वता. ताची नदर पायांकडे पट्टा आनी गोटांणीच्या तांबशा पिलांची रास पळोवन तो अजाप जाता. ते असंख्य उळउळे आत्मे पोक्याक थांबोवन थोडो वेळ विचार करुंक लायतात. इतले म्हणसर ताका काळ्या काळ्या काटमुयांची लांबच लांब रांग दिसता. ही रांग खंयच्यान कोमेस जाता आनी खंय सोंपता हें जाणून घेवपाक पोको उतावेळो जाला. तो रांगेवांगडा तसोच फुडें वता. रांग आड्याकडे पावता आनी आड्यांत शिरुन ती नाच जाता. पोको तसोच परतता.

थंयच माडये चुडटांचो एक दाळ आसता. ताका तेकुनच बिमल. झाडाक बिमलां घोसांनी भल्ल्यांत. तांबशीं, थिकांशीं फुलां आनी तातुंतल्यान भायर पडिल्लीं कुकुलीं बिमलां पळोवन, त्याच घोसांतलीं व्हडलीं बिमलां, आपल्या सानुल्या भावंडांक अपुरबायेन तोकेतात. तो घोसांक पळोवन दोळ्यांची आस भागयता. तेच वेळार ताची जीब फळ्ळ करुन लाळ सोडटा. पोक्याक दिसता घोसांतलें एक तन्नें बिमल काडून अचळय तोंडांत सोडचें पूण ताचो हात फुडें सरना. एक काडल्यार दुसरें तुट्टलें आनी घोंस दांतपाडो कसो विद्रूप दिसतलो.

तेच बिमलीच्या तेंगशेखाला दोन-तीन बंगले बांदून हुमले रावतात. हे बंगले बिमलीच्याच सुक्या पानांनी आनी हुमल्यांनीच तयार केल्ल्या धवशा कापसांनी निर्मिल्ल्यात. हे घोटरांनी रावपी हुमले गोरे गोरे गोरेच, पाकले कशे. हाकाच लागून गुणूलो पांडू तांकां पाकले दोमळे म्हण्टालो. पोक्याक मात हे हुमले साप्प आवडनाशिल्ले. कारण ते बुरशे. घास मारचे वेळार चुळ्ळ करुन मुत्तात.

पोक्याली नदरच भिरभिरी. बिमली शेजराक एक ल्हानशी आमुल्ली ताका

दिसता. आमुल्लेचेर एक हुण्णां मालें आसता. हें मालें थरांथरांचें शिमिटान घट्ट बांदून काडलां काय दिसता. मालें काळें आनी हुण्णांय काळीं. मेचींग फोर्स जमला. पोक्याले वांगडी तांका खापऱ्यो मुयो म्हण्टाले. हीं हुण्णां काळीं पूण बळकट. म्हण्टा म्हण्टां अणशीं बेटांतल्यान अचकीत एक लांब, काळो दिवड उसळी मारून भायर येता. पोक्या पायांकडल्यान तो सळसळ करुन धांवता. पोक्यान पयलीं कच्च करुन आंग काडलें. मागीर तो शांत जालो. पोक्याक असले प्रसंग नवे नाशिल्ले. ताच्या घराभोंवतणी दिवड खूब. हे दिवड मनशाक चाबनांत. ते हेर सोरपां भशेन विखाळे न्हय. पार्रो सोरोप मात विखाळो. पूण सट्ट करुन तो कोणाक घांस मारिना. ताचे शेपडेर पांय पडल्यारच तो कोणाकय चाबतोलो. तो दिसल्यार ताका आयिल्ले वाटेन वचूंक दिवचें, अशें शांतून पोक्याक सांगून दवरिल्लें.

अशे तरेन सैमातलें एकेक चित्र पोक्याल्या दोळ्यांमुखार येतालें. तीं चित्रां तो बारकायेन पळेतालो आनी मनांत साठयतालो. इतलेंच न्हय तर तो तांचेर खोलायेन विचार करतालो. दरेक चित्राफाटल्यान पोक्याच्या बालमनांत नवे नवे प्रस्न उप्रासताले. पूण ते प्रस्न सोडोवपाचीं साधनां पोक्याकडे नाशिल्लीं. कोणाकडच्यान सोडयतलो तो ताच्या मनांतले प्रस्न? आईकडच्यान? पापाकडच्यान? काय इश्ट वांगड्यां कडच्यान? कोण्णाक कांयच खबर नाशिल्ली आनी पोक्यामनांतल्या प्रस्नांचें सोयरसूतक कोणाकच नाशिल्लें. हेरांमुखार प्रस्न निर्माण जाताले ते भूक मिटोवपाचे.

पोक्यालें एक आशिल्लें. मनांतले प्रस्न सुटनांत म्हूण तो तसेच सोडून दिनाशिल्लो. तांचेर पुराय विचार करतालो.

वाळटी धवी पूण ती नेबळट. हुमले गोरे खरे, पूण ते मुतरे आनी बुरशे! आबूज आनी चिड्डील्यार रोकडे मरपी. पार्रो सोरोप भांगरा कोराचो पूण मेंगो कसो. सवका सवका चलता. पूण काळो दिवड, दोमळे, काटमुयो, विंचू बी काळे आसूनय दणकट आनी बळकट. चिड्डील्यार गुड्डयल्यार सट करुन मरपाचे न्हय. खाप्रीय काळे पूण शक्तिमान!

आनी म्हजो पापा? तो गोरो ना? म्हजो आजो गोरो ना? आज्याचें खबर ना. पूण पापा गोरोपीट्ट आसूनय हुशार आनी बळीस्ट. पूण आई मात्सी काळशी आसूनय पापा परस तकलेन फीन! तो केन्ना केन्नाय म्हण्टा, गोरी कात बुरशी. ह्या

सगळ्या कोड्यांच्यो जापो पोक्याक मेळनाशिल्ल्यो.

भुरग्यांच्या मनांत असलीं वादळां उठूंक जाय. तीं उठपाखातीर आवय-बापायन वातावरण निर्माण करुंक जाय. सैमांतल्या वातावरणांत पोक्याच्या मनांत वादळां निर्माण जातालीं खरी, पूण तांका फाव त्यो दिको दाखवपी कोणच नाशिल्ल्यान पोक्याच्या मनांतलीं वादळां तशींच शमतालीं. ताच्या विचारांच्या गिरगिऱ्याक आवय-बापायकडल्यान खिणा-खिणांत आडखळ जाताली. तरी ओगोत मेळटा तसो, जंय जंय तो वतालो, थंय थंयची सरभोंवतण पोक्याचें मन आपल्याकडेन ओडून घेताली.

खरें म्हळ्यार ल्हान भुरग्यांक घरांत बसून रावप कशेंच मानवना. वांगडा खेळूंक ताका कोण तरी जायच पडटा. पोक्याक कोणच नाशिल्लो. भावंडां ल्हान, आजो तिडको आनी आई - पापाचें विश्व वेगळें. पोको एकटो पडटालो. ताकाच लागून तो दिसांतल्यान कितल्याश्याच वेळां घराभोंवतणी पासयो मारून येतालो. घराभोंवतणची रुखावळ, वाली-झिली, किडी-मुंयो, बेबे-बेबक्यो ह्या सगळ्यांकडे पोक्यान आपली इश्टागत जोडिल्ली. घराभोंवतणचे सगळे सैमांश पोक्याली शाळा जाल्ली, आनी सैम गुरु. खुबशा रुखांची, झुडपांची, वाल-फुलांचीं नांवां ताणें आपल्या आवय-बापायक विचारून विचारून आपल्या मनसंगणकांत साठोवन दवरिल्लीं.

के.जी. च्या पांजऱ्यांत बशिल्लो जाल्यार पोको 'पोको'च उरतोलो आशिल्लो. फोर्सान तकलेंत घुसडलेलीं 'बाबा ब्लेकशिप' आनी 'हमटीदमटी' घेवंन. हांगा तो वाड्यावेल्या आत्या-मावशांकडल्यान आनी आवय-बापायकडल्यान राजा-राणयांच्यो, वाग-कोल्यांच्यो, देव-देवचारांच्यो आनी भुता-खेतांच्यो काणयों आवडीन आयकतालो. ह्या काणयांनी पोक्यामदें खुबशी धडसाण हाडिल्ली. ह्या काणयांच्या आनी सैमाच्या आदारान पोक्यालें भविश्य कशें फुल्लें तें आमी फुडें पळोवया.

**स**दांभशेन सैमशाळेंत पासय मारपाक पोको आयज सकाळींफुडें भायर सल्ला. ताणें पाकोडयांचीं जाळीं, हुमल्यांचे घोंटेर, हुण्णांचीं मालीं, चानयांच्यो धोली, रोयणी, बिळां बी सगळीं तपासून घेतलीं.

आतां तो घराफाटल्या धावशींकडे पावला. धावशींनी थोड्या अंतराचेर एक सायलाचो रोपो वाडला. हे रोप्यार एके वटेन गुंजी वाल चडल्या आनी दुसरे वटेन खोवल्यांची. गुंजी वालीर कितलीशींच तांबड्या- तांबड्या गुंजांनी भरिल्लीं बोणां पोक्याक पळेतात. पोक्याक त्यो गुंजो काडून हाडच्यो अशें दिसता. पूण तें कशें शक्य आशिल्लें? धावशीबुट्टांत शिरुन गुंजो हाडपांत ताका व्हडलेंशें कांयच दिसनाशिल्लें. पूण ताका भंय दिसतालो तो खोवल्यांचो. गुंजी वालीक हात घाल्यार खोवल्यांवाल हालतली आनी बोट्यां कुसां पोक्याल्या आंगा खांदार पडून तीं ताका नाका शेवट करतलीं. हे भयान पोको एकाच जाग्यार उबो रावन चितूंक लागलो. ताची एक नदर गुंजां बोणांचेर तर दुसरी खोवल्यां बोट्यांचेर. खोवल्यां बोटीं पोक्याक कोरें करुन पळेतालीं; आनी आपले भाशेन म्हण्टालीं, ‘पळे पोक्या, गुंजांक हात लायशी जाल्यार खबरदार! जल्माची अद्दल घडयतलीं तुका!’

पोको खोवल्यांची ताकद जाणाशिल्लो. तरी ताणें धाडस करुन फुडें सरपाचें थारायलें. तो फुडें धेंप मारुंक सोदतालो मात, तेन्नाच शांतूलो उलो ताच्या कानार पडलो. फाटलो फुडलो विचार करिनासतना ताणें धांव माल्ली आनी बद्द घर गांठलें.

शांतू खंय तरी वचपाचे गडबडीत आशिल्लें. दत्तू पयलींच भायर सरून गेल्लो. शांतून भायर सरचे पयलीं घरांतलें सगळें ठाकठीक करुन दवरिल्लें. झरीच्या उदकान दोड भरून दवरिल्ली. दोन वाडगे, एक तांबयो, एक ताट, एक

पितळी, एक वाटली हें सगळें शांतून घासून-पुसून चकचकीत करुन दवरिल्लें. सगळी चोवकी आनी आंगण शेणान सारयल्लें. तुळशीकडे रांगोळी घालून उजवात पेटयल्ली. शेणावास आनी उजवातीचो सुगंध एकामेकांत मिसळून सगळें वातावरण पवित्र करुन सोडिल्लें शांतून!

'बाबा पोक्या, बायक पळेता मरे मात्सो?'

'कित्याक? तूं खंय वयता तर!'

'हांव मात्शें कामतीगेर वोसोन येतां. व्हनीबाय बरी ना खंय. दोनपार मेरेन रोकडेंच येतां. बोम करुन दवल्ला. भूक लागतकीर घाल तेज्या तोणात. तूं मात बायक सोडून खंयच वोचो नाका.' काम करतनाच शांतू बडबडलें.

शांतूली बडबड आयकून पोक्यान तोंड येदेशें केलें. पोक्याक आपले येवजणेचेर उदक सोडचें पडलें. ताणें आज सुकड्यावांगडा खूब खेळपाचें थारायल्लें. आंगणांत पिड्यांची खोपटी करपाची येवजण आशिल्ली. खोपटेंत कट्ट्यांची चूल आनी कट्ट्यांचींच आयदणां करुन बरें जेवण करपाचें आशिल्लें. जेवणाक तांबडे मातयेचें शीत, शेकऱ्यांची शाक आनी दसणी फुलांची भाजी करपाचो बेत आशिल्लो. जेवतकीर चोवकेर वण्टीक हीर तोपून मखर करपाचें आशिल्लें. आज तो मखराक आईल्या सान्नीचे हीर काडून तिचीं उलोवणी खावंचो नाशिल्लो. त्या खातीर ताणें व्हाऱ्यावेलो पोन्नो सान्नीखुटो सोदून हाडिल्लो. पूण आतां हे सगळे येवजणेचेर उदक सोडचें पडटालें.

पोक्यालें खूब वेळां अशेंच घडटालें. तो चिंततालो एक आनी घडटालें भलतेंच. तेंय बी आईक लागून. आई ताची एकय येवजण फळाक हाडूंक दिनाशिल्ली. ताका लागून केन्ना केन्नाय आईचो ताका खूब राग येतालो. आईचें कांयच आयकूचें न्हय अशें ताका दिसतालें. तशें केल्यार आई उपाशीं दवरतली, दवरूनी! रावतलों उपाशी. मागीर कितें जातलें? मरतलों! हांव मरतकीर कोण रडटलो? पापा? खबर ना! पूण आई मात रडटली. हांव मेल्यार सुकड्याक खूब बरें दिसतलें. हांव मेल्यार ताका चड खावंक मेळटलें. पूण ना. हांव मरचोंना आनी सुकड्याक चड खावंक दिवंचोना.

पोक्याल्या भेज्यांतलें गिरगिरें चालूच रावलें. रागाभारान ताका दिसलें, हेर भुरग्यांभशेन आईक वाकुल्यो दाखोवन थंयच्यान पळ काडचो. पूण हें कशें जातलें? असलीं कामां बऱ्या भुरग्यांचीं न्हय. आनी पोको तर आईच्या उतराआड वचूंकच

शकना. पावलाकणकणी पोक्याची फाट राखण करता ती आईच. आईच्या उतराआड गेल्यार पोको सोंपलोच. पोको आपली शेंडी पापाच्या हातांत दिवंक कसोच तयार नाशिल्लो. तशें केल्यार आपली धडगत ना, हें तो बरेभशेन जाणा आशिल्लो. पापा परस आई खूब बरी हाची पुराय जाणविकाय पोक्याक आशिल्ली. ताका लागून आईलें उतर भायर उडोवंक तो कसोच तयार नाशिल्लो.

आनी शांतूक तरी पोको सोडून कोणाचो आदार आशिल्लो? ना मांय, ना नणंद! मांव म्हातारो आनी शीघ्रकोपी, आसून नासून सारखोच. घरच्यां आनी कुळागारांतल्या कामाकडे शांतूकच लक्ष घालचें पडटालें. ना जाल्यार येतो-वतो कुळागारांतलें सगळें नाच्च करतलो. तरी ताचे नजरचुकेन घडूंक जाय तें घडटालेंच. ताका उपाय नाशिल्लो.

हेर कुळवाड्यां तुळेन दत्तू-शांतूलो संवसार सुखीच आशिल्लो म्हणूंक जाय. सुर्वेक घरांत खाती-पिती तोंडां आशिल्लीं. दत्तू, दत्तूचो बापूय आनी बायल. आतां तिनाचीं स तोंडां जाल्लीं आनी शांतूची काळजी रात-दीस वाडत वताली. आजमेरेन ताणें संवसाराचो गाडो कशेभशेन धुकल्लो. देड - देड, दोन-दोन वर्सांनी एकेक भुरगें जायत वतालें. नुम्र तिनाचेर पाविल्लो आनी चौथें पोटांत आशिल्लें. हाचेफुडें आनीक कितलीं जल्मांक येतलीं हाचो हिशोब दत्तूक करपाची गरज नाशिल्ली कारण हिशोब करपाचें काम केन्ना दत्तून केलेंच ना. दत्तून खापच्यांभशेन काम करपाचें. कितें हातार पडटा तें हाडून शांतूकडे दिवपाचें, आनी विडयांक कितले दुडू लागतात ते शांतूकडल्यान मागून घेवपाचे. बाकी घरांत कितें जाय नाका तें पळोवपाचें काम शांतूलें. दत्तूल्या घरांत खरेल्या अर्थान मातृसत्ताक राजवट चलताली.

तशें पळोवंक गेल्यार दत्तू-शांतूलो संवसार वाऱ्यार उबंत पडपाचो नाशिल्लो. वाड-वडलांनी कमावन दवरिल्लें थाव-ठिकाण आशिल्लें. तें म्हळ्यार भागेलपणाचें कुळागार. भागेल्यान काम कश्ट करून कुळागारांत उत्पन्न काडपाचें आसता. सुपारी तितली धनयांक घालून बाकीची फळफळावळ आनी हेर उत्पन्न भागेल्यान भोगपाचें आशिल्लें. सुर्वेक हे पद्धतीन दत्तूलो संवसार मजेंत चल्लो. पूण उपरांत घरांत दिशीं दिशीं पिलावळ वाडली आनी शांतूलो संवसार गडबडपाचे वाटेक लागलो. शांतूक फुडल्या संकटाची जाणविकाय जाली. दत्तूले कमायेन आपलो संवसार हे फुडें चलचेलो ना. ते खातीर आपणेंय कितें तरी करचें पडटलें

हाची जाणविकाय ताका जावंक लागली.

शांतूल्या घराफाटल्यान गांवचो रस्तो पासार जातालो. हे रस्त्यावेल्यान दुसऱ्या वाड्यांवेल्या कुळवाड्यांच्यो बायलो माथ्यार लाकडांभरे घेवन दुसऱ्या गांवांत विकूंक वताल्यो. येतासतना बाजारांतल्यान, फाळयांच्या गाठींक बांदून कसलें ना कसलें सामान घेवन येताल्यो. केन्ना केन्नाय ह्योच बायलो कड्डाच्यो वण्णीय माथ्यार मारुन विकूंक व्हरताल्यो. तें पळोवन अचकीत शांतूच्या मनांत उजवाड पडलो. आपणेय लाकडांभरे बाजारांत विकूंक व्हेले जाल्यार? हे फुडे दत्तूले एकट्याचे कमायेन संवसार कसो चलतलो? आठवड्यांतल्यान दोन-चार लाकडांभरे बाजारांत व्हरून विकल्यार चार-आठ आणे किरवटेक लागतले. ते एकटांय जाल्यार वर्सांतल्यान एक तरी, सातेक वचून जुनेर हाडूंक मेळटलें. दत्तूक थंडी-भारकूण जाल्यार घरांत ठणठणमार जाता. गरजे ओगतार किरवटीच्या दुडवांचो उपेग जावंचोना? पूण लाकडां विकूंक बाजारांत गेलें जाल्यार घराकडे भुरग्यांक कोण पळेतलो? शांतूले तकलेंत प्रस्नार प्रस्न धालो खेळूंक लागले.

केन्ना केन्नाय भुरग्यांक मांवां सुवादीन करुन शांतू कुळागारांत उदक शिपूंक वतालें. थोडे वेळान भुरगें रडूंक लागल्यार कल्लें थंयच उडोवन तें घराकडे धांव मारतालें. पूण दिशी दिशी मांवाक भुरग्यांची कटकट जावंक लागली. भुरगें रडल्यार शांतू धावन येता हें मांवाच्या पत्त्यार पडलें. भुरगें रडचे आनी शांतू घरा धावून येवचें म्हण मांव भुरग्यांच्या ताळयेक हीर तोपून तांका फोर्सान रडोवंक लागलो. मांवांली ही करणी शांतूक कळ्ळी आनी ताणें मांवाचो नाद सोडून दिलो.

वाड्यार एक म्हातारी आशिल्ली - नांव दुरपदी. ही दुरपदी पोटाक भूक लागतकीर शांतू म्हऱ्यांत येताली. सुपारी सोलताली, भिण्णां फोडटाली. तशें करतासतना भुरग्यांक काणयोय सांगताली. ताका लागून ही म्हातारी भुरग्यांक खूब आवडटाली. शांतू आपल्या भुरग्यांक केन्ना केन्नाय दुरपदेकडे सोंपोवन भायर सरतालें. उपरांत दुरपदेक देवालें आपोवणें आयलें, आनी शांतूलो तोय आदार तुटलो.

शांतूच्या मनांत विचार येताले, पोक्या पावटीक देवान आपल्याक एक चेडूं दिल्लें जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें? मागीर जावं आशिल्लीं कितलींय पोरां म्हाका! सांबाळटलें आशिल्लें पोर! खिणांत ताका अशेंय दिसतालें घरांतलीं

कामां चेडवांनीच करचीं म्हण खंय आसा? तीं चेड्यांनी केल्यार खंय बुट्टी येवपाची आसा? हें येवजून शांतून पोक्याकच चेडूं करून सोडपाचें थारायलें. आनी पोकोय बी आपली आवय सांगता तें तें काम, कसलीच कुरकूर करिनासतना करुंक लागलो.

पोको आशिल्लोच तसो भोळो. ताच्या भोळेपणाचो भरपूर फायदो करून घेवंचो अशें शांतून थारायलें. पाद्री इगर्जांनी जसो भुरग्यांक आपलो धर्म शिकयता, तशें शांतू आपलो खाशेलो धर्म तिकट-मीठ लावन पोक्याक शिकोवंक लागलें. शांतूक खबर आशिल्ल्यो त्यो चडशो काणयों सीता-सावित्रीच्यो आनी असल्योच कसल्यो तरी राणयांच्यो, हे काणयांनी पोक्याच्या काळजांत मातृभक्तिचो विकास जायत गेलो. तो इतलो वाडलो कि फुडें-फुडें पोक्याक आवयचो दुरावो सहन जायना जालो. हेच संदीचो फायदो घेवन शांतून पोक्याक आपल्याक जाय तसो घुवंडावपाचो थारायलो.

तशें करपांत शांतूचो हेतू वायट-बरो आसूं ये. पूण ताचो खर परिणाम पोक्याचेर जाल्लो, इतलें मात खरें. फुडें फुडें शांतून आदेश दिवंचो आनी पोक्यान तो मानचो, हें पक्कें जाल्लें. शांतू आपली आई म्हळ्यार एक पवित्र देवी, अशें पोको मानतालो. आईचें सांगणें-म्हणणें न जुमानल्यार आपूण नरकांत वतलों अशी पोक्याची भावना जाल्ली. तशीच ती करून दिल्ली .

शांतू मोठें हुशार. तें सदांच शिटूक आसतालें. तें अक्षरशत्रू आसलें तरी बुद्दीसामर्थ्यान कसलेंय गिन्यान तें रोकडेंच मेळोवन घेतालें. गांवांतल्या देवळांतलें एक कीर्तन तें चुकयनाशिल्लें. गांवांत जाल्लीं सगळीं नाटकां तें न चुकतां पळेतालें. तींय भुरग्यांक वांगडा घेवन. ल्हान-व्हडांक कोणाकय उपदेश करतना शांतू नट आनी हरदासांच्या कलेचो उपेग करतालें. शांतूल्या सगळ्या करण्यांचो प्रभाव पोक्याचेर पडटालो, मात तो कोणाक दाखोवन दिनाशिल्लो.

पोको स-सात वर्सांचो जाल्लो तेन्ना ताचो भाव सुकडो पांच-स वर्सांचो आनीं पिसू, भयण देड-दोन वर्सांचें आशिल्लें. आपूण कामाक भायर सल्लें जाल्यार फाटल्यांन पोक्यान तांचो कशेतरेन सांबाळ करचो, हाची शिकवण शांतू आतां पोक्याक दिवंक लागलें. पोटाक भूक लागतकीर सुकडो कितेंय दिल्यार आपल्या हातांनी बका बका करुन खातालो. शिस्तीखातीर ताका पेज आंबील कितें आसा तें पितळेंत वाडून,म्हऱ्यांत दवरपाचीच गरज आशिल्ली. पिसूक

मात भरोवपाची गरज आशिल्ली. नाचण्याचें सत्व ना जाल्यार तापयोद हें पिसूलें अन्न! तें ताका बोमांत ना जाल्यार पितळेंत घालून कुलेरान कशे तरेन भरोवंचें हाची शिकवण शांतू पोक्याक दिवंक लागलें. पिसून 'शी' केल्यार ताका धुवन आंगशान कशें पुसचें हाचेंय प्रात्यक्षिक ताणें पोक्याक करुन दाखयलें. ही भाव-भयणीची सगळी सिर्विस आपूण करतलों, अशें उतर पोक्यान दिलें आनी शांतूची काळजी मिटली. संवसारांत खुबशीं असलीं मनशां आसतात कि तांका मानसशास्त्र आनी तर्कशास्त्र शिकयनासतना आपसूक कळटा. शांतू तातुंतलें एक. ताणें पोक्याच्या मनाचो थाव घेवन दवरिल्लो. पोक्याचो सभाव मोवाळ, काळीज दयाळ. पयल्या धपक्याक ताका राग येतालो खरो, पूण मागीर तो खिणाक निवळटालो. कसल्याय कामाक पयलीं न्हयकार दिवप आनी समजण घालतकीर हयकार दितालो हें शांतू जाणां आशिल्लें.

पिसू न्हिदतकीर शांतू घर कामांक हात घालतालें. आनी कामां कसलीं? फातरीर मिरसांग वाटप, जात्यार दळण दळप, केन्ना केन्नाय भात आसलें जाल्यार तें वानार घालून कांडप. हीं सगळीं कामां करतना पोको शांतूच्या फाटीं-फुडल्यान भोंवतालो. आळेण वाटचे पयली शांतू नाल्ल फोडटालें तेन्ना सुकडो खंयच्यान वाडगो घेवन धावन येतालो. असल्या वेळार पोक्याचीं आनी सुकड्याचीं झगडीं जातालीं. पूण पोक्याक उदक केन्नाच मेळनाशिल्लें. तें मेळटालें सुकड्याक. कारण शांतूल्या न्यायान धाकट्याक जाय जावन व्हडल्याक मेळना. व्हडल्यान सदांच सोसूंक जाय. व्हडल्यांनी ल्हानाची सदांच अपुरबाय करुंक जाय. शांतूलो हो शेरमांव पोक्याक सदांच आयकुचो पडटालो. पूण नाल्लाचें उदक मात ताका केन्नाच मेळनाशिल्लें.

भुरग्यांक बरी देख दिवची जाल्यार आवय-बापूय बरे देखीचो आसचो पडटा. भुरग्यांक वाऱ्यार सोडलीं जाल्यार वायट भुरग्यांचे लगाडीक लागून बऱ्या भुरग्यांचेर वायट संस्कार जातात, हें शांतू जाणाशिल्लें. हाका लागून पोक्याक कसल्या ना कसल्या कांमांत गुंतोवन दवरपाची माण्णी शांतू करीत आसतालें. आपूण जात्यार दळूंक बसल्यार तें पोक्याक म्हऱ्यांत बसयतालें आनी कसली ना कसली गजाल पोक्याक सांगतालेंच. आनी पोको ती मन लावन आयकतालो. रातचें भायर गेल्यार दिवो घेवन पोक्याक वांगडा व्हरतालें. नुस्तें उजरायतकीर हातार उदक घाल, दोड घ़ेवन झरीर गेलें जाल्यार पोक्याक तोप घेवन आपयतालें.

न्हावंक गेल्यार फाटीर उदक घालून फाट घासपाचें कामय तें पोक्याकडसून करून घेतालें. दिसाचो थोडो वेळ मेळ्ळयार पोक्याकडच्यान आपल्यो ऊवोय काडून तें घेतालें.

अशे तरेन पोक्याल्या जिविताची बुन्याद दिसान दीस घट्ट जायत वताली. पूण ही घडणूक एकांगी जाताली हाची जाणविकाय कोणाकच नाशिल्ली. हात-पांय हालोवन पोटाची भूक भागोवंक येता. पूण मनाचें कितें? मनीस जगता तो फकत पोटाची भूक शमोवपाक ? पोट भरुन कुडीक बळ हाडपाचें काम जानवरां लेगीत करतात. दत्तूचें सोडून दी, शांतू इतलें सुवार्थी कशें जावंचें? आपलो घोव एकमुळो आसप ताका मानवना आनी पोक्याचें कितें? तो व्हडलो जातकीर एकमुळो, बुजरो, मनीसघाणो, लजेकोंबो बी जावंचोना मूं?

वाड्यावेलीं सगळीं ल्हान व्हड भुरगीं बाटोळ्यांत एकठांय जातात. तरेतरेचे खेळ खेळटात. कोयंणेबाल, लंगोऱ्यो, मिठफोयण्यो, हुतुतू, खोखो बी खेळून सगळें बाटोळें गजबजोवन सोट्टात. खेळटासतना कोण धांवतात, पडटात, किंचाळ्यो, कुंकाऱ्यो मारुन सगळो वाठार गजबजोवन सोडटात आनी पोको? पोको आवयच्या पालवाखाला लिपून बसता.

शांतू पोक्याक बाटोळ्यांत धाडिनाशिल्लें. हाका दोन कारणां आशिल्लीं. एक कारण अशें कि पोको ल्हान आशिल्लो आनी सामको अशक्तय बी. पोक्या इदादीचे भुरगे धडधाकट आनी पोको सुकडी. आंगलटीन शिरपुटो, फूक माल्ल्यार जमनीर पडटा तसलो. दुसरें कारण भुरग्यांची वायट संगत. वाड्यावेल्या सगळ्या भुरग्यांच्या तोंडांतल्यान उठटां-बसतां पोजड्या आनी बुरशा गाळयांचो पावस भायर पडटालो. शांतू असल्या हलकट भुरग्यांच्या वाऱ्यापासून पोक्याक जाता तितलो पयस दवरूंक सोदतालें.

पूण बाटोळ्यांत एकठांय जावपी भुरगे वायट आसले तरी बाटोळें मात वायट नाशिल्लें. गांवांतल्या सगळ्या ल्हान व्हडांक म्हाताऱ्या कोताऱ्यांक, बायलां-भुरग्यांक आपल्याकडे ओडून तें हाडटालें. दिवाळी जाली म्हण्टकीर गांवचे सगळे गांवकार बाटोळ्यांत दिसताले. कारणय तशेंच आशिल्लें. ह्या गांवांची रचणुकच तशी आशिल्ली. चारय वाटांनी रुखावळीन भरिल्लें बाटोळें म्हळ्यार एक मरडें शेत. दिवाळी जातकीर हे शेताचें रुपांतर एका व्हड खेळामळांत जातालें. भाटल्या गांवांतसावन येवपी रस्तो हे बाटोळ्या कुशींतल्यान पासार जातालो.

सगळ्या गांवच्या लोकांक उजवाड आनी मेकळी हवा मेळटाली ती हे बाटोळ्यांतच. बाटोळ्याच्या सरभोंवतणी हांगा-थंय घरां दिसतालीं. एका पोंताक एक भुसारी दुकान आनी दुसऱ्या तोकाक एक चाचें हॉटेल. बाटोळ्याक तेकून एक केळबाय देवीचें देऊळ. देवळामुखार एक काऱ्याचें झाड. झाडाक बांदिल्ल्या पेडाच्या गुळगुळीत फातरांर बसून गांवकार लोक विडयो फुस्कायताले. पेडाक तेंकून सदांच दोन-तीन बैलगाडे आसताले.

दत्तूलें घर बाटोळ्यापासून उल्याच्या अंतरार आशिल्लें. बाटोळ्यांत खेळपी भुरग्यांचो बोवाळ दत्तूल्या घराकडे आयकूंक येतालो. दत्तूल्या घराकडच्यान बाटोळ्यांत वचपाक आडखळीची पांयवाट आशिल्ली. ताका लागून पोको बाटोळ्यांत सट्ट करुन पावूंक शकनाशिल्लो.

बाटोळ्याकडे आशिल्ल्या केळबाय देवळाकुशीक गुणू नायकालें घर आशिल्लें. गुणू नायकाली बायल, पंढरें शांतूली इश्टीण. आठ दिसांनी एकदां वेळ काडून, पिसूक हाण्णीर मारून, सुकड्याचो हात हातांत धरुन आनी पोक्याक आपल्या फाटल्यान चलपाक लावन शांतू पंढऱ्यागेर चकाटां मारुंक येतालें. शांतू-पंढऱ्यालीं चकाटां रंगांत येतालीं तेन्ना पोको पाणू वांगडा बाटोळ्यांत वतालो. वाड्यावेले भुरगे पाणूक आपल्या पंगडांत घेताले. पाणू तांच्या वांगडा खेळटालो आनी पोको धडेर बसून तांचो खेळ पळेतालो. पोक्याक आपुणय भुरग्यांवांगडा खेळचें अशें दिसतालें. पूण पोक्याक कोण घेतलो आपल्या पंगडांत? पोको पळोवंक दिसता सामको अबरगत, आनी पाणूल्या फावोरान कोणे ताका पंगडांत घेतलोच जाल्यार तो फुडें सरूं नाका? आईक सांगून पाणू वांगडा आयला खरो, पूण खेळूंक आईन लिंसेस खंय दिलां?

पाणूचें आपलें बरें. ताका कोण कांयच विचारिना. केन्नाय भायर सर, केन्नाय भितर सर! खंयी वच, पाणूक इश्ट आनी वांगडी खूब. पाणूक व्हरुंक इश्ट ताच्या घराकडे येतात. पाणू पळोवंक बरो गुटगुटीत आनी रसरशीत दिसता. खेळपांत, धावपांत, नाचपांत आनी उलोवपांतय पाणूक लागपी कोण ना. तो हेर भुरग्यांभशेन तोंडांतल्यान गाळींचो शिंवोर घालता. पूण ताका कोण कांय म्हणिना. पाणून कितल्योय गाळी तोंडांतल्यान भायर घाल्यो तरी पंढरें ताका हांसून ओगी रावता.

पोको आनी पाणूल्या सोभावांत खूब अंतर आशिल्लें तरी हेर भुरग्यांपरस तो खूब बरो आशिल्लो. एक गाळी मारपाचो वायट गूण सोडलो जाल्यार, पोक्याक

तो खूब आवडटालो. पाणूय पोक्याक खूब बरें करतालो. पाणूक बसके खेळ आवडनाशिल्ले, तरी तो पोक्या वांगडा खेळटालो. पोक्या-पाणूली इश्टागत फुडें वाडत गेली. पाणूक पोको खूब आवडूंक लागलो. पाणू आतां पोक्याक व्हरूंक ताच्या घराकडे येवंक लागलो. पाणू-पोक्याली इश्टागत दत्तू-शांतूक आवडटली? पळोवया!

भुरग्यांचेर बरे संस्कार घडयतले जाल्यार तांकां ल्हानपणातच देवाची वळख करुन दिवंची पडटा. देवाच्या वळखितल्यांन भुरग्यांक बरें-वायट गिन्यान मेळटा. मात तशें करतासतना आवय-बापायन सदांच शादूर रावचें पडटा. आवय-बापायकच बरें-वायटाची जाणविकाय नासत जाल्यार तीं भुरग्यांचेर कसले म्हण संस्कार घडयतलीं? भुरग्यांक बरी देख दितलीं जाल्यार, आवय-बापूय बरे देखिचो आसूंक नाका?

आमचे भारतीय संस्कृतायेंत बापायपरस आवयक इल्लें चड म्हत्व आसता. तिका लागूनच घरांत चडशीं देवकार्यां जातात. तीच आपल्या दादल्याकडल्यान देवकार्यां करुन घेता. तिका लागून घरांत आनी घरांतल्या वांगड्यांमदें देवपण जागें उरता. तिका लागूनच घरांत पवित्रताय नंदता.

शांतूय हेच परंपरेंतल्यान फुडें आयिल्लें. ताका लागूनच घरांतले गरिबकायेंतल्यान पवित्रताय आपली तकली वयर काडून वावुरताली. ही पवित्रतायच शांतूल्या माध्यमांतल्यान, ताच्या भुरगे-बाळांक आनी घोवाक जिणेची वाट दाखयताली. शांतू इल्लें शिटूक आनी वेव्हारी आशिल्लें खरें, पूण तितलेंच तें देवभोळेंय आशिल्लें.

शांतूल्या घरांत एक देवारो आशिल्लो. घरांत गरीबकाय आशिल्ल्यान देवाऱ्यांत देवय थोडेच येवन बशिल्ले. तातूंत शेकड्यांनी देवांचीं पांयजेलां नाशिल्लीं आतांभसेन! आशिल्ले फकत फळकुटेचेर दवरिल्ले दोन नाल्ल. हे संवसार पाडव्याक पुजेक लावन बद्द फुडल्या संवसार पाडव्याक उत्तरायताले. देवाऱ्याक तेकूनच एक लामणदिवो लांबतालो. हो लामणदिवो खश्टेल ना जाल्यार उणेलान

जळटालो. देवाऱ्या फळकुटेर चिकटायल्ली गोवरय आसताली.

सोमरा सोमरा गंद-फूल घालून गोवर-म्हादेवाची पुजा जाताली. तेच वेळार देवाकडे आनी तुळशीकडे गोड कातलेचो नेवेद्य दाखयतालो. पुजे पयलीं पोको दसणीचीं फुलां तोडटालो. दत्तू साणीर गंदाकाणी घांसतालो. पोको आनी सुकडो म्हऱ्यांत बसताले. दत्तू तांच्या कपलाक तिबो लायतालो. पोको आगरो करुन आपल्या नोन्याकय गंदा तिबो लावन घेतालो. माथ्याक तिबो आनी कानांक दसणी फुलां पाकळी खोवन, पोको खोशेन हांगा थंय उडयो मारतालो. फुडें फुडें दत्तूले गैरहाजिरींत सोमाराचें देवाक गंदफूल घालपाचें काम पोक्याचेरच पडटालें. ताका लागून देवकार्यांत भंग पडनाशिल्लो. उमाशेक मात काकोळ दिवंक दत्तूक कशेभशेन घरा येवंचोच पडटालो. हे दिसा भुरग्यांक सोय-गोड घाल्लो उपार खावंक मेळटालो.

गांवगिऱ्या लोकांचो मेळत त्या देवांचेर भावार्त आसता. पोक्याल्या आवय-बापायलोय तसोच आशिल्लो. ताका लागून कितल्याशाच देवांक तांकां भोगावळ आनी मानतूक दिवंची पडटाली. पोक्याल्या घरापसून दोनशेक मीटर पयस एक काऱ्याचें झाड आशिल्लें. ते झाडार जाग्याचो राखणदार रावतालो. ताका म्हयन्यांतल्यान एकदां तरी सोरो-रोंट घालचें पडटालें. ते भायर मदीं-मदीं आंगोवणेची भोगावळ आसतालीच. खुबशा जाग्यांच्या राखणदारांक सोरो-रोंटावांगडा कोंबोय मारचो पडटालो. पूण कोंबो चलनाशिल्लो तो पोक्याच्या राखणदाराक. हाचें कारण घडये दत्तूल्या घरांत आदीसावन कुकडां पोसिनाशिल्लीं, हें जांवये. आनी तेच पासत शागुतीय खावपाची चाल तांगेर नाशिल्ली.

पोक्याल्या घरावयर रस्त्यापलतडीं एक दोंगुल्ली आशिल्ली. तिका लोक मानदोंगरी म्हणटाले. वाड्यावेल्या लोकांक मेल्या उपरांत थंयच पुरताले आनी लासतालेय बी. हे मानदोंगरेर कितले देंवचार आनी म्हारु रावताले हाचें कोंत आनी हिशोब नासतालो. मेल्ल्यां नांवान हांगा कोंबे-पिलांच्यो कितल्योशोच मानतुको चलताल्यो.

मानदोंगरी आनी बाटोळें हांचेमदीं रस्त्याकुशीक एक देवासुवात आशिल्ली. हे सुवातेचेर एक आपट्या झाड आशिल्लें. हे सुवातेर दसऱ्यादिसा भांगर लुटपाक गांवची सांतेरमायेची पालखी येताली. पालखी दवरपाची सुवात लिंप करपाचें

काम आर्दींपसून दत्तूल्या घराब्याचेर सोंपयल्लें. दत्तू तें काम व्हडा भावार्तान करतालो. आपलो बापूय गांवचो कोण तरी लागता, हाका लागून पोको ते दिसांनी हड्डें फुडें काडून चलतालो.

तशें पळोंवक गेल्यार पोक्यालें हड्डें बारीक चेपटें आसूनय तें तो फुडें काडून चलपाचो यत्न करतालो. तकली बारीक आसूनय ती बागोवन चलपाक ताका आवडनाशिल्लें. ताचे सामकाराचें देवकार्य जावं, लग्नकार्य जावं ना जाल्यार आनी कितेंय जावं! तो आपले बारीक दोळे करुनच पळोवपाचो यत्न करतालो. ताका दिसतालें, कसलेय कार्यांत वावुरप्यांमदें आपलोय आसपाव आसचो. फकत आसपावच न्हय, कारभाऱ्यांमदलो कोणय तरी एक आसचो. केन्ना केन्नाय कार्य चलतासतना, तें वाकडें-तिकडें चलता हाची पुसटशी जाणविकाय ताका जाताली. आपल्या मनाक कितें दिसता तें तो उलोवन दाखोवंक सोदतालो. पूण ताचें आयकून कोण घेतलो? तो कितेंय उलोवंक गेलो जाल्यार शांतूच ताका चुपमट करतालें आनी शांतूलेंय कितें चुकतालें अशें म्हाका दिसना. भुरग्यांचे तकलेंत कितलींय शाणेपणां जल्माक आयलीं जाल्यार तीं पिशेपणाच आसतात. भुरग्यांनी जाण्ट्यांसामकारा शाणेंपणां उलयलीं जाल्यार तीं शापतां थरतात आनी भुरग्यांनी जाण्ट्यांक शापतां सांगचीं न्हय, असो एक लिखीत कायदोच आसा आमच्या राज्यांत. हे कायद्याक लागूनच तेन्ना आनी आतांय बी एकसारकें लुकसाण जायत आसा हे देशाचें! हे देशांतल्या जण एका मनशाक दिसता आपूण उलोवंचो आनी दुसऱ्यान आयकचें आनी आपल्या देशाची उदरगत जातली जाल्यार, दुसऱ्याक उलोवपाची संद दिवंकय जाय. उलोवपी तो मागीर कोणय जावं. भुरगो जावं, अशिक्षित जावं ना जाल्यार आनी कोणय. बेटोच कोणय माड कसो वाडलो, दुडवांकार जालो, व्हडल्यो व्हडल्यो पदव्यो घेतल्यो आनी सत्तेर वचून बसलो म्हण ताका कोणे शाणो समजुचो न्हय! मनशांतलीं शाणेपणां पारखिचेली तांक आयकुप्यांमदें आसली जाल्यार विचारांक व्हांवतेपण मेळटा आनी दोनय पार्तींचो फायदो जाता.

पोक्याले तकलेंत जायते विचार येताले. ते ताणें जाण्ट्यांसामकारा उलोवंचे, जाण्टेल्यांनी ते आयकुचे, आपलें मत दिवंचें अशें पोक्याक दिसतालें.

आपलें सारकें आसल्यार आपल्याक शाबासकी मेळची अशें पोक्याक दिसल्यार तो चुकताअशें कोणाच्यान म्हणू येता? पूण ताचें म्हणणें कोण

आयकुनच घेनाशिल्लो, हाची ताका सदांच खंत भोगताली.

पोक्याल्या गांवांत पळोवपासारकें आनी शिकपासारकें खुबशें आशिल्लें. गांवांत शाळा नाशिल्ली ते तेंपार. पूण एक तरी देवूळ ना जाल्यार इगर्ज ही आसतालीच. पोक्याल्या गांवांत सांतेरीचें देवूळ आशिल्लें. हें देवूळ पवित्र अशेंच आशिल्लें.

देवळाच्या येंत्रादाक दोनय वटयां दोन सोपे. उपरांत एक चोवक. दोनय दारां सोडून, चारय कुशींनी सुळसुळीत सोंपे. हेच चोवकाचेर एक न्हेसंव नाशिल्ली पालखी. तेकूनच धोल-तासो, कांसाळें, पेंपारें बी वाजंत्रां आसतालीं. हांगाच सोप्यांचेर बसून वाजंत्री वाजपां वाजयताले. जमीन सिमेंटाची. मर्दी मर्दी सिमेंट फुटून फोणकुलां पडिल्लीं. हो मदलो चोवक सोंपतकीर लागतालो तो सुळसुळीत, गुळगुळीत, चकचकीत फातरी बसयल्लो व्हडलो चोवक. हे चोवकाचे खांबे मोठे आनी तुकतुकीत. खांब्याच्या सरभोंवतणी फास्केंतलीं देवांचीं पांयजेलां अडकयल्लीं. हो चोवक मात थंड आनी लिंप आशिल्लो. हे चोवकाच्या येंत्रादापसून गांवचे कश्टकरी भजनाक बसताले. भजनां चड करुन सोमाराक आनी सप्तका दिसांनी जातालीं.

हो चोवक सोंपतकीर देवीची गर्भकूड लागताली. देवी म्हऱ्यांत तांबडो मुकटो न्हेसून, शेंडी सोडून एक भट बसतालो. ताटांत कोणेंय पयसो घालचो आनी तिर्थ घेवंचें अशें भटाक दिसतालें. पूण गांवांत चड करुन फुकट तिर्थ घेवपीच लोक आशिल्ले. लोक गरीब. भट गरीब आनी देवीय गरीब!

गर्भकुडी दाराक तेकून शेंदऱ्यो पसरिल्ल्यो आसताल्यो. भजन-किर्तन सुरु जातकीर एकेक बामण आपल्या भुरग्यांक घेवन शेंदऱ्यांर बसतालो. तांच्यो बायलोय केन्ना-केन्नाय येताल्यो. पूण तांकां बसपाक गर्भकुडीभायलो एक कोनसो राखून दवरिल्लो.

आनी एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, बामण केन्ना भजनाक बसनाशिल्ले. केन्नाय एकटो बसलोच जाल्यार ताचें गांवभर कोवतूक जातालें. हेर समाजान भजन करपाचें आनी बामणांनी मोन्यानी आयकुचें, अशी रीत आशिल्ली. तेन्ना भजन - किर्तन सोपल्या उपरांत प्रसाद वाटपाचें काम चलतालें. पोको ताचीच वाट पळेत आसतालो. प्रसाद वाटपाचें काम मात बामण करतालो. प्रसाद पयलीं बामणांच्या हातार पडटालो. मागीर तांच्या बायलांच्या आनी निमाणो भजनींच्या.

हें पळोवन पोक्याक व्हड अजाप दिसतालें. पोक्याल्या कोंतान प्रसाद पयलो भजन करप्यांक मेळूंक जाय आशिल्लो. आनी मागीर हेरांक ! भजनींचो मान पयलो. पाणूगेर पांच दीस गणपती दवरिल्लो तेन्ना प्रसाद पयलो भजनींक मागीर हेरांक दिल्लो हें पोक्यान पळेल्लें. हांगा वेगळें कशें? भट देवी म्हऱ्यांत बसता तें बरें आसा. भजन मंडळान गर्भकुडीक तेंकून बसूंक नाकाशिल्लें? भजन करपी फाटीं आनी मोन्यानी बसपी बामण फुडें कशे? भजन करपी देवाचे खरेले भगत. पंचखावड खावपाचो पयलो मान तांचो. पोक्याक भजन म्हणूंक कळनाशिल्लें पूण तो हातार हात मारुन ताल धरतालो. हें भजनच जालेंना? मागीर पोक्याकय पंचखावड पयलीं मेळूंक जाय आशिल्ली. ते भायर पोको चिंतूक लागलो. तो चिंतपांत गूंग जाल्लो. इतलें म्हणसर हे हात फुडें कर, न्हिदूक येतात हांगाXXX पोक्यान प्रसाद वाटपी बामणाच्या तोंडांतल्यान बुरशी गाळ आयकली, पोक्याक ताचो राग आयलो. ताका दिसलें, प्रसाद हातांत घेवंचो आनी ते बामणाच्या तोंडार मारचो. पूण देवीक वायट दिसत म्हूण ताणें तशें केलें ना. बामणाच्या तोंडांतल्यान आनी असल्यो गाळी? शी! ते परस म्हजो आवय-बापूय खूब बरो. तांच्या तोंडांतल्यान असल्यो गाळी केन्नाच येनांत. बामण खंय, बामण! देवळांत केन्ना गाळी मारतात खंय?

पोक्याल्या आज्या म्हऱ्यांत केन्ना केन्नाय कांय बामण विडी वोडूंक येताले. तांचे बोंदरे वाले तांची गत सांगताले. ते गरीब खरे पूण तांच्या तोंडांतल्यान बुरश्यो गाळी केन्ना पोक्यान आयकूं नाशिल्ल्यो. हाचेवेल्यान पोक्यान मनांत एक खुणगांठ बांदली. बुरशा लोकांक जात-धर्म लागना. हातुंतल्याच एका बामणान कित्याकशें लागून आज्याक म्हणिल्लें 'देवामुकार सगळे सारके मरे पापया!' देवळांतली माण्णी पळोवन हीं उतरां फट म्हणपाचें आतां पोक्याच्या लक्षांत आयिल्लें. हेरांहून बामण व्हड, बामणाहून भट व्हड आनी भटाहून देव व्हड हें गणित पोक्यान आपल्या मनांत आतां बसयल्लें. ह्यो असल्यो गजाली तात्पुरत्यो आनी पोक्यो, त्यो केन्नाय बदलूं शकतात हें समजता तितलो पोको गिन्यानी जांवनाशिल्लो. जें मरणादेगेर पाविल्ल्या म्हाताऱ्यांक समजनां, तें नाकुटभर पोक्याक कशें समजतलें!

पोक्याल्या मनांत देवभक्ति वाडपाच्यो खुबशो गजाली ते काळांत घडटाल्यो. गांवांत भजनां-किर्तनां जातालींच. ते भायर जात्रा, काले, धालो, शिगमे बी

उत्सव वर्सा कणकणी जाताले. हे सगळ्यांत देवकार्याचो आस्पाव आसतालो. देवाचें नाव घेतलेबगर गांवांत खंयच चुट्टी हालनाशिल्ली.

पोक्याल्या आजोळा वर्सानवर्स गोवळण कालो जातालो. ताका गोवळण काल्यांतलो कृष्ण आनी गोप-गोवळणी खूब आवडटाल्यो. गोवळण कालो जाल्या उपरांत आठ दीस लेगीत पोक्याल्या काळजांतल्यान कृष्ण पयस जायनाशिल्लो. कुळागारांत, बाटोळ्यांत, घराफाटले दोंगुल्लेर चलता-भोंवतासतना आनी खेळतासतना कृष्ण आपल्या वांगडा भोंवता तो पोक्याक सपनांत दिसतालो. पोक्याक चड आवडटालें तें कृष्णालें म्होवाळ उलवप! नाटकांतलो शिवाजी भेंडाक तरसाद, अर्जून खांदार धनु-बाण, दुर्योधन गदा बी हातेरां घेवन वावुरताले. पूण कृष्णाल्या भेंडाक सदांच पिल्लूक खोयिल्ली आसताली. पोक्याक पिल्लुकेचे सूर खूब आवडटाले. कृष्णालें हांसतें तोंड, मोरपाखांचो मुकूट आनी कानांतलीं डुलां पळोवन पोक्याक सर्गसूख मेळटालें. केन्ना केन्नाय तो कृष्णाभसेन हांसतालो, उलयतालो आनी चलतालो. पोक्यालें जिवितच कृष्णमय जातालें.

पोक्याल्या घरांत जल्माष्टमी मनयनाशिल्ले. पूण ती तागेल्या आजोळाक मनयताले. आजी ना जाल्यार मावशी पोक्याक अश्टमीक व्हरुंक येतालीच येताली.

अश्टमी निमतान गांवांत पार भायर काडटाले. हो पार बैलांगाड्यार सजयताले. सजवणेंत चड करुन कृष्ण देवकी वांगडा कंसाचीं चित्रां आसतालीं. काळखांत उबो रावन, पेत्रोलमासा उजवाडांत पास पळोवंक पोक्याक खूब आवडटालो. चड करुन अंत्रुजेंत चवथ बरी फुलताली. ते वेळार चवथी दिसांनी पावसाचो नेट उणो जातालो. पावस पडलोच जाल्यार तो पिरपिरो. कुळागारांतले व्हाळ खळखळटात. पडट्या पावसांत वाऱ्यावादळान खुदपी-धोलपी माड-माडयो आतां मोन्यांनी उब्यो रावन गणपतीच्या आगमनाची वाट पळेतात. चानयो माडयांच्यो तोल्ल्यो झडोवप बंद करतात. हुंदीर माडाबोणे पोखरुन मुळाभरवण करपाचें थांबयतात. सकाळीफुडें दुदयाच्यो वाली आपले बोंगे फुलोवंक कोमेस करतात. तेच परी सूर्यदेव वयर सरचे पयलींच पारजातक आपलीं पारजातकां धर्तीर शिपडावन मेकळे जातात. कांय दसणी फुलां केंसरां फुलोवन मळबाक पळेतात तर कांय आपल्यो पाकळ्यो बागोवन धर्तरेक! पोरसांतल्यो जायो फुलतां

फुलतांच आपलो गंध सैमांत मिसळटात. दीस वयर मळबांत मदें येवपाच्या वाटेर आसतनाच, कुळागारांतलीं लांब देटांचीं सोलगां आपलें भांगरांग दाखयतात.

सांज जातां जातां घोसाळ्यो, शब्दुल्यो बी फुलूंक लागतात. आदल्या आनी आतांच्या फुलांच्यो तराच वेगळ्यो. आदलीं फुलां जीव नाशिल्लींशीं, पावस-वाऱ्यान थकिल्लीं-भागिल्लीं. आनी आतांचीं टवटवीत, रंगाकारान घसघसीत!

गणरायाच्या आगमनाची सुलूस दोंगोर-दोंगुल्ल्यो, कुळागार बी सगळ्यांकच लागता. दोंगुल्ल्यो हरयाळेन आनी शरवडांनी भरतात. व्हण्ण्यांचेर आनी आड्या-आकाड्यांचेर कांगलांचे घोंस लांबतात. कमंडळां आनी माट्टी फळां आयिल्ल्या - गेल्ल्याच्यो नदरो आपल्याकडेन ओडून घेतात. कुळागारांतल्या फळावळीचें आनी कितें सांगतले! चवथीखातीर राखून दवरिल्लीं तीं सुकुण्णी आनी सालदाटीं केळीं पावस आनी वारें-वादळ ओसरिल्ल्यान जुनेल्यांत. मोटीं आनी टट्टीत जावन तांचेर तांबसाण आयल्या. गणपतीचे मूर्तिचे सोंडीर आसता पळे तशी! तोरंगांनी तोरंगिणी भारावल्यात. पूण माकडांनी तांचेर घुरी घालूं ना. हें सगळें घडटा तें गणपतीचे कुरपेन आनी सासायेन, आपल्या भगतांक आपली सेवा करुंक अघड जावंचें न्हय म्हूण, देवांनच तें निर्मिलां.

शांतू पोक्याक सदांच सांगतालें, देव आपल्या भगतांचें केन्नाच वायट करिना. तूंय देवाची सेवा कर. देव तुजेंय बरें करतलो. शांतुल्या ह्या उतरांची पोक्यान घट्ट गांठ बांदिल्ली.

शांतू आषाढी एकादशीचो उपास करतालें. उपासाक ताका केळीं, आंबे, पणस बी भरपूर खावंक मेळटालें. शिवाय मुगांकण्ण, चण्या उसळ बी आसतालीच. हें लक्षात घेवन, पोक्याक आपणेंय एकादशीचो उपास करचो अशें दिसतालें. आनी शांतून ताका तो करुंक लायलो.

पोक्याली एकादस सामकी कडक आसताली. सकाळपसून बारां वरांमेरेन तो तोंडांत उदकाचो थेंबो घेनाशिल्लो. एकदां उपासा दिसा कुळागारांत गेल्लेकडे ताणें घडासयत केळ मोडून पडिल्ली पळेली. घडाक एक अमुरपिकें केळें आशिल्लें. पोक्यान तें उपासाची याद नासतना तोंडांत घालें. केळें खातकीर ताका एकादशीची याद जाली, ताका दिसलें, ताणें व्हड पाप केलें म्हूण! तो सामको निर्शेलो आनी भियेलोय बी. शांतून पोक्याक बरे भसेन समजायलो.

'तुयें केळें नकळो जावन खालां. तुका पाप कित्याक लागतलें? तूं भियों नाका. देव तुजें कांय वायट करचोना' शांतूलीं हीं उतरां आयकून पोक्याक धीर आयलो.

पोक्याचो आजो पयलीं सोमाराचो उपास करतालो. आतां तो पोक्यान करपाचो थारायलो. सोमारचो उपास केल्यार दनपारचें पोटभर सुरय तांदळांचें शीत जेंवक मेळटलें, हें पोको जाणां आशिल्लो. शांतू सोमाराखातीर सुरय तांदूळ खंयचेय फयदो करुन हाडटलें, हें पोको जाणा आशिल्लो.

पोक्याली खरेली देवभक्ती दिसून येताली ती चवथीकडे, गणपती पायतासतना. गणपती देड दिसाचो आसतालो. उत्तर पुजा जायमेरेन पोको आनी ताचीं भावंडां खोशेन नाचतालीं. वाड्यावेले लोक आरती करुन घरा वताले. फाटल्यान दत्तू गणपती माथ्यार घेवन, व्हाळाकोणींत बुडोवंक व्हरतालो. तेन्ना पोक्याल्या एका हातांत चूड आनी दुसऱ्या फसक आसतालें. दत्तूपायांकडे चूड हालयत पोको फुडें चलतालो. फाटल्यान शांतू एका भुरग्याक हाण्णीर आनी दुसऱ्याचो हात धरुन चलतालें. दत्तू मदें मदें गणपती बाप्पा मोऽऽरया! म्हणून मोठ्यान आड्डेतालो. शांतू आनी सुकडोय बोमले देटांतल्यान आड्डेवन ताका तेंको दितालीं. पूण पोक्या तोंडांतल्यान मात उतर सुटनाशिल्लें. ताचो गळो दाटून येतालो. गणपतीक उदकांत बुडयतात ही कल्पनाच ताका सहन जायनाशिल्ली. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच्यो पावळ्यो व्हांवताल्यो.

गणपतीक बुडोवन घरा येतकीर, पोको एकदम हातरुणार घालून घेतालो आनी हुदक्यांनी रडटालो. ताच्या तोंडांतल्यान आपशींच उतरां भायर पडटालीं 'ग-ग-ग-ण-प-प-पती-बा-बा-बाप्पा मोऽऽऽ'

**ग**रीबकायेचें नांव काडटांच कांय गिरेस्त लोकांक कच्च जाता. विमान-गाडयांनी भोंवन आयिल्ल्या मनशांक सायकल आनी पायांनी भोंवचें पडलें जाल्यार? सदांच गादयांचेर लोळून आयिल्ल्यांक शेनरे-हातरेचेर न्हिदचें पडलें जाल्यार? दीस-रात पकवान्ना खावन आयिल्ल्याचेर आंबील पेज जेवन रावचो वोगोत आयलो जाल्यार? गरीब कशे तरेन दीस काडटात हें गिरेस्त पळेत

आसतात. आपल्याचेर तसलो वोगोत येवंचो न्हय म्हण आपापल्या देवांक तेला दबे आनी भांगरां-शिंगरां दिवन सुशेगाद बसतात. आपूण सदांच गिरेस्तच उरचे अशें देवाकडे मागतात.

पूण गरिबांचें तशें आसना. तांकां कांट्या-खुट्यांनी चलपाची सवंय आसता. शेंकरे माड्डोवन, धुल्ल उडोवन आनी माथ्यार वोत घेवन घाम गळयत चलपी मनशाक दूख सोंसपाची सवंय लागता आनी फुडें येवपी केदेय व्हडल्या संकश्टांक तोंड दिवपाची तांक तांच्यांत निर्माण जाता. एकदां लाकूड जळटकीर तयार जाल्ल्या गोबराक उज्याचो भंय आसना तेच परी गरीबकायेचे चटके सोशिल्ले मनीस काळजान निबर जातात आनी ते फुडाराक कितें करती हाचें चित्र कोणाच्यानच काडूंक जायना. गरिबकायेंतल्यान वयर सरिल्ल्या कितल्याशाच लोकांनी हे धर्तरेचेर सर्ग फुलयला, हाच्यो खुबशो देखी आमच्यामुखार आसात. हाकाच लागून म्हणचे पडटा की गरिबकाय ही खुबशा मनशांक शाणेपण आनी वेव्हार शिकयता. संवसारांत गरिबकाय नाशिल्ली जाल्यार सगळेकडे मदांधकायेची राजवट चलतली आशिल्ली. ल्हानविकाय, नमळाय, शांतीकाय, शादूरपण बी गूण गरिबकायच मनशाचे कुडींत वसयता. गरिबकाय मनशाक चिंतूंक लायता, आनी हीं चिंतनां मनशाच्या मनाक बळगें हाडटात. गरिबकाय हें मनीस काळजाचें बळ आनी गिरेस्तकाय ही मनशाच्या मदांदकायेक नेट आनी तेंको दिता. मनीस आपली उदरगत करुन घेतलो जाल्यार ताका बुद्दी सांगातान काळजाचो उपेग करुन घेवचोच पडटा. फकत बुद्दीच्या नाड्यार जगपी मनीस आनी देस, सोताचो आनी हेरांचोय घात करुंक शकता.

पोक्याक बुद्द आशिल्लीच. पूण ताच्या काळजाक धोंगशे दिवन दिवन शांतून त्या काळजाचो विकास घडोवन हाडिल्लो. ताका लागून शांतूलो पोको भायल्यान शांत सोभावाचो, नेबळट आनी अबरगत कसो दिसतालो. आमी गरीब, गरिबांनी गिरेस्तांमुखार खालतेपणान वागूंक जाय. तांणी वायट बरें कितेंय म्हळ्यार मारतें व्हरुंक जाय. व्हडांचो मान राखूनच ल्हानांक जगचें पडटा. हे संवसारांत व्हड रुखांच्या सावळेंत धाकटीं रोपां जगतात पळय तशें! अशी शिकवण शांतू पोक्याक दितालें.

आवय सांगता तितलेंय पोको कान दिवन आनी मन लावन आयकतालो. पूण खुबशा गजालींचो ताका उलगडो जायनाशिल्लो. तो रावता ते वाटाराक

व्हडले व्हडले रुख आशिल्ले. रुखाखाला जायतीं ल्हान ल्हान रोपां आसतालीं. पूण तीं रुखा सावळेंत सदांच गिड्डीं उरतालीं. तांकां फाव तसो उजवाड आनी वारें ना मेळिल्ल्यान तांची वाड जायनाशिल्ली. व्हडलें झाड तांकां वाडूंकच दी नाशिल्लें. दत्तून कावत्यो रोयतासतना एक कावती मायज उरिल्ली. ती ताणें बेठीच एका आंब्यामुनांत रोयिल्ली. हेर कावत्यो गरगरीत वाडिल्ल्यो. पूण आंब्यासावळेंतली कावती तशीच चिड्डून गिड्डी उरिल्ली. पोक्याच्या मतान, ताची आवय सांगता ते भशेन व्हड रुखाच्या आसऱ्यान भरभरीत वाडूंक जाय आशिल्ली आनी हें अशें कशें? आई म्हाका कित्या कित्येंय सांगना मू? ना! आई ती! आई वाकडें केन्नाच सांगचीना. ती जें कितें सांगता, तें म्हज्या बऱ्याकच अशें चिंतून पोको सेंसुस्त रावलो, आपले आवयचेर भावार्त दवरुन!

पोक्याल्या घरापसून सुमार एक कुलो पयस बाप्पा शेणय'लें घर आशिल्लें. बाप्पा शेणयल्या घरा असलें गांवांत दुसरें घर नाशिल्लें. सगळो गांव हे घराची तोखणाय करतालो. बाप्पा शेणय मोठो आनी तागेलो धंदोय मोठो. अणसां तेंपार अणसां कण्णो भरुन मुंबय धाडप, सुपारे तेंपार सुपारी घेवन ती सांठोवन दवरप. कोंडे मारुन ते व्हड्यांनी भरुन खंय तरी भायल्या गांवांनी धाडप. झाडां घेवन मदेर चिरप. एक ना धा धंदे चलताले बाप्पा शेणयले. ते भायर तागेलीं कितलींशींच कुळागारां आशिल्लीं. बाप्पा शेणयल्या घरांत खोटांनी पयसो येता अशें गांवचो लोक म्हणटात तें पोक्यान आयकल्लें पोक्याल्या नदरेन बाप्पा शेणय एक व्हडलो मनीस!

वर्सातले चडशे दीस दत्तू बाप्पा शेणयगेरच कामाक आसतालो. दत्तू म्हळ्यार बाप्पा शेणयलो उजवो हात. खुबदां दत्तू बगर बाप्पा शेणयलें पान हालनाशिल्लें. दत्तू कामाकडे आसल्यार हेर मानाय झुडोन कामाक लागताले. आळसाय तांच्या म्हऱ्यांत मातय तिगनाशिल्ली. कोंडे मारतासतना तांचे कोयते सपासप चलताले. अणसां कटाकटा मोडटालीं. कण्णे झपाझप भरताले. कुळागार खण्टासतना कुदळी घपाघप धर्तरी फोडटाल्यो. खोरीं मातयेंत खसाखस चलतालीं. बुटयो फसाफस भरताल्यो आनी भरभर कामेऱ्यां माथ्यार चडटाल्यो. हाकाच लागून बाप्पा शेणय दीस-रात दत्तू नाम जपतालो. हांगा दत्तू थंय दत्तू, सगळेकडे दत्तू दत्तू! हाका लागून मानाय दत्तूक कसताले, ताचेर जळटाले!

दीस धारेक वतकीर मानाय हातेरां दवरुन आपापल्या घरा वताले. दत्तू मात

कसल्या ना कसल्याय कामांत गुंतून आसतालो. दिवेलावणेर पयशे मागूंक गेल्यार बाप्पा शेणय घराकडे नासतालोच. आपल्या इश्टांवांगडा खंय तरी पयस चकाटां मारीत पासयेक वतालो. दत्तू मागीर हात हालयत घरा वतालो आनी जड पावलांनी भितर सरतालो.

शांतू आनी भुरगीं दत्तूली वाट तेळीत बशिल्लीं आसतालीं. दत्तू रुपयो घेवन येतलो. मागीर पोको पिशवी घेवन पसऱ्यार वतलो. रात-दोन रात मक्या पीठ हाडटलो. मागीर शांतू रोटयो भाजून, सगळ्यांचो ताळो वोलो करतलें. अशे मनांत मांडे रचून आसतालीं सगळीं! केन्ना केन्नाय रोटयां वांगडा चण्यारोस करपाचो आपलो बेत उलोवन दाखयतालें शांतू. पोक्याक सुकी रोटी साप्प आवडनाशिल्ली. आई चण्यारोस करतली हें आयकुनच तव्यावेली रोटी जसी फुलता तसो पोको फुलतालो. दोन-तीन उडयो मारुन तो परत जाग्यार येवन बसतालो. पूण दत्तू जेन्ना रित्या हातांनी घरा येतालो, तेन्ना सगळ्यांचीं तोंडां येदीशीं जातालीं. हात पांगरुन वण्टीक तेंकून बसतालीं आनी दोळे वरसे करुन दत्तू तोंडाक पळयत रावतालीं.

आनी आजो? आज पोटांत कांय घालिनासतना रात काडची पडटली हे कल्पनेनच तो सामको गर्भगळीत जातालो. ताचे सुके दोळे खंयचीं तरी दोन दुखां येवन वोले जाताले.

आपल्या भुरग्यांची आनी मांवांची जाल्ली दशा पळोवन शांतूक घोवाचो खूब राग येतालो. दीसभर काम करुन दिसवडो घेनासतना येवप म्हळ्यार कितें? कितें म्हणप हे दादल्याक ! मातय अक्कल ना? तो मेल्लो बाप्पा शेणय आमोरेर हेडोंक वयता जाल्यार, हेणे पयलूंच तेज्या गचेक धरचेलें न्हू? हेंचीं पोटां भल्ल्यां म्होणोन आमचींय भल्ल्यां काय कितें? आमी हाता पोटावयलीं मनशां, हे वटेन हाडचेलें ते वटेन खावचेलें, शांतू पिजळ्ळें आनी ओऽऽ ओऽऽ करुन रडलें. हाचे परस चड आनी तें कांयच करुं शकनाशिल्लें.

दत्तूलो भिडेस्त सोभाव ताका नडटालो. आपल्या कश्टांचें मोल धनयाकडे मागूंक ताका कितेंशेंच दिसतालें. तो सांजेवेळार कामाचो सुट्टकीर धनयांमुखार बापडोऽजावन, माथें खरपीत उबो रावतालो. धनी कितें रुपया आठआणे दिता ते घेवन घरा येतालो. बरेच वेळां धनी सांगतालो आज ना, फाल्यां यो. असल्या वेळार दत्तूल्या घरांत चूल पेटना जावन उपासमार जाताली. आजय तेंच घडिल्लें.

शांतूच्यान मांवांचे आनी भुरग्यांचे हाल पळोंवक जायना जाले. ताणें चिंत चिंत चिंतलें. मागीर ताका कसली तरी याद जाली. तें फट्ट करुन उठून भितर गेलें. ताणें दोंणली आनी पोन्ने बुडकुले सांसपिले. ताका दोणलेंत काळ्या वाटाण्याची एक गांठ मेळ्ळी. एका बुडकुल्याच्या पोंदाक मूठभर तांदळां कणयों आशिल्ल्यो. तांदूळ फापडून जातकीर कामतीले व्हनीबायन दिल्ल्यो त्यो ताका. हें घबाड पळोवन शांतूक सूऽ ऽ ऽ जालें. ताणें त्यो कणयों शिजोवन पेज्जे धोकोळ केलो. मागीर कायल चुलीर दवल्ली. ताचेर चणे वतयले आनी लागलें धवळूंक. आई किते तरी करता हाची सुलूस पोक्याक लागली. तो चुलीकडे धांवलो. ताच्या फाटल्यान भावणांय धांवलीं. शांतूभोवतीं उबीं रावलीं. चणे धवळितां धवळितां चण्याचो सुरबूस वास सुटलो. ते वासान भुरग्यांची भूक खंयच्या खंय नाच्च जाली.

शांतून भुरग्यांक कट्ट्यो हाडूंक लायल्यो. कट्ट्यांनी इल्ले इल्ले चणे घालून भुरग्यांक दिले. वाडग्यांनी घालून थोडो थोडो निवळ दिलो. फाटल्या कुयांसयत थोडो निवळ पितळेंत घालून, पितळी मांवां म्हऱ्यांत दवल्ली. मांव सुनेक पळोवन हांसलो आनी दत्तू-शांतू एकमेकांक पळोवन! जालो, राती जेवणाचो आक्त सोंपलो. पेत्रोलाचो दिवो वाडोवन सगळीं सेंसुस्त न्हिदे सुवादीन जालीं.

पोक्याक मात न्हीद पडलिना. आपल्याक आनी भावंडांक चणे खावंक मेळ्ळे. आज्याक इल्ली तरी पेज मेळ्ळी. पूण पापा-आईक मात कांयच मेळ्ळें ना. तांकां उपाशीं पोटार न्हिदचें पडलें. हे घडणुकेचें पोक्याक खूब वायट दिसलें. हें सगळें घडलां तें बाप्पा शेणयक लागून! बाप्पा शेणयचो पोक्याक सदांच राग येतालो. पूण आज तो चडच आयलो. दीसभर मरमर काम करुन आमोरेर दुडू मेळनांत म्हळ्यार कितें? ताका दिसलें, पापाक आतांच उठोवंचो, आनी सांगचें, पापो, बाप्पा शेणयल्या कुळागारांत आतांच वच आनी एक जुनशें घडावलेंच चोरुन हाड. पोटभर खावया शाक करुन. बाप्पा शेणय कामाचे दुडू दिना तेन्ना अशेंच करपाचें. रात जातकीर तेगेल्या कुळागारांत शिरोन अणसां, पणस, केळीं, पोपायो बी बुडून हाडपाच्यो. आपल्या भेजांतली आयडिया पोक्याक बापायक सांगनशी दिसली खरी, पूण ती शांतूक आवडचिना हेंय पोको जाणां आशिल्लो.

शांतू पोक्याक सदांच सांगतालें, बरे मनीस उपाशी मरतात, पूण चोरयो केन्नाच करिनांत, फट उलयनांत आनी दुसऱ्यांक केन्नाच फसयनांत आनी बाप्पा शेणय?

तो बरो मनीस? मानायांकडसून मरसर कामां करुन घेवप आनी तेंगेल्या भुरग्यांक वळवळे काडूंक लावप हें बरें? ना! बाप्पा शेणयक हांव बुद्द शिकयतलोंच. येतलो आपल्या इश्टां वांगडा आमच्या घराफुडल्या मार्गावेल्यान चकाटां मारीत. बेब्या पणसा फाटल्यान लिपोन असो फातोर मोखून मारतां, कि खड्डो फुटोंकूच जायो! कोण्णाक कळचेलें ना, कोणे फातर माल्ला पळय तो!

पोक्यान बाप्पा शेणयक ख्यास्त दिवपाचें थारायलें तेन्नाच ताका सुस्त न्हीद लागली.

आतांच्या भुरग्यांक कोणेंय सांगले बगर पोक्याल्या भुरगेपणाची कल्पना येवंची ना. आतांचे आवय-बापूय भुरग्यांक दीसभर हें खा तें खा करतात. आतांचे गरीब ते तेन्नाचे गिरेस्त आशिल्ल्यान, तेन्नाच्या गरिबांक जेवणा-खाणाकडे वळवळेच काडचे पडटाले. वर्सांतल्यो परबो सोडल्यो जाल्यार खंयचेच दिसा कोणाकच आसभर जेवण मेळनाशिल्लें. गांवांतलो एक बाप्पा शेणय सोडलो जाल्यार बामणा-भटांक लेगीत खोले-पत्रावळी ल्हेवत आनी हात चाटीत पानावेलें उठचें पडटालें. पानार कितें पडटा तें सगळेंच अपुरें आनी जोखून माखूनच पडटालें.

पोक्याल्या घरांत तर गरिबकाय उकत्या माथ्यान वावुरताली. तिका खोंट मारून धांवडावपाचो यत्न दत्तू-शांतू करतालें. पूण ती माजराभशेन हे जनेलांतल्यान भायर उडी मारुन, मागीलदारच्यान भितर सरुन, कोनश्याक लिपताली. सोदून काडून भायर धांवडायली तरी ती भितोडी कशीच सोडिनाशिल्ली. उणाक!

भूक आनी गरिबकाय भयणी भयणी! दोगी सांगातान रावतात आनी मनश्याक नाकाशेवट करुन सोडटात. भुकेचेर जैत मेळोवपाक मनबळग्याची तांक देमायज आसची पडटा. भुकेचेर जैत मेळोवन मनीसपण जागवप हे लेचापेचाचें काम न्हय !

भूक ही जाण्ट्यांपरस भुरग्यांक चड सतायता. पोक्याकय सपाटून भूक लागताली. शांतूक ताची जाणविकाय आसतालीच. हाकाच लागून शांतू आपल्या भुरग्यांक अवेळार कांयच खावंक दिनाशिल्लें. भुरग्यांक चरचरीत भूक लागूंक जाय. रिकाम्या पोटार थोडो वेळ दवल्ल्यार तांकां भूक सोसपाची संवंय जाता, हें शांतूलें तत्वगिन्यान! आनी तें फटय न्हय. फकत गरीबच न्हय तर केदोय व्हडलो गिरेस्त आसलो जाल्यार ताणे भूक सोंसपाची संवंय लावन घेंवकच

जाय. कारण गरिबकाय गिरेस्ताचेर केन्ना घुरी घालीत हाचो नेम ना!

भुकेक लागून मनीस खुबदां आपलें मनीसपण विसरता. पोक्याच्या जिवितांतय ताच्या मनाचेर सांसणाचो परिणाम जायसारख्यो घडणुको खुबशो घडल्यात. तांतल्यो दोन म्हाका वाचप्यांखातीर सांगन शो दिसतात.

एकदां अशें घडलें, शांतू पोक्याक बापाय म्हऱ्यांत दवरून हेर भुरग्यांक घेवन आवयगेर गेलें. वतना ताणें कुयण्यांत थोडी चण्यादाळ शिजोवन दवल्ली. ही दनपारच्या जेवणाची माण्णी आशिल्ली. दत्तू बारा वरांचेर थकून - भागून घरा यो जाल्यार कितें पळेतलो? कुयण्यांत इल्लीय दाळ ना. उल्लां तें सगळें उदक! पोक्यान इल्ली इल्ली करुन सगळी दाळ खावन काबार केल्ली.

दत्तू कितें समजूंक जाय तें समजलो. निमणो बापूयच तो! कांयच उलयलोना. पोक्याक मात दिसतालें, बापूय आतां आपल्याक सोपेपणान सोडचोना. पूण तशें कांय घडलेंना. दत्तून कुयण्यांतलें दाळी उदक वाडग्यांनी दोनकडे वाटून घेतलें. एक आपूण पिलो आनी दुसरो पोक्या म्हऱ्यांत दवरुन फटकुरार आड पडलो.

दत्तू परतो कामाक गेल्या उपरांत पोक्याल्या गळ्याचो एकदम फार जालो. गळ्यांत दाटिल्लीं कुपां पिगळ्ळीं आनी नाका-दोळ्यांतल्यान व्हावूं लागलीं. पयलीं तो व्हो व्हो करुन रडलो आनी मागीर हुंदक्यांनी. केदो वेळ आपलें रडें ताचेकडेन आळाबंदाक आयलेंना. ताका चड पिकासांव जाल्लें बापायन आपल्याक कांयच केलें ना म्हूण! ताणें जर पोक्याचेर दोन थापटां वडयल्लीं आनी कितेंय शिजोवन दोन घास खावन तो कामार गेल्लो जाल्यार पोक्याक व्हडलेंशें कांयच दिसचें नाशिल्लें, आपल्याक लागून बापायक उपाशी पोटार कामाक वच्चो पडलो, हें दुख्ख पोक्याल्या काळजार खत जावन सांसणाचें उल्लें.

दुसरी घडणूक अशी कि, दत्तू एक दीस सदांभशेन कामां सुटून आमोरेर घरा आयलो. ताणें दिसवड्याचो रुपयो काडून व्हडा खोशेन शांतू हातार दवल्लो. शांतून तो पोक्याकडे दिवन ताका सामान हाडूंक पसऱ्यार धाडलो. पोको रातीकडच्या जेवणाचीं सपनां रंगयत पसऱ्यार वता आसतना अचकीत ताच्या लक्षात आयलें, ताच्या हातांतलो रुपयो खंय तरी गळ्ळो. घे! पोक्याचेर आयलो आकांत. ताणें रुपयो उजवाड आसा म्हणसर सोद सोद सोदलो. काळोख पडलो तरी रुपयो सांपडलो ना.. ही खबर दत्तू-शांतूल्या कानार पडली. तीं दोगांय चूड

हातांत घेवन रुपयो सोदूंक लागलीं. रुपयो कसोच मेळ्ळो ना. आतां दत्तूलो रागापारो चडलो. ताणें फाटीफुडें पळयनासतना एक खोंट पोक्याच्या भेंडार घाली. पोको शेवटून थंय आशिल्ल्या कोण्याळींत पडलो. एक कोंड्या खुटो ताच्या जांगेक लागलो आनी रगताचो शिंवोर जालो. तें पळोवन शांतू थंयच जीव वचून पडलें, दत्तूक आपल्या कर्तुबांचें पिकासांव जालें खरें, पूण पोक्याच्या नदरेंतल्यान मात तो सांसणाचो खालावलो. हे घडणुकेचो पोक्याच्या मनाचेर इतलो परिणाम जालो कि ताचो उगडास जातकीर तो सपनांत लेगीत कच्च करुन आंग काडटा.

देवान भुरग्यांक सांबाळपाची तांक फकत बायलांक दिल्या. भुरग्यां पोटाक भूक लागली आनी तीं रडूंक लागलीं म्हण्टकीर आवयचें काळीज चर्र जाता हें आमकां जातीवंत आवयचो नियाळ करीत जाल्यार कळटा. शांतूय हेच जातींतली बायल आशिल्ली. घरांत आरोव-दाणों कांय नासत जाल्यार सैम गिरेस्तकायेचो उपेग करुन भुकेर जैत कशें मेळोवंचें हें शांतूक कोणे सांगू नाकाशिल्लें. गिन्सां गिन्सांची वनस्पत हाडून आपले कल्पनेन तांचें अन्न कशें तयार करप हें शांतूक खबर आशिल्ली. मिर्गार पावस पडटकीर लुती कोंब वयर सरताले. शांतून ते लुसलुशीत कोंब काडचे. शिंदून तांतूंत मीठ-सोल घालून शिजोवन ती लुतीभाजी चोळक्यार घालून तें भुरग्यां म्हऱ्यांत दवरतालें. सुरणापरस ही भाजी मात्शी चड खोरजता. भिण्णांसोलां मात्शीं चड घाल्यार खोरजसाण उणी जाता. हेच लुती कोंब वाडटकीर व्हडले दांडे जातात. हे दांडे चिरुन तांचे बारीक बारीक कुडके करुन तांतली खर खोरजसाण ना करुंक कुळागारांतलीं अमुरपिकीं करमलां हाडून तें लुतीकाण्याच्या पातळ भाजयेंत घालतालें. ती आंबट-गुळमट पातळ भाजी मागीर सगळींजाणां एकठांय बसून भुरकायतालीं. लुतीकाणे काबार जाताले, तेन्ना तांच्यो मुणल्यो हाडून उकडटालें, तांची खोरजसाण ना करपाक उकडटाना भरपूण भिण्णीपालो मिसळयतालें. मुणल्यो शिजतकीर त्यो पानार घालून ताचो मेथो तयार करतालें. हो मेथो केळीपानार घालून कयलार भाजतालें. मागीर त्यो गुबगुबीत भाकऱ्यो भुरग्यांक खावयतालें. सुरणांपालो आनी काणे चिरुन केल्ली कोडशी भाजी आनी भरभरीत तेरें खावन दीस कशे काडचे हें शांतू संगतीन ताचीं भुरगीं शिकिल्लीं.

पोक्याल्या घरांत आनीक एक पदार्थ अन्न म्हूण शिजतालो तो म्हळ्यार कोडू कारांद्यांचीं कापां. चवथ जाल्या उपरांत दत्तू दोंगरार वचून कारांदे खणून

हाडटालो. शांतू मागीर थोड्या थोड्या कारांद्यांचीं कापां करुन व्हाळांत निवळत घालतालें. कारांदे पयलीं तासून तांचीं कापां करचीं पडटात. उपरांत कापां शिजोवन निवळत घालचीं पडटात. हीं कापां गोड-सोय घालून तळशीतकीर खावंक खूब बरीं लागतात. पोक्याक तर तीं खूब आवडटालीं. हीं कापां खावन मनशाक दीसभर पोटाक थाकाय उरता. भुरगीं असली खावड आवडीन खातात.

गरीब लोकांचें एक खाशेलेंपण आसता. जे खाणाची तांकां एकदां संवंय लागता, ताका जल्मभर विसरनांत. गरीब फुडें केदोय गिरेस्त जालो जाल्यार आपल्या आदल्या खाणाक केन्नाच विसरना.

खुबदां पोको आपली भूक स्वतंत्रपणान भागयतालो. केन्ना तो पडत्या पावसांत माथ्यार पोवल्यां हातरी घेवन कुळागारांनी भोवन पाक्यांनी खावन वडयल्लीं पेरां, माकडांनी खाल्लीं तोरंगां बी घरा हाडूंन, तांचे बरे बरे कुडके कापून खातालो. केन्नाय चानयांनी खावन वडयल्लीं मुसराद आंब्याचीं कल्लां ताका मेळटालीं. तींय पुंजावन तो घरा हाडटालो आनी तांचे कुडके कापून खातालो. घराफाटल्या दोंगुल्लेर भोवन वोंवळी धोडे, (धोणे) आंसाळे, पिटकोळां, भेडसां, कणेरां बी खावन पोटाक थोडी थाकाय हाडटालो. चिंचे मुंदांत, बोरी मुंदांत हेडून एक चींच ना जाल्यार बोर ताच्या हाताक लागल्यार ताका व्हडलें घबाड मेळिल्ल्यावरी खोस भोगताली.

अशे तरेन पोक्याल्या जिवितांतलो एकेक दीस फुडें सरतालो. भविश्यांत कसलोच आशे किरण ना दिशिल्ल्यान पोको कसोय तरी जगूंक जाय म्हूण जगतालो. आवय-बापूय ना जाल्यार सोयरें-धायऱ्यांच्या हातांत पोक्याक 'धड' करपाची तांक नाशिल्ली. देवय ताका घडोवंक शकनाशिल्लो. देवान ताच्या घराब्याचें कितलें बरें केलां हें तो उकते दोळ्यांनी पळेतालोच. ताचो भावार्त आपले हात-पांय आनी बोडाचेर आशिल्लो.

**पो**क्यालो जल्म पोर्तुगेज काळांत जाल्लो. ते तेंपार खेड्यांनी शाळा चड करुन नासताल्योच. एकाद्रो भायल्या गांवांत ना जाल्यार शारांत वचून शिकलो जाल्यार ताका आख्खो गांव रेस्पेदार करतालो. पोक्याल्या गांवांत वाचूंक-बरोवंक शिकिल्लीं तीन-चार बोडां आशिल्लीं. गांवचे लोक तांकां बरपी म्हूण वळखताले. हे बरपीय सोताक हेरां परस कोणी तरी व्हड समजताले. तांचें न्हेसप, चाल-चलणूक बी मात्सी हेरां परस बरी आसताली.

फटी नायक हो बरप्यां मदलो एक. ताच्या कानांत बाळी आसूनय तो केसां भिसी राखतालो. ताका लागून तो शेंडयो आनी भोंवरे राखपी लोकांमदें सुदारीक दिसतालो. भेंडाक एक नितळसो वालो आनी ताचे वयर काजूदिकां खतां पडिल्लें खोमीस आसतालें. पायांकडे नदर घालून, उकत्या पायांनी मंद मंद चलप आसतालें. ताचें उलप थंडसाणेन आनी उतरां मेजून आसतालीं.

होच फटी नायक एकदीस सकाळीं फुडें शांबाल्या चाये दुकानार वतालो. वाटेर ताका शांतू भेटलें, 'शांतू, पोक्याक शाळेंत घालतलें मुगो? चार अक्षरां शिकल्यार मनीस जातलो. हुशार आसा तो.' फटीन शांतूक वाटेर आडावन प्रस्न केलो.

शांतू फटील्या प्रस्नान सुखावलें. ताच्या तोंडार हाशें फाकलें, 'हांव तेका शाळेंत घालतासलें, पूण गांवांत शाळा आसूंक नाका फटीभाऊ! माड्डोळा आसा खंय शाळा. पूण इतके पयस एकट्याक कसो धाडूं हांव तेका? ल्हान आसा न्हू तो?' 'तूं सांगता तें खरे गो. पूण कसलोय तरी उपाय करुंक जाय न्हू? म्हागेल्या वसंताकय घालूंक सोदतालों हांव शाळेंत, पूण म्हाजेंय तूं सांगता तशेंच जालां. तुगेल्या पोक्याक घराकडे कोण तरी शिकयता म्होणोन आयकलां मुगो हायें.'

'गोइंद बाबा तो. शिकयता म्होणोन आपूणच येयला. पूण तेंगेंलें शिकोवप थोडें आनी मारप चड जाता.' शांतून कागाळे सुरान फटीक सांगलें.

गोविंद शेणयलें कुळागर दत्तूल्या कुळागाराक तेकूनच आशिल्लें. गोविंद शेणय कुळागारांत दीसभर कसलें ना कसलेंय काम करीत आसतालो. मदें मदें विडी वोडूंक ताका उज्याची गरज पडटाली. ते निमतान तो दत्तूगेर येई आनी दत्तू म्हऱ्यांत बसून चकाटां मारी. एक दीस ताची नदर पोक्याचेर पडली. ताका पळेनाफुडे गोविंद शेणयक आपूण पोक्याचो मास्तर जायनशें दिसलें. ताणें आनी आनी वोगोत केलो ना. दत्तूक एक पाटी हाडपाची वोर्द दिली. दत्तून वयलेतरांन गोविंद शेणयक आं म्हणलें खरें, पूण तागेलो बेत आयकून दत्तूल्या कपलाक खिणांत आटयो पडल्यो. पाटी-काडी हाडूंक तो आवा-शिवा करुन चार आणे खर्च करीत आशिल्लो. पूण पोक्याक शाळेंत धाडप हें ताका कसेशेंच दिसतालें. ताच्या आज्या-पणज्यांनी कितलीशींच लाकडां चिरल्यांत जायत, पूण श्रीगणेशा चिरपाचे भानगडीत कोणच पडलोना आजलेगीत. आनी आतां पोको शिकूंक लागलो जाल्यार, गांवांतले बामण आपणाक कितें म्हण्टले?

शिकप हें बामणाल्या भुरग्यांनी घेवचेलें. भायल्या लोकांल्या भुरग्यांनी गोरवां राखपाची अशी रीत आशिल्ली ते तेंपार. पोक्याक शाळेंत धाडपाक आनी एक अडचण दत्तूक सतायताली. दत्तू पोक्याच्या आदारान खूब कितें करपाचीं सपनां रंगयतालो. तो दिसवड्याक वतकीर तागेल्या कुळागाराचे बारा बिरेस्तार जाताले. फुडें आपल्या वाडवडलांचें ठिकाण पोक्याकडे सोंपोवन आपूण सेंसुस्त रावचो अशें दत्तूक दिसतालें. आपूण कामाधंद्याक भायर गेलों जाल्यार कुळागारांतलीं सगळीं कामां पोको करतलो, अशीं तो सपना रंगयतालो. आतां हो गोविंद शेणय आडमेळें हाडटा. ताका लागून गोविंद शेणयचीं हाडां मोडून ताची गुटली व्हरुन खंयच्याय तरी व्हांवत्या व्हाळांत व्हरुन वडयचीं, अशें ताका दिसलें.

हो गोविंद शेणय सामको हापापी आनी पाडो आशिल्लो. गांवचे लोक ताका मानवांकडो गोईंद म्हूण वळखताले. ताची मान वाकडी आशिल्ल्यान, सामकाराक उबो आशिल्ल्या मनशाक तो सरळ पळोवंक शकनाशिल्लो. ताचे दोळे सोपेपणान जमनीकडे वळनाशिल्ले. विडी बोटांमदें धरुन आनी हाताची मूठ दुसऱ्या हातांत घट्ट पकडून तो विडी अशे तरेन फुंकतालो कि ताका पळोवन शिगम्यां दिसांनी शिंग फुंकपी म्हाराची याद जाताली. ताच्या भेंडाक सदांच एक

धुंगराळें आंगोस्तर रेवडायल्लें आसतालें. गळ्यांतल्या जानव्यांक घामान पुडी रंग चडिल्लो आसतालो. बामणपणाच्यो ह्यो दोन खुणो सोडल्यो जाल्यार घाणयाऱ्यांचो राजा बरो सोबतालो.

गोविंद शेणय कोणाकडच्यान तरी मराठी बाराखडी शिकिल्लो जावंये, एक उतर बरोवचेली तांक नासतना तो पोक्यालो मास्तर जावंक सोदतालो. दत्तून जेन्ना शांतुल्या सांगणेन पाटये वांगडा चित्रबोध हाडलो तेन्ना तो चित्रबोधांतलें एक-एक उतर मनांतले मनांत वाचपाचो यत्न करुंक लागलो. पूण ताका तो वाचूंक जायना जालो. निमणें ताणें तो शांतूक कोळयांत दवरुंक लायलो. आनी पोक्याक शिलेटीचेर श्री काडूंक शिकोवंक लागलो. म्हयनो-देड म्हयनो जालो तरी पोक्याकडे ती श्री काडूंक कशीच जमलीना. ताका खावचो पडलो तो खोटांचो आनी धुमक्यांचो मार मात! पोक्याक आज लेगीत श्री पळोवन गोविंद शेणयची याद जाता आनी तो न्हिदेंत लेगीत कच्च करुन आंग काडटा.

कांय मनीस अशे आसतात कि कसल्यो ना कसल्यो हिकमती करुन आपलो सुवार्त सादयतात. गोविंद शेणय तांतलोच एक आशिल्लो. तो चाळीस वर्सांचो जालो तरी लग्न जावं नाशिल्लो. ताका लागून बायलांक पळेतकीर तो रोकडोच भुल्लुसतालो. आनी बैलाभशेन आबूजय जातालो. खंयचीय बायल गोविंदा म्हऱ्यांतल्यान वचूंक दचकताली. हेर बायलांपरस शांतू इल्लें उक्ते मनाचें आशिल्ल्या कारणान तें येता वतासतना गोविंद शेणयन हाचो फायदो घेवंचोअशें थारायलें आनी पोक्याक शिकोवपाच्या निमतान मुजरत तांगेर वचूंक लागलो. शांतूय ताचेकडेन आदर भावनेन पळेतालें.

एक दीस शांतू घरांत एकटेंच आसा तें पळोवन गोविंद शेणय शांतूल्या घरांत भितर सल्लो. शांतून ताका बसूंक म्हणय दिली. म्हणयेर बसतां बसतां गोविंद शेणयन शांतूक दोळो मोडलो. हे दोळे मोडणेचोअर्थ शांतू खिणांत समजलें. ताणें आनी वोगोत केलो ना. गोविंद शेणयक थंयच्या थंयच वोशिमेराद दिली. गोविंद शेणयन म्हणय सोडून जी कूस माल्ली, फुडें ताणें केन्नाच शांतूलो हुंबरो म्हणटात तो हुपलो ना. हे घडणुकेन पोक्याक लागिल्लें गिराण सुटलें आनी फुडें तो इल्लें इल्लें आंग घेवंक लागलो.

आतां शांतू-फटीलीं शाळेविशींचीं बरींच उलोवणीं जाल्लीं. फटीन आपल्या वांगड्यांल्या भुरग्यांक तयार करपाचें थारायलें. पोको, फटीलो वासू, गुणूलो

पाणू, नारुलो सोनू, दुर्गांतल्या बाबुरायालो वामनो, अशे तरेन फटीन एक नामावळ तयार करुन मतींत दवरली, 'बरें गो शांतू, थारलें. हांव आसतना कांयच भियो नाका. आतां हांव पळेतां शाळा कशी जायना पळे, ती!' अशें म्हणून फटी ताकतीन गेलो आनी बाप्पा शेणयल्या चोवकेर वचून बसलो.

बाप्पा शेणयलें एक अपुरबायेचें चली आशिल्लें. ताचें नाव आशिल्लें शब्दुलें. बाप्पा शेणय ताका मुळावें शिकप दिवंक सोदतालो. पूण ताका गांवांभायर धाडून शिकवप शक्य नाशिल्लें. ही गजाल बाप्पा शेणय फटी मुखार एक दीस उलयल्लो. आनी फटीन ताची मनांत घट्ट गांठ मारिल्ली. आतां बाप्पा शेणय घरांतल्यान भायर येवन वोल्तेरार बसतकीर फटीन शाळेचो प्रस्न ताच्यामुखार काडलो.

'बाप्पा गांवांत एक शाळा आसची अशें दिसना तुका?'

'दिसता तर? पूण भुरगीं खंय आसात रे गांवांत शिकसारकी!'

'ना कित्याक तर जायतीं आसात. म्हागेलो वसंत आसा, दत्तूलो पोको आसा, तुगेलें शब्दुलेंबाय आसा. आनीक सात-आठ तरी भुरगीं जमयतां हांव. तुयें फुडाकार घेतल्यार आनी पांच-स तरी बामणालीं भुरगीं मेळचीं नांत?'

'तें जायत रे, पूण मास्तर मेळूंक नाका?'

'कितें बाप्पा! शितां आसल्यार भुतां कित्याक मेळचीनांत?'

'कितें म्हण्टारे पापया! भायलो मास्तर हाडून पोसचेली तांक आसारे आमच्या लोकांक?'

'तुयें कानामनार घेतल्यार सगळें जाता. आनी मास्तर भायलोच कित्याक हाडूंक जायो? तुमगेलो गोपूबाब ना? तेका लावया कामांक. सामको पादिसेर जाला बाबडो!'

'बरें आसा पळोवया कशें जाता तें. हांव उलयतां आमच्या लोकांकडे' अशें म्हणून बाप्पा शेणयन फटीक वाटेक लायलो.

सांजवेळा पासयेक वतासतना बाप्पा शेणयन आपल्या वांगड्यांकडे शाळेचो प्रस्न काडलो. सुर्वेक कांय जाणाचें मत शाळा काडची अशें पडलें. पूण बामणांलीं भुरगीं शुद्रांच्या पंगतीक बसून शिकतलीं म्हणपाचें शाणू शेणयंक मानवलेंना. तो पाडसभर उसळलो. आमचीं भुरगीं शिकनासतना उरल्यार जाता, पूण तीं भायल्या लोकांल्या भुरग्यांवांगडा शिकचीनांत. शाणू शेणयलें उलवप बाप्पा शेणयंक

मानवलेंना. बाप्पा शेणय शाणू शेणयंक बेस बरे वळखतालो. कोणेंय गांवांत सुदारणा हाडपाची येवजण फुडें हाडली जाल्यार, हो शाणू शेणय कसलें ना कसलें आडमेळें हाडटालोच. बाप्पा शेणयकडे चार पयशे आसात देखून तो गांवांत भाव खाता अशें ताचें मत आशिल्लें. खरें म्हणशात जाल्यार हांगा तरी बाप्पा शेणयलें कितें चुकतालें अशें म्हणूं नज, ताचो दिश्टिकोन मानवतावादी आशिल्लो. गांवांत शाळा काडपाचो विचार जालो तेन्ना ताचे तकलेंत जातीवादाचें भूत शिरुं नाशिल्लें, आतांय ताका दिसतालें, बामण, शुद्र एकठांय बसून शिक्षण घेतले म्हूण संवसाराक बुडटी येवचेली ना. पूण ताचे विचार हेर बामणांक पटूं नाकात? बाप्पा शेणयन एकठांय केल्ल्या बामणांनी खिणाक शाणू शेणयंक तेंको दिलो. तांकांय दिसलें, आपलीं भुरगीं शुद्रां वांगडा शिकल्यार फुडें अनर्थ जावं येता.

बाप्पा शेणयन फटी नायकाक शाळेची आशा दाखयल्ली. गांवांत शाळा जालीना जाल्यार बाप्पा शेणयची पत देंवतली. कशीय करुन शाळा सुरु जावंकच जाय अशें बाप्पा शेणयक दिसतालें.

आतां बाप्पा शेणयक सट्ट करुन नानू शेणयची याद जाली. आज तो पासयेक येवनाशिल्लो. हो नानू शेणय गरीब खरो पूण ताका बऱ्या वायटाचें गिन्यान आशिल्लें. ताचो सोभाव करारी आशिल्लो. तो आपले विचार दुसऱ्याक अशे तरेन पटोवन दितालो कि कोणाकच ताका विरोध करपाची छाती जायनाशिल्ली. कसलोय निवाडो दितासतना तो आपलो पेलो असो भेदभाव केन्नाच करिनाशिल्लो. हे गुणाक लागूनच गांवांत ताका मान आशिल्लो.....

बाप्पा शेणय नानू शेणयांगेर गेलो आनी शाळेची गजाल नानूच्या कानार घाली. दुसरे दिसा नानू शेणयन गांवच्या सगळ्या बामणांक बाप्पा शेणयगेर एकठांय केले आनी शाळेचें म्हत्व तांकां पटोवन दिलें. बरें काम करतलो जाल्यार थोडी माघार घेवंची पडटा हें नानू शेणय जाणां आशिल्लो. बामणालो विरोध उणो करपाखातीर ताणें एक तोडगो सुचयलो. बामणाल्या भुरग्यांक वेगळीं बसोवपाचो.

अशे तरेन गांवांत नवी शाळा सुरु करपाचें एकमतान थारायलें. गोपूकडे उलोवपाचें कामय नानू शेणयनच केलें. आठ बामणांनी जण एकल्यान म्हयन्याक एक रुपया पटी काडपाचें थारायलें. भायल्या लोकां कडल्यान म्हयन्याक चार आणे फी घेवपाचो अधिकार गोपू मास्तराक दिवन सोडलो. बाप्पा शेणयन पांच

रुपया पटी दिवपाचें थारायलें.

आतां आपूण मास्तर जातलों आनी म्हयनो जातकीर नेमान पाग मेळटलो हें आयकूनच गोपू कामतीच्या आंगार मूठभर मांस चडलें. होच गोपू आपलें धोतर नितळ उरचें म्हूण पाटावेल्या फोणकुलांत रिटे घासून तें धुतालो. हेर बामण विडी वोडटात थंय वचून हात पसरतालो. केन्ना केन्नाय मानायांकडल्यानय विडी घेवन वोडी. आतां गोपूक बरे दीस आयिल्ले. तो खोशेन भरिल्लो. म्हयनो जातकीर ताच्या हातार कचकचीत रुपये पडपाचे आशिल्ले.

निमणी गांवच्या केळबाय देवळांत शाळा सुरु जाली. हे देवळामुखार काल्याचीं नाटकां जातालीं. ताका लागून माची आनी देवळामदें भरपूर सुवात आशिल्ली. थंय भुरग्यांक जाय तितकी धिंगाणां घालूंक मेळटालीं. देवळाफाटल्यान सदांच झाडी वाडिल्ली आसताली. ताका लागून एकीक वचपाची अडचण नाशिल्ली. हें देवूळ कोणें आनी खंयच्या मुस्तीत बांदिल्लें हें गांवगिऱ्यांक खबर नाशिल्ली. हेर देवळांनी आसतात तशे हांगाय चोवकाच्या दोनय वटयां सोंपे बांदिल्ले आशिल्ले. ह्या सोप्यांक केन्ना तरी सिमेंट काडिल्लें जांवये. पूण आतां तें पुराय फुटून ताचे कपचे निखळिल्ले, आनी तांबशे बुरकाळे चिरे आपलें आंग दाखयताले. जमनीर वानायेदे फोंड पडिल्ले. जमीन निकतीच सारयल्ल्यान ते फोंड गड्ड्यांनी खेळपाचीं मिलांशीं दिसताले. जमनीर दोंय वटांनी माटवाच्यो माडयो आनी कोंडे मांडून दवरिल्ले. देवूळ गांवटी नळ्यांचें आशिल्ल्यान पाख्यांची कामटां वयर-सकल जाल्लीं. चडशे वांसे किडीनी पोखरिलले. किडीचीं तांतयां हांगा थंय फरफरीत पडटालीं. गुरुंगट्यांनी वाशांक वाटकुळेच बुराक मारून तांतुंतल्यान ते भायर - भितर सरताले. मर्दी-मर्दी पातळशी घाण भुरग्यांच्या आनी मास्तराच्याय माथ्यार सांडटाली. ते भायर कितलेश्याच कुमान्नीनी घरां बांदून आपलें संवसार थाटिल्ले. पाली राशीनी जळामळाक भोंवताल्यो. सगळ्याक पाकोडयांचीं जाळीं आनी घयरांव लांबतालो. आनी हें सगळें थंयच्या लोकांक नवें नाशिल्लें.

शाळा सुरु जावंचे पयलीं बामणाल्या भुरग्याकं बसपाक दोन-चार मांदऱ्यो हाडून दवरिल्ल्यो. भायले लोकांल्या भुरग्यांखातीर साकाट्यांची व्यवस्था केल्ली. एकावटेन मांदऱ्यो आनी दुसरेवटेन पयस शे सांकाटे पसरावन दवरिल्ले.

शाळेच्या पयल्या दिसा, दोन हांसत्या तोंडाच्यो चलयो आनी चार पांच

चले मांदऱ्यांचेर बसून आशिल्ले. हे चल्यांमदें शाणू शेणयलो मस्तो गणपोय आशिल्लो. एक गणपो सोडलो जाल्यार मांदरेवेलीं भुरगीं थंड आनी शांत सोबावाची आशिल्लीं.

साकाट्यांवेले भुरगे मात बुरशे, म्हेळ्या आंगल्यांनी आशिल्ले. तांच्या मदें पोको न्हावन-धुवन आनी नितळ कपडे घालून बशिल्लो. शांतून फाव तितलेंच नाल्ला तेल घालून ताचे केस वळयल्ले. ताका पळेतकीर अशें दिसतालें कि एकाद्रो बामणालो भुरगोच चुकून थंय येवन बसला.

उकत्या बोडान झेंमत झेंमत गांवांत पासयो मारपी गोपू मास्तराक आज भलतोच नेट आयिल्लो. आतां तो कोट-तोपी चडोवन नेटान शाळेंत येवंक लागिल्लो. पयले दिसा ताणें हातांत हुस्केची बडी घेवनच प्रवेश केल्लो. ताचे बडयेक पळोवनच सगळे भुरग्यांक कडकडो भरलो. भुरग्यांलो बोवाळ खिणांत खंयचे खंय विरुन गेलो. मांदरेवेल्या भुरग्यांचेर गोपू मास्तराचो व्हडलोसो प्रभाव पडलोना. साकांट्यावेल्या भुरग्यांचीं तोंडां मात पळोवपा सारकीं जाल्लीं. मास्तराची पयली नदर वामन्याचेर पडिल्ली. ताका बराबर शेळो घाम सुटिल्लो. ताणें खिणांत साकाटो वोलो केल्लो.

हो गोपू मास्तर आतां भसेन बी.एड., डी.एड. बी नाशिल्लो. पूण ताची सगली ताकत आशिल्ली हुस्केचे बडयेंत. सगळ्यांत पयलीं बडयेचो प्रयोग ताणें गणप्याचेर केलो. ताका लागून हेर भुरगीं सामकीं थरथरुंक लागलीं.

मागीर मास्तरांन दोनय पंगडां मदें दोन-तीन पासयो मारल्यो. थंयच्या एका कदेलाचेर बसून एकेका भुरग्याक आफोवन व्हेलो. तांच्या शिलेटीचेर श्रीगणेशा बरयली. आतां चिरात ती अशें मास्तरान खणखणीत आवाजान सांगलें.

'हावें खरवत हाडुंना गुरुजी. फाल्यां दत्तूकडल्यान हाडटां खरवत आनी चिरतां मागीर कोण कोणाक चिरुंक जाय तो.' हें आयकून गोपू मास्तराच्या रागाचो पारो चडलो. फाल्यांचें फाल्यां पळोवया. हांव तुका आतां चिरतां उबोच. अशें म्हणून ताणें गणप्याचे फाटीर सपासप हुस्केच्यो बडयो शेपडायल्यो. गणपो बेरड आशिल्लो. भुरगेपणांत सावन बापायकडल्यान मार खावन आंग भेरेल्लें ताचें. ताणें हां कि कूं केलें ना. गोपू मास्तराचो तो अवतार पळोवन एक पोको सोडून सगळ्या भुरग्यांची भिवन गुळी जाल्ली. कांय जाण थर थर कापूंक लागले. कांय जाणांच्यो चेड्ड्यो वोल्यो जाल्यो. कांय जाणांक धरधरीत घाम सुटलो.

गणप्याचेर मात कसलोच परिणाम जालोना. उलट तो मास्तराकच कोरें करुन पळोवंक लागलो. तें पळोवन मास्तरान ताका आनीकय शेपडावन काडलो. शेकीं मार सोसूंक जायना जावन गणप्यान थंयच्यान धांव माल्ली. आनी बद्द नाटकांचे माचयेर वचून उबो रावलो. आनी सगळे माचयेर नाचत नाचत ताणें गोपूच्या बारा पिळग्यांचो उद्धार केलो. गोपू मास्तर जाप दिना तें पळोवन 'बाप्पाक सांगून आडवाटेर तुज्या धोतराच्यो वादऱ्यो करुन तें तुज्या माथ्याक बांदिना जाल्यार हांव ते बापायचो पूतच न्हय,' अशी मेत्यार खावन, गणप्यान थंयच्यान जो पो काडलो तो परत ताणें शाळेचें तोंड म्हणटात तें पळेलें ना!

एक गजाल खरी, गोपू मास्तर चड शिकूंक नाशिल्लो. पूण ताचें अक्षर सुरेख आशिल्लें. शिलेटीचेर बरयतासतना काडी वयल्यावयर चलची, पाटयेचेर काडयेचो आवाज जावंचो न्हय हाची तो जतनाय घेतालो. पयलें उतर पुराय बरोवंक आयलेबगर दुसऱ्याक हात घालप ताका आवडनाशिल्लें. हाकाच लागून श्री आनी ॐ काडूंक शिकोवपाक ताका तीन म्हयने लागले.

पोक्याक गोपू मास्तर खूब आवडटालो. गोपूनय पोक्याक चुकून लेगीत केन्ना हात लायलो ना. गोपू मास्तराची पोक्याचेर सदांच नदर आसताली. हाचें कारण पोको आपले धडे मन लावन चिरतालो. सगळ्या भुरग्यांक श्री आनी ॐ काडूंक कठीण लागतालें पूण ती पोको मात खूब पयलीं शिकिल्लो. पोक्याक दिसतालें, मास्तरान आपल्याक धडे रोकडे रोकडेच घालचे. आपूण सगळ्या भुरग्यांफुडें वच्चो. पूण मास्तर ताका तशें करुंक दिनासलो. ताका लागून पोको एकच धडो चिरुन चिरुन उबगतालो. तो बेचैन जातालो. ताची तंद्री तुट्टाली. मन हांगा थंय भिरभिरतालें. ताका दिसतालें, आपूण भायर एक पासय मारून येवचें. एकोडें बोट दाखयल्यार मास्तर ताका ना म्हणचोना हाची खात्री आशिल्ली. पूण मास्तराक फटोवप हें पाप! पोक्यान मास्तराची मर्जी सांबाळिल्ली. ताका खोट येवंची न्हय, अशें पोक्याक दिसतालें. मास्तरय जाणाशिल्लो, पोको एक बरो भुरगो. तो हेरांभसेन तवनास न्हय. बरे देखीन वाडला. तो बामण न्हय पूण ताच्या तोंडांतल्यान गाळी आनी वायट उतरां भायर पडनांत. ताका कोणेय बरी वाट दाखयली जाल्यार ताचो फुडार बरो आसा. गोपू पोक्याविशीं कोणांकडेन उलयतना तोखणायेच्या सुरानीच उलयतालो. बामणाल्या भुरग्यांनी लेगीत देख घेवंची अशी पोक्याची वागणूक आसताली.

पोक्याकय गोपूचें सगळेंच वागणें बरें दिसतालें अशें न्हय. पावलां कणकणी भुरग्यांचेर खेंकसप, धेंगशे मारप, दीस भर एकसारखी विडी वोडप हे गूण पोक्याक मानवनाशिल्ले. तरी गुरुजीचो मान कसो राखचो हें ताका कळटालें.

फुडें फुडें पोक्याली गुरुभक्ती वाडत गेली. मास्तराक शाळेंत येवंक मात्सो उशीर जाल्यार तो ताचे वाटेकडे दोळे लावन आसतालो. हेर भुरग्यांक मास्तर शाळेंत उसरां आयिल्लो जाय आसता. धुमशेणां घालूंक. पोको मात धुमशेणांपासून सदांच पयस रावतालो. ताका लागून ताका शाळेंत चडशे इश्ट म्हणटात ते नाशिल्लेच.

शाळा चालू आसतनाच गोपू मास्तराक एक दीस ओंकारो आयलो. तो देवळा फाटल्यान धांवलो. पोकोय गेलो ताच्या फाटल्यान. पोक्यान गोपू मास्तर ओंकतना ताच्या तोंडांतल्यान रगत पडटा तें पळेलें. तो भियेलो. ताणें आनी वोगोत केलो ना. धांवत वचून लागशिल्ल्या चाये दुकानार वचून ही गजाल सांगली. दोग-तीग धांवत आयले. पळे जाल्यार गोपू मास्तर एका झाडामुनांत बसून धांपेता. जमिल्ल्या लोकांनी आनी वोगोत केलोना. गोपूक खांदार मारुन घरा व्हरुन सोडलो.

गोपू मास्तर घरा गेल्लो तो परत आयलोच ना. पयलीं तो विडी फुंकतालो. आतां ताका पयसे मेळूंक लागिल्ल्यान आसभर उंची सिगारेट वोडूंक लागिल्लो. जेवण-खाण सारखें न मेळिल्ल्यान, ताची कूड टी.बी. न पोखरुन सोडिल्ली आनी ताकाच लागून ताचो अंत घडून आयिल्लो.

गोपू मास्तरान स म्हयने शाळा चलयली. हे काळांत ताणें भुरग्यांकडल्यान मुळाक्षरां गिरोवन घेतलीं, तरी पूण ताची शिस्त कडक आशिल्ल्यान, सखल्या - वयल्या थरांतले सगले तवनास भुरगे एका सुतांत आयले. ताका लागून एक बरो मास्तर म्हूण ताची कीर्त गांवांत फांकलीं.

गोपू मास्तर गेल्ल्याचें दुख्ख गांवांत एक पोको सोडलो जाल्यार कोणाकच जाऽलें ना. पोक्याक मात आपूण उबंत पडिल्ल्यावरी जालें. ताचीं शिकपाचीं सपनां गोपू मास्तरावांगडा विरुन गेलीं.

**गो**पू मास्तर मेल्या उपरांत पोक्यान शिकपाची आशा सोडिल्ली. आतां तो भुरग्यांची आनी गोपू मास्तराची याद काडीत जगता. मास्तरान शिकयल्ली अ आ इ ई शिलेटीचेर काडून मेळत थंय बसून घोळयता. कुळागारांतल्या ल्हान ल्हान माडये कवात्यांच्या पांचव्या पोवल्यांचेर दर्वी फुल्ल मुळाक्षरां बरोवन काडटा. शिलेटीवेलीं अक्षरां रोकडींच फासून वतात, पूण माडयेकळवांचेर काडिल्लीं अक्षरां फुडें कितलेशेच दीस पळोंवंक मेळटात हें तो जाणां आसता. हाका लागून कुळागारांतल्यो सगळ्यो कवात्यो बरोवन काडल्यात. पोक्याली शिकपाची तळमळ पळोवन शांतू बेजार जातालें.

एक दीस शांतून, व्हडल्या दांगांचे दोन भुरगे, धेंपां मारीत सक्काळींफुडें खंय तरी वतात तें पळेलें, कोण ते? खंय वतात काय? तांच्या फाटीर पसरट शो साकाच्यो पिशव्यो आसताल्यो. दोगांनीय मोटवीं कालसांवां आनी खोमसां घाल्लीं. शांतूल्या अदमासान ते बामणाले भुरगे बी आसूंक जाय. शांतूच तें, वोग्गी कशें बसत! तेच दिसा ताणें खबर काडली. ते आशिल्ले शाणू आनी गणेस, दोगय गावड्यांले भुरगे. नमर्शीतले. खंय वताले ते? शांतूक कोणे तरी सांगलें, ते माड्डोळा शाळेक वतात म्हूण! शांतून आनी आनी वोगोत केलो ना. तें बद्द गुणूगेर गेलें. पंढऱ्याक मेळ्ळें, ताणें पाणूक शाळेक धाडपाक पंढऱ्याक कोमार काडलें. शाणू-गणेशाची पिराय पाणू-पोक्याच्या पिरायेपरस चड आशिल्ली. ताका लागून पोक्याच्या सांगाताक पाणू सोबतालो. माड्डोळा शाळेक वचपी हे गांवचे भुरगे आतां दोनाचे चार जाल्ले. फुडें तांकां एकेक करुन आनीक चार-पांच भुरगे येवन मेळ्ळे. तांतूंत दोग जाण बामणाले आशिल्ले. अशे तरेन सात-आठ भुरग्यांचो एक पंगड सक्काळी फुडें बडबडत, किळांच्यो आनी हुयेली मारीत रस्त्यावेल्यान चलूंक लागले.

आपूण माड्डोळा शाळेक वता म्हूण पोक्याक आतां भलतोच नेट आयिल्लो. तो नवे उमेदीन भरिल्लो. तो तान भूक विसरुन गेल्लो. शिवाय पाणू ताच्या सांगाताक आशिल्लो. आतां मज्जाच मजा!

शाणू आनी गणेशालें घर एका पोताक आनी माडयांनी आशिल्लें. तांचें भायर सरप जिळमिळट्यार जातालें. तांकां मागीर देवळाकडे दोगय बामणाले भुरगे येवन मेळटाले. बाटोळ्यांत पावतकीर पाणू आनी वामनो येवन दोडटाले. मागीर लागतालें पोक्यालें घर. हें घर दोगुल्लेचे देंवतेर आशिल्लें. पोक्याल्या घराकडे पावतकीर पाणूक खंयचो नेट येतालो देवाक खबर! तो अशे तरेन साद घालतालो की, पोको खंय आसा थंयसावन उठून धांव मारतालो. तेन्ना ताका कोणाचीच परवा दिसनाशिल्ली. कारण शाणू आनी गणेस हे म्हालगडे वाटेक कोणाक थांबनाशिल्ले. आपूण फाटीं उरत म्हूण पोको केन्ना केन्ना चायेघोंट लेगीत घेनासतना, दफ्तर फाटीर मारुन धांव मारी.

पोक्याल्या गांवांपासून शाळा सुमार चार कि.मी. पयस आशिल्ली. गांवांतल्यान एक चडटी देंवती आनी पावला कणकणी फोणकुलां आशिल्लो रस्तो आनी कडेक शेंकऱ्यांच्यो राशी. हो रस्तो वचून पणजी-मडगांवच्या मुखेल रस्त्याक मेळटालो. थंय मागीर मोण्ण लागतालें. गांवांक भोंवतोडो घालून वचप पयस देखून भुरग्यांक आडवाटेन वच्चें पडटालें. हे आडवाटेर पयलीं आडे-आकाडे आशिल्लीं कुळागारां लागतालीं. मागीर हीच वाट शेतां-भाटांतल्यान वचून एका दोंगराक तेंकताली. वाटेर एक-दोन व्हाळय लागताले. ही सगळी वाट माड्डोवन शाळेंत पावता म्हणसर एक वर तरी लागतालें.

शाळा सांज-सकाळ चलिल्ल्यान पयशिल्ल्या भुरग्यांक मातय सुशेग मेळनाशिल्लो. अशें आसुनय भुरगे धांव-पळ करुन, वोगतार हाजीर रावन मास्तरालो मार चुकयताले.

पोक्यान पयलेच दिसा शाळेंत पावल दवरचे पयलीं, शाळेचेर भायल्यांन एक नदर मारली. शाळा पळोवन ताचे दोळे दिपून गेले. वण्टीक रंग काडिल्ली इमारत तो पयलेच फावट पळेतालो. गांवांत बाप्पा शेणयलीं जनेलां लेगीत कुरकुटां कशीं आशिल्लीं. ते मानान शाळेचीं जनेलां खुपूच मोठी आशिल्लीं. पयलीं पोक्याक दिसतालें, जनेलां म्हणजे माजरांक भायर भितर सरचेली वाट.

शाळेचीं सोपणां चडचे पयलीं, दोनय वाटांनी ताका कितलीशींच फुलझाडां

दिसलीं. तांकां गोरवां-बोकड्यांचें तोंड लागचें न्हय म्हूण कोंण्ड्यां कामटांची सोबीत व्हडणी केल्ली. शाळेफुडें सुवात थोडीच आशिल्ली. पूण नितळसाण मन प्रसन्न करताली.

सिमेंटान चकचकीत केल्ल्यो पायऱ्यो चडून पोको वयर चडलो. आनी दत्तूच्या हाताक धरुन चोवकार उबो रावलो. तांकां पळेनाफुडें भुरग्यांमदलो एक चुणचुणीत भुरगो तांच्या म्हऱ्यांत आयलो. ताणें बापूय-पुताक एके सुवातेर व्हरुन उबे केले, आनी मास्तर येवपाचो आसा म्हूण सांगलें.

शाळेंत मास्तर नाशिल्लो, तरी भुरगीं शिस्तीन आनी शांत बशिल्लीं पळोवन पोक्याक अजाप दिसलें. बोवाळ साप्प नाशिल्लो असो न्हय. सुरंगीचे रुखार सक्काळीफुडें गुंजारव जाता, ते भसेन शाळेंत जातालो. गोपू मास्ताराले शाळेंत आड्डेवप चलतालें तशें बी हांगा नाशिल्लें. तरी हांगा भुरगीं देमायज आशिल्ल्यान तीं फुतफुतल्यार लेगीत बोवाळसो दिसतालो.

ही शाळा म्हळ्यार एक ल्हानशें सभाघर. दोनशें भुरग्यांक बसोवपाची व्यवस्था हांगा करपाक व्हडलीशी आडखळ नाशिल्ली. हे सभाघराक देवळाक बी आसता तशें एक गर्भागृह आशिल्लें. ताका तेंकूनच एक मेज आनी कदेल मास्तराखातीर आशिल्लें. कदेलार मास्तर बसलो म्हण्टकीर ताची नदर सहज येंत्रादार पडटाली. कोण भुरगो खंयचे वेळार भायर-भितर सरता, तें मास्तराक रोखडेंच कळटालें.

मास्तर येवंचे पयलीं पोक्याक बापाय म्हऱ्यांत उबो केल्ल्यान ताचें फावलें. दत्तू मास्तराची वाट पळेतालो आनी पोको बारकायेन सगळे शाळेचर विस्त मारतालो. हापापल्या सारखो. ताचे दोळे सगळेकडें भिरभिरताले. आपल्याक आतां हे शाळेंत शिकूंक मेळटलें म्हूण तो खोशेन भरिल्लो. तरी ताचें काळीज धडधडटालें. कारण मास्तराक ताणें हो वेळ लेगीत पळोवंक नाशिल्लो. मास्तर एकच की आनी कितले, हीय ताका खबर नाशिल्ली.

शाळेंतर्ली राशींनी भुरगीं पळोवन तीं एका मास्तराकडे आटाप ये सारखीं ना अशें ताचें मन ताका सांगतालें. इतले सगळ्या भुरग्यांक पांच-स तरी मास्तर आसतले अशें ताका दिसतालें. तशें जाल्यार आपल्याक कसलो मास्तर पडटलो काय? मारकुटो बी पडचो ना मू? आसना कसलोय, हांव मस्ती करता तसलो भुरगो तर मार खावंक! मस्त्यांक मार पडूंकच जाय. अशें म्हणून तो आपल्या विचारांत गूंग जाल्लो. इतक्यांत एऽऽक असो आवाज जालो. सगळे भुरगे एकदम

उबे रावले. पोक्याची नदर पायऱ्यांचेर पडली. एक दादलो झेतान पायऱ्यो चडटा तो ताणें पळेलो. माथ्याक काळी तोपी, धवें फुल्ल धोतर-खोमीस आनी मळबा कोराचो फेर्राद कोट. पायांत चामड्या जोतें, सावळो रंग. कोटा बोल्साक रुपयाळें बुकल आशिल्लें पेन. हो दादलो मेजाकडे मेरेन धेपां मारीत गेलो. तेन्ना दोऽऽन, एक साथ नमस्ते असो दुसरो आवाज आयलो. सगळ्या भुरग्यांनी त्या दादल्याक नमस्कार केलो. आनी तीन म्हणल्या बरोबर सगळीं भुरगीं आपापले सुवातेर बसलीं. पोको मात खूट कसो दत्तूच्या तेंक्यान उबो.

'हां, हो मास्तर तर! पापो, हो मास्तर आं, तुयें तेका नमस्कार करचो पडटोलो. मागीर कर आं.' पोक्यान बापायक शिटकायलो.

दत्तून आजवेर आपा भटाक सोडून खंयच्च्याच मनशाक नमस्कार केलो ना. आनी आतां तो हे मास्तराक करतलो? तो वोग्गी रावलो.

मास्तर कुडींत गेलो. कोट-तोपी खुटयाळाक लावन भायर आयलो. मास्तर खड्डो, हें जाणा जावन पोक्याल्या तोंडांतल्यान कूक असो आवाज भायर आयलो. दत्तून ताका पळोवन दोळे मोठे केले. पोको सावरलो.

'बबन, टोले द्यायला सांग.' मास्तरान बबनाक ओर्द दिली, आनी मागीर कोणे एका भुरग्यांन टण् टण् टण् करुन घंटी मारली. सगळीं भुरगीं शिस्तीन उर्बी रावलीं. पयलीं 'हे सरस्वती नमन तुझ्या पदकमली' आनी मागीर 'वंदे मातरम' हें गीत तालसुरांत म्हणून जातकीर सगळीं भुरगीं आपापले सुवातेर बसलीं. पोको आनी दत्तू उबे आसात तें पळोवन मास्तरान तांकां आपोवन व्हेले. मास्तरान दत्तूक पोक्याविशीं कांय प्रस्न विचारले. मास्तर कितें उलयता तें दत्तूक पुराय समजलें ना. तरी तो हयकारी अर्थान, तोंड आ करुन आपली तकली वयर-सकल हालयतालो. तरी दत्तूक मास्तरालें उलवप आपले गांवच्या लोकांपरस वेगळें आनी आयकन आयकनशें दिसतालें.

उलोवणे काबार जातकीर, पोक्याक बसपाक सुवात दिली आनी दत्तूक घरा वचपाचो परवानो. दत्तूक सू ऽ ऽ जालें. तो घरा वचूंक परतलो मात, मास्तरान ताका जापायलो. दत्तून फाटी वळून पळेलें. मास्तरान ताका नमस्कार केलो. आतां मात दत्तूक मास्तराक नमस्कार करचोच पडलो. खरें म्हणचे मास्तरान नमस्कार करुन हे गांवडळाकडच्यान नमस्कार घेतलो, हें दत्तूक कशें कळटलें?

उपरांत मास्तरान आपल्याक नमस्कार केलो ही गजाल दत्तून गांवांत पावतकीर

धा वांगड्याक तरी सांगली.

दत्तू घरा गेलो आनी हे वटेन पोक्यालें शिकप कोमेस जालें. ताका बिगरेंत सुवात दिवन साकाचेर बसयलो. सिमेंटावेल्या साकान पोक्याक सुखदेणी उब दिली. हेर भुरग्यां मदें बसयल्ल्यान मांडयेक मांडी तेकली. एकेवटेन बारीक हाडांचो सापळो आनी दुसरे वटेन पयलवानालो पोर कसो गुटगुटीत भुरगो. मदीं चेपणाक घाल्ल्याभसेन पोक्याक दिसतालें. पोक्याक राग येतालो पूण हांगा ताचें कोंत कोणाक आशिल्लें? एक वेळ पाणू आनी वामनो कुशीक बसल्यार तें तो सोशीत आशिल्लो. पूण हें कितें? मोटेल्या भुरग्याच्या नाकांतल्यान शेमडें व्हावतालें. ताका लागून पोको सामको बेजार जाल्लो.

पोक्याली ही गजाल अट्ठावन वर्सापयलींची. आज दोनशें भुरग्यांक शिकोवपाक स-सात शिक्षकांची गरज आसता. तेन्ना एक मास्तर दोनशें भुरग्यांची आख्खी शाळा सांबाळटालो ती अजापाची गजाल म्हणपाची!

पोक्याले शाळेंत बिगरी ती सातवी मेरेन वर्ग चलताले जावंये! शाळेची लांबाय-रुंदाय चड आशिल्ल्यान कोणाल्याय लग्नाक बी एकमेकाक फुडो करुन जेवणाक बसनांत? ते भसेन लांबचे लांब वळींनी भुरगे शिकूंक बसताले. बिगरी ते दुसरी मेरेनच्या भुरग्यांक चड करुन साकाट्यांचेर बसचें पडटालें. तर तिसरी आनी चोवथेच्या भुरग्यांक जामकोणाचेर बसपाची व्यवस्था आशिल्ली. सभाघराचे मदले सुवातेर तीन वळी बांकाच्यो आशिल्ल्यो. हे बाकांचेर पांचवी ते सातवेचीं भुरगीं बसतालीं. हीं भुरगीं मात सामकींच थोडी आसतालीं.

हे सगल्या भुरग्यांक एकलो मास्तर कसो शिकयतालो हो प्रस्न वाचप्यांक पडला आसतलो न्हय? हेडमास्तर आनी मास्तर तोच आशिल्ल्यान, भुरग्यांक देख आनी शिस्त लावपाची, मास्तराची तरा वाखाणण्यासारखी आशिल्ली. बिगरेक दुसरेचो, पयलेक तिसरेचो आनी दुसरेक चोवथेचो भुरगो शिकयतालो, पांचवी ते सातवेक मात हुशार भुरग्यांच्या आदारान मास्तर सोता शिकयतालो. शाळेंत बोवाळ आनी बेशिस्त बी म्हण्टात ती कांयच अणभवाक येनाशिल्ली. असले शाळेत शिकपी भुरगे बरे शिक्षक आनी बरे देखीचे आनी शिस्तीचे मनीस जावंक पावले.

पोक्यालो अभ्यास घेवपाचें काम एका दुसरेच्या भुरग्याचेर पडिल्ल्यान तें पोक्याच्या पत्त्यार पडिल्लें. आदले शाळेंत गोपू मास्तर एकच उबगण येसर झरोवंक

लायतालो. हांगा भुरग्यांकडल्यान एका फाटल्यान एक अशे धडे चिरुंक मेळटाले. तेन्नाच्या दुसरेच्या भुरग्यांचो अभ्यासय आतांच्या मानान खूब जाल्लो आसतालो. पोक्यान ताचो पुरेपूर फायदो करुन घेतलो. वर्स सोंपता सोंपता, पोक्यान मोडी आनी देवनागरी पुराय शिकून काडलें. पाड्यांचें पाठांतर अशे तरेन जाल्लें, फुडें पोको म्हातारो जालो तरी विसरुंक पावचो न्हय. पोको हे शाळेंत कसोबसो दोन वर्सां शिकलो. जें कितें शिकलो तें पक्कें शिकलो. तीस मेरेन पाडे, पावकी, निमकी, पाऊणकी, सव्वाकी, दीडकी, औटकी हें सगळें दुसरेक पडचे पयलीं पोक्यान शिकून काडलें. बिगरेक आसतना चित्रबोध वाचून वाचून तोंडपाठ केल्लोच, फुडें पयलेचीं, खड्डे घाल्लीं पोन्नी आनी बोंदरी पुस्तकां वाचून मनांत भरुन दिल्लीं. एकच ताका उणें आशिल्लें. बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार बी गणितां तो शिकूंक पावलो ना. तोंडी गणितां तो फटाफट करतालो.

पोको हे दोन वर्सांत बरोवंक वाचूंक शिकलोच, ते भायर ताचो सोभाव थीर करपासारक्यो आनीकय बऱ्योच गजाली घडिल्ल्यो. त्योय बी मास्तराक लागून.

हे शाळेचो मास्तर न्हेसतालो झेतार आनी आसतालो नेटार. पूण मास्तराक आसूंक जाय तसलें आवयचें काळीज मात ताका नाशिल्लें. ताचो कारभार हो मनीस पळोवन आसतालो. गिरेस्तालीं भुरगीं ताका आपलींशीं दिसतालीं. गरिबांक कस्पटा समान मानपाचो ताचो सोभाव ल्हान भुरग्यांच्या नदरेंतल्यान सुटनाशिल्लो. गिरेस्तांल्या आनी बरीं दिसतात त्याच भुरग्यांमदे तो रमतालो. तांचीं फकणां, तांच्यो अपुरबायो करप आनी हेरांकडे तुसडेपणान आनी मारकुटे नदरेन पळयल्ल्यान भुरग्यांक तो सैतान कसो दिसतालो.

पोक्याकडे हे मास्तराचो शिकपाबाबतींत केन्नाच संबंद आयलो ना. आयलो तो फकत मारा बाबतींत. पोक्यान मार चुकोवपाचो कितलोय यत्न केलो जाल्यार, मास्तराल्या मारांपासून ताची सुटका जायनाशिल्ली. आनी मार म्हूण कसलो? दाट पट्ट्यांचो! भुरग्यांक मारपा खातीरच मास्तरान एक खास पट्टी तयार करुन घेतिल्ली. हे पट्टेक भुरगे थारांच भिताले. पोक्याक दिसांतल्यान कसलीच चूक करिनासतना, दोनदां तरी हे पट्टेचो मार खांवचो पडटालोच. तोय ताच्या कुशीक बशिल्ल्या भुरग्यांनी केल्ल्या फाल्स कागाळ्यांक लागून. आपल्याक मागता तें मेळना जाल्यार गेले मास्तराकडे धावून. 'गुलूजी पोको माका धोंगसो मालता.' मास्तराक इतलेंच पुरो आशिल्लें, पोक्याले हात सुजोवंक! खरें-खोटें जाणून

घेवपाची न्याय बुद्धी हे मास्तराकडे नाशिल्लीच.

हे मास्तरान पोक्याचेर केल्लो अन्याय तो जल्मभर विसरचोना. तें अशें जालें, पोको बसतालो थंयच खांब्याक तेकून एक इंदू नांवांचें लांब-रुंद, घोडी कशें चली बसतालें. तें दुसरेक शिकतालें जांवये, ताचो बापूय ते वेळार मोटरकार आशिल्लो. ड्रायव्हर, आनी किलींडर(क्लिनर) सुद्धा ते वेळार व्हडले मनीस. मास्तराक आनी कितें जाय? इंदूचे लाड करुंक मेकळो!

सदांभसेन कोणे तरी मास्तराकडे पोक्याविशीं कागाळ केली. मास्तर कसल्या पिकासावांत आशिल्लो देवाक खबर! ताणें आनी आनी वोगोत केलोना. वारें कसो पोक्या म्हऱ्यांत आयलो. एक मदांध भाटकार आपल्या मुंडकाराक बडयता तसो तो पोक्याक शेपडावंक लागलो. मास्तरान पोक्याल्या दाव्या कान्सुलार थापट माल्लें. तो उजवेवटेन बशिल्ल्या इंदुचेर वचून पडलो. इंदून आपलें भोकांड उकतें केलें आनी जाता तितल्या मोठ्यान पेंपारें वाजयलें. इंदूचें पेंपारें आयकून मास्तराचें काळीज पिगळ्ळें. ताणें फार्टी - फुडें पळेनासतना पोक्याचेर मेळत थंय थापटां फुलयलीं. पोक्यान तीं गुरुप्रसाद म्हूण, हाय-हूय करिनासतना सगळीं सोसलीं. मास्तरावेलो अवसर देंवलो. मनांतले मनांत मालवणी गाळी घोळयत कदेलार वचून बसलो.

थोडे वोगतान इंदून आपलें दफ्तर उकतें केलें. पळेत जाल्यार शिलेटीचे कुडके कुडके जाल्यात. एकूच कुडको चोवकटीक शिरकून उरला.

इंदू ती फुटकी शिलेट घेवन, घागरो फुलयत मास्तरा म्हऱ्यांत गेलें. रडत रडत मास्तराचें तोंड ताणें चोवकटेंतल्यान पळेलें. मास्तरय चौकटींतल्यान इंदूचें तोंड केदो वेळ पळेत रावलो. 'गुरुजी येंय येंय! माझा पाठी पोक्याने फोडली.'

कागाळ आयकून मास्तर पयलो तापलो. मागीर थंड जालो. पोक्याक आनीक बडोवप ताका परवडपा नाशिल्लें. तो धोतर फाफडीत पोक्याकडे गेलो. पोक्याल्या हातांतली शिलेट काडून घेतली आनी ती इंदूच्या हातांत दिली. इंदूली शिलेट काडून पोक्याक दिली आनी हांगा थंय पळेत कदेलार वचून बसलो.

पोक्याक कितें करचें कांयच समजलें ना. तो हुंदक्यांनी रड रड रडलो. शाळा सुट्टकीर शिलेटी कुडको घेवन भियेत भियेत, रडत, रडत घरा गेलो. ताणें घडिल्ली ग़ज्म्ल आवयक सांगली. पाणूय थंय पोक्या फावोरार उलयलो. शांतूक मास्तराचो खूब राग आयलो. पूण उलोवन कांयच फायदो नाशिल्लो.

दुसरे दिसा शांतू पोक्या वांगडा माड्डोळा गेलें. कामतील्या पसऱ्यावेली उदार शिलेट घेवन पोक्याक दिली. ही गजाल ताणें दत्तूक लिपोवन दवरली.

नवे पाटयेन पोको समादानी जालोना. आपूण एकेच पाटयेन शिकतलों. पापाक दुसरी पाटी केन्नाच घेवंक दिवंचोना अशें पोक्यान थारायल्लें. ताका लागून आपले पाटयेक तो खूब जपतालो. आतां ती फुटिल्ली. तीय दुसऱ्याच्या गुन्यांवान. मास्तरान ताचेर व्हड अन्याय केल्लो, हाचेंच ताका खूब बायट दिसतालें.

हे घडणुकेन पोको खूब निर्शेलो. मास्तरावेलो ताचो भावार्त खंयचेखंय उडून गेलो. आपलो बापूय शिकुना खरो, पूण शिकिल्ल्या मास्तरा परस तो जायतो बरो अशें पोक्याक आतां कळून आयलें.

पयलेची परिक्षा बरे गुणांनी पास जावन पोको आतां दुसरेक पडिल्लो. पणजे सावन दुसरेचीं पुस्तकां हाडूंक दत्तूक पयलींच शांतून सांगून दवरिल्लें. आपलो पोको शाळेंत पयलो येवन ताणें दोन बक्षिसां घेतलीं तें पळोवन शांतू उमेदीन भरिल्लें. पोकोय फाटलें सगळें विसरुन सुटयांचो आनंद भोगतालो.

सुटये दिसांनी सांजेवेळा पोको एके काजू मुंदांत उबो रावन, काजू फातरायतालो. लागच्यान गांवचो रस्तो पासार जातालो. रस्त्यावेल्यान मास्तर येत, हें पोक्यान सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें. पोक्यान काजू मुठ्ठ्याचेर शेवटून मारिल्लो फातोर, मुठ्ठ्याक लागनासतना तो वचून रस्त्यावेल्यान चलतल्या मास्तराचे काळे तोपयेर टुक्क करुन पडलो. मागीर घे! पोक्याची आनी मास्तराची नदर एक जाली.

'थांब लेकाच्या, ये तू शाळेंत. मग दाखवतो तुला' हे अर्थान मास्तरान पोक्याक पळोवन वयर-सखल मान हालयली. मागीर तो चालीक लागलो. पोक्याक आनीक काजूबिजू कांयच नाका जाल्यो. ताका थंयच घाम सुटलो.

शाळा कोमेस जावंक एक म्हयनो आशिल्लो. पोक्याक आतां जेवंक-खावंक कांयच नाका जाल्लें. ताचें मन आतां काजूं पणसावेलें उडून गेल्लें. लोकांक भूत बी लागता तशें पोक्याक मास्तर लागिल्लो. सपनांत लेगीत मास्तराची काळी तोपी ताका दिसूंक लागिल्ली. पोक्याचो आतां सुकून सुकून कांटो जाल्लो.

शाळेक आठ दीस आसात म्हळ्यार शांतूक पोक्यालें कांय खरें दिसलें ना.

ताणें दत्तूक सांगलें, तीं पुस्तकां कोणाकय दिवंन वडय. पोक्याक आनी शिकप नाका. पुरो शिकला तो. तेजीं हाडां जाल्यांत तीं पळयल्यांत तुयें? जीव आसल्यार खायत भीक मागोन! अशें म्हणून ताणें पोक्याचेर नदर मारली.

पोक्या माथ्यावेलें मास्तराचें भूत खिणांत खंयचे खंय नाच जालें.

पोको निर्भय जालो खरो, पूण पुस्तकांची तातातूट मात ताका सहन जाली ना.

शांतुलीं उतरां आयकून दत्तू मात खोशेन भरलो!

**मा**स्तराच्या भयान पोक्यान शाळा सोडली. शाळा सोडूंक तशीं आनीकय खूब कारणां आशिल्लीं. तो जात्याच अशक्त. आंगलटीन शिरपुटो. ते भायर ताका गरिबकाय नडटाली. शाळेक वतल्या वाडट्या भुरग्याक फाव तें खावंक-जेवंक मेळ्ळ्यारच तो बरेभशेन शिकूंक पावता. ताचें मन शिकपांत लागता. पोक्याली शाळा दोन वेळीं आनी पयस आशिल्ल्यान, भुकेपोटार घरा पावता म्हणसर ताका खूब पुरो जातालें. तरी उसणो हावेस हाडून तो आपलो अभ्यास करीत रावतालो.

पोको दनपारचो शाळेंतल्यान घरा पावतकीर ताका कसलें ना कसलें जेवण (जेवण!) मेळटालें. पूण ताची खरेली अडचण आसताली ती सांजेवेळची. सांजेच्या सुमार स वरांचेर तो धांपेत धांपेत घरा पावतालो. तेन्ना ताका दिसतालें आईन ताका कितेंय खावंक आनी चाये घोंट दिवचो. केन्ना केन्नाय शांतू ताच्या हातार कितेंय उडयतालें बी. पूण चडशे वेळा ताच्या पदरांत निराशाच पडटाली. पाटी-पुस्तक खंयचे खंय उडोवन, पोट जमनीक तेकोवन न्हिदपाची पाळी ताचेर येताली. खूब वेळां तो भूक सोसूंक जायना जावन बुळुबुळू करुन रडला. दोळ्यांतल्यान दुकां झरी व्हांवल्यात. ते दुकांची खारसाण ताका केन्ना केन्ना आपसूक चाखची पडल्या.

शिकतासतना पोक्याक ते वेळार खुबशा अडचणीक तोंड दिवंचें पडलां. त्यो अडचणी दोळ्यांमुकार दवरल्यार ताका फुडलें शिकप करप शक्यच नाशिल्लें. एक पाटी, दोन-तीन काडयो, एक चित्रबोध आनी भाटकाराल्या भुरग्यांलीं

अर्दमोलाचीं बोनरीं पुस्तकां सोडलीं जाल्यार आवय-बापायकडल्यान ताका कितेंच मेळूंना. पयलेचीं भुरगीं कांय बरप कादेर्नाचेर बरयतालीं. पूण पोक्याच्या नशिबांत खंयचो कादेर्न आनी खंयचो लाप्स ? ताका सगळें शिलेटीचेरच बरोवचें पडटालें. शिलेटीर वोळी मारपाखातीर ताका माडयेची कांब तासून पट्टी करची पडिल्ली.

आपलो भुरगो शिकता. ताका अभ्यास करपाक वेळ जाय पडटा. ही गजाल दत्तूचे तकलेंत केन्नाच गेलीना. पोको शाळेंत सावन घरा येतकीर, दत्तू ताका कसलें ना कसलें काम दवरतालोच. बुटी-कण्णी घेवन फोपळां पुंजाय, मागांतली बान्नीं काडून उदक सोड, चुडटां एकठांय कर. पोको दिसलो रे दिसलो दत्तूक कसलें ना कसलें काम सुचतालेंच. ताका लागून पोक्याक पेत्रोलाच्या दिव्या उजवाडाक बसून अभ्यास करचो पडटालो.

हो गरिबकायेचो दणको पोक्यापुरतोच आशिल्लो असो न्हय आं ! तो सगळ्यांकच उणो-पुरो बादतालो. फरक इतलोच की हेर भुरगे शाळेक वतासतना सक्काळीफुडें शीत-पेज ना जाल्यार तसलेंच कितेंय पोटभरें तन्न-वन्न ख़ावन, पोट टणटणीत करून शाळेक वताले. पूण शांतुल्या बोडांत दुसरेंच कितें आसतालें. ताचेकडे इल्लो वेगळोचार आशिल्लो. पोको पेज मारून शाळेक वचपी भुरगो न्हय! तो चाव-भाकरी खावपी. पूण शांतुल्या घरांत केन्ना केन्ना चायेक गोड-साखरच नासताली, आनी भाकरेक पिठय नासतालें. ताका लागून जायते पावट पोक्याक एकादस घडटाली.

शांतुले तकलेंत ताणें पळोवंक नाशिल्लो गांधी बी शिरिल्लो काय कितें देवाक खबर! ताची घरा शिस्त पोक्याक म्हारग पडटाली. हेर आवयो आपल्या भुरग्यांक खावंक आणो-दोन पयसे दिताल्यो. शांतू मात आसंल्यार लेगीत एक पयसो पोक्या हाताक लागूंक दिनाशिल्लें. भुरग्यांच्या हाताक पयसो लागल्यार भुरगीं पेङ्ग्यार जातात, अशें ताचें म्हणणे!

आवयन दिल्ल्या पयशाचीं चणे-भिकणां खायत भुरगीं जेन्ना घरा येतालीं, तेन्ना पोकोय बोल्सांतलो हात तोंडार मारीत, तोंड हालयत चलतालो. हेत हो की आपल्याकय आपली आवय पयसे दिता. आपूणय असोड ना.

जे नितीन वागतात, तांकां उपास घडटात, ही गजाल पोक्याल्या जिवितांत सप्रयोग सिद्द जाल्या. शाळा सुट्टकीर पोको भुरग्यांवांगडा बाजारांत वतालो.

लातांतलीं आनी आचावांतलीं खाणां बी पळोवन सगळ्या भुरग्यांल्यो जिबो वुळवुळटाल्यो. पूण उपाय नासतालो. तरी खंयचेय एका भुरग्याक कसलीय एक वस्त घेवंची आसल्यार, सगळे भुरगे पसऱ्यांत शिरून गर्दी करताले. कांय जाण चण्या-अळसांद्यांच्या साकांक तेंकताले आनी हरवे चणे-अळसांदे मुठींनी काडून बोल्सांत सोडटाले. मागीर ते खायत खायत रस्त्यावेल्यान चलताले. पोक्याक हरवे चणे खावंक आवडटाले. पूण चोरयेचे न्हय, घरांतले. हे वेळार मात पोको भुरग्यांवांगडा चणे खावपाचें नाटक करिनाशिल्लो. फुडें फुडें भुरग्यांवांगडा पसऱ्यांत शिरपाचेंय ताणें बंद केल्लें.

दोन वर्सां शाळेंत काडटकीर पोक्यांत आतां खूब बदल जाल्लो. ताची लांबाय वाडिल्ली. भाशेंत आनी आवाजांतय इल्लो बदल जाल्लो. ते मेरेनच्या अणभवान तागेल्या शाणेपणांत थोडी भर पडिल्ली. कारण शाळेंत तो शिकतालोच, शिवाय सगळे तरेचीं ल्हान - व्हड भुरगीं ताच्या गिन्यानांत आनी वागण्यांत नवेपणाची कसली ना कसली भर घालतालीं. पूण पोक्यालीं शाणेपणां जाण्ट्यांक नडटालीं. पोक्याले तकलेंत शिजून तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं उतरां खुबदां जाण्ट्यांच्या काळजांत रोमतालीं. कांय कुचिद्री लोक ताका आतां जाणवायकार म्हणूंक लागिल्ले. दत्तून तर ताका आतां आदवोगाद म्हणूंक कोमेस केल्लें. पोको कितेंय बरेंच उलयल्यार दत्तूक तें सोसनाशिल्लें. तो रोकडोच म्हण्टालो, तुगेल्यो आदवोगाशी तुजेकडेच दवर, त्यो आपल्याक शिकोवनाका. पोक्याचेर नदर पडना फुडें बाप्पा शेणयले मोठे दोळे बारीक जाताले, आनी त्या बारीक दोळ्यांनी बाप्पा शेणय पोक्याक बारकायेन पळोवंक लागतालो. वाड्यावेले भुरगे आनी हेर ताका वोगीच दोळे फोडटाले. कारण एकच आशिल्लें, पोक्याचो सोभाव तांच्या सोभावांत बसनाशिल्लो. ते उलयतात तसलीं पोजडीं उतरां पोक्याक उलोवंक कळनाशिल्लीं. जाण्ट्यांचीं फकणां करप तो पाप समजतालो. कोणाल्याय वोडटांत वचून फळां चोरप ताच्या सोभावांत बस नाशिल्लें. चाडयां-टवाळ्यांपासून तो पयसच रावतालो. ताका लागून एक पाणू सोडलो जाल्यार वाड्यावेल्या भुरग्यांमदें आंग सोडून तो केन्नाच मिसळलोंना. वांगडा पाणू नासलो जाल्यार बाटोळ्यांत गेल्यार ताका आपूण थंय परको आसल्याचो भास जातालो. हेर भुरगे बाटोळ्यांतल्या मळिल्ल्या शेतांत नाचताले, खेळटाले, बागडटाले आनी पोको मात, मेरेर बसून तांकां पळेत रावतालो. केन्ना केन्नाय गडी उणे पडटात

तेन्ना पोक्याक खेळपाक आपोवणें येतालें. पोक्याकय खेळचेली फुरफुरी मारताली. पूण ताचें मन रोकडेंच फाटीं सरतालें. खेळटां खेळटां कोणय मात्सो चुकलो जाल्यार, हेर भुरग्यांकडल्यान ताचेर गाळयांचो शिंवोर पडटालो. आनी गाळी म्हूण कसल्यो ? बुरशो! आवय-भयणीवेल्यान! आनी पोक्याक त्यो साप्प आवडनाशिल्ल्यो. तसलीं उतरां कानार पडप हें पाप अशें ताका दिसतालें.

पोक्याक आवडनाशिल्ल्यो आनीकय ते वेळार जायत्यो गजाली घडटाल्यो. पोक्याल्या वयाचे भुरगे एकमेकांच्या लगाडीक लागून कसल्या कसलींय अवचिनपणां करून बसताले. आवय-बापायचो तांचेर कसलोच वचक नाशिल्लो. ताका लागून ते सामकेच पारपोळ जाल्ले. केदेय व्हडल्या मनशांचें तांकां कोंत नासतालें.

एकदां गांवच्या देवीचो पुजारी, आपा भट तांबडोच मुकटो न्हेसून, हांतांत तांबयो आनी परात घेवन, खंयचेय तरी दुसरे देवाची पुजा करूंक वतालो. भटाचो तांबडो रंग पळोवन बैल खुबळटा पळे तशें, तें भिरें 'भटा भटा आमटो सकल किर्ते लामटो' अशें म्हणीत भटाच्या फाटी-फुडें माकडावरी लागले उडयो मारूंक. पूण थंय आशिल्ल्या, सोताक शाणे समजपी दाद आनी बाप्पांनी ते भुरग्यांआड, एक चकार शब्द काडलोना. वेल्यान तो तमासो पळोवन लागले खो खो करुन हासूंक. भटान जेन्ना मार्गावेले शेंकरे काडून भुरग्यांवटेन शेवटीले तेन्नाच त्या पारपोळ पोरांनी थंयच्यान पळ काडलो.

हो परसंग पोक्याक साप्प आवडलोना. खंयच्याच जाण्टया मनशाचीं फकणां केल्लीं पोक्याक आवडनाशिल्लीं. जाण्टयांचीं फकणां करतात ते भुरगे तवनास आनी तवनास भुरग्यांचें फुडें केन्नाच बरें जायना. देव तांचेर कुरपा करिना, अशें शांतू पोक्याक सदांच सांगतालें.

पूण पोक्याक एक गजाल मात खटकताली. हे सोताक जाण्टे म्हणपी लोक भुरग्यांक बरी देख कित्याक दिनात ? तांच्यो आवयो आपले आवयभसेन कित्याक ना ? तांच्यो आवयो बऱ्यो आशिल्ल्यो जाल्यार तांचे भुरगे कित्याक तवनास जातले आशिल्ले ? जे भुरग्यांक बरी देख दिनांत, तांका जाण्टे कोण म्हण्टोलो? तांचो आदर, तांचो मान कोणे कित्याक राखचो ? आपूण जाल्यार असल्या लोकांचें कोंतच करचोना. अशें थारावन थंयच्या झाडामुळांत आशिल्ल्या फातराचेर मोन्यानी वचून बसलो.

घोण मळबांत कितलेय उंचायेर उडली जाल्यार, तिचें लक्ष खंय आपल्या पिलांचेर आसता. शांतूलीय आपली नदर आपल्या भुरग्यांचेर घोणीभशेनच आसताली. आवय बरे देखीची आसल्यारच ती आपल्या भुरग्यांक बरें देखीन वाडयता. लोकांनी आपल्या भुरग्यांक नांवां दवरचीं न्हय, हे पासत, शांतू आपल्या भुरग्यांच्या करण्यांचेर दोळ्यांत तेल घालून नदर दवरतालें.

पोको शाळेक वतालो तेन्नाची एक गजाल. गांवांत एक मोर्ते नावांची खारवीण नुस्तें विकूंक येतालीं. तिका नुस्त्याबदलाक दुडूच दिवंक जाय अशें नाशिल्लें. नाल्ल, बेडे, सोलां लेगीत दिल्यार तिका चलतालें. पोक्याले आवयची आनी मोर्ते नुस्तेकान्नीची बरी इश्टागत आशिल्ली. शांतू ताका केन्ना केन्नाय शीत-पेज वाडटालें. मोर्तेय नुस्तें विकून उरल्यार परतें व्हरनाशिल्लें. शांतूगेरच उडोवन वतालें.

एक दीस नुस्तें विकून घरा वतना मोर्त्याक वाटेर शाळेतले भुरगे मेळ्ळे. तातूंत एक रोमलो नांवांचो भुरगो आशिल्लो. बामण आसूनय ताचें वागणें शुद्राचें आशिल्लें. कोणाकय गाळी घालूंक एकदम हुशार. ताणें आपल्या बापायकडल्यान त्यो गाळी शिकिल्ल्यो जावंये. कारण तेच मोर्त्याक, तें नुस्तें विकूंक बशिल्लेकडे आसताना रोमल्या बापायन गाळी घाल्ल्यो कितल्या तरी वेळां पळेलां. कारण नासतना बायलांक बुरशो गाळी घालपाची ताका वायट सवंय आशिल्ली. मोर्त्याक तर दिश्टी पडिल्ले पावटी एक तरी बुरशी गाळ घालतालोच. पूण तो बामण जाल्ल्यांन मोर्ते ताका परती जाप काडिनाशिल्लें. बामणाल्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं उतरां पवित्र आसतात, अशें ते वेळावेल्या भौजनसमाजाक दिसतालें जावंये. ना जाल्यार भिताले बी आसूं ये !

खंयचेय जातींत वा पंगडांत एक मनीस वायट आसत जाल्यार तो ते जातीच्या आनी पंगडाच्या तोंडाक काळें फांसता. रोमल्या बापायसारखे कांय बामण सोडले जाल्यार, गरीब आसूनय चडशे बामण, हेर लोकांनी तांची देख घे सारखे वागताले. तांच्या तोंडांतल्यान चुकून लेगीत एक बुरशी गाळ भायर पडनाशिल्ली.

गाळी घालपी बामण सोडून जर दुसरो कोणय आशिल्लो तर मोर्तें ताका माजरावरी बुडून सोडटलें आशिल्लें. रोमल्यान ते दिसा मोर्त्याक बुरशी गाळ घाली. गाळ कोणाच्या तोंडांतल्यान भायर पडली हें मोर्त्याक कळ्ळेंना. तें चवताळ्ळें. ते बरोबर सगळ्याच भुरग्यांल्या तोंडांतल्यान ती एकच गाळ भायर पडूंक लागली. तातूंत पोक्याचोय आस्पाव आशिल्लो. सगळ्या तोंडामदें मोर्त्याक

दिसलें तें फकत पोक्यालें तोंड. कारण तें पोक्याक वळखतालें. तें पिंजळ्ळें. ताच्या रागापारो चडलो. ताणें पोक्याक रागान पळेलें आनी थंयच्च्यान नेटान निसटलें.

दुसरे दिसा पोको शाळा सुट्टकीर घरा पावलो जाल्यार कितें पळेतलो ? शांतू मडें कशें रात्रीकडें पातळ्ळां. पोको आकांतलो. ताका कितें करचें कांयच समजलेंना. ताका दिसलें, आपली आवय घुवळ बी येवन पडल्या जातली, पोटाभुकेन. ताणें मोठ्यान एकच किळांच मारली. पूण ताची किळांच आयकून येतलो कोण ? ताचीं भावंडांय थंय नाशिल्लीं. शांतून तांकां पंढऱ्यागेर धाडून दिल्लीं. पोक्यान पाटी-दफ्तर थंयच वडयलें. तो आतां पंढऱ्याला घरावटेन धांव मारपाचो, इतक्यांत शांतू फट्ट करून उठून बसलें. आनी लागलें मोठ्यान रडूंक ! पोक्याक दिसलें ताची मावशी बी मेली काय ? खूब दीस जाल्ले ती बरी नाशिल्ली.

'कितें जालें गे आई ? मावशी मेली ?' पोक्यान रडकुरें तोंड करून प्रस्न केलो.

'मावशेक कांय जावना. ती बरी टणटणीत आसा. ती कित्याक मरतली ? तिगेर तुजे असलो तवनास भुरगो जल्माक येवना आजून! तूं जावचे पयलीं हांव मेल्लें जाल्यार बरें जातलें. हेजे असलो दुपूत कोणाक दिवं नाकारे देवा ऽ ऽ ऽ' अशें म्हणून शांतून पयलीं फटा फटा करून हातांनी कपल थापटीलें आनी मागीर तोंडांतल्यान 'देवा, देवा' म्हणून कचा, कचा तकली वण्टीक आपटीली. हें सगळें करतना तकली शाबूत उरची हाची मात ताणें जक्कम घेतली.

आपले आईचेर अकस्मात भार कित्याक आयलो, कितें जालें काय ? पोको हळू आवय म्हऱ्यांत वचून बसलो. ताणें आई, म्हणून शांतुल्या पांयांक मायेन हात लायलो. शांतून पोक्याक रागान धुकलून पयस उडयलो. म्हाका हात लावं नाका. वोसमोर हांगाचो. तुजें तोंड लेगीत पळोवचेलें ना म्हाका. अशें म्हणून शांतून बरोच वेळ रडपाचें नाटक केलें. हय नाटकच तें. हे पयलींय शांतून खुबदां असलीं नाटकां केल्यांत. चड करून पोक्याक लागून. पोक्याले भावनेक हात घालून ताका सुदारपाचो यत्न आशिल्लो तो!

पोको बरोच वेळ मान खाला घालून उबो रावलो. शांतूल्या रड्यान ताचें काळीज कळवळटालें. आपल्याकडल्यान कसलीय तरी चूक घडल्या. नाजाल्यार आई आपल्याक वोसमोर म्हणची नाशिल्ली. अशें चितून तो थंयच्च्यान भायर

वचूंक लागलो.

'खंय वयता, माझे तकलेर पयलूं कितेंय फातोर बी घाल. मारून उडय म्हाका एकदांचें आनी मागीर वच खंय वयता तो. काल मोर्त्या आकोक तुयें गाळी कित्याक माल्ल्यो रे ?'

पोक्याले तकलेंत आता उजवाड पडलो.

'हायें मारूंना, रोमल्यान त्यो.'

'वयल्यान आनी फट उलोवं नाका. मोर्ते वोगीच तुजें नांव घेता ?'

'सगळे भुरगे म्हण्टाले, तेणें म्हाका एकल्याकच पळयलो दिसता. तें म्हाका वळखता न्हूं ?'

'तुका आई जायी जाल्यार फाल्यां तेजे पाय पडून चूक माग.'

'हां मागतां, हांव आनी केन्नाच कोणाक गाळी मारचोना. तुज्यान तर!' आनी खऱ्यांनीच पोक्यान फुडें कोणाक गाळ म्हण्टात ती घाली ना. शांतूल्या नाटकान पोक्याचेर खूब परिणाम जाल्लो.

पोक्यान शाळा सोडली खरी. पूण ताका सुशेग नाशिल्लो. आपले वांगडी आजूनय शिकतात तें पळोवन तो बेजार जातालो. दुसरे शाळेंत वतलो जाल्यार तीय नाशिल्ली. दत्तूक दिसतालें पोक्यान आतां कुळागारांतलीं सगळीं कामां करचीं. पूण पोक्याली ताकत तो लक्षांत घेनाशिल्लो. तरी पोको बेकार म्हूण रावनाशिल्लो. आवय-बापूय भायर कामाक वतकीर भावंडांक पळोवपाचें काम आशिल्लेंच. शिवाय कुळागारांतलीं बारीक सारीक कामां तो आतां चड मन लावन करूंक लागिल्लो. कल्लें घेवन पोटा आधारान कुळागार शिंपतालो. ल्हान ल्हान कावत्यांचेर चडचेली सवंय तो आतां करुंक लागिल्लो. माडां खापाचेर ताचे पांय पावनाशिल्ले. तरी पोट आनी हड्डें सोलपीत तो माडार चडपाचो यत्न करतालो. हे घसरगुंडेंत ताचें हड्डें सोलपून रगतां येतालीं. तरी तो आपले यत्न सोडिनाशिल्लो. आंब्या-पणसांचेर चडून वरांची वरां बसून रावप, व्हाळाचेर वचून कोर्णींनी बुडयो मारप, फातरांपोंदच्यो कुल्ल्यो सोदून काडप, दोंगुल्लेर वचून वोंवळी धोडे, आंसाळे - कणेरां बी हाडप. सुकीं लाकडां-शिरपुटां सोदून हाडप, हीं सगळीं हलकीं फुलकीं कामां तो आतां व्हडा उमेदीन करूंक लागिल्लो.

एक दीस कामतील्यांतलो सदू कामत दत्तूल्या घराकडल्यान देवळाकडे वतालो. ताणें पोक्याल्या कामाची हुशारकी पळेली. सदू कामत पोक्याकडे

बरोच वोगोत पळेत रावलो. पोक्याली हुशारकी ताणें घट्ट मनांत धरली. आनी थंयच्च्यान तो निसटलो.

सदू कामत लग्न जांवनाशिल्लो. ताची आवय म्हातारी जाल्ली. तिका आदार दिवपाक शांतू तागेर सदांच वतालें. तांदूळ वेंचप, आळेण वाटप, गंव दळप, उदक भरप आनी आयदणां घांसप हीं कामां करतकीर शांतूच्या हातार चार आणे पडटाले. शांतू वांगडा ताच्या भुरग्यांलेंय लटांबर ताच्या फाटल्यान वतालें. ताचेमदें पोकोय आसतालोच. पोक्यालीं भावंडां चोवकेर खेळटालीं तेन्ना पोको शांतूक पालव दितालो, हें सगळें पळोवन सदू कामतीन पोक्यालो उपेग करून घेवपाचें थारायलें.

सदू कामतील्या घराचें काम चलतालें. एका सालाचें सिमीट काडपाचें काम उरिल्लें. ट्रकभर रेंव हाडून रकयल्ली. ती कामेऱ्यांक लावन गाळून दवर म्हूण गंवंडो घरा गेल्लो. सदू कामतीन हें काम पोक्याकडच्यान करून घेवपाचें थारायलें. ताणें ती गजाल शांतूक सांगलीना, दत्तूच्या कानार घाली. दत्तूकडल्यान ती शांतूक कळ्ळी. शांतूक सट्ट जालें. 'पुताक येन्नाच कामाक लायता? नाकुटभर भुरगो तो, चाळण उकलूंक जावं नाका तेजेकडेन ? हे दीस तेगेले खेळपाचे, काम करचेले न्हू.' शांतू दत्तूचेर ताणशेलें.

'हांव तेका गाड्याक बांदूक सोदिना. रेंव ती चाळणीत घालतकीर फळफळीत देंवतली. आनी कामाची सवंय आतां जायना जाल्यार आनी केन्ना जातली ? दोन आणे मेळटले दिसाक. सवका सवका केल्यार पुरो काम.' दत्तून शांतूक समजायलें.

आपल्याक दिसाक दोन आणे मेळटले म्हणटकीर पोको फुल्लो. 'पापो, हांव गाळटां रेंव ! दोन आणे मेळटले न्हू ?' पोक्यान देविल्लें कालसांव वयर काडीत दत्तूक उतर दिलें.

पोक्याली, मान्यताय पळोवन शांतू थंड पडलें. ताकाय आतां दोन आण्यांची आस जाली. दुसरे दिसा आठांपयलींच पोको कामतीगेर हाजीर. ताका पळोवन सदू कामत खूश! ताणें पोक्याक बसूंक एक बाकेन आनी पत्र्याची एक चाळण हाडून दिली. पोको लागलो कामाक. तो पोशानी रेंव काडून काडून चाळणीत घालूंक लागलो. चाळण भरतकीर ती ताका उकलूंक जड लागूंक लागली. ताणें आपल्याकडे कितली रेंव उकलूंक जातली हाचो अदमास घेतलो. अर्दीच

चाळण भरली. तेन्ना चाळण उभारली मात, बुरकांतल्यान रेंव फसफसीत गळ्ळी. मागीर घे ! पोक्यालें मशीन कोमेस. चाळण चड हालोवपाची गरजत नाशिल्ली. पोक्याक तें काम न्हय, खेळ कसो दिसलो. हीच रेंव गाळपाक दोन कामेऱ्यां पान खायत खायत दोन दीस तरी घेतलीं आशिल्लीं. पोक्यान ती एकट्यान दोन दिसांनी सोंपयली.

कामतीन दोन दिसांचे चार आणे पोक्याच्या हातार दवरले. पोक्याली ही पयलीच जोड पळोवन सगळें घर खोशेन भरलें. रातीकडे शांतून गोडशें करून सगळ्यांक खावयलें आनी पोक्याले गोडवे गायत गायत व्हड रातीर हातरुणार पडलीं.

पोक्याकडच्यान रेंव गाळून घेतिल्ल्यान कामतीचो आतां बरोच फायदो जाल्लो. पोक्याली कापास्दाद कामतीक कळून चुकिल्ली. ताणें पोक्याचो चडांत चड फायदो करून घेवपाचें थारायलें.

कामतील्या गोठ्यांत तीन चार म्हशी आशिल्ल्यो. म्हशीचें दूद घेवन कामतीक सद्दां म्हाड्डोळा वच्चें पडटालें. पोक्याक म्हाड्डोळ आतां नवें नाशिल्लें. वाट संवयेंची जाल्ली. तो एकटो वचून येवंक शकतालो. कामतीन पोक्याक दूद घेवन म्हाड्डोळा धाडपाचें थारायलें. ते खातीर पोक्याक म्हयन्यांक एक रुपय दिवपाचें उतर केलें. हे करारान पोकोय खूश आनी कामतय खूश.

हो सदू कामत बाप्पा शेणय इतलो गिरेस्त नाशिल्लो. पूण तो बाप्पा शेणय परस आपल्याक चड शाणो समजतालो. तागेलें एक सोताचें कुळागार आशिल्लें. कुळागाराक तेंकून अणशींचे वट्टे आनी ते फुडें थोडीं काजूचीं झाडांय आशिल्लीं. पयसोय थोडो भोव हातांत घोळटालो. पूण ताचेकडे पयशांपरस चड मदांदकाय आशिल्ली. ताका दिसतालें आपले इतलो बुदवंत हे संवसारांत दुसरो आसुंकच शकना.

ताचेकडे एक आर्म आशिल्लें. तें खांदाक लावन तो कासाक भोंवतालो. बोकी आनी कसलींय सुकंणी मारून हाडटालो आनी तीं भाजून, तळून ना जाल्यार शागुती करून खातालो.

पोक्याले बुद्दीची जशीजशी वाड जाताली तशे ताका नवे नवे अणभव येत आसताले. सदू कामत पोक्याक पयलीं पयलीं बरोच दिसतालो. कसलेंय काम करुन घेतकीर ताचें मोल तो पोक्या हातार सट्ट करून उडयतालो. ताका लागून

पोक्याक तागेलें काम करीन करीनशें दिसतालें. पूण कामतीले खावपा आनी दाखोवपाचे दांत वेगळेच आसताले. पोको आंग चोरिनासतना काम करतालो. कामत आपल्या कामाचें मोल फाव तशें दिना हेंय पोक्याक खबर आशिल्लें. पूण ताची ताका परवा नाशिल्ली. पूण ताका जाय आशिल्ली आपणे केल्ल्या कामाची इल्ली तरी तोकणाय. आनी कामतीकडल्यान ताची अपेक्षा करप पिशेपणां आशिल्लीं. पूण सरसकट मनशांच्या बाबतींत एकमत्त करून बसप हें मुर्खपणाचें लक्षण न्हय ?

शिरवाण म्हयन्यांत कुळागारांची बेण्णी काडची आसता. बेणप म्हळ्यार कुळागारांत वाडिल्लें तण आनी नाका तीं झाडां हुमटावन कुळागार लिंप करप. ते तेंपार बेणपाचें काम करपाक कामेऱ्यांचो दिसवडो दोन - ते तीन आणे आसतालो. चड करून तो तीनच आणे आसतालो अशें म्हणूं येता. कामतीन पोक्याक दनपारचें एक जेवण दिवन दोन आणे दिसवडो दिवपाचो वादो करून, ताका बेणवपाच्या कामाक लायलो.

कामेऱ्यां सकाळीं साडेआठांक-णवांक बी तशीं, हालत-धोलत येवन कामार लागतालीं. पोको आठांकच येवन बेणवपाच्या कामांक लागतालो. दोनय हातांनी तण बुड्डून, माग आनी कुणग्यो लिंप जातकीर ताका आपणें सर्ग गांठलो अशें दिसतालें. ताका भरपूर कार्य समाधान मेळटालें. सदू कामत मदें मदें येवन, पोक्याल्या वावराचेर नदर मारून वतालो. पोक्यालें काम पळोवन, कामतील्या तोंडार हाशें फांकतालें. तें पळोवन पोक्याल्या कपलावेल्यो आटयो खंयच्या खंय नाच जाताल्यो.

पोक्याल्या कपलार आनी आटयो ? हय आटयोच. सक्काळीं पेज जेवन आयिल्ल्या पोक्याचें पोट धा वरां जातां जातां सामकें खरीक लागतालें. पोटाभुकेन तो आकूळ पिकूळ जातालो. दोळे खोलाक वताले. कपलाचेर आटयो - मिरयो पडटाल्यो. कुळागारांत पेरां काकाडे बी असले वेळार आसताले. पूण तांकां हात लावंक दचक आसतालो.

धनयांलें घर तेकूनच आशिल्लें. पोक्याक दिसतालें, आपल्याक आपोवन ताणीं एक चायेघोट ताळ्यार घालचो. उदक पिवंक वतलो जाल्यार लागी झर नाशिल्ली. धनयाल्या घराकडे वचत जाल्यार, तूं कोणाक सांगून वयर आयलो रे ? अशें कामतीन म्हळें जाल्यार ? पोक्यालें काळीजच मोवाळ आशिल्लें.

ताका कोणे कितेंय म्हळ्यार रोकडेंच लागतालें. ताका लागून आपल्यो भावना तो उकत्यो करिनासतना भितरल्या भितर चोंदून दवरतालो. ताका लागून दनपारचो भूस पड म्हणसर काम करीत रावचें अशें ताणे थारायलें.

पूण हो भूस तरी बेगीन पडपाची'आशा आशिल्ली? तांच्या जेवणाक सदांच दोन-अडेच जातालीं. कामतीगेर घड्याळ आशिल्ली. कामतीन एक जातकीर तरी पोक्याक वयर आपोवपाचो ! ते खातीर कामतील्या काळजांत इल्ली दया-माया आसल्यार मूं !

पोको आतां जेवण केन्ना जातलें आनी कामत केन्ना उलो मारतलो, हाची वाट पळेत रावलो. आतां सुमार एक जाल्लें जांवये. पोक्याल्या दोळ्यांकडे काळोख येतालो. हात चलनाशिल्ले. पायें थरथरताले. हात भेरेताले, तरी पोको काम करीत रावलो. एका उपरांतय पोक्यांचेर नदर मारूंक आयलो खरो, पूण ताणें 'पोक्या भूक लागली मरे, पुरो कर आतां आनी जेवण जायसर वयर वचून सुशेग घे!' अशें सांगलें ना!

पोक्यान चार दिसांभितर आख्खें कुळागार बेणयलें. ताका चार भूस आनी आठ आणे मेळिल्ले खरे, पूण ते बदलाक पोक्याल्या हातांचीं बोटां सुजिल्लीं, नाक्शो पिंजून गेल्ल्यो, नाकटांकडचीं सोल्लां वयर सरिल्लीं. टाळटाक लज्जे झाडा कांटे आनी करमल्ले व्हीर तोपिल्ले. इतलें सगळें घडूनय पोक्यान कोणामुखार हां कि चूं केलेंना. तरी शांतूक तें कळ्ळेंच! कित्याकशें लागून शांतू कामानिमतान कुळागारांत गेल्लें. पोक्यालें काम पळोवन तें अजाप जालें. सज ताणें पोक्याले हात आपल्या हातांत घेतले. तेन्ना पोक्याल्या हाताची जाल्ली दशा ताच्या लक्षांत आयली. ती पळोवन शांतू बुळ्बुळू करुन खूब रडलें. हे फुडें आपूण पोक्याक कामतीगेर कसल्याच कामाक धाडचें ना हाचो ताणें सोपूत घेतलो. आपली आवय रडटा ती पळोवन, ताणें तिच्याच पदरान तिचे दोळे पुसले.

कामतील्या गोठ्याक तेकून एक शेणाची व्हडली रास आशिल्ली. थंयचें सगळें शेण व्हरून कुळागारांतल्या गायरींनी घालपाचें काम आशिल्लें. हें काम मानायांचें. कामतीन तें दत्तूकडच्यान करुन घेवपाचें थारायल्लें. पूण आतां ताका पोक्याची याद जाली. तें काम पोक्याकडल्यान करून घेतल्यार फायद्याक पडटलें, हें ताच्या मनान पक्कें केलें. ताणें मनीस धाडून पोक्याक आपयलो. काम समजावन सांगलें, आनी वोर्द सोडली.

पोक्यान कामाक थंयचे थंयच न्हयकार दिलो. कामतील्या काळजांतलो सालाझार जागो जालो. पोक्यालो न्हयकार ताका साप्प मानवलो ना. तो बायलांभसेन खुबळ्ळो. ताच्या कपलाची शीर तट्टटली. नाकातेमरी तांबडी जाली. ओंठांक कंप फुटलो. थोडो वेळ ताणें पोक्याक कोरें करुन पळेलें. आनी मागीर लागलो गाळींचो शिंवोर घालूंक, 'निमणे तुमी जातीचेर वतात. खाल्ल्या पानार ××××! थोडेच दिसांनी मोद माल्लो तुका ××××? तुका हावें हांगा आसरो दिलो तेंच वायट केलें. चारच दिसांनी सुरय शीत तुज्या ×× क लागलें. खाल्या पानार ×××× तसली जात तुमची ! दुसरे वेळा तोंड दाखोंव नाका हांगा. येशीत जाल्यार ×× र खोंट मारून धांवडायतलों ×× च्याक'. अशें म्हणून सदू कामत तणतणत घरांत शिरलो.

पोक्यान पयलीं सगलें मोन्यानी आयकलें. ताचो गळो दाटून आयलो. दोळे दुखांनी भरले. कामत भितर गेलो तें पळेनाफुडें पोको फाटले पायांनी परतलो आनी ताणें घराकडे एकच धांव मारली. तो पयलीं हुंदक्यांनी रडत रडत मणकुटांनी दोळे पुशीत घरांत भितर सरलो. घडिल्ली सगळी गजाल ताणें शांतूक सांगली. शांतू कितें समजूंक जाय तें समजलें. तें सदू कामतीक बरें वळखतालें. तरी अडला हरी गाडवाचे पांय धरी. म्हणून तें तांच्या दारांत वतालें. आतां ताका कामतीचें खूब वायट दिसलें पूण उलोवन कांयच फायदो नाशिल्लो.

हे आदीं शांतून पोक्याक कामतील्या दारांत धाडपाचो ना असो निर्णय केल्लोच. आतां तें इल्लोय वोगोत करिनास्तना कामतीगेर गेलें आनी पोको फाल्यांच्यान दूद पावोवंक येना म्हण्टा, अशें सांगून मेकळें जालें.

शांतूलीं उतरां कानार पडटकीर सदू कामतीक सणसणो मारलो. पोक्याक शांतूलो तेंको आसतलो, अशें ताणें चितूं नाशिल्लें. ताका दिशिल्लें शांतू पोक्याक समजायतलें आनी आपल्याकडे माफी मागूंक येतलें. पूण तागेलें तें सादलेंना. तो फणफणत चार पायऱ्यो वयर चडून सखल देंवलो. मागीर ताणें शांतूक आपले परीन खूब समजावपाचो यत्न केलो. "पोक्याक हांवें रागाभारान आमगेर पांय दिवं नाका म्हूण सांगलेलें खरें पूण ताणें मदांदकाय केली म्हणून."

'हितूंत मदांदकाय कसली सदूबाब ? तो येयना म्हण्टा न्हूं, तेका तूं आनी हांव कितें करतलें? तो येयना जाल्यार येवं नाका !' अशें म्हणून शांतू चलूंक लागलें. सदू कामत हाचेफुडें कांयच उलोवंक शकलोना. पोक्याक लागून शांतूक

वगडांवक तो सोदी नाशिल्लो. ताची शेंडी शांतूल्या हातांत आशिल्ली. ताचे म्हातारे आवयक आदार दी सारकी दुसरी बायल लार्गी नाशिल्ली .

सदू कामतीक आपल्या करण्यांचें पिकासांव जाल्लें. तरी तो पोक्याक लिसांव शिकोवपाची माण्णी करुंक लागलो. गांवांत एक गुंडू म्हणून भुरगो आशिल्लो. हो गुंडू पळोवंक पयलवान कसो दिसतालो. कोणेंय ताका पोटभर खावंक दिल्यार तो कितेंय करुंक तयार आशिल्लो. सदू कामतीन पोक्याक बुद्द शिकोवपाक गुंडूचो फायदो घेवपाचें थारायलें. ताणें माड्डोळा दूद पावोपाक गुंडूची येवजण केली. गुंडूक ताणें दूद पावोवपाक म्हयन्याक दोन रुपये दिवपाचें थारायलें. घरांतलें उरिल्लें-सुरिल्लें जेवण आनी मर्दी मर्दी भर्जी खावंक एकेक आणो दिवपाक लागलो. गुंडूकय तेंच जाय आशिल्लें. हे गुंडून आतां कितें करचें ? पोक्याक मेळत थंय आडावचो. कोण ना तें पळोवन ताचेर थुंकचो, तोंडाक येतात त्यो बुरशो गाळी घालच्यो. आनी वेल्यान घरा कागाळ करशी जाल्यार दोको मोडून घालपाची धमकी दिली. इतल्यारच तो थांबलोना. ताणें कामतील्या सांगण्यान पोक्याक आल्म पेड्ड्यार म्हणपाक कोमेस केलें. मेळत ते भुरग्यांक पोक्याक तो आल्म पेड्ड्यार म्हण म्हूण सांगू लागलो. तेन्नाच्यान पोको दिसलो रे दिसलो, मस्त भुरगे ताका 'आल्म पेड्ड्यार येतारे' अशें म्हणून सतावंक लागले.

आल्म पेड्ड्यार म्हळ्यार कित्याक उपकारना तसलो. कांयच काम करिनास्तना गांवांर हेडून दनपरां घराकडे फुकट जेवंक येता तसलो आत्महीण. पूण पोको तसलो नाशिल्लोच. तो सोताचे हिमतीचेर जगूंक सोदतालो. सोता कश्ट करुन आपलें जिवीत सारुंक सोदतालो. तो आल्म पेड्ड्यार जाल्लो जाल्यार कामतीली रेंव गाळटाशिल्लो ? कुळागार बेणायतलो आशिल्लो ?तो कामतीची शेणागायरय भरतलो आशिल्लो.? पूण सदू कामतीली नीत आड आयिल्ली.

दुश्टांक बुद्द शिकयतलो जाल्यार इश्ट आसचे पडटात. कसली ना कसली ताकत आसची पडटा. ती मागीर कुडीची जावं ना जाल्यार दुडवांची. पोको आनी ताचो आवय-बापूय सगळ्याच बाबर्तीत कफल्लक! तशी दत्तूकडे इल्ली कुडीची ताकत आशिल्ली पूण ताणें ती कोणाचेर अजमायल्ली कोणाक खबर ना. दत्तू फुरफुरो आशिल्लो, पूण मारकुरो न्हय!

तरी हे जगात ईश्वरी न्याय आसा सो मानून आशेन जगचेंच पडटा. वेळपरसंगाक कोणाच्याय रुपान देव धावून येता अशें म्हण्टात. आज देव पाणूचे रुपान पोक्याच्या

आदाराक धावून आयलो. आज सुटी आशिल्ली म्हूण पोको आनी पाणू भोंवपाक वताले. वाटेर तांकां माड्डोळा दूद पावोवंक गेल्लो गुंडू मेळ्ळो. ह्या दोगांकय पळेना फुडें गुंडून पोक्याक, 'हे आल्म पेड्ड्यार खंय वयता?' असो प्रश्न केलो. 'तुजे आवयचे घोवागेर वयतां.' अशी पोक्यान पाणूचे नेटार जाप दिली. ते बराबर गुंडू रेड्याभसेन पोक्याचेर धावून गेलो. आपलो इश्ट संकश्टांत आसतना पाणू वोगी कसो रावत? ताणें आनी वोगोत केलो ना. पांग घालून गुंडूक जमनीर पाडलो, ताका खोटांनी असो गुड्डायलो की गुंडून हे फुडें केन्नाच तकली वयर काडची न्हय. गुंडू पळोवंक दिसतालो खोडेगांट, पूण ताचें आंग आशिल्लें सामकें फोक्शें. पाणूली शिटुकसाण ताचेकडे इल्लीय नाशिल्ली. पाणू गुंडूक गुड्डायता आनी मुठींनी धाडायतां तें पळोवन पोक्याकय मोठो चेव आयिल्लो. ताणेंय गुंडूचेर मेळत थंय आनी मेळत तशे धुमके घालून आपलो फाटलो हिशोब पुरो केलो.

पाणूले मारान आतां गुंडून बरोच धसको घेतिल्लो. हे बोवाळांत गुंडू आपलो फुडलो दांत हालोवन बशिल्लो. गुंडून आतां पाणूच्या भयान कामतीलें दूद माड्डोळा पावचेलें सोडून दिल्लें. दुसरोय दांत हालत म्हणून ताका काळजी जाल्ली.

**ते** दुश्ट सदूकामतीन पोक्याक आल्म पेड्ड्यार नांव दवरलें; तें पुसून काडप आतां ना शांतूचे हातांत आशिल्लें, ना दत्तूच्या. गांवांतल्या गांवंडळ लोकांची रीत आनी चाल तशीच आसता. कोणय तरी येता आनी एकाद्र्या मनशाक आवडना आनी फावना तसलें नांव दिवन मेकळो जाता. हें नांव दवरप दुश्टपणान, कुचिद्रीपणान, तशेंच लाडान आनी अपुरबायेन घडटा. हातुंतल्यान ल्हान-व्हड कोणच सुटनांत. तशें पळोवंक गेल्यार गांवांत दिपळो, दुकळो, तोपयो, कीर बी नांवां फामाद आशिल्लीं. पूण पोक्याक आल्म पेड्ड्यार हें नांव साप्प मानवनाशिल्लें. आतां तर ताचें पोको हें नांव फाटीं पडून, ताच्या वयाच्या भुरग्यांमदें आल्म पेड्ड्यार हेंच नांव फुडें येतालें. पोक्याक ताचो अर्थ खबर

आशिल्लो. ताका लागून तें तो कशें पुसून काडचें हे विवंचनेत आशिल्लो.

भुरग्यांकच न्हय, तर खंयच्याय मनशाक आपलें नाव खूब प्रिय आसता. पूण आवय-बापूय आपले भुरग्यांक देकादेकीन कसल्या कसलींय नांवां दवरतात. नांवांच्या बाबतीत दुश्ट आनी अनाडी मनशांचेर केन्नाच पातयेवन रावंक फावना. नांवां हीं अर्थाळ आनी देशकाळ परिस्थितीचेर आदारिल्लीं आसूंक जाय. कांय भुरग्यांक फुडें फुडें आपलें नांव फामाद जांवचें अशें दिसता. पूण कसलें नांव तीं फामाद करतलीं? दिपळो आनी दुकळो? नांवांत आपल्या घराब्याच्या कर्तुबाचो इतिहास आस्पाविल्लो आसूंक जाय. कोणाकय प्रताप नांव दवरलें म्हूण तो राणो प्रताप जातलोच म्हूण ना. तरी ताका प्रताप नांव पडलें जाल्यार फुडें तो आपले नांवां प्रमाण, प्रताप दाखवंकय शकता. हाका लागून नांवान ताची वाट मेकळी जावंक जाय.

एक दीस दत्तू पणजेसावन सदांभसेन घरा आयलो. घरा येतकीर आपल्या पणजेच्या राबित्यांत, भाटकारागेर कितें कितें घडलें, ताईबायन, आतेबायन, काकीबायन आनी तेच परी बाप्पान, काकान बी आपल्याक कशेतरेन वागयलो हें सगळें तो शांतूक तिखट-मीठ लावन सांगतालो. आतां ताणें हाडिल्लें खावंक भुरग्यांक दिलें. भुरगीं तें घेवन उडयो मारीत गेलीं.

पोक्याक पणजेच्यो गजाली आपले बापायकडल्यान आयकूंक आवडटाल्यो. पोको बापायन दिल्लें खावंक घेवन बापाय म्हऱ्यांतच बस्कल मारून रावलो. तो व्हडलो पूत आशिल्ल्यान शांतू आनी दत्तू आपल्यो कांय गजाली आयकूंक ताका मना करिनाशिल्लीं. तरी केन्नाय तीं भुरग्यांनी जाण्टयांल्यो गजाली आयकूंक जायनां अशें म्हणून ताका पयस करतालीं. आनी आतां तर दत्तू पोक्यासंबंदान शांतूक कितें सांगूक सोदतालो. ताणें शांतूक दोळ्यांनी खुणायलें. शांतू समजलें. ताणें पोक्याक कसलें तरी निमतान थंयच्यान पयस केलो.

दत्तू अडाणी आशिल्लो. तो तापट, आबूज, शिरफिरो, फुरफुरो, गुरगुरो बी आशिल्लो खरो पूण पोक्याचेर ताची माया आशिल्ली. पूण ताका ती उकती करूंक कळनाशिल्ली. तो पोक्याक केंच केंच करतालो खरो पूण तांतूंत पोक्याल्या हिताचो आस्पाव आसतालो. पोक्याक आपलो बापूय आपल्याचेर सदांच जळटा अशें दिसतालें, पूण तशें कांय नाशिल्लें. तो एक मनीस सोभावाचो देखावो आशिल्लो, बापूयपण दाखोवपाचो.

शांतू आतां आपल्या घोवान हाडिल्लें सामान कवळावंक लागलें.

'आयकता!' तोंडातलें विडये पोतेर भायर उडयत दत्तून प्रस्न केलो. शांतून हातातलें सामान थंयच सोडलें, आनी दत्तूल्या उतरांकडे कान दिवन ताका पळेत रावलें.

'बाप्पा इचारतालो, पोक्याक आपल्यागेर कामाक दवरता काय म्हणोन! जेवनखावन म्हयन्याक दोन रुपये दिता म्हण्टा,' अशें म्हणून दत्तू कुळागारावटेन केदोवेळ पळेत रावलो.

'तुयें कितें सांगलें तेका ?'

'हांव कितें सांगतलों ? सगलें तुजेर आनी पोक्याचेर आहा न्हू? वयतलो पोको, आमच्यानी कितें सांगो येता !'

'आमच्यानी कितें सांगो येता? कित्याक सांगो जायना? पोको कोणालो तर? आमगेलो न्हू? हांव म्हागेल्या पोक्याक असल्या वोगतार खंयच धाडचेलें ना. माझ्या दोळ्यांकडेनच उरतलो तो.' शांतूक कोण लागिल्ल्याभसेन उलयलें.

'म्हाका तरी खंय जायो तो गेल्लो! तो थंय गेल्यार हांगा म्हाका आदाराक कोण आसतलो? फोपळां कोण पुंजयतलो, भिण्णां कोण फोडटलो? चुडटां कोण एकठंय करतलो? हे भुरग्यांक कोण राखतलो?' दत्तून आपल्या मनातलें उलोंवन दाखयलें.

'कसल्या कामांक आफयता तो तुगेलो बाप्पा काय कोण तो?'

'तेंगेर आनी काम कसलें? सक्काळीफुडें वोचोन बाप्पाक आम्यापानां हाडचेलीं तोण धुवोंक. मागीर धा वरांचेर पेडयेर वोचोन, भाऊवांगडा बाजारांत वोचोन नुस्तें हाडून दिवचेलें. आमोरेर घरांत सान्न मारचेली. आनी केन्नाय गिरणीर वोचोन गोंव दळून हाडचेले. इतलेंच!'

दत्तून बाप्पाले बायलेन-मावशेन सांगिल्लीं तितलींय कामां शांतूफुडें मांडलीं

दत्तूलो प्रस्ताव आयकून शांतूलें मन उचंबळ जालें. कांय मनशां नवें कितेंय आयकतकीर पयलीं खुबळटात आनी मागीर थंड जातात. पूण कांय अस्वस्थ जावन चिंतूक लागतात. दत्तू उलोवन गेलो आनी थंडपणान आपल्या सदांच्या कामांक लागलो. शांतू मात सामकें अस्वस्थ जालें. पोको ताच्या काळजाचो पयलो कुडको आशिल्लो. कुळागार बी मारलें झक! पोक्यालें बरेंपण आनी उदरगत कित्यांत आसा ती पळोवपाची आवयचें तें कर्त्येव.

घरातलीं सगळीं कामां करून जातकीर शांतू हातरुणार लवंडलें. तें आतां थंडायेन पोक्याचोच विचार करुंक लागलें. पोको आपल्या दोळ्यांकडे आसतलो अशें तें उलोवन गेल्लें खरें, पूण तें ताका आपल्या पालवांत गुटलोवन केन्नामेरेन दवरतलें आशिल्लें? हे कुळागारांत खप खप खपलो म्हणून तो मनीस जावंक पावतोलो ? ह्या पांटेंभर भुरग्यांमदें रावन खातलो कितें ? पांटेंभर भुरगीं? हय पांटेंभरच ! हे मेरेन शांतूच्या वेगेंत पांच भुरगीं खेळटालीं, खेळटालीं कसलीं? जगूंक जाय म्हणून कशे भसेन जगतालीं. आनी फुडें कितलीं जायत हाचो नेम नाशिल्लो. हो आनी कुळागाराची चिंता. हे कुळागाराचें पडलें पाड! कोण फेलीज जाल्लो आसा हांगा? हो कुळागारांत झरझर झरलो. मर मर मेलो, कितें फायदो जाला? आता वाडवडलांनी करून दवरलां देकून पोटाक चिमटो काडून टिकोवन दवरचें पडटा. पूण पोक्याचो बळी हांव हे कुळागाराक दिवचेंना.

कामतीगेर रेंव गाळून आनी कुळागार बेणून पोक्याची कितें दशा जाल्ली ती शांतून पळेल्ली. कामतीन पोक्याक कसो वागयल्लो. बाप्पा शेणय पोक्याक कसो दोळे फोडटा, हेंय तें पळेतालें. कितेंय जावं फुडें नशिबान कितें वाडून दवरलां तें फुडें पळवचेलें. आतां ताची खोशी आसल्यार वचूनी ताका पणजे. अशे विचार शांतूचे तकलेंत घोळूं लागले.

पोको भाटकारागेर गेल्यार दुडू खंयी पावूं, जेवण-खाण तरी वेळार आनी व्यवस्थित पडटलें. ते भायर पणजेसारकिल्ल्या शारांत रावन सुदरतलो, मनीस जावंक पावतलो. तो भिकाऱ्यालो नारायण पळे, कसो सुदरला तो! मडगांवसाकून येतासतना बोल्सांत धवो फुल्ल लेंस घालून, खोमसाचीं पोतां काल्सावांत भरुन, एक व्हडलो मनीस जावन गांवांत येता. वाड्यावेलो सगळो लोक ताका हांगा नारायण, थंय नारायण करून माथ्यार घेतात. नारायण हांगच्या गांवढळाभसेन कशासोय उलयना. शांतूय आपल्या पोक्याक नारायणाभशेन करूंक सोदतालें. ताणें आतां पोक्याक उलो मारुन हाडलो. म्हऱ्यांत बसोवन घेतलो. ताच्या माथ्यार हात दवरलो. ताच्या केंसांवेल्यान अचळय आनी मायेन हात वोडलो. उयो सांसपिता ते भसेन केलें आनी ताणें पोक्याक प्रस्न केलो,

‘बाबा, तूं पणजे भाटकारागेर रावंक वयता मरे !’ आयकून पोक्याक कच्च जालें.

‘भाटकारागेर कित्याक गे आई ?’

‘आतां तूं व्हडलो जाला न्हू रे ! सदांच घरा रावोन कशें जातलें? भाटकारागेर कामांक आफयला तुका.’ शांतू माये उतरांनी उलयलें.

‘तूं, सांगता जाल्यार वयता हांव.’ पोक्यान रडकुरें तोंड करून जाप दिली. ती जाप आयकून शांतूलें काळजांत चर्र जालें. ताका दिशिल्लें पोको ना म्हण्टोलो म्हूण. पूण हाचेआदीं ताणें आवयक केन्नाच ना म्हणू ना जाल्यार आतां कसो म्हण्टलो? आवयचे इत्सेभायर तो कसोच वचूंक तयार नाशिल्लो. आपल्या वचपांत आवयक दुःख जातलें हेंय तो जाणाशिल्लो. तसलेंच कारण आसलेबगर आवय आपल्याक दुसरेकडेन धाडचीना हाची जाणविकाय ताका आशिल्ली. आवयल्या प्रस्नाची जाप दिवन पोको थंयच्यान भायर गेलो.

पोको भायर वतकीर शांतूचे दोळे दुखांच्यो पावळ्यो गळोवंक लागले. ताच्या मनान आतां पोक्याक पणजे धाडपाचें पक्कें केल्लें. पोको वतकीर घरांत जेवपी एक तोंड उणें जातलें खरें, पोको म्हऱ्यांत नासतना शांतूक जेविल्लें जेवण हरगतीक पडचेंना हेंय तितकेंच खरें आशिल्लें. तर शांतूल्या करारी सोभावान खिणांत ताणें आपलें काळीज निबर केलें.

हेवटेन पोको कुळागारांत आड पडिल्ले माडयेर बसून पणजेचीं सपनां रंगयतालो. थोडे दिसांपयलीं बापायन ताका पणजे व्हेल्लो. बाप्पा भाटकारान नवें घर घेतिल्लें. घर प्रवेशाक केळी शिर्त्यो आनी हेर सामान हाडूंक सांगिल्लें. ताका बाप्पा भाटकारान आनी ताचे बायलेन वांगडा पोक्याकय हाड म्हूण सांगिल्लें.

पोको पयलेच खेप पणजे गेल्लो. पूण ताका पणजी पळोवंक मेळुंनाशिल्ली. दत्तून ताका पोन्ने घरांत एका जाग्यार व्हरुन बसयल्लो. तेन्ना चारय भाटकारांलीं बायलां-भुरगीं ताका पळोवंक आयिल्लीं. रानातलें एक जनावर हाडून दवरतकीर ताका पळोवंक लोक येनांत, तशीं! पोको तांच्या तोंडाकडे टुकूटुकू करून पळेतालो. मदेंच कोण तरी येतालो, हो कोणालो ? दत्तूलो ? म्हणून एकटो वता म्हणसर दुसरो येवन तेंच करतालो. तुजें नाव कितें रे? कोणतरी विचारतालो. ‘पोको’ म्हूण पोक्याली तांकां नेटान जाप मेळटाली. उपरांत कोण तरी एक ताईबाय येवन, ‘च्याव पिलो मरे तूं ?’ म्हूण विचारताली.

अशें करता करतां आतां रातीचीं आठ बी जाल्लीं जांवये. घर प्रवेश दुसरे दिसा आशिल्ल्या कारणान दत्तूचेर कामाचो ताण पडिल्लो. पोको एका जाग्यार

बसून घरांत चलिल्लो बोवाळ पळेतालो.

इतलें म्हणसर एक चली पोक्या म्हऱ्यांत आयलें. 'तूं पोको मरे?'

ताणें पोक्याक प्रस्न केलो. पोको हांसलो, 'म्हजे वांगडा येता मात्सो?' बाप्पाले चलयेन दुसरो प्रस्न करिनाफुडे पोक्यान आनी आनी वोगोत लायलोना. तो फट्ट करून उठलो आनी वचूंक एका पांयार तयार जालो. एका जाग्यार बसून बसून तोय उबगल्लो. बाप्पालें चली पोक्यालो वांगड घेवन कसले तरी कामाक नवे घरांत वचूंक सोदतालें.

चलयेवांगडा पोको नवे घरांत गेलो. इस्काद चडून माळयेर वतकीर पोक्याच्या नाकांत रंगाचो वास शिरलो. असलो वास तो पयलेच खेप अणभवतालो.

घरांत काळखाचें राज्य आशिल्लें. घर चलयेच्या सवकळीचें आशिल्ल्यान, पोक्याक सवका यो अशें म्हणून तें पिसोळें कशें खंयचे खंय नाच जालें. पोको काळखांत भियेलो. नेटान वतासतना ताची तकली वचून ठोऽऽ करून वण्टीक आपटली. घे रगताचो शिंवोर. पोक्याच्या कपलाक बरेच खोलायेची कोंक पडिल्ली. चलयेचेर आयलो आकांत. पोक्याले कपडे रगतान भरिल्ले. तें ताका तशेंच हाताक धरून पोन्या घराकडे आयलें. पोक्याली गत पळोवन सगळ्यांक ताचे चुरचुरे दिसताले. पूण तेन्नाचो पोको आनी आतांचो पोको एक नाशिल्लो. तेन्नाचो पोको दत्तूवांगडा सोयरो कसो गेल्लो आनी आतां घर चाकर !

हें चित्र पोक्यामुकार ताजें जावन घोळटा घोळटाच ताणें माडयेवेल्यान माकडावरी घुप्प करुन उडी मारली आनी तो बद्द शांतू म्हऱ्यांत गेलो. ताणें पणजे वचपाची तयारी आपले आवयक उलोवन दाखयली.

पोक्यान आपलें मन घट्ट करून पणजे वचपाचें पक्कें केल्लें. हे वेळार तो आठ-णव वर्सांचो आशिल्लो जांवये. तरी तो आपल्या आवय-बापायक आनी भावंडांक सोडून पयस वचपाक तयार जाल्लो. पोक्याले ते दीस आशिल्ले हांसपा खेळपाचे. आवय-बापायकडच्यान आनी हेर मायेच्या मनशांकडच्यान लाड-अपुरबाय करून घेवंचेले. आतां भाटकारागेर तो एक घरगडी म्हूण बंदीस्त जातलो. आतां ताका धनी बस म्हण्टा तेन्ना बसचें आनी उठ म्हण्टा तेन्ना उठचें पडटलें. धनयांन दिता तें खावप आनी वाड्टा तें जेवप. कसलीच सोतंत्रकाय ताका थंय नासतली. भाटकाराल्या मनशांनी थोडीशी माया आनी काकूळट केली जाल्यार व्हडलें म्हणपाचें! कितेंय जावं, एकदां थारायलें ते थारायलें.

ताका आतां उपाय ना आनी कसलें क्रोप्रामासांव - तडजोड ना.

दत्तू एक दीस पोक्याक घेवन पणजे गेलो. दत्तूक पळोवन भाटकाराल्या मनशांक कांय दिसलेंना. तो तांचो सदांचो जाल्लो. पूण पोक्याक पळेनाफुडें घरांतलीं मनशां भुरभूर करून एकठांय जाल्लीं. हाचे पयलीं घरप्रवेशाच्या वेळार गेल्लो खरो, ते वेळार ताची तकली फुटिल्ली. ताका लागून ताची सगळ्यांक याद आशिल्ली. ताका लागून घरभर मनशांनी पोक्याक गराडो घातिल्लो. ताच्या कपलाची कोंक कितली खोल गेल्या ती पळोवन घेतली. कोंकीची माव हात लावन पळेली. पोको आतां थंय रावतलो हाका लागून तांकां आतां पोक्याचें चड आकर्शण आशिल्लें.

बाप्पा भाटकाराले बायलेक, तागेलीं भुरगीं आई म्हण्टालीं. थोडेवेळान आईन कागदाचेर घालून घमघमीत चिवडो हाडलो आनी पोक्याच्या हातार दवरलो. मागीर तिणें दत्तूक मागीलदारा वचून चिक्र हाडूंक लायलें. ते काट फुट्या चिक्रांत पयलीं पोक्याक च्याव दिली आनी मागीर तातूंतच दत्तूक. आतां हे फुडें फुटके चिक्रांतच पोक्याक च्याव पिवची पडटली तर! पोक्यान अनुमान केलें.

'चल रे दत्तू पोक्याक आमगेलें घर दाखय.' हाचो अर्थ आशिल्लो पोक्याक कामाची कल्पना दी. ताची बसपा-उठपाची जागा दाखय. फाल्यां पोन्न्या घराकडे वचून कोणा कोणाल्यो नुस्त्यापोतयो घेवन पेडयेर वचप, आनी दोनय घरांतल्या मुखेल लोकांची वळख करुन दिवप.

बाप्पा भाटकाराले आनी तीग भाव आशिल्ले. ते सगळे एकाच घरांत, पूण वेगवेगळ्या बिराडांनी रावताले. बाप्पा भाटकारालें मात घर सामकेंच वेगळें आशिल्लें. हे चारय भाव दत्तूले भाटकार आशिल्ले. दत्तूकडे आशिल्लें कुळागार चारय भाटकारांचें म्हळ्यार धनयांचें.

दत्तू पोक्याक घेवन तीन भाटकार रावताले ते घरांत गेलो. दत्तू थंय पावना फुडें, दत्तू आयलो, दत्तू आयलो म्हणत तीनय बिराडांतलो लोक एकठांय जालो. दत्तू येता तेन्ना तशेंच घडटालें. सगळीं अकस्मात एकठांय जाय नाशिल्लीं, पूण तो आयला, अशें कळटकीर एकटी एकटी भायर येवन दत्तू आनी ताच्या बायले-भुरग्यांची आस्थेन, मायेमोगान खबर घेतालीं. दत्तू तांगेलो भागेली, पूण तांका तो आपलोच कसो दिसतालो. हाचें मुखेल कारण तो तांगेलीं चोंदून दवरिल्लीं

सगळीं कामां पटापट करतालो.

आतां तांका चड उर्बा आयिल्ली पोक्याक पळोवन. दत्तू पोक्याक हाडटलो, ही खबर तांकां बाप्पाल्या मनशांनीं आदींच दिल्ली. आता पोक्याक पळोवन तीनय बिराडां खूश! सगळ्यांनी पोक्याक आपापल्या बिराडाक आफोवन घेतलो. सगळ्यांनी ताका चाये वांगडा कितें न कितें खावंक दिलें. पोक्यान कोणालीच च्याव नाकारली ना. तशें केल्यार कोणाकय वायट बी दिसत जाल्यार! शिवाय ताका ते वेळार कडकडीत भूकय लागिल्ली.

पोक्याक घेवन दत्तू परत बाप्पा भाटकारागेर आयलो. बाप्पा भाटकारालें घर वयर माळयेर आशिल्लें. घराक लांबचे लांब एक लाकडी गराद आशिल्ली. ही गराद प्रवेशदाराकडे गुळगुळीत आनी लिप. बाप्पाल्यो वाडिल्ल्यो चार चलयो आनी शेजारच्यो तीन-चार एकठांय जावन थंय शिवण-सूत करताल्यो. दुसरे पोंताक सटर फटर सामान मांडून दवरिल्लें. तरी थंय आडकळ कशी दिसनाशिल्ली. ही माळयेची गराद आशिल्ल्यान, वयर रावन रस्त्यावेली येरादार दिसताली. हे गरादीक तेकूनच दोन माड आशिल्ले. चोरांच्या मनांत आयिल्लें जाल्यार माडांचेर चडून भाटकाराल्या घरांत शिरून चोरी करपाक व्हडलीशी अडचण नाशिल्ली. पूण तो तेंप पोर्तुगेजांचो आशिल्लो. शारांत रावन चोरकामां करपाची कापस्ताद चडशी कोणाक जाय नाशिल्ली.

दत्तून पोक्याक हाडून आतां गरादीचेर सोडलो. सदांच पेत्रोला दिव्या सामकारा वावुरपी पोक्याक विजेचो बल्ब पळोवन खोस जाली. मागीर ताणें रस्त्याचेर वळीन पेटिल्ले बल्ब बारकायेन पळेले. हेच गरादीपोंदा सामको रस्त्याक दार आशिल्लो एक पोसरो आशिल्लो. कसो कोण जाणा गरादीच्या एका फळ्याक एक वाटकुळोच बुराक आशिल्लो. पोक्यान ते बुरकाक दोळे लावन पसऱ्यांतलें सामान, पसरकार आनी गिरायकाक बरोच वेळ पळेलें.

आतां दत्तू पोक्याक घेवन भितर गेलो. तळावेल्यान भितर सरतकीर दाव्यावटयां एक इस्काद आशिल्ली. इस्काद चडून सोंपतकीर दावें दार गरादीचेर आनी उजवें चोवकार येत्राद दितालें. चोवकेवेल्यान भितर वतकीर एक ल्हानशी कूड, मागीर एक व्हडलें साल, सालाच्या दाव्यान दोन-तीन ल्हान ल्हान कुडी. निमणे पोंताक एक व्हडलो देवारो. देवाऱ्याक तेकूनच रांदचेकुडीचें दार, आनी थंयच्यान फुडें वतकीर मान्ने मेळटालें. मान्न्याक उदका हांडो आनी ताका तेकून

आशिल्ले वण्टीक, एका कुरकुटांत एक तांब्याचो धोंगा-पोंगा आशिल्लो तांबयो. तांबयाक सोब सारकें चेपां आशिल्लें पितुळचें ताट आनी तें केदोळचें फुटकें चिक्र. मान्याक तेंकूनच एक खोल खोल बांय.

सगळें घर पळोवन जातकीर दत्तू पोक्याक घेवन भायर वचूंक लागलो. इतले म्हणसर आई भायर आयली. तिणें जेवनच भायर वचपाक फरमायलें.

पोक्याक दिसतालें आपल्याक दनपारचें इल्लें उरिल्लें लेगीत शीत वाडल्यार पुरो. पूण बाप्पागेर रातची पेजच जेवतात. पोक्याली हीच एक व्हडली आडकळ आशिल्ली. पेज जेवल्यार पोक्याक रातचें परत परत भायर मुतूंक वच्चें पडटालें. हाका लागून शांतू ताका रातची पेज केन्नाच दिनाशिल्लें.

दत्तूक पेज जेवपाक ताट आशिल्लें. आतां पोक्याक कित्यांत वाडचें हो प्रस्न आईक पडलो. केळीपानाचो दोणो करतलो म्हळ्यार थंय केळय ना. आतां एकच उपाय आशिल्लो. तो म्हळ्यार नाल्लाची व्हडशी कट्टी सोदून तातूंत पेज वाडप. भायले लोकांक कट्टेंत च्याव दिवपाची ते तेंपार बामणामदें रीत आशिल्ली. पूण कट्टेंत शीत-पेज घालून दिवपा इतकी भायले लोकांची पत घसरूं नाशिल्ली. जाय जाल्यार आईन पोक्याक पयलीं वाडून मागीर दत्तूक वाडूंक जातालें. पूण तशें केल्यार आईक दब्बल काम करचें पडटालें. 'दत्तू, पेज बरी दाट आसा. दोगांकय एकाच ताटांत वाडटां, चलता मरे ?' दत्तू वोग्गी रावलो. तो आनी कितें उलयतलो ? दत्तूली तीच हयकारी जाप समजून आईन एकाच ताटांत दोगांकय पेज वाडली. पोक्याक आनी दत्तूक आयज एकाच ताटांत जेवचें पडलें. हें सगळें पोक्याक विचित्रच दिसलें. पोको घराकडे केन्ना कोणाल्याच उष्ट्या पानार जेविनाशिल्लो. बापायलो पेलो लेगीत धुयनासतना तातूंत तो च्याव उदक बी पी नाशिल्लो. पोक्याक आईक सांगिनशें दिसतालें की आपूण एका ताटांत जेविना म्हूण. तशें केल्यार पयलेच दिसा माल्किर्यादपणां जातलीं म्हूण तो मोन्यानी पेज जेवंक बसलो. ताका हें एक सुकें पानवळ आशिल्लें.

'पापो, आराब अशेच जेयतात न्हू ?' पोक्याल्या तोंडांतल्यान सट्ट करुन उतरां भायर पडलीं. तीं आईन आयकलीं. तिणें आपल्या तोंडार मिरयो घाल्यो खऱ्यो, पूण आपणे कांयच आयकनाशें करुन ती भितर गेली. तोप जमनीर दवरून तिणें भायल्यान पोक्याचेर नदर मारली.

पोको जेवन भायर येतकीर दत्तून ताचेर दोळे मोठे केले. 'अशें कित्या कित्येंय

करून म्हाजें नाक कापतोलो तूं.' पोक्यान चूक केल्ली खरी, पूण ती नकळो जावन. पूण तो तरी कितें करतोलो? भुरग्यासोभाव तसोच आसता. तोंडाक येता तें फट्‌ करुन उलोवपाचो.

दत्तू गरादीच्या एका खांब्याक तेंकून उबो रावलो. ताणें फोलीणांतली विडी काडून ती पेटयली, आनी लागलो फुसकावंक. पोको थंय आशिल्ल्या एका रिकाम्या मुडीस च्याचे काशीचेर वचून बसलो. मागीर तो गरादीच्या हे तोंकापासून ते तोंकामेरेन आशिल्ल्या लाकडी आडांव्याचेर हात फिरयत वचून आयलो.

इतले म्हणसर बाप्पाले व्हडले धुवेन एक बोंदरी शेंदरी हाडून दत्तू म्हऱ्यांत उडयली. ती वतकीर फाटल्यान ती शेंदरी पोक्यान हातांत घेतली. पळे जाल्यार शेंदरेक दोन-तीन बुराक आसात. तें पळोवन पोको मोट्ठ्यान आड्डेलो, 'पापोऽऽ शेनरेक बुराक पडल्यात.' आतां मात दत्तूक पोक्याचो खूब राग आयलो. 'पोक्या, तूं अशें कित्या कित्येंय करशी जाल्यार बाप्पा तुका धांवडोवन घालतलो आं! तुका हांगा रावचेलें ना जाल्यार सांग, वयतां तुका घेवन घरा.' ताका दिशिल्लें, पोक्याचो कान धरून हालोवपाचो. हांगा शांतूय ना धावून येवंक पोक्यान किळांच मारल्यार. तरी दत्तून सदां सवंयेन पोक्यालो गाल ओडलोच. आनी पोको शांतूक बी उलो मारीत म्हणून पयलोच एक हात पोक्याच्या तोंडाचेर धरलो. पोको दत्तूल्या तोंडाकडे केदोवेळ पळेत रावलो. मागीर तोंड येदेशें करुन काशीर वचून बसलो. 'तुकां बरी शेंदरी दिवंक तूं जावंय बी काय कितें हांगाचो? दिल्या ती बरी म्हण आनी पड वोगी.' अशें म्हणून दत्तून शेंदरी पातळ्ळी आनी तिचेर दिलें ताणून.

आतां सकाळ जाल्ली. कावळे कांव कांव करूंक लागिल्ले. सवर्णी आपले भासेन आपल्या शेजाऱ्या पाजाऱ्यांक संदेश दिवंक लागिल्लीं. रस्त्यावेल्यान चलतल्यांचो खाक थू असो एकाद्रो आवाज आयकूंक येतालो. काम्राचे दिवे आजून जळटाले. शियांचे दीस आशिल्ल्यान सगळेकडे धुकेंच धुकें दिसतालें. सुलचे नळे आनी सिमेंटान चिरेबांदणीचें घर आशिल्ल्यान माळयेवेली हवा उबदेणी आशिल्ली. पोको आपल्या बापायच्या पुडव्याचो बुरको घेवन गुटली करुन पडिल्लो.

दत्तूक घराकडे झिळमिट्ट्याक उठपाची सवंय आशिल्ली. हांगाय तो तसोच उठून विडयो फुंकीत बसलो. थोड्या वोगतान पोक्याक थंयच सांडून खंयतरी

खळयेर वचूंक भायर सरलो.

आतां सुमार सात वाजूंक आयिल्लीं. वताची तिरीप येवन पोक्याक उठयताली. तरी पोक्याक जाग येनाशिल्ली.घरचींय चडशीं मनशां हातरुणारच लोळटालीं. आई मात शाळेंत वचपी भुरग्यांक एकसारकी उठवपाचो यत्न करताली.

आतां पणजे जिळमिट्ट्यार लेगीत बसी, टेक्सी, रिक्शो, गाडयो बी धांवतना दिसतात. पूण तेन्ना सात वाजलीं तरी मळ्यांतल्यान एक गाडी धांवता ती दिसूंक कठीण आशिल्ली. सकाळीफुडें दिसताले ते दुदकार आनी पोदेर. तेय बी सायकलीक केन आनी माथ्यार पांटी घेवन. बाकी सगळो शुकशुकाट!

दीस वयर सरता तसो तसो, यारन्याचे सुरेले आवाज फुडें सरताले आनी सुकण्यांचे आवाज फाटीं. सुरेल आवाज कसले? गाताच ती! आयकूंक कानाक गोड लागतालें. कोण म्हण्टाली, मीऽ ऽट जांऽऽय गेऽऽऽ दुसरो साद रोकडोच कानार पडटालो. वांऽयगीं जेताय बाय वांयगींऽऽ ! थोडे वोगतान कोणगां जेतायजेऽऽ असल्या सुरांनी सगळी सकाळ सुखदेणी लागताली.

मळ्यांत आनी भाटल्यांत आतां कोण गोरवां पाळटात काय कितें ती खबर ना. आतां पोर्तुगेज नासतनाय थंय मनशांपरस दुकरांच चड दिसतात. पूण ते तेंपार मळ्यांत गोरवां पाळटाले. चड करून गायो. ह्या गोरवांक राखूंक एकच राखणो आशिल्लो. तो एके गाये फाटल्यान दोन रुपये बी तशे घेतालो. आठांच्या सुमाराक सगळ्या गोरवांक घेवन तो मारुतीच्या देवळाफाटल्यान खंय तरी पयस वतालो. पोक्यान ती सुवात आनी बापूय खंय वतालो ती खळी सोदून काडपाचें पक्कें केल्लें.

आतां खळयेवेलें काम करुन दत्तू घरा आयलो. येतना ताणें बाप्पाखातीर आंब्यापानां हाडिल्लीं. इतके म्हणसर पोको उठून बशिल्लोच. आई चकचकीत पितुळचो तांबयो घेवन भायर आयली. तिणें तो पोक्या हातांत दिलो आनी काकीगेर वचून दूद हाडूंक सांगलें. कारण आईली गाय गाबणी आशिल्ली.

पोको नवो आशिल्ल्यान आज ताच्या कामाचो पयलो दीस आशिल्लो. पोक्याक दीसभरांत घरांत आनी भायर कसलीं कामा करचीं हें दत्तूकडच्यान समजायलें. दूद खंयच्च्यान आनी कोणाकडच्यान हाडचें, आंब्यापानां खंय मेळटात, चारय भाटकारांल्यो नुस्त्या पोतयो घेवन पेडयेर केन्ना वचपाचें, थंयच्च्यान कोणावांगडा बाजारांत वचपाचें, घरांत सान्न केन्ना मारपाची, हें सगळें पोक्याक

दत्तून समजावन सांगलें.

दत्तू पोक्या म्हऱ्यांत दोन दीस उरलो. बाप्पान आनी ताच्या भावांनी दत्तूकडल्यान जायतीं कामां करून घेतलीं आनी ताका पयशे दिवन आवियार केलो.

दत्तू म्हऱ्यांत आसमेरेन पोक्याक व्हडलीशी घरची याद आयलीना. आतां मात आपूण एकटो पडलां, अशें ताका दिसूंक लागलें. लागी कोण ना तें पळोवन, काशीर बसून तो बुळूबुळू करुन दुखां गळोवंक लागलो. ताका आतां आपले आवयची याद येवंक लागली. भावंडां आपल्याक 'भाऊ भाऊ' म्हूण उलो मारतात, असो भास जावंक लागलो. सुकड्याचो ताका खूब राग येतालो, पूण आता तो दोळ्यांकडे ना म्हूण पोक्याचे दोळे भरून आयले. कितेंय जालें तरी तो तांचो भाव. तांकां आपली याद येताच आसतली. ते दोगय झगडटाले, एकमेकाच्यो कागाळ्यो घेवन आवयकडे वताले. पूण रोकडेच एकय जाताले. आनी आतांतर ते एकमेकांपासून खूब पयस जाल्ले.

आनी तें पिसू, तो गुरु, तो सोनू, सगळीं भावंडां, भाऊ आपणांक सोडून खंय तरी पयस गेलो म्हूण आकांत करतात, अशें चित्र ताच्या दोळ्यांकडें दिसूंक लागलें.

पोक्याक आतां खावंक जेवंक फाव तशें मेळूंक लागिल्लें. सकाळच्यो दोन रोटयो आनी च्याव मेळटाली. पोको सुक्यो रोटयो बिनदुदाच्या च्यायेंत बुडोवन खातालो. धा वरांचेर नुस्त्याक वच्चे पयलीं सुरय तांदळांची पेज जेवंक मेळटाली. मागीर दनपरां पोटभर शीत, सांजवेळां पांच वरांचेर चाव. केन्ना केन्ना चायेवांगडा खावंकय मेळटालें. ते भायर हेर भाटकारांगेर नुस्त्या पोतयो आनी दुडू हाडूंक वतकीर, थंयची ताईबाय, आत्येबाय, मावशीबाय बी पोक्याच्या हातार कितें ना कित्येंय उडयतालींच. फुकट उडय नाशिल्लीं, ते बदलाक पोक्याक फावता तेन्ना ताचे कडल्यान कितें ना कितेंय काम करून घेतालीं.

आपूण हांगा खावन जेवन मजा करतां, आनी आपलो आवय-बापूय आनी भांवडां कित्या कित्येंय खावन दीस काडटात हे जाणविकायेन पोक्यालें काळीज हालतालें, वयर-सकल जातालें.

मनशाक खूब खावंक-जेवंक मेळ्ळेंच म्हूण जायना. वांगडा आपलीं मायेचीं मनशांय आसूंक जाय. पोक्यालें घर मोडकें-तोडकें आशिल्लें. तातूंत मनशां

वांगडा किडी-मुंयो, जल्ले-पाकोडये, शिल्ल्यो-पाली बी मायेमोगान रावताल्यो. थंय आवय-बापायक भुरगीं आशिल्लीं. भयणीक भाव, पोक्याचें मन समजवपी, मनांची कदर करपी सुकणीं, पिसोळीं, पाके, चानयो बी आसात. आनी ती मन सुखी रुखावळ - ते माड, माडयो, ते पणस, त्यो आंबल्यो, त्यो वोंवळी, दसणी, शब्दुली आनी ते व्हाळ, कोणी, व्हाळादेगेर गर्दी करुन उभ्यो आशिल्ल्यो केगदी आनी तातूंत कुंकारी घालपी कोंकाऱ्यो! हें सगळें पोक्याक खरेलें सूख दितालें. हे सगळ्या सासणाच्या सुखामुकार कोणाक जाय हें जेवण खाण? कोणाक जाय हे कपडेलत्ते आनी घरदार?

पोको ह्या रंगाळ्या व्हडल्या घरांत वावुरतालो खरो, पूण तें घर पोक्यालें नाशिल्लें. घरांत उंची कापडां न्हेशिल्ली, भांगरांशिंगरां चडोवन आई वावुरताली. पूण ती पोक्याली न्हय. ते घरांत पोक्याचेर माया करपी मनशां नाशिल्लीं. हांगा पोक्याखातीर धोंगापोंगाचो तांबयो आशिल्लो, चेपटें आनी फुटकें ताट आशिल्लें. घराकडे आसतना ताची आवय, पोको जेवतकीर तार्ची आयदणां हक्कान धुताली. हांगा तीं ताका सोताच धुंवचीं पडटालीं. ते भायर जेवतकीर हातांत कुशिल्लें शेण घेवन, सिमेंट काडिल्ले जमनीचेर सारावन उष्टें काडचें पडटालें. ताचें उष्टें तो काडिना जाल्यार आनी कोण काडटलो? तो कोण हांगाचो जांवय? हांगाचीं मनशां माया दाखयतात, माया करिनात! आनी कित्याक म्हूण करतलीं? पोको कोण तांगेलो ? तो तर एक चेडो ! हांगा पोक्याखातीर जाता तें सगळें वयलेतरांचें, निजाचें कायच ना! पोक्याली कूड शारांत आशिल्ली आनी मन गांवांत. तरी हांगा ताका दीस काडचेच पडटाले. जेवणाखाणाक आनी पोक्याक जाय म्हणून न्हय तर ताचो आवय-बापूय सांगता म्हणून. बापायखातीर राम वनवासाक गेल्लो हें ताणें किर्तनांतल्यान आयकल्लें. पोक्यान आपलें मन घट्ट आनी पक्कें केलें आनी तो कामांक लागलो.

शाणे मनीस आपल्याचेर केदेंय व्हडलें संकश्ट आयलें जाल्यार दुःख करीत बसनांत. दुःखांतल्यान वाट काडीत तो सुखाकडे वळटात. पोको तसो हुशार आशिल्लो. ताणें चिंतलें आपूण हांगा केन्ना लेगीत रावतलों ? आपूण रोकडो व्हड जावपाचों आसां. मागीर आपल्याकडच्यान सान्न मारून कोण कित्याक घेतलो? दूद हाडपाचें, गिरणीर वचपाचें, नुस्तें हाडपाचें हीं हलकीं कामां भुरग्यांनीच करपाचीं. जाण्ट्यांक तीं कोताक पडपाचीं न्हय. मागीर आपलें पोटय

वाडटलें. आंगय वाडटलें. तेन्ना तो बाप्पा भाटकाराक लुकसानांत पडटलो. मागीर बाप्पा भाटकार आपणूच म्हण्टलो, 'पोक्या, आतां तूं घरा वच बाबा! आतां तूं व्हडलो जालो.'

जशे जशे दीस फाटीं पडत गेले, तसो तसो घरचो विचार करपाचो पोक्यान सोडून दिलो. तरी आमोरेर काशीर बसलो म्हण्टकीर ताका घरच्यांची आनी कुळागारांची याद येतालीच. अमकी आमुल्ली चंवरल्या आसतली, तमक्या पणसाक कुंवले देवल्यात आसतले. म्होवे भिण्णीक थिकां कशीं फुलां फुल्ल्यांत आसतलीं, तांबडे काजूक फोकां जाल्यांत आसतलीं. वोट्टांतल्या कणेरींक कणेरां जाल्यांत आसतलीं. सुकड्यांलें बरें. तो हें सगळें पळोवन खोशेन भरतलो.

काशीर बसतकीर पोक्याले तकलेंतलें गिरगिरें चालूच आसतालें. तो चितूंक लागलो, आतां काल्याक थोडेच दीस उरल्यात. हांव काल्याक वयतलोंच. वयतलो म्हणजे वयतलों. म्हाका पळोवन सगल्यांक खोस भोगतली. आई म्हाका वेंगेत घेतली. पापा म्हाका मायेन पळेतलो. कुळागारांतलीं ताजीं ताजीं फळां हाडून दितलो. हांव येतलों म्हूण केळीं उजोवण्याक घालतलो. म्हाका एकट्याकच खा म्हण्टलो. पूण हांव म्हज्या सगळ्या भावंडांक तीं वाटून दितलों. आनी तीं म्हजीं अपुरबायेचीं भावंडां, म्हाका पळोवन खंय आसा थंयच्यान, 'भाऊ येयलो, भाऊ येयलो' म्हणोन धावोन येतलीं आनी म्हाका घट्ट वेंग मारतलीं.

मागीर रोकडोच शिगमो येतलो. म्हाका तालगडी शिकोंक नाका? तालगडेक रोप शिवोंक जायो! वोगतार वोचोंन कशें जातलें? अशें म्हणून पोक्याले हात आपशींच कास बडोवंक लागले, घणचे कटर घूम, घणचे कटर घूम. कटर कटर घूम. कटर कटर घूम ! शबै - शबै - शबै - शबै - शबऽऽऽय! अशी ताणें मनांतल्या मनांत शबय घाली. मागीर तो आपले भितरच मेळांत नाचूंक लागलो, चला जाऊं सांतेरीचे भेटेऽऽ रे, सातेर भेटली वाटेर रे!

पोक्यालो हो शिगमो कोण्णांक कळनासतना मनांतल्या मनांत चल्ला अशें तो समजतालो पूण ताणें काशीचेर धरिल्लो ताल आयकून घरांतलीं सगलीं ल्हान-व्हडां दाराकडे उबीं रावन पोक्यालो शिगमो पळेतालीं. पोक्याक जेन्ना हें कळ्ळें, तेन्ना ताणें लजून थंयच्यान पळ काडली.

तशें पळोवंक गेल्यार बाप्पा भाटकाराल्या घरचीं सगळींच मनशां बरीं

आशिल्लीं म्हणपाक जाय. दत्तून आपल्या भुरग्याक तांचेर पातियेवन तांगेर हाडून दवरिल्लो. दत्तूक खबर आशिल्ली, आपल्या भुरग्याची तीं काळजी घेतलीं म्हूण. आनी खऱ्यांनीच तीं पोक्याची काळजी घेतालीं. पोक्याचें उलोवप, वागप, ताका कितें जाय कितें नाका हाचेर तांचें बारीक लक्ष आसतालें. तशें पळोवंक गेल्यार तीं गिरेस्त नाशिल्लीं. पयशाडक्याबाबतीत उदार नाशिल्लीं तरी आपली जापसालदारकी तांकां खबर आशिल्ली. तो वयान ल्हान आसा. ताच्यो भावना दुखूंक फावना. फाव तेन्ना ताची तोखणाय करप आनी तो चुकल्यार, ताका सुदारपाचो यत्न तांचेकडल्यान चलतालो. तोय बी ताका समजावन-फुसलावन.

पोक्याकय समजिकाय आशिल्ल्यान, ताका सुदारपाक व्हडलीशी अडचण पडनाशिल्ली. पोको जाणा जावन चुको केन्नाच करिनाशिल्लो. आवय-बापायकडे कागाळ करिसारक्यो चुको तर ताचेकडे चडशो घडच नाशिल्ल्यो. एकाद्रें वायट उतर पोक्याच्या तोंडातल्यान चुकून भायर पडलें जाल्यार 'पोक्या तुजें चड जाता आं, चड फाजील जाला पोर!' इतलेंच म्हळ्यार पुरो आशिल्लें. पोको चिंतूंक पडटालो. ताका आपली चूक कळटाली. केल्ले चुकीफळाक ताका वायट दिसतालें.

पोक्याल्या गुणाची पारख घरांतल्या सगळ्या लोकांक आशिल्ली. ताका लागून ताची तुस्त आनी तोखणाय जाताली. जे सुवातेर बऱ्या गुणाची देवघेव जाता, थंय झगडीं-तंट्याक वावच आसना. पोक्यालें वय ल्हान आसुनय, बाप्पा भाटकाराल्या घरांत आपली सुवात खंय आसा, ती तो जाणा आशिल्लो. आवय-बापायकडे वागतालो तसो धनयांकडे वागूंक फावना, ही ताका खबर आशिल्ली. धनयांचो मान राखून चाकरांन वागूंक जाय हाची जाणविकाय आशिल्ली.

पोक्याल्या गुणांक लागून, घरच्यांक लुकसाण जायना ते गजालीक सट् करून न्हयकार मेळ नाशिल्लो. खरें म्हळ्यार पोको बाप्पागेर चडसो बेकारच आसतालो. माळयेवेल्या गरादीचेर उबो रावन, रस्त्यावेल्यान आयिल्ल्या-गेल्ल्या लोकांक पळेत रावतालो. तो ल्हान आशिल्ल्यान जाय थंय वचपाक ताका मेकळीक नाशिल्ली. फकत चार बिराडांच्यो नुस्त्या पोतयो घेवन पेडयेर वचून, धनयांवांगडा बाजारांत वचपाचें आनी नुस्तें घेवन घरा येवपाचें आनी खंयच वचपाचें परमिसांव ताका नाशिल्लें. आता मात एका कारणाक लागून हट्ट धरचो

पडलो. पणजे म्हालक्ष्मी देवळाकडे रथसप्तमीचीं नाटकां जातालीं. पोक्याक नाटकांची खूब आवड! नाटकाच्यो गजाली घरांत जाताल्यो. काका भाटकाराल्या घरांतलो एक मनीस नाटकांत वांटो घेतालो. ताकाच लागून ह्यो गजाली. पूण नाटक पळोवपाक घरांतलो कोण वच नाशिल्लो. चोवकार बसून नाटकां, भायले लोकांल्या बायलांनी पळोवपाचीं. तेन्ना कदेलां बी घालपाची रीत चडशी नाशिल्ली. ताका लागून बामणां चडशीं नाटक पळेनाशिल्लीं. कांयकडे आडवाद आशिल्लो, पूण कोताक धरिना तसलो.

पोको नाटकाचें नांव काडल्यारच पिसो जातालो. गांवांत आपले आई कुशीक बसून तो सगळी रात नाटकां पळेतालो. आतां कोणाय भसेन पणजेचें नाटक ताका पळोवंक जायच आशिल्लें.

पोको आतां आई म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो. 'कितें रे पोक्या, कित्यें जाय?' आईन पोक्याक थंडसाणेन प्रस्न केलो. 'आये, सांजे हांव नाटकाक वोचों?' 'नाटकाक? कोणावांगडा रे बाबा?' 'म्हाका वांगोड कित्याक जायो? हांव कोणाक भियेना. आनी सगळे वाटेक दिये आसात न्हू?' 'नाका रे बाबा, हांव एकट्याक धाडचिना तुका नाटकाक.' 'हांव एकटो खंय आसतलों. लोक वयतले न्हू गे?' 'लोकांचेर पातीयोवन हांव तुका नाटकाक धाडूं? रातचो तूं वाटेर भियेलो बी जाल्यार, तुजो आवय-बापूय आमकां कितें म्हण्टलो?'

पोको आपले आवयकडे उलयता तसो, याद नासतना उलयलो. पूण ही ताची मालकीण आशिल्ली. तिणें पोक्याक साप्प न्हयकार दिलो. पोक्यान थंयच्यान धांव मारली. तो निरशेलो आनी रडकुरें तोंड करून काशीचेर येवन बसलो. दोळे चोळून दुकां गाळूंक लागलो. 'आई, पोको रडटा मगे' भाटकाराले एके चलयेन आईक वचून सांगलें. 'रडूं दी, तो नाटकाक वचूंक सोदता. चड शेफारला पोर.' 'वतात न्हय गे हांगच्यान लोक! वता जाल्यार वचूं तो कोणालोय सांगात धरून.' 'कोणाचो सांगात मेळटलो ताका, आसा कोण वळखिचो? आनी नाटक पळेना जाल्यार कितें जाता? लोकालो भुरगो. नसतें बगलाट येवं नाका आमचेर.' 'जांव गे, कित्याक मन दुखयता ताचें ?'

आई वोग्गी रावली. पोको जापेची वाट पळेत काशीर बसून रावलो. थोडे वेळान आई कागदा पुडक्यांत इल्लो चिवडो आनी एक बेसन लाडू घेवन आयली. ती येता ती पळोवन पोको मान बागोवन वोग्गी रावलो.

'घेरे  पोक्या!' पोक्यान तकली वयर काडलीचना. 'वता मरे नाटकाक, वच. वाटेर तुका कोणे भिसडायलो बी जाल्यार आमकां दुशण नाका आं!' आता मात पोक्याच्या तोंडार उजवाड पडलो. तो गरादीच्या आडाव्याकडे गेलो. नाकातलें शेमूड पिळून भायर मारलें आनी सोंक, सोंक करीत काशीर येवन बसलो. ताणें आईकडच्यान पुडो हातांत घेतलो आनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी केदोवेळ तो तिच्या तोंडाकडे पळेत रावलो.

आतां पोक्याली कळी फुल्ली. ताचे कल्पनेतले पेटयेंतले सूर ताच्या कानार पडूंक लागले. तो तबल्याचो आवाज, तो तांबडो पड्डो, ती नांदी, तीं सवंगां, तीं पदां, कृष्ण-अर्जुन, शिवाजी-तानाजी बी पोक्याभोवतीं वावरुं लागले. पोक्याक आतां भलतोच नेट आयिल्लो.

पोको णवांच्या सुमाराक एकटोच देवळाकडे गेलो. सभाघराच्या चोवकार येन्नाच बायलो-भुरगीं बसून आशिल्लीं. कांय भुरगीं हांगा थंय धावून बेटोच बोवाळ घालतालीं. चोवकाक सिमेंट आशिल्ल्यान शेंदऱ्यो - मांदऱ्यो घालपाची गरज नाशिल्ली. तरी जागे आडावपाखातीर कोण ना कोण येवन चादर ना जाल्यार तुवालो पातळोवन दवरतालीं. आतां पोको खंय आनी कोणां म्हऱ्यांत बसतलो ? पोक्यालो कोण आशिल्लो थंय? गावांत घरचो कोणच नासल्यार लेगीत चलतालें. कितलेशेच शेजारीपाजारी आनी वळखीचे आसताले. हांगा पोक्याक वळखपी कोणच नाशिल्लो. पोको बापडोऽऽ जालो. तरी ताणें धीर सोडलोना.

पोक्यान देवळाकडे अशीऽऽ एक पासय मारली. सगळे खाज्यांमाण पळोवन घेतले. तरेतरेचीं खेळणी आशिल्लीं थंय, तींय पळोवन घेतलीं. पोक्याक एक बोमाडो घेवन ताचेर करा करा करीत हात भोवणवचो अशें दिसलें. पूण ताचेकडे दुडू नाशिल्ले. चण्याच्यो राशी आशिल्ल्यो. लोक आपापल्या भुरग्यांक घेवन खेळण्यां दुकानांचेर भोंवताले. तांकां मागता तसलीं खेळणीं घेवन दिताले आनी पोको तांकां पळोवपाचें काम करतालो.

पोको आतां परत चोवकाकडे आयलो. ताका चिंता आशिल्ली सुवातेची. खंय बसतलों आपूण? थंय बशिल्ल्या भुरग्यांमदें बसल्यार कशें? नां, तें सारकें न्हय. आपूण थंय बसलों आनी ऐन वोगतार कोणे उठयलो जाल्यार? ते परस सोप्याचेर वचून बसल्यार बरो. तो सोप्याचेर वचून बसलो. तरी ताका फुडें नाटक पळोवंक अडचण जातली, अशें दिसलें. सोप्याचे वयले कडेर पांय दवरून

बसल्यार कशें जायत? ताणें तशें करून पळेलें. ताका माची दिसताली पूण नाटक कोमेस जावचे वोगतार गडबड बी जायना मूं? सगळे तोपयांकार आनी मुंडाशेकार बाप्पा-आजे बी फुडें उबे रावतले. आपल्याक तांच्यो फाटी मात पळोवंक मेळटल्यो. नाटक कुशीकच उरतलें. आईन सांगिल्लें तें आयकल्लें जाल्यार खूब बरें जातलें आशिल्लें. ती आपल्याक एकटो धाडूंक तयार नाशिल्ली. आतां कितें करूं, परत वचूं? शी! लज न्हय! कितेंय जावं. नाटक काबार जातकीरच घरा वतलों, अशें मनांत हाडून पोको भायर आनी एक पासय मारूंक गेलो. परतें परतें तेंच तें कितें पळेतलो? थंय पिंपळा पेड आशिल्लें ताचेर वचून बसलो. थंयच्यान नाटकाक लोक येत आशिल्ले. सगळ्यांच्यो नदरो पोक्याचेर पडटाल्यो. हो भुरगो हांगा एकटोच कित्याक बसला काय? शेणूंक बी ना मूं कोणालो? एके बायलेन आपलो दुबाव प्रगटायलो. मर्दींच कोणय वचून ताका विचारतालो, 'कोण रे तू? कोणाची वाट पळेता?' 'कोण्णाची ना. हांव नाटक पळोंवक येयलां. घांट वाजोना न्हू, म्होणोन हांगा बसलां.' तरी एकटो एकटो येवन ताची चोवकशी करतालोच. आता ताणे जाप दिवपाचीच बंद केली. तो फकत तांकां बिटबिट्या दोळ्यांनी पळेतच रावलो. ताका लागून लोकांचो संवशय वाडतच गेलो.

आतां नाटकाची पयली घांट जाली. पोको धावून माचयेकडे गेलो. जाल्यार कितें पळेतलो? सगळें सभाघर चिक्कार भरलां. भितर सरपाक वाट नाशिल्ली. कडेक उबो रावून पळेतलो म्हळ्यार खंयच रावंक मेळनाशिल्लें. पोक्यान कितें करचें? थंय एक बाप्पा उबो आशिल्लो. पोक्यान दोनंय हातांनी बाप्पालीं दोन दांगां फाकारलीं आनी नेटान भितर शिरलो. एकाच्या दांगां पोंदच्यान भायर सुट्टा म्हणसर दुसरो दादलो सांपडलो. हो दादलो हत्ती आंगाचो, जाडजूड आनी मोठो हराम आशिल्लो. दया-माया नाशिल्लो. पोक्यान आपल्या हातानी ताचीं दोनय दांगां फांकारलीं आनी तकली भितर शिरकायली. ते हलकटान कितें करचें? पोको गांचाक सांपडला तें पळोवन ताणें आपलीं दांगां कुल्लेभसेन घट्ट आवळून घेतलीं. पोक्याचो गळो थंयच अंदलो. ताचो घुस्मटमार जालो. किळांचतलो म्हळ्यार गळ्यांतल्यान आवाज भायर सरना. पोको आकांतलो. ताका कितें करचें कांयच समजलेंना. पोक्याचीं नाकटां वाडिल्लीं आशिल्लीं. ताणें दोन नाकटां ते दादल्याच्या पोवटांक रस्तीन रोमलीं. ते दादल्याचेर आयलो

आकांत. ताणें आवयस केलें, कसेभसेन आपलीं दांगां उकतीं केलीं. पोक्याक थंय बशिल्ल्या बायलांमदें दिलो धुकलून. पोक्याची गुटली थंय बशिल्ले एके म्हातारेचेर वचून पडली. म्हातारेन 'पाड पोडों रे तुजें मेल्ल्या' अशें म्हणून ते दादल्याकडे रागान पळेलें. 'कसलो रे बाबा दादलो हो, भुरग्यांची दया-माया नासलेलो.' तिणें अशें म्हणनाफुडें पोक्यान ते म्हातारेचो पालव आपल्या माथ्यार घेतलो आनी तिचे कुशींत शिरलो.

पोक्यान आपले आज्जेक पळोवं नाशिल्ली. म्हातारेक नातू आशिल्लो काय कितें कळूंक मार्ग नाशिल्लो. 'आज्जे, हांव हांगा बसों ?' अशें पोक्यान म्हणिल्लें मात, म्हातारेन ताका आपले वेंगेंत घेतलो आनी आपले कापडाचो पदर ताच्या माथ्यार वोडलो. ते हतयाकाय दादल्यान आजी-नातवाचो जम पळोवन थंयच्यान पो काडलो.

कुड्डो मागता खंय एक दोळो, आनी देव दिता दोन दोळे म्हण्टात तशें पोक्याचें जालें. ताणें सुशेगाद आज्जेचे उबेंत बसून सगळें नाटक पळेलें. म्हातारी पोक्याक मायेन मदीं मदीं पोशेताली.

आतां नाटक सोंपलें. पोको खोशेन भरलो. 'आज्जे, हांव वोचों?' पोक्यान आज्जेलें परमिसांव मागलें. 'वोचों? खंय वोचों? राव, बापायकडे पावयता तुकां' अशें म्हणून भेंडार हात धरुन आजी उठली. 'नाका आज्जे, हांव एकटोच वयतां. तो सकयल दरवाट्याकडे रावतलो म्हाका.' पोक्यान ताजीच फटास मारली, आनी थंयच्यान पळ काडलो. धांवतासतना फाटीं वळून म्हातारेचेर नदर मारूंक तो विसरलोना.

नाटक सोंपतकीर सगळे लोक चारय वाटांनी गजाली मारीत चलूंक लागले. खुबशे लोक इगर्जेकडल्यान कोर्तींत गेले. पोको हात पांगरून शियां कुडकुड्यांत लोकांवांगडा कोर्तीमेरेन गेलो. थंय पावतकीर सगळे लोक दोन वाटांनी फांकले. थोडे सांकवावेल्यान रायबंदरच्या वाटेन तर थोडे चार खांब्याकडे वता ते रस्त्यान वचूंक लागले. पोक्याक दिशिल्लें भाटल्यांत वचपी लोक ताका मेळटले म्हूण! पूण कोर्तींतल्यान फुडें वचपी एकटोय मनीस ताका मेळ्ळोना. सुर्वेक पोक्याच्या काळजांत धस्स जालें. मागीर तो धिरान झरीकडचे वाटेन एकटोच चलूंक लागलो. पिपल्स शाळेकडे पावतकीर मदींच एक सुणें रस्त्यार धावून आयलें. तें पोक्याक पळोवन गुरगुरलें आनी पॅक करून कडेक सरलें. तरी सुण्यान पॅक केलें तेन्ना

पोक्यान कच्च करून आंग काडलेंच. तरी तो काचाबूल जायनासतना तसोच फुडें गेलो.

वाटेर एक विडयांचें आनी सायकली भाड्याक दिवपाचें दुकान आशिल्लें. दुकानांतल्यान एक उंदीर धावून रस्त्यार आयलो मात, थंयच्यान एका काळे मांजरान उंदराचेर उडी मारली. उंदीर पोक्याच्या पायांकडल्यान धांवलो. ताका धरूंक काळें माजर धांवतालें, तें पोक्याल्या पायांक घस्टून गेलें. उंदीर नाशिल्लो जाल्यार वाटेर आपल्याक नकलामी जाली म्हूण पोको भितलो आशिल्लो.

पोको आतां भरभरीत पावलां मारीत फुडें गेलो. आतां तो झरीकडे पाविल्लो. झरीच्या पायऱ्यांकडे, मारूतीच्या देवळाक फुडो करून खूट कसो उबो आशिल्लो एक दादलो पोक्याक दिसलो. दादल्याच्या माथ्यार धवो फुल्ल मुंडासो आशिल्लो. धपरांकडे पावता तितलेंच पुडवें न्हेशिल्लो. ताच्या खांदार कामळ आशिल्ली. ताका पळेनाफुडें पोक्याले पांय जड जाले. आंगांत कापरें भरलें. तरी तो कसलोच आवाज करिनासतना, दोनच धेंपानी फुडें सरलो. ताका धांव मारिनशी दिसली. पूण धांव मारल्यार सुणीं फाटीक लागतलीं म्हूण ताणें तशें केलें ना. आतां पोक्यान आपलो राबितो गांठलो. ताका सूऽऽ जालें. तरी ताका आनी एक प्रस्न उपरासलो आतां सकाळचीं सुमार चार वाजलीं जांवये. कोंब्यान साद घाल्लो. सगळ्यांच्या न्हिदेचो भार जाल्लो.

पोको आतां तळघराच्या फुडले दाराकडे उबो आशिल्लो. बाप्पा भाटकारालें बिराड माळयेर आशिल्लें. तळघरांत भाड्याचें बिराड आशिल्लें. बिराडांतले दादले सक्काळीफुडें भायर सरून बद्द रातचे घरा येताले. ताका लागून कोणाक कितें म्हणटात तें पोक्याक खबर नाशिल्ली. हय, घरांत एक-दोन ताईबाय-मावशीबाय बी आशिल्ल्यो पूण येदे सकाळी तांका उलो मारून उठवप पोक्याक बरें दिसलेंना. बाप्पा भाटकाराल्या मनशांक उलो मारल्यार, माळयेर तांकां कशेंच आयकूंक येवचेंना. तेन्ना आंता कितें करचें तें पोक्याक कांयच कळना जालें.

दारामुखार काम्राचो दिवो पेट्टालो. शियांन आंग कुडकुडटालें. दातार दांत आदळटाले. पोक्याक हातरुणार केन्ना पडचें अशें जाल्लें. पूण उपाय नाशिल्लो. आतां कितें करतलो? दीस जायसर हुंबऱ्यार बसून रावपाचो पोक्यान निश्चय केलो. आनी ताणें थंयच थबकल मारली.

इतक्यांत पोक्याच्या तकलेंत लक्क करून उजवाड पडलो. गरादीक तेकून

दोन माड आसात हें ताच्या लक्षांत आयलें. तो फट्ट करून उठलो आनी माडांकडे गेलो. एक माड तर गरादीक तेक्कून आशिल्लो. ताका खापांय आशिल्लीं. कुळागारांत माडांचेर घसरगुंडी केल्ली ती आतां कामाक आयली. फाटींफुडें पळेनासतना पोट माडाक तेकोवन पोको माडार चडलो. ताका फकत तिनेक मेत्र चडपाचें आशिल्लें. शेकीं ताणें एक पांय माडाखापार आनी दुसरो गरादीर दवरलो. आडाव्यावेल्यान शलांग मारून ताणें घरांत येंत्राद घेतलो, आनी खिणांत हातरूण पसरुन ताणून दिलें.

आपूण वयर येवन कसो न्हिदलों, हाच्यो बडायो मारिल्ल्यो जाल्यार पोक्याक आनीक नाटकां पळोवंक मेळचीं नाशिल्लीं आनी पोक्याक दार कोणे काडलें हाची चोवकशी तरी कोणाक जाय आशिल्ली ? हाणें ना जाल्यार आनी कोणेंय काडलें आसतलें हे समजिकायेंतच सगळीं आशिल्लीं. त्या माडाक लागून नाटकांक वचपाचें परमिसांव घेवपाची गरज पोक्याक केन्नाच पडली ना.

पोक्यान बाप्पा भाटकारागेर आवाशिवा करून एक वर्स काडलें. हरशीं तो थंय सुखांत आशिल्लो. जेवंक-खावंक फाव तशें मेळटालें. आंगानय भरून आयिल्लो तो. ताचे तोंडाक तिकतिकाय आयिल्ली. वर्सभरांत ताचे भाशेंतय बदल जाल्लो. फाव ते मनशांकडे फाव तो सूर कसो काडचो हें ताका आतां कळून आयिल्लें. आतां ताचीं अस्पस्ट उतरां स्पस्ट जाल्लीं. ताणें आपल्या गुणांनी घरभर लोकांक आपलीशीं केल्लीं. तो कायद्यान बाप्पा भाटकारागेर आशिल्लो खरो, पूण हेर भाटकारांल्या मनशांकय तो जाय जाय असो दिसतालो. कोणेंय ताका कितेंय सांग, ना म्हणूंक ताच्या जिवार येतालें.

पोक्याक एक दुयेंस आशिल्लें. रातचें ताका खूब वेळा मुतूंक उठचें पडटालें. ताका लागून ताची न्हिदमोड जाताली. ताचें न्हिदप माळयेर जातालें. ताका लागून सखल देवून दार उकतें करप ताका अडचणीचें जातालें. म्हणून रातचें ताका गरादीचेर उबो रावंन कुंथून कुंथून मुतचो पडटालो. अशे तरेन ताका मुतचो पडटालो कि इल्लेंय मूत गरादीच्या फळ्यांचेर पडचें न्हय. मूत फळ्यांचेर पडिल्लें जाल्यार मुताखास्ताणीन पोक्यालो गूट उकतो जातलो आशिल्लो. हें दुयेस पोक्याल्या आवय-बापायक सोडून  कोण्णाक खबर नाशिल्लें.

पोक्याक जर रातचें शीत जेवंक मेळिल्लें जाल्यार रातचें ताका चड वेळा उठचेली गरज पडची नाशिल्ली. ते घरांत एक बाप्पा भाटकार सोडलो जाल्यार,

सगळींच पेज जेवतार्ली. घरांत एक बाप्पा आसतना दुसऱ्यांक संद कशी मेळटली?

पोको चोवथीक घरा गेल्लो आशिल्लो. चोवथ बी जातकीर परत पणजे वचचे वोगतार, पोक्याले तकलेंतलें वारें परतें घुंवलें. ताचे पयलीं आज वतां फाल्या वतां करून ताणें पंदरा दीस काडिल्ले. तसो तो घरा येतासतना धनयांक रोकडोच परवां येता म्हूण सांगतालो. आनी धा-बारा दीस तरी आवय म्हऱ्यांत रावतालो.

आतां पंदरा दिसांनी पणजे वच्चे वोगतार पोक्यान आपली अडचण शांतूक सांगली. पोको आपूण जावन सांगता म्हण्टकीर खऱ्यानीच पोक्याची अडचण आसतली हें शांतून ताडलें. घरा आसतना पोको रातचो खूब वेळा उट्ठा हें शांतू जाणां आशिल्लें. ताका लागून शांतू रातचें घरांत मुता आयदण हाडून दवरतालें. पोको मागीर रातचो उठून कोण्णाक सांगिनासतना काळखांत सांसपत वचून आवाज करिनासतना आयदणांत मुत्तालो. हेत हो की आपल्यापासून दुसऱ्यांची, चड करून आवयची न्हिदमोड जांवची न्हय. ताका लागून आवय-बापायन ताचेकडे गंभीरतायेन लक्ष दिलेंच ना.

पोक्याक हें दुयेंस शाळेंत वचूंक लागचे पयलीं कोमेस जाल्लें. ते तेंपार गरिबांखातीर बी इस्पितळां नाशिल्लीं. आसल्यारय गरिबकायेक लागून दोतोरांचें तोंड पळोवंक कोण सोदी नाशिल्ले. खेड्यांनी झाडापाल्यांच्या वखदांचेर आनी देव-देवचारांचेर गांवगिऱ्या लोकांचो भावार्थ आशिल्लो. गांवांत एक धोतर न्हेसून, कोटाबोल्सांत वादी घालून दोतोर येतालो. तो दोतोर कार्तांद नाशिल्लो. तरी थंडी भारकुणाचें आनी कसलोय जोर बी येत जाल्यार ताचें वखद दितालो. ताचो हातगूण बरो अशिल्ल्यान, चड करून बामण लोक ताका हाडटाले. गरीब लोकांक तो तपासतालो खरो, पूण दुडू मेळनांत म्हूण, वोखदां दिवंचे वोगतार तो आंग फार्टी काडटालो.

पोक्याक ते दोतोराक दाखय अशें कोणे तरी दत्तूक सांगलें. दत्तून पोक्याक खांदार धरून दोन वेळां ते दोतोराक दाखयलो. पूण ताणें पोक्याक जिरे-कोतमिरेचें उदक दी म्हूण वाटेक लायिल्लो. ते शिवाय आनी कितें तरी करतलो आशिल्लो तो ! तेन्नाच्यान पोक्यान थोडे दीस जिरे-कोतमिरेचें उदक घे घे घेतलें आनी मागीर सोडून दिलें. पोक्याल्या दुयेसांत कांयच बदल जालोना. पोक्यान सुर्वेक सोस सोस सोंसलें आनी मागीर तें ताचे सवंयेर पडलें. पोक्याले पणजे वचपाक

फाल्यां-परवां करपाचे दीस आतां सोपिल्ले. ताच्या भावंडांकय तो गेल्लो नाकाशिल्लो. ताणें आतां पणजे वच्चोच ना अशें थारायलें आनी शांतूनय ताच्या थारावाक तेंको दिलो.

श्रीपाद शेणय दोन-दोन दिसांनी पणजे वचून बाप्पा भाटकारागेर रावतालो. दत्तून ताचेकडे पोको येवचोना हो रकाद भाटकारागेर दिवंक लायलो.

पोको आतां पणजे वचनासतना घरा रावलो खरो, पूण ताची कूड हांगा आनी मन मात पणजेच भोंवतालें. खंयच्च्याय तरी काजू झोपाचेर, ना जाल्यार झाडाखांदयेचेर वरांची वरां बसून तो एकेक चित्र आपल्या दोळ्यांमुखार हाडटालो. तें नाशियोनल सिनेमा थेटर, हें थेटर ताणें फकत भायल्यानूच पळेल्लें. इल्लींशी चक्रां आशिल्ल्या गाड्यांचेर तिकटीं उबीं करून, तांचेर नट-नट्यांचीं चित्रां (पोस्टर) चिकटावन घांट वाजयत शारभर भोंवपी भुरगे, ते गुलाबी रंगाचे बुड्डीका बाल, ते तीन चाकी गाड्यांचेर तांबड्यो तांबड्यो सरबताच्यो बाटल्यो दवरून, किसणीचेर झेल किसून, तो लुगटार घालून ताचेर सरबत ओतून केल्लो तांबडो तांबडो झेलागुळो; त्यो खिळ-खिळ-खिळ - खिळ आवाजा तालार धांवपी घोड्यांगाडयो, आनी त्याच गाडयांच्या फाटल्या दांड्यांचेर चोरून बसपी भुरग्यांचेर चपक् करून बसपी चाबूक. त्यो बैला गाडयो, तो नुस्त्याबाजार, धक्याक लागिल्ली ती बोट, सांजेचीं पांच वरां जालीं म्हण्टकीर सायकलीनी भोंवपी ते खाप्री, सकाळीं धांच्या सुमाराक माथ्यार लातां घेवन भोंवपी त्यो भंगिणी आनी ते गोरे गोरेच पाखले, हातांत सोडती घेवन, सोर्ताबेर्त, सोर्ताबेर्त म्हणत भोंवपी सोडतीकार, ते रांगेन उबे दवरिल्ले कामिजांव आनी जायो जायो, जायो, जायो ! करून आड्डेवपी माड्डोळचे जायांकार! हीं सगळीं चित्रां ताजीं जावन पोक्याच्या दोळ्यांकडे नाचतालीं. काम्राच्या गाडयांनी शिंपिल्ले ते मळ्या-भाटल्यांतले तांबडे रस्ते, सांजेचीं पांच-स जालीं म्हण्टकीर तीं रेडियोवेलीं सिनेमा गाणीं, ते लखलखपी विजेचे दिवे पोक्याक आपोवणे दिताले. आनी ताका लागून पोक्याक पणजे परत वच्चेंशें दिसतालें तरी दुसरें मन ताका सांगतालें, पोक्या, तूं आतां पणजी विसर! पणजे तुजें आतां कांयच उरूंक ना.

तरी पणजेच्यो यादी ताची फाट सोडिनाशिल्ल्यो. कुळागारांतलीं कामां करून तो उबगतालो आनी निरशेतालोय बी! पणजे आसतना पोक्याकडल्यान कोण ना कोण कसलें ना कसलें काम करून घेतालो आनी ताच्या हातार कितें ना कितें

उडयतालोच. सकाळची बाप्पा भाटकारागेर हक्काची चाव-रोटी मेळटालीच. मागीर कांदो-सोय घालून केल्ले तांदळांभाकरेचो कुडको दितालीं. कोण वायंग्या भरीत घालून सुकी रोटी तर कोण खुटी, बिनःदुदाचे चायेवांगडा गवां लाडू ना जाल्यार शेव-चिवडो खा म्हणून आग्रो करताली. पोक्याल्या हुशारेक लागून भाटकाराल्या सगळ्यां मनशांचो ताचेर दोळो आशिल्लो. आतां पोको नाशिल्ल्यान तांका सगळ्यांकच चुकलें चुकलें शें दिसतालें. पोको कायद्यान बाप्पा भाटकारालो चाकर, पूण ताचेकडच्यान काम करून घेताल्यो हेर भाटकारांल्यो बायलो. पोक्याक तांतलो भेद कळनाशिल्लो. पोक्याक सगळीं आपलीं भाटकारां अशीं दिसतालीं. केन्ना केन्ना हेरालीं कामां करून घामाघूम जातालो तेन्ना आई, बाप्पाली बायल भितरले भितर धुसफुसतालीं. पूण ती कांयच उलोवंक शकनाशिल्ली. तिका दिसतालें, पोक्यान आपलें सोडून कोणालेंच काम करचें न्हय. अशें तिणें एकदां-दोनदां आडमार्गान उलोवन दाखयलेंय बी. पूण तें तेन्ना पोक्याक कळ्ळेंना. पोक्यालो सोभावच असो कि, कोणेंय कसलेंय काम सांगल्यार ताचेकडच्यान ना म्हणूंक जायनाशिल्लें.

बाप्पाभाटकाराल्या दुसऱ्या भावाक घरांतलीं सगळीं मनशां काका म्हण्टालीं. हे काका भाटकाराकडे एक म्हस आशिल्ली. तिका भाटल्यांत एक पोन्नी गेरेज भाड्याक घेवन तातूंत दवरिल्ली. ही गेरेज काकाल्या घरापासून सुमार दोन किलोमेत्र अंतराचेर आशिल्ली. तिका दूद काडपाखातीर सदृदां भाटल्यांत वचून हाडची पडटाली. हें काम काकाच करतालो.

काकाची बायल, काकी चिक्कू, हापापी आनी बोबाटी आशिल्ली. कोणाकय फुसलावन, ताका लाळेगोळे लावन आपलें काम सादोवन घेवपांत तिचो हात कोणाच्यान धरूंक जायनाशिल्लो. काका तिच्या हातांतलें बावलें आशिल्लें. ताका ती तोंडांतल्यान उतर भायर काडूंक दिनाशिल्ली. काडलेंच जाल्यार कच्च करून खेतें कशी आंगार येताली. तेन्ना काका असोऽऽ बिलू कसो जावन खंय तरी वचून बसतालो.

एक दीस दत्तू पणजे आयिल्लेकडे आशिल्लो. काकी ताच्या म्हऱ्यांत येवन बसली. तिणें सदांभशेन दत्तुल्या बायले-भुरग्यांची बरे आस्थेन खबर घेतली. "पोको नाशिल्ल्यान हांगां आपल्या मनशांक मातय सूख लागना. हाड मरे पापया ताका हांगा एक दीस. ताका पळेन दिसलां आमकां." अशें सांगूक तीं विसरलीना.

उलयतां उलयतां तिणें हेवटेन-तेवटेन पळोवन हळूच दत्तूले कान फुकले. बाप्पाल्या मनशांआड कशें उलोवंक जाय तशें ती उलोवन मेकळी जाली. पोको आपल्यागेर आशिल्लो जाल्यार, आमकां सोडून कसोच वच्चो नाशिल्लो, हेंय सांगूक ती विसरलीना. दत्तून एकदां पोक्याक रातीची पेज बऱ्याक पडना अशें सहज म्हणिल्लें. काकीच्या लक्षांत तें आशिल्लें, 'आमगेर रातचें शीत जेवतात म्हणून जाणां मरे तूं?' 'जाणां तर! हांव जेयनां, रातचो हांगा रावल्यार?' 'म्हण्टकच पोक्याक दवरता मरे आमगेर?' काकीन खडो मारुन पळेलो. 'म्हयन्याक तीन रुपये दितलीं हांव. आमगेर काम कसलें पुता, एक म्हस आसा. तिका हाडून पावयचेली. मात्सो गोठो झाडचेलो, मागीर दीसभर बेकार! आतां तूं थाराय किर्ते तें.' अशें म्हणून काकी थंयच्यान ओणव्यांनीच उठून गेली.

दत्तू आतां बुचकळ्यांत पडलो. काकी किर्ते उलयली तें शांतूक सांगचेंच पडटलें. शांतूक लिपोवन तो कांयच दवरिनाशिल्लो. बरें शांतूक सांगतकीर पोक्याक कळ्ळें, आनी तो हांगा येवंक तयार जालो जाल्यार? बाप्पागेर दत्तू तोंड कशें दाखयतलो? तांकां किर्ते सांगतलो? काकागेर पोक्याक रातचें शीत मेळटा म्हणून? आनी पोको तरी बाप्पाल्या मनशांक तोंड कशें दाखयतलो? ते परस काकील्या मनातलें कोणाक ना कळिल्लेंच बरें.

एक दीस दत्तूक सोदीत काका पोक्याल्या गांवांत गेलो. थंय ताका दत्तू सोडून पयलोच पोको भेटलो. पोक्याक पळोवन काकान वेगळोच पवित्रो घेतलो. 'पोक्या, कसो आसा रे तूं? आसा मरे बरो? आमकां विसरलो काय किर्ते रे पोरा! तुज्या हुसक्यान काकी सामकी हातरुणाक लागल्या.'

किर्ते? माज्या हुसक्यान काकी बरी ना? ही कोण तर माझी, माझो हुसको करूंक! तरी पोको काकाल्यो गजाली आयकत रावलो. पोको ना म्हूण आपल्या मनशांक शिताची उंडी कशी चलनां हें फुगोवन फुगोवन सांगलें आनी मागीर ताणें पोक्याचेर प्रस्नाचो मारो केलो.

'तूं बाप्पागेर कित्याक रावलो ना रे ? थंय कोणे तुका तापयलोबी? तुका जेवण बी सारकें दिलें ना काय किर्ते रे ? तशेंच जावंक जाय. तो बाप्पा मात्सो भामटो आनी तागेली बायल चामटी, तागेलीं भुरगीं तर सामकीं हिमटीं.'

पोक्याच्यान हें आयकूं नज जालें. ताणें एकाच उतरान सांगून उडयलें, 'आई आनी बाप्पा खूब बरीं. म्हाका सगळीं बरें करतालीं तेंगेर. हांव बरो ना म्हणोन

येयलां थंयचो.'

हें आयकून काकाल्या पोल्यार थापट मारिल्ल्याभसेन जालें. पूण काकाच तो! पयलो मात्सो निरशेलो. मागीर ताणें पोक्याक पटवपाचो नेट धरलो. पोक्याल्या नाकांतल्यान भेमरें व्हांवतालें तें ताणें आपल्या पुडव्याच्या सेवान, विटनासतना काडलें. काकाली ही चाल मात फळाक आयली.

पोक्यालें शेंमूड शांतू आपल्या कापडा पालवान पुसतालें आनी आतां तें आवयचे मायेन काकान पुसलें. हो काका खऱ्यानीच बरो आसूंक जाय. काकालो व्हडलो चलो - भाऊ तर खूब बरो. थंड सोभावाचो. तो पोक्याकडे सदांच हांसत्या तोंडान उलयतालो आनी काकी ? कोणच तिचें बरें म्हूण उलयल्लें पोक्यान केन्ना आयकूं नाशिल्लें. पूण पोक्याक मात ती सदांच बाबा-पुता करताली.

'काका, हांव तुमगेर येयलों जाल्यार आई-बाप्पाक वायट दिसचेंना ?'

'तांकां कित्याक वायट दिसतलें, तो म्हगेलो भाव मरे. तागेर रावलो कितें आनी म्हगेर रावलो कितें सारकेंच. तू आमगेर आयल्यार ताका परतें बरेंच दिसतलें. तुका जाय जाल्यार हांव समजायतां ताका. तूं आमगेर राव आनी तुज्यान जाता जाल्यार तांगेल्याय कामाक मात्सें हात-बोट घाल. आतां तांकां नुस्तें हाडूंक दिवंक कोण ना. तूं नासून हाल जातात तांचे आनी आमचेय बी. सवराक जेवन जेवन बाप्पालें पोट सामकें बिघडलां. आई तर सामकी हातरुणाक तेंकल्या. एक उंडी वचना तिच्या पोटांत. आतां तू आमचें नुस्तें हाडून दितलोच न्हय, तेन्ना तांकांय हाडून दी वांगडा! आयलें तुज्या लक्षांत हांव कितें म्हण्टा तें? आयकता मरे तूं म्हजें?'

पोको तकलेन हयकार दीत आशिल्लो. 'वोगीच गणसाबयलाभशेन तकली हालोंव नाका. आनी हें पळे पोक्या, दादान आतां सायकल घेतल्या. तूं आयल्यार तुकाय चलोवंक मेळटली. हांव सांगतां ताका दिवंक.'

काकान पोक्याक सायकलीचें आंयस दाखयलें . ताका सायकल चलयनशी दिसताली पूण आवय-बापायली परिस्थिती पळेल्यार ताची आस हे जल्मात तरी पुरी जायत शी ताका दिसनाशिल्ली. ताचो आवय-बापूय ताका काल्या-जात्रेक एक बोमाडो घेवनं दिनाशिल्लो आनी तांचेकडल्यान सायकलीची अपेक्षा करतल्याक कोणय मुर्खांत काडचोना?

दत्तू आतां बुट्टांतल्यान हुमले फांकडीत भायर आयलो. ताणें पयसुल्ल्यान काकाक पळेलो. तसोच एका माडार चडून दोन तीन आडसरां काडलीं. काका म्हऱ्यांत आयलो. आडसरांक पळोवन काकान आपली तोपी काडली. शेंडी फांफुडली आनी तोपी परती माथ्यार दवरली.

दत्तूक पळेनाफुडें काका हा-हा-हा करून हांसलो. काकालें तें हांसप नकली हें दत्तूक खबर आशिल्लें.

'खंय आशिल्लो रे पापया. केदो वेळ तुजी हांव वाट पळेतां मरे पापया!' काकान दोन वेळां दत्तूक पापया पापया केलें. पोक्याक ती मजाच दिसली.

'आमी खंयच्च्याय वोगतार घराकडे मेळनांत. आमचें कामच तसलें न्हूं ? काकी कशी आसा? भाऊबीन बरो आसा न्हूं ?' सगळ्यांची खबर घेवन जातकीर दत्तून भितरली तामरेत हाडून ती आपल्या वाल्यान पुसली आनी काकाक बस म्हूण सांगलें. काका बसतकीर, आडसराची तोवली मारून आडसर काकाफुडें धरलें. काकाक कितेंय एक पावनाशिल्लें. दुसरें जायच पडटालें. ताका लागून घरांतलीं कांय मनशां ताका फाटल्यान खावगो काका म्हण्टालीं. काकान मागिनासतना दत्तून दुसऱ्या आडसराची तोवली मारली. पयल्याचें उदक पिवन जातकीर, घेरे पोक्या खा ! म्हूण ताणें तें पोक्याक दान केलें. पोक्यान तें उश्ट्याचें म्हणून खोंट मारून धडेसखल उडयलें.

काका दोनय आडसरांचें उदक पिलो. दुसऱ्याची कातली खाली. एक लांब धेंकर दिलो. आनी दत्तूकडे उलोवंक तोंड उगडलें.

'दत्तू, हांव पोक्याक व्हरूंक आयलां. काकीन धाडला म्हाका'. पोको काकाच्या बापायचो फात कसो काका उलयलो. 'धाडटा मरे ?'

'तें कशें जातलें तर! पोको एकदां घरा रावलो न्हू! परतो कसो येतलो तो? आनी तुमगेर येयल्यार बाप्पाक कितें दिसतलें ?'

'बाप्पाचें तुका नाका. तें हांव पळेतां. हावें पोक्याक सगळें सांगलां. तो येवंक तयार जाला. ना रे पोक्या? '

पोको भेंडार हात धरून दत्तूक पळेत रावलो.

'हांव आयज श्रीपादागेर आसां. फाल्यां सकाळीं पोक्याक घेवन थंय यो. थंयच्च्यान हांव व्हरतां ताका.'

काकान दत्तूक वोर्द सोडली. उठून धोतर फाफुडलें. माथ्याची तोपी काडून

परत घाली आनी चलूंक लागलो.

काका गेलो आनी पोको चिंतूक पडलो. भुरगीं कोणालींय जावं. गिरेस्तालीं जावं ना जाल्यार गरिबालीं. तांचें एक वेगळेंच विश्व आसता. तांचीं हीं विश्वां खिणां खिणांत बदलत आसतात. आनी बदलत्या विश्वांतच तांचो विकास घडत आसता, तांची उदरगत जावंक पावता. ते ते वेळार तांकां जाय जाय तें आनी फाव फाव तें मेळना जाल्यार तीं पेटून उट्टात्. मागीर तीं आपापलें काम सादोवपाक आडमार्ग आपणायतात. एकतर तीं मागीर गूंड-मवाली जातात ना जाल्यार आपलें मन मारून मनदुखे, नेबळट, बावळट, आशाळे बी जावन उरतात. पोको मात अशांतलो नाशिल्लो. तो कश्टांतल्यान, यत्नांतल्यान नितीमत्तेंतल्यान जें कितें मेळटा, ताचीच आस करतालो. ताका कश्टांची नितीचीच भास कळटाली. कोणय दिता म्हूण फुकट खावचें हें ताका पटनाशिल्लें. आलायतें खावन पोट भरपांत मनीसपण ना. दोन आण्यांचें काम करून चार आण्यांची आस करपात दुःख आसता, हें ताका कळून चुकिल्लें. फाव ते कामाचें फाव तें दाम घेवप हातूंतच गोडी आनी न्याय आसा अशें ताका दिसतालें.

पोक्याक कुळागारान खूब कांय शिकयिल्लें. केळम्या-माडयांक वोगतार फाव तें उदक-पाणी, सावळ-सारें घाल्यार, मन लावन तांची मशागत केल्यार बरीं फळां मेळटात हाचो अणभव ताणें घेतिल्लो. फातर-करपां कितलींय घट आसू, तांच्या सांगातान वाडिल्लीं. झाडां-पेडां, घट्ट आनी भरपूर फळांदेणी आसनांत. तीं कशींय तरी झरत - मरत वाडटात. जगूंक जाय म्हूण आपलीं मुळां करपांतल्यान, फातरांतल्यान वाट काडून थंय मोवसाण, आनी ते मोवसाणींत वोलसाण सापडटा काय म्हूण सोद घेतात. आनी इतलेंय करून कांयच मेळ्ळेंना जाल्यार धीर सोडून बावून करपून वतात. अशे तरेचीं कितलीशींच झाडां पोक्यान पळेल्लीं. गोड आनी भरपूर फळांखातीर भुसभुशीत माती, लागसाराक उदक आनी घाम गाळपी धनयांची गरज आसता, हाचो अणभव ताका थंयच्या परिसरान दिल्लो.

काकान ताका सायकलीची आस दाखयल्ली. पूण तो भुल्लुसलोना. कामाच्या बदलाक सायकलीचें एक वोल्त मारूंक मेळ्ळें जाल्यार बरें आसा, ना जाल्यार ना!

पोको सायकलीचे आशेन पणजे वचूंक तयार जालों ना. बाप्पाचें पोट

बिगडलां आनी आई बरी नां. हें घडलां तें आपल्याक लागून. आपूण तांकां सांगिनासतना घरा रावलां. मागीर रकाद धाडून कितें उपेग? अशें चोराभसेन घरा रावप पोक्याक सोबता ? पोको फटकिरो न्हय, भितरो न्हय! हांव पणजे वतलों. बाप्पा-आईची माफी मागतलों, कित्याक आयलोंना तेंय तांकां साफ साफ सांगतलों. काकान आपल्याक हाडला तेंय सांगतलों. काकान सांगलां ते परमाण तांचेंय काम करतलों. कामतीगेर सावन शांतू घरा आयलें. पोक्यान ताका आपलो बेत सांगलो. काकागेर रावल्यार आपलो प्रस्न सुटटोलो. काकाचें घर माळ्येर ना. शिवाय काकी रातचें शीत वाडटली. जे कारणाक लागून पोको घरा रावला, ती अडचण आतां मिटिल्ली.

पोक्यालो तो बेत आयकून शांतू निर्शेलें. पोक्याबगर रावचेली ताका सवंय जाल्ली. पूण आतां तें सपनां रंगोवन बशिल्लें. पोको घरा आशिल्ल्यान ताका व्हड आदार मेळटलो आशिल्लो. चोवथी उपरांत शेजारच्या गावांतलीं शेतां पिकतात. ती लिवूंक-मळूंक पोक्याल्या गांवांतले लोक वचून आडावां घेवन येतात. दत्तूवांगडा आपुणय लिवूंक वचून आडांव हाडल्यार चार भातागोटे सुगूर करून दवरुंक मेळटले. पोको घरा आशिल्ल्यान घर आनी भुरग्यांक ताच्या सुवादीन करूंक बरें पडटलें. रातीकडे येवन आबजोवपाची व्हडलीशी गरज पडची नाशिल्ली. आनी आतां? पोक्याल्या पणजे वचपाचे तयारेन, शांतूचीं सपनां वाऱ्यार बसून भुर्रर करून खंयचे खंय नाच जाल्लीं.

दुसरे दिसा दत्तू पोक्याक घेवन श्रीपाद शेणयगेर गेलो. काका वचपाचे तयारेंत आशिल्लो. पोक्याक पळोवन तो फट् करून उठलो आनी दाराकडे आयलो. पोक्याक खंय बसोंव खंय नाका अशें ताका जालें. केल्ले येत्नाचें फळ ताका मेळिल्लें. काकाक गीता वाचून न्हय, पूण आयकून खबर आशिल्ली. फळाची आशा धरिनासतना कार्य करचें, अशें गीतेंत सांगलां. काकान तशेंच केल्लें. आस धरिनासतना केल्ल्या कामाचें फळ ताका मेळिल्लें. 'वाळूचे कण रगडितां तेल गळे' हेंय काका आयकून जाणां आशिल्लो. पोक्याच्या रुपान वाळूचो म्हळ्यार रेवेंचो कण ताणें रगडिल्लो, आनी ताचें फळ ताका मेळिल्लें. काका भितरले भितर खोशेन खदखदतालो. आतां पोक्याक व्हरून तो काकीक दाखयतलो.

काकाल्या बोडांतलो मेंदू विचित्रच आशिल्लो. तो काकाक एके सुवातेर

बसूंक दिनाशिल्लो. हांगचो थंय वच आनी थंयचो हांगा यो. थंयची वस्त हांगा हाड आनी हांगाची खंयी दुसरेकडे व्हरून उडय. हे गुणाक लागून काका-काकीचें खुबदां पेट्टालें. पूण हांगा मात काकाचो फायदो जालो. दुसऱ्याच्या घरांतय आपलेंच घर म्हूण काका वावुरतालो. श्रीपाद शेणयल्या घरांत एका कोनशाक दोन-तीन, केळ्यांचे घडाये आशिल्ले. काकाचे दोळे लागचे न्हय म्हूण घरांतल्यांनी ताचेर साकाटो उडयल्लो. पूण भायर सरतासतना घराचो निरोप घेवंक भितर गेल्लेकडेन आसतना, कोनशाक कितें धापून दवरलां तें पळोवपाक ताणें साकाटो काडून उडयलो. पळे जाल्यार केळ्यांचे घड. काकाक सुकुण्णी केळीं खूब आवडटालीं. काकाक दिसलें, कोनशांतलो सुकुण्णे केळ्यांचो घडाय पोक्याच्या माथ्यार दवरीत जाल्यार आयतो घरा पावतलो.

श्रीपाद शेणयन ते घडाये बाणास्तरच्या वाराक व्हरूंक दवरिल्ले. काकान एकाक मागणी घाली. बोल्सांतलें दुडवांपाकीट भायर काडलें. पाकिटांत फकत बारा आणे आशिल्ले. काकाक ताची पयलींच खबर आशिल्ली. पूण काका तसलीं नाटकां करूंक भोव बरो जाणा आशिल्लो. तरी श्रीपाद शेणयन दुडू नाका, तसोच व्हर म्हूण सांगतकीर काकालें दुडवांपाकीट अचळय बोल्सांत वचून सुशेगाद बसलें.

श्रीपाद शेणयलें घर आनी पणजेचो रस्तो, हाचे मदें दोनेक किलोमेत्रांची दिस्तांस आशिल्ली. काकान पोक्याच्या माथ्यार केळ्यांचो घडाय दिलो. पोक्यालीं वर्सां आनी ताकतीमानान तो घडाय मात्सो जडच आशिल्लो. तरी पोक्यान तोंडांतल्यान उतर भायर काडलेंना. आतांचे भुरगे जाल्यार काकाच्या माथ्यार घडाय दिवन आपूण फुडें आनी काकाक जाय जाल्यार फाटल्यान यो म्हण्टले आशिल्ले. आतां काका फुडे आनी पोको माथ्यार घडाय घेवन फाटल्यान चलतालो. काकाच्यान तोंड धापून चलूंक केन्नाच जायनाशिल्लें. तो तोंडाक येता तें बडबडत आशिल्लो आनी फाटल्यान पोको हूं-हूं करीत चलतालो. मदीं - मदीं तो पुरो जातकीर घडाय जमनीर दवरून उबो रावतालो. काका मात बडबडत चलत रावतालो. पोक्यालो हूं-हूं कानार पडना तें कळटकीर काका फाटल्यान वळून पळेतालो. आपूण बडबडत फुडें पावलों तें पळोवन ताका आपलीच लज दिसताली. मागीर तो थंयच्या देगेवेल्या फातराचेर बसून पोक्याची वाट पळेतालो.

अशें करतां करतां काका पणजे वचपाच्या डांबरी रस्त्यार पावलो. थंय

ताका कामिज्यांवांची वाट पळेत एक वर रावचें पडलें. इतले म्हणसर कामिज्यांव आयलोच. काकान घडायसयत पोक्याक पयलीं कामिज्यांवांत धुकल्लो. आनी आपूण मागीर चडलो. आनी आतां काकाक घडाय नडलो. किलिंडरान घडाय वोडलो आनी कामिज्यांवांच्या वयर तोपार दवरलो. घडाय वोडटा आसतना काकान नाका -नाका करून थंयच दवरपाचो यत्न केलो. वोडावोड करतना घडायाचो एक फेणो तुटलो आनी दांड्याचो दीक काकाच्या कोटाक लागलो. बराबर काकाच्या कोटाचेर केळ्यां दिकार्ची दोन खतां. काकाक बराबर काकी याद जाली आनी तो घामाघूम जालो.

किलिंडर आतां पयसे घेवंक आयलो. काकान धा आणे काडून दिले. 'आनी हे बाबाचे कोण दिता?' किलिंडरान प्रस्न केलो. काकाक किलिंडराचो सणसणो मारलो. पयसे मागता म्हणून न्हय, तर पोक्याक बाबा म्हळो म्हूण! 'ताका वर्सां जावनांत अजून', 'वर्सां जावनांत जाल्यार तेका माणयेर घे!' काकान पोक्याक मांडयेर घेतलो. तशें पळोवंक गेल्यार कामिज्यांव रिकामोच आशिल्लो. काकान पोक्याक सिटार बसयल्यार कायदो मोडटालो. आनी कायद्याचें पालन करपी कंडक्टर म्हन्यांतच बसून आशिल्लो. पोको काका भाटकाराचे मांडयेर बसून पणजे मेरेन गेलो.

काका, पोको आनी घडाय आता काकी म्हऱ्यांत उबे. काकीन सगळ्यांत पयलीं घडायाक हात घालो. मागीर पोक्याची खबर घेतली. इतले म्हणसर काकाल्या कोटावेलीं केळ्यादिका खतां, काकीक दिश्टी पडचीं न्हय म्हणून काकान थंयच्यान पयलींच पळ काडिल्लो.

पोक्याक खूब तान लागिल्ली. वोतान सामको थाकिल्लो तो! ताणें काकीकडे उदक मागलें. काकी उदकान भरिल्लो तांबयो घेवन भायर आयली. पोक्याक पोसो करुंक लायलो. काकीन पोशांत उदक घालतकीर पोको गटागटा करून उदक पियेलो.

पोक्याक आतां कडकडून भूक लागिल्ली. ताका दिशिल्लें काकी आपल्या हातार कित्येंय उडयतली म्हूण. पूण काकी हिशोबी. गरजेभायर तिच्या हातचें उदक सुटनाशिल्लें. तिणें पोक्याक जेवणावोगोत मेरेन जेवणाची वाट पळेत बसूंक लायलो. काकीक दिशिल्लें पोको एका जाग्यार बसून रावतलो म्हूण. पूण पोक्यान वोताकडार, फाटी-फुडें पळेनास्नतना बाप्पा भाटकारागेर धांव मारली. अकस्मात

पोक्याक पळोवन घरभर लोकांक अजाब दिसलें. आईन पोक्याची खबर घेतली. ताका भितर व्हरून जेवण वाडलें.

जेवण जाल्याउपरांत पोक्यान घडिल्ली गजाल आईक सांगली. सांगतां सांगतां तो हुंदक्यांनी रडलो. आनी आपूण काकागेर रावंक आयलां म्हणपाचें ताणें आईक सांगलें.

पोक्यालें स्पश्ट उलोवप आनी पणजे पावनाफुडें आपल्यागेर धावून येवप, हाचेवेल्यान आई आनी बाप्पालीं भुरगीं कितें समजूंक जाय तें समजलीं. पोक्याल्यो भावना लक्षांत घेवन ताणीं पोक्याक आपलेपणान समजायलें, 'पोक्या तूं काकागेर रावलो म्हूण आमकां कांयच वायट दिसचेलें ना. तूं आमचोच मरे, काकागेर रावलो कितें आनी आमगेर रावलो कितें, सारकेंच.' आईन पोक्याक समजायलो खरो, पूण काका-काकील्या कारस्थानाक तो बळी पडला, हें कळूंक तांकां वेळ लागलो ना. आई, बाप्पा आनी तांगेलीं भुरगीं, काका-काकीक बरेभशेन वळखतालीं. दांतय आपले आनी वोंटय आपले म्हणून, पोक्यामुखार ताणीं अदीक भाश्य केलेंना.

हांगा पोको ना तें पळोवन काका-काकीचेर आकांत आयलो. दोगांय जाणां पोक्याच्या नावान आड्डय आड्डय आड्डलीं. दुसरे बिराडांनी वचून खबर घेतली, पोक्याचो पोत्तो ना. नातवाक आतां बाप्पागेर धाडपाचोच आशिल्लो, इतक्यांत पोक्याची सुवारी हांसत हांसत येतना दिसली. काकी भेंडार हात धरून पोक्याक पळेत रावली. 'काके, हांव जेयलों बाप्पागेर. तेणीं फोरसान जेवयलो म्हाका आनी तेणीं म्हाका सांगलां तुमगेरच राव म्होणोन.' काका आनी काकी एकमेकांक पळोवन हांसलीं. काकीन भितर वचून पोक्यालें जेवण धापून सांजेक दवरलें.

काकान पोक्याक काकीसुवादीन करून तो मेकळो जालो. ताका दिसलें आपणें बाजी मारली.

आतां पोक्याक काकीचें खरेलें रुप दिसूंक लागिल्लें. तिचे खावपाचे आनी दाखोवपाचे दांत वेगळे आसात हाची कल्पना ताका पयलेच दिसा आयली. काकी सदां जेवतकीर मात्सी आड पडटाली. आज तिणें पोक्याक गाड्याक लायलो. सगळ्यांत पयलीं माळयेर तण विस्कटून पडिल्लें, तें एकठांय करुंक लायलें. मागीर म्हसीक हाडून बांदतात ती सुवात साफ करुंक लायली.

मागीलदारा सगळो कोयर जाल्लो. ती सुवात नितळ करुंक लायली. मागीर तिणें ताका च्याव दिली. बाप्पागेर आसतना ताका च्यायेवांगडा खावंक मेळटालें. हांगा निकटी च्याव!

च्याव पितासतनाच काकीन थोरुं नाशिल्लो एक कोयतो पोक्या म्हऱ्यांत हाडून दवरलो. मागीर चार-पांच मोठ्या सोण्णाचे नाल्ल हाडून दिले आनी ते सोलून दवरपाची वोर्द दिली. पोक्याच्या मनांत आयलें, काकीक सांगचें आपल्याक नाल्ल सोलूंक कळनांत म्हूण. पूण ताका धाडस जालें ना. ताणें कोयतो घेवन नाल्ल सोलपाचो यत्न केलो. एक नाल्ल सोलपाक ताका अर्दवर लागलें. थोरुं नाशिल्ल्या कोयत्यान नाल्ल सोलपाक ताची शकत उणी पडटाली. तो घामाघूम जालो. ताचे हात रक्ताळले. तरी ताणें आपलें दुःख काकीक सांगलेंना. ताका घाम सुटला तो काकीन पळेलो तरी काकी कांयच उलयली ना. शेकीं थंय भाऊ आयलो. पोक्याची जाल्ली तारांबळ ताच्या लक्षांत आयली. ताणें पोक्याक नाल्ल सोलपाचो बंद केलो. हाचेफुडें पोक्याक नाल्ल सोलूंक लावं नाका. आपूण मनीस हाडून एकदम सोलून घेतां, अशें म्हणून ताणें पोक्याच्या हातांतलो कोयतो काडून घेतलो.

भाऊ एक थंड सोभावाचो मनीस आशिल्लो. घरांत ताचो चडिल्लो आवाज केन्नाच आयकूंक आयलोना. ताची बायलय ताका फाव तशीच मेळिल्ली. ताका ते वेळार तिगां भुरगीं आशिल्लीं. व्हडलो चलो पोक्याच्या वयाचो आशिल्लो. असलो थंड आनी विचारीक भुरगो काकीच्या पोटांत कसो जल्माक आयलो, हें समजूंक कठीणच आशिल्लें. देवाची करणीं, आनी कितें!

आतां आमोरी जाल्ली. पोको काम करून करून थकिल्लो. तो फुडलेदाराच्या हुंबऱ्यार वचून उबो रावलो. आतां ताका बाप्पाल्या वरांड्याचेर आशिल्ल्या काशीची याद जाली. हे काशीचेर बसतकीर ताका कसलोच हुसको नासतालो. कोणाचीच कटकट नासताली. आमोरे उपरांत ताका भरपूर एकांत!

आतां जेवन-खावन न्हिदपाचो वोगोत जाल्लो. फुडले दाराकडे एक रुंदसो सोपो आशिल्लो. सोप्यार वण्टीक तेकून एक भड्ड्याचो साक आशिल्लो. साक उकतो आशिल्ल्यान साकाच्या भायलेवटेन बरड भोंवताले. साक ही तांची राजवट आशिल्ली. केन्नौ केन्नाय ते साकाची हद्द पार करून सोप्याचेर पासयेक येताले. 'पोक्या, तूं हांगा न्हिदता काय भितर न्हिदता रे!' सोपो दाराकडे

आशिल्ल्यान, सोप्याचेर न्हिदप पोक्याक फायद्याचें आशिल्लें. 'हांव हांगाच न्हिदतां काकी!' पोक्यान काकील्या प्रस्नाची जाप दिली. काकीन भितर वचून एक पिसां भायर सरिल्लें गोदडे बोनर आनी तेलकट उशें हाडून सोप्यार उडयलें. पोक्याक ते उशाचो भस्स करून किल्सल्लोसो वास आयलो. 'काके, म्हाका उशाची संवंय ना. व्हर तें उशें!' पोक्यान तड्डक मारलें. आतां ते गोदडेशिवाय पोक्याक गत्यंतर नाशिल्लें. गोदडी ताणें गुटली करून कुशीक दवरली आनी विचार करीत बसलो. इतक्यांत ताका भड्ड्यासाका खाचीक गुटली करून दवरिल्लो एक रिकामो साक दिसलो. पोक्यान तो काडून सोडलो. पळे जाल्यार गोदडेपरस लिंप आसा. पोक्यान तो भायर व्हरून चारपांच वेळां फातरार आपटिलो. साकाचो भुसो वचून सामको लिंप जालो. तो ताणें सिमेंटच्या सोप्याचेर पातळायलो. गोदडेची गुटली कुशीक दवरून साकाचेर आडवो पडलो.

पोको काका-काकीच्या लगाडीक लागून दीसभर काम करून करून थकिल्लो. दार बंद आशिल्ल्यान, भायली हवा भायरच घुटमळटाली. ताका लागून पोक्याक रातचें पांगरुण घेवपाची गरज पडली ना. सिमेंटच्या उबदार घरांत ताका सपाटून न्हीद पडली. बाप्पागेर आसतना ताका सात वरांमेरेन ताणून दिवंक मेळटालें. कोणच येवन पोक्या उठ रे, अशें म्हणिनाशिल्लो. ताका सकाळीं मात्सी जाग आयलीच जाल्यार ताच्या कानार सुकण्यांचो आनी कावळ्यांचो आवाज पडटालो. पोक्याक सुकण्यांचो आवाज आवडटालो. पूण कावळ्यांचो ताका राग येतालो. कारण कावळो कानाकडे येवन कांवकांवतालो.

न्हिदेंत गुल्ल आसतना, आनी न्हिदनशें दिसतना, कावळ्यापरस खर आनी किळसवाणो सूर अकस्मात पोक्याच्या कानार पडलो. तो आपले आवयक जाल्यार म्हण्टलो आशिल्लो, राव गे मात्शीं, उट्ठा! पूण शांतू ताका इतले सकाळीं केन्नाच उठोवचें नाशिल्लें. इतले सकाळीं पोक्याक वर्सांतल्यान एकदांच उठचें पडटालें. तेंय दिवाळे दिसा. आकाशदिव्याच्या हुस्क्यान ताका न्हिदच पडनाशिल्ली. बापायक फुगोट्यो पेटय म्हूण सांगपाक तोच उठयतालो.

काकी सुक्या काळजाची आसली तरी पोको सुस्त न्हिदला तें पळोवन, आपल्या आवाजांत साखर घोळोवन, पुतनेभसेन नाटक करून, हळू हात लावन ती पोक्याक हालोवन उठयताली. पोक्याच्या हातांत गेरेजीची चावी सोंपयताली. पोको मागीर ती चावी घेवन, दोळे चोळीत भाटल्यांत वचून म्हसीक घेवन येतालो.

घेवन येतालो म्हणचेपरस म्हसच पोक्याक घेवन येताली म्हळ्यार जाता. एकदां सोडली म्हण्टकीर हेवटेन-तेवटेन पळेनासतना सामकी घरा येताली. पोको तिच्या फाटल्यान दोळे धांपून चलतालो. पोक्याक काकीपरस ही म्हसच चड आवडटाली. मागीर तर ती पोक्याचेर खुबच माया करूंक लागिल्ली. माया? हय माया! ही माया तिच्या दोळ्यांनी झळकळटाली. काकीच्या आनी म्हसीच्या दोळ्यांतलें अंतर पोक्याक खूब कळटालें.

काकीन पोक्याल्या कामाचें नियोजन बेसबरें करून दवरिल्लें, तसलें नियोजन आज आमच्या केंद्रसरकाराक लेगीत जमना. पोक्याकडच्यान ती सगळीं कामां वेळार आनी कुरुजदादीन करून घेताली.

म्हसीक घराकडेन हाडून पावयतकीर पोको परत भाटल्यांत वतालो. म्हशीच्या शेणाचे गुळे करुन एका पिंजक्या साकाट्यान घालून पयस व्हरतालो. वत मेळटा थंय गुळ्यांच्यो शेणी थापून, गेरेज लिंप करून घरा येतालो.

म्हशीक हाड-व्हर केले उपरांत पोक्याक च्याव मेळटाली. पोक्याक च्याव दिवन काकी गोठ्यांत वचून शेणाचे गुळे तयार करून दवरताली. काकीकडे म्हशीशिवाय एक गाय आनी पाडूक आशिल्लें. तांकां ती सरकाराक लिंपोवन पत्र्यांपोंदा बांदताली. ताका गोठो म्हणचो काय कितें हें वाचप्यांनी थारावंचें.

पोको काकीच्या कचाट्यांतल्यान कसोच सुटनाशिल्लो. पोक्याली च्याव पियोवन जातकीर काकी तुटकी व्हाण पायांक चडोवन पोक्याक घेवन गोठ्यांत वताली. तिणें करून दवरिल्ले शेणागुळे पिंजक्या खोटल्यांत भरून पोक्याल्या माथ्यार दिताली. एक काम मात ती बरें करताली, खोटल्यांतल्यान शेणां उदक पोक्यामाथ्यार पाजरचें न्हय म्हूण शेणागुळे जाता तितले, कुंडो-गोबोर बी लावन सुके दवरताली. शेणी थापूंक वतना ती खाशेलें जोतें चडोवन वताली. खंय वताली ती शेणी थापूंक? दोंगरार बी तशी? छे !

काकील्या घरापासून शेंबर-देडशें मेत्र अंतराचेर बाप्पालें पोन्नें घर आशिल्लें. तें तार्णी कोणाक तरी बामणाकच भाड्याक दिल्लें. घराच्या फुडले दारान भायर सरल्यार पयलें पावल रस्त्यार पडटालें. मागीलदाराक तेकून शंबरेक चोवरस मेत्र जागा आशिल्ली. तातूंत बांय आनी कांय केळीबेणां आशिल्लीं. सभोंवती चिऱ्यांनी बांदिल्लें दुरीग आशिल्लें. हे दुरगाक एक, दुकरांक भितर येवपाक बुराक दवरिल्लो. हे सुवांतेंतच फातरांच्यो कितल्योशोच चुली करून दवरिल्ल्यो.

हे चुलींचेर बसून बिराडकारांचीं बायलां-भुरगीं शी करतालीं आनी काकी, ते हळशिकेंतल्यान पोक्याक व्हरुन, पोक्या माथ्यावेलो एकेक शेणांगुळो काडून दुरगार शेणी थापताली. हे पयलीं पोको असले हळशिकेंत केन्नाच उबो रावूं नाशिल्लो. आतां पोको हळुहळू काकीचेर सामको तिडिल्लो तरी तो सगळें सोंसतालो. काकी पोक्याक कशेतरेन सतायता हाची कल्पना बाप्पाल्या मनशांक आशिल्ली. तरी तीं मोन्यानी पळेतालीं. पूण पोको कोणाकडे कसलीच कागाळ करिनाशिल्लो. आनी कागाळ करून कितें सादचेलें आसा? दुसऱ्यागेर कामाक रावलो म्हण्टकीर सांगता तें काम करुंकच जाय. पोक्याक हळशीकेची वीट येताली. आनी काकी? तिका वीट येना? ती मनीस न्हय ? मनशाक पोट भरूंक जाय जाल्यार कामाकडे विंट्रूंक फावना. पोक्यान हळशीकेचीं लातां माथ्यार धरुन व्हरतात त्यो बायलो पळेल्ल्यो. तांकां घाण येनाशिल्ली? तीं मनशा न्हय? आई भुरग्यांची हळशीक काडिना? हळशीक ती हळशीक ती मागीर कोणाचीय जावं.

पूण पोक्यालो प्रस्न तो नाशिल्लो. काकी पोक्याक मनीस म्हूण वागयनाशिल्ली. आपूण काम करुन घेता तें आवडटलें काय ना हाचो विचार ती केन्नाच करिनाशिल्ली. पोक्याक भावना आसात, ताका आवडी-निवडी आसात हें तिच्या लक्ष्यांत येनाशिल्लें, काय ती पिशें कामुरताली हें कळूंक वाट नाशिल्ली.

एकदीस काकीक कोणे तरी कालापुरा सवाशीण सांगली. यजमानागेर आयदणांची कमी आशिल्ली. काकीन रोकडेंच, आपूण दोन तोप हाडटा म्हूण उतर दिल्लें. कामिज्यांवाचेर उडयल्यार दारांत पावतले, अशें यजमानीन म्हण्टांच, 'ताची काळजी तुका नाका, तें हांव पळोवन घेतां,' अशें काकीन म्हळें.

एक दीस पोक्याकडच्यान सदचें काम करून घेतकीर तिणें पोक्याक वोर्द दिली, 'पोक्या, न्हेसून तयार राव, कालापुरा वचूंक जाय.' कालापुरा वचूंक जाय म्हण्टकीर पोको फुल्लो. कालापुरचें नांव ताणें आयकल्लें. पूण तें खंय आनी कितलें पयस आसा, हें तो नकळो आशिल्लो. कितेंय जावं, न्हेसून राव. म्हण्टकीर खंयतरी गावांभायर वचपाचें आसतलें. गावांभायर जाल्यार असले वोताचेर काकीकडे चलूंक जावचें ना. तेन्ना आतां आपल्याक कामिज्यांवांचेर बसूंक मेळटलें म्हूण पोको खुशालभरीत जालो.

काकी बरें कापड न्हेसून, घट्ट कासाटो मारून भायर सरली. एक ल्हान तोप

व्हडले तोपांत घालून ते पोक्याल्या माथ्यार दिले. आनी जोत्यांचो फटक् फटक् आवाज करून लागली चलूंक. पोक्याक मारलो राग, पूण करतलो कितें ? तो तसोच उबो रावलो. काकीन फाटल्यान वळून पळेलें. पळे जाल्यार पोको तोप माथ्यार घेवन फार्टी-फुडें येता. ताचेकडेन तोप सांबाळनांत. धाकलो तोप व्हडल्या तोपांत गडगडून फाटी-फुडें सरता तसो पोकोय फाटी-फुडें येता. काकीन धाकलो तोप काडून आपले हांतांत घेतलो. आतां व्हडलो तोप धाकटुल्या पोक्यामाथ्यार थीर जालो आनी पोको काकी फाटल्यान चालीक लागलो.

तोप जड आशिल्ल्यान चार खांब्यांकडे पावमेरेन पांय लटपटूं लागले. आंगावेलें खोमीस घामान भिजलें. पोक्यालो ताळो तानेन सुकलो . 'काके, पुरो जालें. मात्सें थामो या.' काकी म्हातारी आसुनय कोंबी कशी दिसताली. तरी वोताकडान तीय मात्सी थकिल्ली. तिणें पोक्या माथ्यावेलो तोप देंवयलो. पोक्यान तोप उमथो घालो आनी ताचेर बसलो. काकी भेंडार हात दवरून तशीच उबी रावली.

इतल्यान पणजेच्च्यान पों पों करीत कामिज्यांव येता तो पोक्याक दिसलो, 'काके, मोटोर येता, हात कर.' पोको मोट्ठ्यान आड्डेलो. 'मोटोर कित्याक जाय, पावतलीं रोकडींच. चल, घे तो तोप.' अशें म्हणून काकीन तोप उकलून पोक्याच्या माथ्यार थेयलो.

मोटर सोडलें म्हूण पोक्याक काकीचो खूब राग आयलो. काकी फटकिरी! रोकडींच पावतलीं खंय! खंय पावतलीं रोकडींच? हांगा दोनयवटयां शेतां दिसतात. फुडें गांव लागीं दिसना. आनी रोकडींच पावतलीं खंय! पोक्याक तोप जमनीर आपटून फोडचो अशें दिसलें. तरी तो काकीफाटल्यान चलूंक लागलो.

पेणीं करीत करीत पोको आनी काकी गांवांत पावलीं. काकी अकस्मात एका घरांत भितर सरली. कोणाक धाडून तोप भितर व्हेलो. आतां बारा वाजून गेल्लीं. हे फुडें रांदपाचो बेत आसा हें पोक्याक कळून चुकिल्लें. ताका दिसिल्लें, आपूण काकीवांगडा आयलां म्हणटकीर कोणय भायर येतलो आनी आपली खबर घेतलो. आपल्याक शेव-चिवडो आनी च्याव मेळटली. बामणांगेर तशेंच करतात अशें ताच्या बापायन ताका सांगिल्लें.

पूण हांगा वेगळेंच घडलें. पोक्याक च्याव न्हय, एक उदकाचो घोट कोणे घे म्हूण दिलोना. काकी एकदां भितर गेल्ली, तिणें भायर परतें तोंड दाखयलेंना.

पोक्याक आतां कडकडून भूक लागिल्ली. सकाळीं दोन रोटयो आनी चिक्रभर च्याव पिल्लो. बाप्पागेर धा वरांचेर पेज मेळटाली. काकीगेर पेज जेवपाची रीत नाशिल्ली. केन्ना केन्नाय काकीली सून काकीच्या दोळ्यांआड पोक्याच्या हातार कितेंय उडयताली. दुसरे बिराडार्ची भाटकारांय ताच्या हातार कितेंय उडयतालीं. ताका लागून पोटाक थाकाय मेळटाली. पूण आज तो सकाळचे च्यायेर आशिल्लो. तो थंय आशिल्ल्या सोप्याचेर बस बस बसलो. मागीर ताका झेम येवंक लागली. तो सोप्याचेर आड पडलो आनी ताका थंयच न्हीद लागली.

चारांक सुमार पोको जागो जालो. पळे जाल्यार एकटो एकटोच ढेकर दीत भायर सरता. पोको उठलो तो पळोवन चोवकेर एक पत्रावळ मांडली.

पोक्याक जेवन बरोच वेळ बसचो पडलो. काकीन वावराडेकडच्यान आपले दोनय तोप चकचकीत करून घेतिल्ले. आतां सांजवेळ आशिल्ल्या कारणान आनी पोट भरिल्लें आशिल्ल्यान पोक्याक तोपाचें व्हडलेशें कांयच दिसलेंना.

पोक्यान काकीचें खूब सोसलें. पूण एका परसंगाक लागून मात काकी पोक्याची सामकी दुसमान जाली. काकाल्या व्हडल्या भावाल्या एका चल्याचेर वर्सान वर्स भार येतालो. तो भार पळोवपाक चारय बिराडांतलीं बायलां भुरगीं रातीकडे एकठांय जातालीं. भुरग्यांक बसूंक एक लांबच्या लांब हातरपटो घातिल्लो. हातरपट्यार खूब भुरगीं बशिल्लीं आशिल्लीं. एका भुरग्यान पोक्याक हात हालोवन आफोवन व्हरुन हातरपट्याचेर सुवात दिली.

काकीली सून पोक्याक आपल्याल्या चल्याले पोन्ने कपडे घालूंक दिताली. पोकोय आपले कपडे आतरेपयऱ्यान उमळून लिंप दवरतालो. ताका लागून भाटकारांल्या भुरग्यामदें मिसळल्यार तो वेगळो असो दिसनाशिल्लो.

भार बेतकाठी घेवन धांवत येवपाचोच आशिल्लो. सगळीं भुरगीं उत्सुकतायेन बशिल्लीं. बायलो जनेला फाटल्यांन गर्दी करून आशिल्ल्यो. इतक्यान काकीची नदर पोक्याचेर पडली. तिणें काकाक आफोवन हाडलो आनी पोक्याक हातरेवेलो भायर काडूंक सांगलें. काका यमदूत कसो सडसडीत गेलो आनी पोक्याच्या हाताक धरून ताका फरफरीत वोडून व्हेलो. तें पळोवन हातरावेलीं सगळीं भुरगीं मोठ्यान हासलीं. मागीर काकीन ताका हाताक धरून जनेलाकडे उबो केलो. पूण पोको थंय रावलोना. धांवून वचून हातरुण घालून न्हिदलो, आनी केदो वेळ हुंदक्यानी रडलो.

काकान पोक्याक वोडून हाडलो तो पळोवन काकीले सुनेक खूब वायट दिसलें. आसू आशिल्लो तो थंय, भुरगो तो. कितें जातालें भुरग्यांमदें बसल्यार. अशें सुनेन म्हण्टकीर काकी तिचेर ताणशेली. म्हणूंक लागली, 'आतां ल्हान आसा, फुडें व्हड जातलो. पायांचें जोतें पायांकच आसूंक जाय. तें माथ्यार घेवन नाचूंक फावना.' अशें म्हणून तिणें हेर बायलांचेर नदर मारली. एक-दोन बायलो सोडून बाकीच्यांनी तिका मान हालोवन तेंको दिलो.

हांगा पोको चुकिल्लो. चाकरांनी धनयांची सर करुंक जायनां हेंय खरें. दत्तूकडच्यान असली चूक केन्नाच घडचेली नाशिल्ली. पूण पोको ल्हान आशिल्लो. शिवाय तो मदांध नासून गुणी आशिल्लो. धनयांकडेन ल्हानपणान वागतालो. धनयामुखार तो सदांच उबो रावतालो. बाप्पागेर आसतना तो काशीरच बसतालो. हांगा काकीगेर तो सोप्यार भड्ड्यासाकाक तेकून उठबस करतालो. अशें आसतना पोक्याक हाताक धरून, भर सभेंतल्यान भरभरीत वोडून हाडपाची गरज नाशिल्ली. जाय जाल्यार ताका सवकासायेन समजावंक जातालो.

आतां पोक्याक काकीचो खूब राग आयिल्लो. ताच्या मनांत विचार आयले, काकीच्या कापडांत कोणेय फुगेट्यो पेटोवन उडयल्यार पोको खोशेन नाचतलो आशिल्लो. काकाले शेणयेक कोणेय नाल्लाबोणो लांबोवंक जाय. येतलो केन्नाय आमगेर दत्तू, दत्तू करीत. सुकड्याक सांगोन तेका बुद्द शिकयना जाल्यार हावंच न्हू अशें म्हणून ताणें सोताचें समादान करून घेतलें आनी तो न्हिंदे सुवादीन जालो.

काकी असलीं सुवार्ती, कुचिद्रीं आनी पाडीं मनशां समाजांत खंय ना खंय सापडटाच. असल्याच मनशांक लागून तांच्या घराण्याक आनी जातीक कलंक लागता. काका-काकीलो पूत आनी सून कितलीं बरीं. मनशाळीं आनी थंड सोबावाचीं. गिन्यांनी आनी बऱ्या उतरांचीं. तांचें उलोवप पोक्याक आयकन आयकन शें दिसतालें. दुसऱ्याक वायट दिसपाचीं उतरां तांच्या तोंडांतल्यान सोपेपणान भायर पडनाशिल्लीं. काकी मात आपल्या नातरांक पावला पावलार पाडी बुद्द दिवन तांकां आपल्या वळणार हाडपाचो यत्न करताली.

तशें पळोवंक गेल्यार हे चारय भाटकारांल्या घरांतलीं नव्वद टक्के मनशां बरीं आशिल्लीं. पूण पडभर धवे फुल्ल तांदळांनी चार-पांच काळे फातर सापडचे तशी काकी असल्या मनशांमजगतीं आशिल्ली. साकभर कांद्यानी एक-दोन

कांदे कुसचे आनी सगळ्या कांद्याची वाट लागची, तशी काका-काकी असल्या पाड्या मनशांच्या गुणांनी तांच्या सबंद जातीची वाट लागल्या. असलींच मनशां आपल्या जातीच्या नाकाक चुनो लांवन आख्खी जात बदनाम करून सोडटा. आज भोवजन समाज बामणांक दोळे फोडटा, तांच्या नावान फातर फोडटा तो काका-काकी असल्या पाड्या मनशांच्या काळ्या करतुबाक लागून!

तशें पळोंवंक गेल्यार दुश्ट आनी पाडीं मनशां फकत बामणांतच आसात? हेर समाजांत नांत ? नांत कित्याक, खूब आसात! पूण बामण समाजान जातीचें शस्त्र फुडें करून भोवजन समाजाचेर हुकूमत गाजयल्या, ताचो वोचपो भोवजनसमाज आयज काडूंक पळेता. पूण हें आतां बंद जावंक जाय. हें बंद करपाचें काम बामण समाजांतल्या नव्या पिड्यांक करचें पडटलें. आनी तांच्या कामाक भोवजन समाजाक हातभार लावचो पडटलो. एका हातान केन्नाच ताळी वाजना. हे फुडें आमकां एक नवो हिन्दू समाज घडोवपाचो आसा. सोताच्या आनी राष्ट्राच्या बऱ्याखातीर! भोवजन समाजांतल्या सगळ्या पोक्यांक धडसाण हाडपाचें काम नेटान जावपाची आयज गरज आसा. ते खातीर सूर्यदेवाक आतां नवें उदेवप करचें पडटलें. नवें तेज सोडचें पडटलें आनी वोगतार पेटचेंय पडटलें, पोन्ने, कुसकें तें लासूंक!

ते धायेक वर्सांच्या भुरग्याच्या काळजाचेर काकान आघात केल्लो. काका ताका भर सभेंतल्यान हाताक धरून वोडून व्हरता तें पळोवन बामणालीं ती सगळीं पोराटीं हाशिल्लीं. सगळीं बायलां मूग गिळून बशिल्लीं. काकीक जाप विचारपाचें धाडस कोणेच केलेंना. काकालें करतूब मानवलें म्हूण न्हय, तर फकत शिस्त राखपाखातीर. हे शिस्तीत तांगेलें हीत आसा म्हूण. हें अशें तेन्नाय घडटालें आनी आतांय घडटा. आनी फुडें?

एक दीस पोको म्हसीक पावोवन येतासतना ताचेकडल्यान गॅरेजीची चावी खंय तरी सांडली. घे! पोक्याचेर आयलो आकांत. ताणें चावी सोद सोद सोदली. मळें तें भाटलें ताणें दोन खेपो मारल्यो. काकीन ताका सांगिल्लें, चावी शेणयशी बी आं म्हणून. आमचेकडे आनी दुसरी चावी ना. हे उतराची पोक्याक आतां याद जाली. तो भियेलो. ताका आतां वालो न्हेसिल्लो, तकलेर शेंडी आशिल्लो. हड्ड्यार आनी भुजांचेर केंस दाटिल्लो काळो काळो काका दिसूंक लागलो. पोको आतां एका दुरगाक पांय तें कोवन उबो आशिल्लो. ताका घरा वचपाचें

धाडस जायनाशिल्लें. ताका दिसलें, घरा वच्चें आनी पयलीं च्याव रोटी खावन घेवची आनी मागीर फुडलो बेत करचो.

इतक्यांत दुरगाभितर आशिल्ली आंकवार बायल फुडें आयली. पोक्याली चावी शेणल्या हें ती जाणा आशिल्ली. 'पोक्या, चावी शेणली मरे, राव. तुका काका रावता दांडो घेवन.' जालें. पोको सामको गर्भगळीत जालो. काकाचें नांव घेनाफुडें ताका दरदरीत घाम सुटलो. ताणें थारायलें, आतां काका-काकीक कशेंच तोंड दाखोवचेलें ना. आतां कितें करतलो ? सकाळचीं णव जाल्यांत जातलीं. आतां घराच पळ काडल्यार बरी, अशें ताणें चिंतलें. पोक्यान घरा वचपाचें थारायलें खरें, पूण वतलो कसो ? मोटोराक धा आणे खंयचे हाडटलो ? कोण दितलो ताका पयसे? बाप्पालीं मनशां बरीं. तीं मागत जाल्यार दीत काय? तोंड फाफडून पळेल्यार बरें? नाका रे बाबा! काकाक कळत जाल्यार? बैलाभसेन आबूज जातलो. आनी दोन गुन्यावांचीं फळां भोगचीं पडटलीं.

प्रासावेल्यान कामिज्यांव सुट्टकीर, काम्राकडच्या साकवावेल्यान फोण्यां वतात, हें पोको जाणा आशिल्लो. वाटेर रायबंदर, सायबा गोंय, बाणस्तारी, भोम बी लागता ही ताका खबर आशिल्ली. ताणें आनी वोगोत केलोना. जाता तें जाता, पावता थंय पावता म्हणून लागलो चलूंक. तेन्ना आतांभसेन गाडयो धावनाशिल्ल्यो. पंदरा-वीस मिनटांनी रस्त्यावेल्यान एक गाडी आयल्यार बरी आशिल्ली. बैलां गाडयो मात मार्गावेल्यान चलताल्यो. मदें-मदें मिलितारीच्यो गाडयो कासवां चालीन चलताल्यो.

पोको आतां सांकोव काडून पणजे पाट्यार पावलो. चलत चलत बरोच फुडें वतकीर ताका बेती गांव दिसलो. बेतींतले लोकांक घेवन पनेळ पणजे येताले. आनी पणजेसावन बेतींत. दर्यांत शिडां फुलोवन कितलींशींच व्हडीं चलतालीं. मदीं मदीं एकेक बार्ज गरगर आवाज करीत आनी दोनयवटयां फेंसाळ उदक फांकारीत चलतालीं. दर्यांत मदीं मदीं खारव्यांनी जाळां लावन दवरिल्लीं. दरयापयल्यांन पांचवीं पांचवीं झाडां उबीं रावन पोक्याक पळेतालीं, आनी पोको ते झाडांक!

चलतां-चलतां पोको आतां रायबंदरा पाविल्लो. ताका आतां भूक आनी तान वांगडाच सतायताली. येवंक भायर सरतासतना, कोण्णाक कळनासतना बाप्पागेर गेल्लो जाल्यार घडये ताका तीं च्याव बी दीत आशिल्लीं. घडये

कित्याक, दितर्लीच आशिल्लीं. चायेवोगतार गेल्यार, 'पोक्या, इल्ली च्याव घेता मरे ?' अशें विचारल्याबगर रावनाशिल्ली ती आई! पूण आतां विचार करुन कांयच फायदो नाशिल्लो.

इतल्यांत पोक्यान कामिज्यांवांचो आवाज आयकलो. जेन्ना जेन्ना कामिज्यांव येतालो, तेन्ना तेन्ना पोको खंय तरी आडसाक वचून लिंपतालो. कामिज्यांवांतल्यान काका येत जाल्यार? आतां बसस्टॉप आसतात तसे तेन्ना कामिज्यांव पार नासताले. कामिज्यांव थांब म्हण्टा थंय थांबताले. काकान कामिज्यांव थारायलो जाल्यार परतो तो तातूंत चडचो ना. म्हसीक आमुडटा तसो पोक्याक आमडीत व्हरतोलो. कामिज्यांव लागीं पावता पावता म्हळ्यार पोक्यान एका घरा आडसाक धांव मारली. थंय एक बायल बांयचें उदक काडटाली. पोको थंय वचून उबो रावलो. थोडे वेळान कांयच उलयनासतना हाताची ओंजळी करुन ती बायलेसामकार धरली. बायलेन ते ओंजळेंत उदक वोतलें. पोक्यान पोटभर उदक गटागटा पिवन घेतलें. थोडें चपचपीत दोळ्यांचेर मारलें. हात केसांचेर भोवंडायलो. हांसतें तोंड करुन बायलेचेर नदर मारली आनी लागलो चलूंक.

उदक पियेले उपरांत पोक्याक बरेंच ताजेपण आयिल्लें. हे पयलीं, घरा आसतना खूब वेळां उपास घडिल्ले. तांचो उपेग आतां जाल्लो. उपाशीपोटार तो चलूंक शकतालो.

पोको चलतां चलतां गोंयां पावलो. इगर्जेच्या आयल्यान ताका खूब खाप्री दिसले. कोण रांदताले, कोण न्हाताले तर कोण कसलो तरी खेळ खेळटाले. हे आदीं पोक्यान खाप्र्यांक सायकलीर आनी गाडयांनी भोंवतात ते पळयल्ले. आतां तांचें खरेलें जिवीत कशें आसता हें प्रत्यक्ष पळोवंक मेळिल्लें. तो केदो वेळ तांकां पळेत रावलो. इल्लोसो भुरगो धिटायेन उबो रावन आपणांक पळेता, हें पळोवन थंयचो एकलो खाप्री पोक्या म्हऱ्यांत आयलो. खाप्री पोक्याक कितें तरी विचारतालो आनी पोक्याक तें समजनाशिल्लें. खाप्री प्रस्नार प्रस्न करतालो आनी पोको भेंडार हात दवरून, ताका पुरके पुरके म्हूण जाप दितालो. हें पुरके पोक्यान एका पाकल्याच्या तोंडांतल्यान आयकल्लें. शेकीं खाप्रीच आपल्या तोंडांतल्यान परत परत पुरके पुरके करून मोठमोठ्यान हासूंक लागलो, आनी पोक्यानय आपली तान-भूक विसरून ते हाशांत आपलो हांसो मिसळ्ळो.

पोको आतां चलूंक लागिल्लो. इतक्यांत दुसरे एका खाप्र्यान पोक्याक हात हालोवन आफयलो. पोको थंय गेलो. पयलोय खाप्री थंयच आशिल्लो. ताणें एका हातांत एक केळें आनी दुसरे हातांत पाव धरुन पोक्याक दाखोवन कॅर-कॅर केलें. पोको समजलो. ताणें हयकारी अर्थान तकली हालयली. पोक्यान केळें आनी पाव खावंक कोमेस केलें, पोको केळें-पाव खायत खायत चालीक लागलो. आतां ताच्या पोटाक थाकाय आयिल्ली. चलूंक नेटय आयिल्लो.

पोको चलत चलत आतां बाणास्तारच्या पुलाकडे पावलो. ताचे पांय दुखूंक लागिल्ले. दोनय जांगांक वळ आयिल्ले. चलूंक आडखळ जाताली. तरी बाणास्तारी पाविल्ल्यान ताका आपूण घराच पावलो अशें दिसलें. हे आदीं तो खुबदां बापायवांगडा शुक्राराचो बाजाराक आयिल्लो. आपलें घर आतां लार्गी पावलां, तरी दिसा उजवाडांत तो घरा पावतलो अशी आशा ताका नाशिल्ली. ताका दोन कारणां. एक सूर्य आतां चड गतीन धावूंक लागिल्लो आनी काळोक लार्गी लार्गी येतालो. दुसरें ताका आतां भोमा आनी कुंडय हे दोन गांव काडटकीर ताच्या गावांक वचूंक घाटी चडची पडटाली, शिवाय तो ताच्या पायांक फाव ती गती दिवंक शकनाशिल्लो.

बाणस्तर काड्टकीर भोम हो गांव लागता. थंय पोक्यालें आजोळ. पोक्यान कशेंय करुन आमोरी मेरेन आपलें आजोळ गाटलें.

आज्जेन आपलो नातू पांगो कसो मारगावेल्यान देंवता तो पळेलो. तिणें मावशेक फुडें धाडून पोक्याक धरुन व्हेलो. पोक्यान घडिल्ली गजाल आज्जेक आनी मावशेक सांगली. पोको पणजेसावन चलत आयलो ही गजाल आयकुनच तिणे जें तोंड 'आं' केल्लें, तें केदोवेळ बंद करुंक विसरली. मावशेन काकाक तिच्यान जाता तितल्यो गाळी घाल्यो आनी आपलो राग देंवयलो.

पोक्याक आतां आपलीं मनशां मेळिल्लीं. ताची काळजी मिटिल्ली. ताचें मन ल्होव जाल्लें. आज्जेन उदक तापत दवरलें. मावशेन नाचण्याचें पीठ कालोवन तातूंत चार शितागोटे मिसळोवन, चोळक्यार तें पीठ थापून, ताची पातोळी केली आनी चुलींत मुंगरली. आज्जेन गरम गरम उदकान पोक्याचे पांय शेकले. पातोळी खावन पोको जो हातरपट्यार पडलो तो बद्द रातीच्या णवांच्या सुमाराक जेवंक उठलो. पांयांची दूक उणी जाल्याबगर आतां घरांतलो भायर पडूं नाका, अशें आज्जेन सांगून दवरलें. पूण पोक्याक दुसरे दिसा घरा कसोय करुन पावूंकच जाय

आशिल्लो. दुसरे दिसा सकाळीं काका पोक्याल्या घरा पावतलोच. मागीर पोको ना जाला तें पळोवन आई-पापाचेर आकांत येतलो. ही गजाल मावशेक पटली. पूण सकाळीं पोक्याचे पायें जड जाल्ले आसतले. ताचेकडे चलपाक जावचेंना. मागीर तो घरा पावतलो कसो, हो व्हडलो प्रस्न आशिल्लो.

उलयतां उलयतां मावशेक एक याद जाली. शेजारची एक बैलगाडी, फांतोडेर पोक्याल्या गांवांत वचपाची आशिल्ली. मावशेन आनी वोगोत केलोना. चूड पेटोवन ती गाडयेकारागेर गेली. आपूण पोक्याक घेवन येतां, आपूण आयल्याबगर वचूं नाका, अशें तिणें गाडयेकाराक सांगून दवरलें. दुसरे दिसा पोको सकाळीं उठलो खरो, पूण ताच्यान दोन धेपां फुडें वचूंक जालेंना. आतां कितें करतलो? मावशी पोक्याक थंयच सोडून गाडयेवांगडा पोक्याल्या गांवांत गेली. तिणें आपले भयणीक पोक्याली काणी सांगली आनी पोको आपल्या आजोळा मजेंत आसून खंत करपाची गरज ना म्हणपाचें सांगलें.

धा जालीं तरी पोको च्याव पिवंक येवना, तें पळोवन पणजे पोक्याची सोदासोद सुरु जाली. पयलीं काकान भाटल्यांत धांव घेतली. पोको थंय ना तो पळोवन धांवत धांवत घरा आयलो. एका भुरग्याक बाप्पागेर धाडून खबर घेतली. पोको थंयीं ना तो पळोवन काकान आनी ताच्या नातवान सगळें मळें पालतें घालें. तरी पोक्याचो पोत्तो लागलोना. कोणें सांगलें पुलीसांक खबर दी म्हूण. पूण काका तो ! पुलीसांची कटकट नाका म्हूण ताणें कानार हात धरले.

काकाची धांवपळ पळोवन पोक्याक भंय घाल्ली ती आंकवार बायल काकागेर आयली. तिणें पोक्यान गेरेजीची चावी साणयली म्हणपाचें सांगलें. आपणें पोक्याक कितें सांगिल्लें तेंय सांगलें. हें आयकून काकाचें काळीज थाऱ्यार पडलें, काकाच्या भयान पोको खंयी तरी लिपून बसलासतलो, अशें काकीन ताडलें. येतलो सांजमेरेन म्हूण सगळीं आपापल्या कामाक लागलीं. आमोरीमेरेन पोको घरा आयलोना तेन्ना मात काका-काकीचीं काळजां वयर-सकल जावंक लागलीं. ताणीं पोक्याक भंय घाल्ल्या ते आंकवार बायलेचो उद्दार केलो.

दुसरे दिसा सकाळीं णवांच्या सुमाराक काका दत्तूगेर पावलो. पोको घराकडे ना तो पळोवन ताका शेळो घाम सुटलो. शांतू फुडें आयलें आनी ताणें काकाक सांगलें, की पोको खंयी आसलो जाल्यार सुखान आसतलो. हे फुडें तो तुमगेर येतलो अशी आशा मात धरु नाका. 'तुमी जाणांत मगो तो खंय आसा तो, पुरो!

सोडली आमी ताची आस. दत्तू आतां दोन आडसरां काडटा मरे?' अशें म्हणून काका आनी दत्तू दोगूय कुळागारांत शिरले. शांतू पोक्या खबरीक आवयगेर वचूंक भायर सरलें.

**पो**क्याली आतां पणजी सुटिल्ली. पणजेच्या राबित्यांत ताणें जायतो अणभव घेतलो. घराबो एक पूण तांतुतलीं मनशां मात विचित्र. थोडीं वायट, थोडीं बरीं. थोडीं मनशाळीं, थोडीं आबूज, थोडीं निर्मळ मनाचीं, थोडीं घाणयारीं. हे सगळ्या मनशांचो थोडो भोव प्रभाव पोक्याचेर पडिल्लो. पोको पणजे वचूं नाशिल्लो जाल्यार हे मनशांचे सोभाव पोक्याक कळचे नाशिल्ले. असले बाबतींत तो काळकांतच उरतलो आशिल्लो.

पोको आतां गांवांत वावुरतालो. दोन वर्सां ताणें पणजे काडिल्लीं. गांवचे लोकय ताका वेगळेच नदरेन पळेताले. हे तेंपार जशे फोरेन रिटर्न आसतात, तसो पोको ते तेपार पणजे रिटर्न आशिल्लो. ताका लागून पोक्या हातान ल्हानशी चूक लेगीत घडल्यार शांतू रोकडेंच म्हण्टालें, 'भायर भोवोन येयलेलो भुरगो मरे तूं पापया, आनी अशें करता?' पोक्याक हें आयकून बरें दिसतालें. आपूण पणजेसारकिल्ल्या शारांत रावन आयलां, चार अक्षरां शिकलांय बी. आपूण घरांतल्या हेर मनशांहून शाणो. दत्तूले घराब्यांत आतां पोक्याल्या उतरांक मान आशिल्लो. ताका लागून सुकडो आतां पोक्याचेर चडूच जळूंक लागिल्लो. ताका दिसतालें, आई आनी पापा, चड करून आई पोक्याकच फुडें फुडें करता. ताकाच कितेंय विचारता, ताकाच व्हडलो म्हण्टा. सुकड्या-पोक्यालीं झगडीं आतां दिसपट्टीं वाडतच आशिल्लीं. तीं मिटयतां मिटयतां शांतू खरशेतालें. शांतू मागीर पोक्याक म्हण्टालें, 'पोक्या, तूं व्हडलो भाव म्हण्टकीर तुयें मात्सें मारतें घेवंक जायें.' हें आयकून सुकड्याक बरें दिसतालें आनी पोक्याचो राग वाडटालो.

पोक्याक दिसतालें, आईन तशें म्हणचें न्हय, सुक्रडो शेफारता. ती सुकडयाक कित्याक तापयना? ती सुकड्याक अशें कित्याक म्हणना, कि सुकड्या, पोको तुजो व्हडलो भाव, तुवें ताका मान दिवंक जाय. ताचेकडे रेस्पेदान उलोवंक

जाय. व्हडले भावान सदांच धाकट्यांचें सोसचें? ही खंयची रीत? वडिलांकडेन जेन्ना ल्हानांचीं झगडीं - केस्तावां सोडोवंक जायना. तेन्ना अशेंच घडटा.

आयज भारत-पाकिस्तानाचेंय तशेंच घडटा. भारताक पाकिस्तानाचो व्हडलो भाव मानून, सगळो संवसार भारताचेर अन्याय करता. हाका लागून हें व्हडपण नाकाच अशें दिसता. संत तुकारामाचें वचन मनाक पट्टा, तो म्हण्टा, 'लहानपण दे गा देवा मुंगी साखरेचा रवा.' व्हडपण हें सगल्यांकच पेलना. शांतू पोक्याक व्हडपणाच्या दबावाखाला दवरतालें. पूण व्हडपणाचे कसलेच फायदे मात ताका फाव करून दिनाशिल्लें.

ते तेंपार आवय-बापायक भुरगीं देमायज जातालीं. ताका लागून आवय-बापायक आपली तकली वयर काडपाक, उसंत मेळनाशिल्ली. हाका लागून घरांत शांतकाय राखपाक सगळ्यांकच जड वतालें. शांतूलो भुरग्यांचो आंकडो आतां वाडत वाडत संचेर पाविल्लो. हे स भुरग्यांचीं पोटां भरतां भरतां शांतूक नाका शेवट जातालो. घरांत हाडटा तें केन्ना काबार जाता हें कोणाक कळच नाशिल्लें. सुकड्याक तर खावंक खूबच जाय आशिल्लें. तो आंगलटीन पोक्यापरस बरो आशिल्लो. पोटाक उणे पडल्यार ताची रोकडीच रड सुरु जाताली. हाका लागून शांतूय ताचेर नाइलाजान धपाटे घालतालें. हाका लागून सुकड्याचो समज जाल्लो की शांतू आपल्याक बरें करिना, पोक्याचेर ताची चड माया आसा.

सुकड्याक पोटाक पडल्यार तो कामांक खापो आशिल्लो. झाडां-पेडांचेर चडूंक तर तो ल्हान आसुनय ताचो हात धरपी कोण नाशिल्लो. सुकड्याली हुशारकाय पळोवन ताका कोणे तरी आपल्यागेर गोरवां राखपाक येवपाची मागणी घाली. घरची उपासमार लक्षांत घेवन शांतून ताका एक दीस गोरवां राखपाच्या कामांक धाडून दिलो.

सुकडो आतां पयलेच फावट घरांतल्यान भायर सरिल्लो. वतासतना ताणें पोक्याक पळोवन तोंड येदेंशें केलें. ताची ती गत पळोवन पोक्याकय खूब वायट दिशिल्लें. सुकडो पोक्याकडे झगडटालो खरो, पूण दोगय ते भाव आशिल्ले. सुकडो वतकीर पोक्याक इतलें दु:ख जालें कि, आठ दीस मेरेन ताचें मन कित्याचेरच लागना जालें. जेवणखाण तर ताका गोडच लागनाशिल्लें. खिणाखिणांत ताका सुकड्याची याद जावन तो पिसो कसो भोंवतालो. कितलेशेच दीस ताचें मन थाऱ्यार नाशिल्लें. सुकड्याचे यादीन तें तळमळटालें !

शांतून पोक्याक समजायलो. ‘आतां तुमी एकटांय कशें उरतले ? तुमी व्हडले जाल्यात. हो वेळ तुमचो फुडार पळोंवचेलो न्हय. तो हांसपा खेळपाचो. पूण तुमच्या आवय-बापायकडे तुमकां दिसपट्टो भाकरे कुडको दिवंक जायना. तुमचे उपासमार पळोवंक जायनांत देकून मन घट्ट करून पोटाखातीर तुमकां दुसऱ्यांगेर दवरचें पडटा. असले परिस्थितींत कितले दीस म्हणून तुमी आवय - बापायचे सावळेंत रावतले? पिलांक पाकां फुट्टकीर सुकण्यांक सोडून घोटरांतल्यान भायर उडून वचचें पडटा. तूं आतां तुजें मन घट्ट कर, हावें केलां तशें. तूं पणजे गेलो तेन्ना सुकड्याचीय गत तुजेसारकीच जाल्ली. तुमकां तुमच्या फाटल्या भावंडांखातीर हो त्याग करचो पडटा. भूक मनशांक चोरूंक शिकयता. तुमी चोर जावंचे न्हय, भायर वचून तुमी बरी देख घेवंची म्हूण काळजार फातर दवरुन हीं पावलां उकलचीं पडटात. तुमचे हे खेळचे-नाच्चेले दीस, पूण कितें करुया ? देवान तुमकां गरिबांच्या पोटांत जल्म दिला न्हय? काम करीत रावात. कसलेंय कामाक लज ना.’ शांतून आपलें मन उकतें केलें. मागीर ताणें थोडो वेळ बुळूबुळू करून दुखां गळयलीं. जुनरासेवान दोळे पुसले. मायेन पोक्याच्या केसांचेर हात भोवंडायलो, आनी फुडल्या कामाक लागलें.

शांतून केल्लो उपदेश पोक्याक पटलो. मनशान कसलेंय काम करचें पूण चोर जांवचो न्हय. हीं उतरां पोक्याच्या मनांत रिगलीं. ताका दिसलें, सुकड्याभसेन आपुणय कोणागेर गोरवां राखूंक रावलों जाल्यार ?

पोक्याक गोरवां खूब आवडटालीं. पणजे काकीले म्हशीन ताका खूब माया लायिल्ली. मळ्यांतल्या सगळ्या गोरवांक शंकर दोंगरार कसो घेवन वतालो, तें पोक्यान पळेल्लें. घराकडच्यान बाटोळ्यांत वता आसतना वाटेर गोविंद शेणयली चेंपू म्हस मेळटाली. पोक्याक पळोवन ती वेंक-वेंक करुन पोक्याक खंय वता काय म्हूण विचारताली. शिरवाण म्हयन्यांत घराफाटल्या वोट्टांत फटी राखणो गायांक चरयता आसतना, कृष्णाभसेन एका पांयार उबो रावन पिल्लूक वाजयतालो. तें पळोवन पोक्याकय आपूण राखणो जावन गोरवांफाटल्यान भोंवचो अशें दिसतालें. गोवळण काल्याक कृष्ण एदो व्हडलो देव जावनय गोवळ्यांल्या पोरांचो इश्ट जावंन तांच्यावांगडा भोंवतालो. तेन्ना राखणो जावप हें उणाकपणाचें जावं नज, अशें पोक्यालें मत पडलें.

एक दीस पोक्यागेर ताची मावशी आयिल्ली. ही मावशी लग्न जावंचे पयलीं

पोक्याक बरें करताली. पोक्याकय हेच मावशेची व्हडवीक आशिल्ली. हेर मावशांपरस ही मावशी मात्सी खावन-जेवन बरी आशिल्ली. तिगेर शेतां आशिल्लीं. जोताचे दोन रेडे आशिल्ले. तांकां पळोवपाक एका भुरग्याची तांकां गरज आशिल्ली.

उलयतां उलयतां मावशेन मर्दीच पोक्याचेर नदर मारली आनी तिणें शांतूक प्रस्न केलो, 'आकू, पोको घराच आसा मुगो आतां?' 'आसा तर, आनी खंय वयतोलो?' 'आमगेर धाड गो तेका, आमगेर दोन रेडे आसात. दीसभर दायांर बांदूनच उरतात. पोको तेंचे पायें सयल करून हाडटलो.' 'नाका गो बाये, सोयऱ्यांगेर बरें न्हू.' 'हांव आसा न्हूं गो, म्हाजेर पात्ययेवन धाड तेका. खावन-जेवन सुसेगादान उरतलो.' 'तो येता जाल्यार व्हर, हांव कितें सांगतलें!' 'येता मरे पोक्या?' पोको हांसून वोगी रावलो.

पोको मावशेगेर एकदां-दोनदां गेल्लो. मावशेले मांयन ताका बाबा-पुता करून बरो केल्लो. पूण पोक्यालें वचप तें आवयवांगडा जाल्लें. सांजे वचून दुसरे दिसा सकाळीं परत आयिल्लीं. ताका लागून तांच्या सोबावाची खरेली पारक पोक्याक नाशिल्ली.

मावशी पोक्याक घेवन आमोरेचेर तांच्या घरा पावली. ते तेंपार एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वचूंक गाडयांची कसलीच सोय नाशिल्ली. आनी कितलेय पयस सावन कोणय आयल्यार गरीब लोकांगेर च्याव बी दिवपाची पद्धत नाशिल्ली. सकाळची पेज जेवन वच, दनपरां जेवणाक राव. सांजे राव असली भास चलताली तेन्ना.

पोको दिवे लावणेर घरांत पाविल्ल्यान काळखांत थंय आशिल्ल्या सोप्याचेर वचून बसलो. पोक्यालो घराबो कुळागारी लोकांचो आनी मावशी शेतकार. पोक्याल्या घराची चोवकी चारयवटयां उकती आशिल्ल्यान सगळेकडे उजवाडच उजवाड आसतालो. चान्ने पडटकीर चोवकेर बसूनच रावचें अशें दिसतालें. मावशेलें घर चारयवटयां व्होडिल्लें, ताका लागून घरांत काळखाचें राज्य चलतालें. घरांत भितर सरतना बागवचें पडटालें.

ल्हानपणांत पोको कोणागेर चडसो वचनाशिल्लो. केन्नाय आजोळा वचून एक-दोन दीस रावतालो, तेंय आवय वांगडा आसल्यार. आनी केन्नाय आईच्या मामागेर वतालो. थंय एक आईच्या मामाली मावशी आशिल्ली. ती भेरी

आशिल्ल्यान तिचें हातवारें करून केल्लें उलोवप पोक्याक आवडटालें. थंय गेलो म्हणटकीर पोक्याक ती बरी पोशेताली. सगळो लोक शेतांत वतकीर जात्यार चार कणयो दळून भाकरी ना जाल्यार पातोळी भाजून दिताली. पोक्याक कयलेवेली भाकरी आनी चुलींत मुंगरुन भाजिल्ली पातोळी पोटाभुकेर खावंक खूब आवडटाली. शिवाय आईमामागेर पोक्याक खेळूंक भुरगीं आसतालीं. आईमामागेर जाण्ट्यांकडच्यान पोक्याची इल्ली अपुरबाय आनी तोकणाय जाताली.

हे मावशेल्या घरांत चारच मनशां, मावशी-मावसो आनी मावशेलो मांय-मांव. मावशेक आजून भुरगें जावं नाशिल्लें. ताका लागून दीसरात घरांत सामकें सामसूम आनी किण्ण!

पोक्याक दिशिल्लें घराकडे पावतकीर मावशी ताच्या हातार कितेंय उडयतली. पूण तशें कांय घडलेंना. इतक्यात मावशेली मांय भितर सरली. तिणें 'बरो आसा मरें बाबा, आवयबी कशी आसा?' अशें म्हूण पोक्याची खबर घेतली आनी काळखांतच वानाकडे बसली. तिणें भेंडाचो बोटवो काडलो आनी लागली खावचीं पानां खावंक.

मावशेल्या घरांतलीं सगळीं मनशां विचित्रच आशिल्लीं, मुनकीं कशीं! कोणाकडे उलोवप ना, हांसप ना. इतक्यांत मावसो आयलो. ताणें गणपतीक आरती करतना उजवात घुवणायतात तशी आपली तकली घुवणायली. पोक्याक दिसिल्लें, मावसो आपल्याक पळोवन खोसी जातलो. पूण ताचेर कसलोच परिणाम जालोना. हे घरांतलो आवय-बापूय आनी पूत सुकीं मनशां आशिल्लीं. तातूंत मावशीय आपलें वोलेपण दाखयनाशिल्ली.

ह्या चडश्या शेतकारांगेर भातांकंडे कितलेय भरिल्ले आसूं, शीत मात ते जोकून माकून जेवतले. एक शितागोटो पानावेलो भायर पडूंक दिवचेनांत. चुकून लेगीत शितागोट्याचेर पांय पडूंक दिवचेनांत.

पोको झेमता तो पळोवन मावशेची मांय पोक्याक वाडूंक गेली. तिणें पितळेंत पयलीं दोन दोवले शीत वाडलें. मागीर आनी अर्दो दवलो वाडलें. ताचेर दनपारचें उरिल्लें तांबडेंच तिवळ घालें. ताचेर एक खाऱ्या कुडको दवरलो. एका उब्या पेल्यांत निवळ दवरलो आनी परत भायर दिव्याकडे वचून बसली.

पोक्याक दिशिल्लें, मावशेगेर भातान घर भरून दार वोतता. पोटभर

फाटलेंफुडलें शीत जेवंक मेळटलें. पूण हे घरांतली रीतच अशी आशिल्ली की एकदां वाडलें म्हण्टकीर मागीर जेवतल्याक ढुंकून लेगीत पळोवचे नांत. आतां एक, लग्ना-म्हाळाक मात लोकांक पंगतीक बसोवन भरपूर जेवण घालताले. हांगा, हाका नागय ताका नागय आनी परब जागय, ही चार्वाक निती ते आपणांयताले. जेवता आसतना मावशेन तरी पोक्याक कितें जाय नाका हाची खबर घेवं नाका आशिल्ली? पोको राकणो जालो म्हूण कितें जालें ? तो तांचो सोयरोय आशिल्लो. सोयऱ्याचो येदो व्हडलो अपमान? निदान मावशान तरी ताच्या वांगडा जेवंक बसूंक जाय आशिल्लें. सगळे एकेच माळेचे मणी. पणजे काकागेर आसतना पोक्याक जेवंक एकोडोच बसचो पडटालो. पूण थंय जेवणाचेर पोक्याक कितें जाय कितें नाका हाची वयले वयर चवकशी जाताली. पोको आपल्याक आनीक वाड अशें कोणाक म्हणिनाशिल्लो, वाड्टलीच ताका शीत जाय काय म्हूण विचारताली. पोको तेन्ना वोगी रावतालो. तेन्ना वाडटली समजताली कि पोक्याक शीत जाय. पोको मागीर फकत नाका म्हणपाचें काम करतालो. पोक्यान विचार केलो, हें अशेंच चालू उरल्यार कोण रावता हांगा! अशें म्हणून जेवन जातकीर हातरुणाची वाट पळेत सोप्यार वचून बसलो.

दुसरे दिसा सकाळीं मावशेच्या मांवान रेड्यांक सोडले. घरा फाटल्यान एक शेत आशिल्लें. ते शेतांत रेड्यांक देवयले. पोक्या हातांत एक जाडजूड दांडो दिलो आनी धडेर बसून रेड्यांचेर नदर दवर म्हूण सांगलें. शेतांत धंपरभर चिकोल आशिल्लो. शेत कापिल्ल्यान ताडाक पालय फुटिल्ली. तांकां घासभर कितेंच खावंक मेळनाशिल्लें. तरी ते एक एक पालय वेंचीत चरुंक जाय म्हूण चरताले.

शेताक तेकून बांदाफुडें आनीक एक शेत आशिल्लें. तें आजून कापूंक नाशिल्लें. रेड्यांची ते शेताचेर नदर आशिल्ली. एका रेड्यान पयर ते शेतांत घुसखोरी केल्ली आनी शेतकाराकडच्यान एक दांडो खावन परत आयिल्लो. रेड्यान एकच दांडो खाल्लो आनी ताच्या धनयांन खोटलोभर गाळी. ताका लागूनच मावशेन पोक्याक हाडिल्लो.

कांय रेडे अशे आसतात, कि ते चोरपाक मनशांकय फार्टी घालतात. पयर मार खाल्ल्या त्या रेड्याक आज परतून त्या शेताची याद जाल्ली. परच्या कणसांची ताका गोडी लागिल्ली. ताणें आपल्या वांगड्याक खड्डो मारून पयस धुकल्लो. तकली वयर करून शेतावटेन एक नदर मारली. शेतालागसारा कोण ना तो पळोवन

पोक्याचेर एक नदर मारली. पोक्या हातांतलो दांडो पळोवन पोक्याचेर दोन-चार फोसां घालीं. घडये तो अशे म्हण्टालो जांवये, फाटल्यान दांडो घेवन बी येशी जाल्यार खबरदार !

आतां तो चिकलांतल्यान वाट काडीत पचक पचक करीत कापूंक नाशिल्ल्या शेतावटेन नेटान गेलो. रेड्याचो नेट पळोवन पोक्याच्या आंगांत राखणो संचारलो. तो शेतांत देवंलो आनी चिकलांतल्यान पांयें वोडीत वोडीत रेड्याफाटल्यान धांवलो. रेडो फाटीं-फुडें पळेनासतना शेतांत घुसलो आनी लागलो कणसां तोडून खावंक. शेतकाराक दिशिल्लें परच्या एकाच दांड्यान रेडो नीट जातलो आनी परतो शेतांत पांय दिवंचो ना. आनी रेडेकाराक मात्सी लज आनी मनीसपण आसल्यार तो रेड्याक मेकळो सोडचोना अशें चिंतून शेतकार निश्चिंत आशिल्लो. 'इतक्यांत दादोऽऽऽ! रेडो शेत खाता रे ऽऽऽ धावोन यो.' असो आवाज शेतकाराच्या कानार पडलो. शेतकार दांडो घेवन येता तो पळोवन रेडो परतो शेतांत देवनासतनां बांदावेल्यान भाटांत धांवलो. आनी भाटांतल्यान वारें कशें पळत पळत खंयच्यान नाच जालो. पूण शेतकाराच्या हाताक लागलो तो मात पोको. शेतकारान रेड्याफाटल्यान धावपाचें सोडून पोक्याचो कान पकडलो आनी ताका तो वोडीत मावशेगेर व्हरुंक लागलो. शेतकार पोक्याचो कान कसोच सोडिना. आपलो कान तुटत जाल्यार आपूण सासणाचो विद्रूप जातलों, हें पोक्याच्या लक्षात आयलें. ताणें कितें करचें ? शेतकाराच्या दुसऱ्या हाताक कडकडून घास मारलो. शेतकारान पोक्या कान सोडलो.

शेतकार आतां गाळींचो शिंवोर करीत पोक्या मावशेगेर गेलो. वच जाल्यार घराकडे कोणच ना. आतां कागाळ कोणाकडे करतलो? पोको भंयान खंय लिपलो देवाक खबर. शेतकार घरकाराची वाट पळेत थंयच उबो रावलो. इतले म्हणसर तो रेडो खंयच्यान तरी वोल्त मारुन घराकडे आयलो. पळे जाल्यार आपल्या धनयाच्या दारांत आपलो दुश्मान! रेड्यान ताका आर्दी रागान पळेलो आनी मागीर लागलो फोसां घालूंक. शेतकारान चिंतलें, आतां आपूण हांगचो गेल्लो बरो!

पोको सोडून आनी कोणय जाल्यार ते घडणुकेन हादरतलो आशिल्लो. पूण पोको सोपेपणांन कच खावपी भुरगो नाशिल्लो. येता ते परसंगाक तोंड दिवपाची शकत ताच्यांत आशिल्ली, ताणें थंयच्यान वचपाचें नांव काडलेंना.

पोक्यान गांवांत आसतना गोरवां राखण्यांचें जिवीत पळयल्लें. आपापलीं गोरवां मळार सोडून सगळे राखणे एकठांय जाताले. तरेतरेचे खेळ खेळटाले. तोंडांतल्यान वेगळे वेगळे आवाज काडटाले. एकमेकांक उमाणी घालताले. तरेकतरेचीं वाजपां वाजयताले. नाट्यगीतां म्हण्टाले. वोले मातयेचो गणपती करून पुजताले. आनी सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार वेगळ्या वेगळया धनयांचीं गोरवां हाडून एका मळार सोडटाले. हीं गोरवां मागीर एकट्याचीं उरनाशिल्लीं. तीं सगळ्यांचीं जातालीं. कोणालीय गाय कळपांतल्यान भायर पडली आनी ती आड वाटेन वचूंक लागली तर कोणय वचून तिका आडायतालो. एके सुवातेर पावतकीर तांचो वेगळोचार खंयचेखंय नाच जातालो. पोक्याक आवडटालें तें हेंच. ताका दिसतालें आपूण गोरवां राखणो जाल्यार, आपल्याक भरपूर इश्ट मेळटले. आपूण तांच्यावांगडा उकते मळार खेळटलों, नाचतलों आनी बागडटलों.

पूण हांगा पोक्याक बंदखणींत पडिल्ले भसेन जाल्लें. एकेवटेन घरां, दुसरेवटेन रस्तो आनी ते फुडें काजूंरान. पोक्याल्या तकलेंतल्या मळाचो खंय पत्तोच नाशिल्लो. खेळपाक वांगडी नाशिल्ले. पोको सगळ्याच वाटांनी एकटो पडिल्लो. तरी तो निर्शेनासतना वाट चलतालो.

पूण एक दीस मात पोक्याक मावशेचो खूब राग आयलो. जी मावशी ताका आपलीशी दिसताली ती ताका लोक दिसूंक लागली. घडिल्लो परसंग कोणाचे चुकीन आनी कसो, कळूंक वाट नाशिल्ली. पूण पोक्याच्या बालमनाचेर मात ताचो व्हड परिणाम जाल्लो.

एक दीस सकाळचो पोको सोप्याचेर बसून आशिल्लो. सकाळचीं इकरा वाजिल्लीं जावं ये. घरांत मावसो आनी मावशी आशिल्लीं. मावशान माडार चडून नाल्लावांगडा दोन आडसरां देवयलीं. दोनय आडसरां मावशान आनी मावशेन फोडून खाल्लीं. इल्लोसो कातलेचो कुडको मात पोक्याच्या हातार उडयलो. दोनां जाग्यार तीन आडसरां काडून एक पोक्याक फोडून दिल्यार व्हडलो घात जावंचो नाशिल्लो. उण्यात उणें एका पेल्यांत मावशेन आपल्या आडसरांचें घोटभर उदक दिल्लें जाल्यार पोक्याक वायट दिसचें नाशिल्लें. हे परसंगावेल्यान पोक्याक आपली मावशी आनी पणजेची काकी हांचेमदें व्हडलेंशें अंतर आसा अशें दिसलें ना. तेन्ना पोक्याक दिसलें, आपली आवय ती आवय! तिची सुवात

दुसरी खंयचीच बायल घेवंक शकना. दुसरे दिसा पोक्यान मावशेक सांगलें कि आपल्याक घरा व्हरुन पावय म्हूण!

दुसरे दिसा पोको घरा आयलो. शांतूक खबर आशिल्ली पोको आपले भयणीगेर एक म्हयनो लेगीत तिगचोना म्हूण. तशेंच जालें. पोको मावशेविशीं, मावशाविशीं आनी मावशेच्या मांय-मावांविशीं, कांयच उलयलोना. उलयलो तो फोसां घालपी रेड्याविशीं!

**जे** भुरग्यांक आपल्या आज्या-आज्ज्यांचो मोग मेळटा तांका भाग्यवंत समजूंक जाय. शाळेंत वतासतना पोक्यान कितलेशेच आज्यांक, आपल्या नातवांचो हात पकडून, तांकां पोशेत, तांचो उमो घेत, तांची तोकणाय करीत शाळेंत सोडूंक येताले ते पळयल्यात. पूण पोक्याक मात असलो मोग-बिग केन्ना फाव जालो ना.

सगळ्याच भुरग्यांच्या नशिबांत आज्यांचीं तोंडां पळोवपाचें भाग्य आसता अशें ना. काय नातवांचे आजे भुरगेपणांतच हे संवसारांक अंतरिल्ले आसतात. कांय आजे नातू म्हातारे जाले तरी तिगून आसतात.

पोक्यान आपल्या दोनय आज्यांक पळेल्यात. एकलो आजो, बापायचो बापूय पोक्याल्या भुरगेपणांतच सोंपलो. आवयचो बापूय मात पोक्याक खूब तेंप पळोवंक मेळ्ळो. पोको ह्या दोनय आज्यांचो व्हडलो नातू. ह्या दोनय आज्यांक आपल्या नातरांचो मोग आशिल्लो काय ना हें कळपाक वाट नाशिल्ली. घडये मोग आशिल्लो जायत पूण तो भुरग्यांमुकार उकतो कसो करचो हाची जाणविकाय तांकां नासुये.

पोक्याल्या एका आज्याकडे पोक्याक दी सारकें कांयच नाशिल्लें. ताकाच आपल्या आवय-बापायकडल्यान,आजी-आज्ज्यांकडल्यान वोलीं उतरां मेळिल्लीं काय कितें देवाक खबर! पदराक कांयच ना जाल्यार दुसऱ्यांक दितलो कितें कपल! दुसऱ्याक दिवपाक पयसो अडको आनी धनदौलतच आसूंक जाय

म्हूण ना. आनीकय खूब कितें आसता कि तें मेळोवन दुसऱ्यांक दिवं येता. पोक्यालो दुसरो आजो, आवयचो बापूय निपुत्रीक आशिल्लो. आनी ताच्या मतान निपुत्रीक आसप म्हळ्यार व्हडलें पाप. तो सोताक व्हडलो पापी समजतालो. आनी ताका लागूनच ताणें सोरो पिवपाक कोमेस केल्लें जांवये. पयलीं तो सोऱ्याक तोंड लायनाशिल्लो अशें शांतू सांगतालें.

शांतूक तें धरून सात भयणी. तांतल्यो दोगी देवागेर गेल्ल्यो. पांच तिगल्यो. सातवी कन्या जल्मांक आयली आनी शांतूले बाप्पायन पिवपाक जें कोमेंस केलें तें मरपाक दोन वर्सां आसमेरेन चालूच दवरलें.

पोक्यालो होय आजो सामकोच कफल्लक नाशिल्लो. तो खंयचे तरी एका भाटकाराचो मुंडकार आशिल्लो. ताचेकडे भाट आशिल्लें, काजू आशिल्ल्यो. हें भाट आनी काजू आज्याल्या पुर्वजांच्यो पूण आज्याच्या आवय-बापायन तें दोन मुडयो तांदळांक विकून वडयल्यो. मागीर तें भाटाकारान पोक्याल्या आज्याच्या आज्याकडे राखणेक सोपयलें, असो पोक्यालो आजो आपल्या घरच्यांक सांगत आसतालो.

आज लेगीत गावांगावांनी अमक्यान हीं भाटां खालीं, तमक्यान तीं भाटां नागयलीं असल्यो समाजांत तेड निर्माण करपी गजाली आयकूंक मेळटात. तीच गजाल पोक्याल्यो मावशो आनी तांचीं भुरगीं तिकट-मीट लावन सांगतात. पूण पोक्याक मात त्यो, 'मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद' अश्यो लागतात. तो तांकां चाळोवपाखातीर केन्ना केन्ना म्हण्टा, 'तुमचे पुर्वज भुकेन मरताले तेन्ना कोणेंतरी तांदूळ दिवन तांकां वाचयले. ना जाल्यार अशें उलोवंक तुमी आज खंय पावतालीं?'

कितेंय जावं, पोक्याल्या ह्या आज्यालें भाट भाटकाराच्या नावार आशिल्लें खरें, पूण नाल्ल, काजू, पणस बी खातालो पोक्यालो आजोच. भाटकाराची इल्ली दया आयलीच जाल्यार चार नाल्ल जावंक तो बोण्यांक हात लायनाशिल्लो. तरी शुक्रारा शुक्रारा आडसरां घेवन तो बाजाराक आशिल्लोच!

हो आजो पोक्याक म्हऱ्यांत झळकीक घेनाशिल्लो. आज्याल्या मनांत कितें आशिल्लें तोच जाणां. पोको दिसल्यारच तो दोळे मोटे करतालो. ताका लागून पोक्याक आज्याचो भंय दिसतालोच, शिवाय रागय येतालो. दुसरी गजाल अशी की सोरो पितकीर पोक्यालो आजो, 'आजो' उरनाशिल्लो. तेंच कित्याक,

पितकीर तो मनशांतलो उट्टालो. आज्जेक तर तो म्हऱ्यांतच घेनाशिल्लो. आजी दिसली रे दिसली, लागलो गाळींचो शिंवोर करूंक. केन्ना केन्नाय गाळी आयकूंक जायना जावन आजी ताच्या तोंडाक लागताली, दोगांचीय बाचाबाच जाताली, पूण आज्यान आज्जेचेर केन्ना हात उकल्लोना.

पोक्याक दिसतालें, आपूण आज्याचो व्हडलो नातू. ताणें आपल्याक वेगेंत घेवंचो, आपले लाड करचे, आपली अपुर्बाय करची. बाणस्तारींसावन येतकीर आपल्याक खावंक दिवंचें. पूण तें पोक्याल्या नशिबांत नाशिल्लेंच. तो शुक्रारचे चणे हाडटालो आनी धाकले धुवेकडे दितालो. ही धाकली मावशी मागीर पोक्याल्या हातार चार चणे उडयताली. ही धाकली धूव आज्याली लाडकी आशिल्ली. तो तिका बाबल म्हण्टालो. ही मावशी मात पोक्याक आपुलकायेन वागयताली. आनी पोक्याकय तिची वोड आशिल्ली.

मनशाचो एक सोभाव म्हूण पोक्याल्या आज्याच्या दुश्टपणाची एक गजाल सांगनशी दिसता. एकदां ताणें जून जाल्ल्यो आमल्यो काडून पिकत घाल्यो. आमल्यो रोकड्योच पिकल्यो. पोक्याक दिशिल्लें आतां ह्यो आमल्यो घरच्यांक खावंक मेळटल्यो. पूण त्या आमल्यांक हात लावपाचो अधिकार आज्जेक सुद्दां नाशिल्लो. तसो तो आशिल्लो जाल्यार पोक्याच्या हातार एक तरी आमली पडटली आशिल्ली. धाकली मावशीय त्या आमल्यांक हात लावंक दचकताली.

एक दीस आज्यान पिकिल्ल्यो आमल्यो पाटल्यांत घालून भायर हाडल्यो. पाटलो माथ्यार घेतलो, पोक्याक वांगडा घेवन रस्त्यार गेलो. रस्त्याकडेक पाटलो दवरलो. पोक्याक सांगलें, आण्याक चार आमल्यो वीक म्हूण. आमल्यो हांवें मेजल्यात आं, खाशी-बिशी! अशें म्हणून आजो घरा गेलो.

हळदुव्याच आमल्यांनी पांटलो भरिल्लो. वासय घेन-घेन दिसतालो. एक आमली चाखून पळोवंची अशें पोक्याक दिसतालें. पूण आमल्यो हावें मेजल्यात आं ! हीं उतरां कानाकडे घुंवताली. आनी कोणय नातू जाल्यार आजो गेलो व्हावत म्हणून धपक्याक दोन-तीन आमल्यो चोकून काथे भायर मोखतलो आशिल्लो. पूण पोक्याचें मन ताका तशें करूंक दिनाशिल्लें.

पोको सकाळीं आठांक आमल्यो विकूंक बशिल्लो, बारा जालीं तरी पोक्याकडल्यान कोणे एकलेगीत आमली विकती घेतलीना. गिरायक येतालें, आमल्याचें मोल विचारतालें, आमट ना मरे म्हणून एक तोंडांत घालताले, रोस

चोखून जातकीर 'बऱ्यो' पिकुना मरे अशें म्हणून फुडें वताले. अशें करून चार-पांच आमल्यो गिरायकान खाल्यो. पूण पोको मात तळ्याची राखण करूनय उदका घोटाक आशेल्लो.

अशे तरेचो हो पोक्याचो आजो, निपुत्रीक म्हूण आपल्याक पातकी समजतालो, तरी ताका गांवांत आनी गांवांभायरय खुबशे लोक मानताले. गांवचे लोक ताका मानताले, कित्याक तर तो वाडेकार म्हूण. ते तेंपार गांवांत वाडेकाराक खूब मान आसतालो. वाडेकार सांगत तें आनी करीत तें जातालें. वाडेकाराच्या उतराभायर कोणच वचनाशिल्लो.

वाड्यार लग्नकार्य जाल्यार वाडेकाराचो खूब भोवमान जातालो. व्हकलेकारांचें तर वाडेकार नासतना लग्न बरेभसेन जाय नाशिल्लें. दसऱ्यादिसा तर वाडेकाराल्या आंगणांत तरंग पयलें येतालें. थंय खेत्र जाता तेन्ना वाडेकार म्हूण पोक्याल्या आज्याक चड म्हत्व आसतालें.

गांवांभायल्या लोकामदें तो फामाद आशिल्लो, एक व्हडलो भगत म्हूण. खरें म्हळ्यार तो भगतय आशिल्लो आनी घाडीय बी . भगत म्हूण तो देवळेंत परसाद लायतालो आनी घाडी म्हूण खुद्तालो, तेच भसेन आशेय काडटालो.

हे भगतालें घर राजमार्गावेल्यान दिसतालें. घरावयर, घर आनी राजमार्ग हांचेंमदें एक देवळी आशिल्ली. देवळेंत एक रोयण आशिल्ली. रोयणीच्या बिळांत एक सोरोप रावतालो. ह्या सोरपाचें रोयणींतल्यान भायर-भितर येवप वचप जातालें.

रोयणीक तेंकूनच एक सद्दां घासून-पुसून चकचकीत केल्ली तांब्याची कळसुली, आनी तिचेर एक शंक बसयिल्लो आसतालो. सदांच नासले तरी खुबवेळां परसादांक हे भगताल्या दारांत लोकांची गर्दी आसताली. भायर आड्यांचेर, लाकडांचेर लोक बशिल्ले आसताले. कांय हांगा-थंय पासयो मारुन आपणांक आपोवणें केन्ना येतलें हाची उत्सुकतायेन वाट पळेताले.

पोक्याल्या आज्यालें, प्रसाद लावपाचें शास्त्र स्पश्ट आसतालें. हांगा कसल्याच दुबावाक थारो नासतालो. सगळें देवामुकार उकतें आनी मेकळ्या वातावरणात चलतालें.

भगत कळसुलेमुकार एका पाटार बसून आसतालो. भगतामुकार प्रसादांक आयिल्लो मनीस आनी तांचे वांगडी बशिल्ले आसताले. भगताच्या म्हऱ्यांत

लुगटाचो वोलो कुडको आसतालो. तातूंत पिटकोळेच्च्यो कळयो आनी फुलांच्च्यो पाकळ्यो आसताल्यो. भगत कळसुलेक पिटकोळेच्च्या फुलांपाकळ्यांनी आनी कळयांनी सजयतालो. कळसुलेचेर दोनय वटयां, म्हळ्यार दाव्या आनी उजव्या वटयां कळयो उब्योच लायिल्ल्यो आसताल्यो. ते भायर वयर-सकयलय उब्यो कळयो लायिल्ल्यो आसताल्यो. भगताक कळसुलेक चिकटायिल्ल्या सगळ्या कळयांच्च्यो सुवातो खबर आशिल्ल्यो. उजवी पयली, उजवी दुसरी, तिसरी, चोवथी, पांचवी आनी तेच परी दावी, उबी, आडवी, सकली, वयली अशो कितल्योशोच सुवातो भगतान आपले कल्पनेन थारायल्ल्यो. अमकेंच काम जातलें जाल्यार उजवी पयली दी, तमकेंच काम जातलें जाल्यार उजवी पांचवी दी.

उबी दुसरी पडल्यार अमके देवाचें रागणें पडलां, तमकी आडवी पडल्यार तमको देव रागार जाला. रागार जाल्ल्या देव-देवचारांक शांत करपाखातीर ते ते देवांक फावता तसे उपाय आसताले. आंगोवण्यो, सांगणीं बी करुन देवांक मनयतकीर प्रसादांक आयिल्ल्या लोकांचें सगळें जाग्यार पडटालें. जाग्यार पडटालें म्हणचेपरस भगत तें जाग्यार घालतालो अशें म्हळ्यार जाता.

भगताकडे प्रसादांक येतात त्या लोकांची सगळी इस्तोर भगताक खबर आसताली. कोण कोणालो दायजी, कोण खंयचे देवाक मानता, खंयचे गांवांत कितले जाग्याचे देंवचार आसात. मनशांचे आनी देव-देवचाराचे धागे-दोरे खंय खंय आसात हाची खबर तो आयिल्ल्या लोकांकडच्यान काडून घेतालो. तांचो उपेग घाडपणांत आनी आशां वोगतार करतालो.

पोक्याल्या आज्याचें नांव देवू. लोक ताका देवूभगत म्हण्टाले. गांवचे लोक ताका वाडेकार बाबा म्हण्टाले, तर कांय लोक फकत भगतच म्हण्टाले. घाडीपण करुनय ताका घाडी मात कोणच म्हणिनाशिल्लो.

हो भगत भोवजनसमाजांत, चड करुन गावडे आनी भंडारी लोकांमदें फामाद आशिल्लो. घरांत कसोय आसूं, भायर ताचो भोपको मोठो. वाटेवेल्या येत्या-वत्याक आपूण जावन हडकीतलो. तांचेकडे गजाली करतलो.

हो देवूभगत वोली काश्टी न्हेसून, उकते माथ्यान देवपणाक बसतालो. देवस्केक आयिल्ल्यांकडच्यान तांचे प्रस्न अशेतरेन विचारुन घेतालो, कि आजचे आदवोगाद ताच्या मुकार कित्याक उपकरनांत. मागीर तो पाकळी लावन बसतालो. कळी-पाकळी रोकडीच पडली जाल्यार, दोनय हात वयर करून

चल, जालें तुजें काम म्हणून फुलपाकळी देवस्कीक आयिल्ल्याच्या हांतार दवरून ताका आवियार करतालो.

पोक्याल्या आज्याली, म्हळ्यार देवूभगताली अमूकच अशी फी बी तशी नाशिल्ली. जें किर्ते आणे-दोन आणे मेळटात तातूंतच ताका खोस भोगताली. तरी दिसांतल्यान ताचे दोन रुपये कोणे व्हरुंक नाशिल्ले.

केन्ना केन्नाय मागिल्ली कळी पडूंक वरांची वरां लागतालीं. कळी-पाकळी पडप हें देवाच्या आनी देवूभगताच्याय हातांत नासतालें. उदक सुकलें म्हण्टकीर ती आपसूक पडटाली. केन्ना केन्ना ती अशी चिकटून बसताली, की देवाक कितलोय मनयलो जाल्यार ती आजच्या मंत्र्याभसेन आपली सुवात सोडूंक तयार नाशिल्ली. असले वोगतार कसलोय तरी उपाय सांगून लोकांक वाटेक लायतालो भगत!

प्रसाद लावप आनी घाडपण करप हातूंत फरक आसता. कायद्याच्या भाशेंत उलोवंचें जाल्यार, परसाद लावप ह्यो सिविल केसी आनी घाडीपण क्रिमिनाल. घाडी देवचारांक, भुताखेतांक, आलवांतीणीक, मृतात्म्यांक बी एकामेकांचेर चडोवन घालतात. भगत हो चड करुन देवांकडे उलोवपी, आनी घाडयाक भुतांखेतांची, मेल्ल्यांची भास समजता. गांवांत आनी गांवांभायरय कोणय मेले उपरांत बारा दिसांकडे, देवूभगताक घाडपण करुंक आपोवणे येतालें. देवूभगत घाडपण दिसाचें चड करुन करिनाशिल्लो. ताचें घाडपण बरें फुलतालें तें रातचेंच. कारण रातचे लोक न्हिदून पडटात आनी भुतांखेतां, देंवचार बी रातीचे जागे आसतात. आनी ते घाडयांच्या उल्याक धावून येतात.

पोक्यालो आजो रातीकडे घाडपणाक बसतलो, हें कळनाफुडें पोको घाडपण पळोवपाक जागो रावतालो. पोक्यालो आजो एका पाटार बसतालो. म्हऱ्यांत एक दिवली पेटिल्ली आसताली. मागीर तो देव-देवचारांक आनी भुतां-खेतांक उलो मारुंक कोमेस करतालो. बाराजणांतलो देंवचार, दवरण्यावेलो, नागझरचो, धाड्यावेलो, आनी खुबशा देवचारांक उले घालून जातकीर ताचेर भार येतालो. भार येतकीर तो आपलीं जांगडां, भुजां बी पेटून घेतले उपरांत ताच्या तोंडांतल्यान 'उडुउडु फुडुफुडु' असो आवाज भायर सरतालो. मान कडकडटाली, दांत कटकट्टाले, सगळें आंग थरथरतालें. मागीर ताच्या तोंडांतल्यान एकेक उतर भायर पडटालें. मेल्ल्याचो आत्मो ना जाल्यार ज्याका आफयला तो देंवचार

ताच्या म्हऱ्यांत हाजीर आसतालो. तांचो संवाद चलतालो. पोक्याक आज्याचे प्रस्न आयकूंक येताले, पूण अत्म्याच्यो जापो ना.

हळूहळू भार देंवतालो. घाडी मूळपदार येतालो. अत्म्यान, देवचारान किर्ते सांगलां आनी आपूण तांचेकडे किते उलयलां हाची चर्चा जाताली.

पोक्याल्या आज्याकडे एका बेल्यांत आशे (भातागोटे) आसताले. हे आशे काडपाची कार्यावळ चड करुन दनपारची ना जाल्यार रातीची आसताली. हांगा मात घाडयाक दोन पाटांची गरज आसताली, एक ताका बसूंक आनी दुसरो आशे मांडूंक, आशे मेजून पाटाचेर चोम्यानी दवरतालो. मागीर ताचें हातवारें सुरु जातालें. बोटां नाचतालीं, वोंट हालताले, भुंवयो वयर सकल करुन आपले भितरच उलयल्ल्याभसेन करतालो. आनी मागीर चल जालें तुजें काम, म्हणून पाटावेले आंशे काडून लोकांक दितालो.

अशे तरेन पोक्यालो हो आजो शिटूक, काटूक, सुवार्ती आशिल्लो खरो पूण तो एक व्हड कलाकार आशिल्लो. देवस्कीक येतल्याकडे उलयतासतना, तांचे प्रस्न समजून घेतासतना तो मानसशास्त्राचो उपेग करुन घेतालो. तो लोकांक असे प्रस्न विचारतालो कि तांचे जापेत हेर लोकांची म्हायती आपल्याक मेळची आनी ताचो उपेग आपल्या धंद्याक जावंचो.

पोक्यालो आजो कोल्याबुद्‌दीचो आशिल्लो. आपल्या उलोवपाच्या चलाकीन दुसऱ्याक मामा कसो करचो, हाची कला ताका खबर आशिल्ली. बरे मनशांक मामा करपाचे भानगडीत मात तो केन्नाच पडनाशिल्लो. ताणें आपल्या सगळ्या धुवांक ल्हानपणांतच लग्न करुन उडयलीं. जणेक न्हवऱ्याच्या बापायक तो एकच सांगतालो, ‘आपल्याकडे कांय ना. तुमकां म्हजी धूव जाय जाल्यार शिजोवन व्हरात.’ ‘शिजोवन व्हरात’ हाचो अर्थ असो कि आपल्याकडे लोकांक जेवण-खाण दिवपाक कांयच मेळचेंना. लग्नाच्या जेवणावळीचो सगळो खर्च न्हवरेकारांकच करचो पडटलो आनी जालेंय तशेंच. पोक्याल्या आज्यान आपल्या सगळ्या धुवांची लग्ना सवायभितर करून उडयलीं.

पोक्यालो आजो निपुत्रीक आशिल्ल्यान ताचें वाडेपण चलोवपाक कोणय तरी वारस जाय आशिल्लो. खूब लोकांचें मत्त आशिल्लें, व्हडले धुवेल्या व्हडले पुतान म्हळ्यार पोक्यान देवूभगताली देवळी, देवसपण, घाडपण बी फुडें चलोवंचें. ताका लागून पोक्याची आजी आनी मावशो पोक्याक आज्या म्हऱ्यांत

बसयताल्यो.

पोक्यान परसाद आनी घाडपणांत खरेलें गुपीत कितें दडलां हें बारीकसाणीन शिकून घेतलें खरें, पूण तो घाडी-भगत जालोना. जाल्लो जाल्यार ताचे बुद्दी परमाण, तो आज गाडयांनीं भोंवतलो आशिल्लो.

कोंकणींत कांय म्हणण्यो आसात. 'बीं तशें भात' 'फुडलें जोत चलता तशें फाटलेंय चलता'. हाचो अर्थ असो कि भुरग्यांचेर आपलो आवय-बापूय, तांचो संबंद आशिल्लीं मनशां आनी परिसराचे बी संस्कार घडटात. आनी भुरगीं फुडें आवय-बापूय आनी तांच्या संबंदांत आशिल्ल्या मनशाभसेनच जातात. पोक्याली आवय एके तरेची आनी बापायचो सोभाव दुसरे तरेचो. पूण पोक्याचो सोभाव बरें तें पदरांत दवरून वायट तें भायर मोखून मारपाचो आशिल्ल्यान ताणें आवयचे जायते बरे गूण आपणायल्ले. शांतुलो बापूय भगत आशिल्लो तरी तो सोरो पितालो, कोंबडी मारुन मांस खातालो. तरी शांतू कोंबडेमांस खायनाशिल्लें. पोक्यालो बापूय अन्नाडी आशिल्लो तरी सोऱ्यापसून पयस आशिल्लो आनी तो कसलेंच मांस खायनाशिल्लो.

पोको आपल्या आवय-बापायल्या घरा फाटोफाट आजोळाक हक्काचें घर मानतालो. आजो कसोय जावं, ताका आजी आनी मावशो आपलीं मनशां कशीं दिसतालीं. ताका मदें मदें आजोळा वचनशें दिसतालें. मावशो ताका काजूंनी भोवंक व्हरताल्यो. थंयचे आमे-पणस ताका आपलेचशे दिसताले. आजो घरांतल्यान भायर सरुन गेलो म्हण्टकीर ताका रान मेकळें जातालें. ताका स्वतंत्रकायेची जाणविकाय जाताली.

आजो ताका आवडनाशिल्लो खरो, पूण ताचेकडल्यान ताका खूब कितें नवें नवें शिकूंक मेळटालें. देवचारांक चोरूं घालतात, जाग्याच्याक सोरो-रोंट घालतात. देवचारांक भोगावळी, मानतुको बी दिवंच्यो पडटात, असल्यो सगळ्यो गजाली पोको आपल्या आज्याकडच्यान शिकलो. तरी तो आज्याच्या लगाडीन सोरो-मांस खावंक शिकलोना. आज्यालें जिवीत ताचेर प्रभाव घालूंक शकलें ना.

**जे** गांवच्या सैमान पोक्याक सूख दिलें, जे गांवच्या देव-देवतांनी आनी कांय मनशांनी वोड लायली, त्या गांवांक पोक्याक एक ना एक दीस सोडचो पडटलो, हें ताणें सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें. पूण जें घडचें आसता तें कोणाक चुकना.

पोको हांगा-थंय रावन पोट भरतालो खरो, पूण ताचें तें जिणें तात्पुरतें आसा अशें पोक्याक दिसतालें. व्हडलो जायमेरेन आंगांत बळ येवन दत्तूसारको मानाय जाय मेरेनच ताका हे हेलपाटे काडचे पडटले, अशें पोक्याक दिसतालें. एकदां व्हडलो जालो की आपल्याक हें कुळागार सांबाळचें पडटलें. आपलीं भावंडां पाखां फुटटकीर खंयचे खंय घडये उडून वचत, पूण पोक्याक मात घरा रावन आवय-बापायची सेवा करची पडटली, कारण तो आवय-बापायलो व्हडलो पूत आशिल्लो.

पणजे दोन भाटकारांगेर आनी मावशेगेर रावन ताणें अणभव घेतिल्लो. आतां हे फुडें कितेंय जाल्यार कुळागारांतलें काम करून, आवयकडल्यान जें कितें पानार पडटा तें खावन दीस काडटलों, अशें पोक्यान थारायल्लें.

हे थारावाक लागून पोक्याल्या माथ्यावेलो पेज आतां हलको जाल्लो. आतां ताणें आपले पोन्ने आनी नवे इश्ट नव्यान जोडूंक कोमेस केल्लें. गांवच्या लोकांहून मात्सो वेगळो रावन आवय-बापायची, शेजारी-पाजाऱ्यांची आनी गांवकारांचीं मनां जिकपाचो यत्न ताणें चलयिल्लो. लोकांवांगडा रावतलो जाल्यार लोकांचीं मनां सांबाळून जगपाचें गिन्यान ताका आतां पणजेच्या राबित्यांत मेळिल्लें. पोको शिरपुटो आसलो तरी तो चुणचुणीत आनी शिटूक आशिल्ल्यान कोणाचेय नदरेंत सट् करून भरतालो.

एक दीस दत्तू घरा आयलो आनी ताणें शांतूक सांगलें की बुयू आका आयलां.

हें बुयू आका आत्रेपेल्यान आपले धुवेगेर येतालें. सभावान सामकें लागोळें. ताचे तोंडांतल्यान भायर पडटालीं तीं उतरां न्हय, फुलां आसतालीं. आपल्या उतरांनी तें कोणाकय भुलयतालें. ताणें कोणाकय कसलेंय काम सांगचें, आनी तें कोणेय ना म्हणचें अशें केन्नाच जालेंना. हे बुयू आकाक, ताच्या गांवच्या एका वेपाऱ्यान बरोसो विस्वासू असो एक भुरगो पळोवंक सांगिल्लें. तांका तो मांडार काम करुंक जाय आशिल्लो.

बुयू आकान दत्तूक पळेल्लो, तागेलें काम पळेल्लें, तागेलो सोभाव अणभविल्लो आनी तागेल्या पोक्याचेर ताची एक दीस नदर पडिल्ली. बीं तशें भात, हो नेम बुयू आकाक खबर आशिल्ल्यान ताणें पोक्याखातीर दत्तूकडे उतर घालें.

बुयू आका पोक्याक आपल्या गांवच्या राणू खंवट्यागेर दवरूंक सोदतालें. हे खंवट्यागेर बुयू आकालें येवप-वचप जातालें. सुर्वेक हे बुयू आकान दत्तूक आपल्या म्हऱ्यांत बसोवन घेतलो. मागीर राणू खंवट्याच्या त्या धंद्याची आनी ताच्या घरच्या मनशांची म्होवाळ उतरांनी वळख करून दिली. आनी पोक्याक तांगेर दवरल्यार राणू खंवट्याली बायल ताका आपल्या पुताभसेन वागयतली अशें बुयून दत्तूक सांगलें. पोको तांगेर रावल्यार सुखान आसतलो आनी मनीसय जातलो, अशी बुयून पुस्ती जोडली.

दत्तून येवन ही गजाल शांतूक सांगली. शांतून ती व्हडलीशी कानामनार घेतलीना. पोक्याक हांगा थंय धाडून ताची सतावणूक जाता अशें शांतूक आतां दिसूंक लागिल्लें. ताका लागून आपूण पोक्याक हे फुडें खंयच धाडचेंना अशें ताणें थारायल्लें.

शांतू पोक्याक धाडूंक सोदिना, हें आयकल्याबरोबर बुयू आका दत्तूक सोडून शांतूच्या फाटीक लागलें. रोकडेंच तें भेंड वाकडें करून, हात वल्लयत शांतूक सोदीत आयलें. ताणें आपल्या तोंडाची सरस्पत पणाक लायली. ताणें परीपरीन शांतूक समजायलें. पोको आपल्या गांवांत गेल्यार सुखाक पावतलो, ताचें बरें जातलें, अशें बुयून शांतूक समजावन सांगलें.

बुयूक पोको आपल्या वांगडा आयिल्लो जाय आशिल्लो. ताणें खंवट्याक भुरगो हाडटाच म्हूण उतर दिल्लें. बुयूच्या यत्नांक आतां यश आयिल्लें. शांतून पोक्याक धाडपाचो हयकार दिलो, आनी पोकोय वचूंक तयार जालो. मनीस

आशेचेर जगता. आसच मनशाक प्रवृत्तीमार्ग दाखयता. मनशाक कसलीच आस नाशिल्ली जाल्यार तो किडीमुयांचें जिणें वळवळत कशेंय तरी जगतलो आनी मरतलो आशिल्लो. हे संवसाराची प्रगती म्हणात ना जाल्यार उदरगत म्हणात, आशेंतल्यान निर्माण जाता. 'ठेविले अनंते तैसेची रहावे' हाचो एक अर्थ मनशाक निवृत्तीमार्ग दाखयता. कसलीच हालचाल करिनासतना, आपल्याकडें जें आसा, जें आपल्याक फाव जालां, ताचेरच समादानी राव. चड करपाची आनी चड खावपाची आस कोणे धरची न्हय, अशें मानून आपलो भार देवाचेर घालून जे लोक जगतात, ते हे संवसारांत येवन ना येवन सारकेच.

ते परस, फळाची आस धरिनासतना काम करीत रावपाची जी शिकवण गीता दिता, ती मनीसजातीक जगपाक धीर दी सारकी आसा. कोणय म्हण्टलो, गजाल पोक्याची आनी बरोवपी गीतेचर कित्याक पावलो? ही गीता आसाच तशी. हे गीतेतलें शाणेंपण गीता ना वाचतां, ना शिकतां खुबशा प्राण्यांत वसता. ज्याच्यांत ती आसा, तो फळाची आस धरिनासतना सदांच कार्यरत आसता.

शांतू पोक्याक तीनकडेन कामाक दवरून निरास जाल्लें. ताका दिशिल्लें, पोक्याची उदरगत जावपाची सोडून अधोगतच जाली. पूण बुयू आकाल्या उतरांनी ताका फुडें वचपाची दिशा दाखयली. निरास जावन घराच बसूंक सोदपी पोको सडसडीत जागो जालो. आपल्या गांवांत आयल्यार पोको सुखाक पावतलो, ताचें बरें जातलें, बुयुल्या उतरांनी पोक्याक आनी शांतूक जाग हाडली. तांकां दिसलें, बुयू आकाल्या तोंडांतल्यान गांवची सांतेर बी उलयता जायत. पोको दोन-तिनकडे रावलाच, आनी एकेकडे रावून पळोवंक कितें जालां ? कसल्याच फळाची आस धरिनासतना वचपाचें. बरें जाल्यार रावपाचें ना जाल्यार अचळय थंयच्यान कूस मारपाची. कोणे कोणाक विकतो घेतला ? संवसारांत सगळींच मनशां सारकीं आसतात? एकदां दोनदां अपयश आयलें म्हूण, माथ्यार हात धरून बसल्यार उपकरता? असो विचार करुनच पोको आपलें नशीब पारकूंक तयार जालो. हाकाच म्हण्टात प्रवृत्तीवाद, हाकाच म्हण्टात फळाची आस धरिनासतना काम करीत रावप.

फळाची आस धरिनासतना काम करप म्हळ्यार, शेत पिकपाची शक्यताय नासता थंय बियां शिपडावन बसप न्हय. गेल्ले वर्सा पावस पडलोना म्हूण हेय वर्सा तो पडचोना, अशें समजून कोणें शेत रोवपाचें सोडून दिवचें न्हय. हे वर्सा

घडये पावस पडत म्हूण पिकाची आस धरिनासतना, म्हळ्यार फळाची आस धरिनासतना, शेत रोवपी शेतकार शाणो. फुकट गेलें जाल्यार पायलीभर बियाणें आनी कश्ट! पूण पावस पडचोना अशें समजून, शेत पडंग दवरून, माथ्यार हात धरून बसपी शेतकाराक सोताक शेतकार म्हणून घेवपाचो अधिकार फावो जायना. पोक्यान घेतिल्लो निर्णय चुकीचो की योग्य हें फुडें कळटलेंच!

ते दीस आशिल्ले मिर्गाविले. आंबे - पणसांचो भार उणो जाल्लो. तरी फाटले धड-पोके, धोंगांपोंगाचे पणस झाडांक लांबताले. अणसांचो मात आतां भार जाल्लो आशिल्लो. कुळागारांत एकाद्रो ताड-माड वाडिल्लो काजू रुख आसतालो. ताचे पाक्यांनी खाल्ले मुट्ठे बियांसयत मुळांत पातळायल्ले आसताले. तांबडीं-तांबडीं पिकीं भिण्णां झाडांक पातळशीं अजून दिसतालीं. हें सगळें सोडून पोक्याक बुयूवांगडा वचूंक जिवार येतालें. ताका बुयूक सांगनशें दिसतालें कि आतां तूं वच आनी थोडे दिसांनी आपल्याक व्हरूंक परत यो. पूण बुयूआका ताका तयार जालेंना. तें मोटारीक दुडू खर्च करुन येवपी-वचपी मनीस न्हय. शेतां-भाटां माड्डयत आनी तारीक पयसो-दोन पयसे खर्च करुनच येवप - वचप करपी बायल ती. फुडें रोकडोच पावस लागपा अशिल्लो. कोण येतलो पड्ट्या पावसांत व्हरुंक? ताणें पोक्याक आतांच आपल्या वांगडा यो म्हण हट्ट धरलो. पोकोय आपलें मन मारून ताच्या वांगडा वचूंक तयार जालो.

एका गांवांतल्यान दुसरे गांवांत वतलीं जाल्यार चडशीं बायलां भुरग्यांक बी घेवन, सकाळचीं आठांक बी तशीं भायर सरतालीं. हे वेळार दीस वयर आयिल्लो आसतालो आनी वाटेर लोकांची वर्दळ आशिल्ल्यान, तांका सांगातय बरो मेळटालो. बुयू आकानय दुसरे दिसा आठांक भायर सरपाचें थारायलें.

बुयू भायर सरचेवेळार, पोको एके पिशवेंत आपलें सामान बी घेवन धा मिनटां आदींच बुयू रावतालें थंय हाजीर जालो. पोको सदांच दुसऱ्यान आपल्याक लागून तिश्टत रावचें न्हय म्हूण वोगता आदींच हजर रावतालो.

पोक्याक पळेनाफुडें बुयू आकान आपली कपयाळी सत्री खाक्यांत मारली. थंयचो एक तन्नो पणस पोक्याल्या माथ्यार दिलो. एका हातांत पांयांच्यो तुटक्यो व्हाणो धरल्यो आनी लागलें आपलो एक हात व्हल्लय करीत चलूंक.

पोक्याक आपल्या धनयावांगडा, हे गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वता आसतना कितें ना कितें माथ्यार घेवनच चलचें पडटालें. बुयू आका पोक्याली भाटकान्न

बी तशी कोण लागनाशिल्ली. तरी तें मध्यस्त आशिल्ल्या कारणान, पोक्याकडल्यान मेळटा जाल्यार इल्लो फायदो घेवंचो असो ताचो विचार!

बुयू आकाचें आतां वय जाल्लें, तरी ते तेंपावेल्या म्हाताऱ्यांचें फुडारपण करपाची कापाजदाद ताच्यांत आशिल्ली. तेचवटेन पयलीं चलपाचो अणभव आशिल्ल्यान खंयचे दवरन्याकडे थांबपाचें, खंय पेणे करपाचें हें तें जाणां आशिल्लें. चार गांव फाटीं घालून ताका आपल्या गांवांत वचपाचें आशिल्लें.

बुयू आका चलताना थकतालें. आंगावेल्यान घामाच्यो पावळ्यो वोत्ता तेन्ना आपल्या पालवान तें घाम पुसतालें. मागीर तोंडांतल्यान कितें कितें बडबडटालें. मदींच खंय तरी बसकल मारतालें, तेन्ना पोक्याक सूऽऽ जातालें.

पोक्याल्या माथ्यावेलो पणस चड जड नाशिल्लो. पूण ताच्या माथ्यार चुंबळ बी कांय नाशिल्ल्यान पणसाचे कांटे ताच्या माथ्याक तोंपताले. तेन्ना तो पणस दोनय हातांनी वयर उकलून धरतालो. ताच्या माथ्यावेल्यान, कपलावेल्यान घामाच्यो पावळ्यो वोत्ताल्यो. पूण त्यो पुसूंक आनी चिटूंक ताचेकडे पालोव खंय आशिल्लो ? सगळो घाम ताका आंगारच सुकोवंचो पडटालो.

पोक्यान घर सोडलें तेन्ना ताका बुयू वांगडा धा मिनटां कुळागारांतल्यान चलचें पडलें. उपरांत ताका तांबडो रस्तो मेळ्ळो. दोनय वटयां अणसां मळे. वयेंभितर तांबसाण गोबरसाण आयिल्लीं अणसां जमनीर लोळटालीं. अणसां मळ्यांतच मदें मदें एकेक काजू झोंप, आंब्या झाड ना जाल्यार जांबळ आनी वोंवळ दिसताली. पोको तांकां आत्रे पयऱ्यान पळेतालो. पोक्याक तांची सवंय जाल्ली. आतां मात पोको तीं वेगीं पळोवंक मेळचीं ना म्हूण खंती जातालो. जसो जसो आपलो गांव फाटीं पडटा तसो तसो तो अस्वस्थ जातालो. बुयू आकाक मात बरें दिसतालें. कारण तें इल्ले इल्लें आपल्या गांवांकडे पावतालें.

पोक्यालो गांव आतां फाटीं पडिल्लो. पणजी-मडगांवां वचपी मुखेल रस्त्याचेर पावतकीर ताका चडट्र्चें मोण्ण गावलें. मोण्ण चडून जातकीर पोक्यान आतां फाटल्यान वळून पळेलें. तो आतां गांवांपासून वेगळो जाल्लो. ताचो आवय-बापूय, ताचीं भावंडां, तें कुळागार, कुळागारांतलें तें ताचें घर सगळें आतां पोक्यापसून पयस जातालें. फाल्यां तें पोक्याक पळोवंक मेळचें नाशिल्लें. फाल्यां पोको नव्या गांवांत वावुरतलो. नवो गांव, जो ताणे केन्नाच पळोंव नाशिल्लो. ह्या नव्या गांवांत ताका कोणच वळखचोना. वळखतलें तें फकत बुयू

आका. पोक्याक भेट्टोलो तो नवो गांव, नवीं घरां, नवीं मनशां, अनवळखी झाडां-पेडां, सगळें नवें.

पोक्यान आतां डांबरी रस्तो सोडून, वाकडे-तिकडे सोरपाळे वाटेर पावल दवरलें. तो आतां फातर वाटायत, शेंकरे माड्डयत, तळपांखांचिंतल्यान वाट काडीत फुडें चलतालो. ताका दिसतालें, बुयू आकाक फाटी सोडून आपणें फुडें वच्चें. पूण बुयू आका ताका तशें करुंक दिवंक जाय मूं ? बुयू आकान पोक्याक कोत्रादान घेतिल्लो. खंवट्यागेर व्हरून सोडीमेरेन पोको बुयू आकालो जाल्लो. आतां ताणें बुयू आका सांगता तेंच आयकूंक जाय. ताणें बस म्हण्टा थंय बसूंक जाय आनी उठ म्हण्टा तेन्ना उठूंक जाय. ती पोक्याखातीर औट घटकेची राणी जावन आशिल्ली. तो सैममोगी आशिल्ल्यान सैमातलीं झाडांपेडां, वाली-झुडपां, सवणीं-सुकण्यांचीं दर्शनां घेत घेत चलूंक मेळटालें. ताची वाट दोंगर-मळांवेल्यान, शेतां-भाटांतल्यान, केन्ना नीट तर केन्ना वांकडी-तिकडी वताली.

पोको आनी बुयू आका आतां सुमार दोन वरां चल्लीं. एका शेताबांदावेल्यान चलतां चलतां अकस्मात पोक्या नाकांत काजू दिका वास शिरलो. हो वास ताका वळखीचो जाल्लो. आईच्या मामागेर वतासतना ताका तार लागताली. तेन्ना पोनेळाक लायिल्ल्या काजूदिकाचो वास ताका येतालो. हो वास ताका घेन घेन दिसतालो, पोक्याक तो खूब आवडटालो.

पोको आतां तारी आलतडीं पाविल्लो आनी तार आशिल्ली पलतडीं. तारीकडे तारयाली खोपटी आशिल्ली. खोपटेंत एक सुळसुळीत फळें आशिल्लें. फळ्याचेर दोडून दवरिल्ली एक कांबळ आशिल्ली. फळ्याक तेकुनच एक मातयेची मडकी आशिल्ली. मडकेंत थंडगार उदक आसूंकच जाय अशें पोक्याक दिशिल्लें. पोक्याचो ताळो सुकून आयिल्लो. ताका दिशिल्लें खोपटेंत शिरून कट्टीभर उदक पिवचें. पूण शांतू आड आयिल्लें. शांतून ताका सांगिल्लें की सांगिनासतना कोणालेंच कितें काडून खावंक जायना.

इतले म्हणसर खरशेत खरशेत आनी एक दादलो थंय आयलो. तो धांवत धांवत आयलो आनी तारीकडे पावलो. पूण तार खंय आसा? ताणें आनी वोगोत केलोना. तारयाक मोठ्यान एक कूऽऽ ऽऽ य! करून कुलो घालो. पलतडच्यान तारयानय तशीच जाप दिल्ली. कूऽऽऽऽय! थोडेच वेळान तारयो कळक्-कळक्-फसक् करीत पोनेळ ताणीत आयलो.

तारीपलतडीं पावतकीर पोक्याक सगळें नवेंचशें दिसलें. ताच्या गांवांत ताणें एक-दोन बामणालीं नळ्यांची घरां पळेल्लीं. तींय गांवटी नळ्यांची. हांगा चुडटांच्यो खोपट्यो आशिल्ल्यो पूण साप्प थोड्यो. चडशीं घरां मातये पाऱ्यांनी काडिल्लीं. खुबशीं घरां चिरेबंदी आनी सुलचे नळ्यांनी शिविल्लीं आशिल्लीं. हांगाय तांबडे काश्टेकार आशिल्ले. पूण कांय वालेकार, धोतरकार आनी कालसांवकारय आशिल्ले. हांगाच्या लोकांक पळोवन पोक्याल्या शेळ्या रगताक गरमी चडली.

पोको जसो मुकार गेलो तसो रंगयाळीं घरां पळोंवन फुल्लो. पयल्या गांवांतल्या लोकांची भास पोक्याल्या गांवांतल्या लोकांभसेन आशिल्ली. लोकांतय बी व्हडलेशें दिफेरेंस नाशिल्लें. पूण हांगाच्या लोकांचें सगळेंच वेगळें आशिल्लें. तांचो भेस, तांची भास, तांचो झेत सगळें तांचें वेगळें. हांगाचे कांय लोक लांब पिज्यामां घालून वारांदांचेर उबे रावन गजाली मारताले. पोक्याक समजना तसली भास उलयताले. पणजेच्या राबित्यांतय पोक्यान असली भास आयकूं नाशिल्ली. ही भास पोर्तुगेज आसूंक जाय. आनी ती उलयतात ते किरिस्तांव भाटकार आसूंक जाय. दत्तून एकदां पोक्याक सांगिल्लें, किरिस्तांव भाटकार घरांत लेगीत पोर्तुगेज उलयतात म्हूण. हीच ती भास आनी हेच ते लोक आसूंक जाय. मदल्यान तांबडो रस्तो आनी दोनयवटयां एकामेका सामकाराक घरां. हीं व्हडलीं, तांचीं दारां-जनेलां व्हडलीं. त्या घरांत तीं रावपी मनशांय व्हडलीं. तांच्या घरांमुकार देट्ट्याभितर तरेक तरेचीं फुलझाडां. गरादीचेर वाज. हे वाज सपणांच्या दोनय कुशींनीय मांडून दवरिल्ले आशिल्ले. बारांचो सुमार आसूनय तांच्या एकेका घरांत रेबेकां वाजतालीं. सगळींच घरां व्हड नाशिल्लीं, कोंबडे सांगाताक पिलां आसतात तशीं एकेका व्हड आनी सोबीत घरामदें ल्हान ल्हान दुसरीं कितलींशींच घरां दिसतालीं.

हें सगळें पळोवन पोक्यालें मन एके सुवातेर नाशिल्लें. हांगा ताका नवें नवेंच कितें ना कितेंय दिसतालें. पोक्याल्या गांवांत कोणाकडेच सायकल नाशिल्ली. हांगा रस्त्यावेल्यान एकेक सायकल दिसताली. सायकल दिसनाफुडें पोक्यालो मनमोर फुलतालो.

आतां दनपारचो वोगोत जाल्लो. पोराचें पोट खरीक पाविल्लें. ताळो सुकिल्लो. आंगांतलो घाम वचून वचून आतां आंग लाकूड जाल्लें. चलून

चलून ताचे पायें दुखताले. इतले म्हणसर बुयू आका एका आकाड्यांतल्यान आडवाटेर सरलें. ही आडवाट मर्‌डांतल्यान वताली. मागीर तांकां एक बांद लागलो. हे बांदार चुडटां पुंजांवंक आयिल्लो एक दादलो आशिल्लो. 'भाटकान्न हुंय जेलेली जे !' दादल्यान बुयू आकाक जापायलें, 'गेल्लें बाबा धुवेगेर, आनी खंय वतलें ! तूं कसो आसारे फरांसिस, भुरगीं बरीं आसात मरे तुगेलीं ?' बुयू आकान फ्रांशिसाच्या भुरगेबाळांची खबर घेतली. हाचो अर्थ तीं दोगांय एकमेकाक बरीं वळखतालीं. बुयू आकालो गांव लागीं पावला हें आतां पोक्याल्या लक्षांत आयलें.

बांद सोंपलों आनी भाट लागलें. आनी पोक्याक अकस्मात बदल जाणवलो. भाटांतली माती रेंवट आनी फुसफुशीत आशिल्ली. भाटांतले चडशे माड धडधाकट आनी भरपूर नाल्ल देणे आशिल्ले. भाटांच्या कडांचेर पाचवेचार आंब्यारुक उबे आशिल्ले. हे रुक बुटकेले पूण बेनुल्ली विरयत आशिल्ले. कांय रुकांक मुसराद, कुलाससारके आंबे लांबताले. तेय बी हाताक मेळटा तसे. पोक्याल्या गांवांत असले हातलागे आंबे पळोवंक मेळनाशिल्ले. गांवांतलीं सगळींच भुरगीं फुकीं. हाताकडे मेळटा तें तोडून खंय नाच करपी. थंय माकडराज्य आशिल्ले कारणान, भाटकार थंय कलमी आंबे लावंक फाटीं सरताले जांवये. शेंपडयो आनी शेंपडयो नाशिल्ले दोनय तरेचे माकड पोक्याच्या गांवांत वावुरताले.

बांद-भाटांतल्यान अर्देंवर चलून जातकीर, पोक्याच्या कानार मुजकाचो आवाज पडलो. मर्दे मर्दे खोजनेय जाताले. फुगेट्योय फट्‌फट्‌टाल्यो. हें सगळें घट्टा तें पोक्याक येवकार दिवपाक बी न्हय मूं ? गणपती दारांत पावतकीर लोक फुगेट्यां माराण लासतात, हें पोको जाणा आशिल्लो.

पोको आतां इगर्जे सकल पावलो. तांणें इगर्जेतल्यान लांबच्या लांब पुरसांव सकल देंवता तें पळेलें. दादले तशो बायलो हातांत पेटिल्ल्यो मेणावात्यो धरुन मुंयांचालीन चलताल्यो. दादल्यांनी काळसार फात मारिल्ले. मानेकडे फाटीर पडटात तशें तांबडें शेदालुगट बांदील्लें. कांय बायलां-भुरग्यांनी व्हिस्तीद घालून माथ्यार जाळयो सोडिल्ल्यो. कांय बायलो साडयो न्हेसून माथ्यार पदर घेवन चलताल्यो. पोको हें सगळें पयलेच फावट पळेतालो.

आतां पुरसांव काबार जालें. बुयू आकाक वाट मेकळी जाली. रोकडेंच ताणें आपलें घर गाठलें. पोक्यान माथ्यावेलो पणस दारांत दवरलो. बुयू आका

पणस भितर घेवन गेलें. परतें भायर येतनां ताणें उदकान भरिल्लो तांबयो हाडिल्लो. ताणें पोक्याक ओंजळी करुंक लायली. आपणें ओंजळेंत उदक वोतलें. पोको गटा गटा उदक पिलो. थंय सिमेंटान टुळटुळीत केल्लो सोपो आशिल्लो. सोप्यार बसल्यार जाता काय म्हूण पोक्यान बुयू आकाक विचारलें. बस बाबा. आतां वोगोत जालो. नुस्तेपास्तें हाडून तुका जेवण घालूंक आतां जमचेलें ना. कडयेनच चार गोटे तुज्या ताळ्यार घालतां. आनी मागीर तुज्या धनयांकडे सोंपयता तुका. तशें केलें म्हण्टकीर हांव सुटलीं एकदांची! अशें म्हणून बुयू आका बडबडत एक हात भेणार धरून आनी दुसरो वावडीत भितर गेलें.

पोक्याक दिशिल्लें, जेवणाक वोगोत आसा म्हूण बुयू आका ताच्या हातार कितेंय एक लाडू बिडू उड्यतलें. पूण खंयचें कितें! बुयू आकाक पडिल्लें आपलें. पोक्याक उदक पिवन मात्सें ताजेपण आयिल्लेंच. तो ते सुळसुळीत आनी थंड सोप्यार वणखलो. पोटा भुकेर मनशाक रोकडोच दोळो लागता. पोक्याकय तशेंच जालें. तो सकाळपासून पांच वरां चलतालो. तो थकिल्लो. सोप्यार ताका खिणांत दोळो लागलो.

इतले म्हणसर बुयू आकान दोगांक जाय तितलें शीत शिजयलें. सोलांकडी केली. चोळक्यार शीत आनी केळीदोण्यांत सोलांकडी वाडून पोक्याक जेवंक उठयलो.

बुयू आका निमणें बायल आशिल्ली. आनी वोगतार भायर सरतात तीं बायलां कसलीं ? जेवल्या उपरांत बुयू आका आपले कुडींत जें कितें सांसपूंक लागलें, स केन्ना जालीं ताकाच खबर ना. पोको पळेता, बुयू आका भायर येता येता काय म्हूण!

शेकीं आमोरेचेर बुयू आका पोक्याक घेवन भायर सरलें. बुयू आका बल्कावांत आयलां तें पळोवन येम्ने आका पोंग घालीत भायर आयलें. दाराकडे शेण काडिल्ले जमनीचेर ताणें बसकल मारली. बसूनच पोक्याचेर बारीकसाणीन नदर मारली. इतले म्हणसर येम्ने आकाल्यो दोनय सुनो आनी व्हडले पुतालीं दोन भुरगीं एकठांय जालीं. बुयू आका येम्ने आकाले मांडयेक मांडी तेकोवन बसलें. 'तुजें नांव किते रे ?' येम्ने आकान मुलाखतीक विचारतात तसो प्रस्न केलो. 'पोको' अशें म्हणून पोक्यान मास्तराक जाप दिता तशी दिल्ली. ती आयकून येम्न्याली नात कुकक् करुन हांसली. तें पळोवन ताचे आवयन ताका फाटल्यान

कुच्च करुन चिमटो काडलो. 'घरा कोण कोण आसा रे तुका?' 'सगळीं आसात. पापा आसा, आई आसा, सुकडो, पिसू बी !' पोक्यान शाळेंत दोन वर्सां काडिल्लीं. ताका लागून कोणाकय प्रस्नाच्यो जापो तो अयटीन दितालो.

येम्ने आनी बुयू आका सोडून सगळीं आतां पोक्याक उभ्यांनी पळेतालीं. तातूंत आतां शेजाऱ्याल्या भुरग्यांची भर पडिल्ली. सगळीं जाणां पोक्याक तुकूतुकू पळेतालीं आनी पोको सगळ्यांक आलटून-पालटून पळेतालो. येम्ने आकाली व्हडली सून सट्ट करून भितर गेली. थोडे वोगतान शेव-चिवड्या पुडो घेवन भायर आयली. 'चलात हांगाचीं आतां, पोक्याक पळेलो तो पुरो. ताका हें खावंक खांवदी. पोक्या, सोप्यार बस आनी खा हें, मागीर तुका इल्ली च्याव दितां. बस पुता, बरें जालें तूं आयलो तो. आतां राव आमगेर बरे भसेन!' अशें म्हणून येम्ने आका जमनीक हात तेकोवन उठलें. बुयू आकाक घेवंन चोवकेच्या एका पोताक वचून तीं दोगांय बसलीं. थंय एक कानापो आशिल्लो. पूण येम्ने आकाक शेणान सारयल्ले जमनीर बसूंक चड आवडटालें. सगळीं वतकीर पोको बल्कांवांच्या सोप्याचेर एकटोच बसून शेव-चिवडो खायत रावलो.

इतले म्हणसर येम्ने - आकाली धाकटी सून हातांत पेटील्ली पण्टी घेवन भायर आयली. 'पोक्या, बस आं,' म्हणून ती तुळशीकडे गेली. तुळशीक नमस्कार केलो. तुळशीभोवती फेरे घाले. मागीर संथ पावलांनी भितर आयली. 'पोक्या, बस आ' म्हणून भितर गेली. पोको आतां काळकांत एकटोच बसून आशिल्लो. तुळशीकडे आनी घरांत दिवे मिणमिण्टाले. घरांत भुरगीं संध्या म्हण्टालीं. भायर मोगऱ्यांनी आपलो वास सोडून आमोरी सुवासीक करून सोडिल्ली. गोठ्यांत गोरवां हामेतालीं. हांगा-थंय घरां आसात हें थंय पेटिल्ल्या मंद-मंद दिव्यावेल्यान कळटालें.

राणू खवंट्यालें घर खूब पोन्ने. गांवटी नळ्याचें पूण खूब व्हडलें. घराक फाव तशी उंची नाशिल्ली. घरांचीं दारां मान बागोवन भितर सरता तसलीं. घराक एक ओसरी आशिल्ली. तेच ओसरेक घरांतलीं मनशां चोवकीय म्हण्टालीं. ओसरे मुकार एक बल्कांव बांदिल्लें. तें उबें आशिल्ल्या कारणान ताचें एक पोंत ओसरेक तेकिल्लें. हें बल्कांव मात नवें आनी देशेंत आशिल्लें. ते तेंपावेल्या एका भाटकाराक सोबता तसलें. लाकडी मदेराचें आनी सुलचे नळ्यांनी शिविल्लें. जमीन आनी सोंपे सिमेंटान टुळटुळीत केल्ले. सोप्यांचेर बसतकीर

पायें सोडून एकामेकांकडे आवंताद बसून चकाटां मारुंक मेळटालीं. पूण हांगा चकाटां मारुंक कोणाक वोगोत नाशिल्ल्यान ते सोप्याचो उपेग भांगर दवरून रीण काडटल्या लोकांखातीर चडसो जातालो.

हे बल्कावांच्या दोनयवटयां चोवकोनी आंगणां भसेन दोन सुवातो आशिल्ल्यो. घरांतल्यान भायर सरतना दावेवटेंचे सुवातेंत तुळस आनी मोगरी, जायो-जुयो, गुलाबांची बी झाडां आशिल्लीं. घराफुडें ओसरी आशिल्ली. घरामुकार दोन-तीन पेरीचींय झाडां आनी चिंचेचींय झाडां आशिल्लीं. घराफुडें ओसरी आशिल्ली तशीच फाटीं लांबचेलांब वासरी. वासरेच्या एका पोंताक येम्ने आका अनवाळें जेवण रांदतालें आनी दुसरे पोंताक नुस्त्याचें जेवण शिजतालें. ताकाच तेकून आशिल्ल्या दारांतल्यान भितर सरतकीर मान्ने आनी भायलेवटेन बांय आशिल्ली. बांयक तेकून एक निरपणसाचें झाड आनी मात्से फुडें सालदाट्यो केळी. गोठो मात घरापासून बरोच पयस आशिल्लो. गोठ्याक तेंकुनच जोळोव भरपाची एक कूड आशिल्ली. घर भाटाच्या एके धडे कुशीक आशिल्लें. आनी ही धड शेता देगेक आशिल्ली. खुबर्शी शेतां आनी बांद काडल्या उपरांत दर्यावेळ लागताली. असल्या थंड वेळार दर्याचो गाज आतां पोक्याच्या कानार मारुंक लागिल्लो.

राणू खंवटो भायर पडून दोनेक वर्सां जाल्यांत जावये. येम्ने आका बोडकें जाल्लें. ताच्या कमराक बाग आयिल्ली. धवेंफुल्ल आंगवस्त्राचो पालोव ताच्या माथ्यार आसतालो.

**घरां**तर्ली सगळी मनशां येमन्याक आई म्हण्टालीं. हे फुडें आमीय येम्ने आकाक आईच म्हणूया.

ही आई आशिल्ली आंगलटीन लांब, बारीक आनी किडकिडीत. उलयतना तिच्या तोंडांतल्यान चडशावेळां म्होंव गळटालें. कोणाचोय राग आयल्यार मात्सी कॅच्च करताली आनी रोकडीच निवळटाली. चडशी भायले-भितरल्यांक पुता पुता करूनच आपलीशी करून वागताली. आईले दोगय पूत पसरो चलयताले. व्हडलो घरच्यांचो अण्णा आनी धाकलो तातो. व्हडल्याक दोगां भुरगीं जाल्लीं

आनी एक पोटांत आशिल्लें. धाकल्याक मात अजून कांय जावं नाशिल्लें.

राणू खंवट्यान आपल्या दोनय पुतांक पोसरो घालून दवरिल्लो. धाकटो पूत दीस आनी रात पसरो सांबाळटालो. व्हडलो म्हळ्यार अण्णा भायलो सगळो कारभार पळेतालो. गांव शेतांचो आशिल्ल्यान सारें हाडून विकप, गांवांक तेकून दोंगर आशिल्ल्यान काजू बियो घेवन सांठवप, शेजारच्या गांवांत वायंगणां पिकतालीं, ताकालागून साकांनी बीं हाडून विकप, हो गांव शेता वांगडाच भाटांचो आशिल्ल्यान भाटकाराकडच्यान नाल्ल घेवन विकप, खोबरें फोडप, नाल्ल सोलून अरबांक विकप, असलो धंदो हे दोगय भाव करताले आनी तांकां आदार दिवंक आतां तांगेर पोको आयिल्लो.

पोको भितर सरनाफुडें ताचो थातोमातो जालो. विचारपूस जाली. पोक्याक खूब बरें दिसलें. सगळीं आपापल्या कामाक लागतकीर पोको काळकांत एकटो पडलो. ताच्या फाटल्यान तुळशीकडे जळत आशिल्ल्या पण्टेतलें तेल अजून काबार जावं नाशिल्लें. पण्टेचो उजवाड तुळशीभोंवतणीच घुटमळटालो. बल्कावांत काळखाचें राज्य चलतालें. काळकांत एकटोच बसून पोको सुटकेची वाट पळेतालो.

इतक्यांत आई भायर आयली, 'पोको बसला मरे थंय ?' आईक काळकांत पोको दिसलो ना. 'हय आई' पोक्यान जाप दिली. 'चल पुता, वाडटां तुका. जेव आनी न्हीद. यो म्हजे फाटल्यान तुका वाट दाखयतां.'

अशें म्हणून आई पेत्रोलाचो दिवो हातांत घेवन चलूंक लागली. ओसरेवेल्यान दोगांय उजवेवटयां चलतालीं. 'सांबाळ रे बाबा, सगळी आडकळ हांगा, पडशी-बिडशी.' वाटेर कुंड्यासाक, नाल्लांबोणे आनी खोबऱ्यासाकांतल्यान वाट काडीत फुडें गेली. फुडें पावतकीर दोगांनीय वोल्त मारलें. दाव्यावटयां मेळिल्ल्या दारांतल्यान ती एके अशीर कुडीत भितर सरलीं. कुडींतल्यान फाटले वासरेर पावतकीर, उजव्या दारांतल्यान तीं मान्न्यांत पावलीं. मान्न्यादाराकडच्या कोनशाक एक तांबयो, ताट आनी कांचे ग्लास आशिल्ले. आईन पोक्याक ताट-तांबयो घेवन वासरेर जेवणाक बसयलो.

आईन पोक्याखातीर उकड्या तांदळाचें शीत केल्लें. तांचें एक मरड आशिल्लें. हें मरड अण्णा मानाय घालून घराच रोयतालो. मेळटा ते भाताचे उकडे तांदूळ करून विकतालो. थोडे तांदूळ केन्नाय कामेऱ्यां-मानायांखातीर

राखून दवरताली आई. तेन्ना सुरय तांदूळ सट् करून मेळ नाशिल्ले. ताका लागून भायले लोकांक उकडें तांदळां शीत करून वाडटाली. पोक्याक तर उकडे तांदळां शीत खूब आवडटालें. उकडें तांदळां पेजय, खाऱ्याचो ना जाल्यार दोणां आंबले कुडको लावन जेवंक ताका आवडटाली. तिसऱ्यांसुकें आनी सुके सुंगटां हुमणावांगडा उकडे तांदळां बटबटीत शीत जेवन पोको खोशेन भरलो. आईनय ताका फाटलें फुडलें शीत वाडून ताच्या पोटाचो अदमास घेतिल्लो.

पोको जेवन परत सोप्यार येवन बसलो. ताची नवी धनयां जोडी अजून पसऱ्यावेल्यान येवनाशिल्ली. तांकां पळोवंक तो उत्सुकतायेन भरिल्लो. इतक्यान हातांत लापयांव घेवन कोण तरी येता तो पोक्यान पळेलो. कोण आशिल्लो तो? पोक्याले धनी बी न्हय मू ? हय ! तागेले धनीच ते ! फुडें हातांत लापयांव घेवन पायांकडे पळेत तातो चलतालो आनी फाटल्यान बॅटरे दिवो घेवन अण्णा. पोक्यालें काळीज धडधडूंक लागलें. कशे आसतले हे धनी ? पणजेच्या काका असले नासल्यार पुरो. करतां करतां दोगांनय बल्कावांत पांय दवरलो. तात्याची नदर पयलीं पोक्याचेर पडली. ताणें लापयांव वयर काडलो आनी पोक्या तोंडाकडे धरलो. पोक्यान मान सकल घाली. उपरांत अण्णान ताचेर बॅटरे दिवो घालो. पोको दिपकवलो. ताणें दोनय हात आपल्या दोळ्यांचेर धरले. हो नवो भुरगो बुयू आकान हाडला जातलो. घरांत वचून पळे जाल्यार बुयू आका आईकडे खबऱ्यो मारता. अण्णाक आतां मांडार काम करूंक भुरगो मेळील्लो. अण्णा खूश जाल्लो. तसोच भायर आयलो.

‘पोको मरे तूं ?’

‘हय.’

‘जेवलो ?’

‘हय.’

अण्णान पोक्याली चवकशी घेतली. पोको फुल्लो. आनी कित्याक फुलचो ना? अशी आपलेपणान ताची खबर हाचे पयलीं कोणेंच घेवं नाशिल्ली.

‘आई, पोक्याक हातरुंक-पांगरुंक दी, न्हिदूनी ताका’.

पोक्याक दिल्ली गोदडी आनी शेंदरी नवी नाशिल्ली पूण साप बादय नाशिल्ली. पोक्याक बल्कावांत न्हिदचें अशें दिसतालें. पूण अण्णान ताका भायर न्हिदूंक दिलो ना. ओसरेर सगळेकडे आडकळ आशिल्ली. कुंड्यासाक आनी

नाल्लांबोणे हाचेमदें इल्ली जागा आशिल्ली. पोक्यान थंय आपली शेनरी पसरली मात, इतल्यांत थंय व्हनीबाय, अण्णाली बायल आयली. तिणे पोक्याक कानाप्याचेर वचून न्हीद म्हूण सांगलें.

दुसरे दिसा पोको सक्काळीफुडें सगळ्यांपयलीं उठलो. हो दीस ताचो आपल्या कामाची हुशारी दाखोवपाचो आशिल्लो. तो भायर बल्कावांत येवन उबो रावलो. ताणें चारयवटयां नदर मारली. ताका सगळें नवें नवेशें दिसलें. ताच्या गांवांतल्या घराफुडें आनी फाटी आशिल्ल्या झाडां असलें एक लेगीत झाड दिसनाशिल्लें. पळेत थंय शेतां-भाटां आनी बांद. तांबडे मातयेचो पत्तो नाशिल्लो. हांगा लांब लांब झाडां आनी तांचेर चडिल्ल्यो वाली दिसनाशिल्ल्यो. सगळेंच निवळ निवळशें, सगळेंच मोटवें मोटवेंशें. रातीं ताणें हांगच्या लोकांची भास आयकल्ली. तीय ताका वेगळीशी लागिल्ली. व्हनीबायची भास आयकल्ली. तीय ताका वेगळीशी लागिल्ली. व्हनीबाय साश्टीतली आनी मावशीबाय पणजेची. दोगांय बरीं पूण भाशेंत आनी सोबावांत भेद दिसून आयिल्लो पोक्याक.

इतल्यांत ओसरेचें दार कर्रर करून उकतें जालें आनी अण्णा भायर आयलो. हांगा-थंय नदर मारून भितर गेलो. ते म्हणसर व्हनीबाय भायर येवन बद्द गोठ्याकडे गेली. गोठ्यांतले गायेक हाडून तिणें भायले पेरीक बांदली. गाय व्हनीबायक दूद काडूंक दिनाशिल्ली. तिका आईच जाय आशिल्ली. आई चकचकीत तांबयो आनी उबो पेलो घेवन भायर आयली. तिणें म्हेडीक बांदिल्ल्या पाडकाक सोड म्हूण पोक्याक सांगलें. पोक्यान पाडकाक सोडलें खरें पूण तें पोक्याक वोडीत घेवन गेलें. पाडकाक सोडून ताणें पान्याक तोंड लायल्याबगर गाय पानेनाशिल्ली. एकदां गाय पानेली म्हणटकीर पाडकाक वोडून खुट्याक बांदपाचें काम पोक्याक जड वतालें. पयले खेप तर पाडकान पोक्याक असो हिसको दिलो, की झटक्यांत पोक्याची गुटली जमनीर.

खरें म्हळ्यार पोक्याक आतां हांगा कोण कसलेंच काम सांगिनाशिल्लो. पोको तांगेर घरांतलीं कामां करुंक येवनाशिल्लो. ताका हाडिल्लो माणावेलीं कामां करुंक. सारें जोकूंक, तातो सांगता तें जोकून दिवंक. माण णवांक उकतो जातालो. ते मेरेन पोक्यान च्या पितकीर माणार वचून भायर उबो रावपाचो.

पोको नवो आशिल्ल्यान अण्णा पोक्याक माणार घेवन वचपाचो आशिल्लो. पूण पोक्यान हांगा एकेक काम आपल्या आंगार वोडून घेवंक कोमेस केल्लें.

व्हनीबाय पाडकाक सोडटा तें पळोवन पोको आपूण धावून गेल्लो. आतां मावशीबाय लोजांतली सोण्णां आनी लाकडां रान्नीकडे व्हरता ती पळोवन पोको आपूण धावून गेलो. दूद काडून जातकीर केदे वेळान कुटू गोरवांक सोडून घेवन दोंगरार गेल्लो. गोटोभर शेण पातळिल्लें आशिल्लें. कालचे शेणाच्यो कोणे तरी फातरार शेणी थापिल्ल्यो आशिल्ल्यो. पणजे आसतना पोक्याक शेणी थापपाचो अणभव आशिल्लो. पोक्यान वोगोत लायनासतना सगळ्या शेणाच्यो शेणी थापल्यो आनी गोठो झाडून लिंप केलो. ताका तें काम करुंक सांगू नाशिल्लें तरी आपूण आसतना धनयांल्या मनशांक काम करुंक कसो दितलों. तीं कामां करता आसतना तो बेकार कसो बसतलो ?

च्याव बी पिवन जातकीर अण्णा माणाच्यो चावयो घेवन माणार वचूंक भायर सरलो. ताणें पोक्याक उलो मारलो. चल माणार या, म्हणून पोक्याक घेवन तो माणार गेलो.

खंवट्यालो माण मुखेल रस्त्याक तेकूनच आशिल्लो. रस्त्याचे उजवेकडेक गोळीचें व्हडलें झाड. पसऱ्याच्या दारांत सदांच सावळी आसची म्हण, राणू खंवट्यान गोळीचो खांदो हाडून रोयिल्लो जांवये. राणू मेलो तरी कितलींशींच वर्सां ही गोळ दाट पानांच्या खांदया-खांदयानी फाकून येत्या-वत्याक सावळी दीत उबी आशिल्ली.

राणूल्या पसऱ्याक, पसरो-माण बी नांवांपुरतोच म्हणपाचो आशिल्लो. खरें म्हळ्यार तें एक माळयेचें व्हडलें घरच आशिल्लें. घराच्या अर्द्या भागाक नाब आशिल्ली. दुसरे भागांत तांदूळ, जोंदळे, गवांचे बी साकांचे दाळांचे दाळ मांडून दवरिल्ले. गोडाच्यो धेंपी, खाजराचीं वणगीं, धुमटेचीं (तंबाखूचीं) पास्तांचेर पास्तां मांडून दवरिल्लीं.

सगळी माळी रिकाम्या साकांनी, दब्यांनी, कार्शीनी आनी पेत्रोलान भरिल्ल्या दब्यांनी भरिल्ली. हत्तीछाप आनी सुर्याछाप पेत्रोला दब्यांचे दाळच दाळ वयर-सकल दिसताले.

हे माळयेच्या पसऱ्याक तेकूनच दोन व्हडलीं लोजां आशिल्लीं. एका लोजांत पाडसाक तेकमेरेन हजारांनी नाल्ल. दुसऱ्यांत एके कुसीक सारें आनी दुसरे कुसीक काजूबियां साक. हे माणाक लागून आशिल्ल्या दोनय लोजांक तेकून भायलेवटेन लांबचें लांब पार्के सोडिल्लें. हे पाक्यापोंदची सुवातय कितें ना कितें आडावन

आशिल्ली. पसऱ्यार पसरकाराची वाट पळेत कितलींशींच गिरायकां उर्बी आशिल्लीं. अण्णान माणार पावतकीर दार उकतें केलें. बाकीचीं दारां पोक्याक उकतीं करुंक लायलीं.

अण्णाक रावतालीं तीं चडशीं गिरायकां साऱ्यांचीं आशिल्लीं. मिर्ग लागीं पाविल्ल्यान चरव्याक मारूंक सारें जाय आशिल्लें. पसऱ्याच्या ओसऱ्यार एक व्हडली तागडी लांबयिल्ली. ही व्हडली तागडी मण-दोन मण मेरेन सारें जोकपाखातीर आशिल्ली. ताच्याऊन व्हड दाल्यां तागडी भायर लोजां ओसरेर लांबोवन दवरिल्ली.

हेर गिरायकांक नाबीर दवरून अण्णा पयलीं साऱ्याक आयिल्ल्या गिरायकाक आवियार करुंक गेलो. ताणें आंपल्या वांगडा पोक्याकय आफोवन व्हेलो. ताणें थंयचे लातांत पोक्याक कट्ट्यांनी सारें उसपूंक लायलें. मागीर साऱ्या साक कशे सोडवप, सारें कशें जोकप, वजनां कशीं वळखप, हें अण्णान पोक्याक थंयचे थंयच शिकयलें.

सारें जोकून जातकीर अण्णा हेर गिरायक आवियार करुंक गेलो आनी पोको दारार वचून उबो रावलो. हे फुडें पोको काम ना तेन्ना हे फुडले दाराच्या हुंबऱ्यारच उबो रावतालो.

आज पोक्यालो कामाचो पयलोच दीस आशिल्ल्यान अण्णान आनी तात्यानूय बी पोक्याक थंयची नियाळणी करपाक दिवपाचें थारायिल्लें.

अण्णा गिरायकाक आवियार करता आसतनाच सायकलीन तातो आयलो. हे तात्याचें नांव रामनाथ, पूण गांवांत तो फामाद आशिल्लो रामलो म्हूण ! हे रामल्याच्या सोबावांत रमलोना असो एकय मनीस गांवांत मेळूंक कठीण आशिल्लो. गांवांत आनी गांवांभायल्या लोकांमदें रामलो फामाद आसपाक एकच कारण आशिल्लें. रामल्यालो मात्सो विचित्र सोबाव. हे विसरभोळ्या सोबावाक लागून लोक रामल्याचेर बेज्यार जाताले आनी ताचीं फकाणांय करताले. गांवांत एकच नावाजतो पोसरो आशिल्ल्यान चडशा लोकांचो संबंद रामल्याकडे येतालो.

रामलो आज सदांभसेन मोटवें कल्सावांन माणार आयलो. ताणें सायकलीक चावी करुन ती व्हरुन फाटल्यान दवरली. भुजां उडयत, हे वटेन ते वटेन पळेत माणार भितर सरलो. माणार भितर सरतकीर कितलेंय गिरायक आसूं, तो

गिरायकाक थंयच उबें करुन पंदरा वीस मिनटां तरी वोगीच हांगा-थंय बोवाळटालो. हें उस्तीय तें उस्तीय करतालो. हांगाची वस्त थंय दवर आनी थंयची हाडून पयलींचेच जाग्यार दवर, अशें ताचें एकसारकें चलतालें. ताका लागून गिरायक ताचरे बेजारतालें. ताका माणार पळोवन निरासतालें, कपलार मिरयो घालतालें.

तसो हो तातो गिरायकाकडे रेक्त आसतालो. आपले दुडू गिरायकाक चड वच्चे न्हय आनी गिरायकाकडल्यान आपणे उणे घेवंचे न्हय हाची तो देमायज काळजी घेतालो. गिरायकाकडल्यान म्होर घेतकीर ती धा फावट आलटून-पालटून पळेल्या उपरांतच गंगाळांत सोडटालो. गिरायक सामान घेवन दाराकडे पावलें म्हणटकीर 'छूत छूत हांगा यो रे, हांगा यो गो' करुन परत हाडून तांका, तुवें पयशे कितले दिल्यात काय म्हूण विचारतालो. मागीर गंगाळांतले पयशे चिमटेंत धरुन विचारतालो, हे दिल्ले मगो तुवें पयशे काय म्हूण!

तात्याल्या ह्या भोळसट सोबावाक लागून अण्णालें आनी तात्यालें खुबदां पेट्टालें. पूण अण्णा व्हडलो भाव आशिल्ले कारणान तातो ताचें सगळें मोन्यानी आयकून घेतालो. तात्याकय आपल्या भोळसटपणाची जाणविकाय आसताली. पूण जाल्ल्याचो सोबाव मेल्याबगर वचना म्हण्टात तें फट न्हय!

असें आसलें तरीय तात्यालो एक गूण वाखाणण्यासारको आशिल्लो. ताका सट् करुन राग म्हण येनाशिल्लो. केन्ना-केन्ना तो इतलो कोमेतालो की माणार आयिल्ल्या बायलांची फकाणां करुन तांचेकडे बरोऽ मुरगट्टालो. मागीर हीं किरीस्तावांली चेडवां-बायलां, भाटकार मोदेला म्हूण तींय ताचीं फकाणां करुन हांसत-खिदळत घरा वतालीं. ही फकाणाची देव-घेव निर्मळ आनी उकते मनान घडटाली. तात्यालो हो सोबाव खुद्द ताचे घरकान्नीक आवडनाशिल्लो. आपल्या घोवाक लोकामदें मान आसचो, ताचो सगळेकडे दरारो आसचो अशें खंयचे शाणे बायलेक आवडचेंना ? तातूंत ती पणजेसारकिल्ल्या शारांत वाडिल्ली, दोन अक्षरां शिकिल्लीय बी.

तात्यान आता सदांभसेन पसऱ्याची पोस घेतली. आतां तो दनपाराचें एक वर मेरेन ती सोडचो ना. अण्णा आतां फुडल्यो राटावळी करुंक मेकळो जाल्लो. भायर गाडू येवन बशिल्लो. गाडू हो तांचो परमानेंत मानाय. आताचे भाशेंत ऑल राऊंडर. सारें जोकपी, साऱ्याचे साक माथ्यार घेवन गाड्यार घालपी, बियो मेजपी, नाल्लांचीं पाटीं माथ्यार घेवन नाल्ल लोजांत भरपी, नाल्ल सोलपी.

ताका कितेंच कळना अशें नाशिल्लें. हे गाडूवेल्यान फुडें पोक्याक कळून आयलें की आपल्या बापायभशेन हे संवसारांत आनीकय खंय ना खंय मनीस आसतात.

हो गाडू मनशाळो आशिल्लो. पोक्याक ताणें अदमास केलो, हो भुरगो गिरायकांतलो न्हय. खुबशे मनीस, ते मागीर ल्हान-व्हड कोणय जावं, तांकां मानसशास्त्राचें थोडे-भोव गिन्यान आसतातच.

"तूं हांगा रावोंक येयला ?"

पोक्यान हयकारी मान हालयली.

"उबो कित्याक, बस मरे यो !"

गाडून ताका आपुलकी दाखयली.

"हांव कसो बोसों, हांव कामाक येयला न्हूं?"

"कामांक येयल्यार कितें जालें ? काम ना तेन्नाय उबोच रावतलो ?"

पोक्याक गाडू कितें म्हण्टा तें कळूंक वोगोत जालो. तो इतलेंच जाणां आशिल्लो, एकदां कामाक लागलो म्हण्टकीर चाकरमान्यान बसपाचें नासता तो बसलो आनी धनयान येवन तुका हांगा बसूंक हाडला काय म्हूण विचारलें जाल्यार? पोक्याक तें मरुंक पुरो आशिल्लें.

इतल्यांत अण्णान 'गाडू', म्हूण मोठयान उलो मारलो. गाडून काश्टेपोंत फाटल्यान खोयत धांव मारली. अण्णान ताका कसल्या तरी कामाक गुंतयलो. पोक्यावांगडचें उलोवप गाडूक म्हारग पडलें.

इतले म्हणसर गोळीखाला रस्त्यार रेड्यांगाड्यांची रांग लागली. गाडेकार गाड्यांमोकांकडे उबे रावन रेड्यांचेर धेंगसे घालताले. थोडे आवयवेल्यान रेड्यांक गाळी घालताले. हे गाडेकार सगळे गावडे आशिल्ले. भेंडाक एक तांबडी काश्टी आनी माथ्याक एक म्हेळो मुंडासो सोडल्यार एक फाळी नासताली. तांच्यो गाळयो मर्यादीत आसताल्यो, पूण नितीमत्तेन ते उप्पाट भरिल्ले आसताले. ते हिन्दू गावडे आशिल्ल्यान सोऱ्याक हात लायनाशिल्ले, मांसाक तोंड लायनाशिल्ले. फुंकताले ते धुमटी मात!

हे सगळे गावड्यांवाड्यार रावताले. गावडे सोडून हे वाड्यार दुसरो कोणच रावनाशिल्लो. म्हणून तो गावड्यांवाडो. हांगा एक कोंबडी दिसनाशिल्ली, एक दुकरापेटो दिसनाशिल्लो, दिसताल्यो त्यो, गायो, म्हशी, आनी चडशे रेडे, जे गाडे आनी जोत वोडूंक मदत करताले.

णव-धा वरां जातांच गावड्यावाड्यावेल्यान बायलांचे भिर्रे बाजारांत माशेक (मासळेक) वता तें दिसलें. पोक्यान आपल्या गांवांतय गावड्यांबायलां पळेल्लीं. गांव दोंगराळ आसूनय खंयचेच जमातीची एक लेगीत इतली नागडी-उगडी बायल पोक्यान पळोवंक नाशिल्ली. हांगार्ची मात बायलां-भुरगीं कमराक म्हेळें कापड ना जाल्यार कापडाफाळी वेडावन हड्डें उकतें घालून हातांत पाटुलो घेवन बाजाराक वतालीं. पन्नास वर्सांफाटल्या, हातभर पितळे वाळे आनी कानांत मुगडी घाल्ली गोंयकान्न गावडी खंय लिपल्या काय ? आज तेच वाड्यावेल्या त्या गावड्याले नातू-पणतू जीन पेंट घालून सोरो-मास खावन, आपूण मागास म्हूण सरकारचो पयसो खातात. मागासपण पयस करपाची संद आसूनय मागास रावपातच धन्यताय मानतात.

पन्नास वर्सांफाटीं अण्णा खंवटो, हे गावड्यावाड्याचो राजा आशिल्लो अशें मानल्यार अतिताय जावंची न्हय. पावसांतले दोन म्हयने सोडल्यार आख्खो गावड्यांवाडो अण्णाभाटकाराच्या सेवेक हाजीर आसतालो. गाडेकार अण्णाल्या लोजातले नाल्ल व्हरुन तारीकडे पावयताले. एक गाडेकार दिसाक चार खेपो लेगीत मारतालो. खेपेक बारा आणे परमाणे तीन रुपयांची जोड जाताली. आमोरेचेर तीन रुपयांतले देड रुपयो गाडेकाराच्या हातार पडटालो आनी देड रुपयो ताच्या नांवार जमा जातालो. सांजवेळार गाडेकाराच्या हातांत देड रुपयो आनी काळे धुमटेचो कुडको आनी वेल्यान दोन काडे उडयल्यार गाडेकार खूश जावन घरा वतालो.

मानायांचेंय तशेंच आसतालें. चड करून मानायांक दोन रुपये आनी बायलांक एक रुपयो दिसवडो मेळटालो. बायलांचो दिसवडो मात दिसपट्टो मेळटालो. मानायांचो ताच्या कोंतार बरोवन उरतालो.

अण्णागेर कोणेंय कसलेंय काम कोमेस केलें जाल्यार ताचें कोंतापटयेर नांव पडलें म्हूण समजचें. नाल्लांकार, बियांकार, मुंडकार ते भायर गिरायकांचींय नांवां ताच्या पटयांचेर आसतालीं. लोकांनी उदार सामान व्हरपाचें आनी कामाचें पयशे ताच्या कोंतार बरोवन दवरचे.

अण्णा गावड्यांचेर पुराय पात्येवन आसतालो आनी गावडे अण्णाचेर. अण्णान गावड्यांक फटयलो अशी कोणाक केन्ना कागाळ आयकूंक मेळनाशिल्ली. दिवाळेकडे वर्साचें कोंत करता आसतना गावड्यांक ताच्या

कामाची आनी सामान व्हेल्ल्याची याद करून दितालो. गावड्यान हय भाटकारा म्हणल्या उपरांतच कोंत काबार जातालें.

अण्णा खंवटो पातयेनाशिल्लो तो मात बामण परसकारांक. ते ताचेकडल्यान सामान उदार व्हरताले आनी ताचे दुडू बुडयताले. बामण पसरकार हाचेखातीर म्हणचें पडटा की ते तेंपार ते गांवांत आनी लागशिल्ल्या गांवांनी पसरे चलताले ते बामणाचेच. उदार दिवपाचे बाबतींत कितलोय लागशिल्लो सोयरे आसल्यार लेगीत अण्णा तांकां लागीं धरिनाशिल्लो.

लोकांकडे गोड गोड उलोवन, तांकां आपलेशें करुन धंदो कसो करचो हें कोणेय अण्णाकडल्यान शिकचें. गाड्यांनी नाल्ल हाडून माणामुकार वोतोवंचे. तारीकडच्यान पेत्रोला दबे हाडून माणादारांत दवरचे आनी अण्णान ते आमोरेचेर वेपार व्हरुंक आयिल्ल्यांकडच्यान लोजांत भरचे. तांच्या हातार चार आणे उडोवंचे, इल्ली धुमटे पाकळी आनी दोन काडे दिले म्हण्टकीर काम करतलेय खूश आनी अण्णाय खूश. इल्लेशे खर्चांत खुबशें काम करुन घेतालो अण्णा!

पोक्यान पयले दिसा मांडार कितें कितें घडटा हाचो पुराय नियाळ केलो. ताका अण्णान आनी तात्यान कसलेंच काम सांगलेंना. इगर्जेचीं आठ वाजलीं तेन्ना मात अण्णान पोक्याक दारां बंद करपाची ओर्द दिल्ली. गाडू आपल्याक जाय तें सामान घेवन घरा गेलो. ताणें वता आसतना नुस्त्याक म्हूण आठ आणे अण्णाकडच्यान मागून घेतले. नुस्त्याबाजार तेन्ना आठ साडे आठ वरां लेगीत रातचो चलतालो.

माणाचेर एक रुंदसो सोपो आशिल्लो. सोप्याचेर एक रुंदशी शेनरी आशिल्ली. शेनरेर वणखोवपाखातीर उशें आशिल्लें. उशें वण्टीक तेकोवन आनी फाट उशाक तेकोवन अण्णा आनी तातो बसताले. दोगय मात एकदम सोप्यार बशिल्ले केन्नाच कोणेंच तांकां पळोवंक ना.

सोप्याक तेकूनच एक आज्या मुर्स्तींतलें मेज आशिल्लें. ते मेजाचेर एक दिवली पेट्टाली. हे दिवले उजवाडांतच अण्णालो रातीचो कारभार चलतालो. हो दिवले उजवाड, रातचो हिशोब बरयतना अण्णाचें मन पवित्र दवरतालो. हिशोब बरोवपाक कोमेस करचे पयलीं अण्णा दिवलेक नमस्कार करतालो.

अण्णालो माण बाजारापसून सुमार एक किलोमेत्र पयस आशिल्लो. बाजारांतले सगळे पसरकार राणूल्या पसऱ्यावेलोच म्हाल व्हरताले. ताका लागून

साडे आठ ते णव मेरेन पिशव्यो घेवन राणूल्या माणार येवन पसरकार वेपार व्हरताले. उपरांतच अण्णा खंवटो हिशोबाची पटी हातांत घेतालो. हिशोब बरवप धा-साडे धा लेगीत चलतालें. हिशोब बरोवपाचें काम अण्णा करतालो तेन्ना तातो भितरलें सामान जाग्यार घालतालो. तरी हिशोब बरयतासतना दोगांय भावांची जुगलबंदी चालूच आसताली. हिशोब बरोवन जातकीर लापयावांच्या उजवाडान घरा वताले. ते उपरांत तांचीं जेवणां जातालीं.

अण्णाले ओर्दीपरमाणे दारां धापून जातकीर पोको नाबीफुडें वण्टीक तेकून आशिल्ल्या बांकड्यार वचून बसलो. अण्णालो हिशोब बरोवन जाय म्हणसर तरी ताका थंयच बसचें पडटालें. मागीर ताका लापयांव हातांत धरून धनयांवांगडा चलचें पडटालें. लापयांव ताच्या हातांत आसतालो, आनी उजवाड दोनय धनयांच्या पांयांकडे!

अशे तरेन पोक्यालो पयलो दीस सोंपलो. खऱ्या अर्थान कामाचो पयलो दीस सुरु जालो तो दुसरे दिसाच्यान. घराकडचीं कालचीं कामां ताणें आजय केलीं. तींय कोणे न सांगतां.

काल अण्णा दीसभर माणार आशिल्लो. आज तो सकाळीफुडें कोट-तोपी घालून खंय तरी वचपाक भायर सरलो. खंय तरी खंय? तो आठ-आठ दिसांनी बेळगांव वतालो वेपार हाडूंक. एक दीस मदीं करुन तो पणजेय वतालो. भायर वचपाची संद तात्याक मात मेळनाशिल्ली. तो गेलोच जाल्यार मावोड्या! बायल घरा आनी तातो मावोड्या. अशें खुबदां घडटालें. 'तें' येवंक ना कांय म्हूण मावोडेचे लोक तात्याक विचारताले. तेन्ना तो सांगतालो 'ना हांव पणजे आयिल्लों. ब्राह्मणीत कित्याक जेवचें कांय म्हूण हांगा आयलों.' बायलेक तो तेंच सांगतालो. 'आपूण, नाना शेटीगेर पणजे गेल्लों. दनपारां थंय गेलों. आई बी खबर घेताली तुजी. हांवें सांगलें सगळीं बरीं आसात.'

'आई खबर घेताली म्हजी, आनी तुमी सांगलें सगळीं बरीं आसात?'

'एकाच उतरान काबार केलें हांवें तें.'

हो तातो माणार रावन उबगतालो. ताकाय केन्ना भायलो वेपार करिनसो दिसतालो. अण्णा घरा आसतकीर आपूण लेंगो चडोवन, लेंगो हुबचो न्हय म्हूण पायांक क्लिपां अडकोवन सायकलीर बसून, जाता तितले गतीन तो खंयच्या तरी भाटकारागेर वचून नाल्ल मोलावन येतालो. तात्याली तेन्नाची नाल्लमोलणी

म्हळ्यार आजचीं अटलबिहारी आनी मुजर्रफचीं पाकिस्तानाविशींची 'बोलणी'. फरक इतलोच कि, तातो मोल थारावन येतालो. अटलबिहारीचें तुमकां आमकां सगळ्यांक खबर आसा.

कालचेभसेन आजय पोको अण्णावांगडा चावयो घेवन माणाकडे आयलो. अण्णान माण उकतो केलो. कितें तरी कोटाबोल्सांत चोंदलें. हातांत कोलंबो काळी सत्री घेतली. भितर वतना ताणें पोक्याक सांगून दवरिल्लें, कामिज्यांव येत जाल्यार हात कर म्हूण. पोको दोन दिकांतले एके दिकेकडे दोळे लावन कामिज्यांवांची वाट पळेत उबो रावलो. कामिज्यांव पणजे वचूंक खंयच्यावटेन येतालो, पोक्याक खबर नाशिल्ली. अण्णान दार बंद केलें. चावयां घोस पोक्याकडे दिलो. कामिज्यावाची वाट पळेत तो रस्त्याकुशीक उबो रावलो. तो टॅक्सी रिकामी आसल्यार लेगीत बारा आणे दिवन केन्नाच वचनाशिल्लो. आठ आणे दिवन कामिज्यांवांनच वतालो. राणू खंवट्यान ताका तशीच शिकवण दिल्ली.

हो राणू खंवटो कसो आशिल्लो हाची वाचप्यांक इल्ली खबर आसल्यार बरी. ही खबर पोक्याक फुडें किरिस्तावांनी सांगिल्ली ती अशी :-

हो राणू खंवटो मुळचो ते गांवचो न्हय. तो खंयच्या तरी दुसऱ्या गांवांतल्यान आयलो. हे गांवांतल्या एका बांदाचेर ताणें एक चुडटांची खोपटी घाली. आनी तातूंत तो धुमटी विकूंक लागलो. हांगाचे किरिस्तांव लोक पयलीं सुक्राराचे म्हापशां ना जाल्यार बाणास्तारी वचून धुमटी आनी हेर सामान हाडटाले. लोकांक तांदूळ, नाल्ल, मिरसांगो, नुस्तें बी वस्तू गांवांतच मेळटाल्यो. हांगाच्या लोकांक तेन्ना आतांभशेन च्या-साखर बी लागानशिल्ली. लागतालें तें गोड. तेंय बी फेस्ता वेळार. तरी राणू खंवट्यान इल्ल्यो इल्ल्यो ह्यो वस्तू हाडून दवरल्यो आनी लोकांक तांची सवंय लायली.

राणू खंवट्याक जाय जाल्यार तो थंय सोऱ्यादुकानय चलोवंक शकतालो. पूण ताणें तसलें पाप केलें ना. उलट तो थंय सोऱ्याचेर कोंत्रच उलोवंक लागलो.

हे खोपटेंत रावन धुमटे नाड्यार वेपार वाडोवंक जावंचोना. शेतकारांक साऱ्याची चड गरज आसता. हांगाचे शेतकार वर्सयभर शेतांतल्यान कसलें ना कसलें पीक घेताले. जमीन रेवंट आनी फुसफुशीत आशिल्ल्यान गिमांत राशींनी कणगां जातालीं. वयल्या वयर फोण मारल्यार रोकडेंच भरपूर उदक मेळटालें, ताचो उपेग करुन वायंगी, दुदी, पडोळीं, मिरसांगो, कांदे बी शाक-भाजी भरपूर

पिकोवंक जाताली. हे गांवांत मुळो तर खोटांनी जातालो.

राणून तंबाखू वांगडा साऱ्याचोय धंदो करपाचो थारायलो. थेंब्या-थेंब्यान बुडकुलो भरता तसो पै-पयसो एकठांय केल्यारच गिरेस्तकाय वाडटा, हे राणू जाणा आशिल्लो. तो फांतोडेर उठून, हातांत लापयांव घेवन, आठ आणे वाचोवपाखातीर चलून पणजे वचूंक लागलो. भेणाक नोटांचे कवळे बांदिल्ले आसताले. ताका लागून सांगात पळोवनच तो रानावटेन चलून वतालो. केन्ना केन्नाय म्हापशां गाडो घेवंन वतालो खरो, पूण गाड्यार केन्नाच बसनाशिल्लो. भुती खावपाचे वेळार खंयच्याय झाडामुळांत गाडी थांबोवंक लायतालो.

वेपारांत राणू रेक्त आसतालो. आपलो पयसो दुसऱ्याक खावोवचोना आनी दुसऱ्याचो पानदुडू आपूण खावचोना. हे ताच्या गुणांक लागून खुबशे वेपारी ताचे इश्ट जाले. राणूक ते कितलेय पयशांक पातियेवंक तयार आशिल्ले.

राणू खंवट्यान आतां एक लोज बांदपाची येवजण केली. आपल्याकडे कितले पयशे आसात ते पळेले. बाकीचे इश्ट वेपाऱ्यांकडल्यान उदार घेवंचे केले. ताणें आपल्या इश्टांक आपली येवजण सांगली. दोन पयशे चडच ज्यूर दिवपाचे बोलीन, आपले ताकती परमाण आपल्या इश्टांकडे ताणें दुडवांची मागणी केली. ताणें असल्या इश्टांकडे दुडवांची मागणी केली कि ते ना म्हणूंकच शकचेना.

राणू येवजणेचो पक्को आशिल्लो. ताणें इमारतीची बुन्याद अशी घाली कि फुडें तातूंत कसलोय धंदो सुरु करुंक ताका आनी ताच्या भुरग्यांक कसलीच आडकळ येवची न्हय.

राणू मेले उपरांत तागेल्या ह्या दोगय भुरग्यांनी काटुकसाणीन जम बसयलो. कितलींशींच वर्सां ते मोडके घरांत रावले. संडास बांदपाची तांक आसुनय तांणी तो बांदलोना. पेट्रोलमास दिवो हाडपाची तांक आसुनय द्विवले उजवाडान ताणीं कितलीशींच वर्सां काडलीं. तात्याकडे नुस्त्याक पयशे मागल्यार चार आणे वयर तो एक पयसो दिनाशिल्लो. अण्णाक सुरंगटी खायन दिसताली, तेन्ना मात तो आठ-बारा आणे खर्च करतालो. पयलीं तो कोणाकडल्यान खबर घेतालो बाजारांत सुरंगट्यो चड आयल्यात काय म्हूण. चड आयल्यात म्हूण कळल्यारच तो गाडूक धाडून सुरंगुटी हाडटालो.

आतां अण्णा गेल्या उपरांत तातो माणार आयलो. कितलींशींच गिरायकां

ताका साऱ्याक रावतालीं. पयलीं देवाक वात लावन नमस्कार केलो. मागीर हांगा थंय दोन मिण्टां घुस्पून रावलो. परत एकदां, विसरलो बी जायत म्हूण देवाक नमस्कार केलो. पोक्याक उलो मारून साऱ्या तागडेकडे व्हेलो. म्हऱ्यांत उबो रावन पोक्याकडल्यान सारें जोकून घेतलें. सारें जोकता आसतना गरजेभायर लातांतल्या साऱ्याची काड-घाल केली.

आज पोक्याची शेंडी तात्याच्या हातांत आशिल्ली. काल पोक्यान चड काम करुं नाशिल्लें. ताचो वचपो तात्यान आज घेतलो. पोक्याक तो एका फाटल्यान एक काम सांगत रावलो. पयलो बांयचेर वचून उकदाचो तांबयो भरुन हाडूंक लायलो. दारांत गोळीचो पालो पडिल्लो तो सान्नीखुट्यान एकठांय करुन पयस शेतांत व्हरुन उडोवंक लायलो. मदीं मदीं सोण्णां व्हरुंक गिरायक येतालें. तातो सोण्णां मेजून दिवपाक पोक्याक सांगतालो. सोण्णां आनी सारें दिवन जातकीर पोक्याली झडती आनी परिक्षाय घेतालो.

'पोक्या तुवें जेबेलाक सोण्णां कितलीं दिल्यात रे?' पोक्यान जेबेल हे नांव पयलेच खेप आयकल्लें. कोण जेबेल म्हूण तो तात्याच्या तोंडाकडे तोंड आं करुन पळेत रावलो.

'हांवे तुका पन्नास दिवंक सांगिल्लीं. तुवें कितलीं दिल्यांत रे ?'

'तुवें दी म्हणून सांगलेलीं तितलींच दिल्यांत हायें.'

'तुकां मेजूंक कळटा?'

'कळटा म्हणजे.'

'कळटा जाल्यार मेजून दाखय शंबर मेरेन?'

'कितें मेंजू? सोण्णां मेजतां तेन्ना तूं फुड्यांक उबो राव माझ्या. अूंऽऽ, हांव शिकोंक ना तर?'

'कितें? तूं शिकला? कितें शिकला रे तूं?'

तातो पाडसभर उसळ्ळो.

'हांव बरी बिगरी आनी पयली शिकलां'

'कितें? तूं पयली शिकला? खरें सांगता तूं?'

'विद्येच्यान तर, म्हाळशेच्यान तर ! फट दिसता जाल्यार पापाक इचार?'

'हो पापा कोण?'

'बापूय न्हू म्हागेलो?'

तातो चिंतूंक पडलो. ते गांवांत पापा म्हण एक कामिज्यांवकार आशिल्लो. ना जाल्यार गांवांतले किरिस्तांव आपल्या बापायक 'पाय' म्हण्टाले. गावड्यां वाड्यार दादी, दाद, बाब बी खूब आशिल्ले. पोको आपल्या बापायक पापा म्हण्टा तें आयकून तात्याक जाप सुटलीना. पोको पयली शिकला तें आयकून तातो चाट पडलो. तात्याल्या गांवांत गावडे, नायक बी कोण कांय शिकूंक नाशिल्ले. हेर गांवांनी आसता तशें हेय गांवांत इस्कोल प्रिमारियु आशिल्लें. तातूंतय थोडेच भुरगे शिकताले. हिन्दवांखातीर मराठी शाळा आशिल्ली. तातूंत बामणाले, शेटीले आनी मेस्ताले भुरगेच शिकताले.

तातो पयलेची कापसिदाद जाणा आशिल्लो. तोय पयली शिकिल्लो. पूण गणित म्हळ्यार ताका रोकडीच न्हीद येताली.

'तुका पाडे येतात मरे?'

'येतात तर! म्हाका तीस मेरेन पाडे, पावकी, निमकी, औटकी, सव्वाकी आनी दिडकीय बी येता. म्होणोन दाखोवं?'

आतां मात तात्याक हें सगळें आयकून घुंवळ येता अशी दिसली. तो फट् करुन भितर गेलो आनी थोडे वेळान तसोच भायर आयलो. आनी ताणें पोक्याक हळू सांगलें,

'तुका इतलें येता म्हूण कोणाक सांगू नाका.'

'हांव कित्याक सांगतलों. तुयें इचारलां म्हूण सांगलां.'

आपणालें शिकप आयकून तात्याक अजाब दिसलें तें पळोवन पोक्याक बरें दिसलें. तात्याकय पोक्याक नाल्ल-सोण्णां चुकनासतना मेजूंक येतात, तें जाणां जावन सुशेग जालो. पोक्यान शंबराच्या जाग्यार दोनशीं बी दिलीं जाल्यार? असो पयलीं तो दुबावतालो. पूण शंबराच्या जाग्यार पोको पन्नास केन्नाच दिवचोना हाची खात्री ताका आशिल्ली.

हो पोको ताका खूब फायद्याक पडटलो अशें तात्याक दिसूंक लागलें. गाडू नाल्ल मेजूंक वतना भेंडाक जिती चुट्टी लांबोवन वतालो. ताका वीस लेगीत मेजूंक येताले. वीस जातकीर तो चुट्टेर खूण करतालो. दोन ईसो धा म्हळ्यार पन्नास आनी पांच ईसो म्हळ्यार शंबर अशें गाडूलें कोंत. पोको शिकिल्लो. तो कित्याक भेंडाक चुट्टी लांबयतलो. ताचेकडेन ल्हान बोल्सांत पावता तसली पटी आनी लाप्सा कुडको दिल्यार तो हिशोब ज्यूस्त सांबाळटलो. पूण आमगेर

बरपी भुरगो आसा अशें अनंत कामतीक कळ्ळें जाल्यार? तो ताका मायज पागामेंत दिवन गुटलायतलो. ते परस ताका बरोवंक कळटा हें कोणाक कळूंक दिनाजाल्यार बरें, अशें ताका दिसलें.

तात्याचो सोबाव हुतहुतो तसोच हापापीय आशिल्लो. पोको बेकार आसा असो दिसलो रे दिसलो, हें काम कर रे पोक्या तें कर रे पोक्या! आतां पोक्याक काम नाशें पळोवन तात्यान एक पाटें हाडून पोक्याकडे दिलें आनी सांगलें -

'पोक्या, थंयचीं सोण्णां भर आनी घराकडच्या लोजांत व्हरुन उडय.' आतां मात पोक्याक सण्ण जालें. हें तात्यालें अती जाल्लें. बुयू आकान पोक्याक पसऱ्यार कामाक हाडिल्लो, मानायपण करुंक न्हय. पोक्याक दिसिल्लें, तात्याक सांगून उडोवचें, आपल्याकडे सोण्णां-बिण्णां माथ्यार घेवन वचपाचें काम जावचेंना. पूण पोक्यालो सोबाव भिडेस्त. ताचेकडे सट्ट करुन कोणाक ना म्हणूंक जायना. कोणाकय वायट दिसचें न्हय, कोणे आपल्याक वायट म्हणचो न्हय हाची तो जतनाय घेतालो. ताणें पाटें घेतलें, सोण्णां भरलीं. आतां माथ्यार उभारतलो कोण? तात्याकच तें काम करचें पडलें.

पोक्यान ते दिसा चारपांच पाटीं सोण्णां घराकडच्यान जळवाकुडींत व्हरुन भरलीं. रातीकडे आठां उपरांत दारां धापून जातकीर पोक्याकडल्यान सगळ्याक सान्न मारून घेतली. सान्न मारुंक पोक्याक व्हडलेंशें कांयच दिसनाशिल्लें. कश्ट पडटाले ते नाबीकडची सुवात लिंप करतना. साखर, गोड आनी तेल पडून पांयांकडची जमीन दाट आनी खडबडीत जाताली. रांपो हातांत घेवंन ती जमीन घासून खवळे काडचे पडटाले. तशें करतना पोक्याच्या आंगांतल्यान घामाच्यो पावळ्यो वोत्ताल्यो. आंगावेले कपडे भिजून पचपचीत जाताले. पोक्यान कितले दिसांची ती जमीन खरवडून काडली. मागीर आपल्या आंगावेले कपडे काडून तो भायर वाऱ्याक वचून उबो रावलो. घाम सुकतकीर भितर येवन बांकार बसलो. पोक्याक दिशिल्लें आतां आपूण कामांतल्यान मेकळो जालों. पूण पोक्याचो तो भरम आशिल्लो.

अण्णा आता हिशोब बरोवंक बशिल्लो. घडये णव वरां बी जाल्लीं आसुंये. तातो पसऱ्यांत कितें तरी उस्तीत आशिल्लो. पोक्याक दीसभर काम करुन करुन पुरो जाल्लें. खंयतरी वचून मात्सो आड पडन अशें दिसतालें ताका. खरें म्हळ्यार दीस भर काम करुन थकिल्ल्या पोक्याक अण्णान घरा धाडूंक जाय आशिल्लो.

आपूण घरा वचूं काय म्हूण विचारपाचें धाडस पोक्याक जायनाशिल्लें. बांकार बसून तो आतां कांदे जोकूंक लागिल्लो.

पोको झेमता तो पळोवन तात्यान ताका जागो दवरपाचो उपाय सोदून काडलो. तात्याक असले उपाय रोकडेच सुचताले. भितर तंबाखूचीं वणगीं सोडटकीर चुरो-काड्यांची मिसळ भरपूर मेळटाली. चुऱ्यांतले काडे वेगळे काडल्यार चुरो विकून काडे गावड्यांल्या बायलांक दिवंक मेळटाले. तात्यान एक खोटलो चुरो हाडलो. तो एका साकार वोतून पोक्याक वेचूंक लायलो.

पोक्यान त्या चुऱ्यांत हात घालो. चुऱ्याचो उग्र वास पोक्याच्या नाकांत गेलो आनी पोको निण्णिणल्याभसेन जालो. मागीर ताका शिंकेर शींक येवंक लागली. दोळे तांबडे जाले. नाक व्हावूंक लागलें. तरी पोको चुरो वेचूंक बसलो. वेंचूंक दिल्लो चुरो जाता तितलो वेगीं वेंचून मेकळो जांवचो आनी संकटांतल्यान सुटचो अशें पोक्याक जालें. ताणें जाता तितले वेगीन हात मारून तो खोटलोयभर चुरो वेंचून काडलो.

पोक्यान चुरो झडझडीत वेंचून काडलो तो पळोवन तात्याक नेट आयलो. वेचिल्लो चुरो भितर दवरून आनी एक खोटलो भर चुरो हाडून ताणें पोक्या म्हऱ्यांत वोतलो. आतां मात पोक्याची तकली भिरभिरली. ताका दिसलें फाल्यांच आपूण आयला ते वाटेन परत वच्चो. तरी ताणें धीर धरलो. ताच्या दोळ्यांतल्यान आतां दुखांच्यो झरी व्हावूंक लागिल्ल्यो. दुखां थेंबे टपटप करून चुऱ्यांत पडटाले. पूण पोको व्हांवोवन व्हांवोवन कितलीं म्हूण दुखां व्हांवयतलो? ताचे हात आतां अचळय चुऱ्यांत शिरले आनी चुऱ्यांतलो एकेक काडो कुशीन सरुंक लागलो.

सुवार्थ मनशाक कुड्डो करून सोडटा. अण्णा तात्यालीं कर्मां उकते दोळ्यांनी पळेतालो. ‘पूण आसूं रे, बसूं तो सुशेगाद. दीसभर काम करुन पुरो जालां जातलें ताका. उरिल्लो वेंचतलो तो फाल्यां’ असलीं उतरां अण्णाच्या तोंडांतल्यान भायर पडलींना. तात्याले करणेक अण्णाली मुकमान्यताय आशिल्ली.

अण्णालो हिशोब बरोवन जालो. ताणें उठून कोट खांदाक लायलो. ‘रोमल्या, तो चुरो व्हरुन भितर दवर. चल रे पोक्या उठ, तो लापयांव हातांत धर.’ अशें म्हणून अण्णा भायर सरलो.

आजचे पुरती तरी पोक्याची चुऱ्यांपसून सुटका जाली. लापयावां उजवाडान तिगय चलूंक लागले. चलतां चलतां पोक्याक मळबांतलीं नखेत्रां दिसतालीं.

शेतां-भाटांनी काजुले चमक्यो सोडटाले. आमोरेवेलो उकाडो आतां मात्सो उणो जाल्लो. भाट फाटीं घालून आतां ते शेतावाटेर पाविल्ले. मदें अशीर रस्तो आनी दोनय वटयां शेतां. कणग्यांवालींचे सुकिल्ले गुटले शेतभर आशिल्ले. वालींगुटल्यांचेर मदींमदीं एकेक सुणें बसून आशिल्लें. पोक्या हातांतलो लापयांव पळोवन आपूण हांगा शेतांत आसां म्हूण भेकडांवन दाखयताले. शेतांतल्यान चलतासतना मंदसो थंड वारो पोक्याकुडीक थंडाय दितालो.

शेत सोंपलें आनी आतां फुडलें भाट लागलें. इन्साल्या दारांत मुसाराद आंबो आशिल्लो. ताच्या मुनांत एक तांबडो-हळदुवो मोट्ठोसो आंबो पडिल्लो आशिल्लो. पोक्याली कावळ्या नदर आंब्याचेर पडली. पोक्यान एकच धेंप मारुन आंबो उकल्लो. 'कितेरे पोक्या, आंबो मेळ्ळो!' अण्णान खोस प्रगटायली. 'दी पळोवया.' तात्यान पोक्याकडलो आंबो आपल्या हातांत घेवन धा वेळा हुंगलो. पोक्याक दिशिल्लें तातो आंबो परत दितलो. पूण तातोच तो. एकदां हातांत पडिल्लें सुटूंक कठीण! दनपरां सोण्णा व्हरतासतना रस्त्याकुशीच्या चिंचेमुनांत पोक्याक दोन आणे मेळिल्ले. पोक्यान ते तात्याक दाखयले. तात्यान ते फाटल्या-फुडल्यान पळोवन मोन्यानी आपल्या गंगाळांत उडयल्ले.

आतां तिगूय घरा दारांत पावले. लापयांवां उजवाड पळोवन गोट्यांतलीं गोरवां हामेर्लीं. तांकां तण पडूंक जाय म्हूण तीं दाव्यांची वोडताण करतालीं. तातो पोक्याक घेवन तणाकुडींत गेलो. थंयचें तण हाडून ताणें इल्लें इल्लें गवणीत उडयलें. आजसावन गोरवांक तण-वाली घालपाचें काम पोक्याचें जावन पडलें.

अशे तरेन खंवटे कुटुंबांत पोक्यालो तिसरो दीस उजवाडलो. फुडें आपल्या नशिबांत कितें वाडून दवरलां ताची कल्पना आयली. आपूण हांगा ढील रावल्यार अण्णा आनी चड करून तातो आपल्याक पिळून खातलो हें ताका आतां आतां कळून चुकिल्लें. तरी ताणें धीर सोडलोना. पिळून खातले म्हळ्यार कितें करतले? खूब काम करून घेतले इतलेंच न्हय? कामाक कोण भियेता ? काम केल्यार कोण मरता ? चड काम केल्यार इल्लें पुरो जातलें इतलेंच! हांव खूब काम करतलों, सगळ्यांक खोस भोगयतलों. सगळीं मागीर पोक्याक बरो म्हणटलीं. आनी ताका बरेंय करतलीं. बुयू आकान आई-पापाक सांगलांच, पोक्याचें हांगा बरें जातलें म्हूण. बुयू आकालीं उतरां खरीं जावंकच जाय! कितलेय कश्ट पडल्यार ते सोसूंन पोक्यान अण्णागेरच रावपाचें थारायलें.

आज आयतार आशिल्लो. आयताराचो माण बंद आसतलो अशें पोक्याक दिसिल्लें. इतल्यान भायर एकलो शेतकार आयलो आनी ताणें भायल्यान मोठ्यान उलो मारलो.

‘भाटकोरा गोज्जेनु सारें जाय आहलें मुगा!’

‘गरजेनच जाय, अकरांक यो अकरांक!’

‘मांय, आनी घालूं केन्ना तोरु?’

‘तुका जाय तेन्ना घाल. आमकां मात्सो सुशेग नाका रे आयताराचो?’ अशें म्हणून अण्णान शेतकाराक वाटेक लायलो.

पोक्यान तांचें उलवप आयकलें. हाचो अर्थ असो की पोक्याक अकरांक माणार वच्चो पडटलो. ताचे पयलीं नुस्त्याक वचूंक जाय. आता तो च्याव बी पिवन सकाळचीं सगळीं कामां करुन मेकळो जाल्लो. ताका दिसलें आपूण नवो नवो आयलां, गांवांत एक भोवंडी मारुन येवंची.

‘आई, हांव मात्सो फाटल्यान भोवोन येवं? रोकडोच येतां.’

‘वच पुता वच! नुस्तें हाडपाच्या वेळार आयल्यार पुरो. हांव सांगतां अण्णाक.’

कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन, तसली भास पोक्याची जाली. तो रोकडोच, चडशीं जाल्यार पंदरा मिनटांनी येवंक सोदतालो. आतां ताका वर-देड वर सहज मेळटालें.

अण्णाल्या घराकुशींतल्यान एक रस्तो वतालो. रस्त्यावेल्यान फकत रेड्यांगाडो वचूंक शकतालो. पोको ते रस्त्यावेल्यान चलूंक लागो. पावता थंय मेरेन वचून येतलों, अशें ताणें थारायलें. दर्यावेळ खंय तरी लागीं आसा, अशें ताका दिशिल्लें.

पोको रस्त्यावेल्यान थोडो फुडें गेलो. थंय ताका सगळ्यांत पयलीं आतोशेंतीलें घर मेळ्ळें. आतोशेंत म्हळ्यार आन्तोनिय विन्सेंत्यि. ताचेकडे रेड्यांगाडो आशिल्लो. तो चडसो अण्णालेच नाल्ल-बियो बी हाड व्हर करतालो. तागेलें घर खंयचें आनी गोठो खंयचो हें पयस रावन वळखूंक कठीण आशिल्लें. एकेवटेन रेड्यांगोठो आनी दुसरेवटेन धुकरां घूड. मदें आंतोशेंतींलें घर. गोठ्याक तेकूनच शेणागायर. थंयच एके भेणयेमुंदांत गाडो सोडिल्लो.

आंतोशेंतीन खंयच्यान तरी पोक्याक पळेलो आनी ‘कूऽऽय’ करुन कुलो घालो. हो आंतोशेंत बारीक आनी मोटवो आशिल्ल्यान कोणे कुलो घालो हें

पोक्याक कळ्ळेंना. पूण तोच पोक्याम्हऱ्यांत धांवत आयलो. आनी 'हुंयरे' म्हूण पोक्याक जागयलो.

हो आंतोशेंत पोक्यालो पयलो इश्ट जाल्लो. काल तो आपलो गाडो घेवन अण्णाल्या पसऱ्यार आशिल्लो. दोगांचींय खूब वेळ उलोवणीं जाल्लीं. 'आमगेर यो रे बाडया' म्हूण पोक्याक ताणें आग्रो केलो. पूण पोक्याक फुडें वचूंक जाय आशिल्लें. फाल्यां येता म्हूण तो चालीक लागलो.

फुडें वतकीर पोक्याक सगळेकडे शेतां आनी बांद दिसूंक लागले. जणेका शेतांत एक ओंडो. ओंड्याभोवतणी रेवें उडो. आनी ओंड्याचेर खुंटे पुरुन घाल्लो माटोव. माटवाचेर चडिल्ल्यो पांचव्योचार पडोळ्यावाली. ओंड्यादेगेक लोळटाल्यो कोंकणदुदयांवाली, धर्वीफुल्ल फुलां माळून आनी आपल्या लांबोड्या बाळकांक घेवन! पोको शेंतात देवून ओंड्याकडे गेलो. पावस लार्गी पावलो तरी ओंड्यांत मेत्र-दोनमेत्र खोलायेचेर धपर भर उदक. हें उदक पळोवंक नितळ दिसतालें. पूण ताका येताली कुशिल्ले नुस्त्याची घाण! पडोळ्यांक सारें मेळचें म्हूण तातूंत नुस्तें कुसयल्लें. कांय ओंड्यांकुशीक चरवो घाल्लो. हो पांचवोचार चरवो पळोवन पोक्याक आपल्या आवयल्या कापडाचो उगडास जालो. शांतू चडशीं पांचवींच कापडां न्हेसतालें.

नदर पावता थंय लेगीत बांदा-बांदाचेर मुसाराद, कुलास आनी करेलाचीं मोटवीं गारफां, आंबे लांबोवन पोक्यालें शिंतीद आपल्याकडे वोडून घेतालीं. मानकुराद, दयराद, बेंकुरादाचीं गारफां मे म्हयन्याच्या सुर्वेकच आपलें काम पुरें करुन, साफ-सूफ जावन फुडल्या चवरांची आस धरुन बशिल्लीं.

पोक्याक मर्दी-मर्दी रुंदेले बांदय मेळटाले. ह्या बांदाचेर आंतोशेंतील्या घरा असलींच घरां. तेकून तणांकुडीं, खोपट्यांनीं भरिल्ल्यो कणगांवाली आनी शेणी-पिडे! तेकूनच रासभर धुकरां, आपल्यो शेंपड्यो हेवटेन तेवटेन हालयत बोवाळटालीं. आनी कोंबड्यो तरी कितल्यो? चोम्यांनी! जमनीर कोंबी पिलांक घेवन चलता आनी कोलवां खोपीर बसून कोंबो तांची राखण करता.

पोको मागीर तसोच फुडें वता. वतां - वतां ताका मर्दींच रस्त्याक दोन फांटे फुटिल्ले मेळटात. आतां ताका खंयच्या फांट्यान फुडें वच्चें तें कळना. तो गोंदळटा. तरी तो उजवी वाट धरता. भाटांतल्यान पांयवाट वता ती ताका दिश्टी पडटा. रस्तो सोडून भाटांतली पांयवाट आनी मागीर शेतांतली. ती गुड्डयता-

माड्डयता आसतनाच शेतां थंयच सोंपतात आनी ताका दिसता निमणें भाट! दाव्यान आनी उजव्यान लांब लांब लांबच्या लांब! आनी ताचेय फुडें दर्यावेळ!

पोक्याक चड वोड आशिल्ली ती दर्याची. पूण मदीं आड आयले ते माड. नाल्ल-आडसरांनी भरिल्ले कळव दर्यावटेन बागोवन शिपाय कशे उबे आशिल्ले ते माड. शांतकायेन दर्याची सुकती-भरतेचो नियाळ करपी ते माड! पूण ते माडांचो शांतभंग करपी रेंदेर नावाच्या मनीसप्राण्याचेर पोक्याची नदर पडली आनी पोको खिणभर दर्याक विसरलो. पोक्याची नदर एका रेंदराचेर पडली. रेंदेर खंय खंय लिपून बसल्यात हाचो पत्तो लावपाखातीर पोक्यान कळवा कळवाचेर आपली नदर भिरकायली. पूण एक रेंदेर सोडलो जाल्यार, हेर रेंदरांचो पोत्तो पोक्याक कसोच लागलोना. इतल्यांत पयसुल्ल्या माडावेल्या एका रेंदरान रस्तीन कुलो घालो. मागीर खंयच्यान तरी आनी एक कुलो पोक्याल्या कानार पडलो. मागीर हे पोताकसावन ते पोतामेरेन माडांच्या कळवांतल्यान कुलेच कुले पोक्याच्या कानपटार आदळूंक लागले. पोको पिसो कसो सगळेकडे पळोवंक लागलो. आंब्याचेर कोगूळ गायता. पूण ती सट करुन कोणाक दिसना. तेचपरी माडांच्या कळवांतल्यान कुले घालपी रेंदेर पोक्याक दिसलेनांत. पोको आतां आबूज जाल्लो. रेंदराचो साद घेवंक तो हे माडामुंदांतलो ते माडामुंदांत आनी मागीर मुंदामुंदांत धावूं लागलो. तरी ताका रेंदरांचो पत्तो लागलो ना. इतल्यांत लागसरल्याच एका माडाचेर कचक् असो आवाज जालो. कातयेन तो पोंय कापतालो जांवये. ते म्हणसर पयसुल्ल्या माडावेल्यान गीताचे सूर पोक्याक आयकूंक आयले. सूर पयस आशिल्ल्यान पोक्याक ते आपल्या कानांत झुळझुळटात अशें दिसूंक लागलें. ते सूर अशे आशिल्ले 'कुटुरा येयलें गो मन मारुन, भितर व्हर गो वेंग मारून' मागीर तेच रेंदरान मोठयान एक कुकारो दिलो. सगळ्या रेंदरांनी ते कुकाऱ्याक जापेर जाप दिली. आनी मागीर एकेक रेंदेर माडांखांपावेल्यान अचळय संत धेंपांनी देवूंक लागलो. तांचें तें देवप पोक्याक कुपासावेलो दांस कसो दिसलो.

कुटुरा येयलें गो मन मारुन अशें गुणगुणत पोको दर्यादिगेर गेलो. दर्याल्हारां धालो खेळटालीं. दर्याक जोरगत लागिल्ल्यान, शेंकड्यांनी ल्हारां जल्म घेवन हांसत हांसत धांवत येतालीं आनी आपली तकली धडेक तेकयतालीं. पिशीं तीं! धडेर पोको उबो आसा तें पळोवन ताका मेळूंक येतालीं खरीं. पूण पोक्याक

मेळनासतनाच तकली धडेफातराक आपटून आपलो शेवट करुन घेतालीं. तांचो मुको घेवंक माड आशेल्यात. ल्हारां म्हऱ्यांत येतात तीं पळेवन ते बागोवन रावल्यात. पूण तांची लांबाय तांकां ल्हारांमुको घेवंक दिना.

तरी बरें, दोनेक मेत्र लांब आनी अर्द मेत्र रुंदायेचे चिरे आड पडून ल्हारांक आपल्या आंगार घेतात. ना जाल्यार तीं पिशीं ल्हारां वयर भाटांत सरुन सगळीं माडांमुळां व्होंजळोवन उडोवन माडाचें निसंतान करुन सोडटलीं आशिल्लीं!

पोक्याची नदर ते लांबरुंद बुरकाळ्या फातरांचेर पडली. तांकां पळोवन पोक्याक अजाप दिसलें आनी खंयचेय चिरे बी जाल्ले जाल्यार तांची माती जावन केन्ना वतली आशिल्ली. हे कितलीं वर्सां ल्हारांचो मार खातात पूण तांकां एक चीर पडूंक ना. सिमेवेल्या जवानापरमाणे दटून बसून माडांची आनी भाटांची राखण करतात. हे फातर हांगा पावले कशे आनी हाडले कोणे हाचें पोक्याक अजाप दिसतालें. पूण हें गुपीत फुडें आंतोशेंतीन सोडयलें. हे फातर शेकड्यांनी वर्सांपयलीं पावलिस्तांनी हाडले म्हणपाची खबर ताणें पोक्याक दिली. हे पावलिस्त शेणयेचे बोक्सर कशे आशिल्ले अशें म्हण्टात.

पोक्याली नदर आतां दर्यापलतडच्या वाठाराचेर पडली. आलतडीं मदीं मदीं वडा झाड, भेणये रोपो सोडलो जाल्यार माडच माड. पूण पलतडीं मात माडांचें नांव निशाण नाशिल्लें. दिसतालीं तीं दाटीवटीन उबीं आशिल्लीं पांचवीं चार झाडां. ही झाडावळ पळोवन पोक्याले कुडींत खिणांत हरवसाण भरिल्लेभसेन जालें. सतत व्हांवपी वारो आनी हरवसाणीचो भास, हाका लागून पोक्याक आपूण खंय तरी सर्गार बी ना मूं, अशें दिसलें.

मागीर ताची नदर पडली ती पयस आशिल्ल्या मुरगांव बंदराचेर. थंय उबे आशिल्ले मोचये, कोटये बी पोक्याक दिसताले. दिसताले कसले, फकत भास जातालो इतलोच. पोक्याक दिसतालें, माडांचेर चडून पळोवंचें. पूण ताका तशें करुंक वोगोत खंय आशिल्लो? ताणें दर्यांतलीं शिडां सोडून हांगाथंय भोवपी व्हडीं, फसफसीत फेस सोडून धावपी बार्जी, खारव्यांनी लावन दवरिल्लीं जाळां पळोवन घेतलीं.

दर्यादिगेरच ताका हांगा-थंय शिपडायल्ल्यो धव्योफुल्ल शिंपयो आनी वाटकुळींच कवचां दिसलीं. पोक्याक दिसलें आपणें तीं एकठांय करचीं, घरा हाडचीं आनी तीं घेवन भरपूर खेळचें. पूण खेळाचें वय आसूनय पोक्याच्या

नशिबांत खेळ खंयचो? ताचें फुटकें नशीब ताच्या फाटल्यान हात धुवन लागिल्लें.

पोक्याक आतां बाजारांत वचून नुस्तें हाडपाची याद जाली. ताणें कोण्णाक आयकूंक येना तशें, हुतुतुतु... करीत घरावटेन एकच धांव मारली.

आयताराचो माण उकतो दवरपाचो आसल्यार ते तेंपार गांवच्या रेजिदोराचें आवतोरेसांव घेवंचें पडटालें. अण्णाक तें रोकडेंच मेळटालें. पूण ताका केन्ना आयताराचो रेजिदोर घरा मेळनाशिल्लो. ताका लागून अण्णा पसरो चोरयां विकतालो. तो दारार कोणाकय उबो करतालो आनी एकेक गिरायक भितर सोडून ताका मागीर हळूच भायर घालतालो. आज हें दारार उबो रावपाचें काम पोक्याचेर पडिल्लें. हे पयलीं पोक्यान कामिज्यांवांच्या दाराकडे बसून किलिंडर पासेंजरांक भितर घेवन भायर सोडटालो तें पळेल्लें. पोको आतां पसऱ्याच्या दारार रावन तेच भसेचें काम करतालो. फुडले आयतारांकय पोक्याक खुबदां, सिनेमाथेटराच्या दारार उबो रावन, तिकेटी घेवन लोकांक भितर सोडटात तशें काम करचें पडटालें.

पोक्याक आता हो नवो गांव इल्लो इल्लो करून आवडूंक लागिल्लो. हांगाचे लोक, तांची भास, तांचें उलोवप सगळें पोक्याक नवें नवेंशें दिसतालें. हो गांव किरिस्तावांचो. तरी हांगा-थंय एकेक हिन्दूलें घर सापडटालेंच. हिन्दूलीं एकठांय घरां आशिल्लीं तीं गावड्यांवाड्यार. ते कट्टर हिन्दू आसूनय तांची भास मात पोक्याल्या गांवांतल्या गावड्यांसारकी नाशिल्ली. पोक्याल्या गांवांत दोन धर्मांचे गावडे रावताले. तरी तांची भास मात सगळ्यांची एकशी. हिन्दू वळणाची. हांगाचे गावडे हिन्दू आसूनय किरिस्तावांच्या वळणाची भास उलयताले. पोक्याले गांवचे गावडे हांगा-थंय म्हण्टाले, हांगाचे गावडे इंगा-थिंगा म्हण्टाले आनी हे नव्या गांवांक तेकूनच एक दुसरो गांव आशिल्लो. थंयचे किरिस्तांव गावडे हिण्णा-थिण्णा करताले. अण्णाल्या घरा तेंकूनच गोवणे रावताले. ते हडे-थडे करुन उलयताले. पोको हें सगळें बारीकसाणीन आयकतालो. गांवचे रेजिदोराकडे कुणबी गावडे कामाक आसताले. ते तर हेंच्यकोडे, हुंच्यकोडे, तेंच्यकोडे करुन आपली भास उलयताले. जणेकल्याची भास आपल्याक येवंची, आनी आपणे ती उलोवंची अशें पोक्याक दिसतालें. ते खातीर आपल्या कानार पडिल्लीं नवीं उतरां तो मनांतल्या मनांत घोळयतालो.

एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार पोको जात्याच चळवळो. तो एका जाग्यार

बसून रावपी प्राणी न्हय. नवें नवें शिकचें, नवें नवें करुन दाखोवंचें अशें ताका सदांच दिसतालें. पसऱ्यावेलें एकच काम करीत रावप ताका मानवनाशिल्लें. तशें करप ताच्या सोतंत्रकायेक बादा हाडताली. माणार तातो ताका एकट्याक सारें जोकून दी म्हूण सांगतालो. ते गिरायकाकडल्यान तातो पयशे घेतालो, आनी मागीर दुसऱ्या गिरायकाक दिवंक लायतालो. ताका लागून एका फाटल्यान दुसरें गिरायक आवियार जायनाशिल्लें. अशे तरेन गिरायक उबगतालें आनी पोकोय. शिवाय तात्याली गिरायक आवियार करपाची पद्धत पोक्याक साप्प मानवनाशिल्ली. पोक्याक दिसतालें, तात्यान आपल्याक काम करपाची मेकळीक दिल्ली जाल्यार गिरायक अशें पादिशेर जावचें नाशिल्लें. तातो पोक्याक पयशांक हात लावंक दिनाशिल्लो. पोक्यान गिरायकाक एक वस्त दिल्यार तातो सट् करुन गिरायकाकडल्यान पयशे घेनाशिल्लो.

पोको येवचे पयलीं माणावेलें काम गाडू करतालो. गाडू मानाय, ताका माणावेलीं बारीकसारीक कामां करुक लायल्यार तो नुकसानाक पडटा, अशें अण्णा-तात्यालो हिशोब. पोक्यान आतां तांचो तो हिशोब चुकीचो आसा अशें थारावयपाची माण्णी केल्ली. पोक्यान भायलीं कामां केल्यार तो फायद्याक पडटा, हें दाखवपाखातीर पोको भायलीं कामां म्हळ्यार, पाट्यांनी नाल्ल भरून कामेऱ्यांच्या माथ्यार उभारप, लोजांतले नाल्ल परतवप, असलीं कामां गाडू करता ते परस दोब्राद करुंक लागलो. एका आयताराचो अण्णान आपल्यावांगडा दोंगरकारांगेर काजुबियो मापूंक व्हेलो. पोक्यान थंय आपली चुणूक दाखयली. गाडू काजू मापचेलें काम लेमे लेमे करुन करतालो. शिवाय ताचेकडे माप सारकें धरुंक कळनाशिल्लें, असल्यांन गाडू लाखाचे बारा हजार करतलो म्हणपाची गजाल अण्णाच्या लक्षांत आयली. अण्णा गाडूचेर पिकार जालो तें पळोवन पोक्यान माप आपल्या हातांत घेतलें. आपलें साकाक धरपाचें काम गाडूकडे सोंपयलें. पोक्यान काजू मापचेलें काम अशे तरेन केलें की अण्णाक चार काजू मायजच मेळच्यो. अण्णा पोक्याचेर खूश! अण्णान आतां फुडल्यो काजू मापचेलें काम पोक्याकडच्यान करुन घेवपाचें थारायलें.

असोच एक दीस अण्णा पोक्याक घेवन नाल्ल मेजपाक गेलो. गाडू ते दिसा कामाक येवनाशिल्लो म्हूण अण्णा पोक्याक घेवन गेल्लो. वांगडा गाडेकार आशिल्लो. पोको आनी गाडेकार दोगय नाल्लांची रास मेजपाक लागले. पोको

आपल्या तोंडान नाल्ल स्पश्ट उतरांनी मोठयान मेजपाक लागलो. असलो स्पश्ट उचार आयकून भाटकार लेगीत चाट पडलो. अण्णाक आतां खात्री जाल्ली, पोक्याचेर कसलेंय काम सोंपयलें जाल्यार आपल्याक सेंसुस्त बसपाक कसलीच हरकत ना.

पोक्याक आतां आपल्या आगांतले गूण दाखवपाक कळाव आशिल्लो. पावस सुरु जाल्ल्यान जायतीं कामां बंद जाल्लीं. पोक्याक भायलीं कामां करपाक कसलोच वाव नाशिल्लो. आतां आगोस्त मेरेन फकत सारें जोकून दिवपाचें.

तशें पळोवंक गेल्यार हे गांवांत वर्सयभर सारें खपतालें. जून-जुलयाक शेताक, आगोस्ताक माडांक, सेतेंब्र ते नोवेंब्र मेरेन कणगां वालींक, मागीर कांदो, मिरसांगो, मुळो, वायंगी आनी हेर येर्दुलाक साऱ्याची गरज पडटाली.

पोक्यान आतां अण्णाल्या घरांत आनी गांवांतय बरोच जम बसयल्लो. अण्णाल्या सोयऱ्या धायऱ्यांकडे आतां पोक्याची वळख जाल्ली. अण्णाल्या आनी तात्याल्या मावोडच्या लोकांक आतां पोको आपलोसो दिसूंक लागिल्लो. गांवचे लोकय पोक्याक भाटकारालो मनीस म्हूण मान दिताले. पोक्याक गावड्यांवाड्यार खुबदां वच्चें पडटालें. पोको येतकीर सगळो लोक भायर येवन पोक्याक जापायतालो. कोण म्हण्टालो, 'पोक्या, जेवंक राव.' कोण म्हण्टालो, 'पोको पेज जेयता मरे?' कोण म्हण्टालो, 'पोको आमगेर येयिन्ये रे?' कोण ना कोण, कितें ना कितें उलोवन पोक्याक येवकार दितालोच. पोक्याकय हो येवकार पळोवन खूब बरें दिसतालें. ताका भलतेंच मोल आयिल्लें. आपूण हे गांवांत आतां कोणय तरी आसां, हाची ताका नव्यान जाणविकाय जाल्ली.

दिसांफाटल्यान दीस गेले, आनी खंवट्याल्या घरांत पोक्यालें म्हत्व वाडतच गेलें. गीम आयलो आनी अण्णालो धंदो फुल्लो. गोळी मुदांत नाल्लांच्यो राशी पडूंक लागल्यो. गांवांतल्या भाटकारांचे नाल्ल खंवट्याल्या दारांत येवन वोत्ताले. रेड्यांगाड्यांचें लांबच लांब पुरसांव पसरो ते दर्यादिगेमेरेन चलतालें. पसऱ्या दारांत वायंगण्या बियांसाक, पेत्रोला दबे, क्रुडेलांचीं बल्लां बी सामान सगळ्याक पातळिल्लें आसतालें. हे सगळ्याचेर देकरेक दवरपाचें काम पोको आपखोशेन करतालो.

पोक्याली हुशारी पळोवन अण्णान सारें जोकपाचें काम आतां गाडूचेर सोपयिल्लें. पोक्याकय तेंच जाय आशिल्लें. पोको आतां थोडो वेळ तरी

बंदखणींतल्यान भायर पडिल्लो. आतां तो अण्णालो मुखेल कारबारी जाल्लो. गांवांतले आनी गांवांभायले भाटकार आतां पोक्याक वळखताले. भाट पाडलें, म्हण्टकीर भाटकार रकाद धाड्टाले. अण्णा मागीर भाटकारांले नाल्ल पळोवंक पोक्याक धाडटालो. पोको नाल्ल कशे आसात तें पळोवन येवन अण्णाक सांगतालो. साठ भरतेचे, अयशीं भरतेचे, शेंबर भरतेचे, एकशेंवीस भरतेचे काय देडशें भरतेचे तें पोको थारायतालो. मागीर अण्णा भाटकारांक आफोवन नाल्लांचें मोल थारायतालो.

दिवाळी जातकीर तर अण्णाल्या दारांत नाल्ल तिजपी आनी नाल्ल सोलप्यांची गर्दी जाताली. सोलप्यांनी कितले नाल्ल सोल्ले आनी तिजप्यानी कितले तिजले, हाचो आंकडो पोक्याकडे आसतालो.

पोक्यान काम कितलें म्हण करचें? ताका आतां हें काम कर तें काम कर म्हूण कोण सांगिनाशिल्लो, तरी तो आपखाशेन दीसभर कितें ना कितें करतालोच. काम ना जाल्यार पोक्याक कशेंच सूख लागनाशिल्लें. दनपाराचें जेवण जातकीर रोकडोच तो गोळीमुंदांत येवन पडटालो. गोळीमुंदांतलो सगळो आवाठ पोक्यालें कार्यक्षेत्र जाल्लो. गोळीमुंदांत ताका खूब सूख मेळटालें. रातचो लेगीत शियांकडकड्यांत तो गाडू वांगडा गोळीमुंदातच न्हिदतालो. रातचे नाल्ल राखपाची जापसालदारकीय पोक्याचेरच सोंपयल्ली. गाडू ताच्या सांगाताक न्हिदूंक येतालो.

हो गाडू म्हळ्यार काणयांचो एक खजिनोच आशिल्लो. सुके सोण्णाचो पोल्लो घालून पोको आनी गाडू रातीचीं बारां वरां मेरेन जागेच रावताले. पोको गाडूक काणी सांग म्हूण आग्रो करतालो. ना ना म्हणत गाडू मागीर काणी सांगूक कोमेस करतालो. गाडूली एकच काणी मागीर तीन-तीन, चार-चार राती चालूच उरताली. गाडूल्यो काणयो पोक्याक खूब आवडटाल्यो.

पोक्याचेर कामांचो सांवार येतालो तो मार्च म्हयन्यांत. मार्च म्हयन्यांत पसऱ्या कुशीचें शेत कणगां खणून मेकळें जातालें. हे शेताचो उपेग मागीर खोबरें सुकोवंक जातालो. अर्दे शेताक कोंड्यांकामटां वंय करुन तातूंत खोबरें सुकयताले. चार कामेऱ्यां सकाळचीं नाल्ल फोडून, वळीं पातळावन साडेबारांक घरा वतालीं. उपरांत पोक्याक खोबरें राखचें पडटालें, हांगाय पोको बेकार बसून खोबरें राखूंक कंटाळटालो. तेन्ना पोक्यान कितें करचें? हातांत कोयतो घेवन लागचो फटाफट

नाल्ल फोडूंक. सकाळच्या आदेसाक चार कामेऱ्यांनी जितले नाल्ल फोडले, तितलेच नाल्ल पोक्यान वर देड वरां भितर फोडून काडचे. वळीं भरुन भरुन पाटीं दवरचीं. हीं पाटीं मागीर कामेऱ्यां जेवन येतकीर वोतांत बसून रिकामी करतालीं. तेन्ना तांकां पोक्याचो खूब म्हळ्यार खूबच राग येतालो. तीं पोक्याचेर कसतालीं. तीन वरांचेर परत कामार येतकीर आंब्यामुळांत सावळेंत बसून कट्ट्यांचें खोबरें निखळपाचो तांचो बेत आसतालो. पूण हांगा पळे जाल्यार वळ्यांचीं पाटीं भरिल्लीं!

कोणाकडे जें काम जायना तें पोको करुन दाखोवंक सोदतालो. एक दीस कोण तरी एक हॉटेलवालो वाटाणे चणे व्हरुंक माणार आयलो. पळे जाल्यार साक फोडिल्लो ना. दुसरो साक सोडूंक अण्णान खुबशा साकांक बोम मारुन पळेले. चणे ना. गिरायकाक परत वच्चें पडलें. पूण एक चण्याचो साक आसूंक जाय ही पोक्याक खबर आशिल्ली. आनी तो खंयचे सुवातेर आसूंक जाय हेंय तो जाणा आशिल्लो. ताणें खात्री करुन पळोवपाक तळाच्या साकाक बोम माल्लो. पळे जाल्यार चण्याचो साक.

भायर दोग मानाय बशिल्ले आशिल्ले. अण्णान तांकां तो साक भायर काडूंक जाय म्हूण सांगलें. तो साक उणेच पंचवीस तीस साकापोंदा आशिल्लो. तो भायर काडप म्हळ्यार फकणाचें काम न्हय. मानायांनीं आंग फाटीं काडलें. थोडो वेळ उबो रावन पोक्यान त्या साकां दाळाचेर नदर मारली. मागीर अण्णाकडे वचून म्हळें, 'अण्णा, हांव काडूं तो साक?' हें आयकनाफुडें भायर बशिल्ले दोगय मानाय खो खो करुन हांसले. अण्णानय तांच्यात वाटो घेतलो.

'पायलेचें शीत जेवन येवचें पडटलें पोक्याक, तो साक भायर काडूंक.' मुर्खाभसेन एक मानाय बडबडलो.

'तशें जाल्यार तूं एके पायलेचें शीत जेवन काडशीत तो साक भायर?' पोक्यान ताका परतो प्रस्न केलो. मानायांक आयलो राग,

'तो मोदेला ××××! तुजे ××× सुरय शीत लागलां, देकून तूं तोहें उलयता, ना रे देमू?'

'आनी हायें तो एकट्यांन साक भायर काडल्यार तुमी कितें पेड्ड्यार जातात?'

'तूं सांग,'

'पांच रुपये दिवंचे पडटले.'

‘चोल दिले.’

‘तुमी अर्दे वोर हांगाच बोसात. हांव काम करतां थंय कोणच येवं नाकात.’ अशें म्हणून पोको कामाक लागलो. हे आदीं एका झटक्यांत साखरी साक कसो उबो करचो हें पोको शिकिल्लो. दाळाचे साक तर कड्डणाचे आनी तांदळाचे आशिल्ले. साखरीपरस कितलेशेच ल्हव.

पोको दाळार चडलो. चण्यासाक मदें आनी तळाक आशिल्लो. ताणें दोन रांगो सोडून तिसरे रांगेचो साक एक झटक्यांत उबो करुन पयल्या दोन रांगांचेर चडयलो. मागीर तोच साक ताणें पयले रांगेचेर चडयलो. अशे तरेन दोन कुशींच्या रांगांचेर मदले रांगेचे साक चडोवन मदली रांग उकती केली. उरिल्ले दोन साक धुकलून जमनीचेर उडयले. मागीर तळाचो साक भायर काडलो आनी मागीर वयले साक आशिल्ले तशे मदले रांगेत भरुन दवरले, आनी तिगांकय आफोवन पोक्यान आपली करामत दाखयली.

चण्यासाक पळोवन अण्णान तोंडांत बोट घालें. दोगय मानाय तोंड आ करुन पोक्याक पळेत रावले. तांकां दिसलें पोक्यान कितेंय घाडपण बी केलां जातलें.

दोगय मानायांनी पोक्याकडे होड मारिल्ली. अण्णान तांकां थंयच सोडले. भितर वचून, खोशेन पांच रुपये हाडून पोक्याल्या हातार दवरले. ‘म्हाका नाका तुमगेले पांच रुपये. हायें फकणां केल्लीं.’ म्हणून पोक्यान ते पांच रुपया परत केले.

दोगय मानाय पोक्याकडे जादू आसा समजून ताणीं थंयच्यान पळ काडली. अण्णा मात गोंदळांत पडिल्ल्याभसेन जालो. निमणेमेरेन साकाचें गुपीत कोणाक कळ्ळेंच ना.

हे घडणुकेन पोको गांवांत फामाद जालो. दोगय मानायांनीच हे घडणुकेचें गांवभर पेरगांव घालें. अण्णानय ही गजाल घरच्यांक आनी येता-वतल्या आपल्या इश्टांक सांगली.

पोको हे नवे गांवांत खूब कितें शिकलो. तो बारीक किडकिडीत आसुनय ताचे कुडींत अमाप शक्ती आसा हाची जाणविकाय ताका जाली. ताच्या मनांत आयल्यार लोजांतल्या नाल्लांच्यो राशी तो थोड्याच वेळांत परतितालो. नाल्लांची लोजां भरतालो आनी रिकामींय करतालो. एकदां ताणें नाल्ल उडोवंक

ओणव घालो तो सरळ उबो रावंक विसरतालो.

पोक्याक आतां नाल्लांच्या धंद्याचें पुराय गिन्यान मेळिल्लें. ताका नाल्ल तिजूंक कळटाले. सुक्या नाल्लाचेर चिरपूट मारल्यार खंयचो नाल्ल पुराय सुकनासतना आसा. खंयच्या नाल्लाक मारांदो जालो. तो गोड आसतलो काय पचपचीत. खंयच्या पाड्याक नाल्ल बारीक-मोठे पडटात हाचें गिन्यान पोक्याक जाल्लें.

खोबरें सुकोवंक नाल्ल खंयचे वेळार सोलचे आनी खंयच्या वेळार ते फोडचे. सोलिल्ले नाल्ल कितले दीस लेगीत फोडिनासतना दवरल्यार बरे उरतात. नाल्ल फोडल्या उपरांत कितले दिसांनी कट्टेचें खोबरें निखळचें. खोबरें पुराय सुकपाक कितले दीस लागतात हाचें गिन्यान पोक्याक मेळिल्लें.

शेतांत देवनासतनाय पोक्याक शेत कशें रोयतात हाचें गिन्यान मेळिल्लें. मे म्हयन्यांत चरवो केन्ना घालपाचो, ताका सारें केन्ना आनी कितलें घालपाचें हाचें गिन्यान ताणें मेळयल्लें. थामाच्यो कितल्योशोच जाती ताका खबर जाल्ल्यो. आजगो खंय रोयल्यार बरें पीक दिता. करंगूट खाजनांतच रोवपाचें. तें केन्ना रोवपाचें, केनाळ खंय रोवपाचो हाचें गिन्यान पोक्याक शेतकारांकडे उलयतां उलयतांच मेळिल्लें.

शेतांत कणगांवाली केन्ना आनी खंयच्या म्हयन्यांत रोयतात. त्यो रोवचे पयलीं वाडोवपाक केन्ना रोयतात, मिरसांगो, मुळो, वायंगी आनी हेर शाक-भाजी रोवपाचें, एका शेतकाराक फाव तें गिन्यान ताका मेळिल्लें.

पोक्यान शेतकाराचें जिवीत अणभविल्लें तशेंच खारव्यांचेंय बी. पोक्याल्या ह्या नव्या गांवांत किरिस्तांव खारवी रावताले. पोक्याक वेळ मेळटा तेन्ना तो खारव्यांवाड्यार वचून तांच्या जिविताचो अणभव घेतालो. खारव्यांच्या जिविताकडे तो बारकायेन पळेतालो. हिन्दू खारवी आनी किरिस्तांव खारवी हांचेमदलो फरक ताच्या लक्षांत येतालो.

पोको आपल्या गांवांत आसतना सायें नुस्तें मारपाचो ताणें थोडोभोव अणभव घेतिल्लो. ताचो बापूय व्हाळांत सायो कुल्ल्यो धरुंक वतालो. पोको ताच्याफाटल्यान कण्णी घेवन उबो रावतालो. बापूय बिळांत हात घालून ल्हान व्हड कुल्ल्यो भायर काडून कण्णेत घालता तेन्ना पोक्याक भंय दिसतालो. पूण ह्यो कुल्ल्यो उदकांत लिपताल्यो. तेन्ना चाबत म्हूण तितलोसो भंय नासतालो.

भायर मात त्यो आपले दांगे फांकारताल्यो. तेन्ना तांच्या दांग्यांत बोट गेलें जाल्यार तें गेलेंच म्हूण समजचें.

कुल्ल्यो धरपाची आनी एक रीत पोको दत्तूकडल्यान शिकिल्लो. दत्तून कूळ केल्ली. हे कुळींत वचपाक फुडल्यान वाट दवरिल्ली आसता. ही कूळ खास कुल्ल्यांखातीर आशिल्ल्यान कुल्ल्यो भितर वताल्यो पूण तांकां भायर सरुंक वाट नासताली. फाटलो भाग बांदिल्लो आशिल्ल्यान कुल्ल्यो कुळींतूच आडकोवन उरताल्यो. दत्तू कुळींत हुमल्यां घोटीर, नुस्त्यां बोडकां बी हांयस घालून, चड करुन पावसादिसांनी रातचो व्हाळांत व्हरून दवरतालो. दुसरे दिसा सकाळीं बारीक-मोठ्यो कुल्ल्यो भरिल्ली कूळ घेवन घरा येतालो.

पोकोय ल्हान आसतना व्हाळांत वचून कुल्ल्यो धरून हाडटालो. व्हाळांतले धडेकडचे फातर परतिल्यार ताका ल्हान ल्हान कुल्ल्यो मेळटाल्यो. त्यो हाडून तो पोल्ल्यांत भाजून खातालो आनी आपल्या भावंडांकय दितालो.

पोक्याल्या गांवांत नुस्तें धरपाचें तें चड करून व्हाळांतच आसतालें. व्हाळांनी मदें मदें कोणी आसतात. व्हाळ सुकतकीर ह्यो कोणी भरिल्ल्यो आसतात. कोणींनी चड करुन पिठोळ, खरसाण्यो, थिगूर, वायसोळीं बी सायें नुस्तें आसता. दोंगरावेले गेळे आनी तेफळां हाडून तीं धाडावन कोणींत घालचीं. मागीर कोणींत धोसोळ घालचो. नुस्तें मरुन आपसूक तडीक येवन हुपेता.

अशे तरेन नुस्तें मारपाची विद्या पोको जाणा आशिल्लो. आतां हे नवे गांवांत तर पोक्या खातीर विशाल दरयो आशिल्लो.

हे गांवांत नुस्तें मारपाचो धंदो खारव्यांचो. पूण हेर लोकय फुटाणेकडे वचून नुस्तें धरून हाडटात. आंतोशेंत चडसो नुस्तें विकतें केन्नाच घेनाशिल्लो. तो फुटाणीकडे वचून, गरोवन ना जाल्यार काटाळी घेवन वचून नुस्तें मारून हाडटालो.

एक दीस पोको आंतोशेंतीवांगडा फुटाणीकडे गेलो. हे विशींचीं तांची उलोवणी आदले दिसा जाल्ली. दीस पावसाचे आशिल्ले. फुटाणीकडे फांतोडेर वचपाचें आसतालें. पोको रातीचें जेवण जातकीर कोण्णाक सांगिनासतना आपलें हातरुण घेवन भायलेभायर आंतोशेंतीगेर गेलो.

आंतोशेंतीक जळारींची सवंय आशिल्ली. शेणावासाचेंय ताका व्हडलेंशें कांयच दिसनाशिल्लें. पोक्याक मात हें दोनय म्हारग पडलें. ते भायर बल्कावांत न्हिदिल्ले. भायर शेतांत पीठ शिवरायल्ल्याभसेन चान्ने पडिल्लें. पावस

पिरपिरतालो. ना जाल्यार पोको शेतांत वचून थबकल मारतलो आशिल्लो.

आंतोशेंत घोरेतालो. पोको मात सकाळ केन्ना जाता हाची वाट पळेतालो.

कोंब्यान पयलो साद घालो आनी आंतोशेंत जागो जालो. ताका कोंब्याचें बरें लागलेंना. ताणें भायर वचून सदचें नखेत्र पळेलें. वोगताची खात्री करून घेतली. हातांत कण्णी आनी सुरी घेवन, 'या मुरे पोक्या' म्हूण चलूंक लागलो.

दोगय आतां दर्या देगेर पावले. मुकावेलो विशाल दर्यो पळोवन पोको दचकलो. आंतोशेंत उंचायेन पोक्या येदोच आशिल्लो, पूण तो नातरांकार जावपा इदादीचो. 'इंगा कोरपां आहाय आं, सांबाव बाडया.' म्हणून दर्यांत देवलो. धडेर रावन दर्या भरला कसो दिसतालो. पूण उदक मात सुर्वेक धपर भरच आशिल्लें. पयलीं पयलीं तळा जमीन चिकलाळ लागली. फुडें फुडें ती काळशी-धवशी आनी घट्ट आशिल्ली. उदकय पावलभरच आशिल्लें.

आतां दोगय फुटाणीकडे पावले. थंय खूब लोक बोवाळटाले. आंतोशेंतय ते लोकांमदें मिसळ्ळो. लोक जाळालागीं पावतात तशे खारवी तांचेर चिकोल आनी रेंव बी मेळत तें शेवटून मारताले. तरी निलाजरे लोक नुस्तें चोरतालेच.

पोक्याक ही गजाल कळ्ळी. तो फाटी फाटींच रावलो. तो खूब भायल्यान पासयो मारूंक लागलो. रात आसूनय दर्यांत दीसच आसा अशें दिसतालें. आंगाक वारें चुमतालें. तरी दर्यांतलें थंड वारें आनी सुखदेणी ऊब पोक्याक खूब मानवली.

पासयो मारतां मारतां पोक्यान पायांकडच्या उदकांत बारकायेन पळेलें. तळाक रेवें खाचीक, मदीं मदीं तांबशीं थिकां कशीं, सुंगटां दोळे पोक्याक दिसूंक लागले. पोक्यान हात घालून पळेलो. सुंगट पिट्ट करून फुडें गेलें. पोक्यान झोपय मारून एकेक सुंगट धरुंक कोमेस केलें. सुंगटां धरता आसतनाच रेवेंत माणून बशिल्ल्यो ल्हान ल्हान मुड्डोशो पोक्याक दिसल्यो. पोक्याकडे कण्णी बी तसलें कांयच नाशिल्लें. ताणें आपल्या आंगाचें बानियन काडलें. एकेवटेन तें गांटायलें. ताची झोळी तयार केली. एकेक सुंगट आनी मुड्डोशी काडून काडून ताणें झोळयेंत घाली. थोडेवेळान बरी नाल्ला येदी नुस्त्यापोटली तयार जाली. इतल्यांत आंतोशेंत आपली कण्णी खाकेंत मारुन पोक्याक सोदीत आयलो. दोगय सकाळींफुडें घरा पावले.

राती पोको घरांत ना तें पळोवन बोवाळ जाल्लो. अण्णा हातांत बॅटरे दिवो घेवन पोक्याक उलो मारीत सगळें भाट भोंवतालो. उले पोक्या कानार पडट्टाले.

पूण तो वोग्गी आशिल्लो. ताका कशेय भसेन फुटाणीक वचूंकच जाय आशिल्लें. एकदां मनार घेतिल्लें काम तो कशेंय करुन पार पाडटालोच. पोको घरांत ना तो पळोवन आईचेर आकांत आयिल्लो. इतल्यांत पोको काल आंतोशेंतीकडे किर्ते उलयतालो ताची तात्याक याद जाली. आंतोशेंत दर्यार नुस्तें मारुंक वता हें तातो आनी अण्णाय जाणा आशिल्लो. जायते फावट आंतोशेंतीन आपल्याक चड जाल्यार मोठेंशें नुस्तें अण्णागेर हाडून दिल्लें. पोको आंतोशेंती वांगडा गेला हाची खात्री तात्या-अण्णाक जाल्ली.

पोको आतां बांयकडे कोळशान तोंड धुतालो. ताचें काळीज धडधडटालें. रातीचे अण्णाचे उले पोक्याच्या कानार पडटाले. इतल्यांत मागीलदारचें दार कर्र करुन उकतें जालें. पाटलेपोंदा धापिल्लें नुस्तें आपली शेंपडी हेवटेन तेवटेन हालयत मांजर राखूंक बसलां तें अण्णान पळेलें. अण्णान नुस्त्यावेली पाटली वयर काडली. नुस्तें पळोवन हांसत हांसत अण्णा आई म्हऱ्यांत गेलो. अण्णाल्या हांश्यावांगडा पोक्यालो भंय खंयच्या खंय नाच्च जालो.

पोक्याक आतां नुस्तें मारपाची वोड लागिल्ली. फुटाणी वांगडाच खुबे काडूंक हातांत शेत कापपाचो व्हिळो घेवन वच्चें पडटालें. व्हिळो दर्याचे रेवेंर वोडल्यार, कट्ट करुन खुबे व्हिळ्याक आदळटाले. तिसऱ्यो काडूंक मात खोलायेंत देवचें पडटालें. दर्यामदेंच कमरभर उदकाचे खळयेंत बुडी मारून पोशांनी तिसऱ्यो काडूंक खूब मजा येता.

सगळ्यांत चड मजा येता ती पिसोळ्यो कुल्ल्यो धरपांत. ह्यो कुल्ल्यो सुकतेर धोंपरभर उदकांत दोनय दांगे फाकारून, भिऱ्यांनीच धांवतात. तांच्या कट्ट्यावेल्या तिबक्यांची कलाकुसर पळोवन विधात्याचे कलेक दाद दिंवची पडटा. पोको ह्या कुल्ल्यांफाटल्यान धावून, तांचेकडें लडून तांकां आपल्या जाळ्यांत वोडटालो. कांय मेंगण्यो कुल्ल्यो मात लुळ्यो-पांगळ्यो जावन कुर्मगतीन चलताल्यो. खाऱ्या उदकांत बुडी मारून तिसऱ्यो वयर काडपांत पोक्याचो हात धरपी कोणच नाशिल्लो. तिसऱ्यांची खरेली सुवात मात दर्याभायल्यो खळयो आसताल्यो.

हे आदीं पोको आपल्या आवयल्या मामागेर वतालो तेन्ना मामाले भुरगे खळयांत देवन सुंगटां पोशेताले तें पळेल्लें. सुंगटां पोशेतां पोशेतांच सोलून तोंडांत वडयतना कांय भुरग्यांक पळेल्लें. मामाले भुरगे मात शेतांत उजो घालून सुंगटां भाजून खाताले.

दर्याचे कांय फांटे गांवांत शिरतात. थंय मदीं उदक आनी दोनय कुशीनी दाट चिकोल आसता असले सुवातेक भाट म्हण्टात. हे भाटीर खूब दाटयेन मासाळ जीव आसतात. तांकां मासां अशें म्हण्टात. हीं मासां एकठांय करुन, व्हिराक ना जाल्यार बडयेक तोपून भाजून खावंक खूब बरीं लागतात. हे मासांची कांजी म्हळ्यार मसालेदार सूप बरो रुच्चीक लागता.

आतां पोक्याक तेरावें वर्स सोपून चोवदावें लागिल्लें. खूब कितें शिकून आतां तो तयार जाल्लो. ताका वाचूंक बरोवंक येतालें. माड-माडयांचेर चडूंक कळटालें. पसरो चलोवपा इतलें गिन्यान ताणें मेळयल्लें. तो खारवी जावंक शकतालो. शेतकारय जावंक तो फाटीं नाशिल्लो. पोको जें कितें शिकला तें ताका कोणे फोरसान शिकोंव नाशिल्लें. तो शाळा-कॉलेजांत वचून शिकूं नाशिल्लो. जें कितें शिकला तें तो काम करतां करतां शिकलो. आपली सोताची तकली लडोवन शिकलो. खंयचोय घराबो, खंयचोय देस पोक्याअसल्या भुरग्याच्या आदारान वयर सरता आनी उजवाडाक आपोवणे दिता. मात ते एक-दोनच आसूंक फावना. तांची संख्या वाडूंक जाय.

**पो**क्याल्या गांवांत कार्तीक म्हयन्यात जात्रा जाता. पोको खंयी आसलो जाल्यार दिवाळे निमतान घरा येतालो. दिवाळे उपरांत जात्रा रोकडीच येताली. ताका लागून जात्रेक तो चडसो येच नाशिल्लो. येतालो तो काल्याक. हो कालो देजेंब्रांतसो येतालो. आतांय पोको काल्याक लागून घरा आयिल्लो. पोको घरा यो जाल्यार कितें पळेतोलो? दार बंद. खंय गेल्यांत काय? आजोळा काल्याक बी वचूंना मूं? पूण गांवचो कालो सोडून आई आजोळा काल्याक कित्याक वतली? कालो पयलो पोक्याल्या गांवांत जाता. आनी मागीर आजोळच्या गांवांत आनी हांव येतलों म्हूण नकळो तर तीं ? आई आजोळा गेलीय जाल्यार पापा पूण आसूंक नाका? पापा पोक्याल्या आजोळच्या काल्याक केन्नाच वचना.

पोक्यान घराच्या फाटल्या-फुडल्यान आनी चोवकेर बारीकसाणीन नदर मारली. घराभोवतणी आसूंक जाय तें कसलें सामान थंय नाशिल्लें. चोवकी कोयरान दाटिल्ली. गोरवां भितर सरुन दोन-चार शेणां थापेय सोडिल्ले. चोवकेच्या एका पोंताक फातराची चूल करून केन्ना तरी कोण रांदून जेविल्लो. आंगणांत आमाड्याचो आनी खश्टीचो दाट पालो पडिल्लो. तुळस आशिल्ली पूण ती सुकिल्ली.

हें सगळें पळोवन पोक्याचें काळीज धडधडू लागलें. तो पिशांभसेन हांगा-थंय धांवलो. मागीर घराच्या हुंबऱ्यार बसून बुळूबुळू करुन रड रड रडलो. मागीर तो धडेर गेलो आनी 'आई गे ऽऽऽ हे आई ऽऽऽ' म्हणून उल्यार उले घाले. पूण ताका कोणेंच जाप दिली ना.

पोको आतां कुळागरभर भोंवलो. सगळें कुळागर पोक्याची जाल्ली दशा पळोवन वोग्गी पडिल्लें. एका लेगीत झाडाचें पान हालनाशिल्लें. माड-माडयो एक चुट्टी लेगीत हालोवंक तयार नाशिल्ल्यो. सुकणी-चानयां तोंडांतल्यान आवाज भायर सुटनाशिल्लो. कावळे खंय उडून गेल्ले देवाक खबर!

धोलयो, बेबो, पोलो, काऱ्यांतलो, तामडो हे पणस आनी आमल्यो, भिण्णी, तोरंगी, खश्टी, सांतोण आनी वावळो हे सगळे रुक आपल्याक पळोवन दुकां गळयटात असो पोक्याक भास जातालो. पोक्याक असोय भास जावंक लागलो की सगळी रुखावळ एका सुरान पोक्याक जाप विचारुं लागली 'हे पोक्या, तुमी सगळीं आमकां सोडून गेलीं?' कितें उणें केल्लें आमी तुमकां? तुमी उपाशीं पडटालीं तेन्ना आमचेकडे आशिल्लें-नाशिल्लें तुमका दिवन तुमची भूक भागयली. तुमी आमकां जायते फावट सारें-उदक दिलें ना, करूंक जाय ती आमची मशागत केली ना. तरी आमी तुमचेकडे केन्ना कागाळ केल्ली ? झरत-मरत जगलीं आनी आमच्या ताकती परमाण फळां दिवन तुमची आनी तुमच्या वाडवडलांची राखण केली, आनी आतां तुमी आमचेर बेमान जालीं ? होच तुमचो धर्म? हेंच तुमचें मनीसपण? जावं तुमकां बरें दिसता आनी सोबता तशें तुमी करात. आमी मात देवाकडे मागतां, तुमी खंयी वचूं, तुमची राखण कर! तुमची भरभराट जावं !'

इतल्यांत थंय सुंदरें आयलें. 'आरे बाबा पोक्या, केन्ना येयलो पुता तूं ! बरो आसा मरे भांगरा माझ्या?' सुंदऱ्यान लागोळेपणा केलीं. 'तूं कुळागर पळोवंक

येयला ? यो पुता, तुका जाय तेन्ना येवन पळोंव येता. कुळागर आजय तुमगेलेंच आसा अशें समजय.'

' समजय म्हणजे ? आमगेलें ना तर आतां? खंय गेलीं आमगेलीं सगळीं ? म्हागेलो पापा खंय गेलो ? आई खंय गेली ! खंय गेलीं म्हागेलीं भावणां बी सगळीं ?'

'तुका खबर नारे पुता माझ्या? तूं भायल्या भायर हांगा येयला दिसता. तुगेले बाबान हें कुळागर सोडलें. आमचेकडे दिलां तें आतां. हायें तेका खूऽऽब सांगलें, सोडूं नाका म्होणोन. पूण ना. तेणी आयकलें ना. शांतून केलें हें सगळें. आतां मिनाक वयतात खंय तीं. मिनाची गोडी लागल्या तेंकां. वाड्यावयलो खूब लोक वयता. लुम्यालो नारु व्हरता न्हू तेंकां ?'

'आतां म्हागेली आई आनी पापा खंय गेलीं तर ?'पोक्यान रडकुरें तोंड करून विचारलें.

'वयतलीं खंय? हीं पळय केळबा देवळाकडे खोपटी घालून रावल्यांत. गोंदून दिला न्हू तेंका जागो !' केळबा देवळाकडे म्हळ्यार पाणूले घराकडे. पोक्यान आनी आनी वोगोत केलो ना. मारली धांव. पाणूले घराकडे पावतकीर तागेलीं भावणां एके खोपटेमुकार खेळटात तीं ताणें पळेलीं. तांका पळोवन पोक्याचो जीव धादोस जालो. ताच्या मनांतलीं काळीं कुपां खंयचे खंय हुबून नाच जालीं.

पोक्याक पळोवन शांतूक खोस भोगली. तरी आदले भसेन ताच्या तोंडार हाशें फाकलें ना. ताणें गुन्यावकारी नदरेन पोक्याक पळेलें. ताचो गळो दाटलो. दोळ्यांत तामसाण आयली. ती ना करपाक दुकांची गरज आशिल्ली. तीं खिणांत निर्माण जालीं. दोनय दोळे भरून वोतूंक लागले.

शांतूची अवतीकाय पळोवन पोको कवडेकडे वचून ओकोणयां बसलो. शांतूक पळोवन ताका रडनशें दिसतालें. पूण दुकां निर्माण करपाची ताच्या काळजाची तांक सोंपिल्ली. दोळ्यांतल्यान दुकां गळोवन काबार केल्लीं.

खरें म्हळ्यार हेरां बायलांभसेन शांतू सट् करुन रडपी न्हय. आतां रडपाक ताका दोन-तीन मुखेल कारणां आशिल्लीं. पयलें कारण पोको कुळागराचेर खूब मोग करतालो. तें आतां दुसऱ्या सुवादीन जाल्लें कारणांन पोक्याक खूब दुःख जातलें हें तें जाणां आशिल्लें. दुसरें कारण अशें की तीं आतां पोक्याक खंवट्यागेर सोडून खंय तरी पयस मिनाक वतालीं. एकामेकांच्या बरें-वायटाची

खबर मेळूंक कठीण आशिल्ली. मांय-लेकराची ताटातूट जाताली. दुसरी गजाल अशी की ठिकाण सोडपाची गजाल ताणीं पोक्याक लिपोवन दवरिल्ली. आतां तांकां वाड-वडलांचें, माये-मोगाचें घर सोडून हे खोपटेंत येवन रावचें पडिल्लें. तेंय बी जे गोविंद शेणयक शांतून वोशिमोराद दिवन धांवडायल्लो, ताकाच बरें मागून. पूण आतां ताका उपाय नाशिल्लो. सुंदऱ्यान पोक्याचे कान भरिल्ले. ताका लागून पोक्याक आपल्या आवय-बापायचो खूब राग आयिल्लो. मिनाक वचूंक ताणीं आपलें हक्काचें घरदार सोडिल्लें. आतां सगळींच उबंत पडिल्लीं. सुंदऱ्यान मात पोक्याक खरेली गजाल लिपोवन दवरिल्ली. पोक्याल्या घराब्याक बेघर करपाचें कारास्तान सुंदऱ्यालेंच आशिल्लें.

दत्तुल्या कुळागराचे दोन भाटकार अर्देली आशिल्ले. तातुंतलो एक पणजे रावतालो आनी दुसरो फोंड्या म्हालांत. पणजेचो भाटकार दत्तूक बरो करतालो. खंड दिवंक फाटीं-फुडें जालें तरी पणजेचो भाटकार दत्तूक गोळाक मारपाचो नाशिल्लो. पूण फोंडेचो भाटकार मात दत्तूक खूब सतायतालो. वर्सान वर्सा सुपारी बारपाचें काम तो करतालो. सुपारी देड खाणी आसल्यार दोन खाणी म्हूण सांगून एके खाणयेची मागणी तो दत्तूकडे करतालो. पूण दत्तूक तें शक्य जाय नाशिल्लें. दत्तू आवा-शिवा करून पाऊणखाणी सुपारी ताका घालतालो. सुपारेची पिकावळ उणी जाली, फोपळाच्यो तोल्ल्यो गळून पडल्यो जाल्यार ते भाटकाराक कसलेंच सोयरसुतक नासतालें. बारून थारायल्लो खंड पुराय दिलोना जाल्यार दत्तूल्या नांवार रीण म्हणून तो बरोवन दवरतालो.

पूण दत्तूक सतावपाचें आनीक एक कारण ते भाटकाराकडें आशिल्लें. पणजेचो भाटकार पोक्याक बरो आशिल्लो. हाची ताका खूब नसाय जाताली. पोको पणजे भाटकारागेर कामाक वता, आनी आपल्यागेर येना म्हणचे कितें? हाका लागून फोंडेचो भाटकार आतां दत्तूक रिणाक लागून खूब सतावंक लागिल्लो. हे सतावणुकीन शांतून एक दीस बेजार जावन दत्तूक सांगलें, नाका आमकां कुळागर - बिळागर. या आमी हो गांव सोडून पोट भरता थंय! खंयी जाल्यार कश्ट हे उसपवंकच जाय!

शांतून हें उबगून म्हणिल्लें खरें, पूण थंय आशिल्लें सुण्याकान सुंदरें. ताणें शांतुलीं उतरां आयकलीं. ताणें फोणे भाटकाराचे कान फुंकले. तेन्नाच्यान दत्तुकडलें कुळागार आपणाक मेळचें म्हूण ताणें येत्न सुरु केले. नाडपणा, पाडेपणा

करुन शेकीं ताणें जैत मेळयल्लें.

शांतून पोक्याक आतां खूब समजायलो. ताणें पोक्याक सांगलें, हे गांवांत आतां आमचें कांय ना. तू अण्णागेर राव, आमी मिनाक वचून पयशे एकठांय करतां. नारु आप्पान आमगेलीं चौगांचीं नांवां बरयल्यांत. तुजो पापा, हांव, सुकडो आनी पिसूचें नांव बरयलां. चौगांकय काम मेळ्ळें जाल्यार दिसाक आठ रुपये मेळटले.

सुकड्याक आपल्या वांगडा व्हरतात आनी म्हाका व्हरनात म्हळ्यार कितें ? पोक्याक मारलो फुगडो. ताणें आपुणय येता म्हूण हट्ट धलो. सुकड्याकच काम करुंक कळटालें मिनांक? आनी हांव कितें थोटो आसां ? अशें म्हणून ताणें आपूण अण्णागेर परत कसोच वचपाचो ना म्हूण शांतूक सांगलें. शांतून पोक्याक खूब समजावपाचो यत्न केलो पूण उमथ्या कळशार उदक ! सुकडो आंगान सशक्त आशिल्लो आनी पोको निर्जीव. हाका लागून पोक्यान तकालसीचें काम करचें न्हय अशें शांतूक दिसतालें. शेकीं शांतूक पोक्यामुकार हार मानची पडली. तें पोक्याक आपल्या वांगडा व्हरुंक तयार जालें.

तीन-चार दिसांभितर कालो सोंपलो. लालकी-पालकी, नाटकां-बिटकां जालीं. पोक्याक कुळागारांत रावंक जाय आशिल्लें. पूण आतां तें दुसऱ्याच्या ताब्यांत गेल्ल्यान, ताणें कुळागराची आस सोडिल्ली. पोको आपल्याक आई मिनाक व्हरता म्हूण खोशेन उडयो मारुंक लागिल्लो.

शेनवारा दिसा दनपारां जेवण-बिवण जालें. सांजे लोकांक व्हरुंक ट्रक येवपाचो आसा अशें नारुन सांगिल्लें. शांतून दत्तूकडल्यान सगळें सामान बांदून घेतलें. आनी सगळीं मिनाक वचपाचे तयारेन बसलीं.

रातीचे णव वरांचेर लोकांक व्हरपाक ट्रक येवपाचो आशिल्लो. लोकांनी आठ वरांचेर बाटोळ्यांतल्या काऱ्याकडे एकठांय जावपाचें आशिल्लें. नारुची आवय, गंग्याच्या माथ्यार चडच पेज आशिल्लो. ताचो पूत मुकादम आशिल्ल्यान तें गर्वान फुलिल्लें. तें माथ्यांत आबोली माळून खंयचे तरी जात्रेक वता तशें बोवाळटालें. घराघरांत वचून लोकांची तयारी जाल्या काय ना ती पळेतालें. मुकादमाची आवय म्हूण मिनाक वचपी लोक तिका मानान वागयताले. आपले पुतालें काम तडीक वचचें म्हूण तीय लोकांक कोमार काडटाली. आपल्या पुताक लागून गांवचे लोकांच्या ताळ्यार पडटलें, चार रुपये गाठीक बांदूक

मेळटले म्हूण गंग्याचे पांय जाग्याक लागनाशिल्ले. मानायांक अडेच रुपये आनी कामेऱ्यांक देड रुपयो म्हूण लोकांक आस दाखयत भोंवतालें. जितलीं मनशां मिनाक वचूंक तयार जातात तितलो ताच्या पुताक फायदो आशिल्लो. कारण ताका मनशाफाटल्यान पयशे मेळटाले.

आतां आठ वाजूंक आयिल्लीं. कांय जाण माथ्याक लेंस बांदून, कांय जाण तुवालो बांदून, कांय जाण पुडवें कामरुन, कांय जाण फटें कामरुन, हातांत काशेदां-बिशेदां घेवन, साक-बिक घेवन, शियान कुडकुडत काऱ्यामुनांत जमूंक लागिल्ले. आठांक वाट पळेत बशिल्ल्या लोकांचे दोळे ट्रकाच्या वाटेकडे लागून आशिल्ले. आठाचीं साडेआठ, साडेआठांचीं णव, णवाचीं धा वरां जालीं तरी ट्रकाचो पोत्तो नाशिल्लो. भायर दव आनी कडाक्याची थंडी. कोणाचे हात-पांय कडकडटाले, कोणाचे दातांचेर दांत बसताले. कांय जाण थंडी सोसूंक जायना जावन ट्रकवाल्याक गाळी घालताले. तर कांय जाण आपल्याक ट्रक येवंचे आदीं वरांच्या वरां तिश्टत रावयल्यात म्हूण नारुच्या नांवान बोटां मोडटाले.

इतल्यांत कोणाच्या तरी कानार गाडयेचो आवाज पडलो.

'येता रे येता.'

'कोण येता रे ?'

'गाडयेचो आवाज. '

'तुकाच आयकोंक येयलो, आनी आमचे कान कितें फुटल्यात रे ?'

'अॅ ! मोण्णावयल्यान मोटोर गेलां जातलें.'

'ना रे, वाग बी गुर्रता आसतलो.'

'आवयचो घोव ! हो पळयात दिव्याचो उजवाड पडटा.'

खऱ्यांनीच ट्रक आयिल्लो. लागीं लागीं पावता तसो खडक् धडक् करीत चलतालो.

ट्रक येवन फुडें वचून वोल्त घेतलें. तांबडे रंगाचो, खटारो कसो ट्रक लोकां कुशीक थांबलो. सगळे लोक उठून ट्रकाक फाटल्या फुडल्यान पळोंव लागले. पोक्याल्या गांवांत पयले फावट ट्रक आयिल्लो जांवये. इतल्यान काबिनेतीचें दार उकतें जालें आनी सोफ़ेरान सकल उडी मारली, आनी ताणें तांबयोभर उदकाची मागणी केली.

'कित्याक जायें उदक, तोंड धुवंक? काय पियोंक?'

'माझ्या पोटाक बरें ना. हांव वोसोन येता म्हणसर तुमी गाडयेंत बोसोन रावात. बेगीन वोसोंक जायें आमकां.'

अशें म्हणून सोफेरान खाकी कालसांव काडून काबिनेतींत दवरलें आनी पिजामीनच तो दत्तू फाटल्यान गेलो. दत्तू सोफेराक तांबयो दिवन परत आयलो.

आतां थंय एकच बोबाट कोमेस जाल्लो. पयलीं सगळ्यांनी आपापलें सामान ट्रकांत उडयलें. सामानानच ट्रक भरिल्लो. तरी तांकां ट्रकांत बसूंकच जाय आशिल्लें. ताणीं आपल्या भुरग्यांक सामानांत घुसयल्लीं. भुरग्यांच्यो तकल्यो कसल्या ना कसल्या कपड्यांक गुटलायल्यो. मागीर कोण चादर, कोणे गोजडी, कोणे फटें तर कोणे साक कामरुन सगळे जाण आपापल्या सामानाचेर बसले. नारु मुकादम म्हूण तो काबिनेतीत वचून बसलो. आतां ट्रक सामको फिशाद जाल्लो. गंगें मात काबिनेतीक चोवकोनी खाच आशिल्ली थंय बाकेनीचेर बशिल्लें. कोण बोवाळ करता ताका चिपमट करपाचें काम नारुन ताचेर सोंपयल्लें.

सगळे आतां सोफेराची वाट पळेताले. आनी सोफेर आजून झिलींत बसून सुशेगाद शिगार फुसकायतालो. तो भायर सरना तो पळोवन किलींडरान पोंऽऽऽ पोंऽऽऽ करुन व्होर्न वाजयलो. तो आयकून सोफेर शिंतिदार आयलो, आनी झिलींतल्यान सडसडीत भायर आयलो.

सारकीं बसात आं! भुरग्यांक बी सारकीं धरात. अशें म्हणून सोफेरान ट्रक चालू केलो. ते बराबर, देवाक पायें पडात गो अशी गंग्यान वोर्द सोडली. मागीर चड करुन सगळ्या बायलांनी गांवांतल्या सगळ्या देवांक हात जोडलो. ताणी एक देंवचार आनी म्हारु लेगीत सोडलोना.

पोको आनी दत्तू सोडल्यार, हे मिनांक वचपी लोकांतलो एकटोय बायल-दादलो मोटरांत बसूं नाशिल्लो. तांका तो मोटरांतलो झेल, धोल बाबा धोल करतालो. तांकां लागून सामानांखाचींत पडिल्ल्या भुरग्यांक सामानां उबेंत रोकडीच झेम पडली. थोडे वोगतान व्हडल्या दादल्या-बायलांचीय कुचबूच थांबली. अर्दे वर जाता म्हळ्यार सगळ्यांचीं मडीं जाल्लीं. जागो आशिल्लो तो पोको.

पोक्याली आतां कूड आशिल्ली ट्रकांत आनी मन पाविल्लें खंवट्यागेर. ताका अण्णा, तातो, आई, पसरो, नाल्ल, गाडू आनी तीं भाटां, शेंतां, दर्यो बी दोळ्यांकडे दिसतालें. तरी आपूण आतां कितेंय तरी नवें करुंक वतां, हाचें ताका समादान जातालें.

ट्रक पोन्नो आनी खटारो, मारोग अशीर आनी खड्ड्यांचो. ताका लागून ट्रक कुर्मगतीन चलतालो. सांग्यार पावूंक ट्रकाक तीन वरां लागिल्लीं. सोफेरान ट्रक थांबयलो. कान तोपी घाल्लो, धवेफुल्ल पुडवें भंडाक गुंडाळिल्लो एक बाप्पा बॅटरे दिवो घेवन भायर आयलो. ताणें ट्रकावेलीं मनशां मेजून सकल देवोवंक लायलीं. आतां सकाळचें एक वाजिल्लें. ते कानतोपीवाल्यान सगळ्यांक एके पडवेर न्हिदूंक जागा दिली. तुमकां पांचांक उठून खाणीर वचूंक जाय, अशें सांगून कानतोपीवालो बाप्पा वचून न्हिदलो. हो कानतोपीवालो बाप्पा दुसरो-तिसरो कोण नासून मिनेराचोच एक सोयरो आशिल्लो. तो खाणीर मास्तर म्हूण न्हय तर बाप्पा म्हूण वावुरतालो.

आतां पांच वाजिल्लीं. बाप्पा पयलोच उठून आपलें सगळें उरकून, पेलोभर च्याव ढोसून बी तयार आशिल्लो. ताणें पयलो नारुक उलो मारलो. पूण एका उल्यान जागो जालो तो पोको. पोको सडसडीत उठून बसलो. दोळे चोळीत ताणें शांतूक उठयलें. शांतून गंग्याक. गंग्यान आनी आनी वोगोत केलो ना. सगळ्या मानाय-कामेऱ्यांल्या आंगावेलीं कामुरचीं झडझडीत वोडलीं. नारुन तांकां सगळ्यांक ट्रकांत व्हरुन चोमलीं आनी ट्रक वाटेक लागलो.

ट्रक पयलीं धुल्लारस्त्यान आनी मागीर जंगलांतल्यान वरभर चल्लो.

आतां उजवाडिल्लें. जंगलांत सगळेकडे धुक्याचें आनी दवाचें राज्य चलतालें. थंडी आपूण म्हणटाली. तरी सुकण्यांच्या किलकिलाटान सगळें वातावरण सुखदेणेंच लागतालें. ट्रक जंगलांतल्यान वतालो ताका लागून सगळेंच थंड थंड जाल्लें. कामुरचीं थंड, हात थंड, पांय थंड, तकली थंड! दीस उदेंवंक थोडो उशीर जाल्लो जाल्यार, ट्रकांतलीं कितलीं मनशां थंड जातलीं आशिल्लीं, हें सांगू जायनाशिल्लें.

आतां वाटेर एक व्हाळ लागलो. उतळ व्हाळ. व्हाळाच्या वयलेवटेन भरपूर उदक आशिल्लें. तो व्हाळ कसो न्हय, तर न्हंयच कशी दिसताली. सगळ्या उदकांतल्यान धुंवर भायर पडटा अशें दिसतालें. पूण हेंच उदक फुडें चारपांच पाटांनी व्हांवतालें. म्हणूनच ताका व्हाळ म्हणपाचो.

सोफेरान व्हाळांतल्यान गाडी फुडें व्हेली, आनी रस्त्यार उबी केली. हो रस्तो मिनेरान झाडां कापून खणीर वचपाक तयार केल्लो.

ट्रकांतलो पयलो बाप्पा सखल देवलो. ताणें सांगलें, गाडी हांगा अर्देवर

थांबतली. तोंड बी धुवन घेयात.

थोड्यांक तोंड धुवंक जाय आशिल्लें. थोड्यांक आनीक कितें करुंक जाय आशिल्लें. पूण थोड्यांक थंय थामिल्लें नाका आशिल्लें. तांचे हात-पांय आकडून आयिल्ल्यान, आपली सुवात सोडूंकच तयार नाशिल्ले.

पोको सखल देवलोच ना. ताणें माथ्यावेलो बुरखो काडून चारीवटेन नदर मारली. तीं व्हाळा देगेवेलीं दाट झाडां, तें साठील्लें उदक. उदकाचो खळखळ आनी कलकल. आनी ते व्हाळांत सगळेकडे पातळिल्ले ल्हान-मोठे गुळगुळीत वाटकुळे आनी तरेकतरेच्या आकाराचे फातर. ताका दिसलें आपणें थोडे पुंजावचे. असले फातर पोक्यान आपल्या गांवांतल्या व्हाळांनी पळेल्ले. पूण इतले सोबीत नाशिल्ले. पोक्याक दिसलें, आपूण फातर एकठांय करून खंय खेळटलों ? आनी खंय सांबाळून दवरतलों?

आतां ट्रक फुडें चलूंक लागिल्लो. दीस बरोच वयर आयिल्लो. पयस आशिल्ल्या व्हडल्या रुखांच्या तेंगशांचेर वता चादरी पसरिल्ल्यो. ताका लागून शीं इल्लें इल्लें उणें जायत वतालें. सूर्य जसो जसो वयर येतालो तसो तसो तो आपलीं किरणां रुखावळींतल्यान मेळत ते वाटेन धरतरेक तेकोवंक सोदतालो.

आतां सुमार णव वरां जाल्लीं जांवये. वाटेर आनी एक पयलीं असलोच व्हाळ लागलो. हो व्हाळ वयलेवटेन सुको आशिल्लो आनी सकल उदक साठिल्ल्यान ताका न्हंयेचें सोरुप मेळिल्लें. हे उदकाच्या साठ्याक तेकून व्हडली खण आशिल्ली. खणींतली माती आनी फातर काडून न्हंयेंत उडयल्यान अर्दी न्हंय पुरिल्ली.

व्हाळांतल्या उदकांतल्यान वाट काडीत सोफेरान ट्रक फुडें व्हेलो. ट्रक एका गवळाकुशीक थारायलो. आज आयतार आशिल्ल्यान सगळे मांगर रिकामे जाल्ले. चडसो लोक बाजाराक गेल्लो. मांगरांत आशिल्लीं तीं थोडीं भुरगीं आनी ऑफिसांतले एक-दोन मास्तर आनी रांदपी.

मनशांक देवोवन सोफेर ट्रक घेवन गेल्लो. बाप्पान, आयिल्ल्या मानाय कामेऱ्यांची व्यवस्था मांगरांनी सुवात मेळटा थंय - थंय केली. शांतूलो प्रस्न गंभीर आशिल्लो. तें इतल्या भुरग्यांक घेवन लोकांमदें मांगरांत रावूंकच शकनाशिल्लें. मिनांक आयिल्ल्या लोकांचो घरा कोण ना कोण आसतालोच. शांतू आनी, आनी दोगां तिगां सोडलीं जाल्यार चडशे लोक आपल्या भुरग्यांक

घरा सोडून आयिल्ले. दत्तू आनी शांतू दोगांय आतां चिंतूक बसलीं. पोको तर मांगोर सोडून आनी खंयी न्हिदूंक तयार आशिल्लो.

गांवांत जाल्यार खंयचींय चुडटां-बिट्टां हाडून वरा-दोन वरां भितर खोपटी तयार करतलो आशिल्लो. हें तर जंगल. सगळेकडे बारीक-मोटे रुखच रुख. पोक्याच्या मनांत एक विचार आयलो. थंय एक करमलीचें, व्हडल्या पानाचें झाड आशिल्लें. ते झाडाच्या आदारान ताच्याच मुनांत खुटे-बिटे लावन खोप तयार केली जाल्यार? मात्सो नांवांपुरतो आसरो जाल्यार जालें. मागीरचें मागीर पळोवया. अशें म्हणून आपले विचार ताणें आवय-बापायकडे मांडले. शांतूक ते मानवले.

पोको झाडामुनांत गेलो. ताणें तेळणी केली. पळे जाल्यार झाडामुनांत रोयण आसा. 'पापो, हांगा रोयण आसा.' पोको आड्डलो. दत्तून म्हऱ्यांत येवन पळेलें. पळे जाल्यार एके कुसीक सातोळ्यो मुयो आनी दुसरे कुशीक काटमुयो खंयच्यान तरी रांगेन येवन एका बिळांत वतात. दत्तूचो अणभव असो की जंय मुयो आसात थंय सोरोप रावना. ताणें दुबाव नाका म्हूण पिकास हाडून रोयण खणून उडयली, आनी उजो घालून मुयांक धांवडायल्यो. मागीर घे! दत्तू, शांतू, पोको, सुकडो बी एकठांय जावन बारा वरां मेरेन खोप तयार केली. खोपीक मेढींचो तुटवोडो नाशिल्लो. वयल्या पाख्यांक आनी झडाक लाकडां भरपूर आशिल्लीं. चुडटां-मल्लां नासलीं म्हूण कितें जालें? दत्तून खंयचे तरी झपाझप सुकें करड कापून हाडलें, आनी खोपीचीं दोनय पाखीं शिवलीं. मागीर खोपींतली जमीन तासून निवळ केली. दोन लांब लाकडां हाडून तांच्यो दांडयो केल्यो. सगळे कपडे दांडयांचेर उडोवन शांतू शांत जालें. तीन फातरांची चूल करुन लागलें भाकऱ्यो थापूंक!

जेवले उपरांत शांतू, दत्तू आनी भुरग्यांनी सोतंत्र खोपटांत दिलें ताणून. रातीचें जागरण तांकां भरुन काडपाचें आशिल्लें. पोको मात जागो आशिल्लो. सगळीं न्हिदल्यांत तें पळोवन पोको एकटोच गेलो पासयेक. पोक्यालें आकर्शण आशिल्लें न्हय! ताणें येतासतना गाडयेंतल्यान उदकाचो सांठो पळेल्लो. तेन्नाच ताका शियांकडकड्यांत लेगीत उदकांत बुडी मारची अशें दिसतालें. आतां तो सगळ्यांत पयलीं त्या विशाल उदका कोणीकडे गेलो. धोंपरभर उदकामेरेन ताणें फुडें वचून पळेलें. पायांपोंदा बुळबुळीत फातर लागले आनी तो उदकांत पडलो.

इतक्यांत मांगरांतली एक बायल उदक व्हरुंक आयली. तिणें - 'आरे पोरा, फुडें वोचों नाका बुडटलो' म्हूण हुयेल मारली. पोको तसोच फाटले पांयांनी परतलो, आनी तसोच वयलेवटेन चलत गेलो. आपूण भिजलां हाची ताका संाबुद्द लेगीत नाशिल्ली.

पोको तसोच फुडें फुडें चलत रावलो. त्या विशाल पात्रांतल्या कितलेशाच खळग्यांतल्यान नितळ काळसार उदक व्हांवतालें. मदेंच ताका एकाद्रो पाखणी फातर मेळटालो. अशा कितलेशाच फातरांवेल्यान उदक उडयो घेतालें. जंय जंय उदक उडयो घेता, थंय थंय धवसो फेस निर्माण जातालो. पूण पोक्याक होच फेस उदकाचें हांसप असो भास जातालो.

पोक्यान दोन-तीन पाखणी फातर उकलून पळेले, कुल्ले चिपां बी मेळटात काय म्हूण. कुल्ली ना जाल्यार एकाद्रो पोटींग तरी आसतलोच अशें ताका दिसतालें. पूण ते उदकांत कसलोच जीव पोक्याक दिसलोना. सकयल्या कोणींत लेगीत एक खोरु ताका दिसूंक नाशिल्ली. ताका लागून पोक्याक दिसलें, हो भटव्हाळ आसूंक जाय. हांगाचे उदकांत भट-बामणांनी अनी साधू-संतांनी डुबक्यो घेतल्यो जाल्यार तांकां सवायभितर मुक्ती मेळटली. अण्णा खंवट्यागेर आसतना दामोदर भट सांगतालो, गंगेत न्हायत जाल्यार खंयचोय मनीस पवित्र जाता. पूण पोक्यान एक दीस अण्णाले आईक प्रस्न केल्लो. 'गंगेत नुस्तें नासता गे आई ?' तेन्ना तिणें सांगिल्लें, उदक आसता थंय नुस्तें आसूंकच जाय म्हूण. तशें जाल्यार भटांच्या पोटांत नुस्त्या उदक वतलेंच. मागीर ते पवित्र कशे उरतले ? हे उदकांत न्हाल्यार मात कसलोच तंटो ना, अशें पोक्याक दिसलें.

पोक्याल्या गांवांतल्या व्हाळांनी आसता तसली रेंव मात पोक्याक दिसलीना. हांगाच्यो दोनय तडी उदका मान्यान कोसळिल्ल्यो. भुसभुशीत मातयेंत गुळगुळीत आनी धवसे-काळसे फातर मिसळून आशिल्ले. एके तडीक दाट करड आनी दुसरे दाट रुखावळ. मात दोनय तडींनी व्हाळादेगेक पोक्याक अनवोळखीशीं झाडां दिसलीं. हेर झाडांचेर वाली-बिली चडिल्ल्यान तीं बुरशीं दिसतात पूण हीं झाडां बारीक पानांचीं आनी नितळ आशिल्लीं. पोक्याक तीं पळेन पळेन दिसतालीं. पोको हे झाडां म्हऱ्यांत बरोच वेळ घुटमळ्ळो. मागीर ताणें एक पान तोडून नाकाकडें धल्लें. वास बरोऽ येतालो. आनी दोन-चार पानां तोडून तो आपल्या वांगडा घेवन गेलो. मागीर ताका कळ्ळें की तीं झाडां तिखयेचीं

आशिल्लीं.

पोक्याक आनी मुकार वचून खूब किते पळेन अशें दिसतालें. आई उठून सोदतली म्हूण तो मांगरार आयलो.

ते दिसा सांजवेळा आनी एक विपरीत घडलें. पोको आमोरी जावचे पयलीं थोडो वेळ करमलीच्या झाडार चडून बसलो. थोडे वेळांन किते पळेतलो! पोक्याचें तोंड सुजून दोब्राद जाल्लें. पोक्याक तें कळ्ळेंच ना. पिसूची नदर पोक्याचेर पडली आनी ताणें एकच किळांच मारली. शांतून जेन्ना पोक्याक पळेलो तेन्ना ताचेर आयलो आकांत. अशें तोंड सुजिल्लें ताणें हे आदीं केन्नाच पळोवनाशिल्लें. ताणें आपल्या गांवच्या लोकांक आफोवन हाडलीं. तींय भियेलीं. ही कसली तरी नकलामी जावंक जाय अशें सगळ्यांचें मत जालें. आतां रातीचें कोणाक सोदूंक वतलें शांतू? लागीं गांव तरी आसा, कोणा घाडयाक हाडून खुदयतलो म्हळ्यार? शांतून पयलीं थंयच्या जाग्याच्याक उलो मारलो. मागीर आपले जे जे राखणदार देव-देवचार आसात, तांका शांतून काकुळटेन घाराणें घालें. आमी हांगा पोटाखातीर आयल्यांत देवा ! कळटां-नकळटां माझ्या पोरांकडल्यान कसलीय चूक घडल्यार तूं ताका बोक्शीय- अशें म्हणून ताणें आपले ग्रामदेवतेक आनी कुळदेवतेकय आंगवण केली.

पोक्याक पयलीं कांयच कळ्ळेंना, पूण मागीर ताणें आपल्या पोल्याक हात लायलो तेन्ना मात तो खूब भिलो. तरी ताणें आपल्या आवय-बापायक आनी भावणांक धीर दिवन सांगलें कि आपल्याक काय जावंक ना, आपूण रोकडोच बरो जातलों. आनी जालेंय तशेंच. रातीचीं आठ जाता म्हणसर पोक्याली सूज इल्ली इल्ली निवळत गेली आनी पोको मुळपदार आयलो. शांतूल्यो आंगवण्यो फळाक आयल्यो, अशें ताका दिसलें....



**अशे** तरेन तो आयतार सोंपलो आनी ते दिसा फाटली रात सुरु जाली. पोक्या जिवितांतली रानांतली ही पयलीच रात आशिल्ली. भारतीय संस्कृतायेंत रानांक चड म्हत्व आसा. कित्याक तर विष्णूचो अवतार श्रीराम, लक्ष्मण आनी

सीता हांणी चौदा वर्सां रानात रावन संसाराक देख दिवन दवरल्या. म्हाभारतांतल्या पांडवांनीय बारा वर्सां वनवास भोगला. हे देसांतल्या ऋशी-मुनींनीय वर्सांन वर्सां रानांत घालोवन गिन्यान मेळोवन तांचो उजवाड आख्या संवसारात फाकयला.

पूण हांगा मांगरांनी येवन राविल्ले लोक गिन्यान मेळोवंक येवनाशिल्ले तर फकत पोटाचें भांड भरुंक आयिल्ले. पोक्याचो उद्देश मात पोटा उपरांत गिन्यान मेळवपाचो आशिल्लो.

आमोरी जातकीर पोक्याक एक वेगळोच देखावो दिसलो. मांगरांनी लायणीन रचून दवरिल्ल्यो चुली आतां दिवजांभसेन पेटूंक लागिल्ल्यो. त्यो पेटोवपाच्यो काम बायलां करताल्यो. दादले मात कॉप मारून धांगडधिंगा घालताले. कोण कायली बडोवन तांच्या सुरातालार नृत्य करताले. कोण लातांचीं घुमटां करुन कातारां आनी जागोर करताले तर कोण सोऱ्या भिरकेन आपल्या बायलांक बडोवन आपलें दादलेपण सिद्ध करताले. आनी पोको आपल्या सोतंत्र कुटयेच्या दारांत आशिल्ल्या करमलाच्या झाडाखांद्यार बसून सगळ्याचो नियाळ करतालो. ताचीं सगळीं भावंणां चुलीकडे कोंडाळ्यान बसून शांतू भाकऱ्यो भाजता त्यो पळेतालीं आनी दत्तू पेत्रोला दिव्या उजवाडांत बसून फाल्यांक जाय तितल्यो विडयो वळपाच्या कामांत गुल्ल आशिल्लो.

पोक्यान रानांत रावन मळबांतलीं नखेंत्रा कशीं दिसता, रानांतलो थंड वारो आंगाक स्पर्श करतकीर मनशाक कितें भोगता हाचो अणभव घेतालो.

पोक्यान रानांतली ती पयली रात थंडे कुडकुड्यान घालयली. ताका आतां हुसको आशिल्लो तो फाल्यांच्या नव्या दिसाचो.

फातोडेर कुणबी गावडेलो झाडार बशिल्लो कोंबो रडलो आनी मानांय-कामेऱ्यांची कारांदाय कोमेस जाली.

सकाळच्या सातांक ऑफिसांतली घांट वाजली आनी मांगरांतलो एक एक मानाय पयलीं आनी एक एक कामेरें भायर सरलें. कोण विडी फुंकीत, कोण खावचें पान चाबडायत, कोण हात पांगरुन तर कोण माथ्याक लेंस बांदून, कोण घण घेवन चलतालो तर कोणाच्या खांदार पिकास, कोण खोरें, कोण लवंग, कोण दारु, कोण सूत हातांत घेवन चलतालीं. थोडीं कामेऱ्यां हे खाणीर तर थोडे मानांय ते खाणीर. मानांय-कामेऱ्यांचे भिरेंच चलतालें.

नव्यान आयिल्ल्या लोकांचीय वाटणी करुन दत्तू, शांतू, पोको, आनी सुकडो

लागशिरल्या खाणीर कामार रुजू जालीं. लागशिरली म्हळ्यार मांगरापासून पांचशेक मेत्र पयस आशिल्ली. सुरंगांचे फातर पडचे न्हय म्हूण, ही दिस्तांस राखचीच पडटाली.

मास्तरान दत्तूच्या हातांत पिकास दिलो. शांतून पयलींच कायल उकल्ली. सुकडो पोक्याउन सशक्त आशिल्लो. पूण ताका वर्सां खूब उणीं आशिल्लीं. ताच्याय माथ्यार कायलच पडली. पोको उबो रावन सगळें पळेतालो. ताका कितें करचें कांयच समजलेंना. पिकास घेवन खणप ताका शक्य नाशिल्लें. माथ्यार कायल घेवन बायल कशी चलपाक लज. तो मानाय न्हय आनी कामेरेंय न्हय. तो तसोच खूंट कसो उबो रावलो. इतक्यांत मास्तराची नदर पोक्याचेर पडली. ''तूं कामाक आयला मरे ? थंय उबो रावन कितें करता ? घे थंयची कायल माथ्यार आनी लाग कामाक! तुकां वर्सां कितलीं रे ?'' ''हांव खंय जाणां, आईक खबर आसा. आई ऽऽ मास्तर वर्सां इचारता.'' शांतू सडसडीत आयलें. ''कोणालीं वर्सां पोक्यालीं ?तेका निकतीं चोवदा संपल्यात.'' ''तशें जाल्यार तुका कायलच माथ्यार घेवंची पडटली.'' पोको माथ्यार कायल घेवन कामेऱ्यांवांगडा चलूंक लागलो.

पोक्याक कामेऱ्यांवांगडा चलप मातय आवडलेंना. तो एके घाटणी फाटल्यान माथ्यार कायल घेवन चलतालो. पूण घाटीन हळुहळू चलताली. आतां कितें करतलो? माथ्यार कायल घेवन घाटणीफाटल्यान पावलां मेजीत चलप पोक्याक आवडलेंना. ताचीं कुचंबणा जावंक लागलीं. ताची अडचण मास्तराच्या लक्षांत आयली. मास्तरान ताका सगळ्यांमुखार चलूंक लायलो. आतां पोको सडसडीत चलतालो. हेर कामेऱ्यांकय आतां तशेंच चलचे पडटालें. ताका लागून कामेऱ्यांक नुकसान आनी कंपनीक फायदो. आंग चोरुन काम करपी कामेऱ्यांक हो पोको म्हारग पडलो.

सकाळचें काम सातांक कोमेस जातालें. मदें साडेणवांक पंदरा मिन्टांचो सुसेग. सांजेचें दोन ते स वरांमेरेन परत काम.

मदले सुटयेंत मानाय विडयो फुंकताले. कामेऱ्यां खावचें पान खातालीं. आनी पोको कितें करतालो ? पोको कामेऱ्यांनी सुटे केल्ले बारीक बारीक फातर तपासतालो. थोडे बारीक सुपांरे येदे फातर, थोडे आनी मात्से मोठे. थोडे जड, थोडे ल्होव. एका कामेऱ्याक एक कायल फातर सुटे करुंक अर्दो दीस तरी

लागतालो. कामेऱ्यांनी सोर्टिंग केल्ले फातर व्हरुंक सेमानांतल्यान दोन खेपो तरी ट्रक येतालो. पोको मँगनीस खाणीचेर काम करतालो. हे फातर वयल्या वयर मेळनाशिल्ले. खूब माती उपसल्या उपरांत मँगनीसचीं चकचकीत जड खडपां मेळटालीं. हीं खडपां घण-पारयांनी खणून फातरांकुडके वयर काडचे पडटाले. हेर मानायांक अडेच रुपये जाल्यार हांकां एक रुपयो मायज.

पन्नास वर्सां फाटीं मिनांक काम करपी लोकांक, मानायांक अडेच रुपया आनी कामेऱ्यांक देड रुपयो दिसवडो आशिल्लो. ते तेंपार अडेच रुपयांचे मोल कितलें आशिल्लें, हाची कल्पना वाचप्यांक आयिल्ली बरी. एक लिब्र भांगर, म्हणजे एका पोवनाक पन्नास रुपयांहून उणे मोल आशिल्लें.

नव्यान कामांक आयिल्ल्या लोकांचें काम पळोवपाक खाण मालक खासा करुन खाणीचेर आयिल्लो. पोक्यान दोन दीस कायली माथ्यार घेतिल्ल्यो. खाणमालक उबो आसतना, माती भरुन दिवपी मानाय उणे आनी कामेऱ्यां चड दिसून आयलीं. पोकोय कामेऱ्यांमदें आशिल्ल्यान ताकाय उबो रावचो पडिल्लो. ताणें हीच संद घेवन कायल खंयचे खंय उडयली, आनी खोरें हातांत घेवन लागलो माती भरुंक. पोको माती भरुंक लागतकीर कामेऱ्यांची गर्दी उणी जाली. पोक्यालें खोरें मातयेंत अशे तरेन चलतालें, ताच्या मुखार मानाय फिके पडटाले. फुडें माथ्यार कायल घेवन, बायलांवांगडा चलपाचो वोगोत पोक्याचेर केन्नाच आयलोना.

आतां काम करुन पोक्यालें एक सेमन पुरें जाल्लें. खाणमालक पास्त घेवन पाग घालूंक आयिल्लो. लोक कामाचे सुट्टकीर ऑफिसाभायर पाग घेवंक ऑर्दीन (वळीन) उबे राविल्ले. एकेकटो पाग घेवन नोटां मेजीत भायर सरतालो. आतां पोक्यान हात फुडें केलो. खाणमालकान पोक्याचेर नदर घाली. आनी तोंडार हाशें हाडून, ''कामेऱ्यांचें काम सोडून, खोऱ्यान माती भरतालो तो तूं मरे तो ?'' मालकान प्रस्न केलो आनी पोक्याच्या हातार पयशें दवरले.

पोक्याची अपेक्षा, दिसाक देड रुपयो परमाणे णव रुपयांची आशिल्ली. भायर येवन पयशे मेज जाल्यार, ताच्या हातार साडे तेरा रुपया पडिल्ले. दोन रुपया चार आणे परमाणे दिसवडो दिल्लो मालकान. अडेच रुपये दिसवडो दिवना जावन हेर मानायांची लज राखिल्ली खाणमालकान!

आपल्या पोक्याक दोन रुपये चार आणे पाग मेळ्ळो तें पळोवन पोक्याली

धडसाण ताका कळून चुकली. शांतूल्या दोळ्यांतल्यान तर खोशेचीं दुखां आयलीं. दोन वर्सां फाटीं, सदूकामतील्या कुळागरांत ताणें मरसर काम करुन, दिसाचे दोन आणे घेतिल्ले, हाची ताका याद जाली.

संवसारांत सगळेच लोक फटकीरे आनी कामचोर आसनांत. आनी सगळेच लोक फातराकाळजाचेय आसनांत. जे लोक कामाची कदर करतात तांकां ताचें इनाम मेळटाच. खणमालकान पोक्याक फाव तो न्याय दिवन पोक्याचो फायदो जाल्लोच, तेशिवाय खणमालकाचोय कितलेशेच वाट्यांनी चड फायदो जाल्लो. तो नवे नेटान कामाक लागिल्लो. कामेऱ्यांक उबीं रावंक दिनाशिल्लो. कायल माथ्यार घेवन मिरयत चलतल्या कामेऱ्यांक सडसडीत चलपाक तो ताकीद दितालो. हाका लागून मास्तरालें काम आपोआप घडटालें. केन्ना केन्नाय मास्तर, "पोक्या, मात्सो पळय आं. मात्सो आपिसांत वचून येतां." अशें म्हणून वतालो आनी अर्देवर-वर ताचो पत्तोच नासतालो. पोक्याक मागीर आपली सत्ता गाजवपाक संद मेळटाली.

आतां एक गजाल पोक्याक बऱ्याक पडिल्ली. हांगा ताचेर कसलोच दबाव म्हण्टा तो नाशिल्लो. आवय-बापूय ताका मेकळेपणान वावरुंक दितालो. ताका लागून ताका जेन्ना जेन्ना वोगोत मेळटा तेन्ना तेन्ना तो आपले छंद पुरे करपाचो येत्न करतालो. रानांत भोंवप आनी उदकांत नाचप हे ताचे मुखेल छंद आशिल्ले. ताच्या गांवांत व्हाळ आडोवन, ताका बांद घालून तळें निर्माण करताले. मागीर गांवांतले धडधाकट भुरगे झाडांखांदयांचेर चडून तळ्यांत उडयो घेताले. पयले ते उथळ उदकांत बुचकळून बुचकळून पेवंक शिकताले. मागीर ते खोलायेच्या उदका वांगडा खेळताले. एकेकडे बुडी मारुन पयले नाच जाताले, आनी मागीर पयस खंयच्यान तरी वयर सरताले. पोको ल्हान आशिल्ल्यान तशें करुंक धजनाशिल्लो. उदकाकडे खेळपाची ताका ताकत नाशिल्ली आनी तो तशें करपाचें धाडसय करिनाशिल्लो. तो पाटावेल्या कोणांत बुचकळ्यो मारुनच आपली पेंवपाची आस भागयतालो.

पोक्यान पेंवपाची आस हांगा भागयली. उदकावांगडा खेळपाची शकत आतां ताच्यांत आशिल्ली. पेवंक शिकपासारकें उदकय आशिल्लें. कामाचो सुडटकीर तो दनपारचो बदूद न्हंयेंचेर वतालो. आठ-धा दीस ताणें उथळ उदकांत बुचकळ्यो मारल्यो. मागीर थोडे खोलायेचेर वचून हात बडयले. उपरांत उदकार उधारो पडून

रावपाचो यत्न केलो. इल्लें इल्लें करतां पोको उदकाचेर उधारो उफेवंक लागलो आनी मागीर हात-पांय बडोवन शेकीं पेवंक शिकलो. तरी ताका खोल उदकांत वचपाचें धाडस जायनाशिल्लें. मागीर ताका न्हंयें कुशीक एक लाकडाचो होंडको मेळ्ळो. हे होंडक्याच्या आदारांन तो खोल उदकांत पयस पयस वचूंक शिकलो. हे होंडक्यानच पोक्याक आत्मविश्वास दिलो. हो होंडकोच पोक्याचो पेंवपाक शिकोवपी गुरु ठरलो.

पोक्याची रानांत भोंवपाची आसय हांगाच भागली. खरें म्हळ्यार जो खरो सैममोगी आसता, ताची मरमेरेन रानां-वनांत भोंवपाची आस भागना. पोको दनपारचें जेवन जातकीर मांगरांच्या लागसाराक आशिल्ल्या जंगली वाटारांत शिरतालो. ताका हांगा वळखिचीं झाडां दिसनाशिल्लीं. ताच्या गांवांत आनी हेर दोंगराळ वाटारांनी पोक्याक किनळ, मारट, अर्जुन, सायलो बी झाडां चड करुंन दिसतालीं. एक अर्जुन सोडल्यार हे रुख फुलून दोंगराक सोब हाडटात. पूण हांगा ताचें नांव-निशाण नाशिल्लें. वड-पिंपळाचोय पोत्तो नाशिल्लो. हांगा गांवांलागसाराक मेळटात तीं काण्णां, चुन्नां, कणेरां, चारां, भेडसां, आंसाळे बी झुडपां दिसनांत तें पळोवन पोको साप्प निर्शेलो. हांगा ताका दिसतालीं बुटकीं आनी ओबड्या धोबड्या आंगाचीं करमल आनी कुमया झाडां. तींय भयांकृत अशीं. मुळांत सोरपां रोयणी, आंगार काटयाच्यो वाली न्हेसून आपलो कोणय येवन उद्दार करता काय म्हूण वाट पळेत तिश्टत रावपी.

पोक्याक अकस्मात उस्के झाडांची याद जाली. हीं झुडपां हांगा ना जाल्यार खंय दुसरेकडे बी दिसतात काय म्हण पळोवपाक ताणें आपल्या वांगडा सुकड्याक घेवन वचपाचें थारायलें. आनी कसले झाडांचीय घडये भेट जायत म्हूण एका आयताराक दोगय भाव भायर सरले. ते खंय तरी वतात तें पळोवन आनी एक दत्तराम नांवाचो भुरगो, भुरगो कसलो मानाय म्हळ्यार जाता, भायर सरलो. पोको आनी सुकडो बरेच पयस गेल्ले. मर्दी मर्दी सुकें करड, कांय सुवातांचेर तळपां तर तांकां तेकून झुडपांझोपां. पोको आनी सुकडो वाट काडीत काडीत फुडें गेले. पोक्याक एक आंवाळे रोपो दिसलो. मागीर तांकां एका फाटल्यान एक अशीं खुबशीं आंवाळे झाडां दिसलीं. पूण ह्या ल्हान-व्हड झाडांक एक आंवाळो लेगीत नदरेक पडना तें पळोवन पोक्याक अजाप दिसलें. आतां फुडें कित्याक वचपाचें? हीं वांजडीं झाडां पळोंवंक? पोक्यान आतां फाटीं सरपाचो

विचार केलो. इतक्यांत ताची नदर एका झुडपां झोंपांचेर पडली. ताका तेंकूनच एक मोडवेंशें आवांळे झाड आशिल्लें, ते झाडाचे तेंगशेक एक दोन मोट्ठे आंवाळे पोक्याक दिसले. म्हच्यांत वच जाल्यार झाडाक घोंसानी आंवाळे. तेय बी लिंबू कशे मोठे ! झाडाचें पान दिसना.

फाटल्यान पोक्याचो माग काडीत काडीत, उलो मारीत मारीत दत्तराम्म येतालो. ताणें हें आंवाळे झाड पळेलें जाल्यार एक आंवाळो दोगय भावांच्या हाताक लागूंक दिवचोना. पोक्यान आनी आनी वेळ केलोना, झाडार चडून भराभर सगळे आंवाळे खुंटले. आतां हे पायलीभर आंवाळे व्हरतले कशे? दोगांनीय आपलीं आंगलीं काडलीं. दोन गांठलीं घेवन चलूंक लागले. इतक्यांत दत्तराम थंय पावलो. 'जाप कित्याक दिनाहलेरे? आंवाळे व्हडले दिसले?' 'कित्याक तर ! आमी तुकाय दितले वांटो.' अशें म्हणून तिगय घरा आयले.

इतले सगळे आंवाळे पळोवन शांतू काचाबूल जालें. सुको बांगडो खावन खावन सगळीं जाणां बेजार जाल्लीं. शांतून आंवाळ्यांक ऊब लायली. ताचेकडे लोणच्याक लागता तसलो मसालो बी आसतालो. शांतून आडुकसाणीचें तेलकट-तिखट लोणचें केलें आनी दत्तरामाकय इल्लें दिलें.

लोणचें जावं ना जाल्यार पापड. शांतून केल्लें सगळेंच रुच्चीक आसतालें. हातांत पयसो नासून ताची तकली आनी हात चलनाशिल्ले. मनीस कर्तबगार आसलो जाल्यार, कामाची उमेद आसली जाल्यार खंयचेय सुवात्येक तो भांगराळी करुन सोडटा. सोता शादूर रावन आपलें जिवीत सुखाचें करता.

पोक्यान आतां मिनाक दोन-अडेच म्हयने काम केल्लें. हे काळांत आवय-बापूय, भाव-भयण ताच्या सांगाताक आशिल्लीं. थंयच्या झाडां-पेडांक ताणें आपलींशीं केल्लीं. सगळ्या मांगरांतल्या लोकांची ताका संवंय जाल्ली. ताच्या गांवच्या लोकांभायर आनी कितलेशेच भायले गांवचे लोक थंय आशिल्ले. तातूंन कुणबी गावडे, किरिस्तांव गावडे, हिन्दू गावडे, भंडारी, हडे-थडे करपी पेडणेकार, कोंकणी भास मातय कळनाशिल्ले तामिळ आनी तेलगू. सगळ्यांच्यो चुली तेकून तेकून. अशें आसूनय कोण कितें शिजयता, कोण कितें खाता हाचें कोणाक कांयच पडिल्लें नाशिल्लें. कोण आंबिल रांदतालो, कोण पेज, कोण शीत शिजयतालो. खंयचेय वेळार कित्येय खावन दीस काडटाले मांगरी लोक! पोटभर खांवचें, दीसभर काम करचें. हातूंतच तांकां सूख मेळटालें.

पोक्यालें मन मात सैरभैर भिरभिरतालें. ताका सगळ्यांवांगडा खेळचें अशें दिसतालें. न्हंयेंचें उदक दिशीं दिशीं उणें जायत वतालें. तरी पोक्याक ती आपल्यावांगडा खेळपाक आफयताली. थंयचें खोरें म्हण्टालें आपल्या वांगडा खेळ. हातोडी म्हण्टाली आपल्या वांगडा खेळ. पोको आतां आदलें जिवीत इल्लें इल्लें करुन विसरुंन गेल्लो.

आतां शिगमो लागीं आयिल्लो. वसंतरुतू वाऱ्यावांगडा पासयो मारतालो. पूण हांगा फुलोवपाक ताका जाय आशिल्ले रुख नाशिल्ले. चवरावपाक आंबे नाशिल्ले, काजू नाशिल्ल्यो, पोसवपाक पणस नाशिल्ले. वसंत आयलो म्हूण आपल्या गोड गळ्यांतल्यान गावन सांगपाक कोगळां नाशिल्लीं. परमळ सोडपाक सुरंगां, चाफीं फुलां नाशिल्लीं. वाटाराक सोब हाडूंक हुस्की, आबोली बी नाशिल्ली. आशिल्लीं तीं गांवगिऱ्यांचीं मनां. सांज-सकाळ तो तांचीं मनां फुलयतालो. दत्तू आमोरेर बसून शिगम्यांगितां गुणगणटालो. पोको रिकामी कायल घेवन तिचेर रोमट वाजयतालो. सुकडो, पिसू बी खोपटेभायर नाचतालीं. पोक्याले गांवचे मानाय-कामेऱ्यांय तेंच करतालीं. तांचीं गात्रांन गात्रां शिगमोमय जाल्लीं.

आनी एक दीस खाणमालकालो ट्रक मनशांनी भल्लो. हीं मनशां येतास्तना रडकुरीं तोंडां करुन आयिल्लीं. तींच आतां दुडवांचे उबेन खुशालकायेन भरिल्लीं. तांच्या तोंडांतल्यान, दोळ्यांतल्यान आनी हातावाऱ्यांतल्यान शिगमो झडटालो.

**पो**को जेन्ना मिनाकसावन आपल्या गांवांत आयलो तेन्ना ताचो झेत पळोवपासारखो आशिल्लो. ताचें चलप, ताचें उलोवप बी दुसरेच भसेन जातालें. तो लोकांकडेन उलयतासतना बी भेणार हात धरुन उलयतालो. मेळत ताचेकडे मिनाच्योच खबरो. ताका नेट येवपाक कारण आशिल्लो ताचो पाग. हे पागान पोक्याक गांवांतय फामाद केल्लो. मिनाक गेल्ले लोक गजाली करता आसतना पोक्याक अमको पाग मेळटा हाचो मुजरत उल्लेख करताले. इतलेंच न्हय, पोको परत येतकीर ताचो पाग वाडयतले म्हणपाचें आश्वासन बाप्पा मास्तरान ताका दिल्लें.

पोक्यालो शिगमो हे फावट झेतार वतालो. ताचे खोशेक भरतें हे आदी केन्नाच येवं नाशिल्लें. वाड्यावेले लोकय ताका उठबस करुंक लागिल्ले.

नमीचे शिगम्या माणार नमन घालतकीर दुसरे दिसा सावन गांवचे तरणाटे शिगम्या माणार एकठांय जाताले. ढोल-ताशे वाजयताले. ल्हान भुरगे माणार येवन तें वाजप मन लावन आयकताले, नाचताले. ढोल-ताशे वाजूंक लागतकीर पोकोय धावून माणार येतालो. ताका आपणेंय तासो वाजवंचो अशें दिसतालें. पूण ताशाक हात लावपाचें धाडस ताका जायनाशिल्लें. केन्नाय हात लायलोच जाल्यार कोणय येवन ताका दोळे मोठे करतालो. ताका लागून तासो वाजवपाची आस ताच्या मनांतल्या मनांतच उरताली. हे वर्सा मात ती ताणें भागयली.

'बाप्पो, हांव मात्सो तासो वाजोवं?' पोक्यान मिनाकसावन आयिल्ल्या एका मानायांक विचारलें 'वाजय मरे, तूं आमगेलोच न्हू? आतां तूं मानाय जाला मरे, आमकां कित्याक इचारुंक जाय? वाजय तूं, वाजय! पोटभर वाजय.'

पोक्यान ताशा बडयो हातांत घेतल्यो आनी लागलो तासो वाजोवंक. ताणें हे आदीं जाण्ट्या-जाणकारांचें वाजप मन लावन आयकल्लें. ताका लागून ताल-मात्रांचें गिन्यान ताणें भरपूर घेतिल्लें. पोको तासो वाजवंक लागलो. आनी वाड्यावेल्या जाण्ट्या-नेण्ट्यांच्यो पावल्यो अचळय हालूंक लागल्यो. ताल धरुंक लागल्यो. "कोण वाजयता काय तासो? इतलें बरें वाजप पयलेच फावट आयकोंक येता आं !" वाड्यार घराघरांत उलोवप चलतालें.

वाड्यावेलो शंभू नायक ढोल वाजवंक खापो आशिल्लो. ढोल वाजवंचो तर तो शंभू नायकानच! पोको तासो वाजयता तें आयकून शंभू नायकान ढोलतोंणी हातांत घेतली. मागीर लागली दोगांर्ली जुगलबंदी!

शंभू नायकान पोक्याली एकभसेन परिक्षाच घेतिल्ली. 'हो पोर लेचोपेचो ना रे ! गूण आसात पोराच्या आंगांत.' शंभू नायकान पोक्याक सेर्दांव दिलो.

माणार भुरग्यांक तालगडी शिकोवंक कोमेस जाल्लें. पोक्यान तातूंत वाटो घेतलो. पोक्याक चड शिकोवपाची गरज नाशिल्ली. तो आपूण जांवन तालार ताल धरुंक शिकलो.

गांवचे खेळगडी मेळ घेवन दारा-दारार भोंवताले. पोक्याक खुबशीं कवनां पाठ आशिल्लीं. दारांत पावतकीर पोक्याल्या तोंडांतल्यान कवन आपसूक भायर पडटालें आनी खेळ सुरु जातालो. फुडें फुडें खेळाचें मुखेलपण पोक्याकडे गेल्लें.

पोक्यान कवनां म्हणपाचीं आनी हेर गड्यांनी ताल धरुन तालार नाचपाचें!

अशें तरेन पोको आपल्या कर्तुबांनी गांवांत फामाद जाल्लो. पयलीं दत्तूक गांवांत किंमत नाशिल्ली. तो एक मनीस घाणों म्हूण ताची निर्भत्सना जाताली. पोक्यावरवीं आतां ताका इल्लो मान मेळूंक लागिल्लो. हें सगळें मिनाक गेल्ल्यान घडिल्लें. मिनाच्या खाणमालकान पोक्याक शाबासकी दिल्ली ती लोकांनी पळेल्ली. ताका लागून पोक्याचें मोल गांवांत वाडिल्लें.

आतां शिगमो सोंपिल्लो. नाटकां काबार जाल्लीं. आतां परत मिनांक वचपाचो दीस तेकिल्लो. फाल्यां मिनाक वचूंक भायर सरतले म्हळ्यार आदले दिसा पोको बाटोळ्यांत कोणावांगडा कसलो तरी खेळ खेळटालो. इतक्यांत किण्-किण्ण्ऽऽ.... करुन सायकलीची बॅल वाजली. पोक्याचें तिचेर लक्ष गेलें ना. भुरगे मात सायकलीकडे वळ्ळे. इतक्यांत पोक्या, म्हूण कोणेतरी मोट्ठ्यान उलो मारलो. पोक्यान फाटीं वळून पळे जाल्यार तातो ! 'हो आनी कित्याक मोरोंक येयलो काय हांगा.' अशें म्हणून पोक्यान थंयच्यान धांव मारली आनी बदूद खोपटेंत वचून लिंपलो.

आपूण सांगिनासतना घरा रावन व्हडली चूक केली हें पोक्याच्या मनांत खातालें. ताका लागून तात्याक तोंड दाखवंक ताका लज दिसताली.

तातो पोक्याफाटल्यान खोंपटेमेरेन गेल्लो. खोंपटेभायर रावन ताणें पोक्याक दोन-तीन उले मारले. पोको कवडे फाटल्यान लिंपून राविल्लो. तात्याक तो जाप दिनाशिल्लो. इतल्यांत शांतू भायर आयलें. तें तात्याक वळखनाशिल्लें. ताणें दत्तूक आफोवन हाडलो. दत्तून तात्याक बसूंक म्हणय दिली.

'हांव पोक्याक व्हरुंक आयलां. तुमी मिनांक गेल्ले खंय?...'

'हयवय! शिगम्याक येयलेले आमी. फाल्यां वयतात.''

'पोक्याकय व्हरतात?'

'हय तर! पोको सोडटा येवपाचो.'

'हांव व्हरुंक आयला मुगा ताका.'

'पूण तो येवंक जाय न्हू!'

'येतलो. कित्याक येवचोना? आफय ताका, हांव विचारतां.'

'तेका आफोवंक कित्याक जायो, हो पळय कवडेफाटल्यान लिंपला. येवंक जाय जाल्यार येतलो. मिनाक दिसाक अडेच रुपये मेळटात ते सोडून तो तुमगेर

कित्याक येतलो ?'

दत्तून चार आणे मायज सांगून भाव खालो. पोक्याक दिसाक अडेच रुपये मेळटात हें आयकून तात्यान उकतें केल्लें तोंड केदो वेळ तशेंच दवरलें. तो दत्तूक पळेत उरलो. शांतून चायेदुकानावेलो केळ्याफेणो हाडून तात्या म्हऱ्यांत दवरलो, तेन्नाच ताणें आपली मान बागयली.

'तुमी तेका एका म्हयन्याक दितात न्हूं, तें तेका दोन दिसांक मेळटात.'

'आनी आमी ताका भुसकें दितात तें ? भुसकें वाडून ताका आमी पांच रुपये दितात. आता तूं सांगता जाल्यार अण्णांक वाडोवंक लायतां थोडे.' ते म्हणसर तात्यान तीन केळीं गिळ्ळीं.

'आनी मिनाचें काम गिमांतच चलतलें. पावसांत उपाशी पडटलो पोर!'

तात्यान फुडलो धोको उलोवन दाखयलो. पोक्याक कवडे फाटल्यान कच्च जालें. ताच्या दोळ्यांमुखार पावसाळो उबो रावलो. सगळ्यो खाणी उप्पाट व्हांवतात. घोंग्यांनी पावस पडटा. सगळे मांगर हुबून गेल्यात. पोक्यालो आवय-बापूय आनी भावंणाचो भिजून थापो जाला. तांची खोपटी मोडून पडल्या. सगळीं जाणां करमली रुखामुंदांत उबीं रावन कुडकुडटात. पिसू - ताची एकटीच भयण-खंय नाच जाल्या. हें कल्पनेंतलें चित्र अणभवन पोक्यान एकच किळांच मारली. ती आयकून शांतू आकांतलें. कितें जालें काय म्हज्या पोराक? वागोणी बी चाबलीना मूं? ताणें कवडेफाटल्यान वचून पोक्याक घट्ट वेंगेंत धल्लो. ताचे हात-पाय सांसपिले. ताका तसोच वेंगेंत धरुन भायर हाडलो. शांतून ताच्या केंसावेल्यान हात वोडलो. पोक्याचे हात-पांय अजून थरथरताले.

'बाबा, तूं पोक्याक व्हर. हांव सांगतां म्हणोन व्हर तूं तेका. नाका आमकां ते पोक्याले मिनांचे पयशे. आमचें कितें जाता तें जातां.'

शांतूलीं उतरां आयकून, तात्यान फेण्याचें आनी एक केळें तोडलें.

'मागीर कितें म्हण्टारे तूं पोक्या, येता मरे? सगळीं हुस्केतात तुका. तूं येतलो-येतलो म्हूण वाटेकडे दोळे लावन आसात तुजे. चड करुन आईक चड याद येता तुजी. हावें तिका वचन दिलां, तुका घेवन येतांच म्हूण! चल, भायर सर!'

पोक्यालें आतां सगळेंच घुंविल्लें, तातो ताका सोदीत घराकडे पावतलो अशें ताणें धरुं नाशिल्लें. ताची ओड खंवट्याल्या घराकडे नाशिल्ली अशी न्हय. खंवट्याल्या घरचीं मनशां ताका आवड नाशिल्लीं अशेंय न्हय. तांगेल्या

माणार काम करुन तो उबगल्लों अशेंय नाशिल्लें. खंवटो ताका दुडू थोडे दिता म्हूण तो थंयच्च्यान येवं नाशिल्लो. ताचें मिनाक वचप हें शांतूल्या मनां आड आशिल्लें.

आनी आतां तातो तर सांगता मीन फकत गिमांतच आसतलें. पावसांत मागीर आमचें कशें जातलें? मिना खाण आतांच खोल गेल्या. मीन काडचे वोगतार खाणीतलें उदक भायर मारचें पडटा. पावसांत ही खाण भरतली आनी फुडल्या नोवेंब्रमेरेन सुकचीना. आनी तो मेरेन काम मेळ्ळेंना जाल्यार सगळ्यांचे जेवणाखाणाचे हाल जातले. कुळागराचो आदार आशिल्लो तोय गेलो. पावसांत हे खोपटेंत रावन करतले कितें ? सात-आठ पोटां कशीं भरतलीं? आतां तात्यावांगडा गेलों ना जाल्यार अण्णा दुसऱ्याक कोणाकय दवरतलो. मागीर पोको उबंत पडटलो आनी एका पोटाचो पेज शांतूचेर पडटलो. आतां पयशांचें तोंड पळेल्यार फुडले संकश्टाक तोंड दिवचें पडटलें. ते परस आतांच तात्यावांगडा वचून शांतू सांगाताक आशिल्ल्या तोंडांतलें एक तोंड उणें केल्यार बरें. शांतूकय तेंच जाय. ताच्या उलोवण्यावेल्यान हेंच कळून येता.

'कितें म्हण्टारे पोक्या? या मरे!' तात्यान सुकुण्ण्या केळ्यां फेण्याचें आठवें केळें तोडीत प्रस्न केलो. पोक्याच्या तोंडार उजळसाण आयली.

पोको भितर गेलो. एके पिशवेंत आपलीं आंगलीं भरलीं. भायर येवन रडकुरें तोंड करुन आवयक थोडो वेळ पळेत रावलो. बापूय ओकोणयां बसून विडी फुंकतालो. पोक्यान पिशवेंत आंगलीं भरल्यांत तीं पळोवन भावणांच्या दोळ्यांत दुकां भरिल्लीं. सुकडो खोपीभायर आशिल्ल्या लाकडाचेर बसून येदेंशें तोंड करुन पोक्याक पळेतालो.

तातो सायकल हातांत धरुन चलत रावलो. ताच्या फाटल्यान पोको, फाटल्यान पळेनासतना पिशवी झेलयत चलतालो. फुड्डें पावतकीर तात्यान पोक्याक सायकलीच्या दांड्यार बसयलो. पेदालांक गती दीत तातो थंयच्च्यान नाच जालो. पोको नाशिल्ल्यान अण्णाची अडचण जाताली. अण्णाचो पोक्याचेर खूब विश्वास आशिल्लो. पोक्याचेर कसलेंय काम पात्ययेवन अण्णा काळजीविरयत खंयी वचूं शकतालो.

पोको घरांत आसतना आईक आनी तिच्या सुनांक कांयच लागनाशिल्लें. वावराडी उसरां येताली. ताका लागून सकाळचीं बारीक सारीक सगळीं कामां

पोको आपखोशेन करतालो. आतां पोको परत आयिल्ल्यान घरभर लोक खोसयेन भरिल्ले. अण्णाल्या आनी शेजाऱ्यांल्या भुरग्यांकय पोको नाशिल्लो तेन्ना चुकलें चुकलेंशें दिसतालें.

भुरग्यांक पोको आवडपाक खूब कारणां आशिल्लीं. भुरग्यांक सदांच आंबट-गोड फळां आवडटात. भुरग्यांनी पोक्याक ओर्द दिल्यार पुरो. तो केदेय व्हडल्या झाडार चडून चिंचो, जांबळां, बोरां-पेरां तोडटालो, झडयतालो. मागीर भुरग्यांक आनी कितें जाय? असलीं कामा पोको सोडून आनी कोण करुंक शकतालो?

पोको मिनाक वियाज मारुन आयिल्लो खरो, पूण ताचें मन अजून खाणींच्या वाटारांत भोवतालें. हांगाच्या सगळ्या कामांची ताका सवंय आशिल्ली. तीं ताका परत सांगपाची ओ कोणे शिकोवपाची गरज नाशिल्ली. तरी ताचे हात सट् करुन कसल्याच कामाक लागनाशिल्ले. ताका आपूण खंय तरी शेणिल्ल्याभसेन दिसतालें. ताणें अण्णागेर परत येवन वायट केलें कि बरें हाचो निर्णय ताचें मन घेनाशिल्लें.

हांगाचे मानाय सकाळचे साडे आठांक कामांक लागून दनपारचे साडेबारांक सुट्टाले. मागीर परत तीनांक कामार येवन सांजेचे संक घरा वताले. अशें आसुनय तांकां दोन रुपये दिसवडो आशिल्लो. आनी पोक्याचें कितें? सकाळचें संक आनी केन्ना केन्ना पांचाकय ताका उठचें पडटालें. ताका सुटी म्हूण नाशिल्लीच. रातीर्ची धा वरांमेरेन तो बंदनांत कसो आसतालो. आनी ताका म्हयन्याचो पाग कितलो तो लेगीत खबर नाशिल्लो.

पोक्याक दिसतालें, खंवट्याल्या घरांतलो सगळो लोक ताका दुबावान पळेतात. ताका मिनाक दोन रुपये चार आणे मेळटाले. पूण दत्तून तात्याक सांगिल्ले अडेच रुपये मेळटात म्हण. ते मानान अण्णालो पागामेंत कांयच नाशिल्लो. हाकाच लागून अण्णाल्या घरच्यांक पोक्याचेर अन्याय घडटा अशें दिसतालें. तांचे मन तांकां खातालें. पोक्याक दुबावान पळोवपाचें तांचें कारणय हेंच आशिल्लें. पोक्याल्या मनांत आपल्या विशीं तेढ बी उपरासुंना मू? तशें जाल्यार पोक्याल्या नदरेंतल्यान घरांतलीं सगळीं उतरतलीं. अशें घडूंक फावना. अण्णान ताच्या कामाचो फाव तो मोबदलो दिवंकच जाय अशें अण्णाचे आईक दिसतालें.

पोक्याकय आतां आपले ताकतीची वळख जाल्ली. तो एक भुरगो म्हूण, पोटाची खळगी भरपाक ताणें अण्णाल्या माणार काम करचें अशें शांतूक दिसतालें.

पूण पोको आतां भुरगो खंय आशिल्लो? थोड्याच दिसांनी ताका पंदरावें वर्स लागपाचें आशिल्लें. आतांच ताणें मिनाक काम करुन आपलें मानायपण दाखोवन दिल्लें. मागीर माणार काम करपी भुरगो म्हण आपल्यागेर कितले दीस म्हूण काम करतलो? ताका फुडार आसा काय ना? मिनाक शेनवारचे ताच्या हातांत कचकचीत पयशे पडटाले. पूण हांगा मात ताका पयशांचें तोंड पळोवंक मेळनाशिल्लें. आयज लेगीत ताका पयशांची गरज पडली ना. पूण आतां तो भुरगो ना. आतां ताच्या बोल्सांत पयशे आसचे अशें दिसूंक लागलां.

गांवांत नाटकां, तियात्र, जागोर बी जातालो. पोक्याक तें सगळें पळेनशें दिसतालें. तो अण्णाक सांगून-नाटक-तियात्राक वतालो. पूण ताच्या बोल्सांत एक पयसो नासतालो. लोकाले भुरगे कचकचीत पयशे मोडटाले. कोण चणे खातालो, कोण भजीं खातालो, कोण खाजें घेवन खातालो, कोण सरबत पितालो. पोक्यान तर जल्माक येवन सरबत केन्नाच चाकुनाशिल्लें. ताका दिसतालें आपूण हॉटेलाचेर बसून एक सिंगल मागोवचें आनी थंयच्या कदेलार बसून व्हडल्या मनशांभसेन च्याव पिवची. पूण आयज लेगीत ताका तें शक्य जावनाशिल्लें.

पोक्यान विचार कर कर केलो. शेकीं ताणें आंग झडकीलें. आनी लागलो कामाक. सद्या तरी ताच्या हातांत तेंच आशिल्लें.

खंवट्यागेर काम करीत आसतना पोक्याच्या वाट्याक खूब बरे वायट अणभव आयले. संवसारांत मानान जगतलो जाल्यार फकत संतांचो मार्ग आपणावन उपकारचेंना. लोकांकडे ल्हानविकायेन वागचें अशी शांतूली पोक्याक शिकवणी आशिल्ली. पूण व्यवहारांत पोक्याक वेगळोच अणभव येतालो. जांचेकडे ल्हानविकायेन आनी न्याय-नितिन वागपाचें आसता, तीं मनशां व्हड आनी न्यायान वागपी आसूंक जाय. ल्हान मनशांकडे ल्हानविकायेन वागल्यार माराशिवाय दुसरें कांयच मेळना हाचो अणभव पोक्याक खुबदां आयला. सभोवतणी हलकट, बुरशे, मदांध, कुन्नाटे बी लोक आसले आनी तांचेकडे समजीकायेन आनी शांतकायेन वागपाचो यत्न केल्यार तसो वागपी पिसो ठरता हें कितलेशाच प्रसंगावेल्यान कळून आयिल्लें. तरी ताची आंगलट आनी मानसीक स्थितीक लागून ताका खूब वेळां मारतें व्हरुन जगचें पडटालें आतां मात तो इल्लो शाणो जायत वतालो.

गिमांत खंवट्यागेर नाल्ल सोलपाक एक-दोन सोलपी येताले. तांतलो एक

सामको बुरसो आनी घाणयारो आशिल्लो. ताचेकडे विचार करपाची ताकतच नाशिल्ली. पोको म्हळ्यार ताका खेळणेशें दिसतालें. तो म्हऱ्यांत येतकर ताका कित्या कित्येंय म्हणून तो चाळोवपाचो यत्न करतालो. पूण पोको आयकून आयकूंकच ना अशें करुन वोग्गी रावतालो. पूण तो सोलपी वस्ताद. ताणें पोक्याक राग हाडपाखातीर खुबशे उपाय करुन पळेले तरी पोको ताका बदलो ना. ते सोलप्यान आतां कितें करचें? ताणें पोक्या आवयक कित्या कितेंय म्हणूंक कोमेस केलें. तो पोक्याक आवयवेल्यान गाळी घालूंक लागलो. पोको कित्येंय सोसूंक शकतालो. पूण आवयक कोणेंय कितेंय वाकडें तिकडें म्हळ्यार ताची तकली जाग्यार उरनाशिल्ली. सोलपी आपल्याक सतायता हाका लागून पोक्याले दोळे तांबडे जाताले. तो खंयी एकटो बसून दुखां गळयतालो. ताका दिसतालें ही गजाल अण्णाल्या कानार घालची. पूण अण्णाचो सोबाव तो जाणा आशिल्लो. कसलीय गजाल हांशार व्हरुन आपलो धंदो कसो वाडोवंचो, हाच्या शिवाय आनी कसल्याच भानगडींत तो पडनाशिल्लो. तातो ते फुडलो. पोक्यान अण्णाकडे कागाळ केली आनी ताणें ती हांशार व्हेली जाल्यार? आनी ती गजाल सोलप्याक कळ्ळी जाल्यार? तो आनीक सेफारतलो. पोक्यालें हें दुःख थंय काम करपी कामेऱ्यांक कळटालें. तीं सोलप्याक मनांतल्या मनांत गाळी घालतालीं. पूण कांयच करुंक शकनाशिल्लीं.

पोक्यान विचार केलो. हे फुडें दुसऱ्याचेर पातयेवन रावप सारखें न्हय. सोताचें रक्षण सोताच करपाचें. ताणें सोलप्याक बुदूद शिकोवपाचें थारायलें.

आयज सोलपी वेगींच कामार आयिल्लो. माण अजून उकतो जावं नाशिल्लो. कामेऱ्यांय कामार येवं नाशिल्लीं. सोलप्यान थंयचे फातराचेर बसून थोडोवेळ विडी फुसकायली. उपरांत रांप्याचेर लागलो नाल्ल सोलूंक. पोको तयारेनच आशिल्लो. तो सोलप्या म्हऱ्यांत वचून भेंडार हात धरुन उबो रावलो. पोक्याले तकलेंत कितें शिजतालें हाचो पत्तो सोलप्याक लागनाशिल्लो. पोको आपल्या फुड्यांत भेंडार हात धरुन उबो रावला तें पळोवन ताणें सदांभसेन आवयवेल्यान बुरशी गाळ घाली. पोक्यान ताका सावध करपाखातीर समजावन सांगलें, 'बाप्पा, म्हाका गाळी आयकुपाची सवंय ना.'

''आतां सवंय कर मरें ×××××''

''तूं असल्यो गाळी मारसी जाल्यार हांव तुजो दोंको मोडून घालतलों. सांगोन

दवरतां तुका.''

''तूं माझो दोंको मोडून घालतलो?'' अशें म्हणून सोलप्यान हे वटेन तेवटेन पळोवन आनी एक गाळ हासडली. पोक्यान आनी वोगोत केलो ना. थंयचो एक जितो आनी जडसो नाल्ल हातांत काडलो. सोलप्याक दिशिल्लें, पोक्यालो हो पोको हावेस. तो आनी कितें करतलो? ताणें गाळी घालप चालूच दवरलें. पोक्यान हातांतलो नाल्ल असो शेवटून मारलो कि तो सोलप्याच्या पावलार पडून बराबर चार बोटांची चेटणी जाली. सोलप्याचो तोल वचून तो रांप्याचेर पडपाचो उरलो. ना जाल्यार रापो पोटांत घुसपाचो. इतल्यांत चावी घेवन अण्णा माण उकतो करुंक आयलो. सोलपी बोब मारता आनी जमनीर पडून तळमळटा तें पळोवन अण्णा ताच्या म्हऱ्यांत गेलो. इतले म्हणसर कामेऱ्यांय थंय आयली.

''कितें जालें रे पोक्या?'' अण्णाक दिसलें सोलप्याक रांपो तोंपलो.

''नाल्ल मारुन पांयों चेंचलो माझो. उबो रावोंक जायना माझ्यान. कोणय हातीक धरुन उठयात तरी म्हाकां.''

''नाल्ल मारलो? कोणे मारलो रे नाल्ल ताचेर, आनी कित्याक मारलो?''

''हायें मारलो नाल्ल तेजेर. इतल्यान सुटलो तो. नाजाल्यार दोनय दोक्यांचो पिठो करपाचो हांव.''

पोक्यालीं हीं उतरां आनी ताचें तें नवें रुप पळोवन अण्णा चाट पडलो. अशें कित्याक घडलें, तें अण्णाक कांयच समजलें ना. पोको सोपेपणान असो वागचोना हाची अण्णाक खात्री आशिल्ली. पूण पोक्यान आपणे सोलप्याचो पांय चेचला म्हणपाचें कबूल केलां. ताका लागून पयलो पोक्याचेर गरजलो. मागीर आपल्या तोंडाक येता तें बरळूं लागलो. ताका सोलप्याच्या पांयाचें दुःख नाशिल्लें. ताका दुःख जाल्लें ताचें काम आतां बंद पडटलें म्हूण. तेन्ना मानाय खूब मेळटाले, मेळनाशिल्ले ते नाल्ल सोलपी. अण्णाक पोक्याचो खूब राग आयिल्लो. ताका पोक्याक खावं काय गिळूं अशें जाल्लें. तो हात वयर करुन पोक्याक मारुंक धावलो. पूण थंय उबीं आशिल्ल्या कामेऱ्यांनी अण्णाक आडायलो. सोलप्यान केल्ल्या कर्तुबांचें पानवळ ताका मेळ्ळां म्हणपाचें ताणीं अण्णाक सांगलें. केन्नापसून आनी कशे तरेन तो पोक्याक सतायतालो हाची म्हायती कामेऱ्यांनी अण्णाक दिल्ली. पोकोच म्हूण असल्या घाणयाऱ्या मनशाक सगळें सोसून वोगी रावलो. आनी कोणय जाल्यार ल्हान - व्हड पळेनासतना ताचे सगळे दांत पोटांत

घालतलो आशिल्लो.

कामेऱ्यांल्या सडेतोड उतरांनी अण्णा नरमलो. सोलप्याक थंयच सोडून तो माणार गेलो. भायर नाल्ल घेवन गाडो आयिल्लो. अण्णान गाडेकाराक सांगून सोलप्याक ताच्या घरा पावपाक लायलो. हे सोलप्याक पोक्यान अशें लिसांव शिकयलें, की तो तें जल्मभर विसरचो न्हय.

सोलप्याची जाल्ली गत पळोवन हेरांनीय पोक्याचो धोसको घेतिल्लो. पोक्यान सोलप्याचो पांय कुल्पाद केल्लो, पूण ताचें वायट कोणाक दिसनाशिल्लें. परतें कामेऱ्यांच्या सांगण्यावेल्यान गांवचे लोक पोक्याची तोकणायच करुंक लागिल्ले.

कोणेय कोणाचेर अन्याय केलो जाल्यार पोक्याक तो सहन जायनाशिल्लो. अण्णाल्या माणार हेर पसरकार व्यापार व्हरुंक येताले. रातीचे आपले पसरे बंद करुन आयिल्ल्यान तांकां चकाटां मारुंक भरपूर वोगोत मेळटालो. हे पसरकारांत चडशे बामण आसताले. बामण म्हळे म्हण्टकीर तो गुणांनी बरो आसूंक जाय आनी आसचो अशें पोक्याक दिसतालें. बामणाल्या वागणुकीकडे पोक्यालें लक्ष आसतालें. तांच्या बरे गुणांचें तो अनुकरण करतालो. पूण कांय बामण अशे आशिल्ले की तांचीं उलोवपां आनी कर्तुबां शुद्रांहून पाश्ट आसतालीं. केन्ना केन्नाय तांच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं उतरां खंयचे खंय पडटलीं हांचें लेगीत भान तांकां उरनाशिल्लें.

अण्णाल्या माणार चकाटां मारपी बामणांत एक काळो बामण आशिल्लो. ताणें आपलें रुप केन्ना हारशांत पळेल्लें काय कितें देवाक खबर! हेर बामण गोरे आसात तें पळोवन आपूणय गोरो आसां अशें तो समजतालो बी जांवये.

हे बामणाल्या हॉटेलार काम करुंक एक भुरगो आशिल्लो. गोरो आनी सुंदर! हॉटेल मालकाची बायल गोरी आशिल्ली पूण सगळीं भुरगीं काळीं आशिल्लीं. ताका लागून हो हॉटेलार काम करपी भुरगो हॉटेल मालकाच्या दोळ्यांत खुपतालो. ते राती चार-पांच बामणांचीं चकाटां रंगार आयिल्लीं. तांचो विशय आशिल्लो बायलो. उलयतां उलयतां एक बामण ते हॉटेलार काम करपी गोरे भुरग्याचेर घसरलो. म्हणूंक लागलो,

"नरशिंव, तुगेल्या हॉटेलार काम करपी तो गोरो भुरगो कोण रे? बामणांक फाटीं मारता मरे तो! असले भुरगे भायले लोकांलें आसप म्हळ्यार अजाप!" हें आयकून काळो बामण फस्स करुन हांसलो. दांत दाखयत म्हणूं लागलो, 'आरे,

तो बामणच आसूंक जाय. ताच्या वाड्यार दोन-तीन बामणालीं घरां आसात. हांव पावलां ते वाड्यार.'

पोको तांचें उलोवप बारकायेन आयकतालो. तो भुरगो, गोरो आसा म्हूण बामणच आसूंक जाय हे विधान पोक्याक खटकलें. खुबशे बामण काळे आसात हें पोको जाणां आशिल्लो. अण्णा आनी तातो गोरसे आशिल्ले, पूण तांचे मामा काळे काळेच! हो उलोवपी हॉटेलकार बामण काळो कोळसो कसो. मागीर तो बामण कसो?

खरे म्हळ्यार तांच्या उलोवपांत पोक्याक नाक खुपसोवपाची गरज नाशिल्ली. पूण पोकोच तो, वोगी कसो रावत? कोणाचेर जाल्लो अन्याय कसो सहन करतलो? पोक्याली जीब हुळहुळूं लागली. कितेंय केल्यार कशीच थंड जायना. निमणें नाचलीच!

"बामण काळे आसनांत बाप्पो, गोरे आसतात तेच बामण?" पोक्यान आपणाक कांयच कळना ते भसेन प्रस्न केलो. पोक्यालो हो प्रस्न अनपेक्षीत आशिल्लो. तो आयकून सगळ्यांचीं तोंडां खिणांत बंद जालीं. सगळे एकमेकांक अजापान पळोवंक लागले.

अण्णा खंवटो हे चांडाळ चौकडीचो यजमान आशिल्लो. ताचे माणार हीं चकाटां चलतालीं. आनी पोको अण्णालो चाकर. धनी उलयता थंय चाकरान मदें तोंड घालपाचें नासता. तो धनयांचो अपमान थरता. अण्णाक पोक्यालें उलोवप साप्प मानवलें ना. पोक्यान ताच्या गिरायकाचो पाणउतारो केल्लो. अण्णा रागान तांबडो जालो. तो पोक्याक जाप विचारुंक सोदतालो पूण ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर पडनाशिल्लीं. हालताले वंठ मात.

अण्णाक कोणाचोय राग येत जाल्यार पयलीं एक-दोन रागाभारान नेटान पासयो मारतालो. आनी मागीर कितें करुंक जाय तें करतालो. आतांय ताणें तशेंच केलें. मागीर पोक्या म्हन्यांत येवन तो मांडून उबो रावलो. पोक्याच्या मुस्कटाचेर एक उडोवचें अशें ताका दिसलें. पूण ताणें तशें केलें ना. ताणें पोक्याक इतलेंच सांगलें, "पोक्या तूं आतां दिशीं दिशीं फाजीलपणां करुंक लागला. तुका हांगा आमी काम करुंक दवरला. सांगता तें काम करपाचें आनी दिता तें घेवपाचें. आनी कसल्योच तुगेल्यो जाणवायो हांगा चलच्यो नांत. आनी हे फुडें अशें कितेंय उलयशी जाल्यार कोणाकडल्यानय मार खातलो."

'कोणाकडल्यानय मार खातलो' हीं अण्णालीं उतरां तांच्या मदल्या एका वांगड्याक आवडलीं नांत. ताच्या तोंडांतल्यान सहज उतरां भायर पडलीं,

"मार खावपासारखें कितें घडलां रे बापड्याकडल्यान, सोडून दियात तें. तुमीय कितें उलयतात तें सारखें उलयात रे पापयानो! कित्याक हांगा येवन सदांच फुकटची वाफ घालयतात तोंडांतल्यान? चलात लागात कामांक, रात जाली."

आपल्याक जाय जाय तें सामान घेवन सगळे जाण आपापल्या कामाक लागले. सताचो सदांच जय जाता. पोको अशें वायट कांयच उलोवं नाशिल्लो. पूण जें कितें उलयलो तें चाकर म्हूण उलयलो. ना जाल्यार अण्णा इतलो फुलचोनाशिल्लो. पूण आतां ताच्या एका इश्टानच ताच्या दोळ्यांत चरचरीत अंजन घाल्ल्यान, प्रकरण थंयच मिटिल्लें.

प्रकरण मिटलें. चांडाळ चौकडी आपापल्या घरा गेली. हे चांडाळ चौकडींत चडशे निलाजरे आशिल्ले. पूण तातूंत थोडे विचारीय आशिल्ले. पोक्यान तांकां शादूर केल्ले. पोक्याकडच्यान तांकां सासणाची अद्दल घडिल्ली.

पूण पोको ते काळ्या बामणाकडल्यान सुटलो ना. पोक्याकडच्यान जाल्ल्या अपमानाचो बदलो ताणें घेवपाचें थारायलें. हे पसरकार रातचे घरा वतकीर दिसभरांत कितें घडलें, ताच्यो गजाली घरच्यांकडे करताले. तेन्ना टि.व्ही., रेडीयो बी नाशिल्ल्यान ह्योच गजाली तांचो विरंगुळो आसतालो. ही पोक्याली गजाल काळ्या बामणान घराकडे सांगता आसतना ताच्या भावाल्या चल्यान ती आयकली.

पोको मिनाखणीर आसतना पेवंक शिकिल्लो. आतां ताची सायकल शिकपाची आस तशीच उरिल्ली. ताच्याहून ल्हान भुरगे सिटार बसनासतना दोनय पांय पेदलांचेर दवरुन फटक फटक करुन सायकल चलयताले. पूण पोक्याकडे सायकल खंयची? तात्याकडे सायकल आशिल्ली पूण तो कोणांक हात लावंक दिनाशिल्लो. तरी अण्णा घरा नासतना आनी तातो दनपारचो न्हिदिल्लो आसतना, सायकलीची जतनाय घेत पोको सायकल शिकपाचो यत्न करतालो. पूण ताका तें जमनाशिल्लें.

एक दीस पोको दनपारचो असो माणाभायल्या गोळी मुनांत बसून आशिल्लो. इतक्यांत काळ्या बामणाल्या हॉटेलांत काम करपी दोग जाण भुरगे सायकलीर बसून आयले. ते केन्ना केन्नाय पोक्या म्हऱ्यांत गजालीक उबे रावताले. आयज

तांकां पोक्यान आपल्याक सायकल शिकयता काय म्हूण विचारलें. ते शिकोवंक तयार आशिल्ले पूण तांकां दिपूचो भंय दिसतालो. तांणीं पोक्यालें उतर मान्य केलें ना. हो दिपू कोण? होच तो काळ्या बामणाल्या भावालो चलो.

ते भुरगे पोक्याकडे उलयता आसतनाच फाटल्यान दिपू आपली सायकल घेवन थंय आयलो. भुरग्याले सायकलीचेर पोक्यालो हात आसा तो पळोवन दिपूक पोक्याली सायकल शिकपाची धडपड लक्षात आयली. पोको जायते फावट सायकलीवांगडा धडपडटा तें दिपून पळेल्लें. आपल्या चुलत्याचो बदलो घेवपाची संद दिपूकडे चलून आयिल्ली. ताणें पोक्याक विचारलें, ‘‘पोक्या सायकल शिकतलो?’’

‘‘कोण शिकयतलो म्हाका?’’

‘‘तूं कित्याक भियेला रे! हांव शिकयतां तुकां यो.’’

पोको आशेन दिपू म्हऱ्यांत गेलो.

‘‘हांव सायकलीक घट्ट धरतां. तूं शेलार बस मरे, आनी मात्शें मात्शें पेदल मार.’’ पोक्याक खूब खोस जाली. वेळ लायनासतना तो शेलार बसलो. शेलार बससर दिपून ताका सांबाळ्ळो. पोक्याक ताणें शेलार बसून दोन - तीन पेदलां मारुंक लायलीं. मागीर ताणे सायकल अशे तरेन धुकलून दिली की, पोको वालेतींत पडचो. पूण आपणाली सायकल मात बरी उरची.

आनी जालेंय तशेंच. दिपूली सायकल रस्त्याकडेक पडली आनी पोको पडलो वालेतींत. तें पळोवन दिपू रस्त्यार उबो रावन टाळयो पेटीत मोठमोठ्यान हासूंक लागलो. पोको वालेतींतल्यान कसो तरी उठलो. पळे जाल्यार पोक्यालीं दोनय धोपरां फुटल्यांत. पोको लकत लकत, कुटत कुटत, पसऱ्याच्या हुंबऱ्यार वचून बसलो.

पोको दुखावलो खरो, पूण आपल्याक कांयच जावंक ना अशें नाटक करुन तो काम करीत रावलो. खूब वेळां वायटांतल्यान बरें निर्माण जाता. पोक्याक कसली तरी दुखापत जावंची म्हूण ताका सायकलीर बसोवन दिपून धुकलून दिल्लो. सरळ पोक्याक दिपूचो वायट हेत उपरांत कळून आयिल्लो. पोक्याकडल्यान दिपूचो चुलतो दुखावल्लो. ताचो वचपो दिपून अशे तरेन काडलो. ही गजाल उपरांत कळ्ळी पोक्याक! जाता तितले वेगीन दिपूक सायकल चलोवन दाखयतलोंच असो पोक्यान आतां निश्चेव केलो. ताका आतां ध्यानी

मनी सायकलच दिसूंक लागिल्ली. सपनांत लेगीत तो आतां सायकल चलोवंक लागिल्लो. आपली सायकल व्हेल्यार तातो कितेंय म्हणटलो, हाची पोक्याक आतां परवा नाशिल्ली. तो तेमाक पेटिल्लो. रातीचो दीस करुन, आपल्याक जाल्ले दुखापतीची परवा करिनासतना, पोक्यान चार दिसांभितर सायकल शिकून घेतली. आपल्या दोनय घायांसयत सायकलीर बसून तो आतां दिपू म्हऱ्यांतल्यान पासयो मारूंक लागलो.

पोको सायकल शिकिल्लो. ताचे घायेय आतां पेकिल्ले. पूण दिपू आनी ताच्या चुलत्यालें भायलें-भितल्लें काळेपण मात जशाचें तशें उरिल्लें.

जण एकल्या मनशाक दिसता, दुसऱ्यान आपल्या परस खालतो रावचो. पोक्याकडे खालतो जावन रावपाचो गूण नाशिल्लो. जायते जाणांक दिसतालें, आपूण सांगतां म्हूण पोक्यान बैलाक घोडो म्हणचो. पूण घोड्याक घोडो म्हणपी पोको खऱ्याक खरें म्हणपाचें सोडिनाशिल्लो. आनी ताका लागून तो लोकांमदें अप्रिय जायत गेलो. तरी ताच्या गुणांची पारख करपी हांगा थंय मेळटालेच. असले लोकांच्या आदारान, आयिल्ले प्रसंगाक तोंड दीत पोको आपलें फुडलें जिवीत सारीत गेलो. ताणें कश्ट सहन केले, पूण तो हेरांभसेन व्हावत मात गेलो ना. ताच्या आवय-बापायक दिसतालें, पोक्यालें अती जाता. ताणें वारें येता तशें सूप धरून वागचें. पूण पोक्याल्या सोभावांत तें कशेंच बसनाशिल्लें.

पोक्यालें भुरगेपण आतां इल्लें इल्लें फाटीं पडटालें. काम करपाचे ताकती वांगडाच ताची निरिक्षण शक्तीय वाडत वताली. ताच्या मूळ गांवांत ताचेर चड प्रभाव घाल्लो तो सैमान. हांगा सैमापरस चड मनीससोभाव पोक्याचेर शेक गाजयतालो. ताच्या मूळ गांवांतले मनीसप्राणी गरीब आशिल्ले खरे, पूण तांच्या पदराक ह्या लोकांहून चड नितिमत्ता आशिल्ली. हेंगाडीपणांत हांगा थंय सगळे सारखेच, पूण हांगाच्या लोकांकडे, चड करुन हिंदूकडे नाडपणा चड आशिल्लीं. एक गावडे सोडले जाल्यार हेर हिंदू खंवट्याक तोपयो घालपाचें काम चड करताले. शेतकार, रेंदेर, नुस्तेकार बी किरिस्तांवांच्या पदरांत अन्नाडीपणां आशिल्लीं खरीं, ते मदांदपणाचे आगर आशिल्ले खरे, पूण तांचेकडे हिंदूपरस प्रामाणीकपणां चड आशिल्लीं. कांय लोक सोडले जाल्यार आजय तो तांचेकडे दिसून येता.

ते वेळार घडिल्ली हिंदूबाबतींतली एक गजाल पोको आयज लेगीत विसरुंक ना. तें अशें जालें - तात्याली सायकल कितले दीस घरांत आशिल्ल्यान

कळमेल्ली. बाजारांतलो एक विडयांकार सायकली सारख्यो करतालो. तात्यान पोक्याकडल्यान सायकल धाडून दिली. दोन दिसांनी सायकल सारखी जाल्या, स आणे दी आनी सायकल व्हर म्हणपाचो रकाद तात्याक आयलो. तात्यान स आणे दिवन पोक्याक सायकल हाडूंक धाडलो. बाजारांत वच जाल्यार सायकल सारखी करुन दुकानाभायर दवरल्या पूण ती सारखी करपी माकानीक ना.

दुकानाभायर एक बांक आशिल्लो. बांकार तीग जाण तरणाटे बसून आशिल्ले. तातुंतलो एक शेट आनी दोन बामण. तांणी पोको उबो आसा तो पळेलो. हो तात्यालो मनीस. म्हण्टकीर सायकल व्हरुंक आयला. तो येतलो म्हूण तिगांकय खबर आशिल्ली. तांतुंतल्या एकट्यान पोक्याक कित्याक आयला काय म्हूण विचारलें. पोक्यान सांगलें आपूण सायकल व्हरुंक आयलां, पूण माकानीक ना. माकानीक ना जाल्यार कितें जालें, हांव आसां न्हय! स आणे दी आनी सायकल व्हर.

पोक्यान आनी वोगोत केलो ना. दुडू दिवन तो सायकल घेवन गेलो. दुसरे दिसा माकानीकान तात्याक रकाद धाडलो, सायकल व्हेल्या पूण दुडू दिवनांत. दुडू धाडून दी.

पोक्याक हें आयकून खूब वायट दिसलें. पोक्याकडल्यान स आणे घेवन तिगांनीय च्याव आनी भर्जी खाल्लीं. पोक्यान काकुळटेक येवन तात्याक सांगलें कि ताणें खऱ्यांनीच दुडू दिल्यात म्हूण. आपूण ते मनशांक लेगीत वळखतां, ते सदांच बांकार बसून आसतात. बांकार कोण बसतात आनी ते कसले अकलेचे हें तात्याक खबर आशिल्ली. तात्यान मागीर पयशे सोता व्हरुन माकानीकाकडे दिले.

घडणूक सादी दिसता खरी, पूण पोक्याक ती खूब म्हत्वाची आशिल्लीं. कारण प्रत्येक घडणुकेची नोंद करुन पोको तिचो उपेग आपलें जिवीत विकसीत करुंक घेतालो. असल्याच घडणुकांनी तो शादूर जातालो.

एक दीस कोणे तरी पोक्याक सांगलें, ताचो आवय-बापूय मिनाक सावन घरा आयला. ते मिर्गावेले दीस आशिल्ले. पूण आतां गांवांत वचून फायदो नाशिल्लो. कारण आतां ताका कुळागरांत भोवपाक मेळचें नाशिल्लें. ताची सुखदेणी सगळी गिरेस्तकाय कोणे तरी हिसकोवन घेतिल्ली. तरी तो आपल्या घरच्यांक भेटपाक निरास जावन गांवांत गेलो.

गांवांत पावतकीर पोक्याल्या कानार एक दुखदेणी खबर पडली. पोक्यालें कुटूंब बेघर जाल्लें. मिनाक वता आसतना दत्तून आपलें सामानसुमान खोपटेंत बेस बरें दाळून, खोपटे कवडी घट्टबरी बांदून तो गेल्लो. गीमभर मिनाक काम करुन पावसांत आसरो घेवंक आपल्या बायल-भुरग्यांक घेवन तो गांवांत आयिल्लो. यो जाल्यार कितें पळेतलो? ताचे खोपटेतलें सगळें सामान एका माडामुनांत दाळून दवरिल्लें आसा. खोपटेंत गांवांतलो एक आडदांड मनीस आपले फामिलीसयत येवन रावला. आयत्या बिळांत नागोबा येवन रावना, तसो! दत्तूलीं ते नागोबावांगडां झगडीं जाल्यांत. दत्तूक ते मोसण्याकडच्यान थोडो मारय खावंचो पडलो. दत्तूले फामिलेक गांवच्याच एका इश्टाल्या घरांत आसरो घेवंचो पडला.

पोको गांवांत पावलो आनी ताका केन्ना पळोंव नाशिल्लें तें पळोवचें पडलें. कुळागर सोडिल्ल्यान दत्तूचेर लोकाले भितोडेक रावपाचो वोगोत आयिल्लो. वाडवडलांलें ठिकाण सोडून दुडवां आसेक लागून मिनाक गेल्लीं ? भोगात आतां! केन्ना मेरेन लोकाले भितोडेक रावतलीं?

पोक्यान चिंत चिंत चिंतलें. आतां हे फुडें आवय-बापायलीं शाणेपणां कोताक येवचेलीं ना. पोको उकते दोळ्यांनी आपल्या आवय-बापायची जाल्ली अधोगती पळोवंकच शकनाशिल्लो. तो आपल्या दुःखी आवय-बापायक भेटून जातकीर खोपटेकडे गेलो. पोको आतां पयलीं भसेन नेबळट आनी अबरगत नाशिल्लो. दुसऱ्याचेर इल्लो धाक घालपी शकत ताच्यांत आयिल्ली. मारझोड करपाची तांक ताच्यांत नाशिल्ली खरी, पूण अणभवान तो शिटूक जाल्लो. आपले तकलेचो वापर करुन धिटायेन तो दुश्मनाक जाप विचारुंक शकतालो.

आपल्या बापायलो संवसार वाऱ्यार उडोवन, खोपटेंत रिगून थाण मारुन बशिल्लो दुश्ट कोण, तें पळोवपाक पोको धिटायेन खोपटेकडे गेलो. पळे जाल्यार कोलो नांवाचो एक दादलो हातांत कोयतो घेवन, दोंगरारसावन हाडिल्लीं लाकडां कापता. बायल आंगणात बसून तन्नो पणस कापून घरे काडटा. तिच्या म्हऱ्यांत एक भुरगो बशिल्लो आसा.

खोपटेंत घुसिल्ल्या दादल्याचें नांव आशिल्लें कोलो. पूण तो दिसतालो शिंगां नाशिल्लो रेडो. ताणें पोको येता तो पळेलो आनी बायलेक भुरग्यांक घेवन भितर वच म्हूण सांगलें. मागीर हातांतलो कोयतो नाचयत आंगणांत आयलो.

तो शिगम्यांक बी नाचयतात तसो कोयतो नाचोवन पोक्याक भियोवंक सोदतालो. तरी पोको भियेनासतना कोल्याच्या म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो. कोल्या म्हऱ्यांत धिटायेन उबो रावपी गांवांतलो पयलो मनीस पोको आशिल्लो. गांवांतले सगले लोक कोल्याक भियोवन दीस काडटाले. ताचे वाटेक वचत जाल्यार तो केन्ना घात घेत हाचो नेम नाशिल्लो. आपले कुडीचो धाक दाखोवन तो लोकांकडल्यान आपल्याक जाय तें करुन घेतालो. कोणय ताच्या आड गेल्यार ताची धडगत नाशिल्ली. वाटेर एकट्याक धरुन कितलेशेच जाणांचीं ताणें हाडां मोडिल्लीं.

पोक्याक पळोवन कोल्यान आपले दोळे मोटे केल्ले. ताच्या कोंतान पोक्याक थंयचो धावंडावन घालूंक तितलेंच पुरो आशिल्लें पूण पोक्यान ताच्या दोळ्यांक भियेवन धांव मारलीना उलट तो कोल्याक पळोवन हांसलो आनी हिकमतीन फाटल्या पांयांनी परत गेलो.

पोक्यान चिंतलें, हे रेड्याक हिकमतीन खोपटेंतलो धावंडावंचो पडटलो. तो घरा गेलो. ताणें आवयक सांगलें, आपूण फाल्यां सकाळीं परत वतां म्हूण. मिनाक सावन आयिल्ल्यान शांतूकडे पयशे आशिल्लेच. पोक्यान शांतूकडल्यान धा रुपये मागून घेतले आनी दुसरे दीस सकाळीं उठून आपूण काम करता ते गांवांत गेलो.

खवट्याल्या शेजराकच गांवचो रेजिदोर रावतालो. तागेर एक सांक्रू नांवाचो खोडेगाट मनीस आशिल्लो. लोक ताका काबदे पुलिस म्हूण वळखताले. लाम-रुंद, गोरो गोरो पिट्ट साक्रू रेजिदोराचो उजवो हात आशिल्लो. गांवांतले लोक जितले रेजिदोराक भियेनाशिल्ले तेहून चड हे काबदे पुलिसाक भियेताले. ते तेंपार हुकूमशाय चलताली ताका लागून रेजिदोरालो हुकूम हो सरकारमान्य आशिल्लो. आनी काबदे पुलिस रेजिदोराक सांगत तें खरें आशिल्लें.

पोक्याची काबदे पुलिसाकडे बरी वळख आशिल्ली. खरें म्हळ्यार हे काबदे पुलिसाचो पोक्याल्या गांवांकडे कसलोच सबंद नाशिल्लो. हो काबदे पुलिस एका म्हालांतलो आनी पोक्यालो गांव दुसरे म्हालांत. तरी तेंप पोर्तुगिजांचो आशिल्ल्या कारणान तोंडांतल्यान पोर्तुगेज उतरां फुकलीं आनी आंगार खाकी वोर्द चडोवन कोणाचेरय चार फुलयल्यार कोण कांयच करुंक शकनाशिल्लो. पोक्यान आपली काणी साक्रूक सांगली.

‘‘इतलेंच मुरे पोक्या, तूं कित्याक भियेलाय रे! हाल्यां या थिंगा. तूं पोडे हांव

ते मुनशाक कोहो बातेर कोत्तां पोडे तो. क्यें येस्ति, येस्ति ये काबदे पुलिस.''

सांक्रून भुजार फितां नासतनांच आसात ते भसेन अभिनय केलो.

पोको अण्णा खंवट्यागेर मातय पोत्तो लायनासतना, सांक्रूक घेवन गांवांत गेलो. सांक्रून पुलिसाचो भेस कागदाक गुटलावन वांगडा घेतलो. खरें म्हळ्यार हे भेसाक कसलोच वालोर नाशिल्लो. गांवांतल्या लोकांचेर इंप्रासांव मारुंक तो ताचो उपेग करतालो. केन्ना केन्नाय माडेल ना जाल्यार काजेलाचें कोप घेवन, तियात्रांक नाचतल्यांक दितालो.

गांवांत पावता पावता म्हळ्यार सांक्रून पुलिसाचो भेस आंगार चडयलो. आपल्याक कळनाशिल्ली इल्ली पोर्तुगेज पोक्याकडे मारली. ती आयकून पोक्याकय मात्सो नेट आयलो.

''पोक्या, तुमच्या थिंगा दोन-तीन खोडेगांट मुनीस मेवतोलेत मुरे ?'' सांक्रून माथ्यावेलें शापेव काडून हातांत घेत पोक्याक विचारलें.

"हय सांक्रू" पोक्यान म्हळें

''सांक्रू, न्होय, सिंयोर काब म्हूण!"

'' बरें बरें, तुका जाय तसेंच म्हण्टां!" "तुजे घारांत येवन बोसला ते दुकरालें सामोन आनी तेका दोर्यांत वोडोवया मुरे?''

''हांगा दर्या ना सिंयोर काब बाब!''

''आतां कोहें जालें, ओहेंच म्होण! दोर्यो ना जाल्यार बायेंत उडोवया. आनी बांय ना जाल्यार सोगल्याक उजो लावया.''

सांक्रू आनी पोको शांतू रावताले त्या बिराडार पावले. पोक्या वांगडा पुलिसाक पळोवन शांतू भियेलें. पोक्यालीं भावंडां खंयच्या कोनशाक वचून लिपलीं हाचो पत्तो लागलोना. दत्तू खंय तरी भायर गेल्लो आशिल्लो. दत्तू-शांतूलें बिराड भर वाड्यार आशिल्ल्यान पुलिस आयला तें पळोवन वाड्यावेले कितलोसोच लोक एकठांय जालो. सांक्रूय तेंच सोदतालो. सांक्रू रेजिदोर गांवगिऱ्यांकडे कसो उलयतालो तेच पोजिसांवान थंय एकठांय जाल्ल्या लोकांकडे पोर्तुगेज हेल काडून उलोवंक लागलो.

''छुत छुत, इंगा योरे तो ! ''

सांक्रून गर्देतल्या एकट्या तरनाट्याक आफयलो. कोणाक आफयता तें कळना जावन गर्देंतलो जण एकलो एकामेकाक भियेत भियेत पळोवंक लागलो.

कोण जाप दिना तें पळोवन सांक्रू सडसडीत गर्देत वचून एकां जाण्ट्याशा मनशाचो हात धरुन ताका भरभरीत ओडीत हाडून मदेंच उबो केलो. दोनय हातांनी खदखदीत हालोवन ताका प्रस्न केलो.

"ॲका ओवकोताय?"

"हय सायबा, आमगेलोच तो पोको. कितें केलें तेणें, तो चोरी बिरी करपी भुरगो न्हू. एकदम बोरो भुरगो तो."

"सुबेत उलोवं नाकाय रे. हांव कितें इचात्तां तेजो जाबाब दी. हेजो मांय - पाय हूंय आहा?"

"कोणालो पोक्यालो म्हण्टा, पोक्यालो? ही पळय आवय आसा न्हू तिगेली. शांतू, दत्तू खंय गेला गो?"

"चूऽऽप! ती इंगा कित्याक? हूंय आहा तेगेलें घोर ?"

"तेगेलें घर हांगा ना सायबा. तें केळबा देवळाकडे आसा. तेगेले घरांत आतां कोलो रावता न्हू."

"घोरांनी कोले रावताय, आनी मुनशांनी हुंय रावपाचें रानांत? तो कोलो जावं ना जाल्यार आग जावं, पोक्याल्या घोरांत नाका."

"सायब, तो तोसलो कोलो न्हू. तो मुनीस, तेगेलें नांव कोलो. पोक्यालो बापूय मिनाक गेल्लो न्हू, हे वाटेन तो रावोंक लागलो. आतां तो तेंकां कोसोच भितर घेयना." एका धाडसी भुरग्यान म्हायती दिली.

"ओहें, तुमकां बोरें दिसलें मोरे हें? हाल्यां तुमच्या घारांत येवन कोणूय रावल्यार तुमी कितें कोत्तोले? चोलात सोगले जाण, आनी दाण्यांनी बोडोयात ते कोल्याक. मुजी वोर्द तुमकां. माहां सेरकारान धाडला पोक्यालें घोर पोक्याक दिवंक. हाल्यां तुमच्या घोरात कोणूय फोरसान येवन राबल्यार तुमी वोगी रावतोलेय?"

पुलिसावांगडा पोको आनी गांवांतले लोक गर्दी करुन येतात तें पळोवन, कोलो भियेलो. पुलिस एकलोच आशिल्लो जाल्यार कोलो कितेंय मस्ती करुंक शकतलो आशिल्लो. पुलिस सोडून गांवांतले कितलेय लोक एकठांय जाल्ले जाल्यार कोल्याक तांचें कोंत नाशिल्लें. आतां गांवचे लोक आनी पुलिस एक जाल्ले. कोल्याचीं शाणेपणां चलपाचीं नाशिल्लीं. पुलिसाचे वोर्दीन चार-पांच लोक खोपटेंत घुसले. कोल्यालें सगलें सामान भायर फेकून दिलें. पोक्यालें

सगलें सामान खोपींत हाडून दवरुंक लायलें. सांक्रून म्हळ्यार पुलिसान कोल्याचेर दोन खोंटो घाल्यो. हे गांवांत असले कोले दिसल्यार दांड्यांनी बडोवन तांकां गांवाभायर घालपाची वोर्द दिवन, पोको आनी सांक्रू परत गेले.

**पो**क्याल्या आवय-बापायक तांचें घरकूल तांकां मेळ्ळें. हें सगळें घडिल्लें पोक्याक लागून. पोको गांवांत वचू नाशिल्लो जाल्यार कोल्यान दत्तूक खोल्ले केल्लो आसतलो आशिल्लो. बरो इश्ट जालो म्हूण कितें जालें, दत्तूलें बिराड इश्ट कितलो तेंप म्हूण सांबाळटलो आशिल्लो? बऱ्याचें वायट जावंक चड वोगोत लागना. हांगा बापूय पुताक वळखना, भाव भावाक वळखना, तें इश्टाचें कसलें कोंत? दत्तूलो घराबो थाऱ्यार घालपाक पोक्याक देवानच बुद्द दिली म्हणपाक जाय. ना जाल्यार सांक्रूकडल्यान मजत घेवंक तो पावचो नाशिल्लो.

दुसरी गजाल अशी की दत्तू मिनाक सावन आयिल्ल्यान शांतूकडे पयशे कुचकुचताले. पयलेच खेप शांतू पयशांनी गिरेस्त जाल्लें. हे आदीं शांतूले किरवटीक पांच रुपयांची नोट आसप म्हळ्यार व्हडलें आशिल्लें. आतां शांतूकडे शंबराच्यो तीन नोटी आशिल्ल्यो. हे फुडेंय आपली किरवट जड आसची म्हूण तीस-चाळीस रुपये खर्च करुन सत्य नारायणाची पुजा केल्ली. चार-चौगांक गोड-धोड घाल्लें. तरी किरवटीच्या नोटींक लागून शांतूले पांय थाऱ्यार नाशिल्ले. गरिबांच्या हातांत अकस्मात चार पयशे आयले म्हण्टकीर ते कशे सांबाळचे हाचें भान तांकां उरना. फाल्यांचें फाल्यां पळोवया, भुरगीं जोडीत भुरगीं खायत, तागलें भोगलें तें जिवाक लागलें. असल्या वचनांची तांकां याद जाता आनी एक दीस येरे म्हाज्या मागल्या करुन मेकळीं जातात.

शांतूलेंय तशेंच जालें. शांतूकडे आशिल्ल्या दुडवांतले थोडे मोडून ताणें पिसूखातीर एक सरपळी, आपल्याक एक पिली आनी गरजेपुरते कपडे घेतले. उरिल्ले पयशे संग्रहाक दवरुन पावस घालोवपाचे तयारेन रावलीं. हो पावसाळो सुखांत वतलो अशीं चिन्नां दिसतालीं खरीं, पूण शांतूलो दयाळ सोबाव आड आयलो. जेश्टाशाढ ह्या दोन म्हयन्यांत जेन्ना शेजाऱ्या पाजाऱ्यांल्यो चुली थंड

जाल्यो तेन्ना दत्तूल्या मिनाजोडीची याद शेजाऱ्यांक जावंक लागली. आपल्याली चूल पेट्टा आनी शेजाऱ्यांलीं भुरगीं वळवळटात हें शांतूक सहन कशें जातलें? शेजारी आनी, सोयरीधायरीं शांतूमुखार हात फाफडूं लागलीं आनी शांतूले हातय अचळय वयर जावंक लागले. अशें करुन शिरवाण लागता म्हणसर शांतूलो खजिनो रिकामो जालो. आनी शिरवणातल्यो परबो साजऱ्यो करुंक पिसूली सरपळी पसरकाराकडे घाणांक पडली.

हेवटेन पोको खावन-जेवन मजेत दीस काडटालो. आपल्या आवय-बापायकडे मिनाचो पयसो आसा तेन्ना कोणाक कसलीच काळजी करपाचें कारण नाशिल्लें.

आतां पोक्याल्या जिवितांत एक वेगळेंच मोड आयिल्लें. तेच गांवांत राणू खंवट्याल्या भावाले भुरगे आशिल्ले. एकाचें नाव आशिल्लें जना खंवटो. जनाची बायल आपल्याक एक घरांत मजत करुंक भुरगें जाय म्हूण जनाक सदांच धोंसताली. पूण जनाक भुरगें मेळनाशिल्लें. एक दीस ताणें पोक्याक सहज विचारलें, तागेल्या गांवांत एकाद्रें भुरगें बी मेळत काय म्हूण. काम फकत भुरग्याक सांबाळपाचें आनी केन्नाय घरकान्नील्या कामांत हातबोट घालपाचें.

पोक्यान विचार कर कर केलो. तशीं गांवांत भुरगीं जायतीं आशिल्लीं. उतर घाल्यार घडये एकाद्रें येतय बी आशिल्लें. पूण ताच्या मनांत एक विचार आयलो - पिसूक हाडल्यार कशें जायत? एकूण मेळून पावस काबार जातकीर शांतू ताका आपल्या वांगडा मिनाक व्हरतलेंच. मिनाक आबजचे परस घरांत आसल्यार खावन-जेवन सुखांत आसतलें. ते मिना कामाचें खरें न्हय. हांगा आसल्यार जीव घेतलें, घरकाम शिकतलें आनी जना बायलेकडल्यान इल्ली रीतय शिकतलें. पोक्यान जनाक सांगलें, आपली एक भयण आसा, आई तिका धाडटा जाल्यार पळोवया.

जनान आनी आनी वोगोत केलोना. दुसरे दीस पोक्याक सायकलीर बसोवन गांवांत घेवन गेलो.

पोको कोणाक तरी मोठ्ठ्या मनशाक घेवन आयला तें पळोवन गांवांतले लोक मातशे दचकले. फाटले फावट ताणें पुलिसाक हाडून कोल्याक जल्मांची अद्दल घडयल्ली. आतां हो खंयच्च्या पैलवानाक बी घेवन येवना मू? काटू वागरो तर थारायंच भियेलो. कालचेच राती ताणें बाप्पाशेणयल्या कुळागरांतलो केळ्यां

घडाय चोरुन माड्डोळा व्हरुन विकिल्लो. बाप्पाशेणयन घडये पोक्याक सांगून कोणाकय हाडला जायत.

कोल्याक गांवांतलो धावंडायत मेरेन गांवांत पोक्याक वालोर आयिल्लो. दत्तू-शांतूलोय मान वाडिल्लो. हे फुडें पोको केन्ना कितें करीत हाचो नेम ना अशेंच गांवच्या ल्हान-व्हडांक दिसतालें.

पोको जनाक घेवन खोपटेंत भितर सरलो. खोपटेंत तांकां वेगळेंच चित्र दिसलें. ज्याचे ते चोवकशेक आयल्यात तें पिसू आठ दीस जालें जोरान फणफणटां. देव-देवचारांक कितल्योशो आंगोवण्यो केल्यो तरी पिसू आजून बरें जायना. शांतूय बरें ना. भुरग्यांकय जेवण-खाण नाशिल्ल्यान तांच्यो भोयो जाल्यात. दत्तू कपलार हात धरुन निरशेवन बसला.

पोको आयला तें पळोवन शांतू लकत लकत भायर आयलें. उबें रावंक जायना जावन ताणें कशेभशेन जमनीर घालून घेतलें. सुकड्याक आफोवन जनाबाबाक म्हणय हाडून दिवंक लायली.

जनाबाबान पिसूची कितें गत जाल्या तें पळेलें. पिसू हाथरुणावेलें पंदरा दीस तरी उठूंक शकचेंना हें पळोवन जनान तोंड वांकडें केलें. तें बरें जालेंय जाल्यार ताच्या पांयांत शकत येवंक उणोच एक म्हयनो लागतलो म्हणपाचें जनाक कळून आयलें. आतां कांयच उपाय नाशिल्लो. जना आनी पोको चड कांय उलयनासतना परत आयले.

पोको आनी जना परत येवंक भायर सरले तेन्ना जनाक भायर उबो करुन पोको शांतू म्हऱ्यांत गेलो. ताणें आपलें येवपाचें कारण शांतूक सांगलें. जनाबाब वांगडा नाशिल्लो जाल्यार पोको खूब कितें आवयकडे उलयतलो आशिल्लो. आतां तो फकत दुखांनी भरिल्ले दोळे रिकामे करपाचें काम करतालो, तेंय बी जनाक लिपोंवन.

जनाबाब पोक्याक अण्णागेर सोडून गेलो. वतना ताणें पिसू बरें जातकीर ताका हाडूंक परत या अशें सांगलें.

जना खंवटो पोक्याक घेवन तागेल्या गांवांत गेलो आनी पोक्यालो सुखांतलो जीव दुखांत घालो. दोळ्यांआड मसण पाड म्हण्टात त्या न्यायान पोक्याल्या घरच्यांचे हाल पोक्याक खबर नाशिल्ले जाल्यार पोको सुखी आसतलो आशिल्लो.

दत्तूक आतां मीन सामकें म्हारग पडिल्लें. कुळागर ताब्यांत आसतना कितें

ना कित्येंय कापून हाडून शिजोवन भुरग्यांक दिवंक जातालें. आतां कोणाल्याय कुळागरांत ना जाल्यार भाटांत पांय दवरुंक वाट नाशिल्ली. मिनाचे पयशे कशे उडून गेले, शांतू सांगूंक नकळ आशिल्लें. दत्तू मिनाक गेल्ल्यान बाप्पा शेणयलें कितेंय काम मेळटालें तेंय सुटिल्लें. शांतूकय सदुकामतीलें दार बंद जाल्लें. कुळागर सोडून केल्ली चूक आतां कोणाच्च्यानच सुदारुंक जावंची नाशिल्ली. एक पोको सोडलो जाल्यार दत्तुल्या भुरग्यांचे हाल सामकेच पळोवंक जाय नाशिल्ले.

पोको आवय-बापाय म्हऱ्यांत नासलो तरी तांच्या हालांची कल्पना पोक्याक आशिल्ली. ताका लागून खाल्लें अन्न पोक्याच्या जिवाक लागनाशिल्लें. गोठ्यांत ना जाल्यार कोण पावना थंय, जळवाकुडींत बसून तो दुखां झरीनीं रडटालो. पिसूचे यादीन तो सामको पिसो जाल्लो. ताका दिसतालें अण्णाकडे थोडे पयशे मागचे, ना जाल्यार पसऱ्यावेलें थोडें सामान घेवन घरा वचचें. पूण एकदां सामान दिवन प्रस्न सुटसारखो नाशिल्लो.

पोक्याच्या मनांत आतां एक नवो विचार आयलो. ते भिकारड्या गांवांत रावन दीस काडच्यापरस हे नव्या गांवांत आवय-बापायक हाडल्यार कितें वायट? पूण हांगा तीं खंय रावतलीं. घर मेळूंक नाका? पोको तेच वेळार जनाबाबाक वचून मेळ्ळो. ताणें आपले तकलेंतली येवजण ताका सांगली.

पोक्याली येवजण जनाबाबाक मानवली. ताकाय तेंच जाय आशिल्लें. पोक्याल्या फामिलेक हाडल्यार जनाबाबालोय प्रस्न सुट्टालो.

जनाबाबाल्या वळखीचो एक किरिस्तांव भाटकार आशिल्लो. ताचें तांगेर आतऱ्या पयऱ्यान येवप वचप जातालें. भाटकाराल्या भाटांत एक रिकामें घर आशिल्लें. हें गांवठी नळ्याचें अर्दे घर मोडून पडिल्लें. मोडिल्ल्या भागांत झाडां किल्लून आयिल्लीं. तो भाग माती - फातरांनी भरिल्लो. पूण सारखो करुंक व्हडलीशी अडचण नाशिल्ली. जनाबाबान पोक्याखातीर ते घराची मागणी केली. आनी भाटकारान ती मानून घेवंक वोगोत लायलोना.

पोक्यालें मुखेल काम जाल्लें. ताच्या आवय-बापायक रावूंक घर मेळिल्लें. पूण घरांत येतकीर भुरगीं बाळां खातलीं कितें? आगोस्तांत सट् करुन काम मेळूंक कठीण! ताचीय व्यवस्था जनानच केली.

एका नामनेच्या भाटकाराल्या मुकादमाकडे जनाबाबाचो घराबो आशिल्लो.

मुकादम आगोस्ता म्हयन्याक मुंडकारांकडच्यान भाटांत काम करुन घेतालो. भाटकारालें वर्सुकेचें काम म्हण्टकीर मुंडकारांक अर्दो दिसवडो, म्हळ्यार दिसाक एक रुपया. मुकादमान हें काम जना सांगता म्हूण दत्तूक दिवपाचें थारायलें.

पोको आपली भयण चड बरी ना, अशें अण्णाक सांगून गांवांत गेलो. वतना आपूण आवय-बापायक बी हाडटलों हाचो कोणाक पत्तो लागूंक दिलो ना. पोक्यालो आवय-बापूय हे गांवांत आयिल्लो अण्णाक मानवचेंना, ही गजाल पोक्याक खबर आशिल्ली. कारण आतां दीसरात पोको अण्णागेर आसता तसो मागीर आसचोना, धावून धावून आवय-बापाय म्हऱ्यांत वतलो. तरी जना परत परत पोक्याक मेळूंक येता तें पळोवन पोको आनी जना हांच्या मनांत किते तरी शिजता हाची सुलूस अण्णाक लागिल्लीच. पूण तो कांयच करुंक शकनाशिल्लो कारण जना ताचो बापोलभाव आशिल्लो.

येवजिल्लें काम तडीक व्हेलेबगर पोक्याक कशेंच सुख लागनाशिल्लें. आनी आतां तर ताच्या आवय-बापायच्या, भाव-भयणीच्या जीवन-मरणाचो प्रस्न आशिल्लो. ताणें जनाबाबाकडल्यान पांच रुपये घेतले आनी तो निमणो गांवांत गेलोच.

गांवांत पावतकीर पोक्याक कळून आयलें की पिसू सुदारलां. ताच्यान उठून बसूंक जाता. शांतुलो जोर तर तो थंडेचो आशिल्लो. तें रोकडेंच भायर-भितर सरुंक लागिल्लें.

आपूण कित्याक आयलां तें सांगून पोको मेकळो जालो. तो बरोच वेळ आवय म्हऱ्यांत बसलो. आपली येवजण ताणें दत्तूक सांगली. ही येवजण शांतूक आनी भावंडांक रोकडीच मानवली. पूण दत्तून मात आपलें तोंड येदेंशें केलें.

दत्तूलें कुळागर हातांतलें गेल्लें खरें पूण तो आजून गांवांतच आशिल्ल्यान ताका व्हडलेंशें कांयच दिसनाशिल्लें. येता-वता आसतना केन्ना ना केन्ना ताची नदर कुळागराचेर पडटाली. कुळागरांतल्या रुखावळीकय दिसतालें, आपलो राखणदार आपल्याक सोडून गेलो, तरी तो हे गांवांतच खंयतरी घुटमळटा.

दत्तूल्या हक्काचें सगळें गेल्लें तरी ताचीं जिवाभावाचीं मनशां गांवांत आशिल्लीं. हांगाचें सैम. हांगाचीं देवळां, देव, कालो, जात्रा, शिगमो, भजन-किर्तन ही सगळी गिरेस्तकायं सोडून वचप म्हळ्यार दत्तूल्या जिवार येतालें. दत्तू हे गांवांत जल्मलो आनी वाडलो, ल्हानाचो व्हड जालो. मातयेंत आनी झाडां-

पेडांच्या आंगाखांदार लोळ्ळो. आनी आतां हें सगळें सोडून वचप हाची कल्पनाच दत्तूक सहन जायनाशिल्ली.

तरी दत्तू हांगा रावंक शकनाशिल्लो. पावस नाशिल्लो जाल्यार तो गांवांत तरी खंय येताशिल्लो! आनी फुडें तो मिनांक गेलो जाल्यार, ही खोपटी हांगा उरतलीच म्हूण कोणाच्यान सांगू येता? आनी हांगाचे लोक, ज्यांकां दत्तून जल्मभर आपले मानले, ताणीं तरी दत्तूलें कितें बरें केलें ? कोलो येवन खोपींत रिगलो. ताणें दत्तूलें सामान भायर मारलें, तेन्ना गांवच्या लोकांनी जाप विचारली व्हय? पोक्यान भायलो मनीस हाडून कोल्याक भायर घालो म्हूण बरें, ना जाल्यार दत्तूली फामिल उबंत, वाऱ्यार पडची नाशिल्ली? खरें पळोवंक गेल्यार हांगा कोणाचो कोऽण ना!

दत्तून आपलें मन घट्ट आनी पक्कें केलें. ताणें पोक्याक सांगलें, तूं वच बाबा आतां. आमी परवां येतां. सट करुन भायर सरप बरें न्हय.

पोक्यान आपल्याकडचे पांच रुपये शांतूल्या हातार दवरले. दत्तुलो निर्णय पळोवन पोको सेंसूस्त जालो. ताणें एक नदर थंयच्च्या सैमाचेर मारली. थंयच्या देव-देवतांची याद केली, आनी फाटलो - फुडलो विचार करुंक चड वेळ घेनासतना ताणें पावळेभायर पावल दवरलें आनी थंयचो नाच जालो.

भुरग्यांली भुरावळ घेवन मोटरांत बसून वचपाक पोक्यान दिल्ले पांच रुपये कोणाच्या कानांत घालूंक पावताले? पिसुल्या गळ्यांतली सरपळी पसरकाराकडे घाण पडिल्ली तो आनी एक पानदुड्डू दिवंक तयार नाशिल्लो. शांतूल्या नाकाची पिली आशिल्ली. ती ताणें पावसभर नाकार दवरून नाक सोबयल्लें. आतां तेंच नाक राखपाक पिलीचो उपेग करपाचें शांतून थारायलें. माड्डोळा व्हरुन ती शेटीक अर्देमोलाक विकली. आनी आपली साटली पोटली घेवन दत्तूली फामिल थारायल्ल्या वोगतार मोटरांत बसून पों पों करीत नवे गांवांत गेली.

दत्तू आतां आपल्या बायल-भुरग्यांक घेवन पोक्याल्या गांवांत आयिल्लो. पोक्यालो गांव? हय, पोक्यालो गांव! आमीय हे फुडें ताका पोक्यालो गांवच म्हणुया. गांवांत येतकीर दत्तून खंय उतरपाचें, केन्ना आनी कोणाक मेळपाचें हें सगळें पोक्यान दत्तूक सांगून दवरिल्लें. ते परमाणे दत्तून जनाबाबाक सोदून काडलो. जनान दत्तूक घर दाखयलें. दत्तून आनी वोगोत केलोना. घरांतलीं सगळीं झाडां ताणें हुमटोन भायरलीं, माती फातर भरुन भायर मारले. हें काम करुंक दत्तूक

शांतून आनी ताच्या भुरग्यांनी मजत केली.

घराच्या सालाची जनेलां-उजवाडीं आनी वारयाळीं आशिल्लीं. जनेलाचीं दारां पावसा उदकांन भिजून फसफर्सी कशीं दिसतालीं, तरी तीं घट्ट आशिल्लीं. दत्तू चिरपी आशिल्ल्यान ताका मातशें मेस्तपणय येतालें. ताचेकडे पोन्नें चिन्नें आनी तुतयो आशिल्लो. ताणें बाजारांत वचून खिळे हाडले आनी जनेलांचीं दारां घट्ट केलीं. मुखावेलें दार घट्ट आनी गडगंज आशिल्लेंच.

शांतून बांदार वचून शेण हाडून जमीन सारयली. दत्तूली फामिल आतां पयले खेप नळ्यांच्या घरांत रावतली. दत्तूल्या वाडवडलांक नळ्यां घरांत रावपाचें भाग्य केन्ना लाभूं नाशिल्लें. पोक्याक लागून दत्तूलें आनी शांतूलें नशीब आतां उकतें जाल्लें.

दत्तू जे भाटांत रावूंक आयिल्लो, ते भाटाच्यो तीन कडो शेतांक तेकिल्ल्यो. घराफुडें एक बांद आशिल्लो. हो बांद वचून बिरेवाच्या मुखेल रस्त्याक तेंकिल्लो. घराच्या बल्कावांत बसून रस्त्यावेल्यान येतात-वतात त्यो गाडयो दिसताल्यो. भाटाच्या कडांनी आनी मर्दी मर्दी आंब्याचीं बुटकीं झाडां आशिल्लीं. आंब्यांच्या मोसमांत झाडांक आंबे लागून जमनीक तेंकताले. भाटांत हांगा थंय वडांचीं झाडा आशिल्लीं. हे भाटांत कोणाचो राबितो नाशिल्ल्यान भाटभर काटयारीं झाडां वाडिल्लीं. पांयांक जोतें घालिनासतना कोणाक चलप शक्यच नाशिल्लें. दत्तू रावूंक आयला ते घरामुखार आनी एक ल्हानशें घर आशिल्लें. घर हे खातीर म्हणपाचें कि तें गांवटी नळे आनी मातये पारे आशिल्ले देकून. तो एक व्हडलो घूड कसोच आशिल्लो. ते घरांत एक ऐशेंक वर्सांची म्हातारी रावताली. ती सक्काळीं उठून माडांसुरी गोड घेवन विकूंक वताली ती बद्द आमोरेर घरा येताली. रस्त्यावेल्यान एक अशीर आनी ल्हानशी पांयवाट तिच्या घरामेरेन येताली. ही म्हातारी ते भाटांत आसून नासून सारखीच आशिल्ली. हाकाच लागून ते भाटांत कोणाचो राबितो नाशिल्लो अशें म्हणचें पडटालें. जल्मभर कुळागरांतल्या काळखांत आनी सावटांत रावन आयिल्ल्या दत्तूल्या राज्याचेर, उजवाड आनी उजवाडच पडिल्लो. हेच उजवाडांत दत्तूली नदर पावता थंय मेरेन पांचवींचार शेतांच शेतां दिसतालीं. भाट-बांदांचेर तेकून तेकून माड आनी आंब्याचीं झाडां पळोवन दत्तूक सगळेकडे आशेचीं किरणां फाकिल्लीं दिसतालीं. दत्तूक हांगा कश्टांक वाव आशिल्लो. दत्तूली फामिल हे फुडें, हे गांवांत उपाशीं पडूंकच

शकचीना, हाचो दत्तूमदें आत्मविश्वास निर्माण जाल्लो.

ही शक्यताय फुडें आशिल्ली. पूण दत्तूमुखार प्रश्न आशिल्लो फाल्यांचो. ताचो गाडो एकदांचो चालीक लागूंक जाय आशिल्लो.

ते खातीर दत्तू जनाबाबाक सोदीत ताच्या घराकडे गेलो. जना ताका रोकडोच मुकादमाकडे घेवन गेलो. मुकादमान दत्तूक रोकडोच पारखिलो. दत्तू कामाचो मनीस आसा हें ताणें रोकडेंच ताडलें. मागीर मुकादमान दत्तूक एक खोचून प्रश्न केलो.

"सोरो बी लागता काय ना रे!"

"ना बाब, सोऱ्याक केन्नाच तोंड लावना हायें. म्हाका इट येता तेजी."

हें आयकनाफुडें मुकादमान दत्तू हातार दोन रूपये थेयले.

दुसरे दिसा दत्तू सकाळींफुडेंच मुकादमाल्या दारांत वचून बसलो. थोडे वेळान एकलो एकलो मुंडकार येवन खोरें उकलून कामाक लागलो. दत्तूय खोरें घेवन भाट खणूंक लागलो. हेर मानाय खोरें मारता तेन्ना दत्तूलीं तीन खोरीं बसतालीं. दत्तूलो तो अवतार पळोवन एका मानायन तोंड उगडलें,

"मुझे माँय, आग मुरे हो! ओहले काम कोरीत जाल्यार आमी उरत मुरे इंगा?"

मुकादमाकय दत्तून अशें झुडून काम केल्लें नाकां आशिल्लें. धा वरां जातां जातां म्हळ्यार ताणें दत्तूक दुसरेंच काम दिलें. आमोरेर मुकादमान दत्तूल्या हातार एक रुपयो दवरलो आनी ताका फाल्यां कामाक येव नाका म्हूण सांगलो. थंयच एका रेंदराक जळोव फोडूंक मनीस जाय आशिल्लो. मुकादमान दत्तूक बोट दाखयलें.

दुसरे दिसा दत्तू रेंदरांगेर जळोव फोडूंक गेलो. आमोरेचेर दत्तूक कितले पयशे दिवं काय म्हूण रेंदरान विचारलें तेन्ना दत्तू बुचकळ्यांत पडलो. ताका कितें सांगचें तेंच समजना जालें, पावसांत खोऱ्यान भाट खणपाक एक रुपयो दिसवडो जाल्यार जळोव फोडूंक कितेंय मायज दितलो, अशी दत्तूली कल्पना.

दत्तून दी कितले दिता ते. अशें म्हणून सोडलें. रेंदरान थोडोवेळ विचार केलो आनी भितर वचून तीन रुपये हाडून ताणें दत्तूल्या हातार हाडून दवरले.

तीन रुपये पळोवन दत्तूक अजाब दिसलें. इतलो दिसवडो ताका केन्नाच मेळूं नाशिल्लो. मिनाक लेगीत ना.

रेंदरान दत्तूलें काम पळेल्लें, हे आदीं रेंदरान जळोव फोडून घेतिल्लो खुबशा मानायांकडल्यान. पणू एका दिसाक दत्तून फोडलो तितलो कोणेंच फोडूंक नाशिल्लो. दत्तू एकदां काम करुंक लागल्यार ताका थांबपाचें भान उरना. रेंदरान कुशेंसाक हात घालून दत्तूक पयशे दिल्ले. दुसरे मानायांक जाल्यार आगोस्ता म्हयनो म्हूण तो दोन रुपये दितलो आशिल्लो.

भाट दर्याक लार्गी आशिल्ल्यान माडांक सूर भरपूर मेळटाली. ताका लागून रेंदरांचो धंदो बरो चलतालो. भाटी काडूंक तांकां मोठ्या लाकडांची खूब गरज आसताली. मोठीं लाकडां फोडून केल्ल्यो कापट्यो खर उजो दिताल्यो.

दत्तूलें काम हे रेंदरान फामाद केल्लें. दुसरे दिसा दत्तूले घराकडे रेंदरांची रांग लागली. दत्तूले दीस थरले. दोतोरांचे थरतात पळे तसे. जळोव फोडूंक, आंब्यांची बेनुल्ली काडूंक बी तकालसीच्या कामाक दत्तूलो खास दिसवडो थरलो. थोडेच दिसांनी दत्तू गांवांतलो फामाद मानाय जाल्लो.

दत्तूली जाल्ली उन्नती पळोवन शांतू खुशालभरीत जाल्लें. पोको अण्णागेर मजेंत आशिल्लो. सुकड्याकय शांतून कोणागेर घरकामाक धाडलो. थोडे दिसांनी पिसू बरें जावन जनाबाबाल्या घरांत ताच्या घरकान्नील्या घरकामांक हातबोट घालूंक लागलें.

दत्तूलीं तिगां भुरगीं आतां कसल्या ना कसल्या कामांक लागिल्लीं. उरिल्ल्या तिगां भुरग्यांचें पोट भरुंक दत्तूल्या दिसवड्यान व्हडलेंशें कांयच दिसनाशिल्लें. थोडेच दिसांनी शांतूलो संवसार आतां चवरुंक लागिल्लो.

आपलो आवय-बापूय आनी भावंडां आपल्याक लागीं जाल्यांत तें पळोवन पोक्याच्या आंगार मूठभर मांस चडिल्लें. तरी लागीं आसुनय तो धावून धावून आवय-बापाय म्हऱ्यांत वचनाशिल्लो. अण्णाक तें आवडचें ना हें पोको जाणा आशिल्लो. पोक्यानय आवय-बापायक सांगून दवरिल्लें कि ताणीं आपल्यापासून पयसच रावचें. इतलेंच न्हय की ताणीं वेपार व्हरुंक लेगीत अण्णाल्या पसऱ्यार पांय दिवचो न्हय. कारण आपल्या धनयांक आवडना ती कसलीच गजाल पोको करुंक तयार नाशिल्लो.

ते ते वेळार त्यो त्यो घडणुको घडटात. कांय गजाली अशो आसतात की त्यो कोण मुजरत घडोवंक वचनात. कशो घडटात तें कोणाक कळय ना. पोक्याक आतां आपलो मुळावो गांव सोडून चारेक वर्सां जालल्लीं. हें काळांत ताणें

खंवटयाल्या घरचीं सगळीं कामां आपलीशीं म्हूण केल्लीं. पोक्याल्या प्रामाणिकपणाक तोड नाशिल्ली. पोको आतां अण्णालोच जाल्लो. पोक्यालें सगळें जिवितच आता खंवटोमय जाल्लें. खंवट्याकडे कितें आसा ना तें पोक्याक खबर आशिल्ली. खंवट्याल्या धंद्याच्यो सगळ्यो खांचखळग्यो आतां पोक्याक कळून चुकिल्ल्यो. कसलोय धंदो कोमेस केल्यार पोको तो बेसबरो चलोवंक शकतालो. पूण खंय करतलो धंदो? धंदो करुंक पयशे नाकात? कोण दितलो पोक्याक पयसो ?

पोक्याचे तकलेंत आतां आतां खुबशीं खुळां शिरुंक लागिल्लीं. ताकाय कारणां आशिल्लीं. आतां तो सोळा-सतरा वर्सांचो जाल्लो. गांवांतले गावड्याले, किरिस्तावांले बी खूबशे भुरगे पोक्या येदे आसतनाच लग्न जाल्ले, काजार जाल्ले. आनी आपले आतां फुडें कितें जातलें काय? अशें म्हूण बेटीच पोक्यामनांत पाल चुकचुकली.

पोक्याल्या मनांत दुसरोय एक विचार आयलो. जे गावड्यांले आनी किरिस्तांवाले भुरगे लग्न आनी काजार जाल्यात, तांचीं घरां आसात. रोवंक शेतां आसात. तांच्यो व्हकलो शेतांनी काम करतल्यो. तांकां जेवण-खाण मेळटलें. आनी पोको? पोको बायलेक खंय दवरतलो? आनी पोक्याक व्हकल कोण दितलो? पिसो रे पिसो! नाका आशिल्लीं सपनां रंगयता.

तरी आतां पोक्याक आपूण बरो न्हेसचो, झेतार बरो रावंचो अशें दिसतालें. पोको केंस वाडयतालो, पूण ते वळोवंचे अशें दिसनाशिल्लें. कारण अण्णाले घरचीं मनशां पोको झेत करता बी म्हणत जाल्यार? तात्याली बायल मात ताका केन्ना केन्नाय म्हण्टाली-

बरो निवळ रावचो रे पोक्या, केंस बी वळवंचे. असो भूत कसो कित्याक रावता?

पोक्याकडे एक मोटवें कालसांव आनी एक खोमीस आशिल्लें. तें तो खिळ्याक लांबोवन दवरतालो. सदांक वापरुंक दोन चेड्ड्यो आनी दोन बानयेनां आसतालीं. सद्दां थंड जावं, पूण उदक मात न्हातालो.

एकदां पोको गाडूवांगडा नाटकाक गेलो. खुबशा लोकांच्या पायांक जोतीं आशिल्लीं. पोक्याक दिसलें, चार-चौगांत वतकीर आपल्याय पांयांक एक बरेंशें जोतें आसचें. पूण जोतें करुन घेतलो जाल्यार तीन-चार रुपये लागतले. पोको

खंयचे हाडटलो इतके पयशे?

अण्णा खंवट्यालो व्हडलो भाव कामधंद्या निमतान गांवांभायर पयस खंय तरी रावतालो. तो म्हयन्या-दोन म्हयन्यांनी आवयक मेळूंक येतालो. वता आसतना आई ताका भुरग्यांक व्हर म्हूण कितें ना कित्येंय दिताली. तो तारीकडे मेरेन चलत वतालो. वतना आईन दिल्लें सामान घेवन पोक्याक व्हरतालो. पोको दादाक खूब आवडटालो. (अण्णा बी ताका दादा म्हण्टाले) ताका लागून दरेक खेपेक तो पोक्याक चार-आठ आणे दितालो. पोको ते सुगूर करुन दवरतालो.

हे पयशे पोक्यान आपल्या खुटयाळ्याक लावन दवरिल्ल्या कालसांवा बोल्सांत घालून दवरिल्ले. आतां ताचेकडे देड रुपयो जमा जाल्लो. जोतें करुन घेवंक अडेच रुपयांची गरज आशिल्ली. एक रुपयो ताणे आपले आवयकडल्यान घेतिल्लो. बाबल्या चामराक जोतें करुंक वोर्द दिली.

एक दोन वेळां बोल्सातले पयशे मेजतासतना घरांतले वावराडेन पोक्याक पळेलो. तिणें ती गजाल अण्णाच्या कानार घाली. अण्णाक दिसलें, पोक्यान ते पयशे दुकानावेले चोरल्यात. अण्णान पोक्याक न कळटां बोल्सांतले पयशे काडले.

चामरान जोतें तयार केल्लें. तें हाडपाखातीर पोको बोल्सांतले पयशे काडूंक गेलो. पळे जाल्यार बोल्सांत एकय पयसो ना. पोक्याचेर आयलो आकांत. पयशे गेले खंय? कोणे काडले बोल्सांतले पयशे? पोको चिंतेंत पडलो. आतां तो कोणाक म्हूण विचारतलो?

पोक्यान आपल्या बोल्सांतले अडेच रुपये ना जाल्यात म्हूण आईक(अण्णाची आवय) सांगलें. आईक ती खबर आशिल्ली. तरी तिणें वयलेतरांक म्हूण म्हणलें, "खंयचे रे ते पयशे ? कोणे दिल्ले ते तुका?"

"दादान दिल्ले ते म्हाका. एक रुपयो हायें म्हाज्या आवयकडल्यान हाडलेलो."

"जालें रे! पूण तुवें ते म्हजेकडे दिवपाचे न्हय? भायर कित्याक दवरले पुता! बरें मागीर पळोवया." अशें म्हूण आई आपल्या कामांक लागली. पोक्याले पयशे कोणे काडले ते घरच्या सगळ्यांक खबर आशिल्ली. ते विशीं उलवणींय जाल्लीं.

पोको माणार वता आसतना मारीन ताका आडायलो. हें मारी अण्णालें

मुणकान्न आशिल्लें.

"इंगा योरे पोक्या, तुका कितें सांगों जायें."

"कितें गो मारी?" पोक्यान म्हऱ्यांत वचून विचारलें.

"तुयें पोसऱ्यावोयले पोयशे चोरल्या हुंय मुरे. भाटकार सोगल्यांक सांगोत सुटलां."

"चल, कित्या कितेंय सांगों नाका गो मारी. तूं येक कित्या कितेंय सांगता. अण्णा तशें केन्नाच म्हणचो ना. तो म्हाका कितलो बरो करता." पोक्यान गवाय दिली.

"बोरो कोत्ता. कोवतोलें तुका. पोयें हायें कितें सांगलां काय म्होणोन!"

मारी गेल्या उपरांत आनीक एकल्याकडच्यान तीच गजाल पोक्याल्या कानार पडली.

आतां मात पोक्याचेर मळब कोसळून पडिल्ल्या भशेन जालें. सगळो आसमंत घुंवता कसो ताका दिसलो. ज्या घराब्याखातीर पोको चार-पांच वर्सां रातीचे दीस करुन खपलो, तांचेकडल्यान असली अपेक्षा ताणें करु नाशिल्ली. संवसारांत इतलीं हलकट मनशां आसतात हाची जाणविकाय ताका आयज जाल्ली. जे पोक्याक नाल्ल मेजूंक गेल्लेकडे भाटकार एक नाल्ल व्हर म्हणून दितालो, जे पोक्याक बियो मापूंक गेल्ले कडे रानकार पोसो-दोन पोसे बियो भाजून खा म्हणून दिताले आनी हें सगळें आपल्याकडे साठोवन दवरिनासतना तो अण्णा खंवट्याल्या राशींनी मिसळटालो, त्या पोक्याक आयज अशें पानवळ मेळिल्लें. जे पोक्याक वाटेर दोन आणे मेळिल्ले तेन्ना ते आपल्याक दवरिनासतना ताणें तात्याकडे दिले, तो पोको आयज चोर थरलो. जे पोक्याक सारें, नाल्ल, सोण्णा बी विकतना कितलेशेच पयशे सोताच्या बोल्सांत घालपाची संद मेळटाली त्या पोक्याचेर अण्णान असो अविश्वास दाखवप? ना. हे फुडें हांगा उदकाचो थेंबो लेगीत तोंडांत घेवप म्हळ्यार पाप!

पोको दनपरां जेवणाक गेलो खरो, पूण तो जेवलोना. गोठ्यांत वचून कोण्णाक दिसना थंय गवणीत बसून रड रड रडलो. दुकां गळय गळय गळयलीं. मागीर पोटाभुकेन ताका गवणींतच दोळो लागलो.

आईन पोक्याक जायतो समजायलो. तिच्या दोनय सुनांनीय बी अण्णाली चूक कबूल केली. पूण अण्णान मात तोंडातल्यान एक चकार शब्द भायर

काडलोना. ताणें जर म्हणिल्लें कि पोक्या, म्हजेकडल्यान चूक घडली रे, वोगीच हावें तुजो दुबाव घेतलो अशें जाल्यार घडये पोको निवळत आशिल्लो. पूण हे बाबतींत तो रामावतार जाल्लो. तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें उतर तो परत घेवंक तयार नाशिल्लो.

आई मात सकयल वयर जाताली. पोको उपाशीं आसा तें तिका सहन जायनाशिल्लें. ती अण्णाक दुशणां दिवंक लागली. मागीर तिणें पोक्या म्हऱ्यांत वचून निमणो येत्न केलो. तिणे म्हळें, "पोक्या, अशें कितें करता रे म्हज्या पुता! हावें तर बाबा तुका केन्नाच पोरको असो मानूंक ना. म्हज्या म्हऱ्यांत आशिल्लो तिसरो पूतच कसो वागयला हावें तुका. इतलो तेंप एकाच तोपल्यांतलें शीत जेवल्यात तुमी. अण्णान तुजो दुबाव घेवन ताणें व्हडली चूक केल्या हें म्हाका पट्टा रे बाबा! तूं सांगतां जाल्यार हांव अण्णाक तुजी चूक मागूंक लायतां. पूण असो देहाक दंड दिवंक नाका पुता!"

आईल्या उतरांवेल्यान खऱ्यांनीच तिका वायट दिसलां हाची पोक्याक खात्री दिसली. हें सगळें केलां तें अण्णान. आईन कितलीय माफीबिफीची भाशा केली जाल्यार अण्णाच्या उतराभायर ह्या घरांत कसलेंच पान हालना, हें पोको जाणां आशिल्लो. एका अण्णाकडल्यान घडिल्ले चुकीक लागून घरांतल्या मनशांचो संबंद खिणाक तोडप पोक्याक परवडपाचें नाशिल्लें. ताणें आपले दोळे पुसले. "आई, तूं सांगता जाल्यार हांव सांजे जेयता. माझी माफी बी कोणे मागपाची गरज ना. माफी व्हडल्यांची मागचेली आसता. धाकल्यांची न्हू." अशें म्हणून पोको सडसडीत उठून, भरभरीत पावलां उडयत माणार गेलो.

माणार पावतकीर अण्णाच्या तोंडार ताणें नदर घालीना. सदांभसेन हुंबऱ्यार वचून केदो वेळ उबो रावलो. अण्णानय ताका हें कर तें कर म्हूण कांयच काम सांगलेंना. माणार तशें गिरायकय नाशिल्लें. पोक्याक दिशिल्लें, कोण ना तें पळोवन अण्णा म्हण्टलो की पोक्या, तुजेविशीं म्हजो गैरसमज जालो. मनांत वायट धरुं नाका. अशें म्हणिल्लें जाल्यार सगळें निवळटलें आशिल्लें. पूण अण्णान तशें कांय केलें ना. अण्णाल्या वागण्यावेल्यान तो खंती जाला हें पोक्याक कळटालें, पूण अण्णा उकतेपणान आपली हार मानूंक तयार नाशिल्लो.

अण्णान केल्ली बदनामी पोको आतां विसरुंक शकनाशिल्लो. कारण तो निर्लज नाशिल्लो. हे फुडें अण्णाल्या घरांत दीस काडप पोक्याक शक्य नाशिल्लें.

आपल्या मनांतल्यो सगळ्यो भावना चेपून, पोक्यान फुडले दोनेक म्हयने अण्णागेर काडले. मागीर चार दीस सुशेग घेवपाक म्हूण घरा गेल्लो तो परत आयलोच ना.

**म**नशांचे गिरे केन्ना फिरत हें कोणाच्यान सांगूक जायना. मनशांचे दीस बदलपाक ल्हानशें लेगीत कारण पुरो जाता. अण्णान केल्ली चूक पोक्याक बरी पडिल्ली. ना जाल्यार पोको अण्णागेर आनीक कितले दीस आबजतलो आशिल्लो देवाक खबर!

पोको घरा गेल्लो परत आयलो ना, तरी अण्णान पोक्याची चोवकशी केली ना. आसत शितां जाल्यार मेळतीत भुतां म्हणून घडये पोक्याची आशा सोडिल्ली जावंये अण्णान. पोक्याचेर नाका तें बोगलांट घाल्ल्यान आपल्याकडल्यान एक व्हडलो गुन्यांव घडलो ही भावना मात अण्णाल्या घरच्यांची जाल्ली. हे फुडें पोक्याल्या मनांत अण्णाविशीं थोडें तरी किल्मिश उरतलेंच अशें तांकां दिशिल्लें जावंये. ताकाच लागून पोक्याची आस ताणी सोडून दिल्ली. दुसरी गजाल आतां पोक्यालें भोळेंपण ना जाल्ल्यान, हे फुडें पोक्याचो फावो तसो लाव तांकां घेवंक मेळचो नाशिल्लो.

अण्णा खंवट्यागेर परत कामाक वचपाचें पोक्यान आतां तकलेंतलें साप्प काडून उडयल्लें. ताका आतां धुमशेणां घालूंक उकतें मळ मेळिल्लें. अण्णागेर आसतना ताचेर चेपण आशिल्लें. उठूंक-बसूंक, उलोवंक करूंक ताका दचक आशिल्लो. घरच्या सगळ्यांचोच ताचेर वचक आशिल्लो. आतां ताका सगळ्याच बाबतींत मेकळ्या मनान वागूंक मेळिल्लें. केन्नाच मेळूंक नाशिल्ली ती सोतंत्रकाय आतां ताच्या वाट्याक आयिल्ली.

अण्णागेर आसतना गांवांत जायत्यो घडामोडी जाताल्यो. पूण पोक्याक तांचें मातय सोयर सुतक नासतालें. गांवांत फेस्तां जातालीं, पुरसांवां जातालीं, खोजने जाताले, रातचो फोग पेट्टालो. पूण हें सगळें जाता आसतना पोक्याक हुंबऱ्याभायर पांय दवरूंक मेळनाशिल्लें. पोक्याक दिसतालें आपूण फेस्ताक वच्चो.

फेरयेंत भोंवचो. चणे-भिकणां घेवन खायत घरा येवंचो. किरिस्तावांल्या काजरांनी वचून मुजकातालावेले दांस पळेत रावंचो. पूण पोक्याल्या मनांतल्यो सगळ्यो इत्सो मनांतल्या मनांत सुकून वताल्यो. आतां ताका तकलेर कसलेंच तेसांव नासतना हें सगळें ताकूंक-भोगूंक मेळटालें.

गांवच्या खेळामळार, मुजगातालार फुटबॉल खेळ जाताले. पाड्यांच्यो धिरयो जाताल्यो. सगळो गांव तें पळोवंक लोटून येतालो. पोक्याक आपूणय तें पळोवंक वच्चेंशें दिसतालें, पूण वचूंक मेळनाशिल्लें. आतां मात कोणाचें परमिसांव घेनासतना ताका सगळें पळोवंक मेळटालें.

पोक्याल्या घराफाटल्यान दर्यावेळ तेकिल्ली. दर्यादेगेवेलें भाट भाटकारालें, पूण थंय राज्य चलतालें रेंदराचें. हे रेंदरांच्या राज्यांत आतां पोकोय सामिल जाल्लो. रेंदराली कोपभर सूर ताका मेळटाली. रेंदरांलीं कातारां ताच्या कानांतल्यान भितर सरुन काळजांत रिगतालीं.

रेंदरांवाडो काडटकीर खारव्यां वाडो लागतालो. मनीस दिसतकीर हे खारव्यांच्या दोळ्यांचेर नुस्त्याखवळां येतात अशें म्हण्टात. पूण हो कायदो पोक्याक मात लागनाशिल्लो. नुस्तें मारुन देगेर हाडलें आनी थंय पोको पावलो जाल्यार, चार पांच वेल्ल्यो, एक-दोन मुड्डोशो, तातूंत दोन सुंगटां आनीक एक दोन कुल्ले चिपां, 'घेरे पोक्या, कोडयेक व्हर!' म्हूण पोक्या हातार पडटालीं. ते भायर खुबे, पिसोळ्यो कुल्ल्यो बी धरपाची आस पोक्यान आतां हेच वेळेर भागयल्ली.

पोक्याल्या घरा तेकुनच शेतां आशिल्लीं. पोक्याक शाकभाजी रोवपाची खूब उमेद ताणें शेतकाराकडच्यान इल्ली सुवात घेवन, मिरसांगो आनी वायंगी रोवन काडलीं. सोता रोवन काडिल्ल्या वायग्यांचें भर्त कितलें सुवादीक आसता हाचो अणभव पोक्यान बेसबरो घेतिल्लो.

पोक्याल्या ह्या नव्या गांवांत पळोवचेंसारखें, शिकचें सारखे खुबशें आशिल्लें. हांगा तांबडे मातयेच्यो दोंगुल्ल्यो सोंपतात थंयच्यान रेंवटी दर्याखाडीक लागून आशिल्लीं खाजनां. खाजनांत खावटीं कशीं पडटात, मानसो कशो बांदतात, दर्याक तेकून व्हडीं कशीं नांगरुन दवरतात. खारवी पोनेळ घेवन नुस्तें मारुंक कशे वतात, रांपण, फुटाण बी कशी मारतात. उदकाचीं कोंडाळीं करुन सांगटां कशीं धरतात. हाचें शिक्षण पोक्यान बारकायेन घेतलें.

पोक्याक मुजगाचीय आवड आशिल्ली. अत्रुजेंतल्या देवळांतलें वाजप ताचे

तकलेंत भरिल्लें. आपल्या गांवांत आसतना तो फुटके लात घेवन कुळागरांत सगळे तरेचें वाजप वाजयतालो. चोवघडो, आरतीचें वाजप, रथाचें वाजप, व्हडले शिगम्यातलें घुमटांवाजप, गणपतीच्यो आरत्यो, शिगम्याचीं दोन-तीन तरेचीं वाजपांय तो वाजोवंक जाणां आशिल्लो. आतां हे नव्या गांवांत किरिस्तांवाल्या मुजगाकडेन ताचें शिंतिद आसतालें. पुरसांवावेळावेलें वाजप वेगळें. मरणाचें वाजप आनी दासांची वाजपां वेगळीं आसतात हाची जाणविकाय पोक्यान करुन घेतिल्ली. इतलें सगळें खबर आसुनय पोको आपूण कांयच नकळ अशें दाखोवन दितालो.

वासरांच्या कानांत वारें भरतकीर तीं हांगा-थंय सैरभैर धांवतात. पोक्यालें तशेंच जाल्लें. केन्ना मेळूं नाशिल्ली सोतंत्रकाय ताका मेळिल्ली. अण्णालें घर सोडीत मेरेन पोक्याले पांय घरांत तिगनाशिल्ले. गांवांत भोवन दनपरां जेवणा वोगतार घरा येतालो. शांतूक पोक्याली भोंवडी म्हळ्यार हिंडप दिसतालें आनीक दत्तूक तेंच हेडप अशें दिसतालें. दत्तूक दिसतालें पोक्यान आतां खोरें घेवन शेतांत काम करुंक वच्चो. लोकांक दोन रुपये मेळ्ळ्यार हाणें देड रुपयो घेवंचो. पोक्यान मानायपणाचें काम शिकचें, कामाची सवंय लावन घेवची.

शांतूक मात दिसतालें पोक्याकडे शेतांतलीं कामां जावचींनांत. मिनांक तो खोरें घेवन माती भरतालो खरो. माती ओडप वेगळें आनी खोरें उभारुन शेत खणप वेगळें. पूण पोक्याक मात कोणेंय आपल्याक कसल्याय कामांत कमी लेखचें हें आवडनाशिल्लें.

पोक्याकय आतां बेकार भोंवन भोंवन वाज आयिल्लो. मिर्ग येता येता म्हळ्यार ताणें येवजिल्लें घराभोंवतणची माती फसफसीत आसा. सगळें निवळ करुन भेंडे, घोसाळीं, अळसांदे, वाल बी रोवचे. त्याखातीर ताणें बियो फयदो करुन दवरल्यो.

पूण मिर्ग लागचे पयलींच एक विपरीत घडलें. मुकादमागेर ताचें आतें आयिल्लें. ह्या आत्याल्या पुताच्या मेवण्यालें मडगांवां हॉटेल आशिल्लें. आत्यालो पूत मेल्ल्यान सून भावावांगडा मडगांवां रावताली. आतेंय सुनेवांगडाच रावतालें. सुनेल्या भावान आत्याक सांगून दवरिल्लें, खंयी वता थंय, हॉटेलार काम करुंक एक भुरगो मेळटा जाल्यार पळे म्हूण. आत्याच्या दोळ्यांत पोको भरलो. तेन्नाच्यो आका-आत्यो बी उलोवंक कोणाक आयकनाशिल्ल्यो. आत्यान

आपल्या उतरांक तिखट-मीठ लावन शांतूल्या कानांत ओतलीं. शांतूक दिसतालें पोको अजून कच्चो आसा. ताणें अण्णागेरच आनीक थोडो तेंप रावंक जाय आशिल्लो. आतां आत्याल्या म्हणण्यापरमाणे जर तो मडगांवां गेलो, आनी थंय थोडो तेंप रावलो जाल्यार कांय बिगडचेंना. पळोवया, पोको कितें म्हण्टा तो! अशें म्हणून शांतू घरा आयलें.

शांतून पोक्याक मडगांवां वचपाक व्हडलोसो फोर्स केलो ना. ताणें फकत मुकादमालें आतें कितें म्हण्टा तें सांगलें आनी वोगी बसलें. कारण मनांतल्यान पोको ताका मडगांवां गेल्लो जाय आशिल्लो, पूण निर्णय मात पोक्यान घेवंचो अशें ताका दिसतालें.

पोको कांय वर्सां पणजे रावन आयिल्लो. आतां ताका मडगांवां थोडे दीस रावन थंयचो अणभव घेंवंचो अशें दिसतालें. ताणें आवयक सांगलें, 'आई, तूं मान्यताय दिता जाल्यार हांव मडगांवां वोचोंक तयार आसां.'

आतें मडगांवां गेल्या उपरांत पोको मडगांवां गेलो. हे पयलीं दादागेर वता आसतना एक-दोन वेळां मडगांवां गेल्लो खरो, पूण प्रास सोडून तो आनीक खंयच वचूंक नाशिल्लो. आतां तो हॉटेलाच्या पत्त्यासयत मुकादमाकडल्यान चीट घेवन गेल्लो मडगांवां!

पोको कामिज्यांवांतलो प्रासार देवलों. ताका आतां जनता काफे सोदून काडूंक जाय आशिल्लें. तें कितलेंय आडकळीक आसलें तरीय पोको सोदून काडपी आशिल्लो. पूण प्रासावेलो मात्सो फुडें वतकीर ताणें चिंतलें. एकदां हॉटेलांत भितर सरतकीर तो मालकाच्या ताब्यांत पडटलो. मागीर मडगांव भोवन पळोवंक मेळटलें काय ना तें कोण सांगतलो?

पोको ज्यार्दिनांत गेलो. हातांतलें काशेद बांकार दवरलें. बरोच वोगोत बांकार बसून येते वतल्या लोकांक पळोवन घेतलें. मागीर गाड्यार वचून एका आण्याचें सरबत पियेलो. दुकानाच्यो पाटयो वाचीत कुंकळ्ळे-काणकोण वतल्या रस्त्यान बरोच फुडें गेलो. थंय ताका उज्या गाडी वता ती दिसली. मागीर ताणें बोल्सांतली चीट काडून पानपट्टीवाल्याक दाखयली. मागीर ताका फाटीं परत येवचो पडलो. सगळें मार्केट भोंव भोंवलो. मागीर पिंपळापेडाकडल्यान रस्तो वता ते रस्त्यान पाटयो वाचीत फुडें गेलो. आतां ताका जाय आशिल्ल्या दुकानाचो बोर्ड दिसलो. हा, हें तर तें चाये दुकान ! दुकान पळोवंक ल्हान आशिल्लें, पूण बोर्ड मात

व्हडलो आशिल्लो.

पोक्यान विचार केलो, येन्नाच भितर सरचो न्हय. मात्सो वोगोत बसल्यार बरो. अकरांचो सुमार जाल्लो जांवये. पोक्यान रस्त्याकुसीक रावन पळेलें. गोरोचसो, घार्शे दोळ्यांचो, धवोफुल्ल लेंगो आनी खोमीस घाल्लो मनीस गल्ल्यार बसला. गल्ल्याभायर पानपट्टीवाल्याचें दुकान आसा. पोको रस्तो हुपून गल्ल्याकडे गेलो. ताणें बोल्सांतली चीट काडून गल्ल्यार बशिल्ल्या मनशाकडे दिली. ताणें ती चीट वाचून पोक्याक भितर वच म्हूण खूण केली.

पोको आपलें काशेद घेवन भितर गेलो. भितर म्हूण खंय? च्यायेचे माण्णेकडे. बरेच भितर एक वोंटो आशिल्लो. ओंट्यार एक लांबरुंद पत्रो आशिल्लो. हे पत्र्यार चिक्रबशो मांडून दवरिल्ल्यो. वोंट्याक तेंकून एक विशेक वर्सांचो तरणाटो उबो आशिल्लो. तरणाटच्याच्या उजव्यावटेन एक चूल आशिल्ली. चुलीचेर दोन आयदणां आशिल्लीं. एक आलिमेनचें आनी दुसरें व्हड, तांब्याचें. व्हडल्या आयदणांचें उदक तापत आशिल्लें. तातुंतलें जाय तेन्ना, जायतितलेंच काडून धाकल्या आयदणांत घालतालो माण्णेवालो. माण्णेवाल्याच्या फाटल्यान एक बांय आशिल्ली. बांय आनी माण्णी हांच्यामदीं एक बांक कशें फळें दवरिल्लें. हे फळ्याचेर लांबचे लांब तोप मांडून दवरिल्ले. गवळी आनी हेर दुदकार दूद हाडून हाडून तोपांनी वतयताले. माण्णेक तेकुनच एक कूड आशिल्ली. कुडींत तीन-चार मनीस बसून आशिल्ले. ह्या मनशांचें काम आशिल्लें चपात्यो आनी पुरयो लांटप.

हे कुडीक तेंकुनच आनीक एक ल्हानशी कूड आशिल्ली. तातूंत जळोव भरुन दवरिल्लो. ताका तेकून आशिल्ले सुवातेचेर दोग-तीग जाण भुरगे कचकच करुन कांदे कापीत बशिल्ले. ताका तेंकून आनीक एक ल्हानसो वोंटो आशिल्लो ताचेर चिक्रबशो धुवपाचें काम चलतालें.

चार-पांच ऑर्डरवाले(वेटर) आनी तितलेच चिक्रपिरी काडपी भुरगे हातांत फाडे घेवन मेजांकडे भोंवत आशिल्ले. दोनपारचो वोगोत आशिल्ल्यान गिरायकांची गर्दी आशिल्ली. गल्ल्यावेलो मनीस-ज्याका सगळे लोक बाप्पा म्हण्टाले. खाणांचेर नदर मारून मारून वतालो. अदमास पळोवन कितें जाय त्या खाणाच्यो ओर्डरी दितालो.

हॉटेलावेलें सगळें काम शिस्तिन चलतालें. जण एकलो आपणाक नेमून

दिल्लीं कामां कसलीच कुरकूर नासतना करतालो.

पोको माण्णेकडे उबो रावन हें सगळें पळेतालो. ताच्या मुखावेल्यान पातळभाजी, सुकीभाजी, मिक्स भाजी, पुरयो, चपात्यो, लांबट आनी कात्र्यांचे तोर्राद उंडे नाचताले. हारशांच्या एका कपाटांत बेसन लाडू, रव्यालाडू, फेणांऱ्यो, चारोळ्यो आनी दुसऱ्या एका कपाटांत श्रीखंड, केळ्या हालवो, बासुंदी बी शेगड्यांचेर दवरिल्लें. पोक्यान असलीं खाणां केन्नाच खावनाशिल्लीं. आतांय ताका तीं चाखूंक मेळत हाचे आसार दिसनाशिल्ले.

ताची नदर सगळ्या खाणांचेर आनी कामाचेरय आशिल्ली. पोको वरभर हें सगळें पळेत आशिल्लो. पूण ताची आतांमेरेन कोणेच चोवकशीय करुंक नाशिल्ली.

इतक्यांत एक वयस्क खोड्डो वोर्डरवालो पोक्या म्हऱ्यांत आयलो. ताका पोक्याची काकुळट आयली जांवये. ताणें माण्णेक तेकून आशिल्ल्या खाशेले कुडींत च्यायेचें चिक्र दवरलें आनी पोक्याक ताचेकडे बोट दाखयलें. पोको त्या वोर्डरवाल्याकडे पळेतच रावलो. दिना फुस्स करुन हांसलो. वोर्डरवाल्याचें नांव दिना आशिल्लें.

पोको कुडींतल्या मेजावेलें कोप हातांत घेवन च्याये घोंट पिवंक लागलो. मागीर एकेक फाडेवालो, वोर्डरवालो आनी भितरले मिठायवाले बी पोक्याक येवन पळोवंक लागिल्ले. येदो वेळ पोको कित्याक उबो आशिल्लो हें कोणाक कळूंक नाशिल्लें. बाप्पानय तांकां कांयच सांगूं नाशिल्लें. बाप्पा म्हळ्यार तो गल्ल्यार बशिल्लो गोरेलो मनीस. पोको भायर वचनासतना कुडींत च्याव पिवंक बसला तें पळोवन सगळ्यांक सुलूस लागली की हो च्याव पिवपी मनीस तांचोच वांगडी जावपाचो आसा.

आतां दनपारचें एक वाजिल्लें. गिरायक इल्लें इल्लें उणें जायत वतालें. बाप्पा आतां गल्ल्यावेलो सकयल देंवलो. माण्णेकडे आशिल्ल्या सगळ्या दुदातोपांचेर ताणें नदर माल्ली. कितलें दूद काबार जालां तें पळोवन ताका सकाळपासून खपाचो अंदाज आयलो.

बाप्पा मागीर माण्णेवाल्याक घेवन पोक्या म्हऱ्यांत आयलो. ताणें पोक्याची वळख करुन दिली. माण्णेवाल्याचें नांव आशिल्लें भगवंत. बाप्पान भगवंताक सांगलें की आयजसावन पोको तुजो हेल्पर. ताका च्यायेचें काम शिकय आनी

हेर कामांय ताचेकडल्यान करुन घे. आतां ताका वांगडा घेवन घराकडे जेवणाक वच.

पोक्यान पयलींच आत्याक सांगून दवरिल्लें, आपूण दुकानांत कामांक आयलों जाल्यार कोपबश्यो मात धुंवचोना म्हूण. तेच आदारान बाप्पान ताका माण्णेर काम दिल्लें.

माण्णेवालो भगवंत पोक्याक घेवन जेवणांक गेलो. वच जाल्यार घराकडे आतें आसा. पोक्याक पळोवन तें खूश जालें. ताणें सुनेकडे पोक्याची वळख करुन दिली. सुनेनय मुकादमाच्या घरच्यांची खबर घेतली.

हांगाय शेणाचे जमनीर बसूनच पोक्याक जेवपाची पाळी आयिल्ली. पोक्याक ती संवंय आशिल्लीच. पूण हांगा एक वेगळोच प्रकार पोक्याक पळोवंक मेळिल्लो. जेवपी भुरगे चड आशिल्ल्या कारणान तांच्याखातीर तीन-चार पितुळर्ची ताटां दवरिल्लीं. हीं ताटां घेवन आळीपाळीन कामकाऱ्यांक रांगेंत जेवणाक बसचें पडटालें. भायर उदकाखातीर एक लात दवरिल्लें. खोल बांयचें उदक काडून लातांत घालचें पडटालें. कांय भुरगे बुरशे आसताले. ते आपलें ताट कशा कशेंय लातांत बुचकळटाले. पोक्याक पयलेच खेप ताची वीट आयिल्ली. पूण कितें करतलो? दीस काडूंकच जाय आशिल्ले. तो फकत कळसुलेचेच उदकान आपलें ताट धुवंक लागलो.

एक गजाल मात पोक्याक खाशेली आशिल्ली. पोको आत्याल्या सोयऱ्यांकडचो आशिल्ल्यान ताका हेरांपरस खाशेली वागणूक मेळटाली थंय!

पोक्यालें काम ते दिसा सांजेच्यान कोमेस जालें. माण्णेवालो पोक्याक बांयचें उदक काडून चुलीवेल्या आयदणांत घालूंक लावंक लागलो. पोक्याक तें व्हडलेंशें दिसलेंना. पूण रातीकडे मात पोक्याक नावडतें काम करुंक लायलें माण्णेवाल्यान. शेगडेर दूद तापोवन तापोवन तोप रिकामे करुन दवरचे पडटाले. ते तोप धुवपाचें काम पोक्याचेर सोपयल्लें. ते तोप खरवडून साफ करतां करतां पोक्याक नाका जल्म जातालो. तोप सारखे धुयना जाल्यार दुसऱ्या दिसा दूद पेडूड्यार जावपाचो भंय आशिल्लो. ताका लागून पोको कुलेर घेवन तोपाचें पोंद अशे तरेन खरवडून काडटालो की सायेचो मातय दाग उरचो न्हय आनी तोपाचो आवाजय जावंचो न्हय.

पोक्यान एक सेमान थंयच्या कामाचो नियाळ केलो. पयलीं दोनकडे ताणें

कामां केल्लीं. तेपरस हांगा खूबच सोतंत्रकाय आशिल्ली. सकाळीं पांचांक उठचें पडटालें खरें पूण तें दुःखदेणे अशें दिसनाशिल्लें. दीस जातां जातां रेडियोचेर सुख देणी आनी कानाक गोड लागपी गाणीं लागतालीं. सगळेकडे विजेचो लखलखीत उजवाड आसतालो. दुकानाभायर गाडेकार आनी मानांय जमताले. एकदां हाथरुणावेलो उठतकीर आळसाय खंयचे खंय नाच जाताली.

पोको माण्णेर काम करतालो. ताका लागून चुलींत उजो घालप, हांडयेंत उदक भरपाचें काम बी ताकाच करचें पडटालें. मागीर माण्णेवालो येवन पयलीं च्याव करुन बाप्पाकडे दितालो. बाप्पा ती मागीर दारांत शिपडटालो.

हॉटेलांत काम करपी पंदरा-सोळा ल्हान-व्हड मनीस आशिल्ले. तांचे तीन वर्ग आशिल्ले. अ, ब आनी क. अ वर्गांत ऑर्डरवाले, माण्णेवालो, मिठायवालो बी येताले. ब वर्गांत कांदो मारपी (शिनपी), पुरयो लाटपी पडटाले. आनी क वर्गांत कपबशो काडपी, धुवपी आनी मेजार फाडो मारपी बी येताले. आनी पोको खंयच्या वर्गांत पडटालो?

दुसरे दिसा सकाळीं सातांक माण्णेकुशीक पोको उबो रावतालो. थंयच दोन - दोन, तीन-तीन पुरयो मांडून दवरिल्ल्यो. पुरयांवांगडा ग्लासांत घालून शिंगल शिंगल च्यावय दवरिल्ली. मागीर ब आनी क वर्गांतले कामकार एकेक वांटो घेवन गेले. निमणो एक वांटो उरलो. माण्णेवाल्यान तो पोक्याक घे म्हूण सांगलो. पोक्यान माण्णेवाल्याक सांगलें, पयलीं तूं घे मागीर हांव घेतां. हें आयकून माण्णेवाल्यान पोक्याचेर दोळे मोटे केले.

"हांगा हांव सांगतां तें तुयें आयकों जायें. चड शाणेपणा करचीं न्हू. समजलो?" अशें म्हणून माण्णेवालो भितर वचून एक कुरकुरीत उंडो घेवन आयलो. पोक्याक दिसतालें आपणेंय तशेंच करचें. पूण माण्णेवाल्याले दोळे पळोवन ताका धाडस जालें ना. मागीर पोक्याक कळून चुकलें की माण्णेवालो अ वर्गांत पडटा आनी ताणें आपल्याक जाय तें खावपाचें.

हीच गजाल णव वरांचेर घडली. आतां बशांनीं घालून इल्ली इल्ली पातळभाजी आनी वांगडा चार-चार पुरयो दवरिल्ल्यो. हे वांटे ब आनी क वर्गाखातीर आशिल्ले. अ वर्गान मात आपल्याक जाय तें खावपाचें. तांच्यानी सुकी भाजी, मिक्स भाजी बी खावंक जाताली. वांगडा उंडे, चपात्योय खावंक जाताल्यो. ह्या वर्गवारींत पोको ब वर्गांत पडटालो.

कितेंय आसलें तरी पोको हांगा खूश आशिल्लो. कारण ताका हांगा सोतंत्रकाय मेळटाली. दनपरां एकाक कामाचो सुट्टकीर सदांच एकवर पोक्याचेंच आशिल्लें. हें एकवर थोडेंच आशिल्लें तरीय हे एकावरांत पोको खंयी वचूंक शकतालो. ताका कोण कांयच विचारुंक शकनाशिल्लो. तीच गजाल सांजेचीय आशिल्ली. पोको रातचो साडे आठांक बेकार जातालो. मागीर धा वरां मेरेन तो खयीं वच, ताका कोण विचारी नाशिल्लो.

दोन-तीन दिसां उपरांत पोक्याच्या लक्षांत एक गजाल आयली. कामाचे सुट्टकीर कामकार गल्ल्याकडे उबे रावताले. पोको मात सरळ भायर वतालो. कोणे तरी भायर वतकीर पोक्याक प्रस्न केलो.

"पयशे घेतले रे?"

"कसले पयशे ?"

"विडयांक!"

"हांव विडयो वोडीना."

"विडयो वोडीना जाल्यार तुका साबवांक बी पयशे नाका तर?"

आतां पोक्याक कळ्ळें. बाप्पा सदांच कामकारांक अ वर्गांतल्याक दोन आणे आनी बाकीच्यांक एक आणो दितालो. पोको गल्ल्याकडे पावतकीर पयल्या दिसा बाप्पान फट्ट करुन एक आणो गल्ल्यार उडयल्लो. पूण आणो कित्याक उडयलो तें पोक्याक कळ्ळेंना. आनी पोको तसोच भायर गेलो.

फुडें पोको सदांच भायर सरतना गल्ल्याकडे उबो रावंक लागलो आनी बाप्पालो आणो गल्ल्यार आवाज करुंक लागलो.

पोको मडगांव शारांत नवो आयिल्लो. ताका लागून थंयचें सगळें ताका नवेंच दिसतालें. दनपारचो दोन दिसांतल्यान एकदा तरी मार्केटांतल्यान पासय मारतालो. रातीचो तो जार्दिनांत वचून बसतालो. केन्ना केन्नाय पिंपळा पेडा कडच्यान चलत चलत प्रासार वतालो. थंयच्यान मागीर मेट्रपोलाकडे वचून सिनेमाचे पोस्टर पळोवन येतालो. लता ओलंपिकाकडेनय ताचें वचप जातालें.

सुर्वेक पोक्याक सिनेमाची वोड तितलीशी नाशिल्ली. हॉटेलावेलं भुरगे सिनेमांच्यो गजाली करता तेन्ना तो त्यो मोन्यानी आयकतालो. दिलीपकुमार, अशोककुमार, किशोरकुमार ह्या नटांचीं आनी नर्गिस, वैजयंतीमाला, सीमा ब्री नटयांची तोखणाय तांचेकडल्यान जाताली. रेडियोचेर गीत आयल्यार हें अमक्या

सिनेमांतलें आनी अमक्यान गायलां अशी चर्चा बी जाताली. पूण पोक्याक तांतलें कांयच समजनाशिल्लें.

हॉटेलार काम करुंक खूब भुरगे आशिल्ले खरे, पूण पोक्याली इश्टागत मात कोणाकडे नाशिल्ली. हाचें कारण पोक्याचो सोबाव हेरांच्या सोबावांक मातय जुळनाशिल्लो. ह्या हॉटेलार काम करपी कामकार आपापल्या घरची संस्कृताय वांगडा घेवन आयिल्ले. एकमेकाक आवय-भयणीवेल्यान गाळी घालप. उलयतनाच बुरशीं उतरां उलवप. चलतां-भोंवतना एकमेकाक तुकलवप, एकामेकाच्यो वस्तू फारावप. कसल्या कसल्योय भानगडी करुन कागाळ्यो घेवन मालकाकडे वचप आनी मालकाचो भरपूर मार खावन थंड जावप.

हांगा असलेय मनीस आशिल्ले, जे आपल्या आवय-बापायकडे, बायलांकडे झगडून आयिल्ले. हांगा तांका जेवंक खावंक आनी न्हिदूंक सुवात मेळटाली. असले लोक आपलो राग निवळटकीर केन्ना कूस मारीत हाचो नेम नाशिल्लो. ताका लागून आपलें हॉटेल बंद पडचें न्हय म्हूण येता तितलेय मनशांक मालक कामाक दवरुन घेतालो.

हे सगळ्या मनशांच्या संगतीन पोको गुदमरुन वतालो. ताका दिसतालें काम सोडून वच्चें. पोको आपल्यापासून पयस-पयस रावता म्हूण काय मस्ते भुरगे, आनी जाण्टेय बी पोक्याक गरजे भायर दोळे फोडटाले. तांकां दिसतालें पोक्यान आपल्यासारको वागचो. पूण पोको तशें करुंक शकनाशिल्लो.

पोक्याक दुखदेणी आनीक एक गजाल घडटाली. हॉटेलाच्या मालकाक सगळे कामकार शेट म्हण्टाले. शेटीलो चलो खूब मस्तो आशिल्लो. तो रातीचो न्हिदूंक हॉटेलार येतालो. हॉटेलाची चावी ताचेकडे आसताली. सकाळीं कामकारांक उठोवपाचें काम ताचेकडे सोपयल्लें. तें काम तो भुरग्यांक धोंगसून, थंड उदक वोतून, खोटो बी घालून बेस बरें करतालो. पोको मात हें सगळें चुकोवपाक पयलींच उठून कामाक लागतालो.

पोको आनी शेटीलो चलो हांचेमदीं दुस्मानकाय उप्रासिल्ली. हाचें कारण पोको ताच्या मस्तेपणाक वाव दिनाशिल्लो. सांजेचें दुकान बंद जातकीर, हे चल्यालें राज्य सुरु जातालें. अकरा वरांमेरेन तो दुकानार धुमशणां घालतालो. ताच्या मर्जेतल्या भुरग्यांक एकठांय करुन चलयांच्यो खबरो करप, खंयचोय एक सिनेमा घेवन तांतल्या हिरोचो अभिनय करप. एकाद्र्या भुरग्याच्या हातांत झारो

दिवन, आपूण हातांत कायलाटो घेतालो. आपूण दिलीपकुमार जावन हेर भुरग्यांवांगडा फोरसान लडाय करतालो. हे असल्या मस्तेपणांक पोको ताका वांगड दिनाशिल्लो म्हणून तांच्यामदें दुस्मानकाय उप्राशिल्ली.

शेटील्या चल्याकडे दुस्मानकाय वाडूंक आनीक एक कारण आशिल्लें. शेट आनी बाप्पा पोक्याक केन्नाच तापय नाशिल्लो. हाचें कारण एकच की पोक्याची वागणूक बरी आशिल्ली.

'दुकानावेले सगळे भुरगे कसलीं ना कसलीं अवचिन्नपणा करतात, आळसाय करतात, एकमेकाक गाळी मारतात, पूण पोक्याकडे मात असले दुर्गुण पळोवंक मेळनांत. आमच्या दुकानांचेर बरे देखीचो एकटोच भुरगो आसा, तो पोको.'

बाप्पान हीं उतरां शेटील्या चल्यामुखार म्हळीं. चल्याक तें मानवलेंना.

आतां दुकानावेलो बाप्पा आनी शेट कोण हें स्पश्ट जाल्लें बरें. शेट म्हळ्यार दुकानाचो मालक. बाप्पा शेटील्या नात्यांतलो. दुकानाचो सगळो कारबार बाप्पाच पळेतालो. शेट खंय तरी पयस रावतालो. तो दिसाचो येवन रातचो घरा वतालो. ताच्या फाटल्यान शेटपुत्राल्यो कारवायो सुरु जाताल्यो. ताच्या ह्या कारवायांक लागून घरचीं सगळीं बेजारताली पूण कोणाच्यान कांयच करुंक जायनाशिल्लें. शेटीकडे सदांच कागाळ्यो वताल्यो. पूण बापायन कितलोय समजायलो तरी पूत जाग्यार येनाशिल्लो.

दुकानाच्या फाटल्यान एक गॅरेज आशिल्ली. गॅरेजीभायर माकानीक न्हिदताले. शेटपुत्राल्या त्रासांक लागून पोको माकानीकां म्हऱ्यांत वचून न्हिदूंक लागलो. पोक्यान एकेक आणो एकठांय करुन सवाय रुपयाची जपानी शेनरी घतिल्ली. दुकानांत शेनरेर न्हिदपी पोको एकलोच भुरगो आशिल्लो. बाकीचे सगळे साकाट्यांचेर न्हिदताले. शेटील्या चल्याच्यान तें पळोवंक जायना जालें. ताणें कितें करचें? ताणें दोग जाण मस्त्या भुरग्यांक फितावन, पोक्याक न्हीद लागली ती पळोवन शेनरेच्या दोनय पोतांक धरुन उभारलो. शेनरी भरभरीत पिंजली. तिचे दोन कुडके जाले. दुसरे राती पोको पिंजकी शेनरी गाटोवन दुकानाभितर न्हिदूंक लागलो.

शेनरी पिंजूनय शेट पुत्राचें समादान जालें ना. पोक्यान शेटीकडे कागाळ केली म्हूण शेटपुत्रान पोक्याचो डंक धरलो. एकेराती पोको न्हिदील्लेकडे आसतना तो दोनय पायें पोक्याच्या पोटार दवरून उबो रावलो. आतां मात पोक्याच्यान

वोगी बसूंक जायना जालें. ताणें शेटपुत्राक धुकलून सकयल उडयलो आनी हातरुण घेवन घराकडे धांव मारली. तेन्नाच्यान पोको घराकडे न्हिदूंक लागलो.

अशे तरेन शेटपुत्राच्या सतावणुकींक तोंड दीत दीत पोको दीस काडूंक लागलो.

शेटपुत्रान कितलोय सतायलो जाल्यार पोको मात ताका कसोच बदलोना. तो आपलें काम मन लावन करीत रावलो.

माण्णेवाल्याचो हेल्पर म्हूण पोक्याक चड दीस काम करचें पडलें ना. थोड्याच दिसांनी चिक्रबशो काडपी खुबशे भुरगे काम सोडून गेल्ले. गिरायक च्याव पिवन गेल्या उपरांत मेजांचेर कपबशो उरुंक लागल्यो. दोग भुरगे कपबशो काडपी आशिल्ले. पूण तांचेकडे काम आटापा येनाशिल्लें. वोंट्याचेर कपबशो तुंबूंक लागल्यो. पोक्यान तर पयलीं सांगून दवरिल्लें की आपूण कपबशो धुवचोना म्हूण. आतां कपबशो काडप आनी धुवप शेटीक करचें पडलें. शेट तें काम करतालो आनी पोको पळेत उबो रावतालो. शेट कपबशो धुता तें पळोवन पोक्याक कशेंच पुटवना जालें. ताणें खिणांत आपलें बंधन तोडलें. मेजावेल्यो चिक्रबशो काडून आपूणच धुवंक लागलो. हें काम तो आपल्याचेर अवसर आयिल्ल्याभसेन झडझडीत करुंक लागलो. सगळीं मेजां झपाझप साफ जावंक लागलीं. पोक्याचो अवतार पळोवन शेट खूश जालो. बाप्पाकय बरें दिसलें. पोक्याक कळून चुकलें की कपबशो धुल्यो म्हूण आपूण ल्हान जावंचोना.

पोको आतां मातय बेकार रावनाशिल्लो. आपल्याक नेमून दिल्लें माण्णेवेलें काम तर तो करतालोच, शिवाय वोगोत आयल्यार मेजां साफ करपाचेंय काम तो शेटीक आनी बाप्पाक करुंक दिनाशिल्लो.

थोड्याच दिसांनी कपबशीवाले भुरगे वाडले. पूण एक वोर्डरवालो मनीस काम सोडून गेल्लो. ताका लागून बाप्पाक आतां गल्लो सोडून मदीं मदीं गिरायक करचें पडटालें. बाप्पाले हाल पोक्याच्यान पळोवंक जायना जाले. बाप्पान सांगनासतनाच ओर्डरवाल्याचें काम पोक्यान आपल्या हातांत घेतलें. बाप्पानय ताका हरकत घेतलीना. अशे तरेन ब वर्गातल्यान अ वर्गांत वच्चेलें पोक्यालें सपन रोकडेंच फळाक आयलें.

पोको माण्णेकडे उबो आसतना च्याव करुंक शिकलो. कितके उदकांत कितको चायेपालो घालूंक जाय. उदक सळसळल्याबगर पालो घालूंक जायना.

चायेक इल्लें मीठ घाल्यार ती रुचीक लागता. हाचें शिकप पोक्याक मेळिल्लें.

पोको ओर्डरवालो जातकीर ताच्या वाट्याक तीन मेजां आयिल्लीं. ह्या मेजांचेर बसपी चड करुन देशेंत आसताले. खुबशे कपड्यां व्यापारी येवन ते मेजांचेर बसताले. देशेंत मनशांमदें वावुरतलो जाल्यार आपूण देशेंत रावंक जाय, रोप नितळ आसूंक जाय, उलोवणेंय देशेंत आसूंक जाय हाची कल्पना पोक्याक पयलींच आयिल्ली.

पोको ऑर्डरवालो जातकीर मडगांवच्या खुबशा बऱ्यांकडे संबंद येवंक लागलो. कांय गिरायकां नेमान येतालीं. पोको तांचेकडे ल्हानविकायेन वागतालो. कांय गिरायकां अशीं आशिल्लीं की पोक्याचीं फकणां केल्याबगर चायेघोंट तांच्या गळ्यासकयल वचनाशिल्लो. कांय गिरायकां दारांत पांय दवरिनाफुडें पोक्याक साद घालतालीं.

पोक्याली एक संवंय आशिल्ली. कोणय मनीस ताच्या संपर्कांत आयलो जाल्यार ताचो तो पुराय अभ्यास करतालो. ह्या हॉटेलांत तर पोक्याक खुबशा खानदानी लोकांचो नियाळ करपाची संद मेळिल्ली. मडगांवांत तेन्ना जायतीं देशेंत आनी बडेजावाचीं हॉटेलां आशिल्लीं, पूण हिन्दू व्यापारी हें हॉटेलच पसंद करताले.

हे हॉटेलाचें आनीक एक खाशेलेंपण आशिल्लें. शेटीलो एक भाव गोंयच्या सोतंत्रकाय लड्यांत वांटो घेतालो जावंये. हे हॉटेलांत एक खाशेली कूड आशिल्ली. हे कुडींत कांय सोतंत्रसैनीक येवन वराचीं वरां बसून लडायेच्यो येवजण्यो करताले. शेजारच्या हॉटेलांत सदांच रातचो आजेंत मोंतेर येतालो, पूण हे हॉटेलांत कितें शिजता हाचो पत्तो ताका केन्नाच लागलोना.

मनशाच्या जिवितांत अचकीत कितल्योशोच घडणुको घडटात. शिटूक मनीस तांचो भरपूर फायदो घेता. अण्णालें घर सोडल्या उपरांत पोको मडगांवां पावतलो अशें कोणी चिंतूंक नाशिल्लें. पोको मडगांवां पावलो आनी ताचे दोळे उकते जाले. ताचे तकलेंत घसघसीत उजवाड पडलो.

मनीस शाणो जातलो जाल्यार ताका वावरुंक उकतें मळ मेळूंक जाय. चार वण्टींभितर रावन ताका कितलेंय पुस्तकी गिन्यान दिलें म्हणून ताका जिवितांतलो वेव्हार कळना. मडगांवां पोक्याक खूब तरेच्या संवंगांचो नियाळ करपाची संद मेळ्ळी. हे हॉटेलार ताका बासुंदीपुरी, केळ्यांहालवो, बेसन, श्रीखंडपुरी खावपी

मनीस सामके थोडे मेळटाले पूण चण्यांची पातळभाजी आनी उंडे खावपी मात राशींनी मेळटाले.

ते तेंपार मडगांवच्या बाजारांत एक दर्जी आशिल्लो. दनपारच्या एकाक तो कागदांत गुटलावन रोटयो हाडटालो. वांगडा उदकाची बाटली. मेजार बसून तो एका आण्याची पातळभाजी घेतालो. ताका रोटयो खावंक उणेंच अर्देवर लागतालें. पोक्याक दिसतालें तो भाजी फुकट खाता. आणो दिता तो मेजाच्या भाड्याचो. आख्खें मेज तो आडावन बसतालो. ताका किते जाय नाका तें पळोवंक पोको ताच्या म्हऱ्यांत उबो रावतालो. प्रत्येक दिसा तो पोक्याक आपली जिवीतकाणी सांगी.

ह्या दर्ज्याक सोरो-विडी बी लागनाशिल्ली. पय-पयशाचें म्हत्व जाणून जगतालो तो. पूण ताका एक व्यसन आशिल्लें तें म्हळ्यार क्रिकेट खेळाचें. क्रिकेटीचें नांव काडल्यार तो सामको पिसो जातालो. क्रिकेट पळोवंक तो विमानान मुंबय वतालो.

दर्जी येतालो तेचपरी भाडेलांचो एक चोमो पोक्या म्हऱ्यांत येतालो. तांच्या हातांत व्हडल्यो पोळयो आसताल्यो. उदक आनी भाज्जेखातीर तीं हॉटेलांत येतालीं. दोन आणे, चार आणे घेवन सामान माथ्यार घेवन हांगा थंय भोंवपी आनी भरिल्ले साक फाटीर मारून गुदांव भरपी मानायांचें जिवित पोक्यान एकदम फुड्यांतल्यान अणभविल्लें. तांच्या जिविताच्यो बारकायो ताणें आपल्या काळजांत साठायल्ल्यो.

मडगांव शारान पोक्याक सिनेमाचें पिशें लायलें. ताका कारण आशिल्लें दुकानावेले भुरगे, शेटीलो चलो आनी रेडियो. पणजे आसतना पोक्यान रस्त्यावेल्यान चलता आसतना सिनेमा गितां आयकल्लीं. ताणें माड्डोळा आवयवांगडा शकुंतला सिनेमा पळेल्लो. अण्णागेर आसतना अण्णान आपल्या बायले-भुरग्यांवांगडा पणजे व्हरुन एकदांच 'श्यामची आई' हो सिनेमा पोक्याक दाखयल्लो. हांगा ताका सदांच हॉटेलांतल्या रेडियोवेलीं गीतां आयकूंक मेळटालीं. ताका तीं आवडटालींय बी. पूण थेटरांत वचून सिनेमा पळेल्यार आपूण पेड्ड्यार जातलों अशें पोक्याक दिसतालें. पूण बरे मनीस सिनेमाक वतात तें पळोवन पोक्याक आपणेंय सिनेमा पळोवचें अशें दिसूंक लागिल्लें.

पोक्याक विडयांक म्हूण सद्दां जो आणो मेळटालो, तो खर्च जायनासतना

तसोच उरतालो. आठ दिसांनी ताका एका आण्याचो मारांव साबावांकुडक्रो घेतल्यार पावतालो. ताका लागून म्हयन्यांतल्यान रुपयो-देड रुपयो ताचेकडे सहज एकठांय जातालो.

तेन्ना सिनेमाची सकयली तिकेट आठ-धा आणे आशिल्ली. थेटरांत एक हिन्दी सिनेमा लागल्यार तो खूब दीस उरतालो.

पोक्याल्या बोल्सांत पयशे आसतालेच. ताचेकडे पयशे आसतात ही गजाल ताच्या वांगडच्यांक खबर आसताली. गूंड भुरगे धाकधपटशा दाखोवन पोक्याकडच्यान चार-आठ आणे मागून घेताले. अशे तरेन गुंडांक पयशे खावोवचे परस सिनेमा पळेल्यार खंयच्यान वायट? अशें म्हणून पोक्यान सिनेमा पळोवंक सुरवात केली.

पोक्याक पयलीं पयलीं आपूण सिनेमा पळोवन व्हडली चूक करतां अशें दिसलें. पूण मागीर मात बरे सिनेमा पळेल्यार गिन्यान वाडटा अशें ताका दिसून आयलें. हॉटेलावेले भुरगे ढिशांव ढिशांव फायटिंगचे सिनेमा पळोवंक मुजरत वताले. पोक्याक फायटींग आवडनाशिल्ली अशें न्हय. पूण ताका गंभीरताय आनी कलेन भरिल्ले सिनेमा चड आवडटाले. पोक्याक राजकपूर, दिलीपकुमार, देवानंद, अशोककुमार आनी किशोरकुमार हे नट खूब आवडटाले. राज कपूरालो 'श्री ४२०' तर ताणें पांच खेप पळेल्लो.

भगवान, जॉनी वॉकर आनी ओमप्रकाश ह्या विनोदी नटांनी तर पोक्याक पिशें लायिल्लें.

पोक्याक हिन्दी कळनाशिल्ली, पूण हिन्दी सिनेमा ताका पुराय समजताले. सिनेमाच्या कथानकांनी पोक्याच्या मनांचेर व्हड परिणाम केल्लो, पोक्याले वागणुकेंत बदल घडोवन हाडिल्लो.

मडगांवच्या राबित्यांत पोक्याल्या जिवीतांत आनीक एक म्हत्वाची घडणूक घडली. पोक्याक मराठीचें गिन्यान आशिल्लें. पूण मडगांव शारांत भोंवता आसतना रोमन अक्षरांचे बोर्ड ताचे नदरेक सगळेकडे पडटाले. ते बोर्ड पोर्तुगेजीन आशिल्ल्यान ताका वाचूंक कळनाशिल्लें. पूण आपल्याक ते वाचूंक आयिल्ले जाल्यार खूब बरें जातलें आशिल्लें, अशें मात ताका दिसतालें. बोर्डावेलीं एस्,सी, एम्, एल् बी अक्षरां ताचे तकलेंत भरिल्लीं.

कसल्याय गजालीची इत्सा आनी आवड आसल्यार ती केन्ना ना केन्ना

फळाक येता. पोक्याले तकलेंत जें कितें भरता आनी तें ताका करीनशें दिसता, तें ताचें सादताच सादता. हॉटेलमालकाचो, म्हळ्यार शेटीचो एक भाचो आशिल्लो. थंड आनी शांत सोबावाचो. कोणाकडे चड उलोवप ना. फालतू गजालींकडे लक्ष दिवप ना. असल्या मनशांचेर पोक्याचें लक्ष रोकडेंच वतालें. तांचेकडे दोस्ती करचीशी ताका दिसतालें.

शेटीलो हो भाचो इंग्लीश शिकतालो. इस्कोलाक वतना जायते फावट तो हॉटेलांत येतालो. आपलीं पुस्तकां मेजार दवरून आपल्या आवडीचें खाण खावंक मेजार बसतालो. एक दीस पोक्यान सहज ताच्या एका पुस्तकाक हात घालो. उगडून पळे जाल्यार इंग्लीश उतरांचें भाशांतर मराठीन केल्लें आसा. शिवाय पुस्तकांत तीनय तरेच्यो ॲ बी सी आसात. पोक्यान तें पुस्तक आपल्याक मातशें पळोवंक दिता काय म्हूण शेटील्या भाच्याक विचारलें. ताणें तें खोशेन पोक्याक दिलें. हेच पुस्तकान पोक्याच्या मनांत फुडें शिकपाची वोड निर्माण केली. तेन्ना जरी पोको इंग्लेज शिकूंक शकलो ना, तरी शिकपाची वोड मात ताच्या मनांत घर करुन रावली. मडगांवां पावचे पयलीं, पोक्याक आपूण कसल्या तरी चेपणांखाला वावुरतां अशें दिसतालें. हांगा ताचेर मालकाचें चेंपण नाशिल्लें. उलट पोक्यान आपल्या गुणांनी मालकाची आपुलकी मेळयल्ली. कोणागेरय कामांक रावलो जाल्यार पोको आपल्या मालकाचें हीत चिंततालो. पोक्याल्या ह्या गुणाची जाणविकाय ताच्या हे मालकाक जाल्ली. पोक्यालें मन पळोवन शेटीन पोक्याक आपलोसो केल्लो. पोक्याक फायदो करुन दिवपाचो शेटीन खूबदां यत्न केल्लो. देखीक म्हूण एक घडणूक म्हाका हांगा दिनशी दिसता.

एकदां शेटील्या एका इश्टान जांबावले शिगम्याक च्याये हॉटेल घालें. ताका एक वोर्डरवालो जाय आशिल्लो. शेटीन पोक्याक धाडलो आनी एक रात आनी एक दीस काम करपाक पोक्याक वीस रुपये दिवंक लायले.

शेटीलो पोक्याचेर सगल्याच बाबतीत पुराय विश्वास आशिल्लो. बाप्पान तर पोक्याक खूबदां आपूण जेवणाक वच्चे वेळार गल्ल्यार बसयल्लो. बाप्पा आनी शेट सोडून आनी कोणाक गल्ल्यार बशिल्लो कोणे पळोवंक नाशिल्लो. पोक्याक गल्ल्यार बसोवन एके तरेन ताचो मालकान सम्मानच केल्लो अशें म्हणूंक जाय.

पोको मडगांवां रावन खूबशो नव्यो गजाली शिकलो. ताका लागून ताच्या

जिविताक एके तरेचें बळगें आयलें.

पोको मडगांवां दोन वर्सां रावलो. ताका थंय आनीक थोडो तेंप रावनशें दिसतालें. पूण ताच्या मुताच्या दुयेंसान ताका चडच सतावपाक कोमेस केल्लें, पूण आपल्या ह्या दुयेंसाचो कोणाक पत्तोय लागूंक दिवंक नाशिल्लो.

पोक्यान आपूण सोडून वतां म्हूण बाप्पाक खूबदां सांगिल्लें. पूण शेट आनी बाप्पा पोक्याक सोडूंक तयार जायनाशिल्ले.

एक दीस पोक्याक चलता आसतना खूबच दुखूंक लागलें. ताका कसलेंय तरी वखदाची गरज आशिल्ली. आपलें दुखणें तो आपल्या आवयकच सांगूं शकतालो. एक दीस दुकानार गिरायक थोडें आसा तें पळोवन आपूण काशेद सारखें करुंक व्हरतां म्हणून तो भायर सरलो तो परतो भितर सरलोच ना. कामिज्यांवार बसून ताणें बद्द घर गांठलें. पोक्यान एकदां घेतिल्लो थाराव पक्को आसता. तो थाराव ताच्या फुडल्या जिविताची बुन्याद थारता.

**पो**को मडगांवच्यान घरा येतकीर ताचो झेत पळोवपासारको आशिल्लो. ताचें चलप, उलोवप सगळेंच नवें आशिल्लें. ताचें न्हेंसप नवें, माथ्याची भिसी मोदीची, बोल्सांत लेस, हातांत भांगरा कोराची घड्याळ, परत परत घड्याळाचेर वरां पळोवप, सिनेमांतलीं गाणी गुणगुणप, राजकपूर, देवानंदाच्या झेतान चलप. पोक्याचो हो सगळो थाट पळोवन शांतू सामकें भुरकटून वतालें. पोक्याक मडगांवां धाडून आपल्या जल्माचें सार्तक जालें, अशें ताका दिसूंक लागिल्लें.

पोको घरा येतकीर शांतून ताका जिरे कोथमिरेचें उदक दिवंक कोमेस केलें. मुतूंक वचूंक भायर जागो ना म्हूण मडगांवां तो उदक पिवंक फाट फुडें सरतालो. हांगा ती आडकळ नाशिल्ली. तांबये भरून भरुन दीस भर उदक पियेल्ल्यान पोक्याचें दुखणें पयस जालें. थोड्याच दिसांनी पोको सडसडीत जालो.

पोक्याक मडगांवांसावन येवन आतां एक म्हयनो जाल्लो. सदांच गांवांत हेडून कसो दीस काडटलो? कसलें ना कसलेंय काम केल्यारच पानावेलें जेवण ताका हिताक पडटा हें तो जाणा आशिल्लो. घरांतलीं सगळीं मनशां कसलें ना

कसलें काम करतालीं. दत्तू दीसभर दिसवड्याक वतालो. शांतू घरांतलें काम करतालें. सुकडो आतां आरसाटो मानाय जाल्लो. हेर भांवडांय कसलें ना कसलें काम करतालींच. बेकार आसतालो तो फकत पोको. पोक्यालें बेकारपण दत्तूल्या दोळ्यांत खुपतालें. ताचें आतां केरकेरासांव कोमेस जाल्लें. पोक्याकय खाल्लें अन्न हरगतीक पडनाशिल्लें. पूण करतलो कितें? परत मडगावां वचप हो एकच उपाय, पूण तीय शक्यताय नाशिल्ली. बापायवांगडा वचून मानायपण करतलो जाल्यार लांब दांड्याचें खोरें घेवन शेतांत काम करप ताका जमचेनाशिल्लें. सुकड्याक तें जमतालें.

पोको माया म्हयन्यांत भाटकाराल्या भाटांतले कवाथे शिंपतालो. आतां पावसाचो तेंप लागी पाविल्लो. ताणें भाटांत आतां अळसांदे, भेंडे, वाल, घोसाळीं बी रोवपाची माण्णी केली. पूण तो पोटाचो धंदो जावंक शकनाशिल्लो. आतां जून काबार जावन जुलय म्हयनो लागिल्लो. हे म्हयन्यांत शेतांतलीं कामां बंद आसतात. तेन्ना गांवांत मानायपण करप्यांक तो म्हयनो बेकार काडचो पडटा. पूण पोक्याचो बापूय - दत्तू एक असो प्राणी की ताका बेकार रावप म्हळ्यार ख्यास्त कशी. ताका कसल्या ना कसल्या कामांत गुंतून रावपांतच सूख मेळटा. तो कामाच्या सोदाक आसतनाच एक दीस ताका रुजार मेळ्ळो.

हो रुजार एक कुणबी गावडो. तो माशेलांत एके खणीर कोत्रादान मीन काडटालो. ताका खणीर काम करुंक मानाय - कामेऱ्यांची गरज आशिल्ली. तो दत्तूक सोदीत ताच्या घराकडे आयलो. दत्तूचें काम ताणें पळेल्लें. ताणें दत्तूक तीन रुपये दिसवडो दिवपाचें उतर दिलें. ते भायर सुकड्याकय अडेच रुपये दिवपाच्या उतरान माशेलांत कामाक येवपाचो आग्रो केलो. कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन दोळे तसली भास दत्तूची जाली. दत्तूक आनी सुकड्याक पडटे पावसांत काम मेळ्ळें म्हूण शांतूय खोशेन भरलें. पावसाचे दोन म्हयने पसऱ्यार उदारी करुन ताका कशे भशेन चूल धुंवत दवरची पडटाली. पोक्याक तर ही खबर आयकून माथ्यावेलें वझें ल्हव जाल्ल्यावरी जालें.

दत्तू आनी सुकडो माशेलांत गेले. दोनच दिसांनी सुकडो सायकलीर घालून सेमानाक लागता तितलें सामान घेवन आयलो. कामाक लागनाफुडें तांकां चिटीचेर जाय तितलें सामान मेळटालें. कामाचे पयशे मात हिशोब करुन म्हयन्यान बी तशे मेळटाले. दत्तूक तंबाखूचो चुरोय चिटीर मेळटालो. नुस्त्याक म्हूण

ऑफिसांतल्यान रुपयो दोन रुपये कोथार घेवचेली व्यवस्था आशिल्ल्यान कसलीच आडकळ अशी नाशिल्ली. तो मजेन दीस काडटालो.

पोक्याली मात आतां घराकडे बेकार बसून घालमेल जाताली. ताका आवयकडल्यान खावंक जेवंक मेळटालें खरें, पूण ताच्या तें कशेंच जिवाक लागनाशिल्लें. आपलो बापूय आनी धाकलो भाव काम करतात आनी आपूण घरा बसून फुकट खातां, ही कल्पनाच ताका सहन जायनाशिल्ली. ताका उठ्ठा-बसतां चिमटे येताले. रातची केदो वेळ न्हीद पडनाशिल्ली. ताका दिसतालें सद्याचें बरें आसा, पूण फुडें आपलें कशें जातलें ? शांतूय तेंच ताका उठ्ठा बसतां उलोवन दाखयतालें. आनी तें ताच्या मनाक लागतालें.

पोक्याक कसलेंय काम करुंक उणेपण दिसनाशिल्लें. पूण आपूण बापायभशेन जल्मभर मानाय म्हूण जगचोना किर्तेय तरी करुन दाखयतलों, अशीं तो सपना पळेतालो.

पोक्यान मिर्गार रोयल्ल्या भाजीपाल्याक, शिरवाणीची पयली तारीख येता म्हळ्यार फुलां फळां आयिल्लीं. घोसाळ्यांक हळदुवीं फुलां फुलून मदें मदें एकेक वात दिसूंक लागिल्ली. भेण्यांकय सोबीत फुलां आयलीं. भाटभर घाल्ल्या अळसांद्याक फुलां आयिल्लीं. पोक्यान तांची खूब म्हळ्यार खूबच कुयदाद केल्ली. ताचीं भरपूर फळां ताका मेळूंक लागिल्लीं. ताणें दुदयाच्यो दोन-तीन बियो रोयल्ल्यो खऱ्यो पूण फुडें तांचे कितलेशेच दुदी घरापाडसार लोळूंक लागले. हें पोक्याक धरतरीमांयकडल्यान लिसांव आशिल्लें, सोतंत्र बुद्दीन केल्लें काम गोड फळां दितात हाचें.

एक दीस सुकड्यावांगडा पोको माशेलांत गेलो. ताणें मिनाचो अणभव हे पयलीं घेतिल्लोच. आतां हांगा कशें चलता तें पळोवपाची इत्सा जाल्ली.

पोको माशेलांत पावतकीर तोंक आनी माशेल हाचेमदीं रस्त्याकुशीकच दोंगुल्लेचेर एक खण दिसली. खणीचे दोनशेक मेत्रां दिसतांशीचेर एक लांबलचक चुट्टानी शिविल्लो गवळ आशिल्लो. आंयताराचो दीस आशिल्ल्यान गात्रड्यांच्यो कितल्योशोच बायलो रांगेन उवो काडूंक बशिल्ल्यो पोक्यान पळेल्यो. सुकड्यान ही आमची खण! अशें म्हणिल्ल्यान पोक्याक दिसलें सुकडो ते मांगरांत वतलो. दत्तूय थंयच आसतलो अशें पोक्याच्या मनांत आयलें. पूण सुकडो ताका रस्त्याच्या सकयल्यावाटेन आशिल्ल्या खोपटेंत घेवन गेल्लो. ही

खोपटी एका हिन्दु कुटूंबाची आशिल्ली. हें कुटुंब थंयचेंच आशिल्लें. एक म्हातारी, तिचो पूत-सून आनी दोगां भुरगीं. रुजारीन दत्तूक आनी सुकड्याक हेच खोपटेंत रावपाक जागा दिल्ली. खोपटेच्या धनयान तांकां भायले चोवकेर रांदपाक, न्हिदपाक आनी उठूंक -बसूंक जागा दिल्ली. मांगरांतल्या किरिस्तांव गावड्यांमदें ह्या दोन हिंदवांचें जमचेंना, हे खातीर रुजारीन ही व्यवस्था केल्ली.

ही खोपटी आसुनय पोक्याक हांगा वेगळेंच चित्र दिसलें. पोक्यान असल्यो खोपट्यो हाचे पयलीं खूब पळेल्ल्यो. खोपट्यांनी चडशो गाळी-फस्ती, झगडी-केस्तांवां पळोवंक मेळटा तशें हांगा कांय नाशिल्लें. सगळें घर शांतकायेन भरिल्लें. घराचो मुखेल इल्लें कोपाचें मारतालो खरो पूण ताची इल्लीय जाग नासताली. पळोवंक तर सामको सांत दिसतालो. ताची बायल मात्सी तिडकीची आशिल्ली जावंये. पूण दाखोवन दिनाशिल्ली. भुरगीं तर थंड आनी मोगाळ.

पोक्याक पळोवन घरांतल्या सगल्या लोकांक खोस जाली. जण एकल्यान पोक्याची आस्थेन खबर घेतली. पोक्याक खूब बरें दिसलें. असलींय मनशां हें संवसारांत आसात हाची जाणविकाय ते दिसा पोक्याक जाली.

दुसरे दिसा पोको बापायवांगडा खणी पळोवपाक गेलो. पोक्यान हे आदीं मँगनेज कशें काडटात हें बरें बारीकसाणीन पळोवन घेतलें. मँगनेज काडटना चड माती भायर मारची पडटा. हातोड्यांनी म्हाल सोर्ट करचो पडटा तसो आयर्न ओर करचो पडना. हांगा फातर फोडून ट्रकांनी भायर धाडटाले. पूण थंय एक ट्रक मँगनेज काडूंक कितलेशे दीस खर्च करचे पडटाले. मँगनेज फोडटासतना उज्याकेणां भायर पडटालीं तशें आयर्न ओराचीं नासता.

पोक्यान दीसभर खणीर रावन सगळें काम पळोवन घेतलें. लवंगा-पारयो घेवन मानाय सुरंगा बुराक कशे काडटात, ते दारू घालून कशें भरतात, जेलेटीनांत डेटोनेटर सुतान कशे भरतात, बुराक खेचतना काळजी कशी घेवंची आसता, इतलेंच न्हय तर पिकास, पारय, घण बी कशे तरेन उपेगांत हाडचे आसतात हाचें कौशल्य पोक्यान आत्मसात केलें.

हे आदीं पोको मोटवे दांड्याच्या खोऱ्यांन खडी भरपाचें काम जाणा आशिल्लो. आतां ताका सगळे तरेचीं हातेरां- चलोवपाचो, हाताळपाचो आत्मविश्वास जाल्लो. आतां ताका दिसूंक लागिल्लें आपूण मानायपण बरे तरेन करुन पोट भरुंक शकतां. हाचेपरस बरें काम मेळोवपाचीं सपनां पळोवन तीं

साकार करपाचो यत्न करुंक हरकत ना. पूण तो मेरेन बेकार रावन लोकां तोंडाकडे पळेत जीण घालवप हीं शाणेपणाचीं लक्षणां न्हय. ताणें रुजारीक तेन्नाच सांगून दवरलें, आपूण येता ते बुधवाराक कामाक येतां म्हूण!

उतरा परमाण पोको कामांक लागलो. रुजारीन ताका खणपाक पिकास दिलो. पोक्यान कां कूं करिनासतना पिकास घेतलो. सुर्वेक पोक्याक माती भरपाचें काम मेळिल्ले जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. माती भरतां भरतांच हेर सगळीं हातेरां हाताळून तो तांची संवंय करुन घेतलो आशिल्लो. पूण आपल्याकडे जायनां म्हणपाचें उतर पोक्याल्या गाठीक नाशिल्लें.

हांगा आनीक एक पोक्याविशींची गजाल सांगनशी दिसता. कांय दिसां फाटी एके सिमिनारीचें बांदकाम चलतालें. थंय मानायांक दोन रुपये दिसवडो मेळटालो. कामाची देकरेक करपी मिस्तिरी शेजराकच रावतालो. पोक्यान ताची आमिजाद केली आनी ताचे वळखीन तो सिमिनारीच्या कामाक गेलो.

पोक्यान सुर्वेक हल्कें फुल्कें काम केलें पूण तिसरे दिसा सिमेटाची पोती माथ्थ्यार घेवन सपणां चडपाची पाळी पोक्याचेर आयली. पोक्यान पोती माथ्थ्यार घेतली. दोन सपणां चडिल्लो मात ताचे पाय कडकडूंक लागले. तकली झेलूंक लागली. तिसरे सपणाचेर पांय दवरचें पयलींच पोतयेसयत पोक्याची ताडीमिडी जाली. पोक्याची मान मुरगळ्ळी. तो काम सोडून घरा आयलो.

पोती माथ्थ्यार घेवचे पयलीं आपल्याकडे जायना म्हणिल्लें जाल्यार पोक्याची ही गत जावंची नाशिल्ली. सदच्या भशेन आजय खणीवेलें काम कोमेस जालें. पारयांनी खडपांक बुराक पडूंक लागले. मानाय कायलींनी माती भरूंक लागले. शेण्याचेर ठण्-ठण् करुन घण पडूंक लागले. गावडे गावड्यांची फकणां करुंक लागले. सगले आपापलीं कामां फोर्त-जानोत करताले.

पोक्यान पिकास हातांत धरून खणूंक कोमेस केलें. पयलो पिकास मारिनाफुडें तो आडवो पडलो. दुसरो मारलो तोय आडवो पडलो. तिसरो मारचे पयलींच थंय एका फातरार बसून आशिल्ल्या रुजारीन दत्तूक साद घालो.

'दत्तू दादो, मुक पोक्यागे बोरें दिसोना. तेकोंडें येसो काम जाईत येशें दिसोत तुका?' रुजारील्या उतरांनी पोक्याले तकलेर कोणेय तरी दांडो मारिल्ल्यावरी जाल्लें. सगल्या लोकांमदें म्हणिल्लीं उतरां पोक्याक लागलीं. तो थोडो वोगोत भेंडार हात धरुन चिंतीत उबो रावलो. मागीर ताणें पिकास असे तरेन जमनीत

रोमलो की तो आडवो तर पडलोच ना, पूण मातयेंतलो एक सादाराण मोटो फातर घेवनच भायर आयलो.

पोक्याक आतां खणपाची खुबी कळिल्ली. ताणें आनी आनी वोगोत केलो ना. पिकासाचेर पिकास मारुन माती आनी फातर फसफसीत वयर काडीत रावलो. पयले दोन पिकास आडवे पडले खरे, पूण तेच पोक्याचे गुरु थरले.

खणीचेर काम करतना मानाय-कामेऱ्यांचें उलोवप, हांसप, पानां खावप, विडयो वोडप, मदेंच उठून मुतूंक वचप, हे सारकीं कामां चलत आसतालीं. पोक्याल्या तोंडांतल्यान एक उतर भायर पडनाशिल्लें. तो खापऱ्याभशेन काम करीत रावतालो. दत्तू ताका मात्सो विसोव घे म्हूण दोळ्यांनी शिटकायतालो. पूण पोक्याचें ताचेर लक्ष नाशिल्लें. आपलें काम बरें आपूण बरो, आपले कामाची खोड कोणे काडची न्हय, पोको कामचोर, आळशी अशें कोणे म्हणचें न्हय अशें ताका दिसतालें.

पोक्यान रुजारीलो मानाय म्हूण दोन सेमानां काम केलें. फुडें फुडें ताका दुसऱ्याच्या धेकाखाला काम करप मानवनाशें जावंक लागलें. ताका दिसतालें आपल्याचेर कोणेच शेक गाजोवचो न्हय. कामाविशी ताका कोणे कितेंच विचारचें न्हय. पूण तुमचो आमचो अणभव असो आसा कि जो मनीस प्रामाणिक रावन काम करता, ताचे फाटीकच मालक लोक चड लागतात. मनीस झगडेंकार आसूंक जाय. खिणाक दोळे मोटे करप्याक सगळेच भितात. तांचे वाटेक वचूक फाटीं सरतात.

कसल्याय कामांत मनशाक सातिस्फासांव मेळूंक जाय. पोको हांगा काम करतालो खरो, पूण ताका जाय तें सातिस्फासांव मेळनाशिल्लें. ताका कामांत सोतोंत्रकाय मेळूंक जाय आशिल्ली. जाय तेन्ना कामार येवप, घाम गळसर काम करप आनी केन्नाय खंयीं वचप. ते खातीर ताका कितें करचें पडटलें? कोंत्रादान काम घेवप. इतलें काम कर, तितले पयशे घे. मागीर कोणाक कोण कांयच विचारचोना. ताका दिसलें, रुजार काम करता तशें आपणें केल्यार?

रुजार कोंत्रादोर आशिल्लो. ताका एक ट्रक म्हाल काडूंक पंदरा रुपये मेळटाले. शिवाय एक गाडी मातयेक दोन रुपये आनी करपांक तीन. म्हाल कांय मेळ्ळोच ना जाल्यांर माती आनी करपां भायर वडोवंक थोडे तरी पयशे मेळटाले.

रुजारीकडे मानाय आनी कामेऱ्यां मेळून धा-बारा लोक कामांक आशिल्लो. ते भायर दत्तू, सुकडो आनी पोको. चडसो लोक रुजारीलीं सोयऱ्यांच आशिल्लीं. घरचींच मनशां. भाव-भयणां, मावशो, मावसभाव बी आशिल्ले. पोक्यान चितलें, आपणेंय सात-आठ मनशां घेवन वेगळो ग्रूप केल्यार? तो संदीची वाट पळेत रावलो.

एक दीस खणीवेल्या मास्तराक कोणाली तरी बार्ज भरुंक मनशां जाय आशिल्लीं. ताणें रुजारीक मनशां धाड म्हूण सांगलें. रुजार मनशां धाडूंक कोंकोर्द जालो. पूण पोक्याक बार्जीर वचप आवडलेंना. सगळे लोक गेले. पोको मात गेलो ना. दुसरे दिसा मास्तरान पोक्याक बरोच तापयलो. पोकोय वोगी रावलोना. पोक्याचीं आनी मास्तराचीं व्हडलीं झगडीं जालीं. पोको तसो सट् करुन कोणाच्या तोंडाक लागपी न्हय. पूण मास्तर चड सुबेज आशिल्लो. ते भायर रुजारीनय ताचीच कड घेतली. पोक्याकय तेंच जाय आशिल्लें. पोक्यान दुसरे दीस आपलो वेगळो ग्रूप करपाचें थारायलें. तशें करचे पयलीं कोणाचें नुकसान बी जायना मूं, हाचो विचार पोक्यान केलो. दुसऱ्याक मारक अशें काम पोक्याकडच्यान केन्नाच घडनाशिल्लें.

दुसरे दीस शेनवार आशिल्लो. पात्रांव लोक खणीर येवपाचे आशिल्ले. हे पात्रांव लोकय कोमिकच आशिल्ले. दोग किरिस्तांव आनी एक मोयर. तिगय भागाक मीन काडटाले. तांतलो एक सोल्तेर भाटकार आशिल्लो. दुसरो इस्क्रिवांव आनी तिसरो मोयर तो टेक्सीड्रायव्हर. टेक्सी ताची सोताचीच आशिल्ली. हे तीनय पात्रावांचें एकमत जातालें काय ना तें देवाक खबर. पूण सेरवेज पिवपाच्या वोगतार मात तांचो एकचार घट्ट आसतालो. सेमना-सेमनाक लोकांक पाग घालपाक तांका तांक नाशिल्ली. पणू म्हयन्यातल्यान एकदां मात सगळ्यांचीं कोंतां जातालीं. हां, म्हयनोभर पसऱ्यावेलें सामान उदार घेवचेली व्यवस्था मात करुन दवरिल्ली तीनय पात्रांवांनी!

शेनवाराचे पात्रांव आयले आनी पोको भियेत भियेत माथें खरपीत तांच्या मुखार उबो रावलो. मोयर पात्रांवाची नदर पोक्याचेर रोकडीच पडली. ताणें पोक्याची विचारपूस केली. पोक्यान आपल्या मतींतलें सगळें ताका सांगून मेकळें केलें.

पोको आपलो लोक हाडटा तें आयकून मोयर पात्रांव खोशी जालो. ताणें ती गजाल भाटकार पात्रावांच्या कानांत सांगली. ताणें आनी आनी वोगोत

केलोना. बोल्सांतले शंबर रुपयांचे सयशें इस्कुद काडून पोक्याल्या हातार दवरले. पोको मुयत ओब्रिगाद म्हणून खोशेन बिराडार गेलो.

मोयर पात्रावांन मास्तराक वोर्द सोडली कि पोक्याक रुजारीच्या खणीक तेकूनच सुवात दिवंची.

आयतार आशिल्ल्यान लोकांची जमवाजमव करुंक आयतोच वोगोत मेळ्ळो. पोको धरुन तागेले तीन मानाय जाल्ले. बिराडकार आनी तागेलो पूत आनी धूवय पोक्याकडे काम करुंक तयार जार्ली. बिराडकाराल्या भावाले दोन पूत आशिल्ले, तांकांय पोक्यान आपल्या पंगडांत घेतले. हे पांचय लोक दुसऱ्याले खणीर काम करताले. रुजारीकडे गांवचींच दोन किरिस्तांव मनशां भावभयणां काम करतार्ली. ती पोक्याल्या पंगडांत काम करुंक तयार जार्ली. तांची एकच अट आशिल्ली ती म्हळ्यार आपल्या म्हाताऱ्या बापायकय कामांक घेवंचो.

पोक्यान आपलो पंगड तयार केला हाची रुजारीक मातय कल्पना नाशिल्ली. सोमराक काम कोमेस जायनाफुडें, मास्तरान पोक्याक नवी सुवात सिनाल करुन दिली. ते मेरेन रुजार कामार येवनाशिल्लो. पोक्याल्या इकरा लोकांनी काम नेटान कोमेस केलें.

इतले म्हणसर थंय रुजार आयलो. अकस्मात हो नवो बदल पळोवन तो चाट पडलो. तागेर्ली दोन मनशां पोक्याल्या पंगडांत काम करतात तें पळोवन ताणें तोंड येदेशें केलें. पोक्यावांगडचें झगडें ताका म्हारग पडलें.

पोक्यालें काम आतां जोरान चलूंक लागलें. पोको आतां मानायांचो पात्रांव जाल्लो. पूण रुजारीभशेन फातरार बसून पायें हालयनाशिल्लो. ताचे पंगडांत दोन म्हातारे आशिल्ले एक रघू आनी दुसरो आल्सू. दोगय नगापुरतेच आशिल्ले. तांचेकडे माती भरुंक जाय नाशिल्ली, खणूंक जाय नाशिल्लें. पोक्यान तांचेकडे पारय दिवन तांकां फातरांक बुराक काडपाचें काम दिलें. तांचेकडल्यान दिसांतल्यान एक लेगीत बुराक काडूंक जाय नाशिल्लो. फकत ते पारय हालयत रावताले. तें पळोवन रुजार मात खोशेन भरतालो.

दत्तू दोनय म्हाताऱ्यांलें काम पळोवन पिक्रार जातालो. दत्तू आतां पात्रावांलो बापूय जाल्लो. ताका आनीक एक फीत चडिल्लें. तो आतां मानाय-कामेऱ्यांचेर देखरेकय करुंक लागिल्लो.

दोन म्हाताऱ्यां मानायांक लागून आपल्याक लुकसाण जाता हें पोक्याक

खबर आशिल्लें. तें लुकसाण भरुन काडपाक तो आंपूण सोता दोब्राद काम करतालो.

पोक्यालें काम म्हयनो-दोन म्हयने चल्लें. मागीर ताचे खणीवेलो म्हाल सोंपलो. फकत माती-फातर उपसून लोकांचो पगार भरसारखो नाशिल्लो. मास्तरान ताका आतां खोलायेक म्हाल मेळटा तसली इल्ली सुवात दिली. पूण थंय फकत एक-दोन मानायंच काम करुंक शकताले. ताणें थंय दत्तूक आनी सुकड्याक कामाक लायले. हेर मानाय-कामेऱ्यांक काम दिवंक पोक्याकडे आतां सुवात ना जाली. तो बेजार जालो. कितें करचें तें कांयच समजना जालें ताका. दोन दिसांत कसलीतरी व्यवस्था करुंकच जाय आशिल्ली. ना जाल्यार लोक दुसरेकडे वचपी आशिल्ले.

आल्सू, गांवकार आशिल्लो. ताका गांवांत खंय कितें आसा तें खबर आशिल्ली. आनी मिनेरालें मानीफेस्त व्हडलें आशिल्लें. ताणीं आपल्या कोंत्रादारांक सांगून दवरिल्लें. तुमकां जाय थंय नवी सुवात सोदून काडात. आमकां म्हाल मेळ्ळो म्हण्टकीर जालो.

पोक्यामुखार दोंगोर पडिल्लो आशिल्लो. व्हडलीं व्हडलीं तळपां आनी खडपां दिसतालीं. पिशेपणां देव जाणां अशें म्हण्टात. पोक्याक दिसलें आपणें नवे म्हालाचो सोद घेवचो. ताणें आपली येवजण आल्सूतिवाक उलोवन दाखयली. पावणशें वर्सांचो म्हातारो आल्सू, पोक्यावांगडा म्हाल सोदूंक तयार जालो.

पोक्यान खांदार घण घेतलो. आल्सून हातांत पाळ घेतलो आनी दोगय मिनासोद घेवंक दोंगरार गेले. तांणी सगळो दोंगर माड्डयलो. पूण मीन खंय सांपडलें ना. निमणे आदलेच सुवातेक तेकून दोनशेंक मेत्र दिस्तांसीचेर पोक्याक कांय चकचकीत फातर दिसले.

दुसरे दिसा साजू नांवाच्या मानायाक घेवन पोक्यान हे नवे सुवातेर फोणकूल मारलें. पूण थंय आयर्न ओर नाशिल्लोच. मेळटाले ते मँगनेसचे चकचकीत फातर. पोक्याक मँगनेस आनी आयर्न हाचो फरक कळटालो. दीसभर खणून पोक्यान अर्दी कायल सुमार चकचकीत फातरांची रास केली.

पोक्यान नवी खण मारल्या ती सगळ्याक फामाद जाली. सगल्यांत पयलीं खण पळोवंक रुजार आयलो. मागीर एकएकटोच येवन खण पळोवन वचूंक

लागलो. दत्तू आनी सुकड्यान खण पळेली. सगळे जाण खण पळोवन वताले पूण कोण कांयच उलयनाशिल्लो.

पोक्याली नवी खण मोयर पात्रांवाल्या कानार गेली. तो उमेदीन भरलो. तो आपल्यावांगडा रुजारीक घेवन पोक्याली खण पळोवंक आयलो. पोको आनी साजू कामांत गुंतिल्ले आसतनाच पात्रांव धडेर वोग्गी रावन खणीचो नियाळ करुंक लागलो.

"क्यों पोक्या, तूने नवी खण मार्‍या? माल मिला मरें?" पोक्यान तकली वयर केली. पळे जाल्यार मोयर पात्रांव. पोको वयर आयलो. पात्रांवाक सलाम केलो. पात्रांव खूश जालो.

"पात्रांव, मागनेज मेळोंक लागलां. हें पळय चकचकता." पोक्यान इंफोरमासांव दिलें.

"बरें मेळ्ळां मरे तुका. एक दीस तूं व्हडलो मनीस जातोलो. चालू दवर." मोयर पात्रावालें चालू दवर उतर आयकून पोको फुल्लो. खरें म्हळ्यार पोको आनी मोयर पात्रांव दोगय अव्यवहारी आशिल्ले. पोक्याली ही खण पळोवन रुजार मात गालांतल्या गालांत मुमुरक्यांनी हांसलो.

पोक्यामदें उतउतकाय आशिल्ल्यान तो जायते फावट फसला आनी सालवारय जाला. हे खेप मात पोक्याली जिद्द ताका साप्प नडली.

पोक्याली खण पळोवप्यांत जयराम नांवाचो थंयचोच एक मनीस कोंत्रादान मीन काडटालो. ताणें पोक्याक सांगिल्लें, तुवें हें काम अशेंच चालू थेयल्यार तूं लुकसानांत पडटलो. तेन्ना तूं हो नाद सोड. दत्तूकय पोक्याली जिद्द मानवलीना. ताणें पोक्याक खूब समजायलो पूण ओमथ्या कळशाक उदक. दत्तून पोक्यापरस कितलेशेच पावसाळे चड काडिल्ले. ताका फायद्या-लुकसाणाचो अणभव चड आशिल्लो. तो जाणां आशिल्लो जितलो म्हाल काडून ट्रक भरता तितल्याचेच पयशे मेळटले. करपां-माती काडून राशी घालप हें कोंत्रादोराचें काम न्हय.

आनी निमणें घडूंक जाय तेंच घडलें. पोक्यान दोन सेमाना खण खण खणलें. माती आनी करपां उपस उपस उपसलीं. पूण म्हालाचो पोत्तो लागलो ना. निमणें मानायांकच पोक्याची काकुळट दिसली आनी पोक्याक काम बंद करुंक लायलें.

पोको आपलो हट्ट सोडीना तें पळोवन दत्तू आनी सुकडो पोक्याक एकट्याक सोडून घरा आयले. ताणीं तशें करुन बरेंच केल्लें. ना जाल्यार फुडें तांचेर उपाशीं

पडपाचो वोगोत येतलो आशिल्लो.

कांय मनीस आपल्या वेव्हारांत रेक्त आसतात. कोणाक फटोंवपाची, नाडपाची तांकां वान्सः नासता. पूण केन्ना केन्ना तांच्या हाताभायल्यो घडणुको घडटात आनी मागीर तांकां लोकांमदें फटकिरे जावन रावचें पडटा.

पोक्याक कोणाक नाडपाची इत्सा नाशिल्ली. तो आपली बुद्द आनी धाडस हांचो उपेग करुन आपूण आसा ते परस फुडें वचूंक सोदतालो. आनी तशें करप वायट अशें कोणाच्यान म्हणूं नज.

दत्तू आनी सुकडोय पोक्याक सोडून वतकीर हेर मनशांचो पोक्याचेर विश्वास कसो उरत? पोको करता तो अव्यापारेशु व्यापार अशें ताच्या वांगड्यांक दिसलें आनी तेय एक एक करुन फाटीं सरले. केल्ल्या कामाचे पयशे पोक्याकडच्यान फुडें मेळतच हाची कोणाक खात्री नाशिल्ली. आतांच तो तांकां देणें जाल्लो.

सगळे सोडून गेले उपरांत आपूण एकटोच काम करुन थोडे पयशे जमयतलों आनी लोकांचें रीण फारीक करतलों अशें पोक्यान थारायलें.

ते दिसांनी किरिस्तावांलें कसलें तरी फेस्त आशिल्लें. ताका लागून रुजारीले सगले लोक आठ धा दिसांखातीर घरा गेले. पोक्याक आतां आयतेंच निमित्त मेळ्ळें. पात्रांवाक आनी लोकांक सांगूंक की आपलेय लोक फेस्ताक गेल्यात म्हणून.

सगळी खण आतां रिकामी पडिल्ली. मास्तरय घरा गेल्ले. ऑफिसय बंद केल्लें. पोको एकटोच सक्काळीफुडें वचून काम करुंक लागलो. आतां ताका केन्ना येता आनी केन्ना वता म्हूण कोण विचारुंक नाशिल्लो. पोको एकटोच आशिल्ल्यान तो आपले सुवातेर आवंताद काम करुंक शकतालो. ताणें आपल्याक जाय जाय तेन्ना खोरें, पिकास, घण, पारय बी हातेरांचो उपेग केलो. सेमान भर काम करुन एकट्यान दोन-तीन ट्रक म्हालाची रास घाली. जस जसी रास वाडटाली, तसो तसो पोक्याक काम करुंक नेट येतालो. पोक्याक आतां आपली ताकत कळून आयिल्ली.

रुजारीले लोक कामार येवचे पयलीं, एक दीस पात्रांव त्रिकूट खणीर कित्याक तरी आयलें. सगलो लोक घरा गेल्लो आसतना पोको एकटोच खणोर काम करता तें पळोवन तांकां अजाप जालें. तांणी पोक्याक खणींतलो वयर आपोवन हाडलो. कोण नासतना एकटोच काम करपाचें ताका कारण विचारलें. पोक्यान

फोडून घाल्ली फातरांची रासय तांणी पळेली. येदी व्हडली फातरां रास एकट्यान फोडली हें आयकून तिगय पात्रांवाक अजाप दिसलें.

आपूण एकटो काम कित्याक करतां तें पोक्यान सांगचें पयलींच मोयर पात्रांवान पोक्याले नवें खणीची गजाल आपल्या वांगड्यांक सांगिल्ली. आतां ती कसल्या कारणांक लागून पोक्याक बंद दवरची पडली हें कळटकीर पोक्यालो हावेस आनी कामाची तळमळ तांच्या लक्षांत येवंक वोगोत लागलोना. तिगय पात्रांव कितें तरी आपले भितर फुतफुतले. मागीर इस्क्रिवांव पात्रांवान आपलें पास्त उकतें करुन दोन हजार इस्कुद काडून पोक्याल्या हातार दवरले.

इस्कुदांचीं नोटां हातार पडनाफुडें पोक्याच्या दोळ्यांत खोशेचीं दुकां भरुन आयलीं. हाकाच म्हण्टात देव पावप, हाकाच म्हण्टात प्रयत्ना अंती परमेश्वर!

इस्कुद हातार पडना फुडें पोक्याल्या हातांक पडिल्ल्या खिणांची दुख खिणांत पयस जाली. ताच्या माथ्यावेलो पेज उणो जालो अशें ताका दिसलें. ताणें आनी वोगोत केलोना. पांचशे इस्कुद आपल्याकडे दवरुन, देड हजार थंयच्या मानांय-कामेऱ्यांक वाटून रिणमुक्त जालो.

पोक्यान मूर्खपणा केल्लीं खरीं, पूण ताच्या फाटल्यान कोणाक नाडपाचो, फटोवपाचो, टोपी घालपाचो ताचो हेत नाशिल्लो. ताचें मन साफ आशिल्लें. आनी साफ मनाच्या मनशाक देव पावता. देव मन पळोवन धन दिता म्हण्टात तें हाकाच लागून.

फुडें ते मिनेरांल्या अडचणीक लागून खण बंद पडली. पोक्याक आपसूक माशेलांचो घरा येवंचो पडलो. इतलें सगळें घडलें तरी तो रिणाक पडलोच. हें रीण ताणें फुडें फुडें फारीक केलें.

दत्तू आनी सुकडो घरा येवन मानायपण करुंक लागले. तांचें आपलें बरें आशिल्लें, हेवटेन काम कर तेवटेन पयशे घे. आयलें-पयलें कांयच नाका. ठेविलें अनंते तैसेची रहावे ही दत्तूली वृत्ती. सुकडोय आपल्या बापायच्याच फावोरार आसतालो. पोको सदांच मळबांत उडपाचीं सपनां रंगोवपी. आपूण हेरांऊन वेगळो आसचो अशें पोक्याक दिसतालें. ताका लागून कश्ट आनी धडपड करपाक तो सदांच तयार आसतालो. कामां करतना चुको घडटाल्यो. पूण पोको त्यो सुदारल्याबगर फुडें वचनाशिल्लो.

पोक्याल्या हे नवे गांवांत पावसांतले दोन म्हयने सोडले जाल्यार कसलीं ना

कसलीं शेतांतलीं कामां आसतातच. ताका लागून मानायांक गांव सोडून भायर कामांक वचपाची गरज नासता. तरी मिनाक एकच फायदो आसतालो तो म्हळ्यार एकाच जाग्यार एकच काम करुन शेनवारादिसा कचकचीत पयशे मेळटाले. गांवांत कांय मनीस काम करुन घेताले आनी पयशे व्हरुंक आयज यो फाल्यां यो करताले. ही गजाल पोक्याक साप्प माननाशिल्ली.

तरी पोको आपल्या बापायवांगडा शेतांत मानायपण करुंक तयार जालो. पोक्याली तयारी पळोवन दत्तू खोशेन भरलो. दुसरे दिसा रोकडोच दत्तून पोक्याक एका शेतकारागेर शेतांतली आकेर काडूंक धाडलो. हो शेतकार दत्तू आनी सुकडो काम बरें करतात म्हूण तांचेर खूश आसतालो. पोको दत्तूलो पूत. तोय सुकड्याभशेन कामाक हुशार आसतलो म्हूण पोक्याक कामां सुवात दाखोवन शेतकार आपल्या कामांक गेलो.

आकेर कशी काडटात तें दत्तून पोक्याक सांगिल्लें. पूण पोक्यान तें काम प्रत्यक्षांत केन्ना पळोंवनाशिल्लें. रेंवट शेतांनी बांदावेली माती कोसळून शेतातं पडिल्ली आसता. ती खोऱ्यान वयर उडोवन खांची भरपाच्यो आसतात. शिवाय शेताच्यो देगो खणून जमीन मोव करुन ती मेळोवन घेवपाची आसता. पोक्याक तें समजलेंना. ताणें देगेक फोणकुलां मारुन माती बांदार उडयली आनी खांची तशो दवरल्यो.

साडेबारांक इगर्जेच्यो घांटी वाजतात. मानाय-कामेऱ्यांनीं तेन्नाच जेवणाक वचपाचें आसता. शेतकार पोक्याक जेवणाक वच म्हूण सांगूंक शेतांत वच जाल्यार कितें पळेतलो? पोक्यान नाका आशिल्लेंच केलां. काम खूब केलां पूण उपेग नाशिल्लें. शेतकाराचें पित्त खवळ्ळें. ते भायर ताणें जेवणां वोगतार इल्लें कोपटेल मारिल्लें. ताणें फाटीं फुडें पळेनासतना आवयवेल्यान-भयणीवेल्यान पोक्याचेर गाळयांचो शिंवोर केलो. पोक्याच्यान त्यो बुरशो गाळी आयकूं नज जाल्यो. ताणें आनीक वोगोत केलो ना. खोरें थंय उडयलें. दोनय कानांत बोटां घालून ताणें बांदावेल्यान एकच धांव मारली आनी घरा भितोडे वचून दुकां झरीनी रड रड रडलो. ताका जेवंक - खावंक कांयच नाका जालें. तेन्नाच्यान ताणें आपूण शेतांतलें मानायपण करचोना अशी मनांत खुणगांठ मारली.

आपल्याकडे शेतांतलें मानायपण जमलें ना म्हूण पोक्यान हार मानूंक नाशिल्ली. खरें म्हळ्यार शेतांतले कसलेंय काम करुंक कसब आनी हिकमत

लागता. खोरें कुदळीन जमीन खणपाक एक तरेचो झेत जाय पडटा. ना जाल्यार खणप्याचेर पांय मोडून घेवपाची पाळी येता. आनी पोको तर कसलेंय काम हार मानून मदेंच सोडून दिवपी न्हय. ताका जाय जाल्यार तो आकेरच न्हय तर कसलेंय काम मन लावंन शिकूंक शकतालो. पूण ताका फुडें मानायपण करपाचेंच नाशिल्लें. ताकाच लागून ताणें शेतांतल्या कामाची कटकट सोडून दिल्ली.

पोक्यान शेतांतलें काम सोडलें खरें, पूण तो बेकार मात रावलोना. कोणालो झड बांद. कोणाली खोपटी शिंव, कोणाले नाल्ल सोल, कोणाल्या भाटांतल्या माडांक आळीं काड, असलीं कामा ताणें चालूच दवरलीं. तरी असलीं कामां पोको फुडाराचो धंदो म्हूण करिनाशिल्लो. आनी कांयच उपाय ना म्हूण तो तीं करतालो. ताका दिसतालें आपणें कितेंय करचें. पूण तें सोतंत्र धंदो म्हूण करचें. कोणाच्या पांगेंत रावप, कोणाच्या धाकाखाला काम करप पोक्याक मातय आवडनाशिल्लें.

पोक्याक दिसतालें कोणाल्या देपिसावांक रावनासतना आपणें शेत रोवचें, शेतांत वायंगीं, कणगां, कांदे, मिरसांगो बी रोवन काडच्यो. पूण ताचेकडे सोताचें शेत नाशिल्लें.

ते वर्साचो पावस सोंपलो. पूण पोक्याच्या तकलेंतलें चक्र मात चालूच आशिल्लें. एक दीस तो बल्कावांत बशिल्लेकडे आसतना गोपीलो शिवदास खंय तरी वता तो पोक्यान पळेलो. हे फुडेंय ताणें पळेल्लो ताका पूण आज ताच्या तो तकलेंत भरलो. पोक्याक दिसलें आयज शिवदासाकडे उलोवंचो. तो धांवलो आनी ताणें शिवदासाक बांदार गांठलो.

पोको शिवदासाक पयलीं चडसो वळखनाशिल्लो. कित्याक शिवदास चडसो मामागेर रावतालो आनी केन्नाय घरा आपल्या आवय-बापायक भेटूंक येतालो. कित्याक लागून देवाक खबर, तो सदांच आपले गुर्मेतच आसतालो. लोकांकडे मेकळ्यापणान उलोवंक ताका लज दिसताली कि तो सोताक मोठो समजतालो, ताची ताकाच खबर. म्हऱ्यांत पावतकीर पोक्यान ताका शिवदासबाब. म्हूण नमळातयेन उलो मारलो. शिवदासान फाटल्यान वळून पळे जाल्यार पोको!

“दत्तूलो पोको म्हण्टात तो तूं मरे? कित्याक आयिल्लो? कितें जाय तुका?”

“म्हाका तुजेकडे उलोवंक जाय आसलो मात्सो. शिवदासबाब तूं खंय कामांक वयता?”

"हय. हांव रघुवीर शेणयल्या मिनाखणीर सुपरवायझर म्हूण कामांक आसतां, थंय वतां. आतां म्हाका फेरीबोट चुकतली, तुका कितें उलोवंक जाय जाल्यार फुडले आयतरा दिसा घराकडे यो म्हाका मेळूंक, हांव आसतलों."

शिवदास मिनाखणीर सुपरवायझर आसा हें आयकनाबराबर पोक्याल्या मनांत आस जागी जाली. तो आयताराची वाट पळेत रावलो.

रघुवीर शेणय तेच गांवचो मिनेर आशिल्लो. पूण तो मीन बी काडटा ही कोणाक खबर नाशिल्ली. शिवदासाक ताणें आपल्या गांवचो आनी विश्वासांतलो म्हूण सुपरवायझर म्हूण कामाक दवरिल्लो. आनी चोवथी इंग्लीश शिकिल्लो शिवदासय रघुवीर शेणय आपलो बोल्सांतलोच कसो खणीर वावुरतालो.

आयतरा दिसा पोक्यान शिवदासाक मेळोवन घेतलो. वीस वर्सांचो पोको कोंत्रादोर जावंक सोदता तें पळोवन शिवदास मात्सो गडबडलो. तरी ताका लोखणाखणीर काम करुंक लोकांची गरज आशिल्लीच. पोको धा लोकांक हाडूंक तयार जाल्लो. पूण ताका अडवान्स अडेचशें रुपयांची गरज आशिल्ली.

तेन्नाचे अडेचशें रुपये म्हळ्यार आतांचे सुमार वीस हजार. ते तेंपार पन्नास रुपयांनी पोवोन भांगर मेळटालें. तेच पोवनाचो वालोर आतां चार हजार रुपये आसा. पोक्याक शिवदास सारको वळखनाशिल्लो. कंपनीक पोक्याक अडेचशें रुपये दिवंक लायले आनी पोक्यान तड्डक केलें जाल्यार? कोणाचो निर्वाळो कोणाच्यान दिवंक येता?

शिवदासाच्या भेज्यांत कितें चल्लां तें समजवपाची अक्कल पोक्याक आशिल्ली.

"शिवदासबाब, हांव जाणा अडचशें रुपये दिवंक तुका कुस्तार जातलें. पूण तूं भियों नाका. हांव तुका बुडोवचोना आनी तुका लज्जेकय घालचोना. आमी दोगय एकाच गांवचे. एकमेकाक तोंड दाखोवं नाका? हायें असलें काम पयलीं केलां. हांव कसलो मनीस तो तुज्यान माशेलांत वोचोन खबर घेवंक जाता. हांव तुका फोटोवंचो ना. माझेर इस्वास दवर तूं."

पोको अशेभसेन उलयलो कि शिवदासाल्या मनांतली न्यायदेवता जागी जावंची. शिवदासान पोक्याच्या हातांत एक चीट दिली आनी मडगांवच्या ऑफिसांत वचून पयशे घे म्हूण सांगलें, पोक्यान इतलें सांगूनय शिवदासान ताका पन्नास रुपयांचेच इस्कुद दिवपाची शिफारस कंपनीक केली. पयलीं धा लोकांक

खणीर हाडून सोड आनी उरिल्ले दोनशें रुपये मागीर व्हर म्हणपाचें शिवदासान ताका सांगलें.

शिवदासान आपल्याचेर अविश्वास दाखयलो हाचें पोक्याक खूब वायट दिसलें. ताणें शिवदासाक परतें करपाचें थारायलें. तो पन्नास रुपये घेनासतनाच काल्यां कंपनीचे खणीर गेलो. थंयचें शितुआसांव कशें आसा तें बारकायेन पळोवन घेतलें. खणीचो मॅनेजर मिल्टन नांवाचो एक किरिस्तांव आशिल्लो. पोको शिवदासाक मेळनासतना पयलो मॅनेजराक मेळ्ळो. ताणें फकत आपूण शिवदासालो मनीस इतलेंच सांगलें.

हे रघुवीरबाबालें मीन कालेच्या रेल्वे स्टेशनापासून बरेंच भितर आशिल्लें. ट्रकान वचपाक अर्देवर लागतालें. पोको आपल्या गांवांतसावन सकाळीं आठांक भायर सरिल्लो तो दनपारां बारांक खणीर पाविल्लो.

मॅनेजर मिल्टनान पोक्यावागडा एक मनीस दिलो आनी पीट दाखोवंक लायलो. पोक्याच्या नशिबांत खंयचो पीट आसतलो हें पोक्याक कळूंक कठीण आशिल्लें. तरी ताका कंपनीच्या वावराची कल्पना आयिल्ली.

हांगा मदेकादाक एक व्हडलें मळ आशिल्लें. एके कुशीक चिरेबंदी, वयल्यान सिमेंटाच्या पत्र्यांनी धापिल्लें लांबच्या लांब ऑफिस, ताका तेकून कँटीन, कँटींनाक तेकून एक पसरो. पसरो कंपनीचो. पसऱ्यार एक मोटवो, बारीक किडकिडीत धोतरवालो येप्रेगाद. खाणी वेल्या सगळ्या वावराड्यांक चिटीर रेशन मेळपाची व्येवस्था.

मळाचे दुसरे कुशीक ट्रक उबे करपाक सुवात दवरिल्ली. आनी एके कुशीक घाटयांचो लांबचे लांब गवळ. तर ताच्या कुशीक पूण मात्सो पयस कुळंबी गावड्यांक शेपराद बार्राक. ते भायर आनीकय ल्हान ल्हान गवळांची व्यवस्था आशिल्ली. नवे नवे लोक आयले म्हणटकीर तांच्या राबित्याची व्यवस्था करपाखातीर.

पीट पळोवन जातकीर पोको पयलो शिवदासाक मेळ्ळो आनी मागीर मिल्टनाक. हो मिल्टन रंगान काळो काळोच. तोंड मुमरांनी भरिल्लें. तो मॅट्रीक जाल्लो. येदे व्हडले कंपनीचो असिस्टंट मॅनेजर आसुनय एक सादो आनी गोड उतरांचो मनीस आशिल्लो. निगर्वी आनी दुसऱ्यांच्या भावनांचो आदर करपी.

शिवदास म्हऱ्यांत आसतनाच मिल्टनान पोक्याक धीर दिल्लो आनी तूं लोक

घेवन यो, आपूण तुका सगळ्या बाबतींत हेल्प करतां, भिवपाची कांयच गरज ना म्हणपाचें  पोक्याक सांगलें.

पोक्याक आनीक कितें जाय आशिल्लें? तो एक नवे उमेदीन घरा आयलो आनी लोकांक जमवपाच्या वावराक लागलो.

पोको आतां मानाय कामेऱ्यांचें येवजीत रावलो. तुर्ताक पोक्यामुकार तीन मानाय वावुरताले. दत्तू, सुकडो आनी आपूण. पूण दत्तू आनी सुकड्याची पोक्याक खात्री नाशिल्ली. कित्याक पोक्यालो माशेलांतलो अणभव तांकां सारको नाशिल्लो. ताका पांच कामेऱ्यांची गरज आशिल्ली, तीं ताका मेळटालीं. प्रस्न आशिल्लो तो मानायांचो. गांवांत कांय मानाय ताच्या दोळ्यांमुखार आशिल्ले पूण ते बेबदे आनी मर्कट. तांकां व्हरुन कितें करतलो?

पोक्यान आपल्या मनांतलो बेत शांतूक सांगलो. हेत हो कि शांतून दत्तूक आनी सुकड्याक मिनाक वचूंक कोमार काडचें. दत्तूक जेन्ना पोक्याली येवजण कळ्ळी, तेन्ना तो पयलीं चाळवलो आनी मागीर पाडसभर उसळ्ळो आनी शांतूचेर ताणशेलो.

"तेका लागल्या भिकेचे दुवाळे. माशेलांत कितें उजवाड घातलो तो पुरो जालोना तेका? मिना काडूंक भोंवता मिनां! हांगा कितें कामा ना पडल्यांत? दीसभर काम केल्यार आमोरेचेर पयशे मेळटात. हातचें सोडून पळत्या फाटीक कित्याक लागोंक जाय तेका?"

पोक्यान बापायलीं मुक्ताफळां आयकलीं तरी तो अनमनलोना. बारांच्या सुमाराक ताणें बाजारांतल्यान एक पासय मारली. थंय ताका निळू मेळ्ळो. पोक्यान ताचेकडे सहज म्हूण मिनाची गजाल काडली आनी ताका आपल्या वांगडा येता काय म्हण विचारलें.

निळूक गांवांत दोन रुपये दिसवडो मेळटालो. पोक्यान ताका तीन रुपयांचें हांय दाखयलें. निळू एकाच उतरान तयार जालो. तोय तेंच सोदतालो. ताकाय गांवांभायर खंयी तरी वचूंक जाय आशिल्लो. गांवांत ताचो आनी वोंवळाचो मोग कोमेस जाल्यार दोन म्हयने जाल्ले. तांचो मोग दिसान दीस फामाद जायत वतालो. वोंवळाचो बापूय-देमूक तो मोग साप्प मानवनाशिल्लो. ताका लागून निळूचो दोंको मोडूंक देमून मेस्ताकडल्यान लोकणा वारांव आरांज्यार करून दवरिल्लो. निळू तें जाणां आशिल्लो. ताका लागून वोंवळाक घेवन गांवांतल्यान

पळ केन्ना काडचो अशें जाल्लें निळूक. पोक्यान आतां ताका आयतीच संद मेळोवन दिल्ली.

निळू-वोंवळाचो मोग पोक्याक फायद्याक पडलो. ताका आयतींच दोन मनशां मेळ्ळीं.

गांवांत बोस्त्यांव म्हूण एक दोर्जी आशिल्लो. बेबदो नुम्र एक! ताका दोन धुवो आशिल्ल्यो. सुंदरकायेचे दोन पुतळेच ते. बापूय सोरो पियोवन पियोवन कल्ल जाल्लें. आवय कोणाल्याय कुजनांतलें काम करुन भुरग्यांचो आनी घोवाचो ताळो वोलो करताली. गांवांत वाली रोवप, नण्णी काडपाचीं बी हलकीं फुलकीं कामां आशिल्लीं पूण तांकां तीं करुंक लज दिसतालीं. तरी बोस्त्यांवली धाकली धूव - तेरेज, कणगां उस्तीय, चिंचो फोड बी असलीं हलकीं फुलकीं कामा करतालेंच. पूण ताची व्हडली भयण मात्सी उचंबळ आशिल्ली. ती फकत दीस रात रोजार करपाचें काम करताली.

पोको माशेलांत मिनाक गेल्लो ती खबर तेरेजाक आशिल्ली. मिनाक कसलें काम करचें पडटा तें ताणें पोक्याक विचारिल्लें. बायलांनी फकत मानाय कायली भरून दिता ती माती आनी फातर हांगाचे थंय व्हरुन उडोवपाचे. कायली केद्यो आसतात तेंय पोक्यान तेरेजाक सांगिल्लें.

‘पोक्या, तूं ओंदू मिनाक वोसना रे?’ बाजारांतल्यान घरा येतासतना वाटेर मेळिल्ल्या तेरेजान पोक्याक प्रस्न केलो.

‘वयतां तर! तेकाच लागोन भोंवता मुगो हांव. मनशां पळोवंक.’

‘आमकां व्होत्ता मुरे? कातारीन आनी हावें तुजे बाराबोन येवपा चिंतलां. आमी तुजे बाराबोन येतांय म्होणोन कोण्णाक खोबोर मात आसूंक फावो ना.’

‘तुमकां नाका जाल्यार हांव कित्याक सांगतलों लोकांक? तुमी येतात जाल्यार आतांच लागाक तयारेक.’ कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन दोळे तसली भास पोक्याली जाली. आतां पोक्याकडे एक मानाय आनी तीन कामेऱ्यां जालीं. ही गजाल पोक्यान आपले आवयक शांतूक सांगली. शांतूले सांगणेन दत्तू आनी सुकडो तयार जालो जाल्यार पोको धरून चार मानाय आनी तीन कामेऱ्यां मेळून सात लोक जातलो आशिल्लो. हे सात लोकांक घेवन खणीर गेल्यार काम कोमेस करूंक कसलीच अडचण नाशिल्ली. पोक्यान धा लोक हाडपाचो कोंत्राद केल्लो खरो, पूण ताणें हे मेरेन आदियेंतार दुडूय घेवनाशिल्ले.

तेन्ना उतराक फाल्त जावपाचो प्रस्नच नाशिल्लो.

'पोको आपूण मिनाक वयतलोंच म्हण्टा. चार-पांच मनशां तयार केल्यांत तेणें.'

'तशें जाल्यार तूंय वोस तेचे वांगडा. म्हाका कित्याक सांगता?'

'हांव वोचों? तुमी आसतना म्हाका वोस म्होणोंक लजय दिसना तुका?'

'तितूंत लज कसली? हेर बायलो वोसोनाक?'

'तशें जाल्यार वयतलें हांव. सुकड्याकय व्हरतां. कसो येयना म्हण्टा तो पळयतां हांव. तूं बस हातीक कांकणां घालून! पोर आपलेभाशेन कितेंय करुंक सोदता. आनी तूं तेका तेंको दिवपाचो सोडून आडमेळें घालता?'

'तेणें माशेलांत कितें उजवाड घातलो तो खबर ना दिसता तुका. हांगाय लुकसाणांत पडलो म्हण्टकीर खायात गोबोर!'

'हयवय, आमी गोबोरच खावचेलो. आमगेले आजे-पणजे केन्ना भांगरा शीत जेयल्या व्हय? गोबोर खावचेलो खंय!'

शांतू रागान फणफणलें म्हण्टकीर दत्तू आपली शेंपडी बागयतालो. आतांय ताणें तेंच केलें. दत्तून पयलीं घोवपण दाखोवंचें आनी शांतून मागीर चंडिकेचें रुप घेवचें, अशें सदांच चलतालें. निमणें दत्तू पोक्यावांगडा वचूंक कोंकोर्द जालो. दत्तू तयार जालो म्हण्टकीर सुकडो फाटीं रावचोना हें थरलेलेंच आशिल्लें. पोको पिसूक व्हरुंक तयार नाशिल्लो. घोवाक आनी दोग पुतांक रांदूंक कोणय तरी जाय म्हूण शांतून पिसूकय तांचे वांगडा धाडलें.

पोको लोकांक घेवन आयतारा दिसा काल्यां गेलो. तळ्यांतसावन आर. एस्. चे ट्रक वरावरान येताले. आर.एस्. म्हळ्यार रघुवीर शेणय. पोक्यान एके टिपरीचेर लोकांक बसयले. रिकामी टिपर घडांयच घडांयच करुन मार्गावेले फोण हुपीत धांवली. एकाच्या सुमाराक टिपर तळ्यांत पावली. पोक्याक पळोवन मिल्टन धांवून ऑफिसांतल्यान भायर आयलो. वोगोत करिनासतना ताणें कँटीनाक आठ जेवणाची ऑर्डर दिली. जेवन जातकीर पोक्यालो लोक ऑफिसाफाटल्यान आशिल्ल्या एका काजू झाडामुनांत बसले. थंडेचे दीस आशिल्ल्यान दनपारच्या कडार लेगीत शीं आपली हाजिरी दाखयतालें. काजूच्या तांबड्या पालवेंतल्यान पांचवेधवे भातागोटे कशे काजूकळे चारी दिकांनी फांकारिल्ले.

आतां दोन वाजून गेल्लीं. शाळेची घांट वाजता तशी ऑफिसांतल्या प्यूनान

टंव-टंव-टंव करुन रेल्वेरुळाचो कुडको बडयलो. ते बरोबर गोठ्यांतल्यान गोरवां भायर सरतात तशीं जणा एका गवळांतल्यान न्हेसणां आनी तुवाले फांफडीत मनशां भायर सरलीं. ट्रकांचे सेल्फस्टार्ट जावन घरघर कोमेस जाली. सुपरवायझर आपापल्या हातांत स्लीपींचे बुक घेवन माथ्यार चेपीं घालून लोकांफाटल्यान आपापल्या पिटार गेले.

लोकांक काजुमुनांत सोडून मिल्टन पोक्याक घेवन पांयांत घाल्लें जपानी चप्पल फट्क फट्क करीत एक नुम्राच्या पिटार घेवन गेलो. हो पीट ऑफिसापासून धा-पंदरा मिनटांच्या दिस्तांसीचेर आशिल्लो. तळ्यांतल्यान काल्यां वचपाच्या मार्गाचेर अकस्मात एक खर देंवती लागली. थंयच दोंगराळें मळ काबार जावन शेताळें मळ कोमेस जातालें. हें सगळें मळ करडान भरिल्लें. शेताळ्या आनी दोंगराळ्या मळाच्या सिमेचेरच एक नुम्राचो पीट आशिल्लो.

हो पीट उकतो केल्लो पूण खऱ्या अर्थान म्हाल काडूंक कोंत्रादोर नेमुनाशिल्लो. पीट उक्तो करतना सादारण ग्रेडीचो म्हाल मेळिल्लो ताचे कितलेशेच दाळ मांडून दवरिल्ले. पूण हे पिटांत कितें आसा तें पोक्याल्या नशिबाचेर अवलंबून आशिल्लें.

‘पोक्या, कोंपोनीन हो पीट मुरे तुका दिच्याक लायला. हायें सांगिलां रे तेकां, हो तुका दी म्हूण. हो पीट मुरे, तुजेबोगोर आनी कोणा मेडपा ना. इंगा सोव-सात जाण कोता येवपा ना. उणे पोंचीस लोक घालपा पोटोले. आतां न्हूरे फुडें! तूं कांय भिनाकारे. हांव आसतोना तुका कोसली भिरांत ना!’

मिल्टनाल्या साश्टीभाशेंतलीं म्होवाळ कोंकणी उतरां आयकून पोको सुखावलो. दुसऱ्याक सुखदेणो मनीस पोक्याक पयलींच खेप भेटिल्लो. ताच्या उतरांनी पोक्याल्या सुक्या हाडांनी खंयची तरी शकत भरिल्ली. तकलेंत खंयच्या वाटांनी खबर ना, उजवाडाचीं अस्पश्ट किरणां वावरुंक लागिल्लीं. कळमेल्ल्या हातेरांची कळम सुट्टा तशी मिल्टनाल्या उतरांनी पोक्याल्या मेंदवावेलो घयरांव पयस जावन ताका थोडी चमकण आयिल्ली.

मिल्टन पोक्याक पीट दाखोवन ऑफिसांत वचूंक लागलो.

‘मॅनेजर, तूं वच हांव रोकडोच येतां.’ अशें म्हूण पोक्यान थंयच मात्सो घुटमळील्ल्याभसेन केल्लें. खरें म्हळ्यार पोक्याल्या कानांत थंयचें सैम कितें तरी अस्पश्ट फुतफुत्तालें. मिल्टन ऑफिसांत गेलो आनी पोको एकटोच उरलो. ताणें

खणीक फाट करुन मुखावेल्या मळाचेर नदर मारली. हें शेत ताका पिकिल्लें भाताशेत कशें दिसूंक लागलें. मळाच्या कडांनी किनळ-माट्टीचीं झाडां उबीं आशिल्लीं. रुखावेलीं गिंनसांवार सुकणीं कसलो बोवाळ करिनासतना पोक्याक पळेतालीं. रस्त्याकुशीच्या एका माट्टीझाडाचेर एक काळ्या तोंडाचो माकोड बसून पोक्याक दोळे मिचकायतालो. खणीवेल्या एका तळपाचेर सुकें करड एका बाप्पाच्या खड्ड्यावेले केंस कशें दिसूंक लागलें. खणी कुशीक दाळून दवरिल्ल्या फातरांखांचीतल्यान एक हळदुवोच सोरोप भायर सरुन तो पोक्यामुखावेल्यान सरपटत मळावेल्या करडांत घुसलो आनी करडांतलो एक धवोफुल्ल सोसो उडक्यो मारुन रस्त्यार आयलो आनी पोक्याक पळोवन, कान उबे करीत, माट्टी-किनळाच्या पोत्र्याचो सळसळ करीत रानांत घुसलो.

पोको काल्यां वचपाच्या धुल्लाळ्या रस्त्यावेल्यान बरोच फुडें गेलो. थंय ताका एक व्हाळ मेळ्ळो. व्हाळाच्या दोनय कडांनी दाट झाडावळ आशिल्ली. व्हाळाच्यो दोनय कडो रेताळ आशिल्ल्यो. मदल्यान थंडगार उदक व्हांवतालें. हेंच उदक वयले वटेन साठून व्हडलें कोंड तयार जाल्लें. हे कोंडातलें उदक पसरें जावन, बेबकांवरी आवाज करीत गुळगुळीत फातरांवेल्यान सळसळीत व्हांवत दुसऱ्या कोंडाच्या सोदीक धांवतालें.

पोको रेंवटाळ कडेवेल्यान वयले वाटेन चलत गेलो. व्हाळाच्या दोनय कडांनी ताका भिण्णीचीं आनी घोडकांची झाडां दिसलीं. आनीक मात्सो वयर वतकीर ताका नितळ उदकाची कोंड दिसली. ही कोंड इतली खोल आशिल्ली की तांतलें उदक मीर्ग आयलो तरी सुकपाचीं चिन्ना दिसनाशिल्लीं. हे कोंडीकडच्या मळावेल्यान पिटाकडे वचपाक थोडीच दिस्तांस आशिल्ली. शिवाय वाटेर झाडांय चड लागनाशिल्लीं. पिटार काम करप्यांक हे कोंडीतल्या उदकाचो उपेग करपाक कांयच अडचण नाशिल्ली. पोको आनीकय फुडें वचूंक सोदतालो, पूण ताका आपल्या लोकांची याद जाली आनी तो परतलो.

पोक्याक पीट दाखोवन मिल्टन ऑफिसांत आयलो. ताणें आनी वोगोत केलो ना. पोक्याल्या लोकांक घेवन एका गवळांत गेलो. एके कुशीक घांटी लोकांक आनी दुसरे कुशीक मल्लांचो आडोस करुन पोक्याल्या लोकांक सुवात दिली.

पोक्याल्या लोकांक हें सगळें नवें आशिल्लें. इल्लेशे सुवातेर कोंकणे-

किरिस्तांव एकठांय रावप हें कोणाकच मानपासारकें नाशिल्लें. दत्तून आनी पोक्यान तोंड येदेशें केलें. तेरेज आनी ताची व्हडली भयण फुलू मात पयलींच गवळांत वचून एका कोनशाक जेजूचें पायंजेल दवरून रोजार करुंक लागलीं. नीळू आनी ताची व्हकल भायरच बसलीं. भितर वचूंक कशींच तयार जायनांत.

पोक्याचेर आतां धर्मसंकश्ट आयलें. तरी ताणें धीर सोडलोना. पयलीं ताणें निळूक समजायलो, मागीर दत्तूक आनी सुकड्याक. पोक्यान सगळ्यांक एकटांय करुन सांगलें, ही रात कशेबशेन हांगा काडुया. फाल्यां कशेंय करुन सोतंत्र मांगोर बांदून रावया. तशें सांगनाफुडें सगळीं आपापलें सामान घेवन भितर येंत्राद जालीं. पोक्यान भायर वचून चार मल्लां हाडून दत्तूच्या आदारान दिल्ले सुवातेचे तीन वांटे करुन एका वाट्यांत किरिस्तांव बायलां, दुसऱ्या वाट्यांत निळू, ताची व्हंकल आनी पिसू, आनी मदें दत्तू, पोको आनी सुकड्याची व्यवस्था केली.

पोक्यान ते रातीकडे सगळ्यांक कँटिंनातलेंच जेवण दिलें. दुसरे दिसा सकाळीं दत्तूक सोडून सगळ्यांक पीटार कामाक धाडले. दत्तूवांगडा पोको काल पळोवन दवरिल्ल्या मळार गेलो. पिटाच्च्या दोनशें मेत्र अंतराचेर सुमार दोन-शें मेत्र सुवात करड कापून ती खोरें घेवन नितळ केली. करड सुकिल्लें आशिल्ल्यान दत्तू ताका उजो लावंक सोदतालो. पूण पोक्यान ताका मना केलो. थंय उजो घाल्लो जाल्यार मळ साफ जातलें आशिल्लें पूण दोंगराकय उजो लागून मागीर तो आटापा येवचो नाशिल्लो. व्हडले व्हडले रुख उज्यांत स्वाहा जातले आशिल्ले.

सुवात नितळ करिनाफुडें पोक्यान आनी दत्तून दोंगरावेल्यो म्हेडी कापून हाडल्यो. थंय कोंड्यांचें नाव नाशिल्लें. लाकूड भरपूर आशिल्ल्यान वांसे आनी आडाव्यांचें काम माट्टीच्च्या लाकडांनीच केलें. कुंबयाच्या सालींनी सगळें झपाझप बांदून काडलें. सुक्याकरडान सगळीं पाकीं सपासप शिवून मांगोर दाट ताळ्यांनी होडलो.

सकाळींफुडें सातांक कामांक लागिल्ल्या दत्तू-पोक्यान खांप्राभसेन काम करुन इकरा वरांमेरेन मांगोर प्रोंत केलो. तेच वोगतार मिल्टन आनी शिवदास पोक्याक सोदीत थंय आयले. पोक्यान तिन-चार वरांभितर उबो केल्लो मांगोर पळोवन दोनय येप्रेगादांनी तोंडांत बोटां घालीं. मिल्टनान तांकां धा मल्लां आरांजार करुन दिल्लीं. शिवाय पोक्यालो आदेस फुकट गेलो तो पळोवन मिल्टनान दोगांकय दिसाचो पाग दिवपाचें उतर दिलें.

रातीकडे दिल्ल्या उतरापरमाण पोक्यान लोकांक सेपराद बिराडां करुन दिलीं आनी ताणें मुखेल कामांत लक्ष घालें. पोक्याक माशेलांचो अणभव आशिल्लोच. हांगा नव्यान ताका कसलेंच काम शिकचेली आनी कंपनीच्या येप्रेगादाकडच्यान शिकोवन घेवचेली गरज नाशिल्ली. ताका बरो-वायट म्हाल वळखूंक येतालो. लोकांकडच्यान काम कशें करुन घेवचें हाचें गिन्यानय आतां पक्कें जाल्लें.

पीट पयलीं उकतो केल्ल्यान पोक्याक कवर काडचेली गरज पडलीना. पीट पावसांत उदकांन भरिल्लो. आतां तो सुकिल्ल्यान सगळ्या म्हालाचेर माती पसरिल्ली. ताका लागून म्हाल खंय आसा, हाचो पत्तो कोणाक लागनाशिल्लो. पोक्यान खोरें घेवन हांगा-थंयची माती खरबडून काडली आनी म्हालाचो थाव घेतलो. मागीर ताणें हातांत पारय घेवन जमनीचे कोपचे काडीत रावलो. वयर माती आनी भितर घट्ट तळप. तळपाच्या कपच्यांक रुपयाळो कोर पळोवन पोक्याक दोळ्यांमुखार आशेचीं किरणां दिसूंक लागलीं. ताणें आनी ओगोत केलो ना. मानाय-कामेऱ्यांक पिटांतली माती खरवडून काडूंक लायली. निळूक पारयेन तळपाक मर्दीच सुरींगाक बुराक मारुंक लायलो. निळू कामाक मात्सो आळशी आशिल्लो, तरी ताणें वरा भितर फाव तसो बुराक मारलो. पोक्याक जाता तितले वेगीन पिटार म्हाल कसो मेळटा तो पळोवचेली हुरहुरी मारिल्ली. ताणें आनी वोगोत केलो ना. सुकड्याच्या आदारान बुराकांत दारु साठोवन साठोवन भरली. सगळ्या लोकांक पिटांतल्यान पयस धांवडायले आनी सुताक उजो लायलो. पोको धावून लोकांमदें मेळ्ळो मात, हे वटेन धडप् करुन सुरींग फुटलो. पोको कितें समजूंक जाय तें समजलो. सुरींगाचो फार मोठ्यान जावंक फाव ना. वयले वयर जाल्लो फार आवाज मोठो करता पूण फातर फोडी ना. हो आवाज जमनी भितर जावन जमीन हाल्ली.

पिटांत वचून पळेत जाल्यार तळप फुटून कितलेशेच कुडके जाल्यात. ते भायर कुशीक कितल्योशोच मोठ्यो वेरो पडल्यात. पोक्यान दत्तूच्या आनी निळूच्या हातांत एकेक पारय दिली. आपणे घण घेतलो. दत्तून आनी निळून निखळल्लीं खडपां पोक्यान घण मारून ढपाढप फोडलीं. सुकड्यान नाल्ला येदे म्हाला कुडके कायलींनी भरुन कामेऱ्यांच्या माथ्यार दिले. आमोरी जातां जातां म्हळ्यार सुरींगान सैल करुन दवरिल्लें खडप फोडून तें वयर काडलें. काळ्या, तामशा आनी चकचकसाण आशिल्ल्या जड फातरांचीं एक व्हड रास तयार जाली. ही रास

पळोवन पोक्याच्या तोंडार हाशें फांकलें. ते रासीचें मोल फकत पोक्याकच खबर आशिल्लें. पयलोच दीस बरो गेलो. लोक कामाचो सुटचे पयलीं मॅनेजर एक नुम्रार आयलो. म्हाल पळोवन तो खोशी जालो. आयज पोक्यान उणोच देड ट्रक म्हाल वयर काडिल्लो. ट्रकाक अठरा रुपये परमाणे पयल्या दिसाचे सत्तावीस रुपये मेळटले म्हणपाचो पोक्यान हिशोब केलो. चार मानायांचे बारा आनी कामेऱ्यांचे स रुपये धरले जाल्यार अठरा रुपये पाग जालो. णव रुपये आनी सकाळी मांगोर घाल्लो ताचे धा मेळून आयचे दिसाक एकोणीस रुपये फायदो जाल्लो. हे फुडेंय अशेंच सरासरीन चालू उरल्यार पोक्याली पंढरी पिकपाची आशिल्ली.

आपल्या बापायक खोशी करपाक म्हूण पोक्यान पयले दिसाचो फायदो दत्तूक दाखोवन दिलो. हें कळटकीर दत्तूक नेट आयलो. ताणें बराबर तंबाखू घालून वेतभर शेंन्ताविडी केली आनी लागलो पकपका फुकूंक. पोक्यानय ताका बरोच फुलयलो. दत्तूलें एक आशिल्लें, कोणेंय ताका फुलयत तितलो तो फुलतालो. पोक्यान ताका विश्वासांत घेवन लोकांचो मुखेल केलो. पोक्याकय आपूण हांगा थंय गेल्यार लोकांचेर वचक दवरपाक फाटल्यान कोणय तरी जायच आशिल्लो.

पोक्यान सेमानभर नेटान काम केलें. ताणें अकरा गाडयो म्हाल काडलो. हेर पिटांमानान हो म्हाल चड आनी बरे ग्रेडीचो आशिल्लो. ताका लागून मिल्टनाचो चड दोळो आतां हे पिटाचेर आशिल्लो. ताणें पोक्याक आतां कशेंय करुन चड लोक हाडून घालपाची ताकीद दिली. हो पीट उणेच पंचवीस-तीस लोकांनी काम करी सारको आशिल्लो. तेन्ना सात-आठ लोकांनी कशें जातलें?

पोक्यालें आतामेरेन हे खणीर सगळें बरें जाल्लें. पूण हे फुडें जाय तितलो लोक हाडिना जाल्यार मात कंपनी पोक्या नांवावेलो पीट काडून दुसऱ्याच्या नांवार करपाची आशिल्ली. पोको व्हडलेंशें जाल्यार पंदरा लोक हाडून काम चलोवंक शकतालो. ताचेपरस चड लोकांचेर नियंत्रण दवरून कामां करप पोक्याल्या हाताभायलें काम आशिल्लें जंय कामगार चड थंय लुकसानय चड आसता. तीस लोकांक कामाक लायल्यार पोको सामकोच बुडटलो हाची कल्पना ताका आशिल्ली. पोक्याचे तकलेर आतां व्हडलो पेज येवन पडिल्लो.

पोक्याले तकलेर पेज आसतनाच आनी एक घडणूक घडली. कंपनीच्या

सात नुम्र पिटार जयराम म्हूण एक कोंत्रादोर काम करतालो. म्हाचांडाळ. गांवान पेडणेचो. लाळेगोळे लावन दुसऱ्याकडल्यान काम करुन घेवंक ताचो हात कोणच धरीसारखो नाशिल्लो. तोंडांतल्यान म्होव व्हांवतालें. पूण मनान मात विखाळो. जयराम हरमलकार कंपनीच्या सगळ्या पिटांचेर भोंवत रावतालो. कोणाकय दिसतालें हो कंपनीचो कोणय तरी अधिकारी. पूण तो कोणाल्या पिटाचेर म्हाल कसो आनी कितलो मेळटा हें पळोवपाखातीर पासयो मारी.

पोक्याल्या पिटार तर दिसांतल्यान दोनदां तरी येतालोच. पोक्याल्या मनांत कितें आसा, तो कसले अडचणींत बी पडला जाल्यार ताका आदार दिवचें सोडून ताजेकडल्यान कितें फायदो जातलो काय हाचो थाव तो घेत आशिल्लो. एक दीस पोको काळजेंत आसा हें ताणें ताडलें. ताणें पोक्याच्या खांदार हात दवरून काळजेचें कारण विचारलें. आपूण लोकांच्या विवंचनेत आसां म्हणपाचें जयरामाक सांगिनाफुडें ताणें म्हळें,

'इतकांच मरे, त्यां कित्याक भियेलो रे म्यां आसतना. कितलो लोक व्होयो तुका, सांग. फाल्यां आणतंय बघ!'

पोको जयरामाच्या तोंडाकच पळेत रावलो.

'आरे, असो बघतय काय, म्या उतर देतंय ना तुका फाल्यां आणतंय म्हणान!'

'फाल्या तूं खंयचो लोक हाडटोलो, जादू बी करतलो काय कितें रें जयराम.'

'तां तुका कित्याक पडलां, हो जयराम उतराक केन्ना फाल्स जावाचो ना.'

'तशें जाल्यार तुजे व्हड उपकार जातले म्हाजेर.'

अशें म्हणून पोको बद्द ऑफिसांत गेलो. जयरामाच्या भरवशार ताणें मॅनेजराक फाल्यां आपलो नवो धा लोक येतलो म्हणपाचें सांगलें.

दुसरे दिसा पोको पिटार पावचे पयलीं जयरामालो धा लोक पिटार हाजीर आशिल्लो. काम कोमेंस जावंचे पयलीं जयरामान पोक्याक कुशीन व्हरुन सांगलें आपल्या मनशांक एकठांय काम करपाची संवय जाल्या. तांकां तुगेल्या मनशांक मिसळूंक दिवं नाका. पोको भोळो, ताणें जयरामाल्या मनशांक सेपाराद सुवात दिली आनी आपल्या मनशांक एका कोनशाक उडयलीं.

अशें करपांत पोक्यालो हेत लिंप आशिल्लो पूण जयरामालें काळीज मात धुल्लान भरिल्लें. तो पोक्याक नाडूंक आनी फटोवंक सोदतालो. पूण मिल्टनान ताच्या कारनाम्याक सुरींग लायलो.

जयरामान मिल्टनाकडे एक नुम्राची इल्ली सुवात मागिल्ली. पूण मिल्टन ताका दी नाशिल्लो. एक नुम्र पोक्याल्या नांवार केल्ल्यान पोक्याक खंयचोय लोक घालून काम करपाचो अधिकार फाव जाता ही खबर जयरामाक आशिल्ली. ताचोच फायदो तो घेवंक सोदी. पूण मिल्टनान कुल्लेचे दांगे कुल्लेच्या हड्ड्यार मोडून घाले. सात नुम्राचो पीट रिकामो जालो तें पळोवन मिल्टनान तो जयरामाल्या नांवावेलो काडलो आनी आपले मर्जेतल्या कुणबी गावड्याकडे सोंपयलो.

इतलेंच करुन मिल्टन थांबलोना. ताणें पिकप हाडून जयरामान काडिल्लो म्हाल पयलो भरुन व्हेलो आनी हक्काच्यो सगळ्यो स्लीपी पोक्याच्या नांवार करुन उडयल्यो.

स्लीपी पोक्याच्या नांवार जातात तें पळोवन जयराम सामको पिकार जालो. तो आतां पिसो कसो भोवंक लागलो. अशें घडटलें हें ताणें चिंतूंक नाशिल्लें. वेताक चुकल्यार वांवांक चुकता अशें ताचें जालें. ताच्या लोकांवेलो अधिकार आतां पोक्याकडे गेल्लो. जयरामाकडे आतां एकच उपाय आशिल्लो आनी तो म्हळ्यार लोकांक घेवन खंय तरी दुसरे कंपनीत ना जाल्यार घरा वचप. पूण ताका तें परवडपासारकें नाशिल्लें.

जयरामान आतां पोक्याक फुलां माळपाक कोमेस केलें. ताचेकडे तोच एक उपाय आशिल्लो. एकदां लोक कामाचे सुट्टकीर आमोरेर तो माजरा पावलांनी दबत दबत पोक्या म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हणूंक लागलो,

'आतां कसां करुया रे पोक्या, फाल्यां शनवार मरे. माझ्या कामाचो रिपोर्ट तुज्या नांवान ऑफिसांत जातोलो मरे! म्हाका हिशोब कोसो मेळटलो. म्हाज्यो स्लीपी म्हाका देवून टाक मरे! स्लीपी तुझ्या नांवार केल्यो म्हनान कांय बिगडना नाय. आमी काय परके आसत? त्यां सांग मरे मानेजराक, माझ्या म्हालाच्यो स्लीपी म्हाज्याच नांवांर करांक!' पोक्यान जयरामाच्यो गजाली आयकून घेतल्यो. ताच्या मनांतली न्यायदेवता खिणांत जागी जाली. जयराम ताका फटोवंक सोदतालो हें मान्य केलेंय जाल्यार वोगतार लोक खणीर घालून जयरामान पोक्यालो पीट पोक्याकडे राखून दवरिल्लो. पूण जयराम सांगता तें मानून घेवपाचें पोक्याच्या हातांत नाशिल्लें. ते कंपनीत शिस्त आनी कायदो चलतालो. जयरामाच्या नांवार स्लीपी बरोवप म्हळ्यार पिटाचो सगळो अधिकार ताका दिवप. पोको तशें करुंक पिसो नाशिल्लो. तरी जयरामाक तो वाऱ्यार सोडूंक

तयार नाशिल्लो. ताणें जयरामाचो प्रस्न तडजोडीन सोडयलो. जयरामाच्या म्हालाच्यो स्लीपी ताणें खुणो करुन जयरामाकडे दिल्यो. आनी गाडयेफाटल्यान एक रुपयो आपल्याक घेवपाचो कोंत्राद केलो. ह्या कोंत्रादान पोक्याक सेमानाफाटल्यान उणेच धा-पंदरा रुपये फायदो जावपाचो आशिल्लो. जयरामाक ही तडजोड मानून घेवचीच पडली. आनीक ताका फुडलो उपाय नाशिल्लो. तरी आपल्या लोकांचो सगळो हक्क पोक्याकडे गेलो तें पळोवन जयरामाच्या पोटांत सदांच दुखूंक लागलें. ताका लागून तो पोक्याचो केन्ना कांटो काडीत हाचो नेम नाशिल्लो.

आतां कसलीच कटकट नासतना काम सुरळीत आनी नेटान चलूंक लागिल्लें. पोक्यान आपल्या लोकांचो नुम्र बारा मेरेन वाडयल्लो. पूण पोक्याक आतां अकस्मात आनीक एका संकश्टाक तोंड दिवचें पडलें. काम करतां करतां पोक्याले सुवातेर अकस्मात म्हाल मेळपाचो बंद जालो. पारय आनी पिकास मारता थंय बारीक खडी मेळूंक लागली. ही खडी काडून पोक्याक कशेंच कोताक ये सारखें नाशिल्लें. ते सेमानाक उणेच बारा गाडयो म्हाल काडपाचे सुवातेर ताका तीनच गाडयो खडी काडची पडली. जयरामान मात तेरा गाडयो म्हाल काडलो. पोक्यान आपलें दूख जयरामाकडें उकतें केलें. पिटांतली सुवात दोगय समपरमाणांत वाटून घेवपाचो प्रस्ताव पोक्यान जयरामामुखार दवरलो. पूण जयराम तो मानूंक तयार जालोना. पोक्याचेर आतां मोठे संकश्ट येवन पडिल्लें. ही केस तो आतां मिल्टनाकडेय व्हरुंक शकनाशिल्लो. एकच उपाय पोक्याकडे आशिल्लो तो म्हळ्यार आनी एक दुसरी तडजोड करुन आपलो लोक जयरामाक दिवन तांचो पगार वसूल करप. जयराम हाका एका पांयांर कोंकर्द जातलो आशिल्लो. पूण पोक्याली गत मात दांत नाशिल्ल्या सोरपासारकी जातली आशिल्ली.

पोक्याले तळमळे दत्तूक, सुकड्याक दिसूंक लागले. पोक्यान जयरामाक सुवात दिवन व्हड चूक केली हें आतां तांकां दिसून आयलें. भटाक दिली ओसरी आनी भट पांय पसरी असली गजाल हांगा घडिल्ली. पूण ताका आतां उपाय नाशिल्लो. पोक्याक जाय जाल्यार जयरामाक थंयच्यान खिणांक धांवडांवक जातालो. पूण पोक्याक तें जमपासारखें नाशिल्लें. तो दुसऱ्याक कसल्याच रुपांत धोको दिवंक तयार नाशिल्लो. तरी सुकड्यान आतां आपल्या भावाक धीर दिवपाचें थारायलें. ताणें पोक्याक सांगलें भिवपाची कांय गरज ना. आमी तीग

आसात. थोडो तेंप लोकांचो पगार कसोय करुन भागोवया. फुडें सगळें बरें जातलें!

आपल्या भावालीं धिराचीं उतरां आयकून पोक्याक खूब बरें दिसलें. निमणें रगताक रगत वळखता म्हण्टात तें अशें. पोक्यान आनी एक सेमान कसेबसेन काम केलें. ताणें नेट धरुन बारांच्या सुवातेर पांच गाडयो म्हाल काडलो. तरी जयरामालें कमिशन जमेक धरुन ताका व्हडलेंशे लुकसाण जालें ना.

पोक्यालें मन कंपनीच्या सगळ्या लोकांनी वळखल्लें. पोक्याची जाल्ली गत पळोवन सगळ्यांक वायट दिसतालें. पूण कोण कांयच करुंक शकनाशिल्लो. पोक्यान सोताच्या पांयार सोताच खोरें मारुन घेतिल्लें ताका कोण कितें करतलो?

तरी सुखा फाटल्यान दुःख आनी दुःखा फाटल्यान सूख येवप हो सैमाचो नेमच आसा. पोको एक दीस पिकासान खंटां खंटां अकस्मात गोबोर कसो पिटो वयर आयलो. जड जड जड! तातूंत रुपयाळी रेंव कशी शेड मिक्स जाल्ली. पोक्यान पिकासार पिकास मारुन पावडर भसाभसा वयर काडलो. हो पावडर पळोवन सगळ्यांक अजाप जालें. सगळे गर्दी करुन फसफसीत पावडरीक पळोवंक लागले. पोक्याल्या मानाय-कामेऱ्यांच्या तोंडांर हांशें फांकलें. जयरामाल्या लोकांमदलो एकलो उलयलो,

'पोक्यालां नशीब फुललां रे!'

दुसऱ्यान आपलें तोंड उकतें केलें.

'माणसाचां मन साफ आसूंक व्हयां, मगे सगळे देव पावतत.' अशे तरेन एकटो एकटो पोक्या फावरार उलोवंक लागलो. जयराम मात एका तळपार ओकोणया बसून तोंडार काळोख घालून हें सगळें पळेतालो.

पोक्याक पावडर मेळ्ळा तें कळनाफुडें ऑफिसांतले सगळे कर्मचारी धावून आयले. मिल्टनान ही खबर मडगांवां हेड ऑफिसाक कळयली. दुसरे दिसा रघूवीरबाब आनी ताचो जनरल मॅनेजर किराबाब खणीर आयले. पोक्यान घाल्ली व्हडली रास ताणें पळेली. रघूवीरबाबान गोल्डफ्लॅक सिगार काडून फकफकायलें. किराबाबान कोटाबोल्सातली विडी काडून पकपकायली. मागीर दोगय मिल्टनाक घेवन कुशीक वचून ताचेकडे कितेंतरी फुतफुतले. मागीर तिगांनीय पोक्याक आफोवन व्हेलो. आनी किराबाबान पोक्याक सांगलें :

'पोक्या, तुवें पळे ही पावडर वयर घाल्या, ती उपकरत अशें म्हाका दिसना.

तातूंत भितर शेड आसा आनी शेड आशिल्ल्या पावडरीक ग्रेड आसना. आनी ग्रेड नाशिल्ल्या म्हालाक मोल आसना. तेन्ना तू ओगीच हो गोबोर काडून वयर घालपाचे भानगडीन पडूं नाका. सद्या तूं हें काम बंद दवर आनी जाता तितलो फातराफाटल्यान लाग.'

हें आयकून पोक्याल्या काळजांत धस्स जालें. ताच्या दोळ्यांकडे काळोख आयिल्ल्या भशेन जालो. देव दिता आनी देंवचार नाडटा अशें ताका दिसलें. पोक्याचें तोंड खिणांत बावलें तें पळोवन रघुवीरबाब फुडें आयलो आनी उलयलो,

'तू भिनाकारे, आमी हो पिठो तपासूंक धाडटात आनी तो ग्रेडीक उतरलो जाल्यार ज्या ज्या तुका कळयतां. मागीर काडीत राव. प्रेस मात उणो मेळटलो आं!'

रघुवीरबाबाल्या उतरांनी पोक्याक धीर आयलो. तो पात्रांव आशिल्लो. ताच्या उतरांक मोल आशिल्लें.

किराबाब आनी रघुवीरबाब वॉल्क्स वागेनीत बसून भुर्र करुन गेले. ते गेले खरे पूण पोक्याक चिंतेंत वोडोवन गेले. पावडरीक मोल ना जालें आनी पोक्याक खर्णीत फातर लागलोना जाल्यार? पोको उबंत पडटलो हे जाणविकेनच पोक्याक थंयचे थंयच शेळो घाम सुटलो.

तरी आसतना पोक्यान धीर सोडलो ना. पावडर काडप ताणें बंद दवरलें आनी मेळटा ते घट फातर काडून म्हाल काडूंक लागलो. दोन दीस ताणें कशेभशेन काम केलें. तिसऱ्या दिसा मिल्टनान पोक्याक निरोप दिलो कि तुका पात्रांवान मडगांवां आपयला. हें आयकून पोक्यालें काळीज आतां चडच धडधडूं लागिल्लें. तरी पोको वेळ लायनासतना मडगांवां धांवलो.

पोको ऑफिसांत वच जाल्यार रघुवीरबाब, **किराबाब** आनी दोग-तीग बाब वोल्तेरांचेर बसून चकाटां मारतात. पोको **भायर उबो आसा** तो पळोवन ताका भितर आफोवन व्हेलो. पोको भियेत भि**येत, मार्थे खरपीत** भितर दाराच्या कोनशाक वचून उबो रावलो.

'पोक्या, तू नशीबवान आसा बाबा! तुगेलो पावडर पास जालो. तूं आतां जाता तितलो काडीत राव. पूण एक! तुका एके गाडयेक कंपनी बारा रुपये दितली. आनी दुसरें कामाचे सगळे पयशे तुका आतां रोकडे मेळचेनांत. तुज्या लोकांचो दिसवडो तुका सेमाना सेमानाक मेळटलो. ते भायर तुका धा रुपये

मायज दितले. माया म्हयन्यांत तुजो म्हाल उभारतले आनी तेन्ना हिशोब करुन तुका सगळे पयशे मेळटले. उपकरता मरे?'

रघुवीरबाबा सामकार किराबाबान अलिखीत कोंत्राद उलोवन दाखयलो, तो पोक्यान हयकारी अर्थान तकली हालोवन मान्य केलो आनी फाटल्या पांयांनी परतून तळ्यांत गेलो. आपल्याक मडगावां कित्याक आफोवन व्हेलो ती गजाल रातीकडे पोक्यान आपल्या बापायक खोशेन सांगली. आतां पोक्याल्या तकलेवेलो पेज देविल्लो. अठरा रुपयांच्या मानान गाडयेक बारा रुपये पोक्याक फायद्याचे आशिल्ले. दारु-सुताचो खर्च नाशिल्लो. चड मानायांची गरज नाशिल्ली. दोग मानांय खणूंक आनी एक खोऱ्यान भरुंक आसल्यार पुरो आशिल्लो. गरज आशिल्ली ती फकत कामेऱ्यांची.

ते दिसा बारांच्या सुमाराक मिल्टन पिटार आयलो. ताणें हेड ऑफिसांतल्यान आयिल्ल्या पत्राची म्हायती पोक्याक दिली. पत्रांत काल किराबाबान जें सांगिल्लें तेंच जशाचें तशें आशिल्लें.

मीन काडपाचो तेंप नोवेंब्र ते मायमेरेन चड करुन आसता. जून ते औतुंब्रमेरेन खणीनी उदक भरुन उरता. पोक्यान मायमेरेन काम केलें. हे काळांत ताका तरेतरेचीं सवंगां भेटलीं. सुवार्ती, फटींग, नागोवणी, तड्डकी आनी बरींय बी. ताच्या आवयचो बापोल भाव ताच्या वांगडा कामांक आयलो. पंदरा दीस मामापण गाजोवन गेलो. ताचें काम थोडें आनी बातां चड आशिल्लीं. हो मामा पोक्याक नाकापरस मोतीं जड म्हण्टात तसो जाल्लो. वतना हिशोब करुन ताणें कामाचे पयशे व्हेलेच, ते परस दोबाद्र पयशे आपल्या गांवचे लोक कामांक हाडटां म्हूण व्हेले. आनी परतें तोंडच दाखयलेंना.

पोक्याक आनीक एकटो मनीस नाकयो दुमिंग म्हूण भेटलो. तो आपूण जावन पोक्यावांगडा कामांक गेलो. आठ दिसांनी घरा आयलो. पोक्या आवयकडल्यान नाल्ल आनी सुके बांगडे पोक्यान हाड म्हूण सांगले आनी ते घेवन सुशेगाद घरा बसलो. तसोच आनीक एकलो रेमेंत म्हूण तरणाटो कामांक गेलो. घरा येतासतना पोक्याकडल्यान शंबर रुपये उसणे मागून घेतले आनी कामाक वचनासतना सुशेगाद पयशे खावन घरा बसलो. पोको पयशे मागूंक गेल्यार ताकाच धमक्यो दिवंक लागलो. अशा कितल्याशाच लोकांनी पोक्याक जाणून बुजून तोपयो घाल्यो. पोको असल्या खुबशा लोकांचो अणभव घेवन शाणो जालो.

लोकांनी पोक्याकडे कितलींय वाकडेपणां केलीं तरी पोको मात आपलो सतव्यवहार केन्नाच सोडूंक शकलो ना. तो केन्ना केन्नाय लोकांकडे फटकळपणान वागलो खरो पूण दुसऱ्याचें लुकसाण मात केन्ना करुंक शकलो ना. जयराम हरमलकारान ताचें मोठें लुकसाण केल्लें. चडसो ताचो पीट ताणें बळकायल्लो. तरी निमाणें मिल्टनाक समजावन ताणें म्हालाच्यो स्लीपी जयरामाच्या नांवार करुंक लायल्यो. पोक्याक आनी कंपनीकय आतां ते पिटार लोकांची गरज नाशिल्ल्यान मिल्टनान पोक्यालें उतर मानून घेतलें.

तरी जयरामान पोक्याक आपले दांत दाखयलेच. पोक्यान ताचेकडल्यान कमिशनाचे सत्तर रुपये कापून घेतिल्ले. ताणें पोक्याकडच्यान शिगम्याक घरा वतना घड्याळ मागून घेतली आनी ती भायल्या भायर साठ रुपयांक आपल्या एका मानायाक विकली. तरी पोक्यान झगडीं-केस्तावां केलीं ना.

पोक्यान आनी एका मनशाचो नमुनो अणभवलो तो आजून ताच्या दोळ्यां आड जायना. एक मनीस काम करता थंय आयलो. ताणें आपूण धरुन तिगां मनशां कामांक येता म्हणपाचें सांगलें. दोगां मनशांक हाडूंक धा रुपयांची गरज आसा म्हणपाचें ताणें सांगलें. पोक्याक तेन्ना मनशांची गरज आशिल्ली. ताणें ते मनशाक धा रुपये दिले. वराभरान तो एक म्हातारो आनी एक भुरगी बायल घेवन आयलो. ती मांव-सून आशिल्लीं. पोक्याक हो मनीस रेक्त दिसलो. आपूण फाल्यां येतां म्हूण सांगून तो धा रुपये घेवन गेलो.

पोक्यान सुनेक आनी मामंजीक तांचे मागणे परमाण वीस रुपयांचें रेशन घेवन दिलें. ताणीं रेशनाची पोटली तसीच बांदून दवरली. सकाळीं पोको उठचे पयलीं म्हातारो पयलीं पोटली घेवन सटकलो. ताच्या फाटल्यान बायल सटकली. पोक्याक दिसलीं तीं व्हाळार गेल्यांत. पूण तीं परत आयलींच ना.

काम करतां करतां आतां माय लागी पावलो. वोता रखरखान लोकांक काम करप अशक्य जाल्लें. लोकांलीं घरां शिवपाचो वोगोत लागीं पाविल्लो. खणीवेलो एकलो एकलोच सटकूंक लागिल्लो. पोक्यालोय सगलो लोक गेल्लो. फाटीं उरिल्ले ते दत्तू आनी सुकडो. पोक्यान तांकांय धाडून दिल्ले. गांवांच्या लोकांचीं कामां खूब आशिल्लीं. तीं आतां केलीं ना जाल्यार फुडें मेळपाची शक्यताय नाशिल्ली.

पोक्यान पावडरीचो दोंगोर निर्माण करुन दवरिल्लो. तो लोड करुन दिवपाची

गरज आशिल्ली. ताका लागून पोक्याक थंय रावचोच पडटालो. मागीर ताका मिल्टनान सांगलें, पावडर केन्ना भरीत हाचो नेम ना. तूं किराबाबाकडे वचून उलयल्यार बरो. पोक्याकय तें खरें दिसलें.

पोक्यालो पावडर फुडें कंपनीन आपल्या खर्चान भरुन व्हेलो. हिशोब करुन पोक्याक फावता ते पयशे दिवन ताका मेकळो केलो. पावस काबार जातकीर पोक्याक तो पीट पोरतो मेळपाची शक्यताय उणीच आशिल्ली. कंपनीन सोताच पावडर काडपाचो निर्णय घेतिल्लो.

मिनांतल्यान घरा येतकीर पोको आनी सुकडो लोकांलीं घरां बी शिवून जातकीर शेतांतल्या कामांत गुंतले. पूण पोको कितें करतलो? दत्तून ताचेकडल्यान घरचीं कामां करुन घेतलीं. पूण घरचीं कामां म्हूण आसून आसून कितलीं आसतलीं? आनी आतां तर बेकार बसून दीस काडपाचो वोगोत फाटीं पडिल्लो.

गरिबांच्या हातांत कितलोय पयसो आयलो जाल्यार तो चड दीस टिकना. पोक्यालेंय तशेंच जालें. पयलेच फावट ताच्या हाताक थोडे पयशे लागिल्ले. ते ताणें शांतूच्या आदारान, जून सोंपता सोंपता म्हळ्यार काबार करुन उडयले. आतां यो रे म्हज्या मागल्या!

कालेंच्यान घरा येता वतासतना चांदर आनी कालें हांचे मदें एक पूल लागता. हे पुलाक तेकूनच एक चोवगुल्याली खाण लागताली. ती पडट्या पावसांत लेगीत चालू आसताली. ती दोंगोर कापून थरांनी तयार आशिल्ल्यान पावसाचो आनी उदकाचो मीनाच्या कामाचेर कसलोच परिणाम जायनाशिल्लो. पोक्याक आतां तें खणीची याद जाली. ते खणीचेर काम मेळटा काय पळोवया म्हूण पोको एक दीस काल्यां गेलो. कारण चोवगुल्या खणीचेर काम करपी कोंत्रादोर काल्यां रावता आनी तो पोक्याल्या एका वळखीच्या मनशाक बरे भसेन वळखता हें पोको जाणां आशिल्लो. काल्यां पावनाफुडें मजा अशी की, पोक्याक ते दोगय एकाच सत्रेंत चलतात ते दिश्टी पडले. पोक्यान आपली कोलोंबो सत्री फुलयली आनी आपल्या मनशाक कुशीन व्हरुन आपण कित्याक आयला तें सांगलें. तो पोक्यालो हुतहुतो मनीस कोंत्रादाराकडे धांवलो. पोक्यालें काम जावंकच जाय म्हूण ताणें फावोर घालो. खरें म्हळ्यार कोंत्रादोराक लोकांची गरज नाशिल्ली, तरीय ताणें पोक्याक दोन-तीन मनशांची सुवात दिवंक तो कोंकोर्द जालो.

पोक्यान येवजिल्लें सुकडो आपल्या वांगडा येवंक तयार जालो ना जाल्यार निळूक घेवन येवंचो म्हूण. दत्तूक तर ताणें कोंताकच धरु नाशिल्लो. पूण सुकडो एका पांयांर येवंक तयार जालो.

ते दिसा सोमार आशिल्लो. पोको, सुकडो आनी निळू बारा वरांच्या सुमाराक खणीर पावले. कोंत्रादोर खणीर उबो आशिल्लो. सगळी खण ताच्याच नांवार आशिल्ली. ताचेकडे दोन-तीन सुपरवायझर आशिल्ले. हे पोतावेलो म्हाल ते पोतार व्हरुंक रुळावेल्यो हात लायल्यारच धावतात तसल्यो हात गाडयो आशिल्ल्यो.  तांकां थंय लाडिसां म्हण्टाले. एक लाडीस एका टनाचें आशिल्लें. एक लाडीस म्हालाक तीन रुपये मेळटाले. दिसभर काम करुन एक लाडीस म्हाल काडल्यारच मानायांचो दिसवडो भरतालो.

पोको दोगांकय घेवन गेलो तेन्ना काम जोरांत चलतालें. रुळांचेर पावलां कणकणी लाडिसां भरतालीं. एका पोंतार टिप्परी उभ्यो करपाची व्यवस्था आशिल्ली. वयले तळार अशेतरेन रुळ सोडिल्ले की लाडीसांतल्यान ओतयल्लो म्हाल टिप्परींत पडचो. टिप्परीर टिप्पर भरुन भरून वताल्यो. एक हेड सुपरवायझराचे धेंगसे ताणसे आनी आड्डेवप सोडलें जाल्यार मनीसजातीचो आवाज नाशिल्लो. कॉंप्रेसर, ड्रिल आनी ट्रकाचो घर घर एक सारखो चालूच आसतालो. मदें मदें कुंकारे घालीत धडधड करुन पुलावेल्यान उज्यागाडयो धांवताल्यो. हो सगळो करकर, घरघर, धडधड आनी सुपरवायझराची बडबड सकाळची सातांक कोमेस जाताली ती दनपारां बारांक थांबताली. परती एक ते सात मेरेन चलताली. हांगाचीं मनशांय यंत्रासारखींच काम करतालीं. पोक्याक हें सगळें नवें आशिल्लें. तें पळोवन पोक्याक दिसलें, थंयच्यानच फाटल्या पांयांनी पळ काडची. पूण मागीर ताणें माघार घेतलीना.  सुकड्याक आनी निळूक एके सुवातेर उबे करुन पोको पात्रांवांच्या सामकाराक वचून उबो रावलो. लोक कोंत्रादोराक पात्रांव म्हण्टाले. पात्रांवांन पोक्याक रोकडोच वळखलो. ताणें हेड सुपरवायझराक आफोवन तीन मनशांक फावता तितली सुवात दिवपाक सांगली.

हो हेड सुपरवायझर भलतोच कडक आशिल्लो. कामावेले सगळेच लोक ताका पळोवन कडकडटाले. तो सांगता ताचेवयर उलोवपाची कोणाक कापस्ताद नाशिल्ली. कोणेय  पात्रावांकडे ताचेर कोंत्र केस केल्यार ती चलनाशिल्ली.

हेड सुपरवायझर पोक्याक घेवन एका कोनशाक गेलो. ताणें दोन मेत्र रुंदायेची

सुवात पोक्याल्या नांवार केली. हे सुवातेकडल्यान रुळ कोमेस जावन दुसऱ्या पोताक सोंपताले. हे रुळांक तेंकून एक व्हडली, खोलायेची दरय आशिल्ली. दरयची खोलाय धा मेत्र तरी आसतली. वयर रावून नदर मारल्यार आंगाक शेळो घाम सुटटालो. 'आलिया भोगासी असावे सादर' म्हूण पोक्यान ती सुवात आपणायली.

मागीर तो सुपरवायझर पोक्याक घेवन बार्राकार गेलो. हें बार्राक पत्र्यांनी शिविल्लें आशिल्लें. बार्राकांत घाटयांली आनी कुणबी गावड्यांली बुरशीं भुरगीं खेळटालीं. मर्दी मर्दी एकेक सुणें झेमताले.

हांगाय पोक्याक देड मेत्र रुंदायेची सुवात दिली. सुवातेची लांबाय व्हडलीशी जाल्यार तीन मेत्र आसूंये. न्हिदतकीर मनशाचे पायें सकले कडेर पडटाले. ही कड पावसा उदकान सदाकाळ वोली आसताली. चुलीकुशीक मात इल्ली सुवात सुकी आसताली. तेच सुवातेर जेवन - खावन गुटली करुन पडपाचें. चूल पयलींच परमानेंत करुन दवरिल्ली. रातीचें जेवण शिसलेंत सुतली घालून पेटयिल्ल्या पेत्रोला दिव्या उजवाडान करचें पडटालें.

सुपरवायझरान रेशनाखातीर पोक्याक धा रुपयाची चीट दिवन ट्रकार चढयलो आनी ड्रायवराक ताका पसऱ्यार सोडूंक लायलो.

दुसरे दिसा पोक्याकबी रांदपाक पाचांक उठचो पडलो. हांगाचें जेवण आतां पोक्याकच करचें पडिल्लें. जेवण म्हूण कसलें? बलम तांदळांची पेज आनी शीत. सकाळची पेज आनी दनपारचें शिताचेर मिरसांगा पिठो शिपडावन, वयल्यान खोबरेल तेलाचो थेंबो फापडून आनी सुको बांगडो भाजून तोंडाक लावप. जालें जेवण! बांगडो ना तेन्ना कातले कुडको लावपाचो.

पोक्याली चूल मदें आनी एकेवटयां किरिस्तांव आनी दुसऱ्या वटयां कुणबी गावड्यांचें बिराड. शेजराक आशिल्ल्या बिराडांतली बायल गोंयची आनी घोव केरळाचो. ताचीं दोन ल्हान भुरगीं. दुसरो शेजारी बेबदो कुणबी. मदें मदें बायलेक बडोवपी आनी कातारां म्हणपी. केरळी शेजारी आनी ताची मुंबय कोणागेर रावन आयिल्ली बायल सिनेमाचीं गाणी म्हणून मनोरंजन करुन घेवपी. आनी आमचो निळू भजनान ताण. रातचें जेवण जावचे पयलीं सिनेमां गीतां, कोंकणी कातारां आनी तांतूंत मरांठी भजन. कोणे केन्ना म्हणून थांबचें हाचे थाराव पास करुन दवरिल्ले.

णवां पयलीं जेवन मडीं जावपाचो हेड सुपरवायझराचो कायदो आशिल्लो. णवां उपरांत कोणेंय बोवाळ केलो आनी तो हेड सुपरवायझराच्या कानार पडलो जाल्यार, ताच्या XXX खोंट पडलीच म्हूण समजपाची!

पोको नवो आशिल्ल्यान हांगाचो कायदो ताका खबर नाशिल्लो. ताका दिशिल्लें, काम आंगावेलें आशिल्ल्यान कामार केन्नाय वचपाचें केन्नाय येवपाचें. बाकीच्या खर्णींचेर चडशें तशेंच आसतालें. दिसवड्या लोकांक मात वोगतार हाजीर रावचें पडटा. हांगाचो कायदो अरे रावी आनी दुसऱ्याची स्वतंत्रकाय काडून घेवपाचो हें पोक्याक कळून आयिल्लें. बार्राकांतली पयलीच रात आशिल्ल्यान, रेलगाडयांच्या गडगडान आनी पिल्लुकांच्या आवाजान ताका न्हीद पडलीना. ताका लागून पोक्याक मात्सी उसरां जाग आयली आनी सकाळीं उठल्याबराबर भायर घसघशांचो पावस पडटा तो पळोवन दिशिल्लें घडये ते दिसा काम एक तर बंद आसतलें ना जाल्यार पावस उणो जातकीर उसरां कोमेस जातलें. पूण बराबर सातांक हेड सुपरवायझर येवन बार्राका मुखार ताणें ट्रक थांबयलो. ते बराबर बार्राकांतले सगळे लोक हाताक मेळत ते आसरोवणें घेवन भायर पडले . पोको आनी सुकडो तर सुपरवायझराचो अवतार पळोवन भिजत भायर सरले. निळू थंयच घुस्पता तें पळोवन सुपरवायझरान ताका हाताक धरुन भायर काडलो.

ही करणी निळूक साप्प आवडलीना. गांवांत जाल्यार तो आपलो हात धरतल्याच्या सोणकुटार दितलो आशिल्लो. पोक्याकय सुपरवायझराचो देमायज राग आयलो. पूण करतलो कितें? सत्तेफुडें शाणपण चलना. हो कोंत्रादोर धर्मान किरिस्तांव आशिल्लो. ताचे सुपरवायझरय किरिस्तांवंच आशिल्ले. किरिस्तांव धर्मिक आनी दयामायेचे आसतात अशी पोक्याली समजण आसताली. पूण ताची ही समजण चुकीची आशिल्ली. बरीं-वायट मनशां सगळ्या धर्मांत आसतात हें पोक्याक आयज कळून आयलें.

निळून सुपरवायझराचेर हात उभारुना जावन बरें जाल्लें. ना जाल्यार ताचीं हाडां तेच वोगतार खिळखिळीं जातलीं आशिल्लीं. हे फुडें थंय अशें जायत्या जाणांक घडलां, अशी म्हायती पोक्याक उपरांत मेळ्ळी.

ही खाण नांवापुरतीच कंपनीची आशिल्ली, पूण थंय राज्य चलतालें, कोंत्रादोराचें. हो कोंत्रादोर आपल्या लोकांक पिळून सोडटालो. मोन्यानीं असलीं

कामा तो आपल्या सुपरवायझरांकडल्यान करुन घेतालो. कोणाल्या नाड्यार करतालो तो असलीं कर्मां?

ते वेळार राज्य पोर्तुगेजांचें आशिल्लें. आजेंत मोंतेर आपल्याक जाय तेन्ना आनी जाय थंय धुमाकूळ घालतालो. ताका जाप विचारपाची कापस्ताद कोणाकच नाशिल्ली. कोणे अन्याया आड उतर भायर काडलेंच जाल्यार ताका 'जाय हिन्दीस्त' म्हूण मारझोड करुन ताका कादयेंत दामतालो. हे कोंत्रादोरासारखे कितलेशेच मनीस मोंतेरोचे हस्तक आशिल्ले. हे हस्तकांचे सांगणेन खुबशा लोकांक गरजेभायर मार खावंचो पडला.

हे खणीकुशीक एक पूल आशिल्लो. पुलाक तेकून एक पोस्त आशिल्लें, हे पोस्तार पांकले आनी खांपरी आसताले. आजेंत मोंतेर कोंत्रादोराचो आमीग आशिल्ल्यान, पोस्तावेले पांकले कोंत्रादोराक खूब रेस्पेद दिताले. हे पांकल्यांक सेरवेज आनी बायल दिवन आपल्याक जाय ते लोकांक बडोवपाचें काम हो कोंत्रादोर करी!

पोक्यान आवाशिवा करुन जुलाय आनी आगोस्त म्हयनो ते इंफेर्नांत काडलो. थंय काम मेळिल्लें म्हूण पोक्याली चवथ ताण गेल्ली.

हे इंफेर्नांतली आनीक एक गजाल पोको आजून विसरुंक ना. ते बार्राकांत एक हरिजन रावतालो. पोक्याली काम करपाची सुवात हे हरिजनाले सुवाते तेकूनच आशिल्ली.

हरिजनाक लोक तरास दितात तें पोक्याक साप्प मानवनाशिल्लें. ते गरीब आनी नमळ आसूनय लोक, चड करुन हिन्दू तांकां सतायतात हें पळोवन पोक्याक खूब वायट दिसतालें.

पूण हे हरिजनान मात पोक्याचो भ्रम निवळ्ळो. काम करतां करतां सुकड्याच्या हातांतल्यान एक लाडीस सुटून, गडबडून थंयचे खोल दरयेंत पडलें. पोक्याचेर आयलो आकांत. तें वयर काडटलो जाल्यार उकलूनच काडूंक जाय आशिल्लें. आयज कामार पोको आनी सुकडोच आशिल्ले. दोगांकडे लाडीस वयर येवंक कठीण आशिल्लें. उणेच चार मनशांची गरज आशिल्ली. सांजेचीं पांच वरां जाल्लीं तेन्ना. पोको आनी सुकडो अडचणेंत पडल्यात तें पळोवन तांचो फायदो घेवपाचो ते हरिजनान थारायलें. ताणें पोक्याक सांगलें, आपूण तुमकां मदत करतां. पूण तुमी पयलीं आपल्या कामाक मदत करची पडटली. हरिजनालें एक

खडप कशेंच सुटनाशिल्लें. तें पारयेन हालोवन मेकळें करपाक ताका दुसऱ्याचो आदार जाय आशिल्लो. पोक्यान आनी सुकड्यान ताका आदार दिलो. ताचें तें काम करतां करतां काळोख जालो. आपलें काम सोंपतकीर हे हरिजनबाबान कितें करचें? काम करुन आपल्या भेंडांत आयलां, तुमचें लाडीस तुमींच काडात म्हूण थंयचो नाच जालो.

आतां पोक्याचेर आयलो आकांत. सुपरवायझराच्या कानार पडचे पयलीं, लाडीस वयर काडूंकच जाय आशिल्लें. हे हरीजनान आपलो विश्वासघात केल्लो म्हूण पोक्याले दोळे भरून आयले. सुकड्याचें तोंड सुकून येदेंच जालें. काळोख तर आपली राजवट एक सारखी पसरायत आशिल्लो. तरी दोगय भावांनी धीर सोडलोना. दोगय सकल देंवले. कांटे खुंटे पयस करीत फुडें फुडें गेले. खांच खळग्यांनी सोरपांचो भंय आशिल्लो.

आतां ते आवा शिवा करीत लाडीसाकडे पावले. लाडीसाक मात्सो मात्सो झटको दिवन तें फुडें फुडें धुकलूंक लागले. हातांनी फातर पयस करुन लाडीसाची वाट इल्ली इल्ली मेकळी करुन ताणीं शेकीं काळखांतल्यान लाडीस भायर काडलें. प्रयत्नाअंती परमेश्वर अशें म्हण्टात. प्रयत्नानी पोको संकटमुक्त जालो.

**शां**तूल्या मतापरमाण पोको आतां वीस वर्सांचो जाल्लो. हे पिरायेमेरेन ताणें खुबशीं कामां करुन जिविताणभव घेतिल्लो. हे आदीं दोन वेळां ताणें खणीर सोता कोंत्रादोर म्हूण काम केल्लें. आनी हे खेप थोडो वेळ ताका कोंत्रादोराचो कोंत्रादोर म्हूण काम करचें पडिल्लें. आतां हे फुडें मात आपूण खणीचे फातर फोडपाचें काम करचोना अशें ताणें थरयल्लें.

चवथ जातकीर दत्तू आनी सुकडो शेत लुवप-मळपाच्या कामाक लागले. गांवांत आतां पोक्याक करीसारखीं कसलींच कामां नाशिल्लीं. तरी तो नवीं नवीं सपना रंगयत भोंवतालो. घराकडे बारीक-सारीक कामांत हातबोट घालून शांतूक आदार दितालो.

भातशेताचें काम सोंपतकीर दत्तूक आनी सुकड्याक शेतांतलीं हेर कामां,

रोपे, वाली रोवप, शिंपपासारकीं कामां आशिल्लीं. पूण पोक्याची मात कामां व्यवस्था नाशिल्ली.

एका भाटकाराल्या भाटांत लांबचे लांब एक फातरांदुरीग बांदचें आशिल्लें. भाटकार तें दत्तूकडसून दिसवड्या कोंतान बांदून घेवंक सोदतालो. भाटकारान दत्तूक मानांय-कामेऱ्यां आरांजार करुंक लायलीं. दत्तूल्या देखरेकी खाला हें काम चलपाचें आशिल्लें.

पोक्यान हे दुरगाचो सुमार पळेलो. भाटकारान फातर आनी माती आदींच हाडून रखयल्ली. दुरगासुवातेपासून ती बरीच पयस आशिल्ली. पोक्यान विचार केलो, हें दुरीग बांदपाचें काम आपणेंच खंडाक घेतल्यार कशें जायत? येत्न करुन पळोवपाक कसली हरकत आसा?

पोको आतां भाटकारागेर गेलो. भाटकार सोंप्यार बसून बुलेतींन वाचतालो.

पोको इस्कादीच्या सोपणाचेर वचून उबो रावलो.

'भाटकारा, तुजें दुरीग तूं आमकां खंडाक कित्याक दिना? पंदरा दिसांभितर तुका आमी तें प्रोंत करुन दितां.'

पोक्यान माथें खरपिनासतना प्रस्न केलो. पोक्यालें 'प्रोंत' हें उतर भाटकाराक भौच मानवलें. शिवाय प्रस्न धिटायेचो आशिल्लो.

'दत्तू फूंय आहाय रे ? दत्तूक आफोय उलोवंक.'

'भाटकारा तेणेंच धाडला म्हाका उलोवंक.'

'ओहें म्हुण्टाय? तोहें जाल्यार मात्सें चितचें पोडटोलें. कितल्याक कोत्तोलोय?'

'तूं सांग भाटकारा.'

'हाजराक कोत्ताय मुरे?' भाटकारान पोक्यालें रेस्पोंस पळोवपाक प्रस्न करुन फातोर मारुन पळेलो.

'कितें भाटकारा! येदें व्हडलें दुरीग एका हाजराक ?'

'तूं कितल्याक कोत्तोलोय सांग.'

'भाटकारा मानाय-कामेऱ्यां घालून बांदतोलो जाल्यार उणे दोन हजार लागतले. तूं कोणाकय इचारुन पळय.' पोक्यान भाटकाराल्या तोंडाकडे उत्सुकतायेन पळेत वाटाघाट केली.

'तूं एका उतरान सांग कितक्या कोत्तोलोय पोडे तो.'

‘भाटकारा तूं आमचोच आसा न्हू, तुजें काम आमी देडा हजराक करुन दितां.’

‘बोरें आहा, चोल दिलें.’

भाटकारान दुरीग देडा हजराक सा केलें. हाचे पयलीं कोणेतरी ताच्याच सोयऱ्यान ताका सांगिल्लें, दुरगाची बांदावळ अडेच हजारमेरेन वतली म्हूण. भाटकारालें उतर मेळनाफुडें पोको नाचत नाचत घरा गेलो. ताणें ती खबर दत्तूक दिली. पोक्यान दुरीग खंडाक केलें तें आयकुनच दत्तू पोक्याचेर पाडसभर उसळ्ळो. म्हणूक लागलो,

‘तुका नाका आहलेल्यो रटावळी कोणे कर म्होणोन सांगल्यात? तूं तरासांत पडटा तो पडटा, आमचोय जीव कित्याक खाता?’

दत्तू थंड जाय म्हणसर पोको मोन्यानी उबो रावलो. तो आतां भुरगो उरुंक नाशिल्लो. स्वताचो निर्णय स्वताच घेवंक शकतालो. ताणें बापायक सांगलें, आपूण तें काम करुन घेतां. तूं आनी सुकडो दिसवड्याचें काम करात. तूं फकत दुरीग कशें बांदपाचें तें लोकांक शिकय, लोक हाडपाचें काम आपलें.

पोक्याक निळूची याद जाली. निळू आतां तागेलो इश्ट जाल्लो. ताणें निळूक सात-आठ कामेऱ्यां पळोवपाक सांगलें. दुरीग बांदूक चड गरज आशिल्ली ती कामेऱ्यांचीच, फातर, माती आनी उदक म्हऱ्यांत हाडून दिवंक!

सगळ्या मानाय-कामेऱ्यांक घेवन काम नेटान कोमेस केल्लें. दत्तू रागाभरान खूब उलयलो खरो, पूण शेंकीं ताका आपूण पोक्याचो बापूय म्हणपाची जाणविकाय जाली. कामाची सगळी जापसालदारकी ताणें आपल्याचेर घेतली. कोणें कोणें कसलें काम करपाचें तें ताणें वाटून दिलें. सुकड्याचेर कामेऱ्यांक माती भरुन दिवपाचें काम पडलें आनी पोको फातर उबारून दिवंक तयार जालो.

कामेरीं वोगतार येतालीं. पूण दत्तू, सुकडो आनी पोको सक्काळीफुडें कामाक लागून आमोरीमेरेन जीव तोडून काम करताले. दनपारां एक वराचो सुशेग तांकां मेळटालो. अशे तरेन अकरा लोकांनी वीस दिसांभितर दुरीग बांदून मेकळें केलें.

हे दुर्गाचेर पोक्याक एक हजार रुपये फायदो जालो. अशे तरेचो फायदो दत्तून जल्मांक मेळोवंक नाशिल्लो. इतलेंच न्हय तर, पोक्याक मिनाक लेगीत इतलो फायदो केन्नाच मेळ्ळो ना.

पोक्याक आपणें उलयलो हाचें दत्तूक आतां मोठें पिकासांव जाल्लें. हाचेफुडें

पोक्याल्या कामांत ढवळाढवळ करची न्हय, अशें थरोवन दत्तू मेकळो जालो. फुडे फुडें पोक्याक विचारल्याबगर कसलेंच काम करुंक तो तयार नाशिल्लो.

भाटकारान कां कूं करिनासतना दत्तूक पयशे फारीक केले. पोक्यान मानाय-कामेऱ्यांचे पयशे दिवन जातकीर पांचशें रुपये आपल्याकडे दवरले आनी उरिल्ले पयशे शांतूकडे दिले.

हे फुडें दत्तूक खंडाक कामां घेवपाची गोडी लागली. केन्ना केन्नाय लुकसाण जाल्यार लेगीत उपकारता पूण दिसवड्यान कामां करपाचीं सोडून दिवपाचो कानमंत्र पोक्यान दत्तूक दिलो. व्हडलीं कामां ना जाल्यार मात लटरफटर कामां दिसवड्यान तांकां करचीं पडटालीं. दत्तू आतां खंडाक घेवंक लागिल्लो. असले कामांक पोको स्वता काम  करुंक तयार जातालो. ताका केन्नाय येवन केन्नाय काम सोडून खंयी वचपाची संद मेळिल्ली. ताचेर कोणाचो वचक आनी दबाव नासतालो. अशे तरेन दत्तूले लगाडीक लागून सगळे तरेचीं कामां शिकलो. आंब्याची बेनुल्ल काडपाचीं कामा लेगीत दत्तू आतां खंडाक घेवंक लागिल्लो. सुर्वेक सुर्वेक पोको ल्हान ल्हान झाडांचेर चडूंक लागलो, मागीर मागीर कसल्याय आनी केद्याय व्हडल्या झाडाचेर चडपाक भंय म्हण्टात तो ताका दिसनाशिल्लो.

अशे तरेन सैमाकडे झगडपाचें आनी खेळपाचें शिकप पोक्याक आपल्या बापायकडच्यान मेळ्ळें. झाडार चडटकीर ऊण्णां, हुमले, मुयो हेर जिवाळ ताचेर तुटून पडटाली, पूण तांकां वाटेक कशेतरेन लावप हें पोको बेसबरें जाणां आशिल्लो.

पोको आतां केदेय व्हडल्या माडार कांय न्हय करुन चडूंक शकतालो. बेकार आसल्यार पुराय उंचायेच्या माडाकळवांत बसून तो सैमाची सुंदरकाय आपल्या दोळ्यांनी उप्पाट भरून घेतालो. रुखाचेर बसून सैमाचो आस्वाद घेवपांत ताका जें सूख मेळटालें तें कॉलेजांनी शिकप्या तरणाट्यांक दुडवांच्यो राशी मोडून क्लबांनी मेळपाची शक्यताय नाशिल्ली.

केन्ना-केन्नाय पोको शेताधडेर बसून जोतकार शेतांत जोत घालता ताचो नियाळ करीत बसतालो. जोतकाराचें तें इरी-इरी-इरी आनी प्पा-प्पा-प्पा बेसबरें लागतालें. जोताकाराच्यो त्यो रेड्या-पाड्यांक घाल्ल्यो गाळी, तांकां दिल्लो शिड्यांचो मार, शेपड्यो हालोवन रेड्या-पाड्यांचें मुसाक पयस करप, जोतकाराचें गरजेभायलें आड्डेवप, हें सगळें पळोवन पोक्याक सर्गसूख प्राप्त जातालें.

हेच भसेन एक दीस धडेर बसून जोत सूख घेतासतना पोक्याचे तकलेतले

बुद्धीन पोक्याक जागो केलो. पोक्याल्या बोल्सांत पाचशें रुपयांची ऊब आशिल्ली. ताका दिसलें आपणें एक जोत कित्याक घेवचें न्हय? एक दीस शेतांत आनी भाटांत जोत घाल्यार स-सात रुपये मेळटात गांवांत. तिनशें रुपये खर्च केल्यार जोत तयार जाता. स म्हयन्यानी जोताचे दुडू भरतले. शिवाय आपल्याकय काम मेळटलें. सक्काळीफुडें जोत घेवन शेतांत देंवल्यार धा मेरेन वयर सरुंक मेळटा.

पोको तेच नेटार घराकडे धावून आयलो. ताणें आपले विचार दत्तूक सांगलें. पोक्याकडे दुडू आशिल्ल्यान जोत घेवंक कसलीच अडचण नाशिल्ली. शांतून आनी सुकड्यानय पोक्याक तेंको दिलो.

पोको जोत घेवंक सोदता ही गजाल दत्तून आपल्या वांगड्यांतल्या कोणाक तरी सांगलें. ही गजाल दुसरे वाड्यावेल्या राजाराम नायकाक कळ्ळी. करमळी गांवांत ताच्या सोयऱ्याकडे एक पाडो आशिल्लो. खावन खावन मातिल्लो. कोणाकच आटापा येनाशिल्लो. कोणाल्या शेतांत शीर तर कोणाल्या पोरसांतले केळंबे मोडून वडय. तरी बरीं ताचीं शिंगां वाकडीं आशिल्लीं. ना जाल्यार कितले जाणांक तोपतलीं आशिल्लीं देवाक खबर. सगळो लोक ताका थारांयच भियेतालो. सगळे गांवांचें म्हणणे आशिल्लें ताका वाकाक दिवंचो. पूण पाड्याचो धनी हिन्दू आशिल्ल्यान तो पाड्याक वाकाक दिवंक धजनाशिल्लो.

राजारामान तो पाडो विकतो घेवंक कोमार काडलो. सवाय भितर मेळटलो म्हूण सांगलें. पाड्याक जोत वोडूंक शिकोवपाची जापसालदारकी राजारामान घेतली. शेकीं णव्वद रुपयांक दत्तून पाडो घेतलो. ताका हाडपाक राजाराम चार लोकांक घेवन करमळे गेलो. तीग जाण दोरांच्या आदारान, रस्त्यावेल्यान वोडीत पाड्याक हाडटाले. तेन्ना रस्त्यावेल्यान गाडयो धावनाशिल्ल्यो. आतां तेंपार जाल्यार तें कशेंच शक्य नाशिल्लें. राजारामान पाड्याक हाडून आपल्या घरामुखार बांदलो. आठ दीस ताणें पाड्याक उपाशीं दवरलो. मस्ताल पाडो आठ दिसांनी सुणो कसो दिसूंक लागलो.

इतले म्हणसर राजारामानच दुसरो पाडो सोदून हाडलो. हो पाडो मात शांत आनी गरीब सोबावाचो आशिल्लो. रंगान काळो. शिंगा उबीं. थांब म्हण्टा तेन्ना थांबपी. आनी चल म्हण्टा तेन्ना चलपी. गाडो वोडपाचो पाडो तो. ताचो सांगाती खष्टां तेल पिवन मेलो देकून ताका ताच्या धनयान विकलो.

मोस्तो पाडो आतां सामको अशक्त जाल्लो. आंगार तांबडीं-धवीं टिपकां

आशिल्ल्यान राजारामान ताका शिबरू नांव दवरलें. दुसरो पाडो काळो आशिल्ल्यान ताका काळू नाव पडलें.

एका आयताराक राजारामान शिबरुक जोत शिकोवपाचें थरयलें. शेनवाराक ताका उदक-पाणी आनी तण-वाली दिवन ताजो-तवानो केलो. मस्त्या पाड्याक जोताक बांदता तें पळोवंक गांवचे शेतकार मुजरत आयिल्ले.

राजारामान काळूक शेतांत देवयलो. नांगराचें जूंव उबारलें मात, काळू जुवांकडे उबो. मागीर राजारामान खुंट्यावेलो शिबरुक सोडलो. पूण शिबरू खुट्यावेलो कसोच हालना. सूम जळ्ळें तरी वळ वचना म्हण्टात तशें शिबरुचें जालें. राजारामान ताका बडय बडय बडयलो. शिबरु शेतांत कसोच देवना. राजारामान एक लांब दोर हाडून बांदलें. एक पोंत एका मनशाकडे आनी दुसरें आपल्या हातांत घेवन पाड्याक हिसके मारीत शेतांत देवोवपाक लागलो. पूण पाड्यान तांकाच हिसको मारून धांव मारली आनी हे वटेन तेवटेन पळेनासतना करमळेची वाट धरली.

अशे तरेन शिबरुन राजारामाक तीन खेप दुतरो दाखयलो. राजारामय वस्ताद आशिल्लो. ताणें तिनय खेप पाड्याक करमळेच्यान हाडलो. राजारामाकडे मस्ते पाड्यांक ताळ्यार हाडपाचे जायते उपाय आशिल्ले. ताणें एक दीस कशेंय करुन पाड्याच्या खांदार जूंव दवरलेंच. पूण पाडो जूंव खांदार घेवन खूर उबारुंक कसोच तयार जायना. राजारामान विडी पेटोवन पाड्याच्या जांगडांक चटके दिवंक कोमेस केले. तरीय पाडो आळबंदाक येना. मागीर ताणें मिरयां पिठो दोळ्यांत घालून पळेलो. हीं सगळीं कर्मां पोको धडेर उबो रावन पळेतालो. राजाराम पाड्याचे हाल हाल करता तें पोक्याच्यान पळोवंक जायना जालें. ताणें राजारामाक ताणसेवन सांगलें आपले पयशे गेल्यार वचूं, पाड्याक सोडून दी. राजारामय सगळे उपाय करुन थकिल्लो. तो पाड्याक शेतांत सोडून घाम पुशीत वयर आयलो.

पोको ताणसेलो तें पळोवन शिबरु शेतांतसावन पोक्याच्या तोंडाक पळेत रावलो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो पावळ्यो गळटाल्यो.

शेतांतूच एक होंडो आशिल्लो. होंड्या देगेक थोडें पांचवेचार तण आशिल्लें. पोक्यान तें लुवलुवीत तण कोयतेन कांपलें. तणाची मूठ घेवन पोको शिबरु म्हऱ्यांत गेलो. तण पाड्या तोंडाकडे धरलें. पाडो तणाक तोंड लायना. पोक्यान

ताच्या फाटीर हात वोडलो. ताच्या खांदावेलें जूंव सोडलें. पोक्याक दिशिल्लें पाडो आतां पळटलो. पूण ताणें तशें केलें ना. पोक्यान आतां ताची फाट पोशेवपाक कोमेस केलें. पोक्याच्या हातांतली माया पाड्याच्या काळजामेरेन पावली. आतां मात पाडो पोक्याच्या हातांतल्या तणांकडे पळोवंक लागलो. पोक्यान तण पाड्याच्या तोंडाकडे धरलें. पाड्यान तणाच्यो काडयो दोन दोन करुन खावन उडयल्यो.

तणाची चूडी खावन जातकीर पोक्यान नांगराचें जूंव सोडूंक कोमेस केलें. पोको जूंव सोडटा तें पळोवन पाडो जुवांकडे येवन उबो रावलो. पोक्यान बेटेंच जूंव ताच्या खांदार दवरलें. पाड्यान ताका मातय विरोध केलो ना. पोक्यान मागीर काळूक आमडीत हाडलो. काळू आपल्या जाग्यार उबो रावलो. पोक्यान ताच्याय खांदार जुंव दवरून हातांत नांगरामूठ धरुन लागलो इरी-इरी -प्पा - प्पा करुंक. सगळो वाटार शांत आशिल्लो. शांतकायेचो भंग करतालो तो, पोक्यालो आवाज. हो आवाज आशिल्लो तो पाड्या-पोक्या मदलो सुसंवाद. मनीस-मोनजातींतली मोगाभास!

सवंय जावपाखातीर पोक्यान चार दीस जोत कोणाल्याय शेतांत फुकट घालें. पोको आनी जोत घालता? आरे वा! जोता फाटल्यान शेता-भाटांत सवण्या-कावळ्यांचीं जात्रा भरताली. ही जात्रा पळोवंक हांगा-थंयचे ल्हान - व्हड सहज एकठांय जाताले. कांय दिसांफाटीं धुमशेणां घाली तोच पाडो आतां शांत आनी सरळ चलतालो.

पोक्यालें काम आतां हेर जोतकारांपरस चड आनी बरें जातालें. तो आतां मोठें-बारीक तास काडूंक शिकिल्लो. आळेर तर सामकीच लिंप जाताली. सगळें शेत सपाट दिसूंक लागतालें. ताका लागून शेतकार पोक्याकच काम दिताले.

थोडेच दिसांनी पाडे आनी पोको एकजीव जाले. तांची इश्टागत इतली वाडिल्ली कि पोको दिसलो ना जाल्यार बैल ताच्या वाटेकडे दोळे लावन उबे रावताले. पोक्यालो जोताधंदो आतां नेटान चलतालो. हातांत पयशे खुळखूळूंक लागिल्ले. पोको आतां एकोणीस वीस वर्सांचो जाल्लो. ताका आतां लांब पँट घालिनशी दिसताली. ताणें डॅक्रोन पेंट आनी टेलेरीन बुशर्ट शिवून घेतलें. आतां तो इश्टांवांगडा सायकलीन पणजे वचून नाटकां-सिनेमां पळोवंक लागिल्लो.

ताका एक बरो इश्टय मेळिल्लो. बरो हे खातीर कि तो लटर-फटर लोकांवांगडा भोंवपी न्हय आशिल्लो. तो शिकिल्लो. सवी मेरेन इंग्लीश शिकिल्लो. बापूय मेल्ल्यान मॅट्रिकची परिक्षा दिवंक मुंबय वचूंक ताका जमनाशिल्लें. तो आपल्या बापोलयाक मांडार बसून आदार दितालो. हे इश्टालें नांव आशिल्लें काशिनाथ. पोको बेकार जाता तेन्ना काशिनाथाल्या मांडार बसून चकाटां मारतालो. पूण हीं चकाटां बेकार मात नाशिल्लीं.

काशिनाथ एक बरो भुरगो. शिकिल्लो आनी कोणाकडेनूय उलयतना जोकून-मापून उतरां भायर घालतालो. पोक्याली आनी काशिनाथाली जोडी जमली ती पळोवन गांवच्या लोकांक अजाप दिसतालें. हेच काशिनाथाक लागून बऱ्या बऱ्या लोकांच्यो फुडें फुडें वळखी जाल्ल्यो. काशिनाथागेर तागेले सोयरे धायरे येताले. काशिनाथ तांचेकडे पोक्याची मुजरत वळख करुन दितालो. पोक्या-काशिनाथाली इश्टागत काशिनाथापरस पोक्याकच चड फायद्याक पडिल्ली. पोक्या-काशिनाथाली इश्टागत गांवांतल्या खुबशा लोकांच्या दोळ्यांत खुपसताली. पोक्यामदें अशें कितें आशिल्लें कि एका शिकिल्ल्या भुरग्यान शेतांत जोत घालपी भुरग्याची इश्टागत केल्ली?

आपलो एक शिकिल्लो मित्र आसा हाचे जाणविकायेनच पोको फुलिल्लो. तांचे इश्टागतींत कसलोच सुवार्थ नाशिल्लो. पोक्याक आपल्या आनी काशिनाथामदलें अंतर खबर आशिल्लें. ताका लागून, पोको काशिनाथाक फाव तशीं जोखून माखून उतरां उलयतालो. पळेतल्याक दिसचें न्हय कि पोको काशिनाथालो इश्ट म्हणून घेवंक लायक ना.

हे काशिनाथांत खुबशे बरे गूण आशिल्ले. ते ताका घराब्यांतल्या संस्कारांतल्यान मेळिल्ले. थंड उलोवप. दुसऱ्याक बादपी उतरां टाळप, हासरें तोंड करुन उलोवप, आपूण एक बरे फामिलेंतल्यान आयलां हाची जाणविकाय दवरप, हे सगळ्या गुणांचो परिणाम पोक्याचेर जातालो. पोकोय ते गुणांचें मुजरत अनुकरण करतालो. पोक्याक दिसतालें आपूण काशिनाथावांगडा खंयीं गेल्यार ताचो इश्ट सोबचो. पोक्याल्या हातांत पयशे घोळूंक लागिल्ल्यान आतां तो आपली मुस्तायकीय मात्सी लिंप आनी देशेंत दवरुंक लागिल्लो. ताका दिसूंक लागिल्लें, लोकांचीं मनां जिंकतलो जाल्यार आंगावेलीं वस्त्रां लिंप आसप गरजेचें आसता.

पोक्यालो जोताचो धंदो आतां बरो चलतालो. पोकोय तातूंत आतां रमून गेल्लो. हे धंद्यात ताका पयसो मेळटालो, सोतंत्रकाय मेळटाली आनी फाव तितलो वोगोतय मेळटालो. लोक आतां ताका जोतकार पोको म्हणून वळखतालो.

पूण पोक्याले हेय दीस बदलपाचे आशिल्ले. ताच्या नशिबान आतां पलटी खाल्ली. ताची भयण-पिसूक आतां सोयरीगत आयिल्ली. घराबो खातोपितो आशिल्लो. ताका लागून सोयरीगत मोडप ताच्या आवय-बापायक परवडपाचें नाशिल्लें. ताणीं फाटलो फुडलो विचार करिनासतना न्हवरेकारांक उतर दिलें. गरिबांक आपलें काम सादोवन घेतलो जाल्यार फाट-फुडलो विचार करीत बसपाचें नासता. वोगोत येतकीर संकश्टांत उडी घेवन मागीर ताका तोंड दिवपाचें आसता. येवजण करुन कार्यावळ घडोवन हाडटलो जाल्यार आपले येणावळीची खात्री नासतना तो येवजण कसली कपलाची करतलो?

तरी शांतूक आपले धुवेचें लग्न व्हडा धबाज्यान जावचें अशें दिसतालें. पोक्याकय तशेंच दिसतालें. तांच्या घरांत नवे पिळगेंतलें तें पयलेंच लग्न! शेजाऱ्याल्या नारायणाच्या लग्नाक मुज्ग बी हाडिल्लें. सुकड्याकय दिसतालें आपले भयणीच्या लग्नाकय मुज्ग आसचें. तें ना जाल्यार मायक तरी आसूंकच जाय!

दत्तूक मात तशें कांयच दिसनाशिल्लें. नारायणाच्या लग्नाक ताचो आवय-बापूय कितलोय खर्च करुंक शकतालो. कारण तांचेकडे स्वताचीं अशीं खूब शेतां बी आशिल्लीं. आर्नामेंताक भाटां आशिल्लीं. नारायणाचो बापूय आंबे रेंदाक करतालो. ताका लागून तांचेकडे खोटानी पयसो आशिल्लो. आनी दत्तूले घरांत फाल्यां चूल पेट्टलीच म्हूण कोणाच्यान सांगूक जायनाशिल्लें. वोगीच हार नाचता म्हूण गायडोळ्ळांन नाचूंक फावता?

पिसूलें लग्न हें रीण काडूनच करचें पडटलें. दत्तू आनी शांतू रीण कोणां कोणांकडच्यान घेवचें हाचो विचार करतालीं. जेवणखर्च, न्हवऱ्याक मुदी-सरपळी आनी व्हकलेचें भांगर-शिंगर धरुन उणेच चारशे रुपयांची गरज आशिल्ली. पूण इतलें रीण काडूंक दत्तूक कोताक येवपासारकें नाशिल्लें. शिवाय रिणाचें नांव काडल्यारच दत्तू कच्च करुन आंग काडटालो. रिणाक लागून तांच्या वाडवडलांची कितें गत जाल्ली हें ताच्या बापायन ताका सांगून दवरिल्लें. हाका

लागून दत्तू सदांच हातरुण पळोवनच पांय सोडटालो.

ते दुडवांचे काळजेंत आसतनाच पोक्यालो धांकलो भाव-गुरु फट्ट करुन उलयलो,

'पापो, आमी जोत इकुया आनी बायचें लग्न करुया.'

गुरुली सुचोवणी वायट नाशिल्ली. जोत विकल्यार उणेच तिनशें रुपये हातार पडटले आशिल्ले. रिणांत रावचे परस हें बरें न्हय? जाय जाल्यार फुडें जोडून जायतें करूं येता.

जोताचो विशय काडिल्ल्यान पोको मात बुचकळ्यांत पडलो. सोडल्यार पळटा आनी धरल्यार चाबता असली गत पोक्याची जाल्ली. पोक्याक पयशांपरस पाड्यांची चड वोड लागिल्ली. जोत विकल्यार तो उबंत पडटलो अशें ताका दिसूंक लागिल्लें. जोताक लागून पोक्याचें बस्तान बशिल्लें, ताका थिरताय मेळिल्ली. जोतकार म्हणून ताका नाव मेळिल्लें. ताचे बोल्सांत पयशेय खुळखुळूंक लागिल्ले.

तरीय व्हकलेचो व्हडलो भाव म्हूण ताची जापसालदारकी आशिल्लीच. शिवाय काशिनाथाल्या इश्टागतीन ताचें मन इल्लें इल्लें बदलूंक लागिल्लें. मानायपण, जोतकारपण बी सोडून आपूण काशिनाथाभसेन देसेंत आनी जानोत भोवचो अशें ताका आतां दिसतालें. पूण तशें दिसप हें ताचें एक सपन आशिल्लें.

दत्तून आनी शांतून गुरुली सुचोवणी मानून घेतली. ताणीं जोत विकून पिसूचें लग्न समादानान केलें.

**जो**त विकतकीर पोको सामको सैरभैर जालो. फुडें कितें करचें तें ताका कांयच समजनाशें जालें. गांवांत तो जोतकार म्हूण फामाद जाल्लो. आतां ताका मानाय जावप ही लज्जेची गजाल आशिल्ली. खंडाक काम घेतल्यारय ताका एक मानाय म्हणूनच वावुरचें पडटलें आशिल्लें. पोको आतां असल्या कामांपासून जाता तितको पयस वचूंक सोदतालो. तातूंत ताका काशिनाथाली इश्टागत आपले वसयां वोडटाली.

ते तेंपार नॉनमॅट्रिक म्हळ्यार एक पदवीच कशी आशिल्ली. मुंबयसारकिल्ल्या शारांत नॉनमॅट्रिकवाल्याक खूब वालोर आसतालो. कारखान्यांनी तांकां बरे पगाराची सिर्विस मेळटाली.

काशिनाथालो मोनू नांवांचो एक आमीग मुंबयच्यान आयिल्लो. ताका कोंकणी येताली. गोंयचोच तो. पूण इंग्लीश सोडून तो दुसरी कसलीच भास उलयनाशिल्लो. सांजवेळचे पासयेक वता आसतना मोनू आनी काशिनाथ, दोगय इंग्लीश मारताले आनी पोको तांच्या फाटल्यान तोंड आं करुन चलतालो.

पोको मडगांवां आसतना रोमन लिपिंतलीं मुळावीं अक्षरां शिकिल्लो. ताचेकडे इंग्लीश-मराठींतलें भाशांतर आशिल्लें. तांतलीं खुबशीं इंग्लीश उतरां ताका पाठ आशिल्लीं, ताका तीनय तरेचे आल्फाबेतय बरोवंक येताले. आपले तकलेन इंग्लीशीचीं नवीं नवीं उतरां तो जुळोवन पळेतालो. पोर्तुगीज उतरांय ताच्या कानार पडत आसतालीं. आतां काशिनाथाल्या इश्टागतीन ताका इंग्लीश उतरांक उजाळो दिवंचो अशें दिसूंक लागलें. काशिनाथाकडे उलयतासतना तो एक एक इंग्लीश उतर उलोवंक लागलो. तशें करतना 'कट' चें कूट, 'ब्लड' चें ब्लूड अशे चुकीचे उच्चार करतालो. तरी काशिनाथ ताका हांसनासतना गंभीरतायेन ताचीं उतरां सुदारून घेतालो.

गांवांत एक इंग्लीश शिकोवपी शिक्षक आशिल्लो. गांवचे जायतेजाण भुरगे ताचेकडे शिकताले. पोक्यान ताचेकडे शिकूंक वचपाचें थारायलें. पोक्याली शिकपाकडे आशिल्ली वोड पळोवन शिक्षक अर्थात सरान पोक्याक शिकोवपाचें उतर दिलें.

पोको सदांच आमोरेचेर हातांत कादेर्न घेवन शिकूंक वता तें पळोवन सगळ्यांक अजाप दिसलें. पोक्याक आतां बावीस वर्सां जाल्लीं. एक मानाय आनी जोतकार इंग्लीश शिकूंक वता तें पळोवन गांवांत पोको एक फकणाचो विशय जालो. भुरगे ताका केरावंक लागले. जाण्टे ताच्यो बकच्छायो करुंक लागले. दत्तूक तर पोको आतां पिसावला, आनी काशिनाथाल्या संगतीन तो पेड्ड्यार जाला अशें दिसूंक लागलें. ताका लागून घरांत पावल दवरना फुडें पोक्याक थोमणे आनी आणे आयकूंचे पडूंक लागले. पूण पोको कोणाक कोंतच करिनाशिल्लो. ताची जिद्द ताका फाटीं सरुंक दिनाशिल्ली.

पोको शिकूंक वता तें पळोवन जायते जाणांक शिकपाची फुरफुरी मारुंक

लागली. पोक्यावांगडा तीगचौग जाण शिकूंक तयार जाले. पूण तांतलो एकटो एकटो भुर्र करुन खंयचे खंय उडून गेले. उरलो तो फकत एकटो पोको.

पोको पंदरा-वीस दीस नेटान शिकलो. ताका आंकडे आनी सगळे तरेचीं नांवां बरोवंक येतालीं. आतां दिस-रात तो इंग्लीश पुस्तकांतलीं सोपीं सोपीं नांवां आनी हेर उतरां वाचूंक-बरोवंक लागिल्लो. तशें करतना कोण कितें म्हण्टा हाची ताका परवा नाशिल्ली. ताका एकच ध्यास आशिल्लो, तो म्हळ्यार इंग्लीश बरोवंक शिकपाचो!

पोको गोडयेन शिकता आसतनाच पोक्याच्या दिश्टीन घडूंक फावनाशिल्लें तें घडलें. काशिनाथान आपल्या मुंबयच्या इश्टावांगडा मुंबय वचपाचें थारायलें. ही गजाल पोक्याक कळ्ळी तेन्ना पोक्याचे तकलेर मळब कोसळून पडटा अशें जालें. पोक्याचें काळीज उमेदीन भरपाचें काम काशिनाथान केल्लें. आतां तो मुंबय गेल्यार पोको एकलो पडटलो हे कल्पनेनच पोक्याले हातपांय गळून पडले. आतां ताची शिकपाची उमेद खंयचे खंय उडून गेली.

पोक्यान दोन-तीनकडे हाचेपयलीं फातर फोडपाचें काम केल्लें, हें सगळ्यांक खबर आसाच. हे खणींचेर दोन तरेचे येप्रेगाद आसताले. ज्यांका मात्सी मराठी कळटाली ते मास्तर आनी इंग्लीश कळटल्यांक सुपरवायझर म्हण्टाले. हे सुपरवायझरांचो झेत व्हडलो. माथ्यार चेपें, पायांत बूट, खाकी मोटवें काल्सांव आनी तोंडांत सिगरेट. मानाय-कामेऱ्यांक धाक घालून तांचेकडल्यान काम करुन घेवप. पोक्याक हे मनीस व्हडले अशे दिसताले. ते काम कसलें करतात हाचेर पोक्याची नदर आसताली. कामार येतकीर हाजिरी काडप आनी स्लीपी बरोवप, आनी लोकांचेर तापप, हे शिवाय तांकां दुसरें काम नासतालें. पोको असलीं कामां सहज करुंक शकतालो. पूण भेंडाक वालो गुटलायल्लो मास्तर जावप मात ताका आवडचें नाशिल्लें.

जोत विकलें आनी काशिनाथय मुंबय गेल्लो. आतां पोको एकलो पडिल्लो. आतां सगळो विचार सोडून मानायपण केले बगर पोक्याक गत्यंतर नाशिल्लें.

एक दीस शिवदास ताका बाजारांत मेळ्ळो. हे शिवदासाक भाव खावपाची सवंय. आपल्या जिवाक व्हडलोच समजतालो. कांयच नासतना ताका 'ग' ची बादा आशिल्ली. आपूणं जावन कोणाकडे उलोवचोना.

शिवदास बाजारांत एका पसऱ्याचे वण्टीक तेंकून कोणाकडे उलयतालो.

पोको ताच्यामुखार वचून उबो रावलो.

'शिवदासबाब, म्हाका तुजेकड मात्सो उलोवंक जाय आशिल्लो.'

'हांव हे बाबाकडे उलयतां तें दिसना तुका? हे त्या खांब्याकडे उबो राव. मागीर उलोवया.'

शिवदासान आपूण एक आतां व्हडलो मनीस आशिल्ल्याची जाणविकाय पोक्याक करुन दिली.

हो शिवदास आतां रघुवीरबाबाल्या खणीर नाशिल्लो. रघुवीरबाबाल्या खणीचो एक वांटो वास्कोच्या एका मिनेरान मीन काडूंक घेतिल्लो. शिवदास हे नवे मिनेराकडे कामाक आशिल्लो. सुपरवायझर आसुनय तो आपल्याक मॅनेजर समजतालो. बाबाकडलें उलोवप काबार जातकीर ताणें पोक्याक आफोवन व्हेलो.

'शिवदास, हांव बेकार आसां मरे, कसलेंय काम मेळत?'

'कसलें काम करतलो?'

'कसलेंय, मास्तराचें लेगीत जातलें माझेकडे.'

'तुजेकडे इंग्लीशीन स्लिपी बरोवंक जातल्यो?'

'बऽर्यो! लोकांचीं नांवां लेगीत बरोवंक आनी वाचूंक कळटात म्हाका.'

शिवदासाक हाची कल्पना नाशिल्ली. तो पोक्याल्या तोंडाकडे पळेत रावलो. ताकाय एका सुपरवायझराची गरज आशिल्ली. पात्रांवांन ताका पळोवंक लायिल्लो एक सुपरवायझर.

"हांव फाल्यां वास्को वतलों. पात्रांवांकडे उलयतां. पात्रांव कोंकोर्द जाल्यार तुका परवां म्हजे वांगडा तळ्यांत येवंचो पडटोलो. पात्रांवांन सांगलां रे म्हाका एक मनीस पळे म्हूण. पूण तूं कसो आसा तें ताच्या कानार पयलीं घालूं नाका? मागीर वोगीच लफडें नाका, कितें म्हण्टा?"

दुसरे दिसा रातीकडे शिवदास आपूण जावन पोक्यागेर गेलो. ताणें पोक्याक फाल्यां आपले वांगडा येवपाची वोर्द दिली. ताका म्हयन्याक पंचात्तर रुपये पगार मेळटलो म्हणपाचें सांगलें. हें आयकून पोक्यालीं गात्रां थरथरलीं. काळजांत धडधडो भरलो. कारण तो आतां अकस्मात वयले वर्गांत पाविल्लो. दीस-रात चिखलांत आनी मातयेंत लोळपी पोको आतां लिंप खोमसाच्या बोल्सांक पेन लावन वावुरतलो.

पोक्यान शिवदासाक आनीक दोन दिसांनी येवपाचें उतर दिलें. सुपरवायझर

जालो म्हण्टकीर कश्या कसोय कामार वचूं येता? फाव ते कपडे नाकात? पोक्याकडे एक पँट आनी एक शर्ट आशिल्लें. तेंय ठेवणेंतलें. कालपयर शेतांत आनी खणीचेर काम करपी मानाय आतां सुपरवायझर जातालो. कसलेंय काम आसल्यार ऑफिसाच्या जनेलाभायर उबो रावतालो. आतां तो एके कंपनीच्या ऑफिसांत बसतलो. ताका आतां पोको म्हूण कोण उलो मारचोना. ताचें आडनाव वाडेकार. सगळे स्टाफमेंबर ताका आतां मिस्टर वाडेकार म्हण्टले. ड्रायव्हर, क्लीनर आनी हेर पोक्याक तो सुपरवायझर आसुनय ताका मास्तर म्हण्टले. पोक्याक कांयच वायट दिसचें ना. कारण तशें म्हणपाची थंय रीतच आशिल्ली. पोक्याक सुपरवायझर कशे वागतात, कशें उलयतात हाचो कोंत्रादोर आसतना नियाळ करुंन दवरिल्लो. आतां ताका अडेचें कांयच शिकपाची गरज नाशिल्ली.

पोको खंवट्याल्या माणार आसतना ताणें बाबल्याकडल्यान स्लीपर बूट करुन घेतिल्ले. ते तशेच कोनशाक घट जावन पडिल्ले. पोक्यान ते भायर काडून सापातेरागेर वचून पालीस काडून घेतले. बाजारांत वचून जपानी चप्पल घेतलें. सुपरवायझर ऑफिसांत लेगीत जोतें घालून भोंवतात हें ताणें पळेल्लें. उदार लुगट घेवन दोन पिजामी आनी दोन बुशर्ट शिंवले. सद्या तो एका कल्सांवाचेर भागोवंक शकतालो. हो सगळो रोप, शाबुनेत, तुवालो बी एका पोन्न्या काशेदांत भरुन पोको सुपरवायझराच्या थाटांत तळ्यांत गेलो.

देड-दोन वर्सां फाटीं पोको तळ्यांत कोंत्रादोर म्हूण काम करतालो. तो पात्रांव आसलो तरी मानाय-कामेऱ्यांवांगडा मोटवे चड्डेन काम करतालो. ताचे केंस, तोंड, हात -पांय धुल्लान भरिल्ले आसताले. तळ्यातले गांवकार, देसाय, गवळी आनी हेर लोक ताका हेच भेसांत पळेताले. कँटिनवाली, पसरकार बी तेच आशिल्ले. देड-दोन वर्सांत पोक्यांत जाल्लो बदल पळोवन पोक्याकडे पळेतना मात्शे दचकताले. सगळ्यांनी आपल्याकडे दचकून वागचें अशें पोक्याक दिसतालें. कारण तो आतां सुपरवायझर जाल्लो.

पोक्याले पात्रांवांकडे दोन ट्रक, एक जीप आनी एक कोंप्रेसर आशिल्लो. ड्रायव्हर, क्लिनर आनी सुपरवायझर सगळे मेळून धा स्टाफ मेंबर एका पत्र्याच्या बार्राकांत रावताले. हे बार्राकांत शिवदासाखातीर एक खाट आशिल्ली. शिवदासाक रिपोर्ट घेवन परत परत वास्को वच्चो पडटालो. ताच्या फाटल्यान हे खाटीचो ताबो दुमिंग नावाचो सुपरवायझर घेतालो. ड्रायव्हर, क्लिनर बी मेळत

थंय गुटली करताले. जमनीक शेण आनी सिमेंट बी कांय नाशिल्लें. ताका लागून जमनीर न्हिदतल्यांक जळारी आनी हुल्कांक तोंड दिवचें पडटालें.

ही परिस्थिती पळोवन पोको सामकोच निर्शिलो. ताका हातुरणार मात्सो कोणय वुळवुळल्यारच न्हीद पडनाशिल्ली. हें संकश्ट पयस करपाखातीर ताणें एक माण्णी केली. कँटिनांत वचून नाल्ल सोलपाचो कोयतो मागून घेतलो. बार्राकाफाटल्या दोंगरार तरेतरेकचीं झाडां आशिल्लीं. पोक्यान चार खुंटे आनी आडवां मारुन हाडलीं. थंयची एक पारय घेवन जमनीक बुराक काडले. चार बुरकांत चार खुंटे घालून तांचेर आडवां दवरून कुंबया सालींनी तीं घट्ट बांदलीं. तांचेर ल्हान ल्हान आनी नीट लाकडां कुडके बांदून उंचशी माची तयार केली. ही माची पळोवंक खाटच कशी दिसताली. पोक्यान हे अभिनव खाटीचेर आपलें बिछाने पातळायलें.

पोको तळ्यांत कोंत्रादोर आसतना शिवदास कंपनीचो सुपरव्हायझर आशिल्लो हें सगळ्यांक खबर आसा. ते वेळावेलो दुसरो सुपरव्हायझर दुमिंग आजय हे नवे मिनेराकडे आयिल्लो. हो दुमिंग आतां आपसूक सिनियर जाल्लो. पोको ताच्या हातांत आयतोच मेळिल्लो. ताणें पोक्याची करड काडपाचें थारायलें.

नवे पात्रावांलें तीन पिटांचेर काम चलतालें. तांतलो एक पीट पोक्याक आनी दुसरो दुमिंगाकडे सोंपयल्लो. तिसऱ्या पिटाचें सुपरव्हायजिंग दोगांनीय आलटून पालटून करपाचें आशिल्लें.

हे पिटांतल्यान काडिल्लो म्हाल ट्रकांतल्यान सावडर्या व्हरचो पडटालो. ट्रक भरपाचें काम सकाळचें पांचांक सुरु जातालें. हें काम आतां शियां कुडकुड्याचें पोक्याकच करचें पडटालें. फांतोडेर ड्रायव्हरांक उठोवपाचें कामय पोक्याचेरच पडिल्लें. पोको तें व्हडा उमेदीन करतालो.

हे नवे पात्रांवांल्या तीन पिटांचेर आंध्रप्रदेशांतले लोक काम करताले. दुमिंग तांका सदांच छळटालो. तांचे कडल्यान तो आपलीं सगळीं कामां करुन घेतालो. न्हावपाक उदक तापोवन घेवप, आपले कपडे धुवन घेवप, न्हावपाचें उदक तर लातांनी भरुन हाडपाक अर्देवर तरी लागतालें. दुमिंग हीं सगळीं कामां धाक दाखोवन करुन घेतालो. तांणीं तें करपाक न्हयकार दिलो तर तांकां बुटांखोटांनी मारतालो.

पोक्याक दुमिंगाली मदांदकाय साप्प आवडनाशिल्ली. पोक्याकय

न्हावपाखातीर हून उदकाची गरज आशिल्ली. उदक लागीं आशिल्लें जाल्यार तो स्वता तापोवन न्हातलो आशिल्लो. ताणें दनपारचें इरीर वचून थंड उदक न्हावपाचें थारायलें.

हे आदीं पोक्यान स्वता मानायपण केल्ल्यान मानायांचें दुःख ताका कळटालें. ताका लागून कोण्णाक दुखयनासतना, इश्टागतीन तो लोकांकडल्यान कामां करुन घेतालो. पोक्याले हे वागणुकेक लागून जण एकलो पोक्यालें उतर झेलूंक तयार आसतालो. पूण पोको कायद्याभायलें कसलेंच काम कोणाकडल्यान करुंक तयार नासतालो. हाका लागून कामत्यांक तो आपलोच मनीस कसो दिसतालो. बऱ्याक बरो आनी वायटाक वायट आशिल्ल्यान दुश्ट लोक ताका थारायंच भियेताले.

पोक्याक कामती आपल्या परस चड मानतात हाची दुमिंगाक खूब नसाय जाताली. हाका लागून आपूण पोक्यापरस व्हडलो हें दाखोवपाचो ताचो यत्न आसतालो. दुमिंगाकडे आपलें व्हडपण दाखोवपाचें एक शस्त्र आशिल्लें आनी तें म्हळ्यार इंग्लीश. ऑफिसांत कोणय आयल्यार तो गोंयचो आसुनय दुमिंग ताचेकडे आपली इंग्लीश मारतालो. हाका लागून सगळ्यांकच दिसतालें कि दुमिंगालें पोजिसांव पोक्यापरस व्हड आसा. खरें म्हळ्यार दुमिंगाच्या पदराक तुटकी फुटकी इंग्लीश सोडल्यार आनी कांयच नाशिल्लें. तरीय ताका मोठेपणाचें पिशें लागिल्लें. आनी ज्यांकां मोठेपणाचें पिशें लागता, तो पावला कणकणी घाण्टा. लोक ताची मनांतल्या मनांत निर्भत्सना करतात. दुमिंगाच्या वागणुकेतलीं नकलीपणां लोकांच्या दोळ्यांत भरपाक चड वेळ लागनाशिल्लो.

हो दुमिंग एका बोटलेरालो पूत आशिल्लो. पाद्रील्या इस्कोलांत दुसरी-तिसरी शिकून तो घरा बशिल्लो. घरा वादीवपणां करता म्हूण ताच्या मांयन ताका रघुवीर बाबाल्या खाणीर सुपरव्हायझरची सिर्विस मेळोवन दिल्ली. थंयच्यान तो शिवदासाचो हात धरुन हे नवे यू.व्ही. कंपनीत सामील जाल्लो.

हो बोटलेरालो पोर आपल्या बापायन धाडिल्ले नवे नवे कपडे आंगार चडोवन आनी तोंडांतल्यान अर्दीकच्ची इंग्लीश घोळोवन आपूण एक गिरेस्तालो भुरगो असो सगळ्यांमदे झेत मारतालो. आपलें व्हडपण साबीत करपाक ताका खिणाखिणांत माकडउंडयो मारच्यो पडटाल्यो.

हाचे उलट पोक्याक आपली सुवात खबर आशिल्ली. पोक्यालें एक एक

उतर, एक एक करणी थंयच्या लोकांचेर प्रभाव घालताली. पोको कामाचो सुटून खणीवेल्यान घरा येतकीर हातांत कसलें ना कसलें पुस्तक हातांत धरून खाटीर लवंडतालो. ताच्या उशाकडे इंग्लीश-मराठी डिक्शनरी आनी एक - दोन इंग्लीश बालबोध पुस्तकां आसतालींच. हाका लागून खणीवेल्या कामत्यांक, ड्रायव्हरांक, क्लीनराक आनी हेरांक दिसतालें की पोको दुमिंग आनी शिवदासापरस चड शिकला पूण तो दाखोवन दिना.

पोक्याल्या पेजादपणांत आनी एक गजाल तेंको दिताली. शिवदास वास्कोसावन तळ्यांत येतकीर चार-चार दिसांनी ऑफिसांत पाट्यों झडटाल्यो. पार्टेंत शेर्वेज आनी मटण आसतालेंच. पोको मटण खायनाशिल्लो आनी शेर्वेजीकय तोंड लायनाशिल्लो. हाका लागून पार्टेचे वोगतार पोको ऑफिसाभायर आसतालो. ही गजाल लोकांच्या दोळ्यां आड जायनाशिल्ली. हाकाच लागून दिशीं दिशीं पोक्याचो मान वाडत गेलो.

खणकामती शिवदासाक पात्रांव, दुमिंगाक मास्टर आनी पोक्याक मास्टरजी म्हण्टाले. हे 'जी' चो अर्थ पोको जाणा आशिल्लो.

नवीं नवीं कामां करता आसतना पोक्याक नवे नवे अणभव येताले. हे अणभव ताच्या जिविताक शकत दिताले. जिविताक एक नवी दिशा दिताले. बारीक सारीक कामां करतासतना पोको तीं करुंक जाय म्हूण करिनाशिल्लो. तीं शिकपाचे नदरेन करतालो.

पोक्यालें एक आशिल्लें. तो कितलेय कश्ट सोसूंक शकतालो. न्हय, तशी ताची तयारी आसताली. पूण अन्याया आड मात तो झुजूंक सदांच तयार आसतालो. अन्याय घडटा आसतनां तो आपल्या आवय-बापायची लेगीत परवा करिनाशिल्लो. तो अन्यायाचो प्रतिकार करतालो ताका लागून खुबशे लोक ताचे दुस्मानय जाताले. पूण ताची ताका परवा नासताली.

न्यायांत कितली ताकत आसता, न्यायाचे कडेन वागल्यार कितें घडटा ही गजाल ताणें सत्ताधाऱ्यांक दाखोवन दिली.

तें अशें जालें :-

तळ्यांत दोन कंपन्यो काम करताल्यो. एक मुळची रघुवीरबाबाली आनी दुसरी यू.व्ही. ची. यूव्ही चो सगळो स्टाफ रघुवीरबाबाल्या कँटीनांत जेवंक वतालो. एका जेवणाफाटल्यान चार इस्कुद जण एकलो फारीक करतालो. दोनय जेवणाचे

मेळून दिसाक सवाय रुपयो जातालो. हे हिसबान जण एकल्याक म्हयन्यांतल्यान जेवणाकच चाळीस रुपये खर्च आसतालो. ते भायर चायेक उणेच धा रुपये काडचे पडटाले. हो खर्च फकत ड्रायव्हराक परवडटालो. कारण तांचो म्हयन्याचो पगार आशिल्लो दोनशें रुपये. क्लीनरांक पन्नास-साठ रुपये आनी सुपरवायझरांक पंचाहत्तर ते शंबरांच्या घरांत पगार आशिल्लो. तरीय गरजवंताक अक्कल ना म्हूण कशेंय तरी चलतालें. क्लीनरांचो सगळो पगार जेवणाकच काबार जातालो. ते केन्ना विडयेक लेगीत पादिशेर जाताले. हे कँटिंगांतली रानपीण जातीन मेस्तीण आशिल्ली. ताका लागून कँटिंगांत जेवतल्याक आपापलीं ताटां काडून धुवन दवरचीं पडटालीं. हो कायदो सगळ्यांक लागू केल्लो जाल्यार कोणाक व्हडलेंशें कांयच दिसचें नाशिल्लें. पूण ही कँटिंगवाली बामणालीं ताटां धुताली.

पोको सुर्वेक दुमिंग आनी शिवदासावांगडा जेवणांक गेल्लो. शिवदास बामण आशिल्ल्यान ताणें आपलें ताट मेजार सांडलें. दुमिंग आपलें ताट घेवन धुवंक गेलो. पोक्याक दिसलें हो किरिस्तांव बी म्हूण ताका ताट धुवचें पडटा जायत. पोक्यान आपलें ताट काडलेंना. कारण तो सुपरवायझर आशिल्लो. शिवदास आनी पोको एके कातीगुरींतलो. मागीर पोको आपलें ताट कित्याक काडटलो?

पोको आपलें ताट मेजार सांडटा तें पळोवन पसरकार बाप्पाक सणसणो मारलो. ताणें शिवदासाक आफोवन व्हेलो. ताणें आपलें तोंड शिवदासाच्या कानाक तेकयलें.

अशे तरेन चार पांच दीस गेले. मागीर मात शिवदासाच्यान रावंक जायना जालें. कारण पसरकार बाप्पा ताका एकसारखो कुतायतालो. एक दीस जेवन ऑफिसांत वतना शिवदासान पोक्यालो हात आपल्या हातांत घेतलो. आनी ताणें आपल्या म्होवाळ उतरांनीं, पोक्याक जेवतकीर ताट धुवपाची गजाल सांगली.

पोक्याक ताट धुवपाक व्हडलेंशें कांयच नाशिल्लें. हाचे पयलीं तो बामणांगेर रावन आयिल्लो. थंय ताका ताटां धुंवचीच पडटालीं. तेन्ना ताका कांयच दिसनाशिल्लें. कारण ती ते समाजाची एक रीत आशिल्ली.

हांगा तो जेवणाचे पयशे फारीक करतालो. तरीय शिवदास आनी पसरकार बाप्पा जर आपलीं ताटां धुताले तर पोको आपलें ताट धुवंक अनमनचो नाशिल्लो. हांगा पोक्याचेर व्हड अन्याय घडटालो.

पोक्यान शिवदासालीं सगळीं शाणेपणां मोन्यानी आयकून घेतलीं. पूण तो ताचेकडे झगडूंक शकनाशिल्लो. कारण शिवदासान ताचेर दोन वेळां उपकार केल्ले. फुडें किजील नाका म्हूण ताणें शिवदासाक इतलेंच सांगलें कि तो फाल्यांसावन कँटिंगांत जेवंक येवचोना.

दुसरे दिसा कामाचो सुट्टकीर पोक्यान कुशीक आशिल्ल्या चायेदुकानावेलो एक ल्हानसो तोप मागून घेतलो. ऑफिसांतल्या एका कोनशाक फातरांची चूल तयार केली. पसऱ्यावेले तांदूळ हाडले. बेटाभात तयार केलो. चायेदुकानावेली एक आण्याची पातळ भाजी हाडली. आनी पोटभर भुसकें मारलें. कँटीनांत दाळचो रोस सोडलो जाल्यार आनीक हे परस सुबेज कांयच मेळनाशिल्लें. कँटिनांत शीत जोकून माकूनच मेळटालें. आतां कोणाची कटकट नासतना पोटभर आपल्याक जाय तेन्ना जेवंक मेळटालें. काल्यां वचून तोंडाक लावंक आमली-पापड ना जाल्यार सुको बांगडो हाडूंक मेळटालो.

पोक्याली ही वेगळी माण्णी पळोवन क्लीनर-ड्रायव्हर खूश जाले. पूण ते करुंक शकनाशिल्ले.

पोको वेगळें रांदता तें पळोवन चायेकार नारायण जागो जालो. हो नारायण आपल्या बायले-भुरग्यांक घेवन थंय खोपटी घालून रावतालो. थंयच तो दोन मेजां दवरून लोकांक चाव करुन विकतालो. ताका व्हडलेंशें गिरायक जाय नाशिल्लें, तरी तो कशेंय तरी भागयतालो.

ताणें पोक्याक आपणागेर जेवणाक आफयलो. पोको दिता तितल्या पयशांनी नारायण जेवण दिवंक तयार आशिल्लो. पोक्याकय हे नारायणाची काकुळट दिसली. ताणें ड्रायव्हरांक आनी क्लीनरांक आपले वटेन वोडून घेतले. नारायणागेर जेवण घेवंक तयार केले. तेय तेंच सोदताले. स ड्रायव्हर-क्लीनर आनी सातवो पोको. नारायण सगळ्यांक जेवण दिवंक एका पांयांर तयार जालो. पूण ताची एकच अडचण म्हळ्यार ताका थोड्या पयशांची गरज आशिल्ली. पोक्यान सातयजाणांचे वीस-वीस रुपये काडून नारायणाक दिले.

नारायण खूश जालो. ताणें आपलेभसेन जेवणाचें कोंत केलें. सकाळची चाव, चायेवांगडा दोन रोटयो, दनपारचें आनी सांजेचें जेवण. जेवणांत पोटभर शीत, शितावांगडा कसलीय तरी एक भाजी, पापड आनी सोलांकडी. इतलें आसतलें हाचो कोंत्राद पोक्यान करुन घेतलो. ते भायर आयतराचें मटण आसतलें

अशें नारायणान आपूण जावन उतर दिलें. ह्या सगळ्याक म्हयन्याक तीस रुपये जण एकल्याकडच्यान घेवपाचें थरलें.

पोक्यान एक व्हडलें काम केल्लें, एका कुटुंबाक आदार दिल्लो.

नारायण लोकांक जेवण दिता तें आयकून भायले खणीवेले ड्रायव्हर जेवणांक येवंक लागले नारायणागेर. नारायण जेवणांफाटल्यान आठ आणे घेवन तांका भरपूर जेवण दिवंक लागिल्लो.

हांगा बाप्पा पसरकार आनी कँटींनवाली पोक्याचेर भलतीच रागार जाल्लीं. तांचें कँटिंन आतां फकत बामणापुरतेंच उरिल्लें, तरी तीं पोक्याचें कितेंच करुंक शकनाशिल्लीं. पोको तांच्या कंपनीचो सुपरव्हायझर नाशिल्लो. तर बाप्पा पसरकार शिवदासान पोक्याक हांगा हाडून सोडला म्हूण कोसूंक लागिल्लो. शिवदासाकय पोक्याचो राग आयिल्लो. पूण तो पोक्याचें कांयच करुंक शकनाशिल्लो. पोक्याली वाट रजावांची आशिल्ली.

खर्णार जें कँटिंन चलतालें, ताचें कंपनीक सोयर सुतक कांयच नाशिल्लें. ते कँटिंनाचो फायदो बाप्पा पसरकाराक जातालो. कँटिंनाक लागता तें सामान तो दितालो, रानपिणीचो पगारय तोच दितालो. पूण आता तें कँटिंन लुकसाणाक पडपाचे वाटेर आशिल्लें. बाप्पाचेरय उपासमार येवपाची पाळी आयिल्ली. ताका लागून पोक्याक तो थंयच्यान कोणाभसेन हालोवंक सोदतालो. पोक्याक थंयचो हालयलो म्हूण बाप्पा पसरकाराक कसलोच फायदो जावपाचो नाशिल्लो. तरी पोक्याक आपणें बुद्द शिकयली हाचें समादान ताका मेळपाचें आशिल्लें.

यू.व्ही. कंपनीचें दुसरें काम कोळंबा सुरु केल्लें. तशें पळोवंक गेल्यार ही कंपनी नांवांपुरतीच आशिल्ली. लुकसाण जावचें न्हय म्हूण भियेत भियेत काम करताली. कोळंबा कंपनीचें मानीफेस्त आशिल्लें. नवें पीट उकतें करपाचें काम नव्यान कोमेस जातालें.

पोको जीव तोडून काम करपी म्हूण कंपनीच्या मालकाक कळिल्लें. कोणें कितल्योय कागाळ्यो केल्यो जाल्यार पोक्याक आतां कामावेलो काडून वडवपाची ताकत नाशिल्ली. शिवदासान एकच काम केलें, बाप्पाच्या समादानाक लागून पोक्याक तळ्यांतलो काडून कोळंब धाडपाचें काम केलें. तेंय पोक्याची थंय चड गरज आसा अशें मालकाक भासोवन!

पसरकार बाप्पालें कारस्तान पोक्याक बरें फायद्याक पडलें. ताकाच लागून

पोको कोळंबा पावलो.

यू.व्ही. कंपनीचें कोळंबा लागीं आशिल्ल्या कोंड हे गांवांत काम चलतालें. हो गांव गांवकार म्हळ्यार हिन्दू गावड्यांचो. खण गांवांक तेकून आशिल्ली. ताका लागून खणीर काम करपाक भायले घाटयांची गरज आशिल्ली. तरीय चार-पांच घांटी आनी सात आठ गांवांतलीं मानाय-कामेऱ्यां घेवन पोक्याक काम करचें पडटालें. हांगा ड्रायव्हर - क्लीनर बी राबित्याक कोण नासताले. दिसांतल्यान एक खेप मारपाक ट्रक येतालो. आठवड्यांतल्यान एकदां वास्कोसावन पात्रांवांवांगडा जिपीन शिवदास येतालो. पोक्याल्या हातांत पगार दिवन पात्रांव वतालो. लोकांक पगार घालपाचें कामय पोक्याक करचें पडिल्ल्यान पोक्याक आपूण धन्य जालों अशें दिसलें.

पोक्यान तळ्यांत आसतना शिवदास आनी दुमिंगाच्या गैरहजेरीत ऑफिसांतले रिकॉर्डबुक कशे बरयल्यात तें पळेल्ले. सगळे तरेचे फॉर्म भरपाक ताका आतां कसलीच अडचण पडनाशिल्ली. मानाय-कामेऱ्यांच्या पगाराचीं कागदां तयार करुन, पात्रांवांचे सांगणेन तो तयार करुंक लागिल्लो. आतां ताच्यांत उणेपण आशिल्लें इंग्लीश उलोवपाचें. दुसरो उलयता ती इंग्लीश ताका समजताली, पूण रेसपोन्स दिवपाचें धाडस मात ताका आजून जायनाशिल्लें.

तळ्यांत आसतना सांजेचे कामावेल्यान ऑफिसार येतकीर सगळे स्टाफमेंबर आपल्याक जाय जाय थंय वताले. कोण काल्यां वताले तर कोण मेळत थंय बसून चकाटां मारताले. आनी पोको? पोको पेत्रोलमासाच्या उजवाडांत खाटीर पडून इंग्लीशीचो अभ्यास करतालो. ताचेकडे इंग्लीश-मराठी डिक्शनरी आशिल्ली. उच्चारांसयत इंग्लीशीचीं उतरां तो आपल्या मनांत साठोवन दवरतालो. ताका लागून तो सगळ्यांक एकमुळोसो दिसतालो.

आतां कोंडीर मात पोक्याक भरपूर एकांत मेळटालो. दुमिंग-शिवदासासारखी चांचाळ-चोवकडी हांगा नाशिल्ली. मनशांचो बोवाळ, गाडयांचो घरघर आनी हेर कसल्योच आडकळी हांगा नाशिल्ल्यो. फावो तो एकांत मेळिल्ल्यान ताका इंग्लीशीचीं मुळावीं पुस्तकां वाचूंक वेळ मेळटालो.

खंयच्या मनशामदें कसले गूण आसतात हाची कल्पना लोकांक आसनां. ते लोकांमुकार येवंक गणुवंताक संद मेळची पडटा. पोक्याक ती संद आयतीच मेळिल्ली.

पोक्याच्या हाताखाला धा-बारा लोक घोळटालो. तांकां शेनवारा तांचो पागामेंत वाटचो पडटालो. ते वाटूंक पात्रांव चुकनासतना पयशे दितालो. पूण पात्रांवांचेर एक वोगोत असो आयलो कि म्हयनोभर लोकांक पाग घालप ताका शक्य जालें ना. खुबशा लोकांची उपासमार जावंक लागली. काम तर चालूच आशिल्लें. थोडेदीस लोकांक पयशे मेळचेनांत, इतलेंच पोक्याक पात्रांवांन सांगिल्लें. खुबशीं मानाय-कामेऱ्यां हातावेल्या पोटाचीं आशिल्लीं. तांका नकद पयशे ना जाल्यार रेशन तरी मेळपाची गरज आशिल्ली.

गांवांत पसरो आशिल्लो. पूण ताचेकडे पात्रांवांचो संबंद नाशिल्लो. पोक्याचें मात ते पसऱ्यार येवप-वचप जातालें. पसरकार पोक्याक बरो वळखतालो. पोक्याच्या मनांत आयलें, पसरकाराकडे तोंड फाफुडचें. थोडें रेशन उदार घेवन मानाय-कामेऱ्यांक दिवन तांकां धीर दिवंचो. पात्रांव आयज ना फाल्यां पयशे दितलो हाची पोक्याक खात्री आशिल्ली. पूण पोक्यान पसरकाराकडे तोंड फाफुडलें, आनी ताणें कानार हात धरलो जाल्यार? प्रस्न पांच-धा रुपयांचो नाशिल्लो. एक एकल्याक उणेंच धा-धा रुपयांची चीट दिवंची पडटाली. ही परिस्थिती अशीच कितले दीस चालू उरतली हाचो नेम नाशिल्लो. आनी पसरकारान पोक्याल्या उतराक कित्याक म्हूण मान दिवंचो? कित्याक पातयेवंचो? पोको गांवचो तरी? पोक्याले सांगणेन लोकांक रेशन दिलें आनी पोको काम सोडून गेलो जाल्यार, कोणांक धरतलो?

दुसऱ्याकडच्यान कितेंय घेतलो जाल्यार पयलीं आपणे कितेंय दुसऱ्याक दिवचें पडटा. दुसऱ्यान आपल्याचेर विश्वास दवरचो असो दिसल्यार आपणेंय पयलो दुसऱ्याचेर विश्वास दवरून ताका पयलो आपलोसो करुन घेवंचो पडटा.

पोक्यान एक हिकमत केली. ताचेकडे एक पन्नास रुपयांचे इस्कुद आशिल्ले ते ताणें पसरकाराकडे दवरुन घेतले. तेन्ना पन्नास रुपये दुसऱ्याकडे पातयेवप व्हडलें आशिल्लें. पोक्यान काम करपी लोकांक पयलीं पांच धा रुपयांच्यो चिटी दिल्यो. पसरकाराकडे दवरिल्ले पन्नास रुपये सोंपले तरी पोक्याल्यो चिटी मात पयशे सोंपले तरी चालूच उरल्यो.

एक दीस देडेक म्हयन्यान पात्रांव पयशे घेवन ऑफिसांत आयलो. ताका दिशिल्लें पयशे ना म्हूण पोक्यान काम बंद उडयलां बी आसतलें. पूण काम चालू आसा तें पळोवन पात्रांवांक अजाप जालें आनी पोक्यालें कौतुकय दिसलें.

नव्यान कोमेस जाल्ली खाण पयशांक लागून बंद पडली अशें लोकांक कळिल्लें जाल्यार कंपनीचेर लोकांचो विश्वास बसचो नाशिल्लो, देखून पोक्यान केल्लो वावर मालकाच्या नदरेन व्हडलो आशिल्लो.

फुडें तळ्यांतली खाण पात्रांवांक बंद उडोवंची पडली. आपलीं अवजारां आनी काम करपी लोक कोंडीर व्हेले. कारण कोंडीवेली खाण कंपनीची, आनी तळ्यांतली कोंत्रादान घेतिल्ली.

पोक्याल्या जिवितांत कोंडीक व्हड म्हत्व आसा. फुडें कोंडीन पोक्याक व्हड केलो. पोक्याचेर माया-मोग करपी खुबशीं मनशां हांगा आशिल्लीं. पोक्याक मान-रेस्पेद खंयच मेळूना तितलो हांगा मेळिल्लो. ऑफिसांत आसतना पोक्याक कितें जाय कितें नाका हाची आस्तेन खबर हेच लोकांनी घेतली. घरा येता आसतना उशीकांडे, काकय, झाड कणगां, चिबडां व्हर म्हूण फाटीक लागपी मनशां पोक्याक हेच कोंडींत मेळिल्लीं. हाचें कारण एकच आशिल्लें, तें म्हळ्यार तांच्या आनी पोक्याल्या काळजाची भास एक आशिल्ली. ही भास कोंकणी, मराठी, हिन्दी, इंग्लीश बी म्हण्टात तसली नाशिल्ली. ती भास समजूंक उतरांची गरज नाशिल्ली. ती मोनीभास माया-मोग देणी आशिल्ली. तातूंत कसलोच सुवार्त नाशिल्लो.

हेच कोंडीन पोक्याल्या जिविताची बुनियाद घट्ट केल्ली. हेच कोंडीन पोक्याक मान-रेस्पेद दिल्लो. आपल्या धनयांचो विश्वास संपादन करुन सुपरव्हायझराचो मायन इंचार्ज हे पदार पोको हे कोंडिच्या राबित्यांत पाविल्लो. फुडें थोडो तेंप हे खणीची भरभराट जाली, तेन्ना पोक्यानच तिचो कारभार समर्थपणान सांबाळ्ळो.

**पो**को सुपरवायझर जालो तेन्ना सावनच ताणें सकयले वर्गांतल्यान मध्यमवर्गांत उडी मारली म्हणूंक कांयच हरकत ना. आतां तो फाटीं वळून पळोवंक तयार नाशिल्लो. ताचे दोळे फुडले वाटेर लागिल्ले. ताचे इश्टय थोडेच आशिल्ले. हेरांमदें तो मिसळटालो. पूण सांबाळून आनी गरजेपुरतोच.

पोक्याक आतां शिक्षणाची देमायज गोडी लागिल्ली. तो तेंप पोर्तुगेजांचो

आशिल्ल्यान, आयचेसारखीं तेन्ना वर्तमानपत्रां, पुस्तकां बी मेळनाशिल्लीं. तरी खंयी पुस्तक मेळ्ळ्यार ते वाचलेबगर सोडिनाशिल्लो. हाका लागून ताका वाचपाची गोडी लागिल्लीच, ते भायर इंग्लीश वाडवपाचे ताचे यत्न एकसारखे चालूच आशिल्ले. ताचेमुखार आतां एक नवें ध्येय उबे राविल्लें.

पोको इंग्लीश शिकता तें पळोवन एका इश्टान ताका इंग्लीशीचो नाद सोडून पोर्तुगेज शिकपाचो सल्लो दिलो. तेन्ना खाजगीपणान पोर्तुगेज शिकून प्रिमेर ग्रावाची एझाम दिवंक येतालीं. प्रिमेरग्राव पास जाल्यार कार्तेयर (पोश्टमॅन) बी जावंक येतालो. इंग्लीश शिकून सुपरवायझर जावचे परस कार्तेयर जावप पोक्याक बरें दिसलें. ताणें आनीक वोगोत केलो ना. गांवांत एक रेंदेर पोर्तुगेजीचें लिसांव दितालो. तो कितें शिकिल्लो कोणाक खबर पूण पोर्तुगेज भास मात बरी उलयतालो. पोको म्हयन्याक दोन रुपये दिवचे करुन ताचेकडल्यान लिसांव घेवंक लागलो. पूण हो पोरोसोर पोक्याक फकत कालिग्राफीय आनी डिक्टेशन घालपाचें काम इतलेंच करतालो. पोक्याक तें शिकोवप मानवलें ना. आठ दिसां उपरांत ताणें तें सोडून दिलें.

दुसरे दिसा, पणजे सिंगबाळाल्या बुक-स्टॉलार वचून पोक्यान पोर्तुगेज - मराठी शिक्षक घेतलो. वांगडा प्रिमेयरग्रावाचीं पुस्तकां घेतलीं. रातीचो लापयांव लावन बसलो शिकूंक. दुसऱ्याकडच्यान शिकचे परस पोक्याक आपले शितमी शिकप आवडटालें. तेन्ना ताका पोर्तुगेज-मराठी डिक्शनरी गावली ना. ती मेळिल्ली जाल्यार खूब बरें जातलें आशिल्लें. तरी तो निर्शेलोना. आपले भसेन शिकत रावलो. सोपीं सोपीं वाक्यां घडोवन तीं रात-दीस घोळोवंक लागलो. पूण कितलेंय केलें जाल्यार परकी भास ती. काळजाची इश्टागत जमूंक भोव कठीण. तरी पोक्यान येत्न सोडलो ना.

एक दीस पोको भियेत भियेत इस्कोलाच्या दिरेतोरीकडे गेलो. आपूण प्रिमेयरग्रावच्या एक्झामिक बसूंक सोदतां, अशें ताणें तिका सांगलें. ती केदोवेळ पोक्याक पळेत रावली.

हे दिरेतोरीन पोक्याक जायते फावट दोन बैलां फाटल्यान नांगर खांदार मारून चलतना पळेल्लो. पोको हिन्दू, हेंय तिका खबर आशिल्ली. एक कोंकणो, तोय बी शेतांत जोत घालपी असले इदादीचेर पोर्तुगेज शिकूंक सोदता. तिका अजापय दिसलें आनी बरेंय बी. तिणें भितरलो फॉर्म हाडून पोक्याकडे दिलो. फॉर्म हातांत

घेवन पोक्यान तिच्या तोंडाकडे पळेलें. दिरेतोर कितें समजूंक जाय तें समजली. तिणें पेन हातांत घेतलें. पोक्याक एक एक प्रस्न विचारुन फॉर्म भरलो. पोक्याची आशिनातूर घेतली आनी पोक्याक घरा वचूंक दिलो.

एक्झामीचे दीस लार्गी आयिल्ले. पोको आपले नांवाची भायर नोटीस बी मारल्या काय म्हूण सद्दां वचून पळेतालो.

पोको प्रिमेयरग्रावच्या एक्झामीक बसला हें गांवांत फामाद जाल्लें. बाजारांत, कुर्र्येंत आनी पसऱ्यांचेर बी पोक्याल्योच गजाली चलताल्यो. गांवांत सगळेच लोक कुन्नाटे आसतात अशें न्हय. थोडे बरे मनाचेय आसतात. बरे लोक पोक्याची तोखणाय करताले. कितेंय जावं, पोको पास जावं ना जाल्यार फेल. पूण तो फुडें सरुन, शिकून एक्झामीक बसलो तेंच व्हडलें अशें म्हणूक लागले.

निमणो एक्झामीचो दीस आयलो. पोक्याक क्लासांत व्हरुन एका बाकाचेर बसयलो. ताचें काळीज धडधडूंक लागिल्लें. घामान खोमीस भिजिल्लें. पोक्याक कोणें कांयच शिकोवंक नाशिल्लें. ताणें आपणेंच थोडो येत्न केल्लो. तो नापास जातलो हें तो जाणां आशिल्लो. कारण प्रिमेरग्राव-शेंगुंदग्रावाच्यो एक्झामी कडक वतात हें ताणें आयकल्लें. इस्क्रितुराक पास जाल्यार ओरालीक उडयतातच अशें पोक्यान आयकल्लें. कोण कोण अशेंय उलयताले पास करुंक जाय जाल्यार पोरोसोर - पोरोसोरींक केळ्या फेंडो ना जाल्यार कुल्ले-शेवटे बी दिवंचे पडटात. पोक्यान हातलें कितेंच कोणांक कांयच दिवंक नाशिल्लें. मागीर पोको पास कसो जातलो?

पोक्याच्या हातांत आतां प्रस्नपत्र पडिल्लो. पोक्यान तो वाचलो. थोड्यांचो अर्थ कळ्ळो, थोड्यांचो कळ्ळोना. पोक्यान थोडे पेरगुंत(प्रश्न) सोडयले, थोडे सोडले.

आतां पोक्याक चित्रकलेचो पेपर मेळिल्लो. पोक्याक 'सेर्रोत्य' काडूंक लायिल्लें. पूण ताका सेर्रोतिचो अर्थ कळ्ळोना. ताणें काडलें साकार्रोत्य. जेन्ना हें प्रोफेसोरीन पळेलें तेन्ना तिच्या तोंडांतल्यान उतर भायर पडलें, 'कुयताद!'.

सेर्रोत्य म्हळ्यार खरवत आनी साकार्रोत्य हाचो अर्थ गुड्डी काडपाचो इंस्त्रुमेंत हें पोक्याक मागीर कळ्ळें.

पोक्याक आपलो रिझल्ट पयलींच कळिल्लो. ताणें ओराल दिवंची भानगड सोडून घरा बसपाचें थारायलें. पोको पयले फावट प्रिमेयर ग्राव फेल जालो तरी

ताणें लिब्र कडासेक लायलेना. चिवट पोको फुडें शिकूंक लागलो. फुडले एक्झामीक एक वर्स आशिल्लें. ताका कोणें तरी सांगलें, फुडले खेपेक प्रिमेयर आनी सेगुंदग्राव एकेच खेपेक दी. पोक्यान तशेंच केलें. दुसरे खेपेक पोको प्रिमेयरग्राव पास जालो.

पोको आतां सुमार बावीस वर्सांचो जाल्लो. हे काळांत ताणें खूब कितें करुन पळेलें. सांसपत, धडपडत कशींय करुन बावीस वर्सां सारलीं ताणें.

पोको पोर्तुगेज शिकता आसतनाच आतां गोंयांत सोतंत्रकायेचो सूर्य उदेलो. पोक्याली पोर्तुगेज आतां गेली दोब्यांत. पोक्याल्या एका इश्टान ताका रत्नागिरीक वचून व्हर्नाक्युलरची परिक्षा दिवपाची सुचना केली. वर्सां जाल्ल्यांक एकदम सातवेची परिक्षा दिवंक जाताली. पोक्यान आनी वोगोत केलो ना. संस्थेचो पोत्तो मेळयलो. पत्र बरोवन खबर घे जाल्यार ते वर्साक परीक्षेचो फॉर्म भरपाचो वेळ सोंपलो म्हूण पत्र आयलें.

पोको आतां कितें करतलो? मडगांवां मराठी माध्यमाची एस्.एस्. सी पर्यंत शिकप दिवपाची शाळा आसा म्हणपाचें कोणे तरी पोक्याल्या कानार घालें.

पोको मडगांवां हॉटेलार काम करतना एक तोपीवालो सदांच सिंगल मारुंक हॉटेलार येतालो. काळी तोपी, धवें फुल्ल धोतर आनी सास्कीनचो हळदुवोसो कोट हे मुस्तायकेंत तो सदांच वावुरतालो. ताचो काम-धंदो कितें हाची पोक्याक खबर नाशिल्ली. पूण तो दिसांतल्यान एकदां गल्ल्याकडे उबो रावन, 'पोक्या एक चा हाड' अशी वोर्द दितालो. पोको दुकानार दिसू वा नासू, 'पोक्या चा हाड रे' हें पालूपद ताचें चालूच आसतालें. हो येदो व्हडलो मनीस, सदांच एक दीस चुकनासतना, देवाचें नांव घेतात तशें पोक्याचें नाव घेता तें पळोवन पोकोय खोशेन भरतालो. पोक्याक हो मनीस मडगांवां खंयीं दिसलो जाल्यार आपलोच कसो दिसतालो. पोको मुजरत ताच्या म्हऱ्यांत वचून ताका 'बाबा' म्हूण जापायतालो. एक दीस पोको ताका कळनासतना ताच्या फाटल्यान, तो खंय वता काय म्हूण पळोवपाक गेलो. तो जेन्ना ताच्या घरांत भितर सरलो, तेन्ना पोको फाटले पांयांनी परतलो. पोक्याक हो साधुपुरुष खंय रावता इतलेंच पळोवपाचें आशिल्लें. कारण पोक्याक ताची वोड लागिल्ली.

कितलेशाच वर्सांनी पोक्याक आतां हे मनशाची याद जाली. पोको ताका सोदीत मडगांवां आयलो. तो दनपारचो अडेच-तीन वरांचो वोगोत आशिल्लो.

तो साधुसोबावाचो मनीस एका कानाप्याचेर न्हिदून आशिल्लो. पोको केदो वेळ दारार उबो रावन ताच्या उठपाची वाट पळेतालो.

तो उट्ठकीर पोक्यान ताका आपली वळख करुन दिली. वळख कसली कपलाची? हॉटेलार काम करपी मनशांक वळख म्हण्टात ती आसता? पोक्याचें खुमणें तो सत्पुरुस केन्नाच विसरुन गेलो. आपूण पोको अशें म्हूण जेन्ना पोक्यान ताका सांगलें, तेन्ना तो साधुपुरुस एकदम जागो जालो. पोक्यान आपूण कित्याक आयलां तें झटक्यांत सांगून मेकळें केलें.

'तूं हे वयांत शिकूंक सोदता? तुका आवड आसा मरे शिकपाची? तुगेले परिक्षेक बसपाचें काम जातलें. आनी कसली मजत बी जाय पडटली तुका? पयशांची बी?'

हें आयकून पोको गोंदळांत पडलो. असले मनीस आसात हे संवसारांत? पोक्यान सगळेकडे मनशाचें एकच रुप पळेल्लें, 'पयशांचीं मजत बी जाय तुका' अशें विचारपी पोक्याक आयज लेगीत कोणच मेळूंक नाशिल्लो. पोक्यान ते साधुपुरुसाक जाप दिली,

'म्हाका पयशांची न्हय, तुमच्या आशिर्वादाची चड गरज आसा.'

तो साधुपुरुस कितें समजूंक जाय तें समजलो. ताणें आनी वोगोत केलो ना. वोताच्या कडार पोक्याक घेवन थंयच्यान भायर सरलो. सुमार पावूण वर चलत शाळेकडे गेलो. शाळेचो मुखेलीय जाण्टोसो तोपयेकारच आशिल्लो. तो लोडाच्या आदारान सोप्यार बशिल्लो.

'हो भुरगो भोवजन समाजाचो, ताका शिकपाची आवड आसा. ताका सातवेचे परिक्षेक बसोवंक जायत?' साधुपुरुशान शाळेच्या मुखेल्याक विचारलें.

'कित्याक जावचें ना, बऽरें जातलें. हांव हेडमास्तराक सांगतां नांव बरोवंक. पाल्याक आब्रिलाच्या पयल्या सेमनाक येवन खबर घेवंदी.'

मुखेल्यान थंयचे थंयच सातवेच्या वर्ग शिक्षिकेक आफोवन सातवेचीं पुस्तकां आनी अभ्यासक्रम बरोवन दिवंक लायलो. गरज पडल्यार मदीं मदीं वर्गशिक्षिकेक मेळपाचोय सल्लो ताणीं पोक्याक दिलो. आतां आपल्याक खंयच पयस वचनासतना सातवेची परिक्षा दिवंक मेळटली म्हूण पोको सामको खोशी जाल्लो. ताणें वोगोत लायनासतना पुस्तकां विकतीं घेतलीं आनी मन लावन अभ्यासाक बसलो.

पोक्याक सातवेचो अभ्यासक्रम व्हडलोसो कठीण दिसलोना. परिक्षा आब्रिलांत जावपाची आशिल्ली. आनी ताचे पयलीं फेब्रेरांत हिन्दीच्यो परिक्षा जावपाच्यो आशिल्ल्यो. गांवांत एक हिन्दी प्रचारक आशिल्लो. ताणें पोक्याक दुसरेची हिन्दी परिक्षा दिवपाक आवेदन पत्र भरुंक लायलें.

पोको फेब्रेरांत हिन्दीची परिक्षा पास जालो. पूण खरेलो आनंद ताका जालो जेन्ना तो सातवी पास जालो तेन्ना. गोंय स्वतंत्र जालां तेन्ना सरकारान भराभर मराठी शाळा उकत्यो केल्ल्यो. तातूंत शिक्षक म्हूण चोवथी पास जाल्ले शिक्षक नेमिल्ले. सातवी पास जाल्ले थोडेच शिक्षक आशिल्ले तेन्ना गोंयांत. पोक्याक जाय जाल्यार प्राथमिक शिक्षकाच्या पदाखातीर अर्ज करुंक जातालो. पूण पोक्यान केलें ना. पोक्याक सातवेची सर्टिफिकेट जाय आशिल्ली ती एस्. एस्. सी. क प्रवेश मेळोवंक. पोको सातवी पास जाल्ल्यान ताका आतां एस्. एस्. सी. चे परिक्षेक बसपाचो मार्ग मेकळो जाल्लो.

पोक्याच्या हाताक आतां दोन प्रमाणपत्रां लागिल्लीं. तो आतां शिक्षित जाल्लो. पोको सातवी पास जालो म्हूण लोकांमदीं चर्चा कोमेस जाल्ली. पोक्याक आतां फुडलें शिकप घेवपाक नेट आयिल्लो. जाता तितलें शिकप, जाता तितले वेगींन पदरांत पाडून घेवचें, अशें पोक्यान थारायलें.

ते वेळार मराठी माध्यमाचीं हायस्कुलां पणजे-मडगांवां बी आशिल्लीं. पोक्यान पणजेच्या एके शाळेंतल्यान खाजगीपणान मॅट्रिकेक बसपाक फॉर्म भरलो. पूण पोक्यान एक व्हडली चूक केली. मडगांवां सातवेच्या वेळार पुस्तकां आनी अभ्यासक्रम बरोवन घेतिल्लो तसो ताणें हांगाय मुख्याद्यापकाकडल्यान अभ्यासक्रम आनी विशयाची पुराय म्हायती घेवंक जाय आशिल्ली. ताणें तशें केलें ना. एका एस्.एस्.सी. च्या विद्यार्थ्याकडच्यान पोक्यान एस्.एस्.सीक कसले कसले विशय घेवंचे पडटात तें बरोवन घेतलें. पूण फॉर्म भरता तेन्ना ताका विशयांची खरेली जाणविकाय जाली. हाचे पयलीं चार-पांच म्हयनें ताणें भलतेच विशयांचो अभ्यास केल्लो. नियमित शिकप्यांक आनी प्रायवेटांक वेगळे वेगळे विशय आसतात हाची म्हायती पोक्याक नाशिल्ली. आतां खरेली गजाल कळटकीर पोको निर्शेल्लो. पूण आतां उपाय नाशिल्लो. फॉर्म आनी पयशे बोर्डाक गेल्ले. तरी ताका एकां शिक्षकान धीर दिलो. ताणें पोक्याक सांगलें, नापास जाल्यार जावं, तूं परिक्षेक बस. तूं सातवेसावन डायरेक्ट मॅट्रिकेक बसता. ही

खावचेली गजाल न्हय. तूं नापास जातलो पूण निकालावेल्यान तुजी योग्यताय तुका कळटली. शिवाय तूं कोणांकडल्यान खंयच्याच विशयांच्यो शिकोवण्योय घेना. असोच नेट धर. आयज ना फाल्यांर तूं मॅट्रीक पास जातलोच. कश्टांचें फळ तुका देव दिल्याबगर केन्नाच रावचोंना. प्रयत्ना अंती परमेश्वर म्हण्टात तें फट न्हय. असले अवस्थेंत तूं एस्.एस्.सी. पास जालो जाल्यार इतिहास घडयतलो.

शिक्षकालें उलोवप खरें दिसलें. ताणें आपूण नापास जातलोंच म्हूण परिक्षेक बसपाचें थारायलें. पोक्याली एक व्हडली अडचण आशिल्ली ती गणित विशयाची. तांतले तांतूक आल्जेब्रा-जेवोमेट्री ताका जमपा सारखी नाशिल्ली. मुळांतच तो बेरीज-वजाबाकी लेगीत शिकूं नाशिल्लो. गणिताचो मातय गंद नासतना एस्.एस्.सी. ची परिक्षा दिवंक मुकार येवपाचें काम फकत एक मूर्खच करुंक शकतालो. आनी तें मुर्खपण पोक्यान केल्लें.

आयज परिक्षेचो पयलो दीस आशिल्लो. पोक्यालो सीट नंबर लिसेवाच्या एका हॉलांत आशिल्लो. पोक्याक हें सगळें नवें आशिल्लें. पोको णव वरांचेरच हॉलाकडे हाजीर आशिल्लो. पयलो पेपर मराठीचो आशिल्ल्यान तो दोन वळी धिरांन बरोवंक शकतलो हाची ताका खात्री आशिल्ली. तरी ताचें काळीज वोगीच कलकलतालें. मनांत भयाचें वारें संचरिल्लें. पोको आपूण कितेंय तरी व्हडलें काम करुंक वता अशें समजतालो.

जसो जसो वोगोत पासार जातालो, भुरग्यांचीं भिरीं सपणां चडून वयर येतालीं. गिरेस्तालीं, गरिबालीं ल्हान-व्हड भुरगीं, बडबडत, एकमेकांचीं फकणां करीत घोळके करुन उबीं रावतालीं, किडकिडटालीं, हांसतालीं आनी पोको मात एकटोच निर्शेल्लें मुखामळ घेवन, परिक्षाहॉलांत वचपाचे घांटीची वाट पळेतालो.

पोक्याक सात पेपर्स बरोवपाचे आशिल्ले. पयलेच दिसा ताका भंय दिशिल्लो. मागीर मात ताणें कितें घडटा तें घडूनी म्हूण निर्भयपणान पेपर्स बरोवन काडले.

आतां हेर भुरग्यांवांगडा पोकोय निकालाची वाट पळेत आशिल्लो. हेर विशयांचें कितें जातलें तें पोक्याक खबर नाशिल्ली. पूण गणितांत मात ताका भोपळो पडटलो हाची ताका खात्री आशिल्ली. आतां माय सोपून जून लागिल्लो. पावस वाऱ्यांतल्यान भुरगीं सत्र्यो घेवन इस्कोलांत वचूंक लागिल्लीं. पोक्याल्या काळजाच्या धडधड्याक जोरगत लागिल्ली. ताच्या मेंदवांत वादळ नेट धरतालें.

निकाल लागतलो फाल्यां-परवां. पोक्याल्या निकालाकडे पोक्यापरस लोकांचेच चड दोळे लागून आशिल्ले. पोको आतां नापास जातलो आनी दत्तूल्या तोंडा बुडकुलो गुडगुडूं लागतलो. बाजारांतले भुरगे तशे जाण्टे. पोक्याच्यो बकत्सायो करतले. मागीर पोको कितें करतलो हें आजमेरेन ताणें थारावंक नाशिल्लें. ताची अवतीकाय मळबांतल्या थारो नाशिल्ल्या घोणीभसेन जाल्ली.

निमणो 'गोमंतका' त निकाल आयलो. लोक आपल्या भुरग्यालीं नांवां आयल्यांत काय म्हूण पळेताले. ज्यांचीं भुरगी परिक्षेक बसूं नाशिल्लीं ते पोक्यालें नाव पेपरांत दिसता काय म्हूण पळेताले. आनी पोको मात घराभोवतीं वोगीच पासयो मारतालो.

दुसरे दिसा पोक्यान पणजे वचून आपलें मार्कलिस्ट हाडलें. ताका मराठीक सोळा, हिन्दीक वीस, इंग्लीशीक बारा, विज्ञानाक तीस, इतिहासाक सव्वीस, गणिताक दोन मार्क मेळिल्ले. समाजशास्त्रांत मात तो पस्तीस मार्क घेवन पास जाल्लो.

पोको आपूण कसो शिकलों, पेपर्स कशे बरयले आनी मार्क कशे पडले हें जाणा आशिल्लो. एक विशयांत तो पास जाल्लो. आतां फुडें एक वर्स नेटान शिकल्यार तो पास जातलो हाची ताका आस जाल्ली. ताणें औतुब्रांत फकत प्रॅक्टीस जावपाखातीर गुपचूप परिक्षेक बसपाचें थारायलें. लोकांक मात फुडले मार्चांक परिक्षेक बसतलो म्हूण सांगतालो.

पोक्याली सर्वीस आजून कोंडीर चालू आशिल्ली. खण बंद पडिल्ली. पूण ऑफिस उकतें आसचें, म्हालाचेर देकरेक आसची म्हूण पोक्याक सिर्विसेचो काडूं नाशिल्लो. खणीर काम नाशिल्ल्यान पोक्याक जाय तेन्ना घरा, चड करुन शेनवार-आयताराचो, येवंक आडखळ नाशिल्ली. हे सिर्विसेन पोक्याक शिकपाक खूब आदार दिल्लो. ती सिर्विस नाशिल्ली जाल्यारय पोको कशेय तरेन शिकतलोच आशिल्लो. पूण घरच्या अन्नापरस तांचे आणे आनी थोकणांच चड खावचीं पडटलीं आशिल्लीं.

पोक्याच्या माथ्यार आतां शिकपाचें भूत बशिल्लें. ताणें मॅट्रिकेचो अभ्यास नेटान चालू केल्लोच, ते भायर हिन्दी प्रबोधची परिक्षा सेतेंब्रांत आनी प्रवीणची फेब्रेरांत दिवपाचो ताणें प्लान केल्लो. ताचे इश्ट ताका सांगताले, हिन्दीच्या परिक्षांचे भानगडींत पडनासतना फकत मॅट्रिकेचोच अभ्यास कर. पूण पोक्याक

भरपूर वोगोत मेळटालो. रात आनी दीस ताचे सुवादीन आशिल्लो. ताचो फावो तसो उपेग करुन घेवपाचो पोक्यान थारायलें.

हे आदीं सातवी शिकतासतना दीसभर काम आनी रातीचीं बारा वरांमेरेन शिकपाचें काम ताणें केल्लें. आतांय ताका दिसाचीं चडथोडीं कामां करचीं पडटालींच, तरीय शिकूंक ताका पयलीं परस चड वोगोत मेळटालो.

पोक्यान आतां आपल्या शिकपाची माण्णी केल्ली. बोर्ड प्रश्न कशे काडटा तें तो आतां जाणा जाल्लो. मराठी विशयांत ताका निबंध आनी व्याकरणांत मार्क मेळूं नाशिल्ले. ताका लागून तीनय भासांच्या व्याकरणांत ताणें चडांत चड मार्क घेवपाचें थारायलें. विज्ञान, इतिहास आनी सामाजिक शास्त्रांचो अभ्यास कसो केल्यार आपल्याक पासापुरते मार्क कशे मेळटले हें तो आतां जाणां आशिल्लो. ताची अडचण आशिल्ली ती गणिताची.

पोक्यान गणिताची आडकळ पयस करपाक एका चोवथी शिकपी भुरग्याची आमिजाद केली. णव-धा वर्सांच्या भुरग्या म्हऱ्यांत बसून पंचवीस-सव्वीस वर्सांचो पोको गणित शिकूंक लागलो. लोकांक मात दिसतालें पोको आतां सातवी पास जाला देकून तो चोवथेच्या भुरग्याक शिकवणी बी दिता जातलो. खरें म्हळ्यार पोकोच चोवथेच्या भुरग्याकडल्यान शिकवणी घेतालो. पोक्यान ताचेकडच्यान बेरीज, वजाबाकी आनी गुणाकार कसो करतात तें शिकून घेतलें. तशें सातवेच्या वेळार ताणें पुस्तकावेलीं गणितां पळोवन पळोवन मातशी समजणी घेतली. पूण ती तितली पक्की जावं नाशिल्ली. आतां ताणें मेळत ते भुरग्यावांगडा बसून मुळावे नियम समजून घेतले. ताका आतां अंकगणितांत थोडो आत्मविश्वास निर्माण जाल्लो. ताचो मोठो प्रस्न आशिल्लो तो भूमिती आनी अल्जेब्राचो.

पणजे एका इस्कोलांत पोक्याचे वळखीचो एक गणितांचो शिक्षक आशिल्लो. पोको ताका वचून भेटलो. पोक्याचे भिडेक लागून ताणें ताका आयतराचो आपल्या बिराडार आफयलो. पोको नेमान आयताराचो शिक्षकाच्या बिराडार वचूंक लागलो. पूण तो शिक्षक पोक्याक बिराडार कसोच मेळना. गेल्ले फावटी तो घरा ना, भायर सरला अशें ताची भयण सांगूंक लागली. एक दीस पोक्यान ताका कसोय करुन मेळोवन घेतलो. पूण हो गणितांत प्रवीण आशिल्लो शिक्षक जें कितें शिकयता, तें पोक्याले तकलेंत कशेंच वचना जालें. शिक्षक भरभर गणितां सोडोवन पोक्याक दाखोवपाक लागलो. पोक्याक मूळ

खबर नाशिल्लें आनी शिक्षक तेंगशी शिकयतालो. पोको दोन वेळां शिक्षकाकडे गेलो आनी मागीर ताची एक म्हयन्याची फी दिवन ताचो नाद सोडलो.

पोक्यान आतां गणितांचीं मुळावीं सगळीं पुस्तका विकत घेतलीं आनी गणितांचो खोलायेन अभ्यास केलो. हळू हळू पोक्यालो आत्मविश्वास वाडत गेलो. सातवेक ताका गणितांत अठ्ठाविस मार्क मेळिल्ले. मॅट्रिकेक तीनय विभागांत ताका धा - धा मार्क मेळ्ळ्यार पास जावपाची आस धरुंक हरकत नाशिल्ली.

पोक्यालें पंचवीस -सव्वीसावें वर्स खोशेचें आनी आनंद देणे थरलें. हे वर्सा पोको रातीचो दीस करुन खूब म्हळ्यार खूब शिकलो. सेतेंब्रांत तो हिन्दी प्रबोध पास जालो. फुडें फेब्रेरांत हिन्दी प्रवीण परिक्षेत ताका यश फाव जालें. आतां तो मार्चांत मॅट्रिकेची परिक्षा दिवन निकालाकडे दोळे लावन आशिल्लो.

पोको खंवटट्याल्या पसऱ्यार कामांक आसतना पसऱ्याकुशीक एक घर आशिल्लें. ते घरांत कोंकणो पुर्तुगेज शिक्षक रावतालो. गांवंचे लोक ताका 'पोरोसोर' म्हण्टाले. हो पोरोसोर घरांतल्यान भायर सरतनां फात मारून भायर सरतालो. ताचे काळे मोचे तिकतिकताले. ताचें कालसांव आनी ज्युदी फेर्राद आसताली. हो देखणो पोरोसोर बिरेवा रस्त्यावेल्यान मोच्यांचो आवाज करीत चलतालो. पोको ताका केदो वेळ पळेत आसतालो. गांवांत तो बरो शिकोवपी आनी बरी देख दिवपी पोरोसोर म्हूण फामाद आशिल्लो.

पोक्याक ते शिक्षकाक पळोवन खूब बरें दिसतालें. तो आपल्याकडे पळोवन एक दीस तरी हांसचो, उलोवंचो अशें पोक्याक दिसतालें. आनी एक दीस पोक्यालें सपन साकार जालें. पोरोसोर इस्कोलाक वचपाक झेतान चलतालो. पोक्याच्यान कशेंच रावंक जायना जालें. ताणें दिसाचे दोन वरांचेर पोरोसराक 'बोंनोयत' म्हळें मात, पोरोसोर फस्स करुन हांसलो. शिक्षकान पोक्याक 'बोनोयतचो' अर्थ समजावन सांगलो. तेन्नाच्यान पोक्याक तो पोरोसोर दिसलो रे दिसलो, ताणें ताका बोंदिय ना जाल्यार बोंतार्द म्हणचो. पोरोसोरान पोक्याक केन्ना कितें म्हणपाचें तें तेच वोगतार शिकयल्लें!

ते शिक्षकाचो रुबाब आनी चलपाचो झेत पळोवन आपुणय केन्ना तरी पोरोसोर जांवचों अशें दिसतालें. पूण तें पोक्यालें हेर सपनांभसेन एक सपन आशिल्लें. कारण फुडें आपले नशिबांत शिकप आसतलें हाची सुलूस मेळपाची एकूय घडणूक तेन्नां घडूं नाशिल्ली. गोंय सोतंत्र जांवचे कांय वर्सां पयलीं किरिस्तांव

भाटकाराल्या घरांतलीं भुरगीं पोर्तुगेज 'पोरोसोरणी' गांवां-गांवांत दिसूंक लागिल्ल्यो. ह्यो 'पोरोसरणी' पोक्याक हे धरतरेवेलीं व्हडलीं मनशां दिसतालीं.

पोको आपल्या एका इश्टावांगडा एक दीस कुर्रयेंत उबो आशिल्लो. ताचो इश्ट इंग्लिश पेपर वाचतालो. इतक्यांत ताची नदर एके जायरतीचेर पडली. एका मिशनऱ्यांच्या इस्कोलांत हिन्दी टिचर जाय अशी ती जायरात आशिल्ली. ही गजाल ताणें पोक्याक थंयचे थंयच सांगली. प्रवीण पास जाल्ल्यान अर्ज करपाचो अशें ते जायरातींत बरयल्लें आनी पोको तेन्ना प्रवीण पास आशिल्लो.

पोको नाका नाका म्हण्टा आसतना ताच्या इश्टान पोक्याच्या नांवान थंयचे थंयच अर्ज बरयलो. पोस्टांतल्यान धाडल्यार खंयी शेणत बी म्हूण अर्ज स्वता घेवन प्रिन्सीपालाक भेटपाचो सल्लो इश्टान पोक्याक दिलो.

पोक्याचेर आयलो आकांत. ताका कितें करचें कांयच समजलें ना. तो मॅट्रिक पास जालो जाल्यार खंयचेय ऑफिसांत क्लार्क म्हूण काम करपाची ताची इत्सा आशिल्ली. पूण शिक्षक जावपाचें ताणें केन्ना चिंतूंक नाशिल्लें.

पोक्याक इश्टान खूब समजायलो. मिशनऱ्यांच्या इस्कोलांनी किरिस्तांवांली भुरगीं चड आसतात. आनी हें इस्कोल शारांतलें नाशिल्लें. गांवांतल्या भुरग्यांक कोंकणीच्या आदारान हिन्दी शिकोवप पोक्याक कठीण वच्चें ना अशें इश्टान पोक्याक सांगलें.

मनशाक बरें मागपी एक तरी इश्ट आसचो पडटा. जें आवय-बापूय आनी भाव-भयण करुंक शकना, तें इश्ट करुंक शकता. पोक्याल्या ह्या इश्टान पोक्यालें भविश्य घडोवपाक हातभार लायलो. तो स्वता फोरसान पोक्याक घेवन मुलाखतीक गेलो.

इस्कोलाची प्रिन्सिपाल एक माद्र आशिल्ली. पोको आनी ताचो इश्ट पार्लारार वचून बेलीचो बटन दामलो. भितरल्यान एक लांब रुंद, पांयांमेरेन पाविल्ल्या धवेफुल्ल झग्यांतली एक बायल दारावेल्या पड्ड्यांतल्यान भायर आयली. तिच्या गळ्यांत व्हडलो खुरीस लांबयल्लो आशिल्लो. हांसत्या तोंडान आनी गोड उतरांनी माद्रीन दोगांकय बसूंक सांगलें.

पोक्याल्या इश्टान आपल्या हातांतलो अर्ज काडून माद्रीच्या हातांत सोंपयलो. अर्ज वाचल्या उपरांत माद्रीन पोक्याक इंग्लीशींतल्यान एक-दोन प्रस्न विचारले. पोक्याक ते समजले पूण तांच्यो जापो ताका इंग्लीशींतल्यान दिवपाचें धाडस

जालें ना. ताणें माद्रीक साफ साफ सांगलें की आपूण इंग्लीश समजतां पूण सद्या ती फाडफाड उलोवंक जमचेंना. ताणें हेंय सांगलें की तो प्रविण पास आसलो तरीय मॅट्रीक पास ना, ताचो रिजल्ट लागपाचो आसा. पोक्यान हेंय सांगलें की तो हिन्दीचें भाशांतर इंग्लीशींत करुंक शकता.

माद्रीन पोक्याली सडेतोड जाप आयकून घेतली. पोको कांयच लिपोवन दवरीना हाची माद्रीक खात्री पटली.

तो वेळच असो आशिल्लो की प्रशिक्षितच न्हय तर गोंयांत फाव तें शिकप आशिल्ले शिक्षक मेळप कठीण आशिल्लें. माद्रीन थंयचे थंयच जुनाच्या स तारखे सावन शिकोवपाक यो म्हूण पोक्याक सांगलें.

जुनाचे चार तारखेक एस्.एस्.सी. निकाल 'गोमंतकां'त आयलो. पोक्यान हे दिसांत एक आणो दिवन गोमंतक घेवपाक कोमेस केल्लें. आजय निकाल आशिल्ल्यान ताचें काळीज धडधडूंक लागिल्लें. तो मॅट्रिक पास जालो जाल्यार दुदांत साखर पडिल्लेभासेन जातलें. परवां स तारखेक इस्कोलांत वतकीर माद्रीक हड्डें फुडें काडून सांगूंक मेळटलें कि आपूण एस्.एस्. सी.क पास जालों म्हूण. मागीर प्रश्नच मिटलो.

पोको सक्काळीं उठलो खरो पूण पेपर हाडूंक तो बाजारांत गेलो ना. पोको एस्.एस्.सी क बसला हें बाजारांतले लोक जाणा आशिल्ले. आतां ते पेपर्स हांतांत घेवन, गांवांत कोण-कोण पास जाला तें पळेतात आसतले. पोको गेल्ले वर्सा नापास जाल्लो तें ते जाणा आशिल्ले. हे वर्साय नापास जाल्यार तवनास आनी टवाळखोर पोक्याची टवाळी करतले. ते परस आपूण नापास जालो जाल्यार एक-दोन दीस बाजारांत तोंड ना दाखयल्लें बरें म्हूण पोको चोवकेर एक सारख्यो पासयो मारीत रावलो.

इतक्यांत शेजारचो सदू हातांत टायमस धरुन बांदावेल्यान वाचीत येता तो पोक्यान पळेलो. तरी पोको फुडें गेलों ना. पूण सदू पेपर आपले घरांत सोडून ताकतीन पोक्यागेर येवंक लागलो. ताणें वाटेरच पोक्याक साद घालो.

'पोक्या, हांव पास जालों, तुजेंय नांव आयलां.'

तुजेंय नांव आयलां हें आयकनाफुडें पोक्यान दोनच धेंपा मारुन सदूच्या हातांतलो 'गोमंतक' घेतलो. पळे जाल्यार खऱ्यांनीच पोक्यालें नांव पेपरांत आयलां. पोको एस्.एस्.सी. पास जाला.





खोशेन आनी गर्वानिय पोक्यालें हड्डें भरुन आयलें. आपली खोशी आनी कोणामुखार उक्तावंची हे संभ्रमात तो पडलो. ते वेळार घराकडे ताचो आवय-बापूय आनी भाव-भयणां आशिल्लीं. पूण हांका खोस भोगता चोवथीकडे जेन्ना घरा गणपती येता तेन्ना. पोक्याले मॅट्रिकेचो तांचेर कसलोच परिणाम जाय सारखो नाशिल्लो. दत्तूक तर पयलींच दिसतालें की असल्या वयांत हातांत पुस्तकां घेवन भोवन तो हाताभायर गेला.

पोक्याच्यान चड वेळ घरा बसून रावंक जायना जाल्लें. ताचें मन आतां खूब हलकें जाल्लें. काळजांतल्यान खोशेचे फोवारे एक सारखे भायर पडून ते सैमांत काजुले जावन उडटात असो भास पोक्याक जातालो. ते पोस्टांतल्या इश्टाक केन्ना काळ भेटचो अशें ताका जाल्लें. तो कुर्रयेंत णवांक येतालो. तेच वेळार पोको बाजारांत वचूंक भायर सरलो.

इश्टाक भेटचे पयलीं आपलो गोमंतक हाडपाक म्हणून तो बाजारांत गेलो.

पोको बाजारांत पाविल्लो मात, थंयचो एकटो एकटो मनीस फुडें येवन पोक्याक हात दिवंक लागलो. कांय पोक्याक पळोवन फकत हासूंक लागले. हें हासप तांचे टवाळेचें नाशिल्लें, कोवतुकाचें आशिल्लें. कांयजाण पोक्याक पळोवन हांसकय नाशिल्ले आनी हात दिवंक फुडेंय येनाशिल्ले. फकत उबे रावन, कसलीच हालचाल करिनासतना पोक्याक पळेत रावताले. हे लोक आज पोक्याक मुजरत पळेताले. जो मनीस शेतांत जोत घालतालो, जो मनीस लोकांलीं घरां शिवतालो, जो मनीस मीनाखणीर फातर फोडटालो. जो मनीस पसऱ्यार, हॉटेलार काम करतालो तो असले वयार शिकून एस्.एस्.सी. पास जालो. तांकां हो खऱ्यानीच चमत्कार कसो दिसतालो. तांचीं भुरगीं, भाव-भयणां, शाळेंत अकरा-अकरा वर्सां शिकून मॅट्रिक फेल जाल्लीं. गांवांतल्या भाटकारांलीं, वेपाऱ्यालीं आनी व्हडले व्हडले घरांतलीं, तांच्या आवय-बापायन तांकां जाय जाय तें दिवनय भुरगीं फेल जाल्लीं. आनी पोको पास जाल्लो. हेच खातीर लोक पोक्याकडे अजापान आनी आदरान पळेताले.

अशें घडटा आसतना बाजरांतलोच एक कुन्नाटो, दुश्ट मनीस पोक्या म्हऱ्यांत दत्त म्हणून उबो रावलो. तो मात्सो चोतरो आशिल्लो. ताचो भुरगो ते दिसा फेल जाल्लो. लोक पोक्याची तोकणाय करतात ती ताच्यान सोसूंक जायना जाली. पोको कोणाकडे उलयतासतना त्या कुन्नाटयान मदींच तोंड खुपशिलें. म्हणूक

लागलो,

'हातांत पेन घेवंक कळनाशिल्ले पास जातात आनी वर्सांतलीं वर्सां इस्कोलांनी शिकून फेल जातात. कोणालींय नांवां गोमंतकांत छापून येतात. हे गोमंतकाक उजो घालूंक जाय.'

ते कुन्नाट्याली चोतरीं उतरां आयकून पोक्याक हासूंक आयलें. थंय उबे आशिल्ले हेर मनीसय हांस-हांस हांसले.

माद्रील्या आफोवण्यावेल्यान पोको इस्कोलांत गेलो. हेर शिक्षक येवचे पयलीं पांच-धा मिण्टां आदींच गेलो तो. पोको तेन्ना सव्वीस वर्सांचो आशिल्लो. पूण आंगान शिरपुटो आशिल्ल्यान तो वीस वर्सांचो दिसतालो.

स्टाफरुमात एक एक टिचर भितर सरताली. पोक्याक पळोवन ताका गुडमॉर्नींग म्हणून बसताली. पोको नवो सर म्हूण सगळ्या टिचेरींक कळून चुकिल्लें. कारण सराशिवाय स्टाफरुमात आनी कोण बसतलो?

इतल्यांत प्रिन्सिपाल स्टाफ रुमांत आयली. आनी

'धिस इज मिस्टर पोको, आवर निव सर' म्हूण पोक्याची वळख करुन दिली.

थोडे वेळान हेडमिस्ट्रेसिन पोक्याच्या हातांत टायमटेबल हाडून दिलें. पोको ते टायमटेबलाक पळेत रावलो. टायमटेबल हें उतर पोक्याक नवें आशिल्लें. पिरियेड, सिल्लेबस ही उतरां कानार पडनाफुडें पोक्याक शेळो घाम सुटलो. आतां कितें करतलो? पोको धावून माद्रीले ऑफिसांत गेलो. ताणें माद्रीक आपूण कसो शिकलों तें बी सगळी म्हायती दोन मिण्टांत सांगून मेकळो जालो. सांगपाचो हेत हो कि आपूण असो आसां. तुमी आपल्याक सांबाळून घेतात जाल्यार आपूण रावता. ना जाल्यार म्हजें हांशें करुन घेवपाची तयारी ना.

माद्र पोक्याहून सात-आठ वर्सांनी व्हड आशिल्ली जांवये. तिणें पोक्याक पोक्को वळखलो.

'डोण्ट वरी मिस्टर पोको. आय व्हील गायड यू.'

म्हणून माद्रीन पोक्याक टायमटेबल समजावन दिलें. पोक्याक सवी ते णवी मेरेनच्या वर्गात हिन्दी शिकोवपाचे पिरियड दिल्ले. माद्रीन पोक्याक सांगलें, कसलीय अडचण आयली जाल्यार हेर कोणाकडे वचनासतना आपल्याकडे यो.

माद्र आता पोक्याक घेवन णवेच्या क्लासांत पयलीं गेली. पोको आनी माद्र

क्लासांत वचनाफुडें सगळीं भुरगीं 'गुडमॉर्निंग सिस्टर' म्हूण एकदम उबीं रावलीं. माद्रीन पोक्याची वळख करुन दिली.

'धिस इज यूवर निव सर, कोओपरेट विथ हिम.'

'येस सिस्टर' म्हणून भुरग्यांनी कोरस जाप दिली.

मागीर माद्र पोक्याक घेवन एकान एक क्लासींत गेली. सगळ्यांची वळख जातकीर पोको स्टाफरुमांत येवन बसलो. तो आतां सादो पोको उरुंक नाशिल्लो. मिस्टर पोको जाल्लो. शिंयोर पोको जाल्लो. शिंयोर पोको? हय! शिंयोर पोको! वडिल माद्री पोक्याक शिंयोर आनी प्रोफेस्सोर म्हण्टाल्यो. कारण गोंयतल्यान पोर्तुगेज वचून चार - पांच वर्सांच जाल्लीं तेन्ना. चडशो माद्री पोर्तुगेज वातावरणांतल्यान आयिल्ल्यो आशिल्ल्यो.

इस्कोलांतल्यो ग्रेज्युएट टिचरी गोंयच्योच पूण मुंबयसावन शिकून आयिल्ल्यो. पोको आतां हळूहळू शिक्षणीक वातावरणांत रुळूंक लागिल्लो. खरें म्हळ्यार ग्रेज्युएट टिचरी पोक्याच्या वयाच्यो आनी ताच्यापरस ल्हानय आशिल्ल्यो. हेडमिस्ट्रेस तर पोक्याच्या वयाची आशिल्ली. ताकालागून पोक्याक भंय असो कोणाचो दिसनाशिल्लो. सगळ्यांकडे तो हांसून खेळून वावुरतालो. पूण त्यो कशो वागतात, कशो उलयतात हाचेकडेन मात पोक्यालें बारीकसणेन लक्ष आसतालें. चडशो टिचरी भाटकार आनी शिकिल्ल्या फामिलिंतल्यान आयिल्ल्यो. पोक्याक दिसतालें, आपूण खंयचेच टिचरीपरस खालती आनी उणो आसूंक फावना. खंयचेच दिश्टीन शिक्षणान, वागणुकेन आनी कामानय बी.

पोक्याक णवी मेरेन शिकोवंक लायिल्लो. फुडले वर्सा हीं भुरगीं धावेक पावतलीं आनी मागीर एस्.एस्.सी. क. मॅट्रिक मेरेन शिकोवपी टिचराक ते विशयांतली पदवी आसची पडटा. पोको प्रविण आशिल्लो. सरकारान प्रविणांक इंटरची मान्यताय दिल्ली. ताची फुडली परिक्षा पंडित. पोक्यान थारायलें, आपूण हे वर्सा पंडित जातलो. पंडित म्हळ्यार बी.ए. समकक्ष. एकदां पंडित जालो म्हण्टकीर पोक्याकडे बोट दाखोवपाची कापस्दाद कोणाक जावचीना. आपूण खंयचेच शिक्षिकेपरस उणो आसचोना. आनी खऱ्यानीच पोक्यान ते वर्सा पंडित परिक्षा पास केली.

पंडित जातकीर पोक्यान ते फुडले वर्सा एक वर्साचें शिकोवपाचें प्रशिक्षण

घेतलें. आतां पोक्याक हेर पदवीधर शिक्षिकासमान वेतन मेळूंक लागिल्लें. पोक्याक दोन वर्सां पूरी जातकीर कायद्यापरमाणे संस्थेचे चाकरेत कायम केलो.

पोको आतां प्रशिक्षित शिक्षक जाल्लो खरो पूण आपले योग्यतेविशीं ताच्या मनांत खटकतालें. ताचें शिकप बरें जातालें. भुरग्यांच्या मनाचो थाव घेवन तांका जाय आनी आवडटा तशें शिकोवपाचो ताचो येत्न आशिल्लो. सरकार पोक्याक ग्रेज्युएट मानतालें. पूण पोक्याक मात आपूण खंयी उणो पडटा अशें दिसतालें. हेर पदवीधर शिक्षिका प्राथमिक शाळेंतल्यान कॉलेजमेरेन खंयच खाडो घालीनासतना शिकिल्ल्यो. पूण पोको पयलेकसावन एकदम सातवेक आनी सातवेक सावन ताणें एस्.एस्.सी. क उडी मारिल्ली. सातवी आनी एस्.एस्.सी. सोडली जाल्यार हेर इयेत्तांचो ताणें अभ्यास करुंक नाशिल्लो. हें कितें शिक्षण जालें. एस्.एस्.सी. उपरांत बी. ए. जाता म्हणसर खूब विशय शिकचे पडटात. पूण पोको ते सोडून फकत हिन्दी विशयांतच गिन्यानी जाल्लो. पोक्याक खटकतालें तें हेंच.

पोक्याक जाय जाल्यार प्राप्त शिक्षणाचेर फुडलें आयुश्य कसली आडखळ नासतना घालोवंक जातालें. पूण पोक्याक तातूंत समादान केन्नाच मेळचें नाशिल्लें. ताणें विश्वविद्यालयाची प्रि. डिग्री, बी.ए. भाग एक, दोन आनी तीन शिकून आनी एक बी.ए.ची पदवी घेवपाचें थारायलें आनी तातूंत ताका बरेपयकीं यशय मेळ्ळें.

अशे तरेन पोको पंडित जालो, शिकोवपाची ताणें सनदय घेतली, विश्वविद्यालयाची पदवीय घेतली, तरीय शिक्षणाची भूक ताची शमलीना.

ताच्या भितरलो आवाज ताका सांगूंक लागलो, पोक्या, कश्टांक खाडो घालूं नाका. फुडें शीक, एम्.ए. जा.

फुडलें एक वर्स पोक्यान माथ्यार कसलोच पेज नासतना एम्.ए. करची वो ना करची म्हूण घालयलें. ताणें पुस्तकां विकतीं घेतलीं. कितले फावट अभ्यास कोमेस केलो आनी कितले फावट पुस्तकां शिकप नाका म्हूण आलमारींत दवरलीं. पूण फुडले वर्सा पोक्यान आपलें मन पक्कें केलें. आपूण एम्.ए. करतालों म्हूण.

ते फुडले दोन वर्सांत अभ्यासांत कसलोच खाडो घालिनासतना पोक्यान एम्.ए. चो कोर्स सोंपोवन तो एम्.ए. पास जालो. आनी पोक्यान आपल्या फोर्मल शिकपांत हांगाच विरामं घेतलो.

पोक्याक वळखतात ते लोक म्हणूंक लागले, पोक्याचेर देवाची सासाय आशिल्ली म्हूण तो शिकूंक पावलो. ना जाल्यार एक पयली शिकून शिक्षणाक राम राम केल्लो भुरगो, फुडें घरचाकर, गोरवां राखणो, पसऱ्यार, हॉटेलार कामां करुन आनी खणींचेर फातर फोडून, शेतांत जोंतां घालून, मानायपण करुन एम्.ए. मेरेन चें शिक्षण घेता? तेंय शिकपाचें वय पासार जालें तेन्ना?

पूण पोक्याक मात तशें दिसना. जण एकल्या प्राण्याच्या काळजांत देव बशिल्लो आसता. हे देवाचो आवाज जो कोण आयकता आनी समजता, तोच हे संवसारांत येवन लोकांक बरी देख दिता. ना जाल्यार एका कवीन सांगलां ते भशेन 'कोट्यावधी जगतात, जिवाणू जगती अन् मरती, जशी ती गवताची पाती.'

पोक्यान आपल्या काळजांत बसून आशिल्ल्या जागृत देवाचो आवाज आयकलो आनी उच्च अशा गुरुपदी वचून बसलो. चिखलांतल्यान एक साळींक फुलिल्ले भशेन.

***





## नंदा धर्मा बोरकार

निवृत्त शिक्षक, कॉन्वेंट हायस्कुलांत ३३ वर्सां हिन्दी, मराठी आनी कोंकणीचें अध्यापन. शिक्षण : एम्. ए., हिन्दी पंडीत, एस्. एच्. एस्. एस्. एका हायस्कुलाचो २५ वर्सां व्यवस्थापक, एके शिक्षणीक संस्थेचो २५ वर्सां सरचिटणीस, एके सहकारी सोसायटीचो १० वर्सां अध्यक्ष.

हिन्दी भाशेचो प्रचारक आनी प्रसारक. आवय भाशेंतल्यान शिक्षण मेळचें म्हण यत्न, प्रौढ शिक्षणां खातीर तशेंच विडी–तंबाखू विरोधी वावरांत योगदान.

कोंकणी आनी मराठी कितल्याशाच नाटकांतल्यान अभिनय.

नवप्रभा दिसाळ्यांतल्यान तशेंच 'बिम्ब' मासिकांतल्यान सातत्यान लेखन.

एक मराठी, दोन कोंकणी नाटकां आनी 'कुळागरांतलो सर्गानंद' हीं पुस्तकां प्रकाशनाचे वाटेर.

Printed at **impressions,** Bgm. Ph.: 0831-2421232